

## तुमच्या तळहातार पुराय संवसाराचें भवितव्य पेलतना तुमकां कशें दिसतलें?

हो तुमच्या उदकाचो निमणो थेंब आसल्यार
तुमी तो कितली काळजी घेवन जतनायेन वापरतले?




गोंय हें उदका पुरवण पातळी, पुरवठो क्षेत्र
आनी प्रमाणशीर पुरवठो हातूंत पयल्या क्रमांकाचें राज्य.

तरीय, असमान वितरण आनी कांय गिरायकांकडल्यान
सुमाराभायलो वापर आनी उधळपट्टी उदकाचो उणाव हाडटा.

## उदक सांबाळून वापरात

## गोंय राज्यांत सकयल दिल्ल्या बांदावळ येवजण्याखाल उदरगत आनी उत्कर्श सादपाचो यत्न

अ) रस्ते आनी पूल: राष्ट्रीय म्हा-मार्गासयत, म्हत्वाचे रस्ते आनी गांवगिरे रस्ते.
ब) संस्थांखातीर संकुलां आनी हेर रासवळ इमारती.
क) मुखेल उदका पुरवण येवजण, गटार येवजण आनी सुलभ शौचालया सारक्या उण्या खर्चाच्यो भलायकी देण्यो येवजण्यो
ड) जेटी आनी धक्यां सारख्यो उदकासंबंदी येवजण्यो.
इ) खेळां मैदानां आनी जलतरण तशेंच शार आनी गांवगिऱ्या वाठारांखातीर हेर नागरी बांदावळ.

### उदरगत आनी उत्कर्शाद्वारा विकास

आरबिडी कायदो, १९६९ प्रमाण जन्म आनी मृत्यू नोंदणी सक्तीची आसा.

**रासवळ बांधकाम खातें**
गोंय सरकार

## HELPING SMALL ENTREPRENEURS TO

# THINK BIG




The EDC HOUSE,
PANAJI









## MICRO FINANCE BRANCH

### SCHEMES OF ASSISTANCE:

**GENERAL TERM LOANS**
For manufacturing, service and business enterprises

**SCHEME FOR PROFESSIONALS**
For Doctors, Chartered accountants, Company Secretaries, Consulting Engineers/ Registered Valuers, Architects

**CHIEF MINISTER'S ROZGAR YOJANA**
A self employment loan scheme for unemployed persons

**HOUSING & VEHICLES LOAN SCHEME**
For employees of the Government and its Corporations

### OTHER KEY SERVICES OF EDC

- Project finance
- Infrastructure finance
- Project advisory services
- Project and property development
- Development of projects under Public Private Partnership (PPP)
- State & Central Government schemes
- Special loans for developers and builders for residential and commercial complexes.

# EDC LIMITED

EDC

(A GOVT. OF GOA FINANCIAL & INVESTMENT CORPORATION)

Corporate Office:

EDC House, Dr. A. B. Road, Panaji - Goa - 403001, India.
Tel: (0832) 2224542, 2221458, 2423983 Fax: (0832) 2224938
E-mail: edcpanaji@edc-goa.com Website:www.edc-goa.com

Training and empowerment

CENTRE FOR EMPOWERMENT AND EXCELLENCE
NALANDA
Multipurpose A/c. Auditorium


GOA SHIPYARD LIMITED
(AN ISO 9001 COMPANY)
SHIPBUILDERS, SHIPREPAIRERS & ENGINEERS
( A Govt. Of India Undertaking - Ministry Of Defence )
ISO 9001 : 2000 APPROVED BY IRQS
Established in 1957 ..... Marching Ahead .....
105m Naval OPV
105m OPV
102m OPV
90m OPV
35 Kn FPV
Sail Training Ship
Marine Costal Police Boats
★ In-house design capability
• Proven design for Patrol Vessels ranging from 50 to 105 metres
★ World Class CAD-CAM facility
• Tribon platform having interface with Baan – ERP
★ ERP for Project Monitoring & Control
★ Modern Steel Preparation Shop
• CNC Plate Cutting Machines
• Automatic Shot Blasting Equipment
• CNC Pipe Bending Machine
★ Modern Electronic Workshop
★ Ship Repair and General Engineering Services
★ Setting up of Simulated Training Facilities
... Committed to Excellence
... Committed to Quality
VASCO-DA-GAMA, GOA-403 802. INDIA.
PH: +91(832) 2512152 to 2512156 /2513954 / 2514467 / 2514471
FAX: +91(832) 2513260 / 2513943 / 2512148
E-mail : contactus@goashipyard.com
Visit us at www.goashipyard.com
Chairman & Managing Director : RADM. (Retd.) A. K. Handa, AVSM VSM



Listen to Goem Shahir's last Vocal Recital, one of the most remembered Golden Contributions 'Zayat Zage'
BUYAO
presents
Valley of Colorz
Buy your copy today and support me to help the Canacona flood victims through the sale proceeds.
Sms with your detail postal address for home delivery by VPP on 9823317985 .. or email : subuyao@gmail.com

# ओस्टेरिटी, नरकासूर आनी दिवाळी !



दिवाळी गोंयांत मनयतात पूण ती देशांतल्या हेर राज्यांनी मनयतात तितल्या उत्साहान न्हय. गोंयांत उत्साहान मनयतात ती चवथ आनी दिवाळेच्या आदले राती नरकासूर!

चवथीचो नेट आनी नरकासूराचो नेट! उत्सवप्रीय गोंयकारांक दोनूय सारकेच. एक मूर्तीपूजा आनी दुसरी प्रतिमापूजा! मूर्ती आनी प्रतिमा हांतलो फरक गोंयच्या उत्सवप्रेमी लोकांक होलमना. हे दोनूय उत्सव एकूच अशें मानून गोंयकार धुंद जावन नाचतात. दोनूय उत्सवांक दानी लोक भरभरून दान दितात.

गणेशमूर्ती ही मांगल्याचें प्रतिक. नरकासूर प्रतिमा ही वायटाची प्रतिमा. गणेशमूर्तीचो उत्सव हो जीवितांत सूखशांती आनी जें जें कितें बरें आसा ताची उपासना करपाचो उत्सव! दीपावलीचोय उत्सव हो तसोच. देसांतल्या सगळया राज्यांत होच दीपोत्सव चलता. गणेशोत्सव तसो मोठ्या प्रमाणात जायना. जाता तो फकत महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या दोनूच राज्यानी! पूण महाराष्ट्रांत नरकासूरोत्सव जायना. ती मक्तेदारी फकत गोंयकारानीच आपल्या बोडार घेतल्या आनी ह्या उत्सवाक दान दिवपीय ह्याच गोंयांत जळामळाक दिश्टी पडटात.

महाराष्ट्राची आमी सांस्कृतीक परंपरा आपणायल्या. तेच पासत गोंयांत दीपोत्सवा परस गणेशोत्सवाक चड म्हत्व फाव जालां. पूण गोंयची नरकासूर परंपरा मात महाराष्ट्रान घेवंक ना. घेवचेय ना. कारण जें अमंगळ तें आपणावपाची महाराष्ट्राची तयारी ना. तशी ती कोणाचीच आसचिना. तेच पासत हेर राज्यांतले पर्यटक नरकासूरोत्सवाक येतात. नरका!सूराची स्पर्धा पळयतात आनी कोनशाक आशिल्ल्या कृष्णाकडेन आडनदर करतात. हें सगळें घडटा तें असल्या उत्सवाक राज्यमान्यताय गावता तेन्ना.

हें अशें कित्याक घडटा तर त्या त्या राज्यांतल्या समाजाचे विचारसरणीच्या प्रभावाक लागून. गोंयची सामाजिक विचारसरणी ही मूर्तीपूजा आनी प्रतिमापूजे भोंवतणीच घुस्पल्ली आसा. राजकी प्रतिमा ह्योच समाजाचें दैवत जाल्ल्यो आसात. ह्या प्रतिमां मदली गणेशमूर्ती खंयची आनी नरकासूर प्रतिमा खंयची हाचो ताळमेळ

लागना जाल्ल्यान नरकासूरांचोच उदो उदो गोंयभर जाल्लो दिसता.

आमचे सारके कांय लोक महाराष्ट्राची परंपरा घेवन मुखार वचपाचो यत्न करतात. पूण ती परंपरा फकत कुड्डें अनुकरण न्हय. आमी सार्वजनिक गणेशोत्सव महाराष्ट्रा कडल्यान घेतला. आनीक एक परंपरा आमी घेतल्या ती दिवाळी अंकोत्सवाची! पूण ते परंपरेक नरकासूरोत्सवाक जितलो तेंको मेळटा ताच्या अर्दान लेगीत मेळना. ताचें म्हत्वूय कोणाक होलमना.

मराठी दिवाळी अंकाची परंपरा शंबरीच्या हुमऱ्यार आसा.

ताच्या अर्द्यान लेगीत ती गोंयांत ना. धरून फाटल्या तिसेक वर्सांची ही परंपरा. पूण हे परंपरेन गोंयच्या कितल्या तरी लेखकांक वयर हाडल्यात. तांच्या साहित्याक उर्बा दिल्या आनी दिवाळी अंकानी उजवाडाक आयिल्ल्या साहित्याचीं पुस्तकांय तयार जाल्यांत. दिवाळी अंकाच्या रुपान ही जी संस्कृताय गोंयांत सुरू जाल्या तीच खरे अर्थान दिवाळी. तोच दीपोत्सव!

पूण हे संस्कृतायेक समाजाकडल्यान, शासनाकडल्यान आनी हेर औद्योगिक आस्थापनांकडल्यान कितलो तेंको मेळटा? अकलेक आयिल्ले संपादक आनी प्रकाशक याचक जावन तांच्या दारांत वतात आनी इजमोल घेवंचें तशें जें हातार पडटा तें घेवन परततात. शासन जावं, उद्योजक जावं वो समाजाचे हेर घटक, तांकां ह्या गजालींक म्हत्व दिन दिसना. कारण कितें तर आमची विचारसरणी नरकासुराची प्रतिमा पुजप्यांची.

आदींच नानाकार तातूंत अदीक वार अशें कोणेंतरी म्हणिल्लें एकदां आयकल्लें.

जांकां पयलींच असल्या वावराक प्रोत्साहन दिवंचें अशें दिसना तांच्या हातांत आतां ओस्टेरिटीचें शस्त्र आयलां.

प्रधानमंत्री, अर्थमंत्री हाणीं देशभरांतल्या लोकांक ओस्टेरिटी पाळची असो सल्लो दिला. ओस्टेरिटी म्हळयार कितें? तर भोगवादी जिवन पध्दतीचेर संयम बाळगप. आयज राजकी नरकासूर जनतेच्या दुडवांचेर जी मौजमजा करतात तांच्या खर्चाचेर नियंत्रण दवरपा खातीर प्रधानमंत्र्यांनी ही सुचोवणी केल्या. पूण ताचो वापर खंय जाता?

खंयचेय बँकींत वचात. सांगतात, ओस्टेरिटी. सरकारकडेन जायरात मागात-कारण मुखार दवरतात ओस्टेरिटी.

हें ओस्टेरिटीचें कारण मुखार दवरून दिवाळी अंकाक दितपी जायरातींचेर कपात करपाचें धोरण सगळ्यांनीं आखलां.

दिवाळी अंक म्हळ्यार भोगी जीवन? काकूट दिसता असल्या अकलेच्या लोकांची! हांची अक्कल तर नरकासूरांक पुजपाची.

तरी लेगीत हे विचारसरणे पासून पयस आशिल्ले, खरेंच उजवाडाची पूजा करूंक तावुरपीय कांय लोक ह्या समाजांत आसात. ह्याच लोकांच्या बळाचेर आमी काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वतात. वो स्वताचोच उजवाड करपा खातीर वावुरतात. ते लोक फकत आपले तांकी परमाण तेल घालतात.

त्या सगळ्यांक आमचो सलाम!

# बिम्ब
दिवाळी २००९

*वर्स : २ अंक ९/१०*

(आएनआयचे नोंदणी खातीर तांत्रीक बदल)

दिवाळी २००९

मूळ वर्स : ८ अंक ९/१०

मोल १०० रुपया

मुखेल संपादक: दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक: दिलीप बोरकार

छापणावळ: इम्प्रेशन्स, बेळगांव

मार्केटींग व्यवस्थापन: कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ: श्वेता नाईक, सोनल कुंडयकार

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

निर्मिती पालव
सुफला रूद्राजी गायतोंडे
राजीव आजगांवकार



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in




## मुखपृष्ठ चित्र



अनिश गिरिश बोरकार
वर्ग-दुसरी, पिराय ७ वर्सां
(पिकनिके वेळार काडिल्लो फोटो. पयलें इनाम)

## लेख



## हरयाळी/२११



## भोंवडेखबर



## कविता



## भुरग्यांचें आंगण/२०८



## उतरकुवाडें – संतोष शिवराम हळर्णकार/२०७

## कथा



## संत तुकाराम



## रेखाटन

# जिल्हा ग्रामिण विकास यंत्रणा

## राष्ट्रीय ग्रामिण रोजगार हमी योजना

- हे योजनेचें उद्धीश्ट देशांतल्या ग्रामिण वाठारांत रावपी कुटुंबाचें जीवनमान वाडोवप.
- आर्थिक वर्सांतल्यान दर कुटुंबाक कमीत कमी १०० दीस काम दिवप. १८ वर्सां वयर लोकांकूच काम मेळटा.
- काम मेळपा खातीर जॉब कार्ड (JOB CARD) करप गरजेचें.
- जॉब कार्ड (JOB CARD) करपाक लागशिल्ले ग्रामपंचायतींत अर्ज करूंक येता.
- जॉब कार्ड करपाक दोन फोटवांची गरज आसता. फोटो काडपाची तरतूद केल्ली आसा.
- अर्ज करतकीच १५ दिसां भितर जॉब कार्ड मेळटा.
- जॉब कार्ड करपाक कसलेंच शुल्क आकारलेलें ना. अर्थात जॉब कार्ड फुकट मेळटा.
- जॉब कार्ड मेळ्ळ्या उपरांत कामा खातीर अर्ज करप गरजेचें.
- कामाक अर्ज करतकीच १५ दिसां भितर काम दिवपाक जाय. जर १५ दिसां भितर काम दिलें ना. जाल्यार १५ दिसां भितर बेकारी भत्तो मेळटा.
- काम ५ कि. मी. अंतरा भितर मेळटा. ५ कि. मी. अंतरा भायर काम दिलें जाल्यार १०% अदिक मजुरी मेळटा.
- मजुरी दर आठवडो वा पंदरा दिसांभितर मेळटा.
- दादलो आनी बायल हांकां समान मजुरी मेळटा.
- खंयचीं कामां करून घेवप हें ग्रामसभा थारयता.
- शेतां, कुळागरां आनी रानां सांबाळून दवरपा खातीर तशेंच उदकाचें संवर्धन आनी उदक साठोवन दवरप ह्या सारकीं कामां हे येवजणे सकयल करूंक येतात.
- हीं कामां कंत्राट पध्दतीचेर जावंचीं नांत. तशेंच मशिनाचोय वापर जावंचो ना.
- सामाजीक परिक्षण ग्राम सभेन करूं येता.
- बँकेचो वा पोस्टऑफिसाचो खाता नंबर दिवप सक्तीचें आसा. मजुरी बँकेंत वा पोस्ट ऑफिसाच्या खात्यांतल्यान मेळटली.
- अदीक म्हायती खातीर ग्राम पंचायतीन नेमणूक केल्ल्या ग्रामरोजगार सहाय्यक वा गटविकास अधिकारी कचेरेंत कार्यावळ अधिकाऱ्याक मेळूं येता. तशेंच १८०० २३३ १८२३ ह्या नंबराचेर फोन करून म्हायती घेवं येता.



# अमृतमय

- प्रदीप निफाडकर

तिणें उतरांची आराधना केली.
ताची पूजा मांडली. ताणें तिचेर
रंगांचीं फुलां शिंपडलीं.
तिणें सत्याक. स्वतंत्रतायेक
आपले लेखणेन उबारलें. ताणें पिशोल
मुखार करून ताची गुडी बांदली. तिणें नश्वर
देहाचीं वस्त्रां शेंवटून आपल्या
मुक्त जिण्याक मेकळें केलें. ताणें देहाचेर
केन्ना मोगूच केलो ना, देखून तो आत्म्याच्या
झोपाळ्यार झेलतच आसा
तो जावन आसा इमरोज! ती आसा अमृता!

**ती** आसा! हय, आसा! तिका पळोवंक जाय? तिच्या पुस्तकांत? चे! तसो दरेक साहित्यिक ताच्या पुस्तकांतल्यान जिवंतूच आसता; पूण तिका पळोवपाची आसत जाल्यार 'ताची' नदर जाय आनी त्याखातीर दिल्लीच्या हौजखास वाठारांतल्या 'के-२५' ह्या तांच्या महालांत वचचें पडटलें. तांच्या मोगाच्या इंद्रधोणवान तो महाल आजूनय परजळ्ळेलो आसा. सगळे रंग पक्के आसात. एक लेखणी एका पिशोला वांगडा हांसता! झेलता!

दाराचेर तिचें नांव दिसता पळय, तें ताचे शैलींत. जणकाय इंद्रधोणवाची खूण सांगपी दोनय (स्ट्रोक) रफार. दार उगडटा. थंयचीं पानां...फुलां... तांच्या सहवासाच्या पावलांचे आवाज काळजाकडेन जपपी. इस्काद चडात. रंगांनी शब्दांचेर केल्ली माया निस्तता. केन्ना ताच्या पिशोलांतल्यान देंविल्लें तिचें चित्र तर केन्ना तिच्या नांवाचेर ताच्या रंगांनी घाल्ली फुंकर. केन्ना दोगांयच्या सहवासान रंगल्ले 'नागमणी'चे खीण.

आयले इस्काद चडून वयर? ही उजवेवटेनची तिची कूड आनी दावेवटेनची ताची.

तिचो पलंग सामको तस्सोच... जणू निकतीच ती बरयतां बरयतां उठून गेल्या. ताचे कुडींत वचचे आदीं त्या दोगांनी बंदिस्त केल्ले दरेक खीण हुपचे पडटात. पावलां रेंगाळ्ळीं न्हय? त्या रेंगाळपी खिणांवरी? रेंगाळूं दी, घाई कोणाक आसा? कोणाकूच कसली घाई ना. हांगा राग, घाई, चिडचीड, चंगळवाद, भपको सगळ्यांकूच प्रवेशबंदी. पळयात, सवकास एकेक खीण वेंचात. मागीर पळयात तांची मठी, वणटी. खंय? चित्रांच्यो, तिच्या एकेका छायाचित्राच्यो, एकेक यादींच्यो वणटीच तर उब्यो आसात!

तो फोटू तिणें पयलोच स्वयंपाक केल्लो ताचो! तो जिवलग सखी इंदिरा गांधी वांगडचो! तो सतारींच्यो तारो ल्हवपीक छेडटनाचो! तें अक्षर तिच्या नांवात भिजिल्लें!

अमृता प्रीतम आनी ईमरोज.

इमरोज आनी अमृता. खिणांनी, काळान, नश्वर देहान, संवसारान कोणेंच तांका कुशीक काडूंक ना. तीं आजून तांच्या सहवासाच्या भक्कम किल्ल्यार ताठ मानेन मोगाच्या पूजेचो प्रसाद वाटतात....

राजधानीच्या माथ्यार हळदुव्या-तांबड्या दिव्यांची पिकपिक जाता, सकाळ जाता... रात जाता... रात जाता... सकाळ जाता, पूण हौजखास मदली ही प्रतिरागाची मैफल तल्लीन जाल्ली आसा. (रंगलेली तर आदींच).

इमरोजाक आतां केन्नाय मेळतकच आमी ताचे मैफलीचे श्रोते केन्ना



जावन वतात तेंच कळना. तोच उबगण न येवपी हांसो आनी शेजाऱ्याक लेगीत आयकूंक वचचें ना, इतल्या हळू आवाजांत ल्हवपीक उतरां झुरमुरतात, "चलो, पहले एक नयी नज्म सुनो..."

उसने जिस्म छोडा है, साथ नहीं
वो अब भी मिलती है
कभी बादलों की छाँव में
कभी तारोंकी छाँव में
कभी खयालों की उजाले में
हम मिलकर चलते रहते है
एक दुसरे को देख देख
कूछ कहते रहते है
हमे बगीचे में चलते हुए देखकर
फुल हमे बुला लेते है
हम फुलों के घेरे में बैठकर
फुलों को अपनी कलाम सुनाते है
वो अपनी अनलिखी कविता सुनाती है
मैं भी अपनी नज्म उसको सुनाता हूँ
वक्त पास खडा
ये अनलिखी शायरी
सुनाता – सुनता
अपने रोज की नियम भूल जाता है
और वक्त को वक्त याद आता है
कभी शाम हो गई होती है
और कभी दिन चढा आया होता है
उसने जिस्म छोडा है, साथ नही !

कविता सोंपली, तिचो पोत धरून विचारलें, "बाबाजी, तुमी तर चित्रकार, हें कवितेचें पिशें? आनी आदीं तर तुमी कविता बरय नाशिल्ले... आतांच?"

बाबाजीन सट्ट करून म्हळें, "अमृता देहरूपान आशिल्ली, तेन्नाय हांव कविता बरयतालों. फरक इतलोच, तेन्ना कविता जिवितांत देंवताली, आता कागदार देंवता."

शब्द आनी रंगांचें पुरायेन एकरूप जावप, कोण वेगळावंक शकता? बाबाजी त्या खिणांक ल्हवपीक उसोवंक लागले. तेन्ना इमरोज साऊथ पटेलनगरांत रावताले आनी अमृता वेस्ट पटेलनगरांत. एक खेप अमृताच्या पुस्तकाच्या मुखपृश्ठा निमतान तांची वळख जाली. ते आदीं ताणीं अमृताक वाचिल्लें. एक पोसकी चली, ते चलयेच्या पांयगुणान जाल्लो चलो आनी



घटस्फोट सांबाळीत अमृता शब्दांच्या वाटांमदल्यान जगपाचो मार्ग सोदताली. आकाशवाणीर थोड्या-थोड्या दिसांचे बोलीर काम करताली. नोकरीय सुखा सारकी कायम नाशिल्ली. कायम आशिल्ली फक्त जिद्द. ते जिद्दीक तिणें सलाम केलो. इमरोज सांगूंक लागलो, "हांव सदांच तिका बसीन वतना नियाळटालों. दिसतालें, येदी व्हडली लेखिका, तरी बसीन वता? कितले त्रास भोगता आसतले तिका? हांवें हांगा थंयच्यान सोळाशें रुपया एकठांय केले. एक स्कुटर घेतली. आदले वळखीचो लाव घेत एकदीस विचारलें, "हांव तुमकां आकाशवाणी मेरेन सदां पावोवं?" तिणें हयकार थांबनासतना दिलो. हांव सदांच पावपाक आनी हाडपाकूय वचूंक लागलों. एकदीस तिणं सांगलें, "म्हजीं भुरगीं आतां शाळेंत वचूंक लागल्यांत. तांका सोडचीं पडटा. तुमी आतां त्रास घेवं नाकात." म्हज्याय हें लक्षांत आयिल्लें. हांवें म्हळें, "अमृताजी, तुमी पांच हजार जमयात, हांवूय पांच हजार जमयतां. एक मोटार घेवया." जालेंय तशेंच. हांव सदांच भुरग्यांक आनी तिकाय व्हरूं-हाडूंक लागलों. हळुहळू आमी एकमेकांची जालीं. एकठांय रावंक लागलीं."

हें चडकरून १९६० साल आसूंक जाय. अमृता प्रीतम इमरोज परस सात वर्सांनी व्हडली. १९५६त अमृतान 'आखिरी खत' ही कविता बरयल्ली. 'आईना' नावाच्या उर्दू नेमाळ्यांत ती कविता जेन्ना प्रसिध्दी खातीर आयली, तेन्ना ईमरोज 'आईना', आनी 'शमा' ह्या उर्दू नेमाळ्यांखातीर चित्रकार म्हूण काम करतालो. तेन्ना रावूंक नज जावन अमृताक ताणें विचारलें, "हें पत्र तुमी कोणा खातीर बरयलां? तुमी सांगतात जाल्यार हांव

ते व्यक्तीचें चित्र काडीन." अमृतान ती जाप दिवप टाळलें, कारण तिणें ती कविता साहिर लुधियानवीं खातीर बरयल्ली. शेवटाक इमरोजान ती आपलेच खातीर अशें समजून तशेंच चित्र काडलें. एके प्रेमगाथेचो हो आरंब! अमृताच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार 'काला गुलाब'त ती म्हणटा, "म्हज्या मोग्या, म्हजे कल्पने! दिसता म्हजें पुराय आयुश्य म्हळ्यार तुका बरयल्लें पत्रूच. म्हज्या काळजाचो दरेक ठोको एकेक अक्षर. म्हजो दरेक स्वास म्हळ्यार मात्रा, दरेक दीस म्हळ्यार वाक्य



आनी पुराय जीवन एक पत्र! जर केन्नाय हें पत्र तुजे मेरेन पावलें, जाल्यार म्हाका खंयचेच भाशेंतल्या शब्दांची अडचण भासची ना."

इमरोज उलयतां उलयतां ४८ वर्सां फाटीं गेलो. पंजाबांतल्या आदीवासींच्या एके जमातींत चलयो आपलेपासत न्हवरो सोदतात. ताचेर आधारीत 'डॉ. देव' ही कादंबरी अमृतान बरयल्ली. हांवें ती आमी मेळचे आदीं वाचिल्लीय. एकखेप हांवें भारावन तिका फोन केलो. अमृतान 'कोण' म्हण विचारतकच हांवें म्हळें, 'डॉ. देव उलयतां' आनी फोन दवरलो. कांय वर्सांनी तिका हें सांगलें, तेन्ना ती खूब हांसली. आरे, हांव तिचेपरस ल्हान आनी त्या काळार आनीकूय ल्हान दिसतालों. तिका मजत करतां हाचो अभिमान, गर्व असो नाशिल्लोच. कित्याक जाय? मजत किते 'रिटर्न गिफ्ट'चे अपेक्षेन करतात? हांवें जिवीत भर तशें करूंकूच ना. इतलेंच न्हय, तिचे मित्र-मैत्रिणींक हांव झाडू हाडटां हाचें कवतूक दिसतालें. तातूंत कितें? आमी घरांत भाजी हाडीनांत? भाजी तसो झाडू! तातूंत कित्याक लजपाचें? आपूण जाचेर मोग करता पळय, ताका कायम खूश दवरपाचें



आसता. आमी जेन्ना एकठांय रावंक लागलीं, तेन्ना एक-दोन खेप हांवें मध्यान राती उठून पळयलें जाल्यार अमृता च्या करता. म्हाका कळ्ळें, हिका रातचें बरोवपावाचपाची संवय आसा. तिका च्या जाय आसता. मागीर हांवूय रातचो बरोबर देडाक उठूंक लागलों. संवयूच केली तशी आनी ती बरयता आसतना ल्हवूच च्याचो कप तिचे म्हऱ्यांत दवरूंक लागलों. जालें ना तिचें काम? अश्यो कितल्योश्योच गजाली आसात. तिच्यो मित्र-मैत्रिणी आयल्यार हांव च्या करून तांका दियी आनी आपले कुडींत वच. च्या दिली म्हूण तांच्या खबरांनी वांटेकार जावपाचो म्हाका हक्क ना. अमृताक दिसता जाल्यारूच ती म्हाका आपयताली. मागीर आमी मेकळेपणान गजाली मारी. घरांतूच कित्याक, अमृताक दिल्लींतल्या कितल्या तरी राजदूतावासात जेवणाक निमंत्रण येतालें. हांव स्कुटरीवेल्यान तिका सोडूंक वतालों. तिका येवंक रात जाताली. मागीर हांव डबोच वांगडा व्हरूंक लागलों. दूतावासाच्या भायर हिरवळीर मस्त जेवतालों. फ्रान्साच्या राजदूताक एकदां हें कळ्ळें. मागीर ते म्हाकाय निमंत्रण दिवंक लागले. आपले

**मोग आसा; अंधश्रध्दा न्हय**

अमृताचेर इमरोज हाचो मोगूच आशिल्लो; अंधश्रध्दा न्हय. चाळीस वर्सांच्या सहवासा उपरांत अमृतान देहाचीं वस्त्रां देवयलीं. तेन्ना इमरोज रडलो ना. 'हांव खूब' रिलॅक्स जालों अशें म्हणटा. कारण तिका यातनेच्या बेडयांतल्यान हांव सोडोवंक शकलों ना. मर्णान तें काम केलें. एक स्वातंत्र्याची आवड आशिल्लो आत्मो देहाचो पांदरो सोडून परतून स्वतंत्र जालो.

प्रियतमेक, मित्राक, मैत्रिणीक कितें जाय, तें कळप हेंच खरें प्रेम. तो सकश्टांत आसा हें कळ्ळें की मजत करप हें प्रेम."

विशय अमृता - इमरोजच्या रूळावेल्यान पती-पत्नीच्या संबंदाचेर आयिल्लो. रूळ बदल्ले, गाडी न्हय. इमरोज उलयतूच आशिल्लो. "केन्ना तरी घोव बायलेक विचारता व्हय, आगो आमी आतां एक भुरगें हाडुया? तो तर जणू बलात्कारूच करीत आसता. देखून भुरगीं वायट निपजतात. ये अनचाहे बच्चे, मनचाहे नहीं. दोगांयच्याय एकमत्तान भुरगीं जावंक जाय.

ते खरे संबंद, तें खरें नातें. लग्नान कुडी एकठांय येता आसत, मनाचें कितें? आमी दोन-चार वर्सां एकठांय भोंवलीं. एकमेकाक समजून घेतलें आनी मागीरूच एकठांय रावपाचो निर्णय पक्को केलो. लग्न म्हळ्यार एक कायदेशीर नातें. कित्याक जाय तें? घटस्फोटाच्या खटल्यांत बायल-घोवाक ह्या देशांतले न्यायाधीश सांगतात, "मातसो परतून एक फावट विचार करात. एकठांय रावन पळयात." आरेच्चा! तुमकां मतां दिवंक बसयल्यात काय न्याय दिवंक? मागीर न्याय दियात मू! मत्तां कित्याक? आता हें हांवें उलोवप म्हळ्यार न्यायालयाचो अवमान जातलो; पूण न्यायाधीश मत्त दितात तोच खरो अवमान. म्हजी एक नवीन कविता आयकात -

ये रब का कोई तजुर्बा होगा करामात नहीं
के बच्चा औरत का जिस्म पैदा करे, औरत नही
औरत ने ही औरत के जिस्म से
जबर के बच्चे पैदा किए
रेप के बच्चे जन्मे
और अनचाहे मर्दों के अनगिनत !
ये जुल्म औरत के साथ
सदियों से होता आ रहा है
औरत कुछ नही करती
सिर्फ चुपचाप बर्दाश्त करती है
इस जुल्म के साथ
एक और जुल्म होता आ रहा है
मनचाही नस्ल की जगह
अनचाही नस्ल का पैदा होते जाना
इस बढती हुई अनचाही नस्ल का
किसी को भी, किसी जगह भी
कोई फिक्र नजर नहीं आती
ना रब को, ना लोगों को
ये रब का कोई तजुर्बा होगा करामात नहीं

हें मनशाक केन्ना कळटलें? प्राणी-पक्षी तुमचे परस हुशार म्हणपाचे. थंय नर सुंदर नाच करतात, गोड आवाजान भोंवर मारतात, घोंटेर बांदतात आनी मादीक पसंत पडलें, जाल्यारूच संबंद दवरतात. ना तर ना. मनीस ह्या शेवण्यां मुखार मूर्ख थरता. मोर कितें पावसाखातीर पिसारो फुलयता? कोगूळ कितें तुमचेपासत गायता? शेवण्यां मदल्या सगळ्या नरांकडल्यान दादल्यांनी शिकूंक जाय. सादी जळारांच घेयात. पूण नर जळार चाबना. मादीच चाबता. कित्याक? तिका आपल्या पोटांतल्या पिलाक रक्त पुरवठो करपाचो आसता. सादी गजाल. तुमच्या घरा कोण येवपा आसलो जाल्यार तुमी घर कितलें साफ करतात. फुलां लायतात. जर कोणूय येवपाचो आसल्यार! मागीर ती जीवितभरा खातीर येवपाची आसा, तिच्या येवकाराक अशें करूं

### आत्तां खंय शाणपण आयलां!

इमरोज हाचें मूळ नांव इंद्रजितसिंग. २६ जानेवारी १९२६ ह्या दिसा ताचो जल्म लाहोराक जालो. १९६६ वर्सा ताणें आपलें नांव बदललें. इमरोजचो अर्थ आसा - आज. 'हांव 'आज' जियेतां, फाल्यांचें खबर ना, कालची पर्वा करिना.' अशें म्हणत नांव बदललें. ताका दोन भाव, दोन भयणी. निकताच तो नांका मेळून आयला. कितल्यातरी वर्सांनी. ताचेर तो म्हणटा, 'म्हजें घरचे पळय कितले बरे ते! हांव घरा गेलों तर कोणें कसली तक्रारूच केली ना. हाच्या लग्नाक कित्याक आयलो ना, ताच्या मरणाक कित्याक आयलो ना अशें कांयच विचारलें ना. गेल्यार सगळ्यांनी खोशयेन येवकार दिलो. आतां भाव-भयण सगळे निवृत्त जाल्यात. हांवंच तितलो निवृत्त जावंक ना. ८२व्या वर्साय काम करतां. आयुश्य 'एन्जॉय' करतां.'' खरें कारण विचारशात, तर आत्तां खंय शाणपण आयलां.

नाका? बायल मनशेचो सन्मान जावंकच जाय. हे न जावपाचें कारण म्हळ्यार आमची शिक्षण पध्दत. ती बदलूंक जाय. आमी कितें करतात, राजा-म्हाराजांच्यो काणयो शिकयतात. आरे, जाणी हजारांनी लोकांक मारले ते कसले राजा? जाणीं हजारांनी बायलांक विधवा केल्यो आनी लाखानी भुरग्यांक अनाथ केले, ते कसले राजा? ते तर डाकू. आमी तांच्यो काणयो शिकयतले, पूण गार्गी, जनकराजाची न्हय. आजून मनशां भितर 'राजां' आसात. भटजी लग्नावेळार स्तोत्र म्हणटा, 'हांव म्हज्या स्वामीची सेवा करीन' आनी बायलांय अर्थ कळनासतना म्हणटात. केन्ना तरी एखादे बायलेन भटजीक ठणकावपाक जाय, 'हांव धनयांकडेन लग्न करिना, मित्राकडेन करतां.' पूण घडना तशें. होय दोश परत शिक्षण पध्दतीचोच आसा. आमी प्रस्न विचारूंक शिकयच नांत. थेट डाकवांच्यो कथा बोडार थापतात. आरे, ह्या माणकुल्यांक वाचूं दी. मागीर तेच थारायतले कोण डाकू आनी कोण राजा! हें चित्रकलेच्या शिक्षणांतूय आसा आं! हांव तर सातवेकूच शाळा सोडपाचो आशिल्लों, पूण बापायन म्हळें, 'निदान मॅट्रीक पास जा' देखून जालों. म्हाविद्यालयांत गेलों. पयल्या वर्सा, पयलो आयलों. देखून मुखार शिकूंक लागलों. चित्रकलेंत रमतालों देखून शिकलों, पूण थंयूय तेंच पळयलें. जो मास्तर तुमकां चित्र शिकयता, ताचें गिन्यान तुमचे परस २५ वर्सां पयलींचें आसा. आनी चित्र ही कितें शिकपाची बाब? खरें म्हळ्यार चित्रकलेंतय शिक्षक न्हय पर्यवेक्षक जाय आसता. तुमी भायल्या चित्रकाराक आपयात. ताका चित्र काडूंक लायात. भुरगीं तें पळोवन शिकतलीं. हांव शिकिल्लो न्हय आनी अमृता तरी खंय शिकल्या? आतां तिच्यो कविता

अभ्यासक्रमांत आसात. तिका जेन्ना नोकरेची गरज आशिल्ली तेन्ना ह्या म्हाविद्यालयांनी तिका शिक्षिका जावंक दिलेंना. हांव सांगतालों, "आरे, तिका शिकोवं दी, ती उत्तम शिक्षिका." तर ते म्हणटाले, "तिचेकडेन प्रमाणपत्रां नांत." मागीर हांवूय सांगतालों, "प्रमाणपत्र आशिल्ले तुमी खूब घेतले. एक असली घेयात. पूण ना."

शिक्षणपध्दत, नोकरी... विशय खंयचोय आसूं, तातूंत अमृता आसतालीच. कारण इमरोज पुरायेन अमृतामय जाल्लो आसा. अमृता आनी ताका पडपी सपनां हांचें एक सुंदर नातें आसा. अमृताक सपनांत कविता सुचताल्यो, कथा सुचताल्यो. एक काळार एक चित्रकार तिच्या सपनांत येतालो. फाटकुरोच. मुखार इमरोज जीवितांत आयलो आनी तें सपन बंद जालें. स्वप्न सत्यांत देविल्लें न्हय? अमृतान देह सोडल्या उपरांत ती केन्ना इमरोजाच्या सपनांत आयिल्ली व्हय, हें विचारपाचो मोह जालोच. इमरोजान म्हळें, "छे, ती कित्याक येतली स्वप्नांत? ती दिसभर भेटतूच आसता. म्हाका दिसा ती दिसता. ती म्हाका स्वप्नात येवन त्रास दिवची ना."

आनी तें खरेंच आसा. इमरोज दोगांयचेय कुडीचे मदीं रांदचेकुडी मुखार गजाली मारूंक बशिल्लो. पूण, उलयतना अमृताचे कुडीकडेन बोट दाखोवन असो उलयतालो की, जणकाय ती भितरूच आसा. रांदचीकूड पळयली आनी म्हाका ती गजाल येवजली. एकदीस एक पत्रकार इश्टिणीक अमृतान जेवण करून वचपाचो आग्रो केलो. चपात्यो करतना अमृताक कविता सुचली. ती उठून आपले कुडींत गेली. कविता कागदार देंवताली. इमरोजान चपात्यो लाटपाक सुरवात केली. पत्रकार इश्टिणीन आपल्या वेवसाय धर्माक जागून प्रश्न केलो, "इमरोजजी, तुमी चपात्यो लाटतात?" इमरोजान जाप दिली, "म्हाका कविता बरोवंक येनात देखून.." ते

### अमृताची लेखणी

"अमृतान एके सुवातेर इत्सा उक्तायल्ली. म्हज्या कलेवरा वांगडा म्हजी लेखणीय दवरात. तुमी तांची इत्सा पुराय केली?" अशें विचारतकच इमरोज हांसलो. म्हणूंक लागलो, "तिची कितें एकूच लेखणी आशिल्ली. शेकड्यांनीं पेनानी ती बरयताली. बरें, तिका बरोवपाक पेनूच जाय, अशेंय न्हय. स्कुटरीवेल्यान वतना ती म्हजे फाटीर साहिर– साहिर बरयताली. तिच्या बोटांक ती संवयच जाल्ली. खंयीय बसली तरी तर्जनीन ती 'साहिर' अशेंच बरयताली. कित्याक दवरपाची लेखणी? बरें! ती कित्याचेर बरयताली, म्हजे फाटीर, म्हजे. ताका लागून असले अंधश्रध्देंत हांव घुस्पना."



गजालीवेल्यान हांवें विचारलें, "अशें केन्ना परतें घडलां? की तुमकां चित्र सुचलां आनी अमृताजीन तुमी करताले तें काम पुराय केलां?" हांवें विचारपाची मात फुरसद.

"ना. कारण साहित्य ही कलाच अशी आसा, की ती सुचली की बरोवंकच जाय; चित्रकाराचें तशें नासता. संवसारांतल्या खंयच्याय चित्रकाराचें चित्र ताका जाय तशें जायना. ताच्या मनांत उमटता एक आनी कागदार देव मेरेन तें जाता दुसरेंच. बरें, आमचें दोगांयचें कितें जातालें, आमी खातात तेंच सोयऱ्यांक दितात. तांचेखातीर वेगळें करिनाशिल्ले, कारण अमृताक मुळांत स्वयंपाक येना आशिल्लो. आरे तिका हांवें शिकयलां. हांवें ते सुंदर यादीचो एक फोटोय काडला. तिणें पयलीं चपात्यो केल्ल्यो तेन्नाच्यो. हांव तरी स्वयंपाक खंय शिकिल्लों? च्या करूंक लागलों, हळुहळू स्वयंपाक. आमकां नोकर दवरप आवडनाशिल्लें. पूण, तिका स्वयंपाक जमनाशिल्लो. वेळूय नासतालो म्हूण सुर्वेक आचारी आशिल्लो. मागीर तोवूय नाशिल्लो. ती चोवीसूय वरां तिच्या वाचप-बरोवपांत मग्न आसताली. कितल्यातरी कथा-कादंबऱ्यांचें तिणें अणकार केले. संवसारांत जें कितें बरें आसा तें लोकांक दिवपाकडेन तिचो कल आशिल्लो, देखूनच आमी पयलीं 'नागमणीं' नांवाचें मासिक काडटाले, ताका मजकूर केन्नाच कमी पडलो ना. तीन तीन फायली मजकुरान भरिल्ल्यो आसताल्यो. म्हजें कितें? मनांत आयलें की काम करपाचें. आमच्या चित्रकारांच्या मनांतलें केन्ना कागदा मेरेन पावच ना, मागीर घाई कित्याक? आनी तें पावना हें खरेंच आं! बेस्टोच अॅबस्ट्रॅक पेंटिंगजचो काळ आयला तर?

पैर खोलो तो धरती अपनी है
पंख खोलो तो आसमाँ भी

आतां हें हांव शब्दांनी सांगूंक शकतां. चित्रांत कशें दाखयतलों? मागीर चित्रकार एक चित्र काडटा आनी म्हणटा, 'म्हाका जें दिसलें तें काडलें. ताचो अर्थ तुमकां जाय तो घेयात हें अॅबस्ट्रॅक पेंटींग आसा.' चित्रकला शिकयतना पयल्या वर्सा 'स्टील लायफ' पेंटिंग्ज शिकयतात. फुडले वर्सा बोकडी हाडून उबी करतात. एखाद्रे बायलेक पोझ दिवंक लायतात. म्हणचे जाता कितें? लायफ स्टील जाता. कांय चित्रकारांक हें आवडचेंना, पूण हें म्हजें मत. खंयचेंय चित्र पळयलें जाल्यार चडांत चड आमी म्हणूं, हें चित्र जिवंत भासता. पूण 'भासता'. प्रत्यक्षांत ना न्हय. शेवणें काडल्यार तें उडना. बायल मान हालयना. देखून हांव सवकास चित्रां काडटां. चित्रां कसलीं? रंगां वांगडा खेळटां आनी ते रंग म्हजे वांगडा खेळटात.

खेलते खेलते मै भी रंग हो जाता हूँ,
कुछ बनने, कुछ ना बनने
सिर्फ बेफिकीर, बेपर्वा
मैं खेलता हूँ
कॅनव्हास धरती नही होती
रंग बीज नही होती
कॅनव्हासपर लायफ
लायफ नही रहती
स्टील लायफ हो जाती है
और
स्टील लायफ में
लायफ होती नही !

हें मतींत घेवन जगूंक जाय. दरेक कलाकारान दोन-चार वरां तांचें काम करचें. उरिल्लीं वीस वरां मागीर तुमचींच आसात. कित्याक जाय नोकरी? व्हड-व्हडले कवी राजदरबारांत आसताले. म्हळ्यार स्वतंत्र नाशिल्लेच मूं ते? ती गुलामीच. ताणीं जियेवप सोडिल्लेंच न्हय? गुलामी म्हळ्यार जियेवप जावंक शकता?"

इमरोज पयलीं मुंबयंत एका स्टुडिओंत चित्रां काडी. ताचो घरमालक दरदिसा एक नवीन बायल घेवन येतालो आनी न्हिदपाचे कुडींत घेवन वतालो. इमरोजान ताका 'अशें करूं नाका' अशें सांगून पळयलें. पूण धनीपणाचो मद ताचे तकलेक मारिल्लो. शेवटाक वावराचें पावित्र्य राखपाक इमरोजान ती सुवात सोडली. हें पावित्र्य आनी स्वतंत्रताय ताणें सदांच जपलें. त्यो तारो छेडल्या बराबर तो रुणझुणूंक लागलो. "अशेंच आसा. सगळ्यां लागीं 'द बेस्ट' आसा. पूण वागतात थर्ड ग्रेड. तुमी खंयचेच परिस्थितींत थर्ड ग्रेड जावं नाकात. राग आयल्यार गिळात. ताका लागून कितें समस्या सुटाव्यो जातात? एक खेप हांव एके सुवातेर नोकरी करतालों. म्हज्या चित्रा सकयल म्हज्या बॉसान 'थर्ड ग्रेड पेंटिंग' अशें बरयलें. हांव कामार आयलों. तें पळयलें. रागावलों ना. फकत ताचे सकयल एक ओळ बरयली, 'थर्ड ग्रेड बिहेव्हर' राजिनामो दिवन वचूंक लागलों. तो फाटल्यान आयलो 'तूं रोखडोच तिडकता बाबा' म्हणत. हांवें म्हळें, "ना. हांवें नोकरी सोडपाचो आदींच पक्को निर्णय घेतलो आनी मागीरूच ती वळ बरयली." हांव असोच जगलों. उत्स्फूर्तपणान श्रीकृष्णाची तशी शिकवणूच आसा. अर्थात हांवें कृष्ण मागीर वाचलो. आदीं तसो जियेलों. रागावन कितें फायदो? आरे, बुध्द बारा वर्सां तप करून घरा परतलो, तेन्ना ताचे बायलेन रागार जायनासतना विचारलें, "हें गिन्यान तुका घरा बसून प्राप्त जावंचें नाशिल्लें?" बुध्दान म्हळें, "जातलें आसलें;

पूण हें थंय वतकच कळ्ळें." बायलेन म्हळें, "आगा, युध्दार वचपी घोवाक जी क्षत्रिय बायल ओवाळून हासत निरोप दिता, तिची तुमी हीच किंमत केली? सांगून गेल्ले जाल्यार हांवूय ओवाळून हांसत निरोप दितलीं आशिल्लीं." रागावन फायदो ना. अमृता एकदां साहिरा वांगडा गेल्ली. सकाळीं परतली. हांवें कांयच विचारूं ना. हांव अग्निपरिक्षा घेवंक राम थोडोच आशिल्लों? आनी ती खंय दशरथाची चली आशिल्ली? ती तर विद्वानांक मान दिवपी जनक राजाची धूव आशिल्ली. रामाचें हें भाग्य की ताका सीता मेळ्ळी; पूण ताणें तिका नीट वागयली ना. कितें तर म्हळ्यार तिका सोडून दितकच यज्ञा वेळार तिचो पुतळो उबारलो. आरे, पुतळो उबारपाक जितलो वेळ लागिल्लो न्हय, तितलोच तिका हाडपाक लागपाचो. त्याय परस कमी म्हळ्यार जाता. तूं राजा आशिल्लो मरे? मागीर धाड मरे सैन्याक. हाड सोडून. पूण ना. ताणें तशें केलें ना. आपलेकडेन 'बेस्ट' आसा, पूण वागतात....! म्हजे भुरगेपणार गाळी संवपाची वायट संवय आशिल्ली म्हाका. म्हजी एक शिक्षिका आशिल्ली. हांवें गाळ संवतकच ती म्हणटाली, "कितें म्हळें तुवें?" हरशीं ती रागार जाय नाशिल्ली, वो "अशें म्हणूं नाका" बी म्हणनाशिल्ली. ती फक्त उतरांकडेन निर्देश करताली. हळुहळू गाळी संवप बंद जालें. म्हजें शिक्षण अशें जालें. इमरोज ओशोचो भक्त. आजूय तो ओशोचें 'प्रोफेट' वाचीत बशिल्लो. अमृता ह्या शब्दा भायर ताणें जर कित्याचें सुलेखन (कॅलिग्राफी) केलां आसत, तर 'ओशो' ह्या शब्दाचें. ओमच्या आकारांत ताणें केल्लें 'ओशो' अक्षरांचें सुलेखन इस्कादेर लायिल्लें. अमृताकडेनूय वेगवेगळे साधू पुरूश येताले. एका साधु पुरूशान अमृताच्या हातावेल्यो रेशा पळयत म्हणिल्लें, "इमरोजजी आनी तुमचे संबंद अडेज म्हयने वो चडांत चड अडेज वर्सां आसतले." अमृतान म्हळें, "अडेजचीच गजाल आसा जाल्यार मागीर अडेज आयुश्य कित्याक न्हय?" साधु ओगी जालो. हें येवजलें मागीर विचारलें. इमरोजान थकनासतना गजालींच्या आठव्या वराक तितलेच उमेदीन जाप दिली, "हें ज्योतिश बी थोतांड. आरे, जर देव आपलो आसा, हें जग आपलें आसा, ही धर्तर आपली आसा, तर ते गिरे कशे परके जातले? अमुक पुजा करात जाल्यार शांती मेळटली खंय! आरे, शांती तर देहाचे भितर आसता. आनी पूजा करात? पूजा केली जाल्यार ताचें पूण्य पुजाऱ्याक मेळटलें, आमकां कशें? समजा, पुजाऱ्यान फूल पळयलें जाल्यार ताचो सुगंध आमकां मेळटलो व्हय? अशें सामान्य ज्ञान जाय. आमी दोगांय अशींच जियेलीं, कॉमनसेन्सान. मोग आशिल्लो न्हय आमचो! लग्न न्हय. लग्नांत हुंड्या सयत सगळे हिशेब करतात. पूण स्वभाव पळयनात. 'लव मॅरेज' खंय! दुसऱ्या धर्मांतल्या दादल्यावांगडा लग्न केलें, पूण तुमी ताचो धर्म बदलतात, सभाव न्हय. मनशाचो सभाव कसो आसा, तें म्हत्वाचें. चित्रपटांत खलनायक म्हळें की तो खास, वेगळो मेकअप करून दाखयतात. तेन्ना म्हाका हासूंक येता. आरे, जो जें कितें करतालो तें 'खलनायकी' आसतलें; ताचो चेहरो



भिरांकूळ कित्याक करतात? तुमी घाणयाऱ्या सभावाचे आसल्यार माथ्यार चांदीचो मुकूट घालून भोंवात; पूण वागतले घाणयारेच. सदांच प्रेमिकाची भूमिका तुमी करतात, पूण प्रेम करिनांत. भूमिकाच फकत ती. हांव जसो अमृताक रातचो देड वराचेर च्या दियी, तशी तीय म्हाका गरम पोळयो आवडटात म्हूण करून दियी. एकमेकांच्यो आवडी जाणां जायत-जपत जियेलीं आमी. मित्र आशिल्लीं, घोव-बायल न्हय. ताचो त्रास खूब जालो. आरे, सादी मोटारीची नोंदणी करूंक गेलों; थंय अमृतान वारस कोण तर म्हजें नांव बरयलें. नोंदणी करप्यान विचारलें, "हे कोण?" अमृतान म्हळें, 'मित्र' तर ताणें मित्राचें नांव बरोवंक येवचेंना अशें सांगलें. मागीर हांव उलयलों, "आरे तुमी पयशे घेतात पळय ते नोंदणीचे, सल्ल्याचे न्हय." अमृताक खासदार जातकच घोवाचें नांव विचारलें. तिणें म्हळें, "हांगच्या कितल्या खासदारांक तुमी बायलेचें नांव विचारलें?" आमचें प्रेम फक्त 'व्हॅलेंटायन डे' पुरतें एका दिसाचें नाशिल्लें, जल्माचें आशिल्लें. जल्माजल्माचें. देखून आमची 'लव्ह स्टोरी' सफळ संपूर्ण आसा, शोकांतिका न्हय. Everything you love is yours. जाचेर तुमी प्रेम करिनांत, तो तुमचो नासताच. अमृताक तिच्या समकालीन लेखकांनी कितलीं वायट उतरां दिलीं, पूण तिणें केन्नाच कोणाक वायट म्हणूंक ना. जो दुसऱ्याक वायट म्हणटा, तो केन्नाच बरो आसना. अमृता तर सदांच चलयांक सांगी, "जो दादलो रडयता, तो तुजो न्हय." पत्रिका पळोवन कितें लग्न जातात? मन पळोवन, सभाव पळोवन करपाचीं आसतात. लोक साधूंकडेन कित्याक वतात? गरज आसा म्हूण. गरज नाशिल्ली जाल्यार ते देवळांतूय वचचे नाशिल्ले. तुमी दर्शनाखातीर वचनांत, कितें तरी मागूंक वतात. आरे, तो देव खऱ्यानीच आशिल्लो जाल्यार ताणें तुमी मागूंक आरंब करतांच 'शटअप' म्हणटलो आशिल्लो. देखून म्हाका कृष्ण आवडटा. ताका ताची प्रेयशी बांसरी वाजय म्हूण सांगता, तो वाजयता. नाच म्हणटा, तो नाचता. प्रियतमेक खुश करपूच आयुश्य. रामाक न्हय, सीतेक अग्निपरिक्षा दिवची पडटा. द्रौपदीक नग्न पळोवपा खातीर सगळे दरबारांत बसल्यात. कोणूच विरोध करिनांत वो उठुनय वचनांत. आनी कोणूय तिची लजूय वाचयनात. येता तो कृष्णच. मनशां पाप करिनांत, तांचे विचार पापी आसतात. गंगा देह धुयता, मन न्हय. आमी द्रोपदीक नागयली, सीतेक सोडून दिली. बायलांक अपमानीत करपी हीं महाकाव्यां शेवटाक बरयलीं कोणें, तर दादल्यांनीच! आमची संस्कृताय बायलांवयले फालतू विनोद सांगपाची? व्हडले व्हडले साहितियक, खुशवंतसिंग लेगीत तातूंत फाटीं ना."

ह्याच खुशवंतसिंगान अमृताक म्हणिल्लें, "तुजें आत्मचरित्र तें कितें? एका तिकिटेचेर मावतलें तितलें." अमृतान जाप दिल्ली, "हय. पूण ती तिकेट रेव्हन्यूचें आसा. मागीर तिणें आत्मचरित्राक 'रसीदी तिकीट' हेंच नांव दिलें. अमृता-इमरोज पुस्तकांतूय खुशवंतसिंगाची दोन वोळींची प्रस्तावना आसा. "इमरोजान अमृताक जिवी दवरल्या, हाचे परस एक बायल आपल्या प्रियकरा कडल्यान आनी कितें अपेक्षा करूंक शकता?"

अशें ताणीं म्हणिल्ले खातीर वाचकांक तांचो राग येता अशें म्हणले बराबर इमरोजान म्हळें, असोच तो कोल्ली. मूडी."

समकालीन लेखकांनी अमृताक त्रास दिला. अशें इमरोजान म्हणिल्लें. तेन्ना प्रभज्योत, मोहिंदर कौर, पाल कौर ह्यो पंजाबी लेखिका आनी अमृताजी हांचे मर्दी कितें फरक आसा अशें तुमकां दिसना? अशें विचारलां मात हो 'अमृतमय' फटक करून



### सिगारेट आनी हांव

अमृताक सिगारेट ओडूंक आवडटालें. इमरोज निका त्यां हाडून दितालो; पूण स्वता ताणें केन्नाच सिगारेट ओडली ना. अमृताच्या मरणां उपरांत ताचें सिगारेट हाडप बंद जालें. एक दीस सद्दां नो जंवच्यान सिगारेट हाडटालो, त्या पानवाल्यान ताका विचारलें, "कितें बाबाजी, सिगारेट मोडली दिसना. खूब दीस आयले नांत!" इमरोजान हयकारी मान हालयली. आतां सगळेंच ताका कितें सांगत बसतलों?

उलयलो, "कोणाचीच तुळा करूं नाकात तिचेलागीं. तिणें केन्नाच पुरस्कार हातासलेनांत. उरफाटें तिका १९५६त 'रूख सूरज का' खातीर राष्ट्रीय पुरस्कार मेळटांच तिची प्रतिक्रिया आशिल्ली, "हांवें ज्या साहिरा खातीर बरयलें, ताणें तें वाचुंकूच ना. हांवें साहिरा खातीर बरयलें. अवॉर्डाखातीर न्हय." अमृताचें हें खाशेलेंपण आशिल्लें. ती आर्दी जियेताली आनी मागीर बरयताली. हेर कवी-लेखक फटकिरे आसतात. आपले बायलेक म्हणटात ही कविता हांवें तुजेर बरयल्या आनी ती बरयिल्ली आसता दुसरेच बायलेक पळोवन. एखाद्री महाश्वेतादेवी अपवाद. तांची गजालूच वेगळी."

गजाली शब्दांकडल्यान रंगाकडेन आयल्यो. तुमी भारतीय कलांकडेन कशे पळयतात? भारतीय चित्रकलेन किते दिलें? जशे सहित्यिक-गायक संमेलना आनी जलसे भरयतात, तशे चित्रकार एकठांय कित्याक जायनांत... अशे कितले तरी प्रस्न मनात आशिल्ले. ते इमरोजा मुखार दवरतना याद जालो अमृताजींचो प्रश्न. इमरोजान तांका विचारिल्लें, "तुमी तुमच्या चित्रांचें प्रदर्शन कित्याक भरयनांत?" इमरोजान म्हणिल्लें, "प्रदर्शन दोन कारणां खातीर भरयतात. एक दुडवांखातीर. हांव तर फकीर मनीस. म्हाका दुडू नाकात. दुसरें कारण आसता, हेरांचीं मतां घेवपाचें. किते करपाचीं आसात हेरांचीं मतां? म्हाका आवडलें तें हांवें काडलें. मनापासून काडलें." मागीर अमृतान म्हणिल्लें, "हाका लागून हीं तुमचीं चित्रां रसिकांक तोखेवपाखातीर तांचे मुखार पावतलीं कशीं?" इमरोजान म्हणिल्लें "कलेचें हें कर्तव्यूच न्हय की तिणें रसिकामेरेन वचचें." मागीर अमृतान आनीक एकखेप विचारिल्लें, "तुमच्या चित्रांविशीं तुमकां किते दिसता?" इमरोजान जाप दिल्ली, "म्हज्या चित्रांक लोकगीतांचें नशीब फाव जावंचें." आजून तो त्या मताकडेन ठाम आसा काय? अशें विचरपाचें आशिल्लें. विचारलें, "हय हय हांव ठाम आसां." अशें म्हणत चित्रकले विशींच्या सगळ्या प्रस्नांक ताणें जाप दिली. "चित्रांच कित्याक, हांवंच लोकगीत जावंचें अशी म्हजी इत्सा आसा. हांव चित्रांचेर केन्नाच सही करिना. तुमची सही त्या चित्राचो वांटो कसो जावं येता? समजा हांवें गणपतीचें चित्र काडलें, तर हुंदीर, सोंड, हात, मोदक हे ताचो वांटो जातले. सही कशी? आनी पळोवप्यांक तुमची सही व्यत्यय हाडिना? त्या परस चित्राच्या फाटल्यान बरयात तुमचें नांव-पत्तो. तुमी किते करतात, चित्रकला उंचायनात, उभारी दिनांत, तुमी तुमच्या नांवाक उभारी दितात. आनी प्रदर्शन भरोवन किते करतात? थंय एक चित्र विकलें तरी प्रदर्शनाचो खर्च भरून येना. ते भायर लोकूय पळोवंक येनात. तांका निमंत्रण दिवंचें लागता. पत्रकार लेगीत चित्रां पळोवन चित्रांचेर बरयना. तुमी तांका खावपा-जेवपाक दितात पळय, ताचेर बरयतात. पत्रकार-प्रकाशक मंडळीय नव्या लेखकांक नव्या चित्रकारांक सोदिनांत. सोदप पयसूच, जे दिसले तांकाय सारके बसोवन घेनात. तुमी म्हणटात साहित्य संमेलन, संगीत, जलसे जातात. जातात मू? मागीर थंय किते घडटा? एकामेकांविशीं वायटूच उलोवप मू? आरे, तो कवी आसत, जाल्यार ताची कविता वाचात. तुमी ताची निंदा केली तर तुमच्या वांगडा ती कविताय उदास जावन वतली. आतां प्रश्न भारतीय कलेचो. आमचीं आदलीं चित्रां पळयात. सगळ्याक एकूच मुखामळां. बादशाचें मुखामळ तशें आनी रामाचेंय तशेंच. मुखामळार भावूच नांत. हांव एका फ्रेंच चित्रकाराक मेळिल्लों. ताणें म्हजीं चित्रां पळोवन म्हळें, "हीं भारतीय चित्रां दिसनांत." हांवें म्हळें, "तुमी अशी अपेक्षा कित्याक धरतात?" चित्रां हीं चित्रांच आसतात. तांका धर्म, जात, प्रदेश नासता. तातूंत आतां मॉडर्न आर्टान संवसारांत खंयचेय

### जायरातदारांक आवाहन

एकदां एके बायल पत्रकारान विचारलें, "दादलो आनी बायल हातूंत फरक किते?" इमरोजान खिणाचोय कळाव लायनासतना म्हणलें, "दादलो बायले वांगडा न्हिदता. पूण जागता खंय?" एकदां खंय तरी वाचिल्लें. ते विशीं विचारतना इमरोजान म्हळें, "त्या जापेच्या घडणुके पयलीं एक दीस किते जाल्लें, हांव आनी अमृता झाडांक उदक घालीत सदचे प्रमाण पोरसांत भोंवतालीं. नकळत एकमेकांचे हात हातांत घेतले." अमृतान म्हळें, "हांव मरतकच तूं दुसरें लग्न करतलो?" हावें म्हळें, "हांव तुजेवांगडा जागलां. जागो रावपी दादलो दुसरे बायले वांगडा न्हिदना." ती हांसली. तिणें हाताची पकड आनीकूय घट्ट केली. तिणें एकदां विचारिल्लें, "तुवें बायलांची चित्रां जायतीं काडलीं. पूण बायलमनाचें केन्ना काडलां?" आनी हांव ओग्गी जालों. खरेंच आमी बायलांच्या मनाचो विचारूच करिनांत. मुखार हावें तशें चित्र काडलें. पूण... आजय जायरातींतल्यान बायलांचें हळशिकावणें, बीभत्स चित्रण जाता. म्हाका दिसता, निदान खबरांपत्रांनीं, मासिकांनीं, जायरातदारांनीं एखाद्री आवडीची कविता दिवंची, एखाद्री ल्हानशी काणी दिवंची वा चित्र दिवंचें. ताचे सकयल दोन ओळींत जायरात म्हूण आपलें नांव दिवंचें.

**बरें जालें हांव गेलों ना तें!**

अमृताक पयल्या घोव्रा पासून भुरगें जाय नाशिल्लें. देखूनताणें एक चलयेक (कंदलां) पोसकें घेतलें. रोखडोच अमृताक चलो (नवराज) जालो. मागीर तिणें प्रीतमसिंहकडेन घटम्फोट घेतलो. नवराज व्हडलो जालो. ताच्या लग्नाची सगळी तयारी इमरोजान केली. पूण लग्नाच्या वेळार कांय लोक ताचेकडेन आयले आनी म्हणूंक लागले, "तुमी थंय येवं नाकात." इमरोज गेलो ना. बरें ताचो रागूय ताका ना. वेल्यान दांळे मांडीत तो म्हणटा, "बरें जालें गेलों ना तो! ना तर नवे सुनेंच्या येवकारा खातीर फुलांनीं घर कोण सजयतलो आमलो?"

...हो मनीस फकत प्रेमूच करता.

चित्रकलेक तिचो तोंडावळो दवरूंक ना. आनी जाता तरी कितें? कपडे, रितीरिवाज वेगळे जातात. बाकी कितें वेगळें जाता? आतां कलाकारांच्या स्वतंत्रतायेचो प्रश्न घेयात. स्वतंत्रताय म्हळ्यार कितें चिवड्याची बशी तुमकां दिवपाक? तुमी आधीन जावं नाकात. तुमची स्वतंत्रताय तुमच्याच हातांत आसा. आतां हांव खंयच वचना. हांगाच बसतां, चित्रां काडटां. हांगाच पयशे येतात. आदीं? आदींय हीच प्रकृती आशिल्ली. हय सामको नवोदीत आसतनाय. राजकपूर हांच्या 'आवारा'त हांवें थोडें कलेचें काम केलें. म्हाका पयशे दिवंक ताका उशीर जालो. हांव ते घेवंक गेल्यार थंयचो मनीस म्हणूंक लागलो, "कितें रे, पयशे नाशिल्ले जाल्यार दोन दीस कितें केलें?" हांवें म्हळें, "उपाशीं रावलों." आपल्याक दोन दीस उपाशी रावंक येना व्हय? आमी आमच्यो गरजो खूब वाडयतात. म्हजेकडेन आयजूय दोन-चारूच कपड्यांचे जोड आसात. आंगार घाल्ले हेच कपडे म्हजो नायट सूट. कोणेंय आफयल्यार हांव ह्याच कपड्यांनीं वतां. चडसो हांव वचच ना, पूण... आरे, तुमची कमाई शंबर रुपया आसा जाल्यार शंबरूच रुपया खर्च करात. १५० खर्चून कशें जातलें? आमका कितें संग्रहालयांत दवरूपा खातीर जल्म दिला व्हय? म्हजेकडेन बुटांचोय एकूच जोड आसा. हांव श्रीमंत न्हय आनी गरीबूय न्हय. सदचें जेवण म्हजेखातीर 'पार्टी'च. हाचो अर्थ हांव गांधी न्हय, पंचो न्हेसपाक. बोकडेचें दूद पिवपाक. बोकडेचें दूद सवाय खंय! आनी ते बोकडेक हे लक्स साबणान न्हाणयताले. तिचो हो खर्च पळयल्यार दूद सवाय कशें आसतलें? आतां हांव हें उलयलों तर हल्लो जातलो. गांधी म्हळ्यार गीता काय कुराण? काय तांचे विरूध्द उलोवंकूच नाका. आनी हांव तांचे विरूध्द खंय उलयतां? हांव तर म्हजे विचार मांडटां! कारण हांव विचार करतां. अमृता आनी हांव विचार करपी मनशां. आपले बुध्दीन चलपी. लोकांनीय आमच्या विचारांनीं चलचें न्हय. स्वता विचार करचो. म्हणटकच तेय विचारांनींच चलतले. भारत नक्कीच उदर्गत करतलो. हे फुडारी गडबड करतात! ना तर नक्कीच फुडार उज्वल आसा. सगळ्यांक पंतप्रधान जावंक जाय. कोणाकूच काम करपाचें ना. कदेलाचेर बसनातनाय काम करूं येता हें हांकां कशें कळना काय? आनी हे



कदेलार बसून उलयतात. 'आमी उदरगती खातीर शंबर रुपया मंजूर केल्यार गरिबां मेरेन तिसूच रुपया पावतात?' आरे, तुमचेंच खातें मरे हें? तुमचींच मनशां काम करतात मू? मागीर करात न्हय कारवाय. कोणें आडयलां? करात तें खातें बंद. जसो राजा तशी प्रजा. इतलो फकीर वृत्तीचो तो साईबाबा. ताका भांगराचें सिंहासन केलां. कित्याक? आरे त्या फकीराक ताची गरज कितें? ताणें स्वता म्हणिल्लें व्हय? तुमी ताका फकिरूच रावूंक दियात मू! आतां जाता कितें, भाविकांचें लक्ष सिंहासनाकडेंच वता. साईबाबाकडेन न्हय. म्हणचे तुमी ताकाय फकीर रावंक दिले ना, ना भक्तांक भक्त. अमृता, 'मिट्टी की जात' हातूंत म्हणटा "ह्या संवसारांतले सोनार भांगरांत दुसरो धातू मिसळटात. तेन्ना संवसार तांकां जाब विचारता खरें तें?" इमरोजाक खंयचोय प्रस्न विचारात तो संवसारभरचीं उदारणां दितलो. भरपूर व्यासंगाचे कोनशे दाखयतलो. पूण जापेची गाडी परतून परतून अमृता नांवाच्या स्टेशनाचेर हाडटलो. कारण तो, 'अमृतामय' जाल्लो आसा. आनी कितलो? तर आयज अमृता देहरुपान नासली तरी तो म्हणटा,

"हर कोई कह रहा है
कि वह नही रही
मैं कहता हूं
वह है
कोई सबूत?
मै हूं
अगर वह ना होती
तो मैं भी ना होता

- ह्या प्रेमपुजाऱ्याचे रंग पक्के आसात प्रेमाची राजधानी सोडची अशें दिसनाशिल्लें. पूण...

# कौस्तुभाटकार



कौस्तुभाटकारालें
खरेलें नांव आशिल्लें
शिंन्योर
कौस्तांशियु आरमांदु गोमीस
इ गोन्साल्वीस.
तो केदीय व्हडलो आसलो
तरी ताचें येदें व्हडलें
नांव गांवकारांक
केता पडपाचें नासलें.
कौस्तुभाटकारूच
नांव लोकांक मानवतालें.
कौस्तुभाटकार आशिल्लो
रंगान गोरो-गोरो पिट्ट.
आंगान धिप्पाड.
लांब-लांब बांदो.



– नं. ध. बोरकार

मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें – गोंय
फोन : २२१८१४७

**म्ह**जे घराकडल्यान बाजारांत नुस्त्याक वतलो जाल्यार एका अशीरशा बांदावेल्यान वचचो पडटा. बांदाच्या दोनूय वटयां पांचवीचार शेतां. कणगावालींनी भरिल्लीं. वायंगीं मिरसांगांच्या रोप्यांनीं सजिल्लीं. बांदावेली फसफशीत रेंवट माती मस्तीत वचचें पडटालें बाजारांत!

बांद सोंपतकीर लागतालें ल्हानशें भाट. पांयवाटेच्या कडांनीं मदें-मदें भेंडयेचीं लांडीं झाडां. हीं झाडां मुंडकार आनी भाटकाराले मानांय वाडुंकूच दिनांत. तांकां वर्सान वर्स इल्ल्यांक बांदपाक भेंडयेचे खुंटे जाय पडटात.

भेंडयांचेच पंगतीक, पूण अनवाळ्या भटांभशेन पयस पयस बुटके आमरूख उबे आसात. तांकांय बुटके दवरपाचें काम आयतें खायच्यो बेंदुल्ल्यो करतात. आयतें खायच्या भाटकारान आमरुखांकडे दुर्लक्ष केलें. तरी रुख ताळये कणकणी, एकेक रसाळ फळ दिवपाचें काम करताच. बारीक जावं तें मागीर. मनीसजात आपल्या कर्तव्याकडे फाट करता, पूण सैमाक ईश्वराक जाप दिवचीच पडटा. सैम ईश्वराच्या आदेशान खंयच्यान ना. खंयच्यान मनीसजातीक बरी देख दिताच.

जें काम आमरूख करताले, तेंच त्या भाटांतले मरतुकडे माड करताले. उदका थेंब्या आशेन झरत-मरत जगूंक जाय म्हूण जगताले ते! चुडटां सुकून बागवल्लीं. मुकिल्ल्यो पांयां, मुकिल्ले एक-दोन सोंड घेवन कळवांत ओगी पडून आसताल्यो. ही गजाल एकाच माडाची न्हय, भाटांतल्या चडशा माडांची स्थिती अशीच आसताली. माडांक जीव आसा, हें दाखोवपाचें काम जणांक माडाचो पांचवो शेंडो करतालो.

बांद सोंपलो, भाट सोंपलें आनी



आतां लागलें कोस्तुभाटकारालें घर. दळदीर फाटीं पडून गिरेस्तकायेन तकली वयर काडली.

इगर्जेच्या बाटाराक कोस्तुभाटकारालें सुरुल्लें बेंस आशिल्लें. ह्या बेंसांत आशिल्लें कोस्तुभाटकारालें गडगंज घर आनी त्या घरांत रावताली कोस्तुभाटकाराली 'ओरांद' फामील.

कोस्तुभाटकारालें खरें नांव आशिल्लें सिन्योर कोस्तांशियु आरमांदु रोमीस इ गोन्साल्वीस. तो केदोय व्हडलो आसलो तरी ताचें येदें व्हडलें नांव गांवकारांक कोता पडपाचें नासलें. कोस्तुभाटकारूच नांव लोकांक मानवतालें.

कोस्तुभाटकार आशिल्लो रंगान गोरो-गोरो पिट्ट. आंगान धिप्पाड. लांब-लांब बांदो. सुर्वेक काळे कुळकुळीत आशिल्ले केस दिशीं-दिशीं धवशेत गेले. उपरांत पिकशेले ते मरमेरेन तशेच उरले. ताचे कान-दोळे, नाक-तोंड बी सगळीं गात्रां एका युरोपियनाक सोबसारकेंच दिसतालें.

कोस्तुभाटकार इंदियानु आसतना मरमेरेन पोर्तुगेज जावन रावलो. ताचें खावप-जेवप, न्हेसप-पांगरप सगळें पोर्तुगेज मोदीचें. ताणें फात मरमेरेन सोडलोना. गोरे कातीक सोबता तशेंच हळदुवशें फाता लुगट सदांच 'तोर्रांद आनी फेर्रांद' आसतालें. जुवानपणांतलें फितयाळें उबें 'शापोव' मरमेरेन सोडलेंना कोस्तुभाटकारान! त्या तेंपावयले कांय भाटकार मरणा देगेर पावतकीर हातांत रोत आनी माथ्याक चेपटें चेपें घालून भोंवताले. पूण कोस्तुभाटकारान चेपट्या चेप्याक आपल्या माथ्यार थारो केन्नाच दिलो ना.

कोस्तुभाटकाराच्या हातांत रोत आसतालें, पूण तें फाताची सोबाय वाडोवपा खातीर. कांय भाटकार आपल्या मुंडकारांक बडोवपाखातीर रोताचो उपेग करताले. कोस्तुभाटकारान मात तशें केन्नाच केलें ना. मनशाचें कातीचो रंग कितलोय गोरो आसलो तरी ताचें काळीज काळें आसपाची शक्यताय आसता. कोस्तुभाटकार भायर-भितर सारकोच आशिल्लो.

कोस्तु भाटकार फात मारूनूच चडसो भायर-भितर आसतालो. फात मारून, दोनूय हात बोल्सान घालून जेन्ना तो बल्कावांत उबो रावन आपल्या दारातल्यान येत्या-वत्याचेर नदर मारतालो, तेन्ना ताचो झेत पळयत रावपासारको आसतालो. कोणाकूच ताचेवयली नदर काडून फुडें वचचेंशें दिसनासलें.

कोस्तुभाटकाराच्या घरकान्नीचें नांव आसलें जॉर्जिना. गांवचो लोक ताका भाटकान्न बी म्हणनाशिल्ले. सगळ्यांचें तें जॉर्जिनबाय आशिल्लें. सगळ्यांक तें आपलेंशें दिसतालें. कारण ताचो रंग काळो आनी तें भास कोंकणी उलयतालें. पोर्तुगेज

उतरांची मिसळ आसूं ती मागीर!

जॉर्जिना काळेंकिट्ट आसलें तरी तें 'एदुकाद' आशिल्लें. 'एदुकाद' हाचो अर्थ फकत शिकिल्लें असो जायना, तर बऱ्या देखीचें असो जाता. जॉर्जिनांतले 'एदुकाद' आनी 'देलिकाद' हे दोनूय गूण कोस्तूक आवडले जातले. ताकाच लागून तो मोग करून जॉर्जिनाकडे काजार जाल्लो.

मनीस सुसंस्कृत आनी उक्ते मनाचो आसलो जाल्यार तो भायले सुंदरकायेक चड म्हत्व दिना. भायल्या रूप-रंगा परस ताका मनाची सुंदरकाय भावता. जॉर्जिना काळें आशिल्लें खरें, पूण ताचें मन नितळ आशिल्लें. काळजांतल्यान मायेचो झरो व्हांवतालो ताच्या. हीच माया ताच्या उतरांच्या तेक्यान तोंडांतल्यान फसफसून भायर पडटाली. हे मायेक लागुनूच जॉर्जिनाबाय भायल्या-भितरल्यांक आवडटालें!

जॉर्जिना किरिस्तांव धर्मांत वाडलें. तरी ती एक भारतीय अस्तुरी आशिल्ली. भारतीय संस्कृतायेचीं बियां जॉर्जिनाच्या रगतांत मुरिल्लीं - जिरिल्लीं. हीं निजाचीं बियां अडेच्यांक न्हयकारतालीं. जॉर्जिनाचे वागणुकेन पावला कणकणी ह्या सताची जाणविकाय जाताली.

जॉर्जिना आपल्या घोवाक मानवता तसलो पोशेग करतालें. तें व्हीस्तीद घालतालें पूण तो घालून आपल्याक 'आवांताद' चलूंक जाय हाचें भान आसतालें ताका. तें वोंठ तांबडे करतालें पूण ती तांबसाण काळजामेरेन पावनासली. ही तांबसाण रगतांतली न्हय तर अडेची, हाची जाणविकाय आसताली ताका.

जॉर्जिनाल्या घरांत गाय-धुकराचें मांस सतत शिजतालें. दोस, आर्रोस, बिबींक आनी तरे तरेचो सोरो जॉर्जिनाक संवकळीचो आसतालो. तरी ताचो नेवऱ्यो-पातोळ्यो, लोणचें-पापडाकडे जोडिल्लो संबंद तुटनासलो. तें जेन्ना क्वार्तांत एकटेंच आसतालें, तेन्ना ताच्या मनांत विचार घोळटाले हिन्दू अस्तुरेभशेन आपणेंय साडी-कापड न्हेसचें. न्हावन-धुवन निर्मळ मनान गोंयचे पद्दतीचें जेवण-खाण करून आपल्या घोवाक आनी भुरग्यांक वाडचें. लांब केंस आशिल्लेच ताका. तांचो आंबाडो घालचो. ताचेर आबोल्यांची ना तर मोगऱ्यांची फांती माळची, अशें ताच्या मनांत येवचें.

पूण तें मनात आसुनूय तशें करूंक शकनासलें. तरी ताणें आपले केंस हेर बायलांभशेन केन्नाच कापले नांत. केसांचें पाकीट करून गांच-क्लिपांनी मानेवयर दसयल्याभशेन करतालें. जॉर्जिना!

जॉर्जिनान तिगां भुरग्यांक जल्म दिलो. व्हडलो चलो आंतोनीयू, त्या फाटलें चली जुलियेता आनी ताच्या फाटलो चलो-आल्बेर्त.

पयलीं दोगांय भुरगीं बापायच्या वळणार गेल्लीं. आल्बेर्त मात आपले आवयभशेन काळोकिट्ट खापरी कसो! अशें आसलें तरी काळ्या-गोऱ्याचो भेदभाव कोणाचेच तकलेंत शिरूं नाशिल्लो. कातीचे बाबतींत एकाच घरांत युरोप-आफ्रिकेची नंदणूक आसुनूय, भुरगीं आपल्या मांय-पायचो आनी मांय-पाय आपल्या भुरग्यांचो उप्पाट मोग करतालीं.

कोस्तू कामानिमतान आफ्रिकेक आसतालो. दर चार-पांच वर्सांनी 'वियाज' मारून येतालो तो. जॉर्जिना आपल्या तिगांय भुरग्यांक आपले परीन सांबाळटालें. 'येदुकासांव' दितालें. तागेलीं भुरगीं कोवेंत आनी सिमिनारींत शिकतालीं. सुटये दिसांनीं मांय म्हऱ्यांत आसताली. पापा पयस आसलो तरी मांय तांकां पायचो उगडास येवंक दी नाशिल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार पायचें तांकां केन्ना व्हडलेंशें पडलेंच ना. तो चार-पांच वर्सांनी सोयरो कसो येतालो आनी वतालो. तरी जॉर्जिना आपल्या भुरग्यांक पायचो विसर पडूंक दी नासलें. पाय घरा नासलो तरी जॉर्जिनान आपल्या भुरग्यांक कितेंच उणें पडूंक दिलेंना.

तसो त्या तेंपावेलो गांव खोपट्यांचो. त्या तेंपावेलो म्हळ्यार पोर्तुगेज राजवटींतलो. गांवांत संपन्नतायेचें दर्शन घडोवपी घरां साप्प थोडीं आशिल्लीं, तांतलें कोस्तू भाटकारालें एक. कोस्तू भाटकाराल्या पुर्वजांनी ताका भाटां-बेसां जोडून दवरिल्लीं. ताका लागून नाल्ल-बोंडो, तांदूळ-गोटो, जळोव-बडी बी सगळें आयतें येतालें घरांत. भात खर्यी पावूं, शेतकार उकड्या तांदळांचे साक हाडून पावयताले घरांत. आंब्याचें भरपूर रेंद येतालें. पाड्याक हजारांनी नाल्ल पडटाले.

घरांत रांदपाक 'कुजनेर', घरकामाक 'किर्याद'. कुजनेराक 'मेस्त' म्हणपाची रीत आसताली त्या तेंपार. बाजारांत वचून नुस्तें-पास्तें हाडपाचें काम मेस्तूच करतालो. कारण सिर्विशेक लागचे पयलीं तो सुतली मारपाची कला शिकुनूच आयिल्लो आसतालो.

कोस्तू भाटकार केन्ना चार वर्सां तर केन्ना पांच वर्सां वियाज मारून येतालो. येतना तो दुडवांवांगडा खोसूय घेवन येतालो. आयले उपरांत पयले आठ दीस ताच्या घरांत एके तरेचें फेस्त चलतालें. कोस्तू आयलो म्हूण कळटकच लागसारचीं सोयरीं येवंक कोमेस जातालीं. दिसाक एक-दोन तरी सोयरीं येतालींच. वांगडा भुरग्यांचें लटांबर आसतालें. हीं सोयऱ्यां सकाळीं येवन



वचपाचीं नाशिल्लीं. कांय दोन-तीन दीस तर कांय सात-आठ दीस तरी रावल्या बगर वचनासलीं. हीं सोयऱ्यां कोंकानी येता आसतनाय पोर्तुगेज उलोवपी. दीस-रात फोनोग्रामावेल्या कातारां तालार ल्हान-व्हडांचो 'दांस!'

कोस्तू भाटकारालीं सगळींच सोयऱ्यां गिरेस्त आशिल्लीं, अशांतली गजाल न्हय. बरींच-शीं गरीबूय आसलीं. तीं संद सादोवन मजा मारूंक येतालीं. पूण कोस्तू केन्नाच निर्शेलोना. निर्शेतालीं तीं ऑर्राद सोयऱ्यां. तांकां गरिबांमदें 'मिस्तूर' जावप आवडनासलें. ताका लागून सोयऱ्यामदेंच निर्शेणी उप्रासताली.

कोस्तू नासतना मेस्त पिशवी घेवन बाजाराक वतालो. मात 'बाबा' येतकीर कोणे सांगनासतना व्हडलो सो पाटलो घेवन बाजाराक वतालो. कोस्तू पाटलो पळोवन मेस्ताकडे पयशे दितालो.

पयशे हातार पडटकीर ते कशे आनी कितले खर्च करपाचे, हें मेस्ताक कोणें सांगपाची गरज नासताली. मोटें-मोटें नुस्तें, भरपूर मांस, थोडें 'वेर्दुर' (शाक-भाजी) वांगडा बकालज्यांव काय बकाल्यांव कितें म्हणटात ताचे 'विद्र'. तरेकतरांच्यो सोऱ्या बाटल्यो. पाटलो भरून मेस्त घरा हाडटालो.

कोस्तूचो झेतूय पळोवपासारकोच आसतालो. सांजेच्या पांच-साडेपांचांक तो जॉर्जिना वांगडा पासयेक वतालो. आयज रस्तो हुपूंक उणेंच अर्दें वर लागता. त्या तेंपार तितक्याच वेळाच्या अंतरान मार्गावेल्यान 'कामिज्यांव' धांवतालो. टॅक्सीचो तर नेम नासतालो. असल्या वेळार कोस्तू-जॉर्जिनाचें जोडपें रस्त्यावेल्यान बिनधास्त चलतालें. दोगांय हातांत हात घालून अशे

तरेन चलतालीं, की पोर्तुगेज सरकारान आख्खो रस्तो तांच्या नांवार केला.

कोस्तू-जॉर्जिनाचो भेसूय तोखेवपासारकोच आसतालो. कोस्तूल्या फाताचो कोर केन्ना गोबराळो तर केन्ना हळदुवसो. धवेंफुल्ल 'कामीज' (शर्ट) ताचेर तांबडो 'ग्रावाद'. ग्रावादाचेर काळ्यो तिरप्यो पट्ट्यो. माथ्यार उबें चेपें, हातांत रोत घेवन ताठ कण्याचो कोस्तू रस्त्यावेल्यान चलतासतना ताच्या मोच्यांच्या 'धब-धब' आवाजान रस्तो गाजतालो! ह्या 'धब-धब' आवाजाक जेन्ना जॉर्जिनाच्या उंच खोटांच्या मोच्यांचो 'टाक्-टूक, टाक्-टूक' आवाज मेळटालो तेन्ना सगळो वाठार संगीतमय जावन वतालो. हो आवाज आयकतल्यांक दिसतालें, मोच्यांच्या कुंपासाचेर दोगांय रस्त्यावेल्यान 'दांस' करीत वतात!

म्हजें घर कोस्तू भाटकाराल्या भाटा कुशीकूच आसलें. पावसाचे दीस सोडले जाल्यार दर दोन दिसांनीं तरी जॉर्जिना आपल्या भाटांत पासय मारून वतालें. घरा वचचे पयलीं आमच्या घराक पांय लायल्याबगर वचनाशिल्लें. खरें म्हळ्यार भाटांत येतालें तें भाटाचेर नदर मारूंक न्हय तर आमचे घरचे ओडीन. आमच्या घरांत ताका कदेलाचो येवकार मेळटालो. म्हजे आवयची आनी जॉर्जिनाची व्हडली आमिजाद. ती केन्ना दाट जाली म्हज्यान सांगू नज. दोगांलेंय एकामेकांगेर येवप-वचप वाडिल्लें. आमच्या घरांत शिजता-करपता तें जॉर्जिनागेर पावतालें. म्हज्या आवयल्या हातच्या जेवणा-खाणाची, लोणच्या-पापडाची जॉर्जिनाक चड व्हडवीक! कोस्तूक लोणच्याची आवड नाशिल्ली. पूण कुरकुरीत आनी हिंगा वासाचे पापड ताका खूब आवडटाले.

कोस्तू भाटकार आफ्रिकेसून घरा येतकीर पयलीं आपल्या सोयऱ्याधायऱ्यांगेर वचनासतना मुजरत आमगेर येतालो. वतनाय तो आमचो निरोप घेतल्याबगर वचनासलो. ताच्या वांगडा म्हजे आवयले पापड आफ्रिकेक पावताले.

कोस्तू-जॉर्जिनाचें व्यक्तिमत्व म्हाका ल्हानपणांत भुलयतालें. दिसतालें, तांचेकडे तोंडभर उलोवचें. म्हज्या निजाच्या बऱ्या गुणांनीं तांचीं मनां जिंकून घेवचीं. तांचेकडच्यान अपुर्बाय करून घेवची. पूण म्हजेर त्या वेळार केल्ले संस्कार आड येताले. भुरग्यांनीं जाण्ट्यां मुखार उबें रावचें न्हय. जाण्टीं उलयतासतना मदीं तोंड घालचें न्हय. आनी चुकून तोंड उक्तें केलेंच जाल्यार खिणांत जाण्ट्यांचे दोळे मोटे जाताले. हाका लागून हांव कोस्तू-जॉर्जिनापसून पयसूच रावतालों. म्हजी ही वागणूक तांकां साप्प मानवनासली. तांकां दिसतालें हांव एक मागास, कुसको आनी मनीसघाणो भुरगो. कसलेंच एदुकासांव नाशिल्लो. ताका लागून तींय म्हजेपसून पयसूच रावतालीं. हावेंय तांच्यामुखार उबो रावपाचें धाडस केन्नाच केलें ना.

अशें आसलें तरी म्हाका खास करून जॉर्जिनबायकडेन दोस्ती करीन-करीनशें दिसतालें. ते संदीची वाट पळेत आशिल्लों हांव.

जॉर्जिनाबायकडेन दोस्ती करपाची इत्सा आसपाचें मुखेल कारण आशिल्लें तांच्या पोरसांतलीं फळां. हांव तेन्ना धा-बारा वर्सांचो आशिल्लों. फळां खावचे परस झाडार चडून तोडपाक आनंद जातालो म्हाका.

कोस्तू भाटकाराल्या भाटांत आमरूख खूब. मानकुराद, बेंकुराद, मुशेराद, आफोंस, दयराद, कुलास बी कितल्याशाच जातींचे आमरूख. घोसांनी आंबे लांबताले. पूण झाडार चडून तोडचे, ना तर फातरांवचे अशें केन्नाच दिसलेंना. म्हजो दोळो आशिल्लो पोरसांतल्या फळांचेर. पेरां, आतेरां, सीताफळां, चिकू, आदामां अशीं कितलीं तरी फळां म्हाका भितरल्यान आमंत्रणां दितालीं. सवणीं-पाखे फळां चोंचयतालीं तेन्ना दुर्गावेल्यान उडी मारून भितर वचचें अशें दिसतालें. पूण मन धजनासलें. गांवांतले हेर भुरगे तशें करताले. म्हाका तें पाप दिसतालें.

कोस्तू भाटकारालें घर त्या तेंपार गांवाक सोबाय हाडटालें. घराचो मोदेल पोर्तुगेज. घराचो फुडो भव्य आनी आकर्शक. घर, नळे-मदेराचें आसलें तरी पलासेक फाटीं उडयतालें. फुडलें दार लांब-रूंद, दाट आनी घट्ट फळ्यांचें. कोरावन 'देजेन्यार' केल्लें. घराचो सापात उंचेलो आशिल्ल्यान येंत्राद चडपाक आनी देंवपाक इस्कादी केल्ल्यो. दाराभायर बसपाक चंद्रिमाकाराचे सोपे आशिल्ले. हारशांचीं जनेलांय घराक सोबाय हाडटालीं. घराची सरभोंवतण झाडां-पेडांनी दाटिल्ली. ताका लागून भायर-भितर थंडसाण पातळिल्ली! वाटकुळ्या बल्कावांतल्या सोप्यांचेर बसून जॉर्जिनाक सैमाचो नियाळ करपाक आवडटालें. कोस्तू भाटकाराक मात त्या 'रेदोंदी' बल्कावांत बसप केन्नाच आवडलेंना. तो बल्कावांत आयलोच जाल्यार फातान-झेतान बोल्सांत हात घालून वाटाराचेर 'विस्त' मारतालो. बल्कावांत बसून चकाटां मारप 'देशेंत' मनशांचें काम न्हय, तें काम बेगाऱ्यांचें!

अशें आसलें तरी कोस्तू भाटकाराल्या घराचें एक खाशेलेंपण आशिल्लें. घराचो फुडलो अर्दो वांटो चिरे-सिमेंटान बांदिल्लो 'पेजाद' आनी 'देशेंत' आशिल्लो. घराचो दर्शनी भाग तितलोच 'फोर्र-बिर्र' मारून 'देकोराद'. ह्या दर्शनी भागाचीं दोन सालां विशाळ आशिल्लीं. एक साल दांसाखातीर तर दुसरें बसपा उठपा



खातीर. हीं दोनय सालां 'सुज्यार' जावचीं न्हय म्हूण जॉर्जिना खूब काळजी घेतालें.

घराचो फाटलो भाग मात 'मोट्या घराक पोकळ वांशे' हे म्हणणेची याद करून दितालो. ह्या भागाच्यो वणटी माती-फातरांनीं बांदिल्ल्यो. सगळ्यो कुडी गांवटी नळ्यांनी शिविल्ल्यो. हीं गरीबकायेचीं लक्षणां गिरेस्तांकय फायद्याक पडटालीं. ते तेंपार वीज नाशिल्ल्यान पंखेय नाशिल्ले. घरांतलो 'कालोर' उणो करपाची ही माण्णी आसूंये घडये!

कोस्तू भाटकाराल्या घराचो फाटलो भाग पडवेन सोंपतालो. असली पडवी शेतकारांल्या दर्शनी भागाक आसता. ही लांबचे लांब पडवी शेणान सारयल्ली आशिल्ली. फात मारून फुडले भागांत वावुरपी कोस्तू भाटकार, पडवेर पिजाम घालून वोल्तेरार बसतालो. फुडलें दार बंद करून कोस्तू परिवार पडवेरच वावुरतालो. परिवार म्हळ्यार कोस्तू भाटकार, जॉर्जिनबाय, कुजनेर (रांदपी) आनी सेर्वेंत. त्या भायर लाद्रांव (सुण्याचें नांव), कुकडां आनी धुकरां.

सुण्याचें नांव लाद्रांव आनी कुजनेराचें नांव पेद्रांव आशिल्ल्यान जायते फावट कॉमीक जातालीं. कोस्तू भाटकार जेन्ना सुण्याक उलो मारतालो तेन्ना सुणो आनी कुजनेर वांगडाच धावून येताले. लाद्रांव-पेद्रांव पोक् दिफेरेन्स आशिल्ल्यान अशें घडटालें!

कोस्तू भाटकारालें पोरसूं खूब व्हडलें आशिल्लें. एके वटेन घराची पडवी आनी तीन वाटांनी चिऱ्यांनी बांदिल्लो पुरूसभर शेर्क. शेर्काचेर सिमेंटान कंवच्यो बसोवंच्यो अशें पेद्रांवांक दिसतालें. पूण भाटकार-भाटकान्नीन ताका न्हयकार दिलो.

शेर्काच्या भायल्यान एक आंब्याचें झाड आशिल्लें. ताचो एक खांदो शेर्कावेल्यान वांकडो-तिकडो जावन भितर आयिल्लो. पेद्रांव मेस्त नुस्त्याक वचपाच्या वेळार आनी जॉर्जिन मिसाक वचपाचो वेळ सादोवन भुरगे आंब्या खांदयांवेल्यान भितर येताले. आदामांनीं-पेरांनीं बोल्सां भरून पासार जाताले.

एक दीस जुजेकायतानालो चेडो पेद्रांवांच्या चोपक्यांत सांपडलो. पेद्रांवच तो! ताणें कितें करचें? त्या भुरग्याक बडय-बडय बडयलो. काल्सांवांसयत सगळीं फळां काडून घेतलीं आनी पोराक नागडो करून घरा धांवडायलो.

ही गजाल आशिल्ली कोस्तू भाटकार घरा आसतनाची. पेद्रांव मेस्तान आपणें केल्लो प्रताप खोशेन कोस्तूच्या कानार घालो. भुरग्याकडल्यान घेतिल्लीं

फळां आनी काल्सांव आपल्या धनयां मुखार थेयलें. आपणें चोराक नागडो केल्ल्याचें 'ऑर' ताणें खोशेन सांगलें.

मेस्तालें कर्तुब कोस्तूक मातय आवडलें ना. ताणें खंती जावन जॉर्जिनाच्या तोंडाकडेन पळेलें. 'कुयताद!' जॉर्जिनाच्या तोंडांतल्यान सहज उतर भायर पडलें.

आपल्या कुजनेरालें कर्तुब कोस्तू भाटकाराक साप्प मानवलें ना. ताणें रागान कुजनेराचेर दोन फुलयलीं आनी म्हळें - "वोशिंमोर इंगाचो! झे हें सोगलें आनी वोस त्या भुरग्याच्या घोरा लागीं. दिवन यो तें सोगलें."

कोस्तू भाटकार किर्यादाकडेन 'कोंकानी' उलोवंक जाय तशीच उलयलो.

चड करून जॉर्जिनबायकडेन दाटी करपाची म्हजी इत्सा आशिल्ली, ती पुराय करपाची संद म्हाका एक दीस आयतीच मेळ्ळी.

कोस्तू भाटकाराल्या दारांतल्यान बाजारांत येवपा-वचपाची वाट आशिल्ली. खारव्यां नुस्तें विकून हेच वाटेन परतीं येतालीं. वाटेक तेकून भरपूर नाल्ल दिवपी माड आशिल्ले. माडाचे नाल्ल सुकून झडटाले. घरा वता आसतना नाल्ल उकलून पाटल्यांत केन्ना उडयतालीं खारव्यां हांचो पत्तो कोणाक लागनासलो. नुस्तेकारां एक नाल्ला बोंडो भाटकाराक मेळूंक दी नाशिल्लीं. नाल्लांचेर पोंय-पिस्तऱ्यो उडोवन दोळे धांपून चलत रावताल्यो खारविणी!

एक दीस हांव बारा-एकाच्या सुमाराक बाजारांतल्यान घरा वतालों. पळे जाल्यार एका माडामुंदांत तीन नाल्ल पडिल्ले आसात. भाटकाराल्या दारार नदर मारली. दार धांपिल्लें आसा. हावें कशेबशे नाल्ल उकलून वेंगेंत धरले आनी कोस्तू भाटकाराल्या दारार 'टूक-टूक' केलें.

थोडचा वेळान भाटकारान दार उगडलें.जॉर्जिनबायूय भायर आयलें. म्हज्या हातांतले नाल्ल पळोवन दोगांय अजापांत पडलीं. हे आदीं अशे तरेन नाल्ल हाडून तांकां कोणेंच दिवंनाशिल्ले. तांची तशी अपेक्षाय नासताली.

म्हज्यांतलें प्रामाणीकपण पळोवन तांकां कवतूक दिसलें. 'बाँ रापाज' म्हणून कोस्तू भाटकारान, दोनूय हातांनीं म्हजे पोले पोशेले.

नाल्ल दाराभितर थेयल्या उपरांत हांव लजत-लजत घरा वचूंक भायर सरलों मात, जॉर्जिनाबायन म्हज्या हाताक घट्ट धरलो. ओडीतूच एके कुडींत घेवन गेलें. कूड देशेंत आशिल्ली. हे कुडींत एक 'रेदोंदी' (वाटकुळें) मेज आशिल्लें. मेजाभोवतीं देशेंत कदेलां मांडून दवरिल्लीं. तें जेवणा़मेज आशिल्लें.

म्हाका कदेलार बसोवन जॉर्जिनबाय कुजनांत गेलें. पुडी कोराचो केक बशेंत घालून हाडलो आनी मेजार म्हज्या म्हऱ्यांत थेयलो.

तो तेंपूच तसो आशिल्लो. काळ-वेळ पळेनासतना दिता तें खावपाचो. आतां जाल्यार हांव जॉर्जिनाबायक नेटान सांगतलों आशिल्लों, 'आतां जेवणाचो वेळ जालो. असल्या वेळार हांव कांयच खायना.' तेन्ना हांव कांयच उलयलों ना. म्हाका पासां -बिसां घालून, सूर-बीर घाल्लो पुडी कोराचो केक खूब आवडटालो. हांव केकी कुडको तोंडांत घालपाचोच. इतल्यान,

"पेद्रांव, हे बाबाक कार्फ कोत्ताय मुरे?"

"तूं सांगोता जाल्यार कोत्तां बाय."

"कोर" जॉर्जिनबायन ऑर्द सोडली.

"नाकां बाय. हांव असल्या ऑगतार कॉफी बी तसलें कांय घेना!" हावें आकांतून म्हळें.

"कार्फ नाहांय जाल्यार लेमोनाद कोर."

"ना बाय, म्हजें थंडेन हड्डें भरलां."

म्हजें खरेलें कारण दुसरेंच आसलें. म्हाका त्या 'सूज्य' कुजनेराल्या हातचें कांयच नाका आसलें. तो सद्दां धुकराचें आनी गायेचें मांस हाडटा तें हांव जाणां आशिल्लों. तो मांसाचे हात धुतालो काय कितें देवाक खबर! जॉर्जिनबायन स्वताच्या हातांनी कितेंय करून दिल्यार खावंक-पिवंक कांयच हरकत नासली. आतां हावें केकय ना खावचें थारायलें.

हांव कांयच खायना तें पळोवन कोस्तू भाटकार खंती जालो.

"तो इंगा कांयच हायना जाल्यार, दी ताका फ्रूतूश".

म्हज्या फाटल्यान बोल्सांत हात घालून झेतान उबो आशिल्ल्या कोस्तून म्हळें.

"जॉर्जिना चाळवलें. ताका दिसलें कोस्तून म्हाका 'ब्रूतुश' म्हळें म्हूण. कोस्तूक म्हणपाचें आशिल्लें म्हाका फळां दी म्हण. जॉर्जिना समजलें तो म्हाका अन्नाडी म्हणटा म्हूण. फ्रुत-ब्रुत उतरांनी गैरसमज केल्लो.

त्या उपरांत जॉर्जिनाबायची आनी म्हजी आमीजात वाडत गेली. कोस्तू भाटकार वतकच म्हजें तांगेर येवप-वचप वाडलें. जॉर्जिनाबाय म्हाका आतां पिकेन म्हूण उलो मारूंक लागिल्लें. जॉर्जिनाबाय दनपारचें जेवन आड केन्ना पडटा आनी उठटा केन्ना हाची तेळणी केली. सांजेच्या पांच-साडेपांचांक जॉर्जिनाबाय बेकार आसतालें. तो वेळ सादोवन हांव कसलें ना कसलें निमित्त करून जॉर्जिनाबायक भेटूंक वचूंक लागलों. सुर्वेक भंय आनी दचक दिसलो. मागीर म्हजी जॉर्जिनबायकडेन संवंय जाली. तें म्हजी वाट पळोवंक लागलें.

पयलीं-पयलीं तें म्हाका आफोवन आपले कुडींत व्हरतालें. बाज्जेर बसयतालें; मागीर हांव सरळ कुडींत वचून जॉर्जिना म्हऱ्यांत कुडींत बसूंक लागलों. म्हाका तोंड सुटलें. खूब वेळ गजाली चलताल्यो आमच्यो. हांवें बडबडप, ताणें 'हूं-हूं' करप. पूण म्हजी बडबड थांबची, अशें मात ताका केन्नाच दिसलें ना. रेडियोवेलीं लता मंगेशकरालीं गीतां आनी म्हजी बडबड तें वांगडाच आयकतालें.

हें सगळें चलतासतनाच आतां म्हाका पोरसांतलीं फळां साद घालूंक लागलीं. एक दीस हांवें ताका भियेत-भियेत म्हळें,

"बाय, आदामीक आदामां खूब पिकल्यांत, काडूं हांव थोडीं?"

"तूं झाडार चोडटाय? पडचो नाय मुरे? कुयदाद जे आं, माहां भिरांत दिसता." एक आवय आपल्या भुरग्याकडेन उलयता तशी जॉर्जिनाबाय म्हजेकडे उलयलें. ताणें म्हाका उकतेपणान परवानगी दिली ना, पूण मनांतल्यान दिली. म्हाकाय तितलेंच जाय आशिल्लें. हांव उडयो मारीत भायर आयलों. थंयची एक पिशवी खांदाक लायली आनी माकडाभशेन आदामीर चडलों. पांच-धा मिनटांनींच पिक्या आदामांनीं पिशवी भरली. तशें पळोवंक गेल्यार पिक्या आदामांनीं झाड भरिल्लें. पूण हांव पिशवेंतल्यानूच धादोशी जाल्लों.

हावें पिशवेंतलीं आदामां खोटल्यांत ओतलीं. तीं तांबडीं-तांबडीं आदामां पळोवन जॉर्जिनबाय 'सातिस्फेयत' जालें. झाडावेलीं फळां काडपी घरांत कोण नाशिल्लो. पेद्रांव-कुंजनेर-दोळे आसून कुड्डो आनी हात-पांय आसून थोटो आशिल्लो.

तेन्नाच्यान आदामां म्हज्या ताब्यांत आयलीं. हांव आतां जॉर्जिनाबायचो सदांचो जाल्लों. मनांत येता तेन्ना आदामीर चडपाचें, जाय तितलींच आदामां काडून देवपाचें.

"बाय, हांव यान्नीक आपोवं? आदाम आदामांनी भरल्या. पाल्यान भायर दिसनांत तीं. काडूंक गेल्यार दिसांतल्यान पांटुलो-पांटुलो मेळटलीं आदामां-यान्नीक दिल्यार चार पयशे मेळटले." हावें जॉर्जिनाबायक फुकटो सल्लो दिलो.

"माहां पोयशे नाहां. तुहां जाय तितलीं तूं हा. उरलेलीं हांव दी कोण हाता पोय तो. फोवांक लागोन येतात कोराद सुकणीं. कोत्ताय कांतार म्हुज्या देरांत!"

जॉर्जिनाबायलें पोरसूं आतां म्हाका मेकळें रान जाल्लें. म्हजी कावळ्या नदर एक्कान एक फळाचेर पडटाली. म्हजें मन आकर्शून घेवपी आनी दोन फळझाडां थाण मारून बशिल्लीं. तीं म्हळ्यार बिंबल आनी राजावांळी. राशीनी बिमलां पिकून जमीनभरवण जातालीं.

ह्या बिंबलांचें जॉर्जिनाक मोल नाशिल्लें. ताका हीं झाडां सोबेचीं आशिल्लीं. पूण म्हज्या तोंडांतल्यान मात चळ्ळ करून उदक भायर सुटटालें.

एक दीस रावंक जालें ना. हांवें जॉर्जिनाक म्हळें, "बाय ह्या बिंबलांचें मिस्कूट फोर्त जाता. म्हजी आवय हिंग-बिंग घालून बरेंऽऽ लोणचें करता. हांव इल्लीं काडून व्हरूं? लोणचें करून तुकांय इल्लें हाडून दितां."

जॉर्जिना सूप घेवन स्वता बिंबलीकडेन गेलें. ताणें घोसांतलीं मोटीं-मोटीं बिंबलां अचळय काडून सुपांत घालीं. म्हाका ताणें काडूंक परवानगी दिली ना. हांव कशाकशींय बुड्डीत जाल्यार!

म्हजे आवयन केल्लें बिंबलांचें लोणचें जॉर्जिनाचे जिबेर पडनाफुडें ताची जीब तोंडांतल्यान भायर-भितर नाचूंक लागली. उपरांत वर्सान वर्स बिंबल फुलली म्हणटकीर जॉर्जिनाक म्हजे आवयची याद येवंक लागली. म्हाल-म्हाल बिंबलां तोडून तें आवयकडेन धाडूंक लागलें.

कोस्तू भाटकार वियाज मारून घरा आयलो म्हणटकीर ताका एकांत खूब आवडटालो. फाटले पडवेर वोल्तेरार बसून तो चिंत-चिंत चिंततालो. ताणें गोंय भोंवन केन्नाच पळेलेंना. आपलो गांव, सायबाचें गोंय, पणजी-मडगांव शार हेंच ताचें गोंय आशिल्लें.

तो आफ्रिकेक आशिल्लो, पूण ताका व्हडवीक पोर्तुगालाची. पोर्तुगेज राजवटीनूच ताका आफ्रिकेक खाप्ऱ्यांचेर राज्य करपाक नोमिनियार केल्लो. कसलोच हुद्दो नासतना. 'प्रिमेंयर-सेगुंदग्राव' तो शिकिल्लो जांवये. पूण ह्या शिकपाक मोल नाशिल्लें. मोल आशिल्लें, तें कोस्तू भाटकाराल्या गोरसाणीक. ह्या गोऱ्या रंगाक लागुनूच तो आपल्याक 'पाकलो' समजतालो, -पोर्तुगेज समजतालो. पोर्तुगेजांचो तो चड उपकारी आसलो. पोर्तुगेज येवंनाशिल्ले जाल्यार आपूण गोरो जावंचो नासलों. आपल्याक गोरसाण फाव जाल्या ती इंदियेची न्हय तर ती पोर्तुगालची. हे गोरसाणीक लागूनच आपूण व्हडलो भाटकार जावंक पावलों. हे गोरसाणीक लागुनूच आपूण आफ्रिकेक वचून जैत मेळयलें. थंयची गिरिस्तकाय गोंयांत हाडूंक पावलों. थंयच्या काळ्यांचेर शेक गाजयलो हावें. हें सगळें घडलें तें जेजूचे कृपेन. हे विचार ताच्या मनांत घोळटा आसतनाच थंयच्या थंय ताणें हाताचीं बोटां वोटांचेर दवरून जेजूक उडटो उमो दिलो.

आपले पूर्वज एका तेंपार हिन्दू

आशिल्ले, किरिस्तांव जावन सुटले. ना तर सगळे इंफेर्नांत वचपाचे. भिकेक पावपाचे.

हें सगळें चिंततासतना एक गजाल विसरतालो कोस्तू. आपूण गोरो आसलों तरी आपली बायल काळी आसा. तिचीं दोन भुरगीं गोरीं आसलीं तरी एक पूत काळो. गांवांत ताच्या नात्या-गोत्यांतले लोक पातळिल्ले आसात. तांकां कोस्तू भाटकार आपलो केन्नाच दिसलो ना. गांवच्या किरिस्तावांची जात एक, धर्म एक! कोस्तू भाटकार किरिस्तांव आशिल्लो. पूण ताची कात वेगळी आशिल्ली. हे कातीक लागून गांवकार ताका मिस्तीस म्हूण वळखताले. मिस्तीस म्हळ्यार मिस्तूर रक्ताचो.

आपल्याक गोंयचे लोक वेगळे नदरेन पळेतात हाची जाणविकाय कोस्तूक आशिल्ली. ताका लागून तो आपल्या मनशांपसून पयस-पयस रावतालो. घरा खावंक-जेवंक भरपूर आसतना, आफ्रिकेक वचून पोर्तुगेजांची सिर्विस करपाचें कारणूय हेंच. आतां एक मात खरें, आफ्रिकेक पोर्तुगेजांकडल्यान कोस्तूक फाल्त रेस्पेयत मेळटालो. आफ्रिकेंतल्या पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांक कोस्तू आपलो केन्नाच दिसलो ना. तो तांच्या खातीर इंदियानूच आशिल्लो. आनी 'इंदियानूस' पोर्तुगेजांचे गुलाम आशिल्ले, ही गजाल जर आफ्रिकेंतल्या काळ्यांक खबर आशिल्ली, तर ते कोस्तूचो द्वेश केन्नाच करचे नासले. ही गजाल कोस्तूक खूब उसरां कळून आयली.

आफ्रीकेचे खाप्री कोस्तूचेर मनांतल्या मनांत जळटाले. गोरे ताका 'कोफियांसा'त घेनाशिल्ले. कारण तो 'इंदियान्' आशिल्लो. गोंयांत तर ताका कोणूच उरूंक नाशिल्लो. भुरगीं काजार जावन आपापल्या संवसाराक लागिल्लीं. एक पूत दोतोर जावन पोर्तुगालाक गेलो तो केन्ना परतो आयलोच, ना. दुसरो खंय तरी पोर्तुगेजांच्या कॉलोनीत वचून तांची गुलामगिरी करूंक लागलो. धूव एका पाकल्याचो मोग करून ताच्या वांगडा पोर्तुगालाक गेली.

मनीस पोटाखातीर कितलोय पयस गेलो तरी जाणटेपणांत ताका घर आसता. घरकाराक घरकान्न सोडून गेली वा घरकान्नीक घरकार, तर फाटी कोण उरता ताका पूत-सून, नातरां आनी धूव-जावंय बी आसतात. हांगा कोस्तू भाटकार सगळ्या वाटांनी एकटो पडिल्लो. ताका आतां घराची ओड लागिल्ली ती घराक लागून न्हय, तर फक्त जॉर्जिनाक लागून.



जुवानपणांत कोस्तू भाटकाराक काळे लोक भयान मान-रेस्पेद दिताले. आतां कोस्तूची दांत नाशिल्ल्या सोर्पावरी गत जाल्ली. तो हाताखालच्या लोकांचेर फोंसां घालतालो. पूण ताचो परिणाम कोणाचेर कांयच जायनासलो.

जॉर्जिनाबाय आतां थकून गेल्लें. भुरग्यां-बाळांच्या आदाराची आस्त नाशिल्ली ताका. निदान निमणे वेळार तरी घोव आपल्या म्हऱ्यांत सेगीत आसचो अशें दिसतालें जॉर्जिनाक. ताणें चीट बरोवन कोस्तूक सिर्विस सोडून 'उर्जेंत' घरा येवपाची 'ऑर्द' दिली. कोस्तूय तितलेंच सोदतालो.

जॉर्जिनान कोस्तूक उर्जेंत घरा यो म्हूण चीट बरयल्ली. पूण आपूण दुयेंत बी आसा म्हूण चिटयेंत कांय बरोवंक नाशिल्लें.

एक दीस जालें अशें - जॉर्जिना इस्कादेवेल्यान घुंवळ येवन पडलें. अशे तरेची घुंवळ ताका पयलेच फावट आयिल्ली. हे आर्दी गांवच्या दोतोराकडल्यान तें वोगतार प्रेसांव तपासून घेतालें. पूण आतां ताका आपल्याक व्हडल्या दोतोराकडल्यान तपासून घेवचेंशें दिसलें.

पोर्तुगेजा तेंपार गांवांत आतांभशेन दोतोर नासताले. जॉर्जिनाच्या तेंपार पणजेचो गोविंद वैद्य, पाट्यावेलो दोतोर कुडचडकार बी फामाद आशिल्ले. तांच्या वांगडाच प्रेसांव, कुरासांव आनी दियाबेत हीं दुयेंसांय चड फामाद आशिल्लीं. बायलांचीं दुयेंसां पयस जातलीं जाल्यार तांकां बाकाल्यांव खावयताले फामाद दोतोर!

जॉर्जिना तर कांक्राचें नांव काडल्यार कच्च करून आंग काडटालें.

पाट्यावेलो दोतोर येवन जॉर्जिनाक तपासून गेलो, आनी ताच्या जिवांत जीव आयलो. जॉर्जिनान आतां दोळे उक्ते केले खरे, पूण ते आतां कोस्तूचे वाटेकडेन लागले. ताचें मरण आतां लार्गी पाविल्ल्याचीं सपनां ताका दिसाचींच पडूंक लागलीं.

कितेंय जालें तरी कोस्तू आनीक चार-पांच वर्सां तरी आफ्रिकेक रावूंक शकतालो. पूण आतां तो आफ्रिकेचेर विटिल्लो. कसलीच आसक्ती मनांत बाळगिनासतना ताणें परकी तेर्राक फाट केली ती कायमचीच.

कोस्तू गोयां पावलो तेन्ना जॉर्जिनान हातरूण धरिल्लें. पूण पुराय शिंतीदार आसलें. कोस्तूक पळोवन ताच्या जिवाक आतां तरतरी आयिल्ली. पूण ती खिणाची आशिल्ली.

जॉर्जिनाची स्थिती पळोवन कोस्तू सामको गर्भगळीत जालो. ताणें चिंतलें, आपली सगळी गिरिस्तकाय ओंतली तरी आपलें जॉर्जू आतां आपल्याक मेळपाचें ना. ताका साल्वार केल्यार देवानूच.

तो आतां दिसांतल्यान चार फावट तरी जेजूच्या आल्तारा सामकाराक दिमयो घालून जॉर्जिनाच्या प्राणाची भीक मागूंक लागलो. पूण मनशान देवाफुडें कितलेंय नाक घासलें तरी मरणाफुडें ताचें कांयच चलना. व्हडलेंशें जाल्यार दुडवां नाड्यार आयजचें मरण चार दीस फुडें धुकलूं येत, इतलेंच! जंय राम-कृष्ण, बुध्द-जेजू मरणाफुडें कांयच करूंक शकलेनांत, थंय कोस्तू भाटकाराची कसली बिशात? जेजू आनी मांयमोरी जॉर्जिनाचें प्राण वाचोवंक शकलीं नां. जॉर्जिनान कोस्तूचे वेंगेंत निमणो स्वास घेतलो.

जॉर्जिनाच्या मरणान कोस्तूच्या काळजाक जबर धक्को बसलो. तो केन्ना रडूंक नासलो तितलो रडलो. कोस्तू रहटा म्हूण मेस्तान बांबो मारल्यो. मारीर पोस्कें बेल्ला कशें आंगी रावत? तेंय हुंयली मारून मेकळें जालें. रडलोना तो लाद्रांव. तो शेंपडी हालयत घरभर पासयो मारीत रावलो.

थोड्याच वेळान इगर्जेच्यो घांटी गांवभर पेरगांव घालूंक लागल्यो. गांवची एक धूव ह्या संवसाराक अंतरली म्हूण दुखेस्त सुरांनी गांवाक कळीत करताल्यो त्यो घांटी!

"लोक्षीम, जॉर्जिनबाय जेलें मुगो!" शेजारच्या मार्तीनान धावत येवन जॉर्जिनाच्या मरणाची गजाल म्हज्या आवयच्या कानार घाली. म्हज्या आवय-बापायन रिगणात कोस्तू भाटकाराघरा धांव मारली. ताच्या फाटल्यान म्हजीय पावलां आपसूक वळ्ळीं. आमचो घरबो मोडल्यार आनी कोणाचोच आदार नाशिल्लो कोस्तू भाटकाराक!

कांय मनशां जात-धर्माचीं नासुनीय फाटल्यान उरिल्ल्यांच्या काळजांत घर करून हो संवसार सोडून वतात. जॉर्जिनाबाय गेल्ल्यान म्हाका दुख्ख जाल्लेंच. पूण तेय परस चड दुख्ख म्हाका कोस्तू भाटकाराचे हाल पळोवन जातालें. जल्मभर एकटेपणाचें जिवीत जगलो तो! रेफोर्माद जातलो आनी उरिल्ले दीस आपले मोगाळ घरकान्नी सांगातान काडटलों म्हूण आशेन जगतालो तो. पूण ते दीस निवृत्त जावचे आदींच देवान हिस्कावन घेतिल्ले. सपनां रंगयत-रंगयत मोल्लादीक दीस सारतनाच दुख्खा न्हयंत सांपडलो कोस्तू. ताचें हें दुख्ख ना भाटां-बेसां पयस करूंक शकलीं, ना पोर्तुगेज सरकार आनी तांची गोरसाण! ज्या गांवभावांक तो काळे, बुरशे, अन्नाडी, बुर्र समजतालो, तेच आयज ताचें दुख्ख ल्हव करूंक ताच्या दारांत धावून आयिल्ले.

कोस्तूक आतां आपल्या अविचारी कर्तुबांचें पिकासांव जावंक लागिल्लें. ताका आपली धर्मपत्नी गेल्ल्याचें दुख्ख जाल्लेंच, तेय परस चड दुख्ख ताका आपणें केल्ल्या पिशेपणाचें जातालें. आपले

गोरसाणिचो-आपले भाशेचो गर्व तो आतां विसरूंक लागिल्लो.

जॉर्जिनाच्या मरणाक लोकांनीं गर्दी करूंक नाशिल्ली. गरिबांतल्या गरिबाच्या मरणाक जाता तितलीय गर्दी कोस्तू भाटकाराल्या दारांत दिसली ना. तरी 'ओब्रिगासांव' करपाक, शेतांत काश्टी मारून काम करपी बेगारी, काशेदांतले पोन्न्यातले पोन्ने फात मारून मरणाक आयिल्ले. काशांव व्हरपाक गाडो आयिल्लो. पादविगार न्हेसून आयिल्लो. रडकुरें मुज्ग वाजतालें. पूण दुकां गळोवंक जॉर्जिनालें एकय भुरगें म्हऱ्यांत नाशिल्लें. पोर्तुगाल तर खूब म्हळ्यार खूबच पयस आशिल्लें.

जॉजिनालें काळें मडें, मडें व्हरूंक आयिल्ले काळे गांवभाव, काळें मळब, घराभोंवतणी उडपी काळे कावळे आनी तांच्यामदें आशिल्लो तो गोऱ्या कातीचो एकटोच कोस्तू भाटकार! कोस्तू भाटकाराक सांगात करतालो तो ताच्या घराचो हळदुवो रंग.

जॉर्जिना गेल्या उपरांत कोस्तून आपले कुजनेराक 'रेफोर्माद' केलो. कितें दिवंक जाय तें दिवन मेकळो केलो ताका. हे फुडें एका म्हाताऱ्याक दुसऱ्या म्हाताऱ्याची कटकट सोसपा सारकी नाशिल्ली.

कोस्तू जेन्ना-जेन्ना आफ्रिकेंतल्यान गोंयां येतालो, तेन्ना-तेन्ना तो उमेदीन आनी खुशालकायेन भरतालो. ताका कारण आशिल्लें, ताचें मोगाळ जॉर्जिना! भुरग्यांचो मोग ताका नाशिल्लो असो न्हय. तीं तर ताच्या म्हातारपणाचो आदार जावन आशिल्लें. पूण जॉर्जिना ताचें सर्वस्व आशिल्लें.

आतां जॉर्जिना म्हऱ्यांत नाशिल्लें. कोस्तूचें मन सैरभैर जाल्लें. ताका दिसतालें, आपलें हक्काचें मनीस गेलें आनी आपूण उबंत पडलों.

खरें म्हळ्यार आपूण उबंत-बिबंत पडलों असले विचार कोस्तूच्या मनांत येवपाचें कसलेंच कारण नाशिल्लें. बायल गेली म्हूण कितें जालें? भुरगीं नाशिल्लीं तर ताका? कितें उणें केल्लें ताणें आपल्या भुरग्यांक? एका गिरेस्ताल्या भुरग्यांक वागोवंक जाय तशींच वागयल्लीं ताणें आपल्या भुरग्यांक!

जॉर्जिना वचून आतां आठ दीस पासार जाल्ले. कोस्तूले दोळे आतां भुरग्यांले वाटेकडेन लागून आशिल्ले. फुडाराचीं सपनां पळेत!

दोन-दोन दिसांच्या अंतरान कोस्तूलीं दोगांय गोरीं भुरगीं गोंयांत पावलीं. आयलीं तीं आयलीं, घोड्यार बसून आयलीं. वांगडा भुरग्या-बाळांक कोण्णाक हाडलीं ना तांणीं. व्हडलो आंतोनियो आनी मदलें बाय ज्युलियेत, दोगांच आयलीं.

कोस्तू आतां गोरे कातीक पळोवन तितलो खोशी जालोना, जितलो काळ्या आल्बेर्ताक पळोवन जावपाचो. आल्बेर्तांत जॉर्जिनांतलो काळो कोर उप्पाट भरिल्लो. जॉर्जिना सारकोच ताच्या आंगात आस्पावल्लो. ताका लागून आल्बेर्त ताका आपल्या दोळ्यांकडेन जाय आसलो. तो ना तो पळोवन कोस्तूल्या मनांत भुर्र करून विचार आयले. आपल्या काळ्या पुताक आपल्यापसून पयस दवरून जेजू आपल्याक ख्यास्त बी भोगयना मू?

दोगांय भुरग्यांनी येनाबराबर आपल्या पायक घट्ट वेंग मारपाचें काम पुराय केलें. रडपाची-बिडपाची फोर्मालदाद सोंपल्या उपरांत दोगांय भुरगीं आपले मांयक विसरूनय गेलीं. तांच्या चेऱ्यावेली सावळी खिणांत पयस जावन ते सुवातेर वत पातळ्ळें.

पूण कोस्तूली दुकांझर अजून आटूंक नासली. ती सतत पाझरून दोळे थेंबेताले. कोस्तूक दिशिल्लें, आपलीं भुरगीं आतां आपलो विचार करतलीं. भुरग्यांक भायल्या तेर्राक सोडून आयिल्ल्यान, 'पापा' म्हऱ्यांत रावप कोणाक शक्य जावचें ना हें आदींच उक्तें जाल्लें. पूण निदान वयलेतरांक तरी आपलीं भुरगीं आपल्याक वांगडा व्हरपाक तयार जातलीं अशें कोस्तूक दिसतालें. पूण तशें कांय घडलें ना. 'पाय'क घर राखूंक सोडून दोगांय आयिल्ले वाटेन परत गेलीं. जशीं तीं मांय-पायच्या मोगान येवं नाशिल्ली तर भोगावळ करपाक भोंवडेक म्हूण आयिल्लीं.

कोस्तुलें जॉर्जू गेलें. भुरगींय पयस जालीं. तो खरेल्या अर्थान आतां एकटो पडिल्लो.

मनीस कितलोय निर्शेलो, कितलोय दुखेस्त जालो तरी ताका जगपाची आस आसताच. कोस्तूकूय आपली फुडली जीण जगपाची आस आशिल्ली. जॉर्जिना फाटल्यान ताका भुरगीं लागसारचीं आशिल्लीं. तांचीं मनां ताणें पारखिलीं आनी आपले फुडले जीणेची ताणें येवजण केली.

सगळ्यांत पयलीं ताणें पेद्रांवांक रेफोर्माद केलो. त्या म्हाताऱ्या कुजनेराची कटकट आतां कोताक येवपाची नाशिल्ली. ताका कितें दिवंक जाय तें दिवन ताका घरच्यांचे सुवादीन केलो.

आतां कोस्तूच्या सांगाताक उरिल्ले दोन जीव-लाद्रांव आनी बेला. लाद्रांव सुणो आनी सेर्वेंत बेला. कोस्तूच्या माथ्यार सुण्याचो पेज नाशिल्लो, पेज आशिल्लो तो बेलाचो!

बेला ल्हानपणांत सावन कोस्तूल्या घरांत पोसकें म्हूण वावुरलें. ताका खंयच्यान आनी कोणें हाडून सोडलें देवाक खबर. पूण ताका पोसपाची आनी ताची राखण करपाची जापसालदारकी कोस्तूची



आशिल्ली.

बेलाची इदाद आतां चाळीस वर्सांची आसली. तें कितलेंय पिरायेचें आसलें तरी कोस्तू ताका रेफोर्माद करून ताच्या घरा धाडूंक शकनासलो. कारण ताका घर आनी सोयऱ्यां-धायऱ्यां कोणूच नाशिल्लीं.

कोस्तू कातीन गोरो आसलो तरी मनान काळो नासलो. ताणें चिंतलें, आपणें आतां साठी हुपल्या, जॉर्जिनाचें आपोवणें केन्ना येत कोणाच्यान सांगूं येता? फाल्यां आपल्याक कितेंय जालें जाल्यार बेलाचें कितें? ताका फाल्यां आंतोनियोन खोंट मारून धांवडायलें जाल्यार ताचें कितें जातलें? उतरान न्हय तर लेत्रान बेलाच्या पोटा-पाणयाची वेवस्ता करून दवरलीना जाल्यार पोर वाऱ्यार पडटलें. तशें घडलें जाल्यार जिजस आपल्याक कसोच भोगशीचोना.

कोस्तून चिंत-चिंत चिंतलें. ताच्यान एक बरोसो भाटाकुडको बेलाच्या नांवार करूंक जातालो. पूण तशें केल्यार आपलीं भरगीं ताका तो भोगूंक दितलींच अशें सांगू नजो. चड करून आंतोनियो बेलाक कसोच सुखान जगूंक दिवचो ना. तेन्ना एकूच उपाय आशिल्लो कोस्तूमुखार, आनी तो म्हळ्यार बेलाकडेन काजार जावपाचो. अशें केल्यार दोगांकय कायदयाचो तेंको मेळटलो आनी दोगांचेंय जिवीत सुखी जातलें, अशे विचार कोस्तूच्या मनांत आयले.

पेद्रांव गेल्या उपरांत दोगां मनशांचें जेवण बेलाच करतालें. पेद्रांवाकडल्यानच शिकिल्लें तें रांदूक. तरी पेद्रांवा परस बरें जातालें जेवण!

बाजारूय तेंच करतालें. सगळें घर त्रातार करूंक लागिल्लें बेला आतां.

एक दीस कोस्तू फाटले वासरेर, ऑल्तेरार बसून कितें तरी चिंतीत आशिल्लो. ताणें बेलाक उलो मारलो -

"कितें बाब, कित्याक उलो मारलो माहां?"

"येयलें बाजाराक वोसोंन?"

"व्होय बाबा!"

"कितें मेवलें निस्त्याक?"

"शेवटो बाबा!"

"तोहें तोर आयज आमहां कोरी बोरी आहा. तूं कोत्ता आर्गोस-कोरी चांड बोरी!" कोस्तून बेलाची आयज देमायज तुस्त केली. जॉर्जिन मेल्ल्याक बेलान पयले खेप आयकल्ली आपली तुस्त कोस्तूच्या तोंडांतल्यान!

"हाल्यांच्यान मेवची ना आमहां हांवंक ओहली कोरी!" कोस्तू आपली निजाची कोंकानी भास उलयलो.

"कित्याक बाब! ओहली कोरी हाल्यां कित्याक मेवची ना?" काचाबूल जावन बेलान म्हळें.

"कित्याक तोर, येतोलो हाल्यां, नोवो कुजनेर."

"नोवो कुजनेर, तो आनी कित्याकू? म्होजो आर्रोस-कोरी बोरी जाता ओहें तूंच म्होण्टालो न्होय गा!"

"होय हांव म्होण्टालों. पूण माहां जाय दादलो दुसरो घारांत. दुबाव झेवंक नाहां लोकांक, पडोवन एकठांय एक ओस्तुरी आनी दादुलो." कोस्तून 'ओस्तुरी' हें उत्तर पाद्रील्या शेरमावांतल्यान खूबदां आयकल्लें.

बेला अशिक्षीत आसुनूय हुशार आसलें. कोस्तू ताका कितें सांगूंक सोदता हें कळूंक ताका कळाव लागलोना.

"आगोर (आतां) तुहां नाहां तोर कुजनेर, कोरूंक जाता आमच्यांनी एक माण्णी. तूं आहा तोयार तोर उलोय."

"कोहली माण्णी बाबा! उलोय तोरी." – बेला

"जावं बोरें तुजें आनी म्होजें, जावया आमी काजार दोगांय!"

कोस्तूलो प्रस्ताव आयकून बेला अजापांत पडलें ना. हुशार बेला अशें कितेंय तरी घडटलें हें आदींच जाणां आसलें. म्हाताऱ्या कोस्तूक अशें केल्या बगर दुसरो पर्यायूच नासलो. दोन जिवांक सुखी करपाची एक तडजोड आशिल्ली ती!

बेलाय तितलेंच सोदतालें. पडट्या फुलाची आज्ञा मानून ताणें कोस्तूल्या प्रस्तावाक हयकार दिलो. चाळीशींतली व्हकल आनी साठी हुपिल्लो न्हवरो आतां काजराक तयार जाल्लीं.

आतांच्या तेंपार कोणाक तशें व्हडलेंशें दिसपाचें ना असल्या काजारांचें. पूण कोस्तू-बेलाच्या काळार मात, 'बेताळाक ना बायल आनी काळखा देवतेक ना घोव' म्हूण समाज असल्या काजाराक मान्यताय दितालो.

काजाराच्या उतरान आतां बेला खोशेलें. कोस्तू कोंबेलो. इगर्ज आनी पाद्रविगार घरा फाटल्यानूच आशिल्ल्यान, कोस्तून काजाराचे तयारेक इल्लोय कळाव लायलोना.

कसलोच बोवाळ नासतना कोस्तू-बेलाचें काजार जालें. घोव-बायल राजा-राणी कशीं सुखान रावंक लागलीं. पूण तांचें सूख इगर्जेफाटल्या जेर्मनाच्या दोळ्यांत खुपसूंक लागलें. हो खूनमारो जर्मन आपलेच बायलेचो खून करून गोंयां भायर पळून गेल्लो. गोंयांत परतो आयल्या उपरांत तो बेलाचेर दोळो दवरून आशिल्लो. ताका लागून कोस्तू-बेलाचें काजार ताका सोंसलेंना.

जेर्मानान कोस्तूल्या व्हडल्या पुताचो-आंतोनीचो-पत्तो सोदून काडलो. आंतोनियोक ताणें चीट बरयली. चिटयेंत कोस्तू-बेलाच्या काजाराची गजाल अशे तरेन फुगोवन बरयली, की ती वाचून आंतोनियोक आपल्या बापायचो राग येवंचो, आनी गोंयांत येवन बेलाक घरांतल्यान भायर घालचें.

जेर्मानाली चीट हातांत पडनाफुडें आंतोनियोल्या आंगाची गोरसाण तांबसाणीत बदलली. पाय काजार जालो हाचें मातूय दुख्ख ताका जावंक नासलें. पूण आपल्याच घरांतले वावराडेकडेन काजार जावप हें कोस्तूल्या गोऱ्या कातीच्या भुरग्यांक केन्नाच मानवचेलें नाशिल्लें.

आंतोनियोन कळाव केलो ना. रागा भारार कळाव करिनासतना गोंयची वाट धरली ताणें. तेक्याक बायल आशिल्लीच.

गोंयां पावतकीर घराचो हुंबरो हुपनाफुडें आंतोनियोन फाटलो-फुडलो विचार केलो ना. बेलाचो हात धरून ताका भरभरीत ओडून भायर व्हेलें, आनी दिलें धुकलून इस्कादीवेल्यान!

बेला इस्कादीवेल्यान गडगडलें. तरी बरें, ताचे हात-पांय मोडलेनांत. तें सोपणांचेर तशेंच पडून रावलें. आंतोनियोन ताका धमकी दिली – परतें घरांत पांय दवरशी जाल्यार तुजें भेंड मोडून घालतां. म्हूण!

इतलें करून आंतोनियो बायलेचो हात हातांत घेवन झडझडीत घरांत शिरलो. वतना ताणें कोस्तूचेर तिरस्कारान एक नदर मारली.

हें सगळें घडटा आसतना कोस्तू बोल्सांत हात घालून, दाराकडेन उबो रावन शांतकायेन सगळें पळेतालो. घराचो मालक आसूनय कोस्तून पुताक तोंड घातलें ना. ताका जाय जाल्यार ताच्यान म्हणूं जातालें, बेलाकडेन आपूण काजार जालां. तें हें घर सोडून खंयच वचचें ना. तुकां तें सोंसना जाल्यार तूंच वच तोंड घेवन म्हज्या घरांतलो.

पूण कोस्तून तशें केलें ना. ताका गांवांत तमासो दाखोवंक नाका आसलो. दांतूय आपले आनी ओंठूय आपले म्हूण तो सगळें सोंसून शांत रावलो.

बेला अजून एके सुवातेर पडून आशिल्लें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो पावळ्यो गळटाल्यो. आपलो घोव खूंट कसो उबो आसा. आपले मजतीक फुडें येना म्हूण ताचें मन दुबावीत जाल्लें. ताका दिसतालें, कोस्तू आपल्या पुता फाटल्यान आपुणूय भितर वतलो आनी फुडलें दार बंद करतलो. आनी आपूण सुण्यावरी थंयच पडून उरतलें.

पूण कोस्तूकडल्यान तशें घडपाचें नासलें. तो टाट कण्याचो मनीस संथ गतीन धेपां मारीत इस्कादीवेल्यान खाला देंवलो. ताणें बेलाक हात दिवन उबें केलें. देवादयेन ताचे हात-पांय शाबूत आशिल्ले.

कोस्तून बेलाक एका खांब्याक तेंकून उबें केलें. भितर वचून ताणें गरजेचो रोप (मुस्तायकी) काशेदांत भरलो. एका हातांत काशेद आनी दुसरो हात बेलाच्या भेंडा भोवती घालून तो घराभायर सरलो.

खंय वतलो तो आतां नवे बायलेक घेवन! धुवेगेर? ती तर पोर्तुगालाक आसा. सोयऱ्यां-धायऱ्यांकूय दोनूच दिसांनी जड जावपाचीं. तेन्ना कोस्तू भाटकारान कोणागेरूच ना वचपाचें थारायलें.

घरापासून पयस एक भाटाकुडको आसलो मुंडकाराविरयत. एक मुंडकार आसलो तो हालींच मरून गेल्लो. मोडकें जावं मागीर कोस्तू भाटकाराक घर आयतेंच गावलें. बेलाक घेवन तो एक मुंडकार कसो आपल्याच भाटांत रावंक लागलो. तांची राखण करपाक वांगडा लाद्रांव आशिल्लोच.

उपरांत बरींच वर्सां पासार जाल्लीं. एक दीस हांव बाजारांतल्यान घरा येतालों. अकस्मात वाटेर मड्यागाड्याचेर नदर पडली. चवकशी केल्या उपरांत कळ्ळें, कोस्तू भाटकार ह्या संवसाराक अंतरलो. काळजांत धस्स जालें. कोस्तू भाटकार म्हजो कोणूच नासलो. तरी म्हज्या घराकडेन वचपी म्हजीं पावलां कोस्तुल्या घराकडेन आपसूक वळ्ळीं.

घराच्या बल्कावांत काशांव सजोवन दवरिल्लो. काळ्या कोराच्या काशांवांत गोऱ्या कातीचो भाटकार फात मारून सासणाची न्हीद घेतालो. बेला म्हऱ्यांत बसून हुयेली मागतालें. फुडलें दार आनी जनेलां बंद आशिल्लीं. घरांत रेडिओचेर पोर्तुगेज संगीत लागिल्लें. संगीताच्या तालार आंतोनियोलीं बायल-भुरगीं 'दांस' करतालीं-हांसतालीं-किटकिट्टालींय बी. आंतोनियांचो तर पत्तोच नासलो. घरांत संगीत आनी बल्कावांत बेलाच्यो हुयेली. सगळें विचित्र आनी विचित्र!

असल्या वातावरणांत म्हाका चड वेळ थांबप शक्य नासलें. काशांवां म्हऱ्यांत वचून निमणी नदर कोस्तू भाटकाराच्या चेऱ्यार घाली. ताचो गोरो 'कार्रेगाद' रंग आतां फिको पडिल्लो. जे गोरसाणिचो ताका गर्व आशिल्लो, तिच्या बदला कोस्तूच्या चेऱ्यार गोंयचे मातयेची तांबसाण चडिल्ली. आफ्रिका आनी पोर्तुगाल कोस्तूवांगडाच काशावांत बंद जाल्लीं. भायर मेकळें आशिल्लें तें गोंयचें मुंदरें, (बेला).

# बारबाला

– ज्योती कुंकळकार




सीमाचे खोंपटेंत मदींच
एक शिविल्ल्या प्लास्टिकचें
पार्टिशन आसलें. तें उसवल्लें,
पिनिल्लें आशिल्लें.
थंय कांय कुटुंबां रावतालीं.
दनपारच्या वेळार सदांच
घरांतल्यान चित्नविचित्र
असो आवाज येतालो.
त्या आवाजा खातीर
एक दीस सीमान मदल्या
पार्टिशनाच्या उसवल्ल्या
बुराकांतसून एकदां लहवूच पळयलें.
एक दादलो बायलेचे हात-पांय
बांदून तिच्या तोंडांत कपडयाची
गुड्डो मारून तिका मारतालो.
मार खातना तिच्या तोंडांतल्यान
विचित्र आवाज येतालो.
आनी ते विचित्र अवस्तेंत
तिका ती भोगतालीय बी.



सूख निवास,
माशेल–गोंय
फोन : ९८२२१६१८५३

**सी**मा मुळचें हुबळीचें. कुटुंबांत आवय-बापूय आनी एकलीच अपुरबायेची 'धूव!'. कुटूंब जेवन खावन सुखी. सीमाचें शिक्षण इकरावी मेरेन. शिकपाक सामकें वायट नाशिल्लें. वृत्तीन मात खूब सादें. कमी उलोवपी, नम्र आनी शिस्तीचें. तशें पळोवपाक गेल्यार घराबो अनाडी, असंस्कृत अशांतलो बी न्हय. बापूय शेतांत काम करपी. आवय मात खर शिस्तिची. चलीभुरग्यान मोटमोट्यान हांसप, किटकिटप, खिदळप, कशेय भशेन बसप, कोणाकडेन उलोवप तिका निखालस मानवनासलें. सीमाचेर खूब जीव. दोळ्यांत तेल घालून ती सीमाक सांबाळटाली.

कारण सीमा चोवदा– पंदरा वर्सांचें आसतना वीस-बावीस वर्सांचें कशें दिसतालें. सीमा इकरावी शिकतालें तेन्ना बापायक शेतांत काम करता आसतना विखारी सोरोप चाबून मरण आयिल्लें. आनी तेन्नाच तांचें दैवच परतलें. ते संदीचो फायदो घेवन तांच्या काकान

तांची शेत-जमीन पद्धतशीरपणान आपल्या नांवार करून बळकायली. घर आशिल्लें पूण पोटा खातीर आवय चार लोकांच्या शेतांत वचून दिसवडो करून पोट भरताली. सीमाचें शिक्षण थंयच थांबलें.

चलयो खंय एरंडाच्या झाडा भशेन गरगरीत वाडटात. तशें सीमाचें जालें. सीमाच्या सोबीतपणा खातीर आडे-कडेच्यो नदरो तिचेर थिरावपाक लागल्यो. घरांत काम नासतना चले भुरगे घराभोंवतणयां गिरगिरपाक लागले. हुशार आवयच्या हें लक्षांत येवपाक कळाव लागलो ना. तिच्या मनांत सीमाच्या लग्नाचो विशय खरपणान घोळपाक लागलो.

आवयच्या नात्यांतलें मोहनाचें थळ तिका सीमा खातीर फावशें दिसलें. स्वताची रिक्षा, घर आनी आंगापांगान वेवस्तीत देखणो ही ताची जमेची बाजू आशिल्ली. सीमाचो भुरग्या बाबतींत विचार घेवप हें तिका बाबडेक तेन्ना कळ्ळेंच ना. सीमान मोहनाक पयलेच फावटी पळयलो तो लग्नाच्या दोन दीस आदीं. न्हवऱ्याची मावशी आनी मोहन साडी-चोळी घेवन तिच्या घरा आयलो, तांचे एके विधी प्रमाण.

चार चोवगांचे साक्षीन सीमाचें लग्न जालें. हुबळी सावन लग्न जावन सीमा आवयचें घर सोडून होन्नावर नंदपाक गेलें. मोहन खूब महत्त्वकांक्षी आशिल्लो. गिरेस्त जावपाचें ताचें व्हडलें सपन आशिल्लें. आरामांत सुखसोयींत रावपाची ताका खूब उमेद आशिल्ली. दिसाची बारा वरां तो रिक्षा चलयतालो. हालीं सराक तो रातचींय भाडीं मारपाक लागिल्लो. त्या खातीर सीमान विचारल्यार 'रातचें भाडें चड मेळटा' अशी ताची जाप. अडिल्ल्या नडिल्ल्या प्रवाशां कडल्यान चड पयशे घेवपाक संद मेळटाली ही खरी गजाल. पूण पयशे जरी चड मेळ्ळे तरी घर-संवसाराक जितले लागतात ताचो हिशोब करुनच सीमाच्या हातांत तो पयशे दवरतालो. सीमाय आपले आवयभाशेन वेवस्तीत बारीकसाणेन संवसार करतालें.

सीमा आतां आवय जालें. तो मेरेन मोहनान रिक्षा वेवसाय सोडून एके कंपनींत ड्रायव्हर म्हण नोकरी धरली. तरी फाविल्ल्या वेळार राती-कातीचो तो रिक्षान भाडींय मारतालो. ताका स्वताची गाडी घेवन वेवसाय करपाचो सामको ध्यास लागिल्लो. आनी त्या खातीर बायलेक आनी धुवे खातीर दरे वयर खवळ उडय नासलो. तितलो कोको तितलें मेमें असोच ताचो वेव्हार आसतालो. सीमा मात ताची महत्त्वकांक्षा पळोवन कांचवेतालें.

आतां मोहन आठाठ धा-धा दीस कंपनी खातीर भायर रावपाक लागलो. दिसाची ड्युटी करून रातचो तो ओव्हरटायम करपाक लागलो. बायले-भुरग्यांचे काळजे परस तागेलीं सपनां खूब व्हड आशिल्लीं. पूण सीमाच्या हातांत कांयच नाशिल्लें. कारण तो खंयचेय बाबतींत सीमाक विश्वासांत घेना आसलो. सीमा आपले माणकुले धुवेची अर्थअपुरबाय करून दीस सारतालें.

आनी एक दीस मोहनान मुंबय वचपाचो निर्णय जाहीर केलो. सीमाचें मत घेवचें हें लेगीत ताच्या मनांत आयलें ना. तो मुंबय वचून टॅक्सी ड्रायव्हराचो धंदो करपाचो आशिल्लो. मुंबय बस्तान बसतकच तो सीमाक आनी धुवेक, 'खुशबू'क घेवन वतलो आसलो आनी रोखडोच तो मुंबय गेलो. सीमा एकटेंच पडलें. आवयय ह्या संवसारांत उरली ना. कोणाचोच आदार नाशिल्लो. तांणीं त्या घरांत चार म्हयने अशे-तशे काडले.

आनी एक दीस अकस्मात मोहन आयलो. येतना तो टॅक्सी घेवनच आयलो. सीमाक सूडड जालें. त्या गांवांतल्यान जड पावलान भायर सरलें.

मुंबयचें वातावरण - शेजार पाजार ह्यो सगळ्योच गजाली सीमाक नव्यो आनी विचित्र दिसल्यो. रावपाक येतकच म्हयन्या उपरांत ताका कळ्ळें. तीं बांद्राचे झोंपडपट्टींत रावपाक आयल्यांत. थंय लेगीत मोहन रातचो, मध्यानेर भायर भाडीं घेवन वतालो. फांतोडेचेर परत येतालो. हें वागप सीमाक निखालस आवड नाशिल्लें. रातचें चलयेक घेवन ते झोपडपट्टींत रावप ताका कश्टांचें जातालें. शेजारचीं चित्रविचित्र मनशां. तांच्यो वेगवेगळ्यो भासो सगळें परकी! अखखे मुंबयंत मोहनाशिवाय ताका आपलो असो कोणूच नासलो. तें तोंड धांपून वगी रावतालें.

विचित्र वस्ती! बुरशी! चारीय वटेन खोंपी. मर्दी अशीर मार्ग. खोंपींच्या एकामेका सामकार मदल्या खाचींतल्यान मनशांची यो वच. मदल्यान फकत एक सायकल मोटे कसरतीन येवपा वचपाक शकताली. झोंपडपट्टींतलीं बायलां घरांतच कसलीं तरी कामां हाडून करतालीं. काय झोंपडपट्ट्यो स्वताचे मालकीच्यो आशिल्ल्यो. आनी जांचे कडेन मालकी ना तांची सामकी वायट अवतिकाय आसली. सदांच काळजांत कलकल. हांका हप्तो दी, तांकां हप्तो दी अशें चलतालें. गूंड, पार्किटमार, तडीपार केल्ले गुन्यांवकारूय ते वस्तींत रावताले. तांकां राजकारण्यांचें फाटबळ आसतालें. उठटां-बसतां मनशां मनशांकडेन झुजचें, झगडचें पडटालें.

सीमाची खोंप भाड्याची आशिल्ली. भाडें म्हयन्याक एकशेंवीस रुपया. पुराय खोंप साकाची बांदिल्ली आशिल्ली. भितल्लें सगळें भायर दिसतालें. लायट नासली. म्हणटकच सांजचो साता पयलींच काळोख जातालो. एकोणीस नंबर ते सव्वीस नंबराच्या मदीं एक मशीद आसली. सामकी ल्हान. थंयच रस्त्यार वडापाव, मच्छीफ्राय मेळटालें. एक विचित्र वास - घाण. दर्प झोंपडपट्टीभर सदांकाळ पातळिल्लो आसतालो. ते कुबटसाणेन सदांच सीमाक मळमळूंक



लागतालें. खूबशे जाण थंय घरांतच सोरो गाळटाले. पोलिसांक वेळचे वेळ हप्तो दिताले. झोपडपट्टेंत हिजडेय रावताले. झोपडपट्टींत कोणागेर भुरगें जालें म्हणटकच चलो आसल्यार भुरग्याच्या लिंगाचेर चापटी मारताले. लिंगाची शीर तायट जाल्यार तो दादलो, हिजडो ना अशी खात्री करतकूच बळजबरेन पयशे घेवन वताले.

हे झोपडपट्टेंत सीमाक खूब त्रास जाताले. रातभर जळारी नाका करताल्यो. ते झोपडपट्टेंत अंयशी टक्के लोक वेगवेगळ्या गुन्यांवांतले अपराधी आसले.

सीमाचे खोंपटेंत मदींच एक शिविल्ल्या प्लास्टिकचें पार्टिशन आसलें. तें उसवल्लें, पिनिल्लें आशिल्लें. थंय कांय कुटुंबां रावतालीं. दनपारच्या वेळार सदांच घरांतल्यान चित्रविचित्र असो आवाज येतालो. त्या आवाजा खातीर एक दीस सीमान मदल्या पार्टिशनाच्या उसवल्ल्या बुराकांतसून एकदां ल्हवूच पळयलें. एक दादलो बायलेचे हात-पांय बांदून तिच्या तोंडांत कपड्याचो गुड्डो मारून तिका मारतालो. मार खातना तिच्या तोंडांतल्यान विचित्र आवाज येतालो. आनी ते विचित्र अवस्तेंत तिका तो भोगतालोय बी. अशीं कितलीं तरी विकृतीचीं मनशां थंय झोपडपट्टेंत रावतालीं.

दुसरे एके खोंपींत एके बायलेक भुरगीं ना म्हणून वांज लेखून घोव खूब त्रास करतालो. सगळ्यां मुखार तिच्या कपड्यांचेर हात घालतालो. पूण एक दीस तिणेंच सीमाक सांगलें थोड्याशा पयशां खातीर ताणें नसबंदिचें ऑपरेशन करून घेतिल्लें. मागीर भुरगीं कशीं जातलीं?

तेच झोपडपट्टेंत 'जोगवा' मागपी खूब कुटुंबां रावतालीं. तांचीं चडशीं भुरगीं मतीमंद आसलीं. लोकांकडेन जोगवा मागून तांचीं पोटां भरतालीं. पांच मिनटां हे झोपडपट्टेंत सुशेग म्हणटा तो मेळनासलो. सदांच उठून किरकीर, झगडीं-झुजां. जीव सामको नाका जातालो. तांच्या फाटल्यानच एक तमन्ना नांवाची बायल रावताली. ती खूब काळीकुट्ट, पूण भडक साडी न्हेसताली आनी कपलाचेर व्हडलो कुंकूम लायताली. तिकाच झोपडपट्टेंत चडशे लोक भिताले. ती आपल्या घरांत सोरो गाळटाली. आपूणय खूब पिताली. पोलिसांक सारको हप्तो मेळना जाल्यार ते तिची भटटी बंद करताले. तेन्ना वागीण कशी तांच्या आंगार धांवताली. तोंडांत येता त्यो गाळी संवताली. व्हडल्यान बोबो मारताली. तिचे काय लोकांकडेन संबंद आशिल्ले. पूण ते सगळे मनीस चडशे मर्डरचे केसींत घुस्पल्ले आशिल्ले. पोलीस तांकां धरपाक आयले म्हणटकच ह्या तमन्नागेर येवन ते लिपताले. आनी ती पोलिसांक भायले भायर धांवडायताली. एक ना दोन,

कितल्योश्योच उध्वस्त जिणो हांगा हांवें पळयिल्ल्यो.

तमन्नाच्या शेजाराक एक भंगी कुटूंब रावतालें. तातूंच एक बायल मनीस आशिल्ली. ही बायलमनीस रस्त्यावयल्यान रफटफ दादल्यासारकी वावुरताली. दिसपाक खूब सुंदर आसली. आंगलोटानय बरी आशिल्ली. एक-दोनदां आमगेर येवन गेल्ली. तिचे वागणुकेन आनी तिच्या स्वभावाक लागून वेगवेगळे दादले तिका पन्नास शंबर रुपयान वापरताले. ह्या वातावरणांत सीमाचो जीव झोपडपट्टेंत फुगार जातालो. केन्ना काय हांगच्यान मुक्ती मेळची अशें दिसतालें.

मागीर-मागीर मोहन सांजचो पांचांक टॅक्सी घेवन वतालो तो बद्द फांतोडेचेर स-साडे संक घरा येतालो. दिसभर घरा लोळत पडटालो. केन्नाय कोणी आपयत जाल्यारूच भाडें मारतालो. ताचें वागप जेन्ना हाताभायर वता अशें दिसलें तेन्ना सीमान ताका खडसावन जाब विचारलो तेन्ना ताचें काळेकुट्ट जग सीमा मुखार आयलें. जे टॅक्सीचेर तो ड्रायव्हर आशिल्लो त्या शेट्टीन ताका वेगळें काम दिल्लें. ताचो व्हडलो डान्सबार आशिल्लो. बारांतल्या चलयांक हाडपा व्हरपाचें काम ताचे कडेन सोंपयिल्लें आनी म्हणून ताका एकय दीस सुटी मेळनाशिल्ली. रातपाळीचें काम म्हणून पगारूय दुप्पट मेळटालो. आरंभाक तो मुंबय एकलो आशिल्लो. ताका चड पगाराची नोकरी जाय आसली. ताका बांद्रया पासून ते चेंबूर मेरेन, डान्सबार्रा मेरेन टॅक्सी चलोवंची पडटाली. शेट्टीन ताकाच मुद्दाम बांद्रा-घाटकोपर हांगच्या चलयाकं घेवन वचपाची-हाडपाची जबाबदारी ताचेर सोंपयिल्ली. सांजेच्या थारायिल्ल्या वेळार चलयो येवन अमुकच जाग्यार रावताल्यो. तो तांकां व्हरतालो. तांकां बारांत सोडटालो आनी टॅक्सींत सुस्त न्हिदतालो. केन्नाय बारांत वचून तोवूय आनंद घेतालो.

चली दोन वर्सांची जातकच मागीर ती झोपडपट्टी सोडली आनी एके चाळींत रावपाक आयलीं...मातशें सू जालें. चली थंयचे बालवाडींत वचूंक लागली. ती बालवाडींत वतकूच, घरकाम सोंपतकूच उरिल्लो वेळ ताका खावपाक येतालो. ना वळख ना पाळख, नात्यांतलो कोण ना गोत्यांतलो. ना कोणें येवप ना कोणागेर वचप. रात तर सरून सर नाशिल्ली केन्ना केन्ना चाळींत केस्तांवां, मारामारी चालूच आसताली. अश्यावेळार सीमा जीव मुठींत धरून चलयेक घेवन दार बंद करून रावतालें.

करतां करतां डान्सबारांतल्यो त्यो चलयो मोहना बरोबर ल्हवू ल्हवू करून एकेक घरा येवपाक लागल्यो. पयलीं पयलीं तांचें बिंधास्तपणान येवप, मेकळेपणान वागप, उलोवप सीमाक खटकतालें. विचित्र दिसतालें. पूण मागीर इलाज नासतना म्हणटा तशी इश्टागत जाली. केन्ना सकाळीं मोहना बरोबर एकटी, केन्ना दोगां भायल्या भायर सकाळीं हांगाच येतालीं. जेवतालीं, खातालीं आनी परत सांजवेळा ताच्या बरोबर परत डान्सबारांत वतालीं. खरें म्हळ्यार परिस्थितीन तांकां गुलाम केल्लीं. फकत खूब पयसो मेळोवप हेंच तांचें ध्येय दोळ्यां मुखार दवरून तीं जगत आशिल्लीं. तीं सगळीं जाणां सीमाक 'भाभी' म्हणटालीं. तिच्या सौंदर्याची तुस्त करतालीं. खूशबूची अर्थअपुरबाय करतालीं. ताका कपडेलत्ते, खेळणी, खावपाक हाडटालीं. हक्कान सीमाक आवडीचे जिन्नस करपाक लायतालीं आनी आवडीन खातालीं. इतले मेरेन सगळें सारखें आशिल्लें.

पूण एक दीस ताचें नशीब घुंवलें. रेडियोचेर सुंदर गीत लागिल्लें. मोहन न्हिदिल्लो. खूशबू त्रास करता म्हणून सीमान ताका म्हणलें, चल तुकां हांव नाच शिकयतां, ताणें रेडियो मातसो व्हडलो केलो. आनी खूशबूक नाच शिकोवपाक लागलें. खूशबू मर्दी मर्दी नाचतालें, हांसतालें. सदचे भशेन बारांतल्यो चलयो दारांत केन्ना उब्यो रावल्यो तें सीमाच्या लक्षांत आयलें ना. चार पांच मिनटां सीमा तन्मयतेन नृत्य करीत रावलें. तें भानार आयलें तें तांच्या ताळयांच्या आवाजान. तें भियेलें, कांचवेलें, लजलें. ताणें हेवटेन-तेवटेन पळयलें जाल्यार मोहन उठून तिचो नाच पळोवपाक गुल्ल जाल्लो.

आनी हांगाच तिच्या जिणेंतल्या पटावेले फाशे परते पडले. चलयांनी तिच्या नाचाची तारीफ केली. "भाभी आप कितना अच्छा डान्स करती हो, हमसे भी अच्छा डान्स है आपका! चलो इस खुशी में चाय पिला दो!" डान्स बारांत नाच करपी शबाना तिची स्तुती करत आशिल्ली.

वतां-वतां शबानान तिका मस्कऱ्यांनीं म्हळें, "भाभी हमारे साथ चलो, डान्सबार में बहुत पैसा कमाओगी." शबाना धरून सगळीं जाणां मोट्यान हांसपाक लागलीं. पूण मोहनाच्या दोळ्यांतली एक विचित्र चमक तिका अस्वस्त करून गेली.

आनी केन्ना न्हय ते मागीरचे सात-आठ दीस सीमाकडेन तो खूब बरो वागपाक लागलो. तिका आनी धुवेक पयलेच फावटी टॅक्सींतल्यान मुंबय दाखोवन हाडलीं. वाटेर भेळ खावपाक दिली. दोन ड्रेस घेवन दिले. सदांच साडी न्हेसपी सीमा पंजाबी ड्रेस पळोवन खूश जालें. मुंबयची ती गर्दी. त्यो व्हडल्यो-व्हडल्यो इमारती, रस्ते, दुकानां पळोवन तें अजापभरीत जालें.

आनी एक दीस खूशबू बालवाडींत वतकच मोहनान अपुरबायेन सीमाक घट्ट

वेंगेंत घेवन फुसलायत समजावपाचो यत्न करपाक लागलो. कितले दीस म्हण या असले हळशीक चाळींत रावतलीं, सार्वजनीक संडासांत वतलीं आमी? हांव एकलो कितें म्हण करतलों, हांव कितले त्रास काडटां तुकाय खबर आसा. तेन्ना तुवें बारांत काम करून हे सगळे त्रास पयस करूं येतात. अशे तरेन ताची समजूत घालतालो. आनी हांगाच ताच्या त्या दोळ्यांतल्या अस्वस्थ करपी नदरेचो उलगडो सीमाक जालो. तेन्नाच तिणें ठामपणान नकार दिलो. संवसाराक हातभार लावूंक जाय जाल्यार आपूण कसलीय नोकरी धरतां पूण हें करचेंना. तरी आसतना मोहन तिका समजायत आशिल्लो. हरशिल्ले नोकरेन देड-दोन हजार रुपयांनी आमचें कितें जावपाचें आसा? आनी मुंबय एक फ्लॅट घेतलो जाल्यार लाखांनी रुपया जाय पडटात. बारांत काम करपाक कांयच वायट ना. आमी हांगा मुंबय कितें करतात? कशीं जगतात? हाचें कोणाक पडिल्लें ना. आनी आमी कितें करतात तें तुज्या आनी म्हज्या गांवांक सोड, ह्या शेजाऱ्यांक लेगीत कळपाचें ना. पूण सीमान एकच पालुपद धरिल्लें 'जें म्हाका आवडना, मान्य ना तें हांव केन्नाच म्हळ्यार केन्नाच करचें ना.'

आनी एक दीस सांजेच्या चारांच्या सुमाराक डान्सबारांतल्यो कांय चलयो सीमागेर आयल्यो. मोहनान तांच्या मुखार धमकायत सीमाक भायर सरपाक सांगलें. ताणें ना-ना म्हणटा आसतना बळजबरीन सगळ्यांनी ताका भायर काडलें. त्या चलयां मुखार 'तमाशा' नाका म्हणून तें रडत टॅक्सींत बसलें. इतले दीस इश्टीणी सारक्यो वागपी चलयो मोहनाक मातूय समजावपाचो यत्न करी नासल्यो. उरफाटीं बार लागीं येतकच ताका धमकायत म्हणपाक लागलीं, "ऐसी रोती सुरत लेकर अंदर मत जाओ! इसे हम अशुभ मानते हैं! हमारे शेटजी को खिले हुओ चेहरे पसंद आते हैं!" इतल्यान मोहनान तोंड घालें. "हांवें तुका आज हांगा नाच करपाक हाडूंक ना. नाच पळोवपाक हाडलां. हांतून कांयच वायट ना हें दाखोवपाक हाडलां. आयज सगळें पळोवन घे. तुज्या मनाक पटना जाल्यार तुजो मार्ग तुका मेकळो आसा." शबानान तिचो हात धरलो, तिच्यासयत बाकीच्योय चलयो बारांत गेल्यो. वतना कंवचेच्या दाराच्या हुंबऱ्याक नमस्कार करपाक कोणूच विसरलीं नांत. एखाद्र्या देवळाच्या सोंपणाक नमस्कार करचो तितलेच भावनेन सगळ्यांनी सोपणांक नमस्कार केलो.

बऱ्याच चलयांचो चोंबो दिसतालो. सगळ्यांच्यो नदरो सीमाकडेन आशिल्ल्यो. तांणीं ही कोण म्हण विचारतांच शबानान सांगलें "अपने मोहन भैया की बीवी, सीमाजी! बार देखने आयी है!" ताचे रडून सुजिल्ले दोळे कितें सांगपाचें तें सांगून गेले. बऱ्याच जणांनी सीमाचो हात हातांत घेवन आपली वळख करून दिली. त्या स्पर्शांत खंयतरी मायेची ओलसाण तिका जाणवली.

बार सुरू जावपाक मातसो कळाव आशिल्लो. सगळ्यो चलयो वचून एका रुमांत मेकअप करपाक लागल्यो. शबानान सीमाक मेकपाची रूम दाखयली. दरएकल्याचें मेकअप बॉक्स आशिल्लें. चत्रायेन दर एकली आपलो मेकअप झटपट करताली. ड्रेस बदलताली एखादो दुसरो दादलो कर्मचारी दार उगडून भितर येतालो. पूण ताचें कोणाक कांयच पडूंक नाशिल्लें.

शबानाचो मेकअप जालो. बांदिल्ले केंस मेकळे सोडले. चकचकीत तांबडोच सेटीनचो गावन ताणें घालो. त्या गावनाचो गळो बरोच सकल मेरेन आशिल्लो. दोनूय जांगाचेर बरो व्हडलो कट आशिल्लो. चलतना दोनूय मांडयो लक्ष ओडून घेताल्यो. वरा पयलीं पळयिल्लें शबाना आनी आतांचें शबाना हातूंत जमीन आस्मानाचो फरक जाणवतालो. सगळ्यांचो नट्टो पट्टो जातकच तीं सीमाक घेवन भायर आयलीं. वदळ उगडीं-रिकामीं आशिल्लीं मेजां बरीं टेबल क्लॉथ घालून झकपक जाल्लीं. तांचेर चकचकीत ग्लास, उंची ॲश ट्रे, सुंदर अश्या कंटेनरांत पेपर नॅपकीन, मदीं मंद जळपी दिव्याची वात. हें सगळें मेजाची सोब वाडयतालें. कांय दादले आनी वेटर निळसर रंगाच्या युनिफॉर्मांत आशिल्ले. सगळ्यांत मदीं आशिल्ल्या डान्सफ्लोराचेर दोळे दिवकावपी निळसर रंगाची प्रकाश येवजण केल्ली. सगळ्या वर्णीचेर उत्थान अशीं बायलांचीं सुंदर सोबीत चित्रां आनी पुतळे लायिल्ले. सगळें वातावरणूच मनशाक भुरळ घालतालें.

सात-साडे सातच्या अदमासाक बार मालक गुप्ता शेठजी आयलो. तो आयल्या बरोबर सगळ्याक मोनेळ पातळ्ळो. लांब, रूंद पाटये सारको वांटकुळ्याच तोंडाचो, बारीक केंसाचो. दोळ्यांत चकचकीत फ्रेमीचें वक्ल. गळ्यांत चारपांच सरपळ्यो. मदीं 'S'(एस) नांवाचें हिऱ्याचें लॉकेट. दोनूय हातांच्या बोटांक चार-पांच वेगवेगळ्यो खड्यांच्यो मुदयो आनी मनगटार मात असंख्य दोरे आनी मोटे मास्कोद पळयल्यार एक उग्र आनी क्रूर मनीस कसो दिसतालो.

सगळ्याक ताणें नदर घुंवडायली. कोनशाचें एक मेज तिरकें कशें दिसलें. रोखडीच बेल मारून नोकराक आपोवन तें मेज सारकें करपाक लायलें. सगळ्या चलयांचेर नदर भोंवडायली. एक -दोन चलयांचे कपडे ताका मानवलेना. मातसो तापार जालो. एक 'लैला' नांवाची चली भोव सुंदर. काळ्या रंगाचेर चमक्यांनी सोबीत एँब्रॉयडरी केल्ली दोनूच बारिकशे पीस आंगार

घातिल्ले. एक वयर ल्हान वोल्नेट केल्लो ब्लाऊज. तातुंतल्यान सगळ्या हड्ड्याचें दर्शन जातालें. आनी कमराचेर ल्हान वेतभर स्कर्ट, तो काळो रंग गोरे कातीक बरो दिसतालो. शेट्टीची नदर ताचेर थिरावली. लगीं येवन ताचे कंबरेक घट्ट धरून ताका पोशेलें...आनी म्हऱ्यांत ओडीत म्हळें, नाइस ड्रेस... 'लैला'य ताचे वेंगेंत थिरावलें.

आनी आतां ताची नदर सीमाचेर गेली. एका कोनशाच्या मेजाचे कुशीक एका कदेलार तें सगळ्यांक नियाळीत बशिल्लें. एक सादी साडी, लांब केंसाचो हलकोसो गुठलायिल्लो आंबाडो. तोंडाचेर कसलोच मेकअप ना. कपलार आनी भांगाचेर ठसठशीत कुंकूम...पूण सगळ्यांपरस तेंच उठून दिसतालें. शेठजीन ताची चवकशी करतकच 'शबाना'न ती मोहनाची बायल म्हणपाचें सांगलें. ते सरशीं तो तरतरीत तिच्या म्हऱ्यांत आयलो. 'नमस्कार, भाभीजी.' अशें म्हणत ताणें तिका थापटिलें, परपुरूशाचो स्पर्श तिका असहय्य जालो. पूण इलाज नाशिल्लो. इतल्यान एका नोकरान चांदीचें एक सुंदर तबक हाडलें. तातूंत रोजांच्यो माळो आशिल्ल्यो. शेठजीन स्वता ती माळ बारांच्या भायर दारार तोरण कशी सुंदर पद्धतीन बांदली. चांदीच्या पेल्यांतसून दाराचें सोंपण धुलें. चांदीच्या वाटयेंतली हळद-कुंकूम सोपणाचेर घाली. दाराच्या सोपाणा मुखार मदींच एक ल्हानशें स्वास्तिक काडलें. हें सगळे विधी भायर, दार उक्तें करून चालू आशिल्ले. सीमा हें सगळें बारीकसाणेन पळतालें. मागीर शेठजी भितर आयलो. दुसऱ्या नोकरान दिल्लो धूप एका हातान घेवन दुसऱ्या हाताचें वारें घालीत सगळ्या बारभर फिरयलो. नाल्ल घेवन बारांच्या मदीं आशिल्ल्या कवचेच्या आनी निळसर लायटीन चकचकपी एक देड फूट उंचायेच्या डान्स फ्लॉराचेर तो गेलो. ताका भक्तीभावान नमस्कार केलो. थंय नाल्ल फोडलो. स्टेशीक उजवात ओंवाळ्ळी. परत एकदां हात जोडून काउंटराचेर येवन मंद अशें संगीत सुरू केलें. हें सगळें करतासर पंदरा वीस मिनटां जालीं.

आठ-साडे आठाच्या सुमाराक एक-एक गिरायक येवन बसपाक लागलें. सीमा कोनशाक एके कदेलीर बसून सगळें पळयत आशिल्लें. वेटर आदरान आनी उमेदीन ऑर्डरी घेताले. णवां उपरांत सगळीं मेजां गच्च भरलीं. धनी सगळीकडेन नदर मारतालो. कितें कितें सुचवण्यो दीत रावतालो. आनी इतलो वेळ चालू आशिल्लें मंद संगीत एकदम बंद जावन मोठ्या आवाजान डिस्को गीत सुरू जालें. ते बराबर हॉलांतली लायट आनीक मंद जायत गेली. बारांच्या मदीं माचयेर चालू आशिल्ले पीक-पीक लायटीचें रूपांतर आतां डिस्को लायटींत जालें. एकेक चली माचयेर येवन नमस्कार करीत भितर वचपाक लागली



आनी मागीर पंदरा वीस चलयो माचयेर येवन वांटकुळ्या डान्सफ्लॉराचेर आंगविक्षेप करीत नाचत रावल्यो. सिगारांचो धुंवर, सोऱ्याचो वास आनी चलयांनी लायिल्लो सेंटाचो वास. एक वेगळोच दर्प थंय जाणवपाक लागलो. सीमाच्या पोटांत मळमळूंक लागिल्लें. कानाचे पड्डे फुट्टा काय जाताले. मदींच ताका याद आयली. मोहनान चलयेक शेजाऱ्यागेर व्हरून दवरिल्ली. ते यादीन सीमाचो जीव सकयल वयर जालो. आवय धूव एकामेकाक केन्नाच सोडून रावूंक नाशिल्लीं. तें जेवलें काय? तें किते करता? शेजारच्या भुरग्यां बरोबर खेळटा काय झगडटा? ताका तीं सारकीं पळयतलीं काय ना? तें खंय चलूंक लागत जाल्यार? एक ना दोन...अशे कितलेशेच प्रश्न ताका सतायताले. ताका दिसलें हांगच्यान पळून वचचें आपले चलये म्हऱ्यांत. पूण ह्या झगझगत्या मुंबयचो एकूय रस्तो ताका खबर नाशिल्लो.

बारबाला धूंद जावन नाचत आशिल्ल्यो. तांच्या नाचापरस, तांच्या सौंदर्याचेर आनी तांच्या शरिराचेर फिदा जावन गिरायकां तांकां म्हऱ्यांत आपोवन तांच्या हातांत नोटी चोंदतालीं. चलयांचे धरिल्ले हात, नकळटना तांकां काडिल्ले चिमटे, पोटार मारिल्ली चापटी त्या काळखांत लेगीत सीमाक स्पश्टं दिसताली. दर एकली हातांत मेळिल्ले पयशे ब्लावजांत भितर घालताली. चड पयशे जातकच, आनी आपलो नाच सोंपतकच वण्टीक लागून आशिल्ल्या, तिजोरे सारक्या दिसपी पूण बरेच खण आशिल्ल्या कपाटा कडेन वचून, ते खाचींतल्यान आपले पयशे तीं कपाटांत घालतालीं. चड करून दर एके चलयेचो तो लॉकर आशिल्लोसो दिसता! कांय जाण लाडीकपणान लागीं येवन केल्ले अदेखातीर पयशांचे हार तांकां घालताले. ते खातीर मुद्दाम काउंटराचेर वेगवेगळ्या नोटींचे हार करून दवरिल्ले. पांचशे रुपयांचे, शंबर रुपयांचे, पन्नास रुपयांचे.

सीमाच्यो सगळ्यो इश्टीणी नाचत-नाचत गिरायकांक पटोवपांत गुल्ल आशिल्ल्यो. बेफाम नाचताल्यो. कोणाचेंच सीमाकडेन लक्ष नाशिल्लें. फांतोडेचीं चार सव्वा चार जालीं. ल्हवू ल्हवू मेजां रितीं जावपाक लागलीं. तशी एक एक चली आपलो नाच सोंपोवन मेकअप रुमांत वचूंक लागली. आपलो मेकअप, कपडे, ज्वेलरी काडपाक लागली. पांच मेरेन पुराय बार रितें जालें. डिस्को गीत, डिस्को लायट बंद जाली. शेठ्ठीन सगळे तिजोरेचे खण उक्ते केले. नोटींनी कावंटर भरून ओतताली. दर एकल्याचें नांव घेवन तांकां पाकीटां दिलीं. बाकीचे पयशे तिजोरींत दवरून अर्धवरा भितर हिशोब मेकळो जालो. सगळीं जाणां पयशांचीं पाकिटां पर्सींत घालून आतां सीमाकडेन आयलीं. ताका घेवन त्यो भायर आयल्यो. थंय टॅक्सी उब्यो आशिल्ल्यो. चलयो आपापल्या टॅक्सी म्हऱ्यांत गेल्यो. एके टॅक्सींत चार जाल्यार एके टॅक्सींत दोन अश्यो थारिल्ल्या प्रमाण टॅक्सी तांकां घेवन गेल्यो.

मोहन टॅक्सींत बसून सगळ्यांची वाट पळयतालो. ताचे दोळे सामके धूंद दिसताले. चड करून ताणें आयज मातशें चडूच घेतिल्लें. टॅक्सी बांद्राचे दिशेन वताली. फांतोड जाल्ल्यान रस्तो बरोच मोकळो आसलो. सुसाट वाऱ्याभशेन मोहन टॅक्सी धांवडायतालो. सीमा जीव मुठींत घेवन बशिल्लें.

मदींच उक्तो आशिल्ल्या बिर्याणीच्या गाड्याकडेन टॅक्सी थांबली. कुशीक फळांचो रोस विकपी जायते गाडे आसले. टॅक्सी थांबताच दोन भुरगे तरतरीत ऑर्डर घेवपाक गाडयेकडेन आयले. दर एकलेन आपली ऑर्डर सांगली. कांय खिणांत एक भुरगो फळांचो रोस घेवन आयलो. सगळ्यांनी एक एक ग्लास हातांत घेतलो. सीमान ताका हात लेगीत लायलो ना. मोहनान ताका आग्रो केलो तरी ताणें घेतलो ना. ताच्या दोळ्यां मुखार फकत चली दिसताली. सगळ्यांचें पार्सल तयार जालें. कोणें चिकन बिर्यानी, कोणें चिकन तंदुरी पार्सलां घेतलीं आनी फुडलो प्रवास सुरू जालो.

दर एकल्याच्या घराकडेन टॅक्सी थांबताली. तो मेरेन सकाळचें बरेंच उजवाडिल्लें. सीमाक घरा पावता म्हणसर फांतोडेचीं साडेपांच जाल्लीं. शेजारच्या घरांत आजून काळोख आशिल्लो. 'खूशबू' थंयच आशिल्लें. सीमा धांवत तांगेर गेलें. तांकां उठोवचें काय ना ह्या विचारांत तें आशिल्लें.

मोहनान घराचें कुलूप काडलें. भितर सरलो आनी सदचे भशेन न्हावपाक गेलो. सीमा न्हिदिल्ल्या खूशबूक तशेंच घेवन आयलें. जागरणान तकली जड जाल्ली. आनी भायर दीस जाल्लो. तें तशेंच तोंड धूंवन च्या करपाक गेलें. थोड्याच वेळान चली जागें जालें. ताका तयार करून बालवाडींत धाडलें आनी उपरांत तें मातशें आडवें जालें. च्या घेवन मोहन सीमाच्या म्हऱ्यांत आयलो.

"आतां मात्शीं भायर सरूंया."

"आतां आनी खंय?"

"आतां आनी विचारप ना. राती डान्सबार पळयलो. पूण आतां तांची श्रीमंती दाखयतां. तीं कशीं जगतात तें पळय. कशीं रावतात तीं पळय, म्हणटकच तुका पयशांची कल्पना येतली."

"म्हाका पळोवपाचें ना. हांवें पयशांक केन्नाच म्हत्त्व दिवंक ना." सीमान सांगलें.

"तुवें ना दिवं...तुकां जगपाक तरी कळटा? चल, हांवें शबानाक सांगलां तुकां घेवन येतां म्हणून. खूशबू बालवाडीच्यान घरा येवचे पयलीं परत पावपाक जाय." अशें म्हणून ताणें सीमाचो हात

धरून ताका भरभरीत भायर हाडलें आनी दाराक चावी केली.

एके व्हडले इमारतीकडेन टॅक्सी थारली. तो तिका हातांत धरून झपाझप सोपणां चडपाक लागलो. शबानाकडेन पांच-स चलयो जमिल्ल्यो. मीराचो फ्लॅट सुंदर-सोबीत आशिल्लो. म्हत्त्वाचें म्हणजे सगळयो सूखसोयी हात जोडून उब्यो आशिल्ल्यो. उंची फर्निचर, रंगीत व्हडलो टी.व्ही., उंची म्युझीक सिस्टीम, बऱ्यांतले बरे रंगसंगतीचे पड्डे, सिनेमांतल्या भशेन झुंबर! खूब म्हारग आसूंक जाय. ऐसपयस व्हडलो हॉल, कारपेटी त्योवय उंची. हॉलाच्या दुसरे सायडीक डायनींग हॉल. मर्दी 'स' जाणांचें हारश्यांचें व्हडलें डायनींग टेबल. तेंवूय व्हडलें म्हारगेंच. ताका तेकूनच वणटीचेर व्हडली शो केस. तातूंत उंची दर्जाची सुंदर क्रॉकरी. व्हडलो फ्रिज. कांयच उणें ना. दोन बेड रूम. तेवूय योग्य अश्या फार्निचरांनीं सज्ज. एसी. वॉर्डरोब सगळें सगळें. दोनूय वॉर्डरोब उंची कपड्यांनीं आनी भांगरांनीं भरिल्ले. एक श्रीमंत व्यक्तीचें तें घर कशें दिसतालें. ताची जाण्टी आवय, ल्हान एक भयण ताच्या बरोबर रावतालीं.

डान्सबारांतल्यो कांय चलयो ताच्या बेडरुमांत बशिल्ल्यो. सीमाक थंय आपोवन सगळीं जाणां ताची समजूत घालतालीं.

"हें पळय सीमा, आमच्या भशेन तुवूंय जगूंक शकता. आमी तीन वर्सां भितर सगळ्यांनी वीस-पंचवीस लाखांचो फर्निश फ्लॅट घेतला. ह्या लैलाचे तर दोन फ्लॅट आसात. कारण ताचो एक फ्लॅट यारा खातीर आसता" अशें म्हणटकच सगळीं खो-खो करून हांसपाक लागलीं.

"हें पळय सीमा, कितले दीस ते चाळींत रावतलीं? थंय सगळे हमाल, दलाल, ड्रायव्हर रावतात. ते हळशीकेची तुका केन्ना तरी उबगण येतली, पूण तेन्ना खूब वेळ जाल्लो आसतलो. मोहन आपले परीन कितले त्रास काडटा. दोन वर्सां जालीं मुंबय येवन! ताणें कितें केलें? सीमा, मनशाचो जल्म एकदांच मेळटा आनी तातूंत बायलांचो जल्म मेळपाक नशीब जाय. आमी आमच्या जुवानीचेर कितें-कितें करूंक शकतात. आनी फाल्यां तुज्या भुरग्याचें कितें? ताका थंयच कुसयतलें? आमच्या वेवसायांत कितें वायट आसता? आमी कोणाबरोबर न्हिदना. कोण आमचेर सक्ती करना. फक्त डान्स करताना पोल्यांक, पोटाक हात लायता इतलेंच आनी ते खातीर ते पयशे मोडटात आनी खंयच्या वेवसायांत दिसाक पांच-स हजार मेळटात? आमच्या वेवसायाक समाजांत मान्यताय आसा, प्रतिष्ठा आसा. हांगा बरे बरे लोक येतात. वेश्यां भशेन जीण न्ही ही एडस जावन मरपाची! एकाद्रो दुसरोय गिरायक म्हणजे श्रीमंत मनीस फक्त आमची मर्जी आसल्यार आमकां व्हरता. बऱ्या स्टार हॉटेलांत. लैला तर सगळें जग भोंवन आयलां." सीमान बरेंच आयकल्या उपरांत म्हळें.

"पुरो करात खूब आयकलें हांवें. तुमकां सगळ्यांक हांणीं मोहनान म्हाका समजावपाक सांगलां हें म्हाका खबर आसा. तुमकां हें सगळें आवडटा. तुमचें पयशे जोडप हेंच ध्येय जालां. पूण हें हांव तुमकां कितें आनी कित्याक सांगतां? म्हज्या कुंकमांत खोट आसा, जाल्यार कोण कितें करतलो? लज, अब्रू, शरम सगळें कुशीक दवरून तुमच्या भशेन ताका श्रीमंत जावपाचे दुवाळे लागल्यात. तुमी सगळीं आंकवार आसात, वा घोवाक सोडलेलो आसतलो! पूण हांव बायल. एका भुरग्याची आवय हांव. म्हजो पत्नी धर्म सांबाळूंक सोदतां."

कांय वेळान सीमा मोहनाबरोबर घरा आयलें. दोन दीस अशेच गेले. सीमाक दिसलें मोहनाक आपाणाली व्यथा कळल्या आसतली. पूण तिसरेच दिसा, मोहन, सीमा आनी शबानाक घेवन मार्केटांत गेलो. दोन उंची ड्रेस शबानान पसंद केले. खूबूच पातळ आनी तांचो गळोय खूब सकल आशिल्लो. त्या दिसा मोहन सगळ्यांक घेवन हॉटेलांत जेवणाक गेलो. थंय शांत अश्या वातावरणांत सीमाक तीं परत समजावपाक लागलीं.

"डान्सबारांत काम कर. तुजें सौंदर्य, तुजी नाचाची कला हांचेर आमी खूब पयशे करुंया. बरो फ्लॅट घेवंया. खूशबूक बऱ्या शाळेंत घालुंया. हांव सदांच तुज्या फाटल्यान आसतलों." मोहन सीमाक समजायतालो.

"नालायक! तूं कितें राखण करयलो? बायलेच्या देहाची विक्री करून बायलेच्या जिवाचेर जगपी बडवो तूं!" अशीं उतरां तिच्या ओंठार आयलीं. पूण जेवणा बरोबर तीं ताणें गिळ्ळीं...आनी वोग्गी बसलें.

रातचें खूशबूक खंय दवरचें हो व्हडलो प्रश्न आशिल्लो. पूण मोहनान पयलीं सगळी तयारी करून दवरली. बारबालांच्या भुरग्यां खातीर आशिल्ल्या रातच्या पाळणा घरांत तो ताका घेवन गेलो. थंय आशिल्ल्या मध्यमवयाचे बायलेन अपुरबायेन खूशबूक दवरतां म्हण सांगलें. पूण पयशे मात हेरां परस चड सांगले. मोहनान तें रोखडेंच मान्य केलें. आतां सीमा खूब जोडटलें ह्या भरवंशाचेर ताणें तिका उतर दिलें.

दुसऱ्या दिसा भायर सरचे पयलीं मोहनान सीमाक सांगलें, "आयज हांव शेठीकडेन उलयतलों. ताका तूं आवडलां म्हणपाचें हेरांकडल्यान म्हाका कळ्ळां. फाल्यांच्यान डान्सबारांत वचपाचें. ताचे पयलीं खूशबूक पाळणा घरांत दवरून येतलों. सांजवेळां नाचाची मातशी प्रॅक्टीस कर."

मोहन गेल्या उपरांत ताच्या लक्षांत

आयलें, हातुंतल्यान आपल्याक आतां सुटका ना. येदी व्हडली मुंबय. खंय वतलें? आपल्या जिवाचें वायट बरें करूं येता. पूण धुवेचें कितें? आयज मोहनाच्या भरवंशाचेर घरदार सोडून मुंबय आयलें. ताका सर्वस्व दिलें. ताचे कडल्यान केन्नाच कसली अपेक्षा धरलीना. जें पडटालें तें खालें. हाडलें तें न्हेसलें. बाकींच्या बायलां भशेन केन्ना आर्त्याक परतें दिलें ना. ताचें हें फळ! हांवेन जिवाचें कितेंय केल्लें जाल्यार? चलयेचें कितें? आयज हो पयशां खातीर बायलेक डान्सबारींत धाडटा. फाल्यां पयशां खातीर कोणाकय चली विकली जाल्यार? हे भयांकृत कल्पनेनच सीमा एक पावल फाटीं आयलें.

सीमान जड मनान बॅगांतल्यान दोनूय ड्रेस भायर काडले. कितले उंची कपडे! ताणें केन्ना पळोवंक नासले. कितलो पातळ! आनी दुसरो ड्रेस कितलो मोटवो! पूण आतां कांय इलाज नाशिल्लो. सगळी लज भीड चेपून ताणें एक ड्रेस काडून चडयलो. हारशा मुखार उबें रावन तें स्वताक पळयत रावलें. आतां सौंदर्य आनी हें शरीर आपलें भांडवल. त्या ड्रेसांत सीमा बरेंच ल्हान आनी सुंदर दिसतालें.

ताणें ल्हवूच फळयेवयलो टेपरिकॉर्डर काडून तांतूंत एक कॅसेट भितर धुकल्ली आनी अचळय गिताच्या तालार पदन्यास करपाक लागलें. फाल्यां खातीर ही ताची रंगीत येसाय आशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा दनपरांच मोहनान तिची बॅग भरपाक सुरवात केली. तिचे ड्रेस एके बॅगेंत इस्त्री करून दवरले. ताचेवेली ज्युवेलरी शबानान बरी मॅचींग सोदून हाडिल्ली. सांजचो च्या य ताणें आपणेंच केलो. सीमाक दिलो. शेजराक खेळपी खूशबूक ताणें आपोवन हाडलें. ताचो डबो मात सीमान आपणें भरलो.



डबो भरतना दोळ्यांतलीं दुकां गालावयल्यान देंवतालीं. पूण पयशांचे भकीक पडिल्ल्या मोहनाक तीं दिसलीं ना. सीमान स्वताक सावरलें आनी चलयेक वेंगेंत घेत सांगलें, "आयज पासून हांव रातचें कामाक वतलें. आमकां खूब पयशे जाय म्हणून तुज्या बाबान म्हाका कामाक लायलां. तुका आज्जेकडेन दवरतां. बाबा तुकां पावयतलो आनी सकाळीं तुकां व्हरपाक येतलो. हो डबो भूक लागता तेन्ना खावपाचो. मागीर आजी तुका वाडटली. मागीर तुवें ओग्गी न्हिदपाचें." इतलें उलयता म्हणसर सीमाक खरस आयली. आनी सीमान एकदम ताका वेंगेंत काडलें आनी मोट्यान रडपाक लागलें. तितल्यान मोहन मुखार आयलो. खूशबूक ताणें अचळयत उखल्लें, टॅक्सींत दवरलें आनी पाळणा – घरांत घेवन गेलो.

सांजवेळा सगळ्या चलयांक घेवन टॅक्सी डान्सबारींत वचपाक लागली. सीमाक आतां जाणवलें, त्या रंगेल वातारणाशिवाय दुसरो पर्याय ना. आतां आयिल्ले परिस्थितीक तोंड दिवपा बगर...

डान्स बारांच्या भायर टॅक्सी थांबली. सगळ्यो चलयो देंवल्यो. मोहनाकडेन पळयनासतना सीमा तांच्या फाटल्यान चलपाक लागलें. सीमान बारांच्या हुंबऱ्यार श्रद्धेन नमस्कार करीत म्हळें, "देवा, आयची रात हांगा निमणी थरूं." आनी वेगळ्याच आत्मविश्वासान तें भितर सरलें. तें बाकींच्या वांगडा मेकअप रुमांत गेलें. नवें आशिल्ल्यान एक चली ताका मेकअप करतालें. मेकअप करतना आपल्याक भडक मेकअप जावचो ना हाचें भान सीमान दवरलें. पूण ड्रेस घालतना ताचे हात थरथरूंक लागले. आयज ताका आवयची खूब याद जाली. घरांत कोणीय चलो भुरगो भायर आयल्यार आवय ताका पयल्यान पयलीं भितर धाडटाली. कोणाचीच नदर ताचेर पडची न्हय म्हणून ताका राखताली. जात्रेक, उत्सवाक जावं बाजाराक वतना ताका एकलें केन्ना खंय सोडनाशिल्ली आनी आयज घोवान ह्या देहविक्री बाजारांत आपूण जावन ताका विकिल्लें. परत टप् टप् करून दुकां मेकपासयत गालार येवन रावलीं. तीं कोणाच्या लक्षांत येवंचीं न्हय म्हण तें बॅग घेवन बाथरूमांत गेलें. भितर वचून बॅग उक्ती कर जाल्यार ड्रेसा बरोबर एक नवीतालल ब्रा आधुनीक पेडस आशिल्ली. ती घालतकच हड्डें खूब डौलदार दिसतालें आनी एक नायलनची हाफ पॅन्ट-कंबरेचो फिगर बरो दिसपा खातीर. हें सगळें मोहनान हाडिल्लें काय शबानाकडल्यान हाडून घेतिल्लें? कळपाक कांय मार्ग नाशिल्लो.

सीमान भितरले नवे कपडे आंगार

चडयले. नव्या ड्रेसाचो रंगय गाड. हारशा मुखार रावतकच तें स्वताकूच वळखुपाक विसरलें. ही कोण अप्सरा नवी? सगळो फिगरच खूब आकर्शित दिसतालो. शिवाय ड्रेसाचो गळो बरोच सकल आशिल्ल्यान हड्डें नाका तितलें भायर दिसतालें. जालें, आतां तर सुळार वचपाचें थारलां. म्हणटकच मरणाची भिरांत दिसपाक फावना...

सीमा बाथरूमांतल्यान भायर आयलें. सगळीं जाणां टकमक ताका पळयत रावलीं. तें लावण्य, रूप, सौंदर्य, ती मनभुलोवणी जवानी, आनी आंगार घाल्लो ड्रेस पळोवन तीं सगळीं अजापभरीत जालीं. शबानान येवन ताका वेंगच मारली. "भाभीजी क्या दिखती हो तूम यार! हम लोग आज झक मारेंगा! शेठजी बडा खूश होऐगा! देख तू!"

सगळ्यांचेर एक नदर मारत ताणें मानेवेले बांदून दवरिल्ले केंस एका झटक्यांत मेकळे सोडले आनी एके अप्सरे सारकेंच तें सगळ्यांच्या दोळ्यांत भरलें.

आयज धनी सदचे परस बेगीन आयलो. आयले बराबर ताची नदर सदचे सारकी सगळ्यांचेर घुंवली आनी एकमद थीर जाली. ती नदर सीमाक चाटपाक लागली. सीमाक दिसलें, पाडपडूं! ह्या खिणाक म्हजें कोणेय अपहरण करून व्हेल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! ताणें सपनांत लेगीत हें चित्र केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. दोळ्यांतलीं दुकां भायर येवंचे पयलींच अडसलीं.

सीमाक पळोवन शेठ मनांतल्यान हांसलो. एक बरें सावज आपल्या बारांक मेळ्ळें ही खोशी ताच्या तोंडार आशिल्ली. शेठीन नोकराक सांगून सगळ्या स्टाफाक आपोवपाक लायले आनी सगळ्या स्टाफाक मुखार दवरून सीमाची सगळ्यांकडेन वळख करून दिली. आनी थंयच सीमाचें 'सुरैया' हें नांव जाहीर जालें.

प्रथेप्रमाण आयज मंचाची पूजा सुरैयाच्या हातान जाली. सगळ्यांनी ताळयांचो कडकडाट करून ताचें स्वागत केलें. शेठीन पुजेचो मान म्हणून मंचाक ओवाळून सुरैयाच्या म्हऱ्यांत वचून पांच हजार रुपयांच्या नोटांचो कवळो ताच्या हातांत दिलो. हेतूपरस्पर जाल्ल्या स्पर्शान तें भानार आयलें. त्या पयशांचो कवळो पळोवन हेर चलयां मदीं कुजबूज सुरू जाली. घडये इतले पयशे पुजेचो पयलो मान म्हणून कोणाच्याच वांट्याक येवंक नासले. पूण ते हातांतले पयशे पळोवन सुरैयाचें मुखामळ मात निर्विकार जालें.

कानाचे पड्डे भेरेवपी बार पुराय भरतकच दिवे मंद जावन डिस्को संगीत सुरू जालें. आनी सुरैयान यांत्रिकपणान सगळ्यांच्यो शुभेच्छा स्वीकारत मंचार नाचाचो आविश्कार सुरू केलो. आनी एखादो भार आयिल्ले भशेन वो सुडान पेटिल्ले भशेन तें नृत्य सादर करपाक लागलें.

सगळ्या गिरायकांचे दोळे विस्फारून गेल्ले. सदां उठून त्याच त्याच चलयांचीं मुखामळां, तेंच नृत्य पळोवन वाजेल्ले आंबट शौकीन लागीं आपोवन – आपोवन हातांत नोटी चोंदीत रावले. कोणें ताच्या गालाचेर मोगान चापटी मारली, जाल्यार कोणें ताचे गोरे कंबरेक हातांचो वेंटाळो घालो. एखाद्या फिशाल डान्सरा सारकें तें अडेचें हांसत पयशे एकठांय करीत आशिल्लें. एका गिरायकान ताका उठून आपले मांडयेर बळजबऱ्यां बसयलें आनी एक व्हडल्या नोटींचो हार ताच्या गळ्यांत घालो.

शेठीन रोखडोच एक लॉकर ताच्या खातीर उगडून दिलो. तें पयशे व्हरून व्हरून त्या लॉकरांत चोंदतालें. परत परत तोच हळशिकावणो स्पर्श, तो वास, त्यो सगळ्यांच्यो वखवखिल्ल्यो अधाशी नदरो. दोन वरां भितर ताचें मन आनी शरीर मेल्ल्या भशेन जालें. तरी आसतना तें बेभान जावन नाचत आशिल्लें. दोळ्यांतलीं दुकां त्या लायटीच्या फोकसांत हिरे कशीं चकचकतालीं. पूण तें वळखुपाचें धंगण कोणाकूच नाशिल्लें.

फांतोडेर साडेचारांक बार बंद जालें. पूण एक दादलो मात सीमा फाटल्यान लेमे-लेमे करतालो... ताका कितें तरी सांगपाचो प्रयत्न करतालो. शेठीन सगळ्यांचो हिशोब केलो. दर एकलेक मेळिल्ल्या पयशांचे तीस टक्के वांटो तो आपल्या गल्ल्यांत उडयतालो. आयज सुरैयान सगळ्यांत चड म्हळ्यार फाटल्या दोन वर्सांचो रिकॉर्ड मोडून सगळ्यांत चड जोड केल्ल्याचें मालकान जाहीर केलें. कोण मत्सरान जाल्यार कोण तोखणायेन सीमाकडेन पळयतालीं. सगळीं आपापलीं पाकिटां घेवन भायर सरलीं.

मोहन सकल तांची वाट पळयत आशिल्लो. टॅक्सींत बसतकच सगळीं जाणां मोहनाक परबीं दिवपाक लागलीं. "मोहन भैया, आज तो भाभीने कमाल किया. क्या डान्स किया यार! हम तो दिवाने हो गए उनके! आज तो हमे पार्टी चाहीए!"

आयज सगळ्यांत चड जोड सीमान केल्ली. हें सांगपाक तीं विसरलीं ना. आयकून मोहन गालांतल्या गालांत मुमुरखो हांसतालो. सीमान एके नदरेन ताका पळयलें. 'पयशे न्ही ते! म्हज्या शरिराचे तोडिल्ले लचके!' अशें कितें तरी सांगन दिसलें पूण प्रत्यक्ष घोवाकच हें सांगप हाचे सारकें दुसरें दुर्दैव ना!

सदच्या भशेन बिर्याणीच्या गाड्याकडेन टॅक्सी रावली. सीमान लेगीत संवकळ जाल्ले भशेन ऑर्डर दिली. ज्युस घेवन सदचो भुरगो आयलो. कसलेच आडेवेढे घेनासतना सीमान तो ज्युस वोंठाक लायलो. घरा आयल्या बरोबर तें पयली न्हावपाक गेलें. वतना खूशबूक हाडपाची

ऑर्डर ताणें सोडली आनी येतना ब्रेकफास्ट हाड म्हणून सांगूंक तें विसरलें ना. बिर्याणीचें पार्सल दनपरां खातीर दवरलां. बारा पयलीं उदक भरपाचें, शिवाय कालचे आनी आयचे कपडे धुंवपाचे अशी ऑर्डर सोडून ताणें आपली पर्स उगडून एक हजाराची नोट मोहनाच्या आंगार उडयली. ताणें रोखडीच पर्सीचेर झोंपय मारली. पूण बाकीच्या पयशांक सीमान हात लावपाक दिलो ना. पर्स जाग्यार दवरून तें न्हावपाक गेलें, वतना आयचे जोडिचो आंकडो चोवीस हजार हें सांगपाक तें विसरलें ना.

खूशबूक बालवाडींत पावन मोहन घरा आयलो जाल्यार सीमा सुंदर साडी न्हेसून भायर सरपाची तयारी करता.

"आतां आनी खंय वता? मातसो सुशेग घे. जागरण जालां तुका." मोहनान सीमाक लागीं घेवन म्हळें.

"आतां सुशेग घेवप ना. रातच्या एका गिरेस्त गिरायकान आतां म्हाका आपयलां. रातीं ताणें नोटींची माळ गळ्यांत घाल्ली. हांव आतां भायर सरतां. भायल्या भायर डान्सबारांत येता. सगळीं कामां जातकच खूशबूक बालवाडींतल्यान घरा हाड..." अशें सांगून तें तरतरीत भायर सरलें. मोहन ताचे कडेन पळयत उरलो.

शेजारचीं एकमेकाकडेन कुजबुजूंक लागलीं. तांचें नदरेंतलें उलोवप सीमाक अस्वस्थ करून उडयतालें. पयसो मनशाक कसो नाचयता हें सीमाक आयज बेस बरें समजल्लें. आयज त्या डान्सबारांच्या गिरायकान साडेअकरांक ह्या स्टॉपार रावता म्हण सांगलां. खंयूय वचपी पूण त्या डान्सबारांत नाका हो एकूच निर्धार करून सीमा आयज भायर सरलें.

आनी सट्ट करून काल टॅक्सींत वाचिल्ल्या पेपरावयले बातमेची ताका याद जाली. सात वर्सांभितर लग्न जाल्ले एके बायलेन आत्महत्या केली म्हणून तिच्या घोवाक महिला कमिशनाच्या कागाळी वेल्यान बंदखणींत घाल्लो. आपल्या लग्नाक कितलीं वर्सां जालीं पांच? ना, आत्महत्या करपा ना. पक्को विचार ताणें केल्लो. कारण ताका सांबाळपाचें आशिल्लें आपले चलयेक आनी ह्या दोळ्यांनी मोहनाक जाल्ली ख्यास्त ताका पळोवपाक जाय आशिल्ली. आज आयुश्यांत पयलेच फावट तें एकलें भायर सरिल्लें आनी शर्मा नांवाच्या एका व्हड बिझनेसवाल्याची वाट पळयत स्टॉपार उबें राविल्लें. बऱ्याच वेळा उपरांत ताची व्हडली गाडी स्टॉपार येवन थारली.

दार उगडून सीमा गाडयेंत बसलें, शर्मा ताका पळयत उरलो. साडयेन तें आयज चडूच सुंदर दिसतालें. भितर सरतनाच ताणें ताका घट्ट धरलें. दोळ्यांमुखार निश्चेव करून गाडयेंत बशिल्ल्या सीमान ताका दुखयनासतना आपुणूच कुशीक सरलें. सीमा सारके चलयेन असल्या डान्सबारांत नाच करून जीण होगडावप ना, असो प्रेमळ सल्लो ताका शर्मान दिलो. त्या परस आपली रखेल म्हण राव. थंय मेळटा ताचे परस चड पयशे आपूण दितां. ते चाळींत राव नाकां. एका हॉटेलांत कायमचो रूम करून दितां अशी ऑफर ताणें ताचे मुखार दवरली. काल रातभर डान्सबारांत आपल्याक मेळपाचें उतर तो घेतालो ती अशीच कितें तरी ऑफर दिवपा खातीर हाचो दुबाव सीमाक आशिल्लोच. हे संदीचो फायदो घेत सीमान लागोळ्यापणान ताका सांगलें. "तुवें दिल्ली ऑफर म्हाका मान्य आसा. ताच्या पयलीं घोवाक हांव कायदेशीरपणान सोडपाक सोदतां. तो म्हाका खूब त्रास करता. ते खातीर म्हाका पयलीं मुंबयच्या महिला आयोगाच्या ऑफिसांत व्हर. थंय म्हजे वळखीची एक बायल मनीस आसा. तिका सांगून ताचो बंदोबस्त पयलीं करतां. मागीर सासणा खातीर तुजें जातां."

मोठ्या विश्वासान शर्मान बांद्रयापासून पत्तो काडीत बरेंच पयस आशिल्ल्या महिला कमिशनाच्या ऑफिसाकडेन गाडी वळयली. मोटे उमेदीन सीमा कमिशनराच्या दारांत गाडयेंतल्यान देंवलें. आपूण सांजवेळा डान्सबारांत मेळटां हें उतर दिवन ताचो निरोप घेतलो.

महिला आयोगाच्या ऑफिसांत सीमान पावल दवरलें आनी अध्यक्षा कडेन उलोवचे पयलीं कोणतरी आपलीं मनशां मेळिल्ले भशेन हुंडक्या हुंडक्यांनी तें रडपाक लागलें. कितलो वेळ थारच ना. उदक पितकच थोडे सावचीत जालें आनी आपली कर्मकाणी तिणें कमिटीमुखार मांडली.

अध्यक्षांनी दिल्ल्या कागाळ पत्राचेर सय करता म्हणसर दनपारचीं चार वरां जालीं. आनी पांचांच्या अदमासाक महिला आयोगाची गाडी सीमाक घेवन भायर सरली. सीमाक घरा सोडून ती डान्सबारांत वचून पयल्यान पयलीं शबानाक मेळून ताणें मोहनाक पयलीं ताब्यांत घेतलो. डान्सबार बंद करूंक लायलें. सगळ्या चलयांच्यो जबानी घेतल्यो. जबानींत कांय गैरवेव्हार आनी मालकाचीं कर्तुबां उकत्यार पडलीं आनी मोहनाक बायलेच्या मनाविरूद्ध डान्सबारांत वेवसायाक लायली म्हणून पयलीं एका वर्सा खातीर बंदखणेंत ख्यास्तीची ऑर्डर काडली.

आयज खूब सैल मनान सीमा आपले धुवेक घेवन कर्नाटकांत वचपी ट्रेनीचेर बसलें. एके बायलेक योग्य न्याय दिल्ल्या खातीर समादान व्यक्त करपी महिला आयोगाच्या वांगड्यांकडेन ट्रेन सुटसर तें पळयत रावलें.

**॥ काशिनाथ शांबा लोलयेकार ॥**

॥ स कविता ॥




## कल्पना

हांव कल्पना करतां
की कल्पना नांवाचें कोण एक चेडूं आसा
आनी तें म्हाका संभोग दिवंक सोदता

हांव कल्पना करतां
की म्हजेकडे कल्पनाच ना
आनी तरीय हांव कल्पना करूंक सोदतां

हांव कल्पना करतां
की हांव आसां
आनी हांव जियेतां

हांव कल्पना करतां
की कल्पनेक अंत ना
आनी कल्पना ना केल्यारूय खंत ना

हांव कल्पना करतां
की वयर मळब आनी सकयल जमीन आसा
पूण ही कसली मडसरेची कल्पना!

हांव कल्पना करतां
की हांव पांदऱ्यांत बंद आसां
पूण म्हज्या भोंवतणीं पांदरोच ना

हांव कल्पना करतां
की हांव कल्पना करीना

## दोन वर्तमानपत्री कविता

१

मडें घेवन
भितर मोसुंडेंत गेल्ले लोक
परते
भायरूच येवंक नात

२.

प्रेमभंग जाल्या उपरांत तो दिल्लीक गेलो
उदास जावन हांगा-थंय भोंवलो
पार्लमेंट स्ट्रीटाचेर पावल्या उपरांत
तेका
देशाच्या पंतप्रधानांक मेळचेशें दिसलें
पूण सेक्युरिटी पुलीसांनी तेका न्हयकार दिलो
तेणीं थंयच आपल्याक पेटोवन घेतलो
आनी
तो जळून मेलो

## पयस

मर्ण पयस नासता
तें सामकें लागींच आसता
नाकाकडे

नाक पयस नासता
तें सामकें लागींच आसता
श्वासाकडे

श्वास पयस नासता
तो सामको लागींच आसता
जीणेकडे

जीण पयस नासता
ती सामकी लागींच आसता
मर्णाकडे

## काव्यसूत्रः दोन कविता

१.

दर्यांत सूर्य बुडटाना
पळयता कवी
आनी तेका सुचता कविता
-दर्यायेदी

दर्यांत बुडलेलो सूर्य
हीच तर कवीची आसता कविता
-पुर्वेक उगोवपी

**॥ पुंडलीक ना. नायक ॥**

**। तीन कविता।**




## विडंबना

गांधीजीच्या नांवान भट्टी
कुबेराच्या हातांत कट्टी
भोयो आनी दैना, मोटी विडंबना!

रंभा-रेप प्रकरणाखाला
विश्वामित्र खडी फोडपाक जेरबंद जाला.

सीतेन रामाक सोडीतसावन
तो हांगा - थंय हेडटा,
शीत ना, पेज ना, बोरां खावन दीस काडटा.

सोडीत सावन उर्मिलेन
आकांत आयला लक्ष्मणाचेर
तो रावणागेर लाकडां फोडटा दिसावड्याचेर.

कर्ण जाला कांचूट चामटो
युध्दिश्ठीर खर जाला भामटो.
किंगफिशर आदळून
हणमंताच्या कपलार कोंक,
उडूंक जायना, येता ओंक

दुर्योधनाच्या नांवान द्रौपदी दीवज जाळटा
जाणटेपणांत कुंती, सुर्यफुलां माळून
कोणांक एस एम एस धाडटा?

भर दिसाक कृष्ण शंबर फावट
राधेच्या जुनेराआड लिपता
कारण शिशुपाल सुदर्शन घेवन
ताका धायदिकां सोदता.

## आमकांय अभिमान आसा !

विजय मल्ल्यानी केली
परदेसांत धांवणी,
जिखून हाडली
संवसारीक पावणी.
महात्मा गांधीच्यो वस्तू -
वक्ल, व्हाणों, वाटी
वट्ट मोल रुपया णव कोटी !

आमकां अभिमान -
जसो बापूंच्या वस्तुंचो
तसो मल्ल्यामामांच्या दुडवांचो.
कारण -
बापूच्या भजनांत,
आमचोय एक सूर आसा
मल्ल्याचो 'मॅकडोवेल'
आमचो नित्याचो 'ब्रँड' आसा !

## आमी हांगाच उरले मरे

आमी झर झर झरले मरे
आमी सर सर सरले मरे
आमी हांगाच उरले मरे
आमी हांगाच उरले मरे

आमी शिंपले कावथे कवळे
उस्पून बांयो पिळून बावळे
फळून आयले रूख ते सगळे
पाडून हाणीं व्हेले मरे ।।

गुपाट काळखी वाट दूरिची
आमीच केली चूड कुडीची
नदरेक पडटा शीम ती गांवची
आमकां सोडून धांवले मरे ।।

हाणी बांदाचेर मारलीं बातां
आमी नक्शांनी कस्लीं शेतां
लुवूंक आमी गेले झेतां
कणसार हांचीं नांवां मरे ।।

माडा कणकणी नगा कणकणी
आमी नाल्लांनी भल्लें पाणी
अदृश्टाची आमची काणी
सुक्याच ताळ्यान गायली मरे ।।




॥ अलका सिनाय असोळडेकार॥

## तूं

ल्हार जावन आयलो तूं
मनाची खोलाय
तुवें मापली ना
पावस जावन आयलो तूं
तानेल्लें तुका जाणवलें ना
श्वास जावन आयलो तूं
काळजाची भास
तुका गवसली ना
कवी जावन आयलो तूं
पूण कवितेचें यमक तुजें
जुळ्ळें ना
गुलाब जावन
आयलो तूं
परमळाचो गंध तुका
दिवंक कळलो ना
इश्ट जावन आयलो तूं
नात्याची / व्याख्याच
तुका समजली ना

नेस्ट
टी. व्ही. एस् शो रुमा सामकार.
बड्डें - मडगांव-गोंय
फोन : ९८२२९८११०७

॥ प्रकाश पाडगांवकार ॥

## फाल्यां हांव

फाल्यां हांव
आसलो किर्तें, नासलो किर्तें
कोणाक कांयच फरक पडूं वा ना पडूं
अशें हांव म्हणचोना

हें विश्व-ब्रह्मांड म्हज्यांत भरलां
हांगच्या कणांकणांतल्यान
म्हजें अस्तित्व पर्जळलां
हांव तातूंत भरसलां

हांव जियेत रावतलों
सैमाची सृजन प्रक्रिया जावन
हांव अजरंवरत मुरतलो
ब्रह्मांडाचें तत्व जावन

॥ सुनिल पालकार ॥

## उजू गिज्ञान

माड जालो व्हड आई
आडसर कशें काडूं गे
इतल्या व्हडल्या माडार चडून
नाल्ल कशे पाडूं गे

देंप मारूंक शीक पुता
माड हाताक धरतलो
म्होंवाळ आनी मोगाळ तो
वयर तुका काडटलो
ताच्या सारकी व्हड जावंची
कला म्हाका शिकय गे
जितलें जितलें शिकतलो
तितली तुजी जातली चडाय
अर्दे ज्ञान मेळयल्यार
जावंचीना सारकी वाडाय
पुराय ज्ञानी जायसर हांव
धोडाय म्हाका धोडाय गे

उंचउंच गेल्ल्यान ताका
दिसता आशीकुशीचें
दुसऱ्या खातीर दान ताचें
सांद्यान सांदे कुडीचे
माणसुगेचे धडे दिवन
म्हाकाय तसोच घडय गे

उजु ज्ञान घेतलें जाल्यार
मळबा मेरेन पावतलो
मान आपली वरशी करून
माड तुका चोयतलो
मायेमाते देवी म्हजे
पुताक म्हज्या पाव गे

२.

लोक्तुबाय दिसता
ल्हान धुकराची लेगीत
कितलो सोबीत दिसता!

पूण व्हडलो जातकूच सगलें बदलता
बदलतां हांव
बदलता तूं

आमच्या भोंवतणीं आसता एक गुवाड
हळडुळी
भांगराचोय रंग हळडुळो

कविता बरोवन
हांव करूंक सोदता
गुवाचें भांगर



॥ संहिता कुलकर्णी ॥

## झेत

फकांडा मारता
चंद्रीम
पळोवन धोंगशिता काजुलो
दवर तुजो झेत तुजेकडेन
लिकलिक जालो
तरीय निजाचो उजवाड म्हजो
ना रे उश्णो
तुजेभशेन!




॥ दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये ॥

## देवाचो उलो

आयक...काळजांतल्या देवांन
मारला उलो
खंय सोदता
हांव हांगाच उबो!
सोडून सगळें कामधाम
कसली ही भक्ती
काळजाचीं दारां
आसचीं उत्ती
नाका कर्म-कांड, नाका फुलां कळे
गरजवंतांक कर मजत
उक्ते दवरून दोळे
दुसऱ्यांच्या धर्माची
करू नाका नसाय
सगल्यां भितर पळय
म्हजी सासाय

॥ राजश्री सैल ॥



## पोवळीं

उजवाडाच्यो भेटो
घेवन कोण उबो
फांतोडेसावन दारार
म्हाका मात आस
भिण्ण काळखाची

फाटल्यान उबो, रंगदार
नक्षिदार मोर सुवर्णपाखांचो
हांव सोदतां दिकांदिकांतल्यान
हुबत येवपी काळ्या भिऱ्याचो
साद

जिणेच्या जंवजाळांतल्यान
दुखच वेंचून काडटां
कोणें शिकयली ही कळाशी
दुखां सोदपाची दुखां विचपाची
दुखां गुंथपाची
कविता रचपाची



नारायण नगर, होंडा,
साखळी-गोंय.
फोन : २३७०४०९



*दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये हे हालींच ह्या संवसाराक अंतरले. तांणीं धाडिल्ली ही निमणी कविता. बिम्ब परिवाराचे वतीन तांकां आमचीं आगां.*



फा. आग्नेल कॉलेज,
पिलार - गोंय




॥ सुनिता सुभाष शाह ॥

## फुलतां

तुजी याद केन्ना केन्ना
अस्वस्थ मनांक
अशी जबरदस्त पेटयता
ह्या उतारवयांत लेगीत
आपशींच हांव दिकेतां
खंयच्यान हो बेफाम गंध
गात्रान-गात्रां सळसळयता
यादींच्या झोंपाळ्यार बसून
परमळून हांव फुलतां....!
तेन्ना तूंच म्हऱ्यांत दिसता

शांताबन - मेरशी

॥ गौराज तळावलीकार ॥

## निर्वाण

वाजती आत्म्याची घांट
चलता निर्वाणाची वाट
तृष्ण मुक्त गाठलें
अर्हन्ताक.....
वोतलें वसवसाचें
मुरलो परमात्म्यांत आत्मो
सुटलें चक्र संवसार
जिखलें निर्वाण



पी. ई. एस. महाविद्यालय,
फर्मागुढी, फोंडे-गोंय.
फोन - ९६३७२१२५६८

॥ अशोक शीलकार ॥

## रतन आबोलीं

पोरसांतलीं रतन आबोलीं
कितलीं बरीं फुलतात
वाऱ्यावांगडा धोलत मोडत
कायबरीं हांसतात

मनाक म्हज्या नवे दिकेची
पालय फुटूंक लागता
खांदयेन खांदी झेलतना
कितली सोबाय वाडटा

फुलांच हीं म्हजें रमत
कस तांचो कळटा
लखलखीत सूर्य किरणांनी
रतन आबोल्यांचो
गंध दरवळटा



शील,
सावयवेरें-गोंय.

॥ रुपा कोसंबे ॥



## बिंब

नितळ उदकांत पडिल्लें
आपलें बिंब पळोवन
त्या बावड्या पिलाक कळ्ळें
आपूण एक राजहंस

ताचे पयलीं त्या पिलाक
खालें चोंचून चोंचून
बाकिच्या बदकांनी
एक पिसांट म्हणून

चल्लां अशेंच संवसारांत
बऱ्याक पांयापोंदा माडोवन
चडत रावता वयर वायट प्रवृत्ती
बऱ्यांचीच सपणां करून

देखून गरजेचो आसता
प्रत्येक जिणेच्या मोडणार
एक नितळ हारसो
दाखोवपाक आपलें बिंब



घर नं.:३५९, शिंदोळी,
सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फो. : २४५२१५०

# कविता

॥ अंजली आमोणकार ॥

## भ्रम

जिविताच्या अटंग्या रानांतल्यान,
तुकांच सोदत चल्लां हांव!
म्हज्या चारुयवटांनी घुमता
फकत तुज्या सादाची भासमय शिळोणी
रानां फाटल्यान रानां सोंपतात
जंगलां फाटल्यान जंगलां....
आतां शिळोणी खूबशी कर्कश जाल्या
आनी पायांची गती-तुफानी
अडखळत, पडत, उठत
हांव बेखबर धांवत सुटलां
ना फाटल्यान उरल्यात कसल्योच यादी
ना वर्तमानाची जाग
ना भविश्याची सुलुस!!
सगल्या देहाक फुटल्यात सहस्त्र कान
आनी वाट पळयत आसात
तुज्या सादाची
पूण आतां, रानां सोंपपाक रे पावलीं
तुज्या सादाची ही शिळोणी
अशीच आसुंनी, म्हज्या भासान - अंतामेरेन
त्या खातीर फकत एकदांच
म्हज्या कंपलार तुजो हांसो चिमटीभर तेंकय
हय-न्हयसो दिसूं

'जैत', ला-काम्पाला,
मिरामार, पणजे-गोंय ४०३ ००१
फो. : २४६४०३३

॥ आर. एस. भास्कर ॥

। दोन कविता ।

## बिम्ब आनी पडबिम्ब

हांव आसल्यार मात
तूं आसा
बिम्ब म्हणटालें
पडबिम्बाकडे
स्वयं तुका
ना मूं कसलो बी वावर!

तो विचार सोड तूं
आनी म्हाका आयकून घे
पडबिम्ब म्हण्टा
बिम्बाकडे
तूं कितें कोण म्हूण
तुका समजायता पूण हांव न्हूं?

## जर्जरो घोडो

घोडो
जर्जरो जाला
एक वेळा
तो हुशार आशिल्लो
यज्ञाच्या घोड्या भाशेन
धांवत आशिल्लो
धरूंक तेन्ना
कोण नाशिल्लो
दोरयेन बांदूक
कोणाच्यान साध्य नाशिल्लें
घोडो
आज पूण जर्जरो जाला



राम मन्दीर, १०/५३९ अमरावती,
कोची-६८२ ००१, केरळ
फो. : ०९३८७५०५९५१

॥ पद्मनाभ नायक ॥




## मरण म्हळयार.....!

दांत पडल्यार खोटे लायतात
केंस पिकल्यार काळे करतात
आयुश्य सरल्यार जातावे
कसल करच्याक?

हांव मेजना म्हगेल आयुश्य
तें सरिल्लें कळता
उरिल्लें कळना
कळता यमालो पी.ए. चित्रगुप्ताक!
आताळ, भूताळ, पाताळ
खंयी लिपून बस
सोदून काडतात घडये भितर
कितलो पावरफूल तागेलो नेटवर्क!
नो एक्झीट, ओनली एन्ट्री
पासपोर्ट नाका, विजा नाका
तोच धाडता दूत
आपोवन व्हरच्याक!
केलील कर्म बरें आसल्यार
भिवूं नाकात थंय वचच्याक
मरण म्हळ्यार शरण वचचें
परमेश्वराक!!




डोंबिवली (ई) मुंबय
फो. :(०२५१)२४२१४०१






॥ अभयकुमार ॥


## संकश्टांतल्यान वाटय देवा

संकश्टांतल्यान वाटय देवा
केन्ना हांवें मागलें ना
सोंसचें सगळें तांक दी गा
मागले बगर रावलों ना



पुजा-अर्चा करूंक देवा
हुंबरो तुजो हुपलो ना
जप-तप सवळें - ओवळें
करप केन्ना जमलें ना
पुजलो तुका मनांतल्यान
मागणें कांय केलेंच ना
तुजेमुखार हात पसरप
केन्ना म्हाका जमलेंच ना



सूख-दूख तुजोच प्रसाद
मानून देवा घेतलो हांवें
जिवितांतलो दर एक खीण
खुशालकायेन सारलो हांवें

सुखांत केन्ना मातलों ना
दुखांत केन्ना त्रासलों ना
म्हाकाच कित्याक त्रास म्हणून
तुका केन्नाच खेपलो ना

म्हज्यांत तूं, तुज्यांत हांव
जाणून देवा घेतलें हांवें
काळे कुट्ट रातींतूय
देखलें एक सपन नवें

म्हज्या सुखांत तूं खोशी
म्हज्या दुखांत तूं दुखी
संवसारांत म्हजे वरीं
आसतलो कोणूय सुखी?

संकश्टांतल्यान वाटय देवा
केन्नाच हांव मागचो ना
सोंसचें सगळें तांक दी गा
मागले बगर रावंचो ना

# कविता

## ॥ परेश नरेंद्र कामत ॥

। तीन कविता ।

### सोंसो



टुण
टुण
टुण

उडक्यो मारीत
धांवता
धव्याफुल्ल कॅनवासार

धवो फुल्ल
गुबगुबीत
मस्तो सोंसो

ताका
धव्या फुल्ल रंगान
हांव धरूं कसो?

### केन्ना

केन्ना
धवे ल्हंवेचो
हांव सोंसो

केन्ना
कट्यांतलो
हांव कासव

धवी ल्हंव फुलोवन
धांवता सोंसो
पिसो कसो

हात-पांय कवळून
कट्ट्या भितर
कासव घेता विसव

### वंये भायर

मार सोंशा
मार उडकी
वंये भितल्ल्यान वंय भायर

कता चुलुबुळू
कासव एकलो
म्हजे भितर, काळखा-कट्ट्यांत

मारतना उडक्यो
हांसत्या तणांत
मार एक उडकी म्हज्याय मनांत

मार सोंशा,
धवीफुल्ल उडकी
फुलोवन ल्हंव, वंये भायर...



## ॥ बाळकृष्णजी कानोळकार ॥

### हांव एक भोंवडेकार



हांव एक भोंवडेकार
एक भोंव
एक डे
एक कार

म्हजी भोंवडी
म्हजी बडी
असीम चलता

निराधार निबर
म्हजी विडी
अखंड जळटा

कोटी सूर्या पोना प्रखर
कोट घाल्लो खर
हांव एक भोंवडेकार

असो हांव एक भोंवडेकार

म्हाका ना आकार
ना म्हाका उकार
न्हू मियां मकार
हांवें दिला नकार
समस्त जिणेक
जल्मा पलतडच्या भुतकाळाक
आनी फायच्या आलतडच्या भविष्या ऽ कूय

हांव वळखतां
फकत वर्तमान
म्हाका ना तान
भान ना बेभान
असो अलिशान
हांव एक भोंवडेकार




॥ शितल आरोलकार ॥



## ओड

कोण जाणा कित्याक तरी
तुजे कडेन ओडटां हांव

तुजे येवपाचे वाटेकडे
दोळे लावन बसतां हांव

दोळ्यां आड आसलो तरी
परमळ तुजो वळखतां

भायर-भितर वावुरताना
तुका मेळूंक आशेतां

नदरेक नदर मेळत जाल्यार
तान भूक विसरतां

कशें सांगू तुका
तुजे मेळपाचे ओडीन रे
रात दीस जागयतां



पर्वरी - गोंय.
फो. : २४१३१९०

॥ विमल प्रभूदेसाय ॥



## सांजवेळ

चान्ने रातीं रुप्याचे रेंवेंत
उडणां मारीत हांसत खेळत
पुंजायल्यो त्यो शिपयो आनी घुलो
आज
तेंच चान्नें तीच रेंव
त्योच शिपयो त्योच घुलो
पुणून, जडशीळ हातपांय मारतात
भोवन भोवन आवयक उलो



बेळगांव

॥ मिनीन आल्मेदा ॥




हांव सोदतां
म्हजेच भितर
किरण सुर्याचें
जें आतांच झडलां
म्हजे जिणेंत
म्हजे काळखी जिणेंत
तें खंय तरी सांडलां
नकळटां

म्हजी तिश्टणी
कितल्या वर्सांची
आतां सोंपोवंक जाय
जिणेची पेटोवंची आशिल्ली
दर एक वात
त्या किरणान
आतां पेटोवंक जाय
असो
जिणेचो दर एक दीस
उदेवंक जाय
तर
त्या किरणान
म्हजी आस जागयल्या
जगपाची
म्हाका जगूंक जाय

देखुनूच
हांव सोदतां तें किरण
किरण लाख-मोलाचें
म्हज्या फुडाराचें

फातोर्डा.
मडगांव-गोंय.
मो. : ९८८१२८०८२१

# ॥ संत तुकाराम ॥

## एकशें एक अभंग

१

| | |
|---|---|
| पावसान पडचें | आपलेच तरेन । |
| आनी दैव दयेन | पीकऽ भूंय ॥ |
| बिजूच रे फळ | जाता शेवटाक । |
| लाब, तूट अशी | जाची ताका ॥ |
| दिव्याचिया आंगा | ना रे दुजेपण । |
| चोर साव जाण | एक सारके ॥ |
| कावळ्याक घोंपर | तित्तिराक फातर । |
| राजहंसाक चार | मुक्ताफळ ॥ |
| तुका म्हणऽ हांगा | आवडूच कारण । |
| पिकलो नारायण | जाका जसो ॥ |



**अणकार**

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**



२
शुद्ध बिंये व्हंटयेंत फळ रसाळ सुकांत।
मुखां अमृताची वाणी देह घालचो करणी ।।
बरें सर्वंग निर्मळ चित्त जशें गंगाजळ ।
तुका म्हणऽ जाती ताप दर्शन विश्रांती ।।
३
परमळ म्हण चोळू नये फूल ।
खांव नये मूळ आवडतें ।।
मोतया उदकाचो चाखचो न्हय सुवाद ।
यंत्र भेदून नाद पळोंव नये ।।
कर्म फळ म्हूण आशेंवचो न्हय काम ।
तुका म्हणऽ वर्म दाखोंव लोकां ।।
४
कडू लिंबा झाडा आलें साकरेचें ।
फळ आपल्याचें सोडिना तें ।।
तशेंच अधमाचें अमंगळ चित्त ।
एक तेंच हीत करून सोडी ।।
परिसाच्या आंगा लायलें रे कैल ।
अंतरांत बदल येना जावन।।
तुका म्हणऽ वेळू चंदना सांगाता ।
सांगा तें नासतना लागसार ।।

५
पयली म्हजी ओवी ओवीन जगत्र ।
गायन पवित्र पांडुरंग ।।

दुसरी म्हजी ओवी दोन ना रे मनी ।
भेट ऽ जनीं वनीं पांडुरंग ।।

तिसरी म्हजी ओवी तिळ्याक ना ठाव।
सर्वयची देव जनीं मनीं ।।

चवथी म्हजी ओवी केलें बा दळण ।
गांवचें निधान पांडुरंग ।।

पाचवी म्हजी ओवी म्हजिया कुळारा ।
गायन निरंतरा पांडुरंग ।।

सवी म्हजी ओवी सवूय आटले ।
गुरूमुर्ती भेटले पांडुरंग ।।

सातवी म्हजी ओवी याद वेळोवेळा ।
बशियालो डोळां पांडुरंग ।।

आठवी म्हजी ओवी अठ्ठावीस युगांत ।
उबो चंद्रभागेंत पांडुरंग ।।

णवी म्हजी ओवी सोंपलें दळण ।
चुकलें मरण संवसाराचें ।।

धावी म्हजी ओवी धा अवतार ।
येवचें न्हय संवसारा तुका म्हणऽ ।।

६

आतां कितें खांव    वचूं कोणागेर ।
गांवचो आदार    खंयच्या नेटान ।।
रागार रेजिदोर    गांवचेय लोक ।
घाली कोण भीक    आतां म्हाकां ।।
आतां हाणे जात    म्हणती सांडिली ।
रजावांक घातली    न्यायालयांत ।।
भल्या लोकान हाका    सांगली रे मत ।
केलो म्हजो घात    दुर्बळाचो ।।
तुका म्हण हांचो    संग न्हय बरो ।
विठ्ठलूच खरो    सोदूं आतां ।।

७

गांवांतुल्या लोकां    लायलें रे पिशें ।
सांग कितें अशें    तुजे ठांय ।।
केलें तोंड काळें    म्हाकां घुंवडायलो ।
लजेकूय घातलो    पांडुरंगा ।।
कितें म्हण सांगूं    तुकां हें गाराणें ।
मागीर कितें जिणें    तुजें म्हजें ।।
कोणाखातीर आतां    भरचो संवसार ।
केलो सोपस्कार    आपणेंच ।।
तुका म्हण ऽ आपणे    मोडलो घराचार ।
धरलो आधार    तुजे पायां ।।

८

लज अशी दिसता    तोंड दाखयतना ।
वचूं खंय कळना    कोणा फुड्यांत ।।
कसलिये चुके    मागतां विचार ।
लजेकूय थार    ना रे म्हाकां ।।
लज सोडुनूय    पारपोळ भोंवता ।
स्वामीसेवा करतां    चोर जावन ।।
तुका म्हणऽ आपल्याक    पडूंक जाय दंड ।
पडूंक जाय खंड    असल्या कामा ।।

९

कळनास्तना बापूय गेलो । रेंटो चिंतेचोय नासलो ।।
विठो तुजें म्हजें राज्य । काम दुसऱ्यांचे त्याज्य ।।
बायल गेली मुक्त जाली । माया देवान पयसायली ।।
पोर मेलें बरेंच जालें । देवान मायेविरयत केलें ।।
दोळ्यां मुखार आय गेली । तुका म्हण ऽ चिंता गेली ।।

१०

सुंदर तें ध्यान    उबें विटेचेर ।
कर कमरेर    दवरून ।।
तुळशीमाळो गळ्यां    काशे पितांबर ।
आवडऽ निरंतर    तेंची रूप ।।
मकर कुंडलां    लखलख श्रवणी ।
गळ्यां कौस्तुभमणी    सोबता रे ।।
तुका म्हणऽ म्हजें    हेंच सर्व सूख ।
पळयन श्रीमुख    उमेदीन ।।

११

परक्यो ह्यो नारी    रखुमाये समान ।
हेंच रे मनान    केलां ठाय ।।
चल गे तूं माते    घेंव नाका त्रास ।
आमी विष्णुदास    तसले न्हय ।।
सोसूंक गे नजो    तुजें हें पतन ।
नाकां हें वचन    दुश्टां तोंडां ।।
तुका म्हणऽ तुकां    जाय गे भर्तार ।
हांगा कितें नर    उणे जाता ।।

१२

बायलांचो संग    नाकां नारायणा ।
काश्टा वा पाशाणा    मातयेच्या ।।
आठवना देव    जायना भजन ।
लागोळल्लें मन    हाता येना ।।
दृश्टी मुख मरण    इंद्रियांचे आंग ।
लावण्य अभंग    दूःख मूळ ।।
तुका म्हणऽ जर    उजो जालो संत ।
बांदूंक पावत तो    संघट्टणान ।।



१३

भोगाचेर हांवें घातलें पाशाण।
मरणाक मरण हाडियेलें ।।

विश्वव्यापक तूं हांव कितें वेगळो ।
नेट असो सगळो कित्याक हाडूं ।।

कितें करून रे काडचें हें भायर ।
हाडून भितर कितें दवरूं ।।

केलो जरी काळजांत वाद गा हो पोको ।
बळयांचो धोको सपनाचो ।।

सगळोच वेपार आयलो तुज्या घरा।
मजुरी मजुरा दिसपटयेंत ।।

तुका म्हणऽ कांयच ना रे लाभ हानी ।
आसत जो धनी राखूं घर ।।

१४

हीच व्हड भक्ती मानवता देवा ।
संकल्पुंची माया संवसाराची ।।

दवल्लो अनंतान तशेंच रे रावचें ।
चित्तांत घट धरचें समाधान ।।

भोंवलों उद्वेग आनी दुःख घेवन ।
फळूच भोगण संचिताचें ।।

तुका म्हणऽ घालूं ताचेरूच भार ।
घालूं हो संवसार देवा पायांर ।।

१५

दया क्षमा शांत । थंय देवांची वसत ।।
पावऽ धांवत रे घरा । राव धरुनरे थारा ।।
किर्तनाचे वाटे । भकारो सो लोटे ।।
तुका म्हणऽ घड ऽ । पुजे नांवान देव जोड।।

१६

म्हजे लेखीं देव मेला । जाचो उल्ला ताचो उल्ला ।।
जाप करीना नांव घेना । दोगांचींय मनां खंड जालीं ।।
तुस्ते सयत निंदो । असलोच धंदो खूब केलो ।।
तुका म्हण थंड रावलों । वेंचितूच गेलों जिवित्वाक ।।

१७

आवंदाचे कोंडींत आनंद तरंग ।
आनंदूच आंग आनंदाचें ।।

सांगू कितें ताचें जालें कित्याकितें ।
आवडीर नुल्लें चालीचें गा ।।

गर्भाचे अर्थीक मायेचे दुवाळे ।
थंयसल्ले जिव्हाळे थंय दिसता ।।

तुका म्हणऽ तशी वतयली कुरू ।
अनुभव लागीं मुखा आयलो ।।

१८

रूख बिये पोटां । बीं रुखाचिया अंता ।।
तशें तुमचें आमचें जालें । एकांत एक भेटलें ।।
उदकावेले तरंग । तरंग उदकाचें आंग ।।
तुका म्हण बिंब बिंब । जालें उदकीं तुडूंब ।।

१९

वयता थंय थंय तूं म्हजो सांगात।
चलयशी हात धरून रे ।।
वाटे तिटे चलतां तुजोच आधार ।
चलयता रे भार सांगाताक ।।
कशाय कसो बोल करशी तूं सारको ।
करून लजेक पारखो धीट केलो ।।
सकळ लोक म्हाकां जाले लोकपाळ ।
सोयरे सकळ प्राणसखे ।।
तुका म्हणऽ आतां खेळटां कौतुकान ।
भायल्या भितल्यान सूख तुजें ।।

२०

मरणाचेय आर्दी रावलों मरून ।
मागीर केलें मन आसलें तशें ।।

आतां तुमी पळयात आमुचें नवल ।
नाकां वेंचू बोल वाऱ्यावीण ।।

तुका म्हणऽ तुमी भिवकुटी नार ।
कशी जावंची सर तुमची आमची ।।

हांव मेलां तेन्ना देह दिलो देवा ।
कशी करू सेवा कोणाची हांव ।।

सुत्रधाऱ्यान जशें बोट हालयलें ।
तशें तें बावलें नाचऽ छंदान ।।

उलयतां जरीं उलयतलो देव ।
म्हाकां गा दुबाव कित्याक तो ।।

पाप पुण्य जाचें ताकाच खबर ।
संबंद ना थार आमचेकडें ।।

तुका म्हणऽ तुमी आयका ही मात
आमी रे अतीत कुडीहून ।।

२१

आपुलेंच मर्ण पळयलें गा दोळ्यां ।
जें जालें सुवाळ्यां अनुपम ।।
आनंदान भल्लीं तिनूय त्रिभुवनां ।
सर्वात्मकपणान भोग जाले ।।
एक देशीं आसलों अहंकारान भल्लेलों ।
ताचे फाटल्यान जालो सुकाळ हो ।।
जल्ममरणाचें सुटलें सुतक ।
लजेचें पथक पयस जालें ।।
नारायणान दिलो वसतेक ठाव ।
दवरून भाव पडलों पांयार ।।
तुका म्हण दिलें आकारून जगा ।
घेतलें तें आंगा लावन रे ।।

२२

गोड सोडून गोडी घेवंची । मीठ सोडून रूच चोंवची ।।
असलो प्रपंच सोडून दिवंचो । मागीरूच परमार्थ जोडचो ।।
न्हय रे साकरेचो ऊस । आमकां कसलो गर्भवास ।।
भात भाजून केली ल्हाय । आमकां जन्ममरण नाय ।।
आकाराक कसलो थारो । कुडच जालो पळय वारो ।।
तुका म्हण अवघें जग । सर्वयांत पांडुरंग ।।

२३

सगळोच आकार काळान ग्राशीला ।
निराळेंच उल्लां हरिचें नांव ।।

धरूनूच रावलो अविनाश गळ्यांत ।
जिवीत हें पोटांत साठयलें ।।

कुडीची संपत मिर्गजळावरी ।
नुरतली संवसारीं खरें न्हय ।।

तुका म्हण आतां उपाधेच्या नांवाक ।
हाडियेला देवान वीट म्हाका ।।



२४
अणू रेणुया धाकुटो । तुको मळबाचे येदो ।।
गिळून सांडलें कळिवर । संवसार भर्माचो आकार ।।
शेणयली ही त्रिपुटी । दिवो जळयलो घरटीं ।।
तुका म्हण ऽ कितें करचें । जिणें उपकारा पुरतें।।

२५
उलंव नुलवणें मरूनूय जिणे ।
आसून नासणे लोकीं आमकां ।।

भोगांतूच त्याग संगात असंग ।
तोडीयलो आग माग दोनूय ।।

तुका म्हणऽ न्हय हांव दिस्ता तसो ।
विचारा हांव कसो पांडुरंगाक ।।

२६
मर्ण म्हजें मरून गेले । म्हाकां दिलें अमरपद ।।
ठाव पुसलो बूड पुसलें । वशाड केलें देह भावा ।।
आयल्लो गेलो हुंवार । धिराकूय धार जिवितांत ।।
तुका म्हणऽ बुनयादिचे । जाले सांचे उजयणे ।।

२७
हांव वयतां म्हज्या गांवा । म्हजो राम राम घेवा ।।
तुमची म्हजी भेट । हांगासुनच जन्म तूट ।।
आसू आमचेर दया । तुमच्या लागतां रे पायां ।।
येतां निजधामाक कोणी । मुखां विठ्ठल विठ्ठल वाणी ।।
येवंदी रामकृष्ण मुखाक । तुको वयता वैकुंठाक ।।

२८
हांवूच म्हाकां व्हियेलों आपल्याच पोटाक आपलों ।।
पुरो जाल्यो आंगवणी नुल्ली आशेची निशाणी ।।
खरोंच जालों बळी गेलों मरून ते काळीं ।।
दोनूय कडेन देखा आसलो तसोच आसा तुका ।।

२९
आपल्या कुळारा आतां वयतलों ।
निरोप पावलो संता हातीं ।।

सूख दूख म्हजें आयकलें कानी ।
कळवळो मनीं करूणेचो ।।

करूनी सिध्द मूळ सावुले भातुके ।
येता व्हरपाक दिसता एकाक।।

त्याच पथा म्हजें लागलां रे चित्त ।
वाट पळय नित्य कुळाराची ।।

तुका म्हणऽ आतां येतलो व्हरपाक ।
वेंगेंत घेवपाक मायबाप ।।

३०
आनंदाचो थारो सूख भारावल्लो झरो।
अशी प्रभुची ज्या कळा कोण पळय ताच्या बाळा ।।
असोया अंकिताक पावयलो आसत ठाये।
तुका म्हणऽ असलें उर्णे उजवाडान दिलें ।।

३१
जळूं ती जाणीव जळूं शाणपण ।
भाव उरूं जाण विठ्ठल पायां ।।

जळूं तो आचार जळूं तो विचार ।
उरूं मन स्थिर विठ्ठल पायां ।।

जळूं हो लौकीक जळूं हें मीपण ।
लागूं जिवा ध्यान विठ्ठलाचें ।।

जळुं हें शरीर जळुं हो संबंध
उरूं परमानंद म्हज्या गळ्यां ।।

तुका म्हणऽ हांगा सगळेंच जाय
कर मनां सोय विठ्ठलाची ।।

३२
खांवचें, न्हेसचें, दिवंचें । जमा खर्चार नांव तुजें ।।
आतां चुकली खटपट । झाड्या पाड्याची बोबाट ।।
आसा नारे ताचें । आमकां कित्याक पडचें ।।
तुका म्हणऽ चिंता । सवन वजें तुज्या माथ्या ।।

३३

| | |
|---|---|
| पुण्य परोपकार | पाप परपीड । |
| ना आनीक जोड | दुसरो हाका ।। |
| | |
| सत्य होच धर्म | असत्य तें कर्म । |
| आनीक हें वर्म | दुसरें ना ।। |
| | |
| गती तीच मुखी | नामाचें स्मरण । |
| अधोगती जाण | विन्मुखताय ।। |
| | |
| संताचो जो संग | तोच स्वर्गवास । |
| नर्क रे उदास | पारपोळ ।। |
| | |
| तुका म्हणऽ उक्तो | आसा हीत घात । |
| जाका जें उचित | करचें तशें ।। |

३४

| | |
|---|---|
| मुयेचिया घरा | मुळांत वयता कोण । |
| साकर देखून | धांव घाली ।। |
| | |
| याचकाचे वीण | खोळंबता दातो । |
| हिताक धांवऽ तो | आपुल्याच ।। |
| | |
| अन्न पाणी कुडीकड | खा म्हण्टा आपल्याक । |
| गरज भुकेल्यांक | रूच ताची ।। |
| | |
| पिडेस्तूच धांवता | वैजाचिया घरा |
| दुःख परिहारा | आपल्याच ।। |
| | |
| तुका म्हणऽ जाका | दिसता स्वहीत । |
| जाल्यार तीच प्रीत | करची कथा ।। |

३५

| | |
|---|---|
| सोयरे धायरे | दिवपा घेवपाचे । |
| अंताच्या वेळाचे | न्हय कोण ।। |
| | |
| सखयो गोत्रभयणी | सुखाच्या सांगाता । |
| धुकलून दिता | अंतकाळा ।। |
| | |
| आपुलें शरीर | आपणाक शेणटा । |
| परकीच जाता | नवल काय ।। |
| | |
| तुका म्हणऽ आतां | सोड हाची आस । |
| धर रे ही कास | पांडुरंगा ।। |

३६
देवा घाल ल्हानपणा । जंय कोणाचें चलना ।।
हुंवारांत रूख व्हांवता । थंय तणा पातीं उरता ।।
येता दर्याचें ल्हार । वयता बागल्यार वैलेवैर ।।
तुका म्हणऽ कळऽ । पांय धल्ल्यार नुरता बळ ।।

३७
वैज जिवाक वाचयता । तरी देवाक कोण पळयता ।।
जाण कोण कशे परी । प्रारब्ध तें मनी धरी ।।
आंगवणेन भुरगें जातलें । जाल्यार घोवाची गरज कितें ।।
जाण जाण हो विचार । स्वामी तुक्याचो दातार ।।

३८
करूं एकाएकाक आधारू । सगळेच धरूं सुपंथ ।।
जाण कोण कशे परी । सांबाळून उरीं दवरता ।।
सगळेच धन्य जावं आतां । स्मरयतां आतां स्मरण ।।
तुका म्हण अवघी जोडी । ती आवडी पायांची ।।

३९
संत कृपा जाली । इमारत फळाक आयली ।।
बुनयाद घालून ग्यानबान । रचलें मंदीर म्हान ।।
नामदेव ताचो किंकर । ताणे आटापिलो विस्तार ।।
जनार्दन एकनाथ । लायलो ध्वज भागवत ।।
भजन कर रे सवकास । तुको जालो रे कळस ।।



४०
कोणूय निंदों कोणूय वंदों । आमचो स्वहिताचो धंदो ।।
तुमकां कसली गरज । आमी भजूं पंढरीराज ।।
तुमचे वरीं चल्ल्यार । आमचें स्वहितूच ठार ।।
तुको म्हण्टा पडलां कोणाक । गळो विठ्ठलाच्या पायांक ।।
४१
जो उलयल्ले वरी चल्लो । पायें ताकाच पडटलों ।।
ताचें आंगण झाडीन । ताचो स्वासूय जाईन ।।
ताचो तातलो किंकर । उबो जोडून रे कर ।।
तुका म्हणऽ देव । ताच्या पायांर हो भाव ।।
४२
धन्य आयचो सुदिन । जालें संत दर्शन ।।
जाली पापा तापा तूट । दैन्य गेलें फटाफट ।।
अशें जालें समाधान । पायां सावशेलें मन ।।
तुका म्हणऽ घरा पावलो । तोच उत्सव सुवाळो ।।

४३
जे जे तिश्टले कश्टले । तांकां म्हणऽ जो आपुले ।।
तोच साधू समजुंचो । देव ताच्यांतूच चोंवचो ।।
जशें लोणयांचें आंग । चित्त सज्जनाचें चांग ।।
जाका कोणूच नासता । ताका काळजाशीं धरता ।।
जेवीं करी भुरग्यांचे । तेवीं दासा नी दासीचें ।।
तुका म्हणऽ सांगू किर्ते । भगवंताची मूर्त ते जाती ।।
४४
ना रे संतपण मेळटा बाजारा ।
भोंवतां भुयारां राना वनां ।।

ना रे दिता येना पयशांच्यो राशी ।
ना रे तें आकाशीं ना पाताळीं ।।

तुका म्हणऽ मेळटा जिवाचिये सरीं
नाल्यार खबरी करूं नये ।।
४५
मेणाय परस मोव आमी विष्णू सेवक ।
घरच्या वज्राक चेंचूं अशें ।।

मेल्ले जिवे जांव न्हिदेंतुल्यान जागें ।
जो जो जें जें मागऽ तें तें दींव ।।

दितां म्हटल्यार दींव कमराची काश्टी ।
नश्ट्याचे पाश्टीं घालूं धपके ।।

मायबापाहून भोव मायावंत ।
करूं घातपात दुस्मानाय परस ।।

अमृता कूय गोडी ना रे आमचे मुखार ।
विस्वाचो विखार कितलो कडू ।।

तुका म्हणऽ आमी मुळचेच गोड ।
पुरो ताचें कोड ताचेवरीं ।।

४६

आज तुजो भाव कळून आयलो देवा ।
फटोवून सेवा घेता म्हजी ।।

घालून साकडे आपल्याच माथ्यार
संताचेर भार घातलो या ।।

तुस्त करवून धोल बडइले
आदाराक जे दिले कोण रे दातारा ।।

जातीचोच वाणी पोटान वांकुडो
करू नाका फुडो फटी फटी ।।

तुका म्हणऽ नाका ना रे अणभव ।
आदींच हांव देवा कसो ऩाचूं ।।

४७

मेळूं नाका खावंक ना वाडूं संतान ।
तरी नारायणा कृपा कर ।।

अशी म्हजी वाचा म्हाका उपदेशी ।
आनीक लोकांशी हेंच सांगऽ ।।

विटंबू शरीर कसली विपत्त ।
परी उरूं चित्त नारायणी ।।

तुका म्हणऽ नश्ट जाता रे सकळ ।
याद ये गोपाळ हेंच हीत ।।

४८

नाकां नाकां मना गुंथू मायाजाळा ।
काळ लागीं आयला गिरासूंक ।।
काळाची गा उडी परततली जेन्ना
सोडईना तेन्ना मायबापू ।।
सोडईना राय देशींचो चौधरी
आनीक सोयरीं व्हड व्हड ।।
तुका म्हणऽ तुकां सोडईना कोणी
एक चक्रपाणी सोडून रे ।।

४९

सदां म्हजे दोळे उरूं तुजें म्हुर्तीं ।
रखमाये पती सोयरो रे ।।

गोड तुजें रूप गोड तुजें नाम ।
दी रे म्हाका प्रेम सर्वकाळ ।।

विटू माऊलिये होची वर दी गे ।
संचरून राव गे काळजांत ।।

तुका म्हणऽ कितें मागणे आनीक ।
तुजे पायां सूख सर्वय गे ।।

५०

सर्वय सूख आमी भोगूं सर्वकाळ ।
पिंजियेले जाळ मोहपाशी ।।

हेच खातीर रे सोडलो भर्तार ।
रत जालों हांव पर पुरसाशीं ।।

तुका म्हणऽ आतां नये गर्भ धरूं ।
वखद जें करूं फळ न्हय तें ।।

५१

मुसमुसल्या आंगा । रंग मेळईलो रंगां ।
एका एकीं दृढ जाले । मुळा आपुलिया आयलें ।।
दर्यांत थेंबांनी झडचें । आनी खंयचे वाटे वयचें ।।
तुका म्हणऽ नवें । न्हय जाणचें हें देखून ।।

५२

कळून आयलें तुजें जिणें । देवा तूंच म्हजें पोसणें ।।
वाट पळयतां यादींची । सत्ता सतत भोवतांची ।।
आपयतांच येंवचें रूपा । सदांच निर्गुणांत लिपा ।।
तुका म्हणऽ तूं परदेशी । हांगा आमच्या आंगां जियेशी ।।

५३

उचित तें कितें  दुर्बळान जाणचें ।
काळें व्हडपणाचें  तोंड देवा ।।

घालता कोण उलो  आयकूं येना दारा ।
मूस ना रे घरा  अशें घर ।।

आयिल्ल्या अतिथीक  शब्दसमाधान ।
करीतां वचन  कितें घेवंचें ।।

तुका म्हणऽ तुकां  सोब हें श्रीहरे ।
आमी निलाजरे  न्हय रे अशे ।।

५४

तानूच तान पियेली । भूक भुकेन खाल्ली ।।
जंय जें जावंचें ना जालें । झाडो घेतलो विठ्ठलें।।

वास वासनेशीं नाय । मन पांगुळें पायीं ।।
शेश उल्लो तुको । जिवा जिवीं जाल्यो चुको ।।

५५

कोण जल्मता  कोण जल्मयता ।
कळना कृपावंता  मेख तुजी ।।

कोण हो दितो  कोण हो मागतो ।
कळना कृपावंता  मेख तुजी ।।

कोण हो भोगता  कोण भोगविता ।
कळना कृपावंता  मेख तुजी ।।

कितें हें रूप  कितें अरूपता ।
कळना कृपावंता  मेख तुजी ।।

सगळ्यां ठाय तूंच  सगळेंच तूं जाता ।
तुका म्हणऽ हातूंत  दुसरो ना रे ।।

५६

आमी नरकां गेल्यार  तुका कितें मेळतलें ।
अनंता तूं अशें  विचारी बा ।।

शरण तुका आयल्ल्याक  हींच काय फळां ।
सांग रे दयाळा  कृपानिधे ।।

तुजें पावनपण  उपकरना आमकां ।
अशें कळ्ळें म्हाकां  हृषिकेशी ।।

आमकां दुःख मेळ्ळूं  जल्म मर्ण व्यथा ।
कितें तुज्या हाता  येता अशें ।।

तुका म्हण तुवें  खाली मरे रडी ।
आमी धल्ली शेंडी  नाम तुजें ।।

५७

मुखान सांग ब्रह्मज्ञान । जन लोकां कापी मान ।।
ज्ञान सांगता लोकांका । अनुभव ना आपणाक ।।
कथा सांगता देवाची । उरां आस भौलावाची ।।
तुका म्हणऽ तोच मूर्ख । ताचें रंगयारे मूख ।।

५८

घरा रांडो पोरां  उपासान मरता ।
लोकांक सांगता  व्हडपण ।।

व्हरून रे घरा  दाखोवंचें गाय ।
काळसोंडो जाय  चुकोवून ।।

तुका म्हणऽ आमी  जाणां ती प्रमाणां ।
फटवण जनां  जांवनये ।।

५९

धूव घोवा घरा वयता  फार्टी वळून पळयता ।।
तशें जालें म्हज्या जिवा  केन्ना भेटशी केशवा ।।
पयसावल्ले माये  बाळ तुकुतुकू पळये ।।
जळा वेगळी मासोळी  तसो तुका तळमळी ।।

६०

भेटे पासत जिवा लागली ही आस।
पळय रात दीस वाट तुजी ।।

पुनवेचो चंद्रीम चकोरा जिवीत।
तंय म्हजी मत वाट पळय ।।

दिवाळेच्या मुळा धूव रे आशेली।
पळयता वाटुली पंढरेची ।।

भुकेल्लो माणकुलो रडारड करी।
वाट पळय परी माऊलेची।।

तुका म्हणऽ आपल्याक लागल्या रे भूक।
धांवून श्रीमूख दाखय देवा ।।



६१

तूं म्हजी माऊली तूं म्हजी साऊली ।
पळयतां वाटुली पांडुरंगे ।।

तूं म्हजो येकुलो वडील धाकुलो ।
तूं म्हजो आपुलो सोयरो जीव ।।

तुका म्हणऽ जीव तुजे पायांशीन ।
तुजे वीण किण्ण दीक दीक ।।

६२

म्हणयतां रे दास । पूण हांव उदास ।।
होच निश्चय म्हजो । पूण हांव निश्ययाहून दुजो ।।
काज जाता म्हजेकडल्यान । पूण हांव त्याहून भिन्न ।।
तुक्यान तुको जोखलो । तुको तुक्याहून वेगळो ।।

६३

वेदांचो तो अर्थ आमकांच खबर।
हेरांनी हो भार मारचो माथ्यार ।।

खातल्याची गोडी पळयतल्याक न ये ।
माथ्याचेर वजनां मजुरीचीं ।।

उत्पत्ती पालन संहाराचें नीज।
घेतलें जाणें बीज ताचे हातीं ।।

तुका म्हणऽ येता आपुणूच फळ।
हातोहात मूळ सांपडलें ।।

६४

जंय दिसता थंय उबो। अवघ्या गगनाचो गाभो ।।
दोळ्यां बसले बसले। ध्यानी वचून सांचले ।।
मुखार सल्लें मन। केले सोज्वळ लोचन ।।
तुका म्हणऽ सांगाता। आसूंदी देव आतां ।।

६५

अंतरी निर्मळ वाचेन रसाळ। ताचे गळ्यां माळ आसूं नासूं।।
आत्मो अणभवी निर्मळयल्ल्यो वाटो। ताचे माथीं जटो आसूं नासूं।।
परधना अंध निंदेक जो मौन। तोची संत म्हणू म्हण्टा तुका ।।

६६

चित्त शुद्ध म्हण्णूच शत्रू मित्र जाता ।
ना सर्प खाता वाग केन्ना ।।

वीख तेंच अमृत आघातूच हीत ।
अकर्तव्य नीत जाता ताका ।।

दुःखच गा दिता सर्व सूख फळां ।
आनी अग्निज्वाळा जाय शितळ ।।

जिवूच घालतलो जीव जिवाचेर ।
सकळां अंतरीं एकभाव ।।

तुका म्हणऽ कृपा केली नारायणान ।
फक्त अणभवान जाणचें तें ।।

६७

मस्तकार सोंसचे टाकयेचे घण ।
तेन्ना देवपण भोगूं येणे।।

आपलीच तुस्त धजा जांव मान ।
उडोंवची थुकून पैलतडीं ।।

सद्गुरू सेवन तें अमृताचें पान ।
करून प्राशन बसचें गा ।।

आपल्या मस्तकार पडूं रे दोंगर
सुखाचें कुळार सोडचें न्हू ।।

तुका म्हणऽ तुका सांगूं कितें कितें
जिणें फकाणांचें करूं नये ।।

६८

ल्हानपण दि गा देवो मुये साकरेचो रवो ।।
ऐरावत रत्न थोरू ताका अंकुशाचो मारू ।।
जाच्या आंगा मोठेपण ताका यातनेचे घण ।।
तुका म्हणऽ जाण जांवचें ल्हानाहून ल्हान ।।

६९

साकरेचे साक बैलाचिये फाटीं ।
ताका तीं चिपाटीं निमणी रे ।।

वाळवंटी उंटां व्हरती पेटारे ।
खांवूंक कांटे रे बाबा तांकां ।।

वगीच हो धंदो आस वाडयता ।
बांदून रे दिता यमा हातीं ।।

जांकां जाय लाब तेच जाणां गोडी ।
हेर काडी ओडी वग्या वगी ।।

तुका म्हणऽ शाणो जाता बुध्द भेरो ।
चौऱ्यांशीचो फेरो येवूं नाका ।।

७०

बरें जालें कळ्ळें तुजें देवपण
आतां गूट कोण राखी तुजो ।।

सांग कित्या माल्लो म्हाका आज मेरेन
आतां बरोबरीन हांव तुकां ।।

हांव उलयतां तें आसा तुजे आंगा ।
आयच्या प्रसंगा घालतां गाळी ।।

तूं रे निलाजरो ना रे जात कूळ ।
चोर तूं शिंदळ जाणा लोक ।।

खाशी माती फातर झाडां, जीव, जंत ।
एकलो उबंत परदेशी ।।

गाढव आनी सुणें हेंच म्हाका खबर ।
बैल तूं ईश्वर घाण्याचो रे ।।

फटींच्या तूं फाटीं लोकूय तें जाणा ।
म्हज्याय तें मना अणभवान ।।

तुका म्हणऽ हांव खुबळायल्लो भांड ।
आतां कशें तोंड धरूं येता ।।

७१

साळकण सांग जाणा परमळ।
भंवरे सगळ भोगतात।।

तशें तुजें नांव ना रे तुकां ठाव।
आमी जाणा जांव प्रेमसूख।।

माये तण बाळाक दुदाची रे गोडी।
जाची येना जोडी केन्ना कामाक।।

तुका म्हणऽ मोती शिंपये व्हंटये।
पूण ना रे भेटी ये भोग तिचे।।

७२

मागूं आमी अशें ना रे तुजेकडें।
तुका भंया कडें पांडुरंगा।।

पळय विचारून खबर आसल्यार।
फक्त तुज्या नांवार उबे आमी।।

ऋद्धि सिद्धि तुजी मूळ आस्पत।
न्हय रे ती जैपत भक्ती मुखार।।

तुका म्हण वचूं वैकुंटाक चलत।
बसून निश्चिंत सूख भोगूं।।



७३

गंगा गेली सागराशी। घेईना तो तिये आपल्याशी।
तिणें वयचें खंयचे ठाये। सांग, सांग पंढर माये।।

जळऽ जळ जिवांर। माय बाळा दिना थार।
तुका म्हणऽ आयलों शरण। देवा धल्लां कित्या मौन।।

७४

अभक्त जो भट जळूं ताचें तोंड।
ताका कितें रांड प्रसवल्या।।

वैष्णव चामार धन्य ताची माय।
शुध्द त्यो दोनूय कूळ जाती।।

असो रे हो न्याय जाला खूब पोन्नो।
वाणी म्हजी म्हण म्हणना हांव।।

तुका म्हण उजो लागूं व्हडपणा।
नदर त्या दुर्जनार पडूं नाका।।

७५

पात्कनाच्या योगान आळशार गंगा।
न्हाण तिचे जगान करूं नये?

उबी कामधेनू मांगा आंगणान।
तिका कितें ब्राह्मणान वंदू नये?

कुश्टरोग्या हाती परीस करी भांगर।
धरून ते अपवित्र घेवं नये?

यातीहीण जाल्लो गांवचो मोकाशी।
ताच्या उतरांशी मान नये?

भावारूढ तुकां मुद्रा विठोबाची।
मनांत ना तांची तोंडां काळीं।।

७६

जालो तूं पंडित सांगशी पुराण ।
पूण तूं अजाण आपूण कोण ।।

गाडूं भर ग्रंथ परतितीं पानां ।
पूण गुरूगम्य खुणां नेणा बापा ।।

तुका कुणब्याचो नेणा शास्त्रमत ।
एक पंढरीनाथ विसरना ।।

७७

जल्मल्लो प्राणी उरना संवसारात ।
बसलेलो म्हऱ्यांत काळ असो ।।

पळय हुंदराक घेवन जाय बुकलो ।
असो लोक सगलो व्हरता काळ ।।

खाटकाच्या घरां गत बोकड्याची ।
गाय कसाबाची वांचत कशी ।

तुका म्हणऽ कसल्योय काडा काडाओडी ।
वयतल्यो ह्यो घडी परत येना ।।

७८

मुळा सयत आस खणून काडची ।
गोसांय तेन्नाचि जांवचे ताणें ।।

नाल्यार सुखांत आसचें संवसारांत ।
दुसरी फजीत करूं नये ।।

आशाच मारून जयवंत जांवचें ।
तेन्नाच केडसरचें सर्वांतुल्यान ।।

तुका म्हणऽ जर योगाची निकड ।
आशेक वांजूड करचेली ।।

७९

उत्तमांत उत्तम रांडेचें लावण्य ।
पूण सवाशीण म्हणूं नये ।।

उचित अनुचित आपणायलें म्हण ।
न्हय गुणावीण व्हडपण ।।

शुरत्वा बगर शुरांमदीं वास ।
फटींचो आभास उपकरना ।।

तुका म्हणऽ सवंग पोटाक उपाय ।
कारण कमाय नाल्या जायना ।।

८०

सांगचो पडना परमळ चंदनाक ।
वनस्पत मेळाक उलो मारून ।।

अंतरींचे भाव ये सभावान भायर ।
धरूंक गेल्यार हाता येना ।।

सूर्य न्हय रे जागे करी ह्या जनाक
प्रकाश किरणां हाता धरून ।।

तुका म्हणऽ मोर नाचयतीं कुपां
सत्याचीं रे रुपां लिपोंव येना ।।

८१

दीस रात आमकां झुजाचेच योग ।
अंतर्भायर जग आनी मन ।।

जिवार भयंकर जाती हे आघात ।
सदांचीच साथ नित्य तांची ।।

तुका म्हणऽ तुज्या नामाचिया नेटान ।
घातलीं काळांडून तांचीं तोंडा ।।



८२

उलोंव तें आतां आमी नुलोवणे।
एकूच म्हणणें सगळ्यांक ।।

कुपांच्यो ह्यो धारो विचारी ना ठाव।
जसो जाचो भाव फळ ताका ।।

तुका म्हणऽ नाच समाधानी चाड।
आपुणूच नाड फुडल्यांक ।।

८३

आयल्ल्या भोगाक सादर येवकार ।
देवाचेर भार घालूं न ये ।।

मागीर कृपासागर निवारी सांकडें संकट ।
हेर तें बापुडें जांव रंक ।।

भंयाच्या पोटांत दुःखाच्यो गा राशी ।
देव पांय धरशी जाता बरें ।।

तुका म्हणऽ ते खातीर वावर कित्याक करचो।
मनांत येवजुंचो विश्वंभर ।।

८४

येता देवाचिया मना। थंय कोणाचें चलना ।।
हरिश्चंद्र ताराराणी। भरी डोंबा घरा पाणी ।।
पांडवांचो साहाकारी। राज्य जिकून केलें दुरी।।
तुका म्हणऽ वगीच रावचें। जें घडटा तें सहज पळोवंचें।।

८५

मूय आनी राय। आमकां जिवाची सारकाय ।।
गेली माया आनी आस। कळीकाळाचो हो फांस।।
भांगर आनी माती। बराबर आमचे मतीं ।।
तुका म्हणऽ आयलें। घरा वैकुंठ सगळें ।।

८६

भिकणाचे सांगाता हिरो जो वेरेलो ।
कुसंगान नाडलो तसो साधू ।।

आकृश्टांच्या संगा सात्विकता कुसली।
खीण खीण नाडली समागमान ।।

डाकवांच्या संगा भांगर मुंडेलें।
मोलूय घटलें लक्षकोडी ।।

विखान पक्वान्नां कडू गोड जालीं।
असंगान केली अशी तरा ।।

तुका म्हणऽ मोगान सत्संगूच बरो ।
कुसंग हो फेरो चौऱ्यांशींचो ।।

८७
पोट लागलां फाटीक । धाडी देशांचे यात्रेक ।।
पोटा भियेवन जंय वयता । थंय तें आपसूक पावता ।।
जप तप अनुष्ठान । पोटा खातीर जाले दीन ।।
पोट जात शेणयता । हिणा फुड्यांत नाचयता ।।
पोट कित्यान रे भरता । तुका म्हणऽ झुरूझुरून मरता ।।
८८
वेतभर पोट । ताचो सांगूं कितें नेट ।।
जळूं हाची विटंबना । भूक नाचयता जना ।।
माथ्यार भार अभिमान । जाली उपाटशी तान ।।
तुका म्हणऽ नरका वयचो । होच वेपार जिवाचो ।।
८९
घट्ट नाल्ले आंग । भायर, भितर मात चांग ।।
तशें म्हण्टाच कित्याक । शुद्धताय अंतराक ।।
वयर कांटे पणसाक । भितर रसाळाची भाक ।।
ऊस ऊस भायर काळो । भितर गोडाचो सुवाळो ।।
मीठ रूच हाडी अन्ना । हेंच न्हय रे कारण।।
९०
दोर पांयांक घालून । भिर्मूट बांदिली माणकुल्यान ।।
तसो पासा आडकल्लो । सांग कोण सोडटलो ।।
गळ्याक घालून दोरी । वानर घराघर व्हरी ।।
तुका म्हण्टा पळय । वांशेल थोपटयता पळय ।।
९१
बरें जाल्ल्याचें सगळेंच सांगता ।
वायटाच्या अंता कोणूच ना ।।

ना रे आय बाप ना रे बायल पूत
हेरांची सुवात कितें म्हणूं ।।

तुका म्हणऽ लोक दुयतोंडी माळूण
मेळटा ते वटेन धरून सोडी ।।

९२
हालोवन हालोवन खूंट । पयलींच करचो घट ।।
ताच्याच पालवान खरें । सगळें करप बरें ।।
सूख दुःख सोंसतां । उमेदता भंगतां ।।
तुका म्हणऽ जिर्वेपण । पयलीं पळोवचें मरून ।।
९३
सूख नाचण्याची कणी । दुःख पर्वता पाशाणी ।।
धर धर मना याद । संतवचनाचे साद ।।
व्हेलें अर्दें अर्दे रातीन । सानपण हें व्याधीन ।।
तुका म्हण्टा मागीर । जसो पाणो मुर्खा मानेर ।।
९४
कितें या संतांचे मानू उपकार ।
म्हाकां निरंतर जागयती ।।

कसो देवा हांचो उपकार पांवचो ।
पायांचेर घालचो जीव इल्लो ।।

सहज उलवणे हीत उपदेश ।
करून सायास शिकयती ।।

तुका म्हणऽ पाडूक गायेचिया चित्ता ।
तशे म्हाकां येती सांबाळीत ।।
९५
वचून रे तिर्थाक कितें केलें तुवें ।
चामडेंच धुयलें वयले वयर ।।

अंतरींची शुद्धी जाता रे कित्यान ।
केलें कसलें भूषण आपणावंक ।।

वृंदावनी फळ साकरे घोळयलें
कोडुपण भितल्लें गेलेंच ना ।।

तुका म्हणऽ ना रे शांती क्षमा दया
तो मेरेन कित्या फंदाक पडटा ।।

९६

आगा कितें करता	सोंवळें ओंवळें।
मना ना निर्मळें	मात लेगीत ।।

आगा कितें करता	ताळ नी मृदंग।
जंय पांडुरंग	रंगलोच ना ।।

आगा कितें करता	गिन्यान गजाली ।
कर्तृत्वाची बोली	ना रे पोटांत ।।

आगा कितें करता	दंभ लौकिकांचें ।
कांयच ना हिताचें	तुका म्हणऽ ।।

९७

उलोवंचो विठ्ठल	पळोवंचो विठ्ठल ।
करचो रे विठ्ठल	जिवाभावान ।।

सोंशीक हें मन	जाता आसभर ।
परत माघार	घेय नाते ।।

बंधना तुल्यान	आकळी तें गांठी ।
दिता येतां मिठी	सवकास ।।

तुका म्हणऽ देह	भल्ला विठ्ठलान ।
केलां कामक्रोधान	घर रितें ।।

९८

पूर येता आनंदाचो । ल्हारां कल्लोळ मोगाचो ।।
बांदू विठ्ठलाचो सांगड । वचूं पेंवून पैल तड ।।
मारा सगळ्या लोकांनो । उडी पाणयांत भावांनो ।।
ना रे ना रे सर्वकाळ । हें अमूप अमृतजळ ।।
तुका म्हणऽ व्हडा पुण्यान। ओघ आयलो येया पंथान ।।

९९

मीठ मेळयता जळांत	वेगळें नुल्लें रे जळांत ।।
तसो एक रूप जालों	तुजे मर्दी रंगून गेलों ।।
अग्नी कापराचे मेळीं	ना रे उरली काजळी ।।
तुका म्हणऽ फक्त	तुजी म्हजी एक जोत ।।

१००

घेतिल्ल्या देहाचें	करीन सार्थक ।
भरीन उमेदीन	तिनूय लोक ।।

लाईन पताका	वचूंक वैकुंठा ।
गाजईन पेठो	किर्तनाच्यो ।।

नामाचीं रे तारवां	बांदीन हजारीं ।
तारी श्री हरी	पांडुरंग ।।

भावीक हो हांगा	घेया समजून ।
दास तुको म्हणऽ	शुध्दयात ।।

१०१

हेच खातीर केल्लो	बाबा अट्टहास ।
निमणो हो दीस	गोड जांवचो ।।

थारोवनूच असो	पावलों थाकाये ।
मागणे तानेचें	तुश्टलें रे ।।

कवतूक दिसता	जाल्यार वेंचचें ।
नांव मंगळाचें	ताणे वाड ।।

तुका म्हणऽ मुक्ती	केली रे व्हांकल ।
खेळीं मेळीं धुकल	दीस चार ।।





# उजवाड

**– ए. पि. भानुप्रकाश**

घरकडे कौणांक देखूक ना.
घर विजन जावनु पडलां.
अत्ता घरांतु कौण
राबून ना म्हूण दिसता.
तेगेल म्हनांतु भंय
दिसले आयेक आनी
भयण्यांक कित्ते जाल्ले?
तीं खैंय गेल्ली?
तीं खैंय आसा?
मेगेले बरप तींका मेळ्ळीनावे?
तशी गेल्लो तेगेलो विचार.
तिंका देखूक आकाक्षेन
येयलोलो ताकां रडणे आयले.
तेगेले दोळे भरले.

पच्चाळम, कोच्चि

**म**ळबारी काळोक सेंत्यान निसरता. सूर्य सेंत सेंत केळकारि उदेवूंक आरांभ करलो. आज आसमान बहु सुन्दर, चांगा हवामान. थंड वारे सेंत सेंत मारता.

रामदास तो एक सुन्दर कोमळ सुशील आरोग्यवान युवक. ताका काल राती न्हीद पडलीना, गांवांतु वचपा विचार ताका. सकाळ उठावनु न्हावनु गांवांक वचपाक भायर सोरनु तो रेल्वे स्टेशनांत पावलो. गांवांतु वची रेल्वे गाडी येताली चोवनु तो आकांक्षेन बेसलो. गाडी आयली. उगी तो गाडी भितर चेडनु बेसलो. गाडी सेंत सेंत मुकारि सरली.

रामदासान एक दीर्घस्वास सोडलो, दोळे सेंत सेंत दांपले. ताका पोरनो उगडास आयलो. चारीवर्स पिरत्तम तो गांव सोडनु मुंबाइ आयलोलो. तोदुस ताका अठरा वर्स. प्री. डिग्री शिकीलो. तेगेलो बापु रामकृष्ण आतां जिवंत ना. आई रत्नवल्ली बरें स्नेहमई. सानु चेडो रामदासाक अपुरबायेन रामु म्होण आपयताली. रामदासाक दोनी भयण्यों. दाकूली आका नांव कृष्णवेणि वीस वर्स, बहुसुन्दरी ती कोलेजांतु शिकताली. व्होडली आका रमणी, तोवेळी तिका वर्स तेवीस, बहु सुन्दरी, सुशील, सौम्यवती. तिका एक सानु काम आसा. वाड्या घरांतु राबल्या ती. तिका पोस्सोवचे, भावभयण्यांक शिकेवचो भार रमणील्या भुज्जारी आयली. तिका सोयरीक जायत्यो येल्ल्यो जाल्यार, तिगेली विवाह जाल्यारी तांकां कोण पोसतोलो? कोण तांकां शिकयतोलो?

त्या विचारान रमणी तिका विवाह नाका म्हूण सांगताली.

रमणीक लागच्या गांवांतु सांगून एक दूरचो बन्दु वाटेन एक सोयरीक आयली. एक अध्यापक, नांव रमेश. सत्तावीस वर्सां, एक सुन्दर सालस्वभावी. ताणें रमणीक देखिली आसा. तेका तिज्जेरी प्रेम दिसलें. एक दिसू रमणीन रमेशाक देखून कार्य सांगलें, ''म्हजे कुटुंबालो सगळो भार म्हजेरी आसा कारण म्हजे पुरते तूं कृष्णवेणीक व्हारडीक कोरका.'' रमणीन रमेशालागी दयापूर्व अभ्यर्थन केल्ली. तेणे रमणीली अपेक्षा स्वीकार केलिना. ती घरकडे पोरतोनू आयली.

घराचो देन्नी नाम दामोदर, सत्तेचाळीस वर्स. दामु म्हूण आपयताले, दुड्डु वढीक दितालो एक मारवाडी, मृगस्वभाव ताका, बायल मेल्ली. बायलेक जिवशी मारली म्हूण जनसंभाषण. एक पूत आसा ताका, तो झगडोनु गेल्लो. रमणीचेरी दामुक एक दोळो आसा. तशी आसतना रामदासाक कोलेजांतु डिग्रीक शिकोवूंक दामुलागी थोडे दाम वाढीक निमगीले. तो व्हडान हांसलो. ''भाडे दिवूंक वाट ना तुका. मगीरी कशी तूं वाडी दित्तेली. हां, चोयतां, तुका हांव दुडु दिवीन. एक सांकाळ घल्यारी तावशीय आनी आवशीय जांवका.'' आसी तेणें सांगलें. आयकोवनु रमणी कांय उल्लोवनातुले गेल्ली.

दुस्सोरचो दिसु तो रमणील घराकडे येवनु तिगेली आईलागीं सांगलें ''म्हजलगी दाम मोस्त आसा. रामदासाले शिकोणेक आनीक कृष्णवेणीले व्हारडीकेक हांव तुका दाम दिवीन. परतोन दिंवका नाका. चे बदला एक व्यवस्ता आसा. रमणीक माका व्हारडीक कोरनु दिंवका. उत्तर फाल्याची सांगका.'' अशी सांगून तो गेल्लो. ही व्यवस्था तिणी संगडाणीय स्वीकार करलीना. तिस्सेची दिसु वाटेरी राबून रमणीलागी दामून सांगलें ''मगेले व्यवस्था तुका स्वीकार ना जाल्यारी तुम्मी मेगेले घर सोणु वचका.'' हें आयकोवनु रमणीक व्होड विचार जाल्लो.

''रामदासाले शिकोणेंक कित्ते वाट, आमी खंय वतेलीं, खंय आमका घर ऊणे भाड्याक मेळतेलें. अत्तांच आंका रीण आसा. कृष्णवेणीक सोयरीक येल्यारी दाम जायतो जावका जत्तेमू तशी गेल्ली तिगेली विचार. रात्र पूरा ती रडल्ली, न्हिदलीना. त्या रात्र पूरा चिन्तन कोरनु तिणी एक निश्चय काडलो. सगटांकय जावकाजावनु ती दामोदराक विवाह करूंक तय्यार जाल्ली. हरदूस सकळी आईलागी तिणी कार्य सांगलें. मन ना मनान आई हीं कार्य दामोदराक जाणेवूंक भायर सरली. हें जाणजावनु रामदासाक व्होड कोपु आयलो. ताणें आयेक धाडलीना. आयेक अनीक रमणीक ताणें जायते सोवलें. कृष्णवेणीय तेगेले भागारी राबली. प्रथम पावटी या तो तिंकेटी झगोडता. तो कुडांतु रडनु बेसलो. रमणी आफीसांतु गेल्ली. कृष्णवेणी कोलेजांतु गेल्ली. रामदासाक विचार जाल्लो. इत्तलीच मरे स्नेहु आशील्ली आका आमकां जांवका जावनु ती व्होड त्याग कोरता. उगी एक वाट हांव देखा. हांव एक दादलो आसून तिका कष्ट दिवूंक जाणा. अशी चिन्तन कोरनु तो बेसलो. ''मन भोरनु स्नेह आसीली मेगेली रमणी आका, तूं आमकां जावका जावनु व्होड कष्ट भोगता. मेगेलें शिकोणेक जावका जावनु तूं त्या म्हातारार्‍याक, त्या दुष्टाक व्हारडीक कोरूंक जाणा. हांव एक काम सोदनु हो गांव सोडनु वत्तां. हात भोरनु दाम जोडनु हांव येत्तोलो. कृष्णवेणी आकाक शिकोवका. स्नेहमई आईलागी हांव क्षमा मागतां.'' तेशी एक बरप बरोवनु रामदास गांव सोडनु मुंबाई पावलोलो तो उडगास आयलो ताका.

मुंबाई स्थल परिचय ना ताका. तीन चार दिसु तो काम सोदूंक घुंवलो. कसलीय काम ताका मेळ्ळिना. परिचय आशिलो कोणय हांगा आशिलो जल्यारी म्हूण ताका दिसलें. हातांतु आशिलो दाम सरलो. दोनी दिसु उपाशी पोडलो. एक आंगडी मुकारी तें मात्ते घुवळोनु पोडलो देखून, एक टॅक्सी ड्रायवर बाबुराजाक तेजेरी सहानुभूती दिसली. ताणें रामदासाक तेगेले सानु कुडांतु ओल्ले. तेगेले कथा जाणजावनु ताणे रामदासाक एक वर्कषोपांतु एक सानु काम गेवनु दिल्ले. एक चांग काम मेळनु जनेरी तेगेला घराक बरप बरेयलारी पुगे म्हूण ताका दिसलें. बाबुराजालो दयेन तो तगेल सानु कुडांतु राबलो. तशि सो मयने निसरले.

एक दिसु रामदास वर्कषोपांतु वतालो. वाटेरी आकस्मिक ताजे मुकारी एक कार दुर्घटणा जाले. तंतु एक मनीस आशिलो, माथें आदोळनु रक्त व्होळजेंता. बेगीन ताका बोघनस्ट जालो. कोण लागी वचनाय. रामदासाक तेजेरी दया दिसली. ताणें उगी एक गाडी उळदीनु तेका आस्पत्रींतु पावेयले. रक्त जायतें गेल्लेलें. ते कारण डाक्टरालो आवश्यप्रकार रामदासान रक्त दिल्लेलें. तांडोव करनांतुले रामदासान ताका आस्पत्रेंतु पावयलो कारण तेगेलो प्राण रक्षा करूंक जाले. डाक्टरान रामदासाक अनुमोदन केले. जायते घडयान रामदास आस्पत्रेंतु राबलो, तेका बोध आयले म्हूण जाणजाल्लो उपरांत तो गेल्लो.

सो सात दिसु सारनु तो मनीस एक कारारी रामदासाक सोदूंक वर्कषोपांतु आयलो. तो एक फाक्टरीचो धनी. नांव हरिप्रसाद सेठी. ''माका बोध येवचाक हांव तुका सोददी गेल्ली, तुका देखीना. आस्पत्रींतु तुवें दिल्लेले अड्स प्रकार हांव तुका देखून कृतज्ञ जाणेवूंक आयलां. मेगेलो जीवन रक्षा केल्लोलो तुजेरी माका व्होड आभार आसा.'' तशी सांगून ताणे रामदासाक तगेल फाक्टरींतु घेवनू गेल्लो. रामदासालो कथा पुरा तो जाण जालो. सेठीन तेका कॉलेजांतु शिकोणेक व्यवस्ता करले. समय मेळताले अनुसार रामदास सेठीले आफीसकामांत सहाय

कोरनु राबलो. तिनी वर्स जाल्ली तो डिग्रीक फस्ट क्लासान जिकोलो. सेठीन तेका आफीसांतु एक क्लारकालो काम दिल्ले. तिनी म्हयने भित्तेरी तो तेगेल कामांतु शुशोभित जाल्लो. सेठीन रामदासाक एम. बि. ए. शिकूंक जोटपायेले. रामदासान तेगेल घराक एक बरप बरयलें. बरपारी तेगेल विशेस जाणेवनु लगींच हांव गांवांतु येत्तोलो म्हूण बरेयलें. सो मयने वेतन गेवनु गांवांतु वचपाक ताणे निश्चय करल्लो. प्रयत्नशील आनी समर्त रामदासाक सेठीन मानेजरालो उद्योग दिल्लो. मानेजर रामदास फाक्टरीचो सगट कामय श्रद्धापूर्व पेलोवले. फाक्टरी उज्वल लाभारी चालु जावूंक आरंभीले. तीन म्हयने सरनु रामदासान सेठीलागी गांवांतु वचपाक अनुमती मांगले. "तुका कित्तुले रुप्पय जांवका तितलेच काण्णु तु गांवांक वचुन उगी येवका". तशी सांगून सेठीन ताका अनुमती दिल्ले. बैंकांतु सांगुन ताणे तगेले इश्टानुसार दाम कळ्ळीना. पुण ताणे तागेले सो मयने वेतन मात्र कळ्ळे. दुसोरचो दिसु रामदास रेल्वे स्टेशनांतू पावनु गाडीरी चोडुनु बैसीलो. गाडी मुकारी सेरचाकय ताका तागेलो तो पोरनो उडगास आयलोलो. वेळु गेल्लोलो ताका केळ्ळीना, गांवांतु पांवचे सोपन देखून तो न्हिदलो.

एरदीस, सकळ्ळी शब्द आयकोवनु तो उगी जागो जाल्लो. सात वरारी रामदासाले गांव पावलो. रेल्वे स्टेशनांतु गाडी राबली. बेगीन तो देवलो. ताका आयेक आनी दोग भयण्यांकय देखचो विचार कारण, रेल्वे स्टेशनाक आयलोलो परिश्कार आनी गांवांतु आयलोलो परिश्कार कांय ताणें देखलीना. तिगेले कार्य जाणजांवचे आकांक्षेन उगी एक टॅक्सीरी तो तेगेल घरकडे पावलो.

घरकडे कोणांक देखूक ना. घर विजन जावनु पडलां. अत्ता घरांतु कोण राबून ना म्हूण दिसता. तेगेल म्हनांतु भंय दिसले आयेक आनी भयण्यांक कित्ते जाल्ले? तीं खेंय गेल्ली? तीं खेंय आसा? मेगेले बरप तींका मेळ्ळीनावे? तशी गेल्लो तेगेलो विचार. तिंका देखूक आकाक्षेन येयलोलो ताकां रडणे आयलें. तेगेले दोळे भरले. लागचे घरकडे एक आज्जी आस्सील्ली-रंभाबाई, तिका रामदासालागी व्होड स्नेह. ताका काणी सांगून दित्ताली आज्जी. तो उगी तिगेली घरकडे गेल्लो. रामदासान व्होडान उळदीले. शब्द आयकोवनु ती भायर येयली, लागी पांवचाक तिका म्हनातु जाल्लें. तिगेली पूत मुरळी आफीसांतु गेल्लो, तेगेली व्हरडीक जाल्ले. दोग चोरडुवां, तिणी पुत्ताले बायलेक परिचय दिल्लो. रामदासान तेगेला आई आनी भयण्यालो कार्य निमगीले. "तीं सुखान आसा, तूं भीवंका नाका" आज्जेन सांगलें. ताका भित्तेरी बेस्सोवनु चाय पियेवनु तिणी जालेले कार्य सांगूंक आरंभीलो.

रामदास तूं गांव सोडनु गेल्लो पसावंती आई केदनाय रोडणु आशिली. आकाक तुगेलो विचार मात्र आशिलो. जायते स्थलारी तुका सोद्दिद्द गेल्ली तिणी. तुवें एक बरप धाडलीना कित्या? आज्जेन निंमगीलें. "माका काम मेळ्ळीना, मगीरी एक वर्कषोपांतु एक सानु काम मेळ्ळें हाथीरी उपाश पोडनांतुले दीस गेल्ले. लज्जेन, माका एक चांग काम मेळनु जत्तेरी बरप बरेयलापुरो म्हूण माका दिसले." तशी रामदासान सांगलेले आयकोवनु अज्जेन कथा आरंभीले "तूं वचून तिनी म्हयने निसेरचाकय तो दामु तिचेरी द्रोह करूंक आरंभीलो. एक दीसु एक सांज वेळारी तुगेले आई आनी कृष्णवेणी देवुळांतु गेल्लेली. रमणी मात्र घरांतु आशिली. हें जाणजावनु तो दुष्ट दामू सूर पीवनु घराकडे आयलो. ताणें रमणीलागी भाडें निमगीलें. आई ना फाय यो म्हूण रमणीन सांगलें. "आई नाका तूं आसामू तशि सांगून तो घरांतु भित्तेरि चडलो. हांव तुका शेरजावचीना म्हूण कोणगो सांगताय. हांव वेगळ्याकरान तुगेली व्हारडीक कोरोवचीना, सोडचीना हांव तुका." तशी सांगून ताणे रमणीक धरलें. रमणीन ताका धुकोळे. तेणे दुसेरीय रमणीक धरले. तिणी व्होडान व्होद्दारे गल्ली. शब्द आयकोवनु हांव धांवून तंगा पावली. हांवे व्होडान शब्द कळ्ळो. "जिवशीं मारतोलो हांव तशी सांगून तणें रमणीलो गोमटेक धरले. त्या समय आई आनीक आका पावले. आयेन एक बांडो काणु तेका मारूंक गेल्ली. तेणे आयेक दुकोळे. आई खाल पोडली. माथें बेत्तून रक्त व्होळजेलें. उगी कृष्णवेणी भायरी धावन वचून सहायाक अप्पयले. वटेंतुलान वत्ताले दोग दादले अनीक मेगेलो पूत तंग पावले. तिणे दामूक देरनु मारले आनीक पुलीसाक आपेयले. पुलीसान दामूक देरनु ओल्ले. मगीरी आयेक आस्पत्रींतु अडमीट केल्ले. आस्पत्रे वटेरी रमेशान रमणीक देखले. ताणें कार्य सगड निमगून जाणजाल्लो. आस्पत्रेंतु एवनु ताणे तिका जावका जाल्ले सहाय कोरनु दिल्ले. आस्पत्रींतु सांगून आई उगी डिसचार्ज जावनु आयली.

सग दिसुय रमणि देवुळांतु वचून प्रार्तना करताली. तिगेली प्रार्तना देवान स्वीकार केलो. एक दिसु, तो दीस एक आयतार, रमेश तेगेले आई अनीक तेगेलो एक मम्मा, रमणीले घरकडे आयले. रमेशन तेगेल आयेक अनीक मम्माक परिचय दिल्लो. दोग जणलेय आई अनीक तीं सग उल्लेवनु बैसले. रमेशालो मम्मान माका, मुरळी आनीक लगचे घरकेडचे दोग जणांकय तुगेल आये वटेन उळदींवले. आमी सग पावले. कार्य कित्ते म्हूण आंकां कळना. संगडालेय आकांक्षा भांग कोरनु तगेला मम्मान सांगले. ही बायल आनी तिगेली दोग चोडवा इशी एकलेंच राबचे सम न्हय. त्या कारण तिंगेले सुरक्षेक आमी कित्तेंच कोरका सगटानीय "हां, हां" म्हूण सांगलें. जाल्यारी कित्ते कोरका,



कोणंक उत्तर ना. मुरळीन निमगीलें "त्या बुगेक आमी कित्ते कोरका?" उत्तर दिवूंक मम्मान रमेशाले आयेक आज्ञा दिल्ले. तिणी सांगले. "आमी सो मयने पिर्यम इगेले धूव रमणीक सोयरीक निमगीलेंले, हाणी उत्तर दिल्लीना. रमेशाक आनी आमका रमणीक व्होड पसंत पडले आसा." तिणी तुगेल आई लागी सांगलें "तुगेली पुत्री रमणीली आनीक मंगेले पुत्र रमेशाले व्हारडीक करूंक आमी तयार. तुमी कांय चोवका नाका, दिंवका नाका. तुगेली धुवेक मात्र आमी निमगीताय. व्हारडीके सग कार्य आमी कोरतेले. तुका संमती आस जल्यारी तुमी आजीच आंका उत्तर दिवका." आमी सगटानीय हां,हां, चांग कार्य म्हृण सांगलें. तुगेले आयेक व्होड सन्तोस जाले. तिणी उत्तर दिल्ले "हां, हां, आमका हीं कार्य स्वीकार. रमणीलें आनी आमगेलें महा भाग्य, आमी तुमचेरी व्होड आभारी आसाय. "सगटानीय व्हरडीकेक चांग दिसु आनी मुहुर्त निर्णय करलो. रमेशालो मम्मान बेगीन बेगीन व्हारडीके. तयारी करल्ले तशी एक शुक्रवार दिसु रमणीली विवाह रमेशाले साथ धूम धाम जाल्ली. तुगेलो अभाव रमणीक व्होड संगड आशिले. रमणीले अभिप्राय जाणजावनु रमेशान तुगेले आयेक आनी कृष्णवेणीक लागी ओल्ले. त्या गांवांतु तीं संतोशान आसाय." इतलेंच आयकोवचाक रामदासाक संतोश जाल्लो. ताणें श्वास सीदा सोडलो. मगीरी आयलो ताका जाळ दामुचेरी. अज्जेलागी ताणें सोदिद्द्दगल्ली. "तो दुष्ट खेंय आसा?" अज्जेन सांगलें, "अरे, दामु ताका देवान दिल्ले शिक्षा. एक दोनि वेळु तो झगडूंक तांगा गेल्लो. एक दीस रमेशन अनीक तागेले बन्दुजनान ताका पेटुमारनु धांवडांयले. तो दुसेरीय पीवनु आयलो. वेळेरी एक लारी आदळनु तागेलो पांय गेल्लो. व्होड दुख आनी कष्ट भोगले ताणे. एक दीस तेज्जेरि दया दिसून तागेलो पुत्तान ताका एवनु ओल्ले". इतलेंच सांगून अज्जेन रामदासाक रमेशाले अड्रस दिल्ले. बेगीन तो एक टॅक्सी धरनु गेल्लो.

रमेशलो घरा मुकारी गाडी राबली. आकांक्ष भरीत रामदास देवलो. शब्द आयकांवनु रमणी भायर आयली. आश्चर्यचकित ती राबली मगीरी उगी "रामदास रामदास, अम्मा, रामदास पावलो." अशीं रमणीन व्होडान सांगून तेका पोटोवनु धरले. तीं सगट भायर आयले. रामदासान आयेक देखले. ताणे आयेक पांय वन्दन केरले. तिणी ताका पोटोवनु धरल्ले. संतोषान तिगेले दोळे भरले. रामदासालो अनीक संगटालेय संतोष सांगूंक वाक्य मेळना. तींगेल्या स्नेहप्रकटनाले अपूर्व,द्रृश्य चोवनु देल्लांतु राबीलो एक मनीस, रमेश तो सेकल देवून आयलो. एक संशय आसा जाल्यारीय रामदासाक दिसले तोय रमेश म्हृण. तवळीच अम्मान सांगले "हो रमणीलो घोव रमेश." उगी रामदासान तेंगेले पांय वन्दन करले उपरांत ताका पोटोनदेव्नु सांगलें. "भावोजी तूं आमचे कुटुंबाक जावका जावनु कोरताले व्होड उपकार आमका आजीवनान्त विसरूंक जावचीना. हांव आनी आमचे कुटुंब पुरा तुजेरी व्होड आभरिय. रमेशान तगेला मेवण्याले खांद्यारी हात धोरनु "रामदास यो भित्तेरि यो" तशी सांगून स्नेहपूर्व ताका स्वागत केल्ले. रामदास आनी सगट घरा भित्तेरी चडले. तांग बैसून खेळतालो चोरडाक काडनु तजलगी रमणीन सांगलें. "मनु , चोय कोण आयला म्हूण चोय. तुगेलो मम्मा आयला." मनु म्हृण आपेयनु रामदासान उगी भाचाक कळ्ळे आनीक ताका जायतो उम्मो दिल्लो. मनु मम्माले हंडीरी हसकुरो बेसलो. कृष्णवेणीक तांग देखलीना कारण रामदासान तिगेली सोदिदगाल्ली "ती देवळांतु गेल्ली. आत्ता येतेजु, पांवचो वेळु जाल्लो. तूं उगी न्हायनु यो." तशी सांगून आयेन चोरडाक काडलें. रमणीन हाडलेंले चाय पीवनु रामदास उगी न्हावनु आयलो. देवळांतु गेल्लेली कृष्णवेणी धावून धावून पावली, आकांक्षेन ती भित्तेरी चेडनु येवचाकय रामदासान तिका पोटोन धल्ले. संतोषान तिगेली तोंड मळबांतुले नक्षत्र समान चमकीलें. तिणी हातांतु आशिले गंधान तेका तिळो केरलो. हें तुगेले नावारी कोरलेले अरचनाले प्रसाद्य म्हूण सांगले तिणी. रामदासाले

लगीच संगट बैसल्याय. तगेले एक एक विशेष निमगीनु जाणजावूंक भयण्यो दोगेंय सर्त कोरताले. आई मद्दीं पडली आनी सांगलें, "रामदास कृष्णवेणीले सोयरीक जाल्ली, रमेशाले वटेन, तेगेलो एक उत्तम मित्र तो एक इन्जिनीयर. तेगेले नाम जयप्रकाश, एक सुन्दर सतस्वभावी. रमेशान तेका फोन कोरनु सांगले आसा. तो आत्ता हांगा पावतोलो. तूं पावलो उपरांत तुगेलोय अभिप्राय जाणजावनु तिगेले व्हारडिके निर्णय करूंक आमी राबलाय." हें आयकोवनु रामदासाक आश्चर्य दिसले. आयलो ताका चिन्ता "हांव जिवंत आसा म्हूण, आनीक हांव हांगा उगी पावतोलो म्हूण हांका कशी केळ्ळें?" ताणें निमगीवूंक भायर सरचे मिर्तम रमेशान सांगले. "सो सात म्हयने मिर्तम तुगेले फाक्टरी धनी हरिप्रसाद सेठीन पेटेयलोलो एक मनीस तुगेलो अम्माक सोद्‌दून आयलोलो. तुगेले एक बरप पोरतोनु गेल्लेले सेठीक मेळ्ळेले प्रकार त्या अड्रस चोयनु तो पावलोलो. रंभाभाई अज्जेन ताका हांगा मगेले घरकडे पेटेयले. तेगेले परिचय दिवनु ताणें तुगेले कार्य सगट सांगलें. तुवें सेठीलो प्राणरक्षा करले कारण तुजेरी सेठीक व्होड आभार आसा, तुका तो कॉलेजांतु शिकयता, तुका फाक्टरींतु काम दितोलो. परीक्षा जांवपेलान अम्मी बरप धाडूंक जाणा. आनीक सो सात मयने जत्तेरी तेका सेठी गांवांतु पेटेयतोलो." अशी सांगून तो गेल्लो. तो परतोनु गेल्ले उपरांत तुगेले अयेक म्हजे नावारी एकएक मयने तुगेलो वेतन सेठी धाडतालो. तशी तुगेले सगट कार्य आमी जाण जाल्ले. तूं मुंबाई साकून भायर सरलोलो खबर काली सेठीन म्हाका फोन कोरनु सांगीले. रामदासालो आनंद चड जाल्लो तेशी तीं उलोवनु बेसीले वेळारी जयप्रकाश तांगा पावलो. तेका रामदासाक परिचय दिल्लो. सगटानीय टिफिन खाल्ले. चाय पिवनु जयप्रकाश अनीक रामदास विशेस उलोवनु बेसले. लागचो दीस, तिणी अनीक जयप्रकाशालो घरकारी आदिय मेळनु कृष्णवेणी आनीक जयप्रकाशलो व्हारडीकेक दिसु आनीक मुहुर्त निर्णय करले. आनीक व्हारडीकेक तीन म्हयने आसा. रामदास मुंबाई परतोनु गेल्लो.

रामदास फाक्टरींत तेगेल कामांक व्याप्त जाल्लो. रामदासान ताणें काडलेलें वेतन सेठीक परतोनु दिवनु सांगलें, "सेठजी हांव नेणता मगेलो वेतन तुवें घरकडे धाडले कारण हांव काडलेले दामारी म्हाका अवकाश ना. तूं केन्नाय म्हाका आदरणीय गा. तुजेरी हांव व्होड आभारी गा. हांव तुका कित्ते प्रत्युपकार कोरका म्हूण अशी चिन्ता माका." रामदासालो उत्सूक आनीक सत्यसंतता देखून सेठीक व्होड संतोष जाल्लो. सेठीक तेजेरी व्होड प्रिय दिसले.

सेठीक एक धूव आसा. बहुसुन्दरी. तिगेले नाम सितारा. इकेवीस वर्स तिका. ती शिकता. सेठीक तेगेली धुवेक रामदासाक व्हारडीक कोरनु दिंवका म्हूण दिसले. ताणें तेगेल बायल सुमित्राले अभिप्राय जाणाजल्लो. तिणी सीताराले अभिप्राय निमगीले. तिका व्होड संतोष जाल्लो. हासून तिणी 'हां' म्हूण उत्तर दिल्लें. तिगेल मनांतु अशी एक विचार आशिलो. सेठीन रामदासालगी उलोवनु तगेलो अनुमति घेयलो. सेठीन रमेशाक फोन उळदीनु कार्य सांगले. लागचो एक आयतार दीस सेठी रमेशालो घरा पावलो. रामदासाले अम्मालागी कार्य उल्लेयले. रमेश, रमणी, जयप्रकाश आनी मित्र मेळनु ताणें उलयले. रामदासाले आनी कृष्णवेणीले व्हारडीक एकू दीस कोरका म्हूण अशी अभिप्राय स्वीकार जालो. तशी दोनी व्हारडीक एकूच दिसु कोरूंक निर्णय केरल्ले. व्हारडीकेक जावका जालेले सगकार्य बन्दोबस्त कोरनु सेठी परतोनु गेल्लो.

व्हारडीके दीस लागी पावलो. व्हारडीकेक जावका जाल्लेली तैयारी उगी उगी आरंभीले. बन्दू मित्रादीक आमंत्रण पत्र दिल्ले. धा दीस पिरतम रामदास गांवांतु पावलो. व्हारडीके दोनी दीस पिर्तम हरिप्रसाद सकुंटुंब आनीक बंदु मित्रादीय पावले.

आज व्हारडीके दीस, या गांवांतु एक इतलीच व्हडली व्हारडीक चोवंक वता आसा म्हूण प्रकृती तिका दिसले म्हूण दिसता, आज सूर्य उगी उडलो. हवामान चांग आसा. आकाश बहुसुन्दर शोभापूर्ण आसा. पूरा सिंग्रावनु विविध रंगाचे दिपालंकार कोरलोलो एक इत्रलोच व्हडलो व्हारडीके माण्टोव आजपेलान या गांवांतु कोण देकलीना. आमंत्रण स्वीकारनु आयलेले सगट बन्दुमित्रादीय माण्टोवांतु बैसलाय. वेगळो वेगळो सिंग्रायलोलो दोनी खांबलो. तंतु दोग दोग व्होर बैसलाय. वेळु उगी उगी मुकारी सरलो.

चारी पंडित बैसून मंत्र म्हणूंक आरंभीलो. मुहुर्ता वेळु जाल्लो. दोगय व्होर तावसीय आवसीय माळा गाल्ले उपरांत अग्नीसाक्षी जावनु जयप्रकाशान कृष्णवेणीक आनीक रामदासान सिताराक मंगळसूत्र बांदले. मागिरी सग म्हालगड्यान तांका आशीर्वाद दिलो. सगडांकय एकदम विपुल जेवण दिल्ले. दोनीय व्हारडीक तशी व्होड धूम धाम जाल्ली. गांव पुरा व्हारडीके विशेस सांगून आसाय. प्रयत्नशील रामदासालो. उत्सूक आनीक सत्यसंततेक तशी फळ मेळ्ळे. सेठीले एकलीच धूव सितारा अनीक रामदासाले व्हारडीक तागेल जीवनांतु सौभाग्य घेवनु आयले. तागेले भावी जीवित शोभनपूर्ण जातेले. तशी रामदासालो कुटुंबारी उजवाड प्रसार जाल्लो.

# दुदाई

- माया अनिल खरंगटे



**आ**ज सकाळच्यान पावसान उसरपत घेतिल्ली. गाड पांचवीं झाडां भांगराळ्या वोतान लकलकतालीं. ही खोस परगटावपाक खांद्या-खांद्या वयल्यान बजबजीं चिंवचिंवत उडटालीं. पावसाचें उदक फाफडून हांसपी फुलांर पाके, जीव ऊठ-बस करताले. कावळेय आपलीं पाखां किसयत एकामेकाक सादयताले.

सैमाचो हो सुवाळो रोजालीन कंबरार हात दवरून तोखेंत वोदोळच्यान उबें आसलें. खोशयेन ताचे दोळे लिकलिकताले. ताणें मोठ्या कश्टान रोयिल्लें पोरसूं पावस पियेवन रसरशिल्लें. घोसाळीण, पिंपरीण, भेंडे, वाल काल पयर फुलांनी भरिल्ले. आज तांचेर धाकटुलीं फळां धरिल्लीं.

... आठ दीस जायत येयले, दोळे धांपून पावस रोकला... रोपयां मुळांतुली माती आकी व्हांवोन गेली. पोरसांत पांयो दिवंक लेगीत मेळुना... आतां झाडां सारें मातये गोरोज... मातये थापी खूंय दोवोल्ली कायी? हीं भुरगीं केदना खुंयची वोस्त खेळों व्होरीत सांगो जायना...

रोजालीन हांगा थंय थापी सोदूंक लागलें. इतल्यांत पागेलाच्या कडव्याक खोयिल्ली थापी ताका मेळ्ळी. थापी आनी मातये आयदन घेवन तें पोरसांत गेलें. वालींच्या बांदयानी आळीं सारकीं करतां करतां तें तांचेकडेन उलोवंक लागलें.

त्या दिसाय पूत बडबडपा
लागतकीच तें हळूच
शेजाऱ्यागेर वचूंक लागलें.
पूण आज धाकलो
कितें तरी थारावनच आयिल्लो.
रोजालीन सपणां देंवन
आंगणांत मात पाविल्लें,
धाकली लाकूड घेवन
आयली आनी रोजालिनाक
पेटपा लागलो.
व्हडले तिनय पूत
थंयच आशिल्ले, पूण एकलीय
आडावपाक मुखार आयली ना.
निमणे रोजालिनाच्या
किळच्यानी शेजारी धांवन आयले.
ताची पांय मोडिल्ली.
शेजाऱ्यांनीं तशा तशें उखलून
ताका दोतोरागेर व्हेलें.



सी. ४-१. वैभव अपार्टमॅन्टस.
मारुती देवळा लागीं.
दवर्ली. नावेली-साश्ट.
फोन :९४२०६८५२७८

... मुजे मोगाचे पिंपरीणी, गोणसाक बाब येतलो. आतां चोड दीस उरोंना. बेगीन व्होड जायाय. बाबाक तोन्न्यो पिंपऱ्यो, वाल खावपा घोस्त... धुवोन दिता म्हुळ्या लेगून आयकपा ना... तुमकां येशीं माटवावोयलीं काडोन कुरूम कुरूम कोन खातोलो...

आपल्या फळाभाज्येन भरिल्ल्या पोरसांत पांय दवरलो काय रोजालीन सगळें विसरतालें. झाडां वाली मनशां जाल्लेवरी तांचेकडेन मनातलें सुख-दूख सांगतालें. कितलेंय पुरो जावं, नज जावं, पोरसांत पावतकच ताका वेगळोच नेट येतालो.

ही पोरसाकडची ताची इश्टागत ल्हानपणा साकुनचीच. ल्हान आसतनाच तें आवो फाटल्यान पोरसांत भोंवतालें. आवो आळें काडटा जाल्यार तें माती सारकी करतालें. आवो खूंट पुरता जाल्यार तें रोपयेक आनी खुंटाक दोरी बांदतालें. गिमा दिसांनी बांयचें उदक काडून पोरसूं शिंपप तर ताचें चड घोस्ताचें काम. आवोन घरांतलीं आयदनां घांस म्हळ्यार तें फडफडटालें. वांटून दी म्हळ्यार वांटपाचो फातर फातरीर आपटितालें.

काजार जातकीर रोजालीनाक फाटोफाट चार चले जाले. चारय चलेच जाल्यात म्हूण मांय-मांव ताचेर खूश आशिल्लीं. घोव तर ताचीं सदां फकाणां करी - "चार चेड्यांगे आवो तूं. वोड जातरीच राणी केशी दोवोत्तोले चेडे तुका. काम दाम कांय कोरपा नाका. सुशेगाद बैसोन खा."

विशेंतीचीं उतरां खरीं जालीं नात. चारय पुतांनी ताचे हाल केले. ह्या जाणटेपणांत लेगीत तें आपले गोटे आपूण शिजोवन खातालें. वयल्यान सुनांलीं कचकचावणीं. तीं वावराक वतात तेन्ना आपल्या भुरग्यांक मात हक्कान रोजालिनाकडेन दवरून वतालीं. भुरग्यांचो घश्टो, मस्ती रोजालीन काडटालें. आतां जाणटेपणांत भुरग्यांबरोबर विडवीडप ताच्यान जायनासलें. तरीय बेश्टीं झगडीं नाकात म्हणून नातरांक सांबाळटालें.

इतलेंय करून मांयच्या ताळ्यार इल्लो पेजेनिवळ घालुंया अशें एक्केय सुनेक दिसनासलें. घरांत कितेंय आसल्यार, कितेंय बरें केल्यार मांयक दिवया अशें एकट्याकय दिसनासलें. रोजालीनय तांकां केन्ना शीण नासलें.

मुंबयसाकून बाब येतकीर मात सगळें चीत्र बदलतालें. सगळ्यो सुनो, पूत रोजालिनाक वयले वयर करतालीं. बाब येतना मिठाई, कपडे अशें जायतें कितें कितें रोजालिनाक आनी ताच्या घरच्यांक हाडटालो. तांकां तो आपली फामीलच कशी मानतालो.

बाब आयलो काय तो रावता तितले दीस रोजालीन भाटकारागेरच आसतालें. हांगा बाबान हाडिल्ल्यो वस्तू, खाणां सगळीं वांटून घेतालीं. ताच्यो साडयो सोडल्यार ताका कांयच दाखय लेगीत नासलीं. नातरांकडल्यान रोजालिनाक सगळें कळटालें. पूण ताका मातय वायट दीस नासलें. बाब दिता त्या मोगांत तें तृप्त आसलें. हरशींय जाल्यार आसा तातूंत समाधान मानून रावपाचो ताचो सभाव.

शेजारी-पाजारी ताका मुद्दम विचारताले, - रोज, बाबान फाट करतनाच तुगे वस्तू सून-पुतांनी व्होयल्यो मुगे? तुका नागयलें मुगे? -व्होरों गे, व्होन्न व्होन्न कीत व्होत्तोलीं? मुजें नोशीब तेंच्यांनी व्होरों जाता, बाबागे मोग तेंच्यानी ना कोरों जाता?

बाबाचो उगडास येनाफुडें ताचें तोंड मुमुरखेंच जालें. वालींचेर बसपी रंगयाळ्या पाख्यांवरी बाबाचे एक एक उगडास ताच्या मनात भिरभिरूंक लागले. थंयच आशिल्ल्या चिऱ्यार ताणें बसकण मारली.

...बाब, मुगे दुदाबाब तो... चार चेड्यां जोल्मा घायले. पूण एकल्याकूय मांय नाका. मांयलें कीत आसा तें जायें... ना जाल्यार मुगे दुदाबाबा चोय... मुगे दुदार वाडोयलो इतलेंच. खाशा आवोय जाल्लेबोरी मोग कोरता मुजेर...

विने भाटकाराक स चलयांचेर बाब जाल्लो. घराण्याक वंशाचो दिवो लागलो म्हणून भाटकारागेर खोशयेन घर भरून ओत्तालें. घरांत दूद आटोवन केल्ले पेडे गांवार वाटिल्ले. सटयेकय भाटकारान गांव जेवण घाल्लें. सोयरीं तर बारसो मेरेन रावंकच आयिल्लीं. घरभर बोवाळ चलतालो. ह्या बोवाळांत वैजीण आनी दोन वावराड्यो बांळटी म्हऱ्यांत वावुरताल्यो. जाण्टेले भाटकान्नीची सांगणीच तशी आसली.

ह्या सातव्या बाळंटेराक भाटकान्न बरीच अशक्त जाल्ली. गुरवार आसतनाच तिका दोनवेळां जोर येवन गेल्लो. घरगुती वखदानी जोर रोखडोच गेल्लो. तरी नाजूक चणीचे भाटकान्नीक ताची बादा जाल्ली. तातूंत हे फावट रगतय बरेंच गेल्लें.

नवसासायासाचो बाबू जायत साकून रडरड रडटालो. बाबाक दूद सारकें मेळनासलें. सय धुवांवेळार भाटकान्नीक भरपूर दूद जाल्लें. चलयांनी पिवनय उरिल्लें दूद व्हांवतालें. तें पुसून काडटासर भाटकान्नीक नाका जातालें. ह्या वेळार मात आवयचें दूद पावनासून बाब भुकेक रडटालो.

वैजीणीन बाबाक गायेचें दूद घालपाक सुरवात केली. पूण ताका तें पचलें ना. सात-आठ दिसांचे ते किटीक हागवण सुरू जाली. वैजिणीन गांवठी उपाय केले. पूण गूण येना जालो. इतल्या बोवाळांत थोडें थोडें मेळपी भाटकान्नीचें दूद सामकेंच आटलें. निमणें वैजिणीन भाटकाराक दोतोराक आपोवंक सांगलें.



भाटकारान चांदरच्या दोतोर फेर्नांडीसाक हाडलो. ताणें सांगलें, "भुरग्याक आवयचेंच दूद जाय. ताचे आवयक दूद येना खरें. पूण लागसार ल्हान भुरग्याची आवय आसल्यार तिचें तरी दूद ताका पिवयात. ना जाल्यार ताका वखदां लेगीत तारचीं नांत."

"आतां करप कितें?" सगळ्यांकच चिंता जाली. उमेदीन फुलिल्लें घर चिंतेच्या सावटान खासावीस जालें. "नवसासायासान जाल्लो बाब... ताका दूद हाडप खंयच्यान?" लागीं आशिल्ल्या सोयऱ्या धायऱ्यांगेर लेगीत कोणागेरच दूद पियेवपी भुरगें नासलें.

वैजिणीक दोळ्यां मुखार एक उपाय दिसतालो. पूण सांगूक मन कचरतालें.

तिणेंय आपले परीन वाड्यार चवकशी केल्ली. तेन्ना तिका कळ्ळें, रोजालीन बाळंत जाला. पूण भाटकान्नीक सांगप कशें?

निमणें आनी कांयच उपाय ना हें कळटकीर वैजिणीन भाटकान्नीक सांगलें,

– भाटकान्नी एक उपाय आसा. पूण ती तुमकां...

– आमकां कितें? सांग बेगीन

– तुगे आफूड-भश्ट...

– पाडपडूं म्हजें आफूड-भश्ट. कितें उपाय आसा तो सांग बेगीन पापणी. कसोय करून म्हाका म्हज्या वंशाच्या दिव्याक सांबाळपा जाय.

– वयल्या वाड्यार रोजालीन सुटलां.

– रोजालीन? तें किरिस्तांव मगो पापया.

– हय भाटकान्नी. म्हणून दोन दीस हांव वोगी आसलें. पूण बाब...

– पापणी आनी कोणय खंयच्याय वाड्यार सुटल्यांत, दोन वर्सांचें दूद पिवपी भुरगें आसल्यार चवकशी कर गो. पूण म्हज्या बाबाक वांचय.

– हय भाटकान्नी. हांवें आयल्या पेल्या सगळ्या वाड्यार चवकशी केली. भाटकान्नी भाटकाराकडेन उलोवन पळय.

– तो आनी कितें सांगतलो. सामकेंच किरिस्तांवणिचें दूद म्हळ्यार...

– व्हनीबाय, रागार जायनाकात. दूद तें दूद. तातूंत... इतलो वेळ वोगी रावन आयकुपी बाळंटी उलयली.

तीं उलयता आसतनाच बाब जागो जालो, आनी दुदाक रडपाक लागलो. साकरेचें उदक तोंडांत घाल्यार पुच्च करून भायर उडयतालो आनी रडटालो. ताच्या रडपाक लेगीत फोर्स नासलो. मास भरूक नाशिल्ल्यो काती लोंबकळपी हात वयर काडून रडपी बाबाक पळोवन भाटकान्नीचें काळीज कळवळ्ळें. खिणभर तिणें विचार केलो आनी एक निश्चेव करून विनोभाटकारा म्हऱ्यांत गेली. थंडसाणेन तिणें पुताक समजायतां समजायतां आपल्याय मनाकय समजायलें आनी

निमणें म्हळें,

– जाणा विन्या, सद्या आमच्या बाबाक वांचोवप म्हत्वाचें. बाबाक रोजालिनाच्या दुदाची सामकी गरज. आनी आनी उपाय ना. हिंदू, किरिस्तांव, मैर कोणय जावं, दूद सगळ्यांचें सारकें.

निमणो भाटकार तयार जालो. त्या दिसाच्यान रोजालीन दिसाक तीन-चार फावटीं येवन बाबाक दूद दितालें. बाबाचें आंगलें काडून नागडो करून ताका रोजालिनाकडेन दूदाक दितालीं. दूद पिवन जातकर ताका आंगलें घालतालीं. तातुंतले तातूंत भाटकान्नीन सवळेपण सांबाळिल्लें.

रोजालीन बाळंत जावन म्हयनो जाल्लो. बाबाक दूद बरें जाय म्हणून जाण्टी भाटकान्न आटवल, बरें बरें नुस्तें, बरें सुरबूस जेवण, रोजालिनाक दिताली. रोजालिनान बाबाक राखलो म्हणून जाणटे भाटकान्नीन रोजालिनाचो संवसार सांबाळ्ळो. कितेंय सण-परब आसल्यार, बाबाचो वाडदीस आसल्यार रोजालिनाक भुरग्यांसकट जेवणाक आपयताली.

बाब चार वर्सांचो जाय मेरेन रोजालीन ताका दूद दितालें. बाबाक आपूण रोजालिनाचें दूद पितालो ती याद आशिल्ली. ताचे आवयन रोजालिनाक दुदाई म्हणपाक लायिल्लें.

हें दुदाचें नातें बाबान बरेतरेन सांबाळिल्लें. बाबाक सर्वीस मेळटकीर ताणें आवयक हाडिल्ली तसलीच ऊंची सिल्क साडी दुदाईक हाडिल्ली. ती पळोवन रोजालिनान हांसून म्हळें,

– बाब, हें येसो शिल्का कापोड हांव न्हेशितां? ना बाबा हें तुगे आईकू दोवर. हांव न्हेशितां तोसलेंच माका हाड.

बाबान मनापासून रोजालिनाक आपले आवयचो दर्जो दिल्लो. ताच्या चल्यांक आपले भावच मानतालो. वेळाप्रसंगाक तांकां पावतालो.

बाबाची बदली पुण्यांत जाली. थंय ताका कंपनीचो व्हड फ्लॅट मेळिल्लो. आवय-बापायक ताणें आपल्या म्हऱ्यांत व्हेलीं. रोजालिनाचो घोव मरतकच रोजालिनाकय ताणें आपल्या म्हऱ्यांत रावंक आपयल्लें. रोजालिनान ताका हांसून सांगलें,

– बाब, मुगे काजार जावन ह्या घोरां हांव येयल्ल्याक आनी खूंयी वोसूं ना. आतां जाण्टेपोणां तुजे बाराबोर केशी येवूं? मुगे पोरसूं, मुगे माती मुज्यान सोडपा जावची ना. तुगे आरोसा (साखरभात) पोरोस मुगे शीत-कोडी म्हाका घोस्तारे बाबा. चोल बाबा. तूं बरे भाशेन राव तिंगां.

बाबान पुणेचेच चलयेकडेन लग्न केल्लें. तेन्ना मात बाबान रोजालिनाचें कांय एक आयक नासतना ताका पुण्याक व्हेल्लें. म्हयनोभर दवरून परत असोळड्या हाडून पावयलें.

रोजालिनाच्या चारय पुतांचीं लग्नां जालीं आनी ताचे इपश्टेक सुरवात जाली. चोवगांनीय घराचे आशीकुशीक पागेलां देंवोवन आपल्यो आपल्यो वेगळ्यो चुली मांडल्यो. कोणेच एकल्यान रोजालिनाक आपले बरोबर राव म्हळें ना.

रोजालीन दुकां पिवन एकटेंच आपले गोटे शिजोवन खातालें. पोरसांतलीं फळां-भाजयो, कोंबयो तातयां विकून रोजालीन दीस काडटालें. रोजालिनाची खबर कळटकच बाब ताका म्हयन्या म्हयन्याक पयशे धाडूंक लागलो. पूण मनिऑर्डर भायले भायर ताचे पूत वांटून घेताले. रोजालिनाच्या हाताक एकय पयसो लाय नासले. ते पयशे ते सोऱ्याक आनी खेळपाक वगडायताले.

बाबाचो पयसो पूत अशेतरेन वगडायतात तें पळोवन रोजालिनाक वायट दिसतालें. ताणें बाबाक पुताची गजाल सांगून पयशे धाडपाक मनाय केली. पुतांक कळटकच ताणी घरांत खेव केलो. बाबाच्या भंयान रोजालिनाक हात मात लायलो ना.

आतां ताच्या पुतांनी नवोच हट धरिल्लो. विनेभाटकारान चडशें भाट, जमनी मुंडकारांकच सवाय भितर विकिल्लीं. रोजालिनाच्या घराभोंवतणचो जागो अजून तसोच आसलो. तो जागो भाटकारा कडल्यान मागून घे म्हूण ते फाटीक लागिल्ले. पूण रोजालीन केन्नाच कोणाकडेन हात पसरून नकळ आसलें. भाटकाराकडेन तर कितेंय एक मागल्यार धा मेळटलें हें ताका खबर आसली. पूण भाटकाराकडेन ताणें केन्नाच कितेंच मागूं नासलें. ताणी दिलां तें खोशयेन घेतिल्लें.

दोन दीस पयलींच रोजालिनाचे पूत ताचे कडेन वाद घेवंक बशिल्ले. निमणे रोजालिनान म्हळें, – तुमी जायतें कोराय, हांव बाबाकोडें जोमीन केशीच मागपा ना. हांव जाणा इल्ली जोमीन मागल्यार बाब आख्खी जोमीन मुजे नांवार कोत्तोलो. हांव कित्या जोमीन मागों तुमच्या होड्ड्यार घालोंक?

– कोशी मागची ना ती चोयतोलों. हे पाटीं तुका केशी सोडपा ना. आतां गोणसाको बाब येतोलो. तुजो दोंको मोडोन, तुका घारां उडोवन आमी बाबाको तुजनांवान जोमीन मागतोले. एक दुडू फारीक कोन्नास्तोना जागो घेन दाखोयतां तुका.

– आब्बा! मुजो दोंको मोडून उडोयल्यार बाब तुमकां येसो काडोन जागो दितो सो दिसता तुमकां?

– कित्या दिवचो ना, आं! हांव तेका याद कोन्न दितोलों. मुज तोंडांतुलें ओर्दें दूद तेणें घेतलां म्हुणोन. तें पोयलीं फारीक कोर

म्हुणटोलों.

– सां ऽ तान! होड्ड्या बाराबोर फाफोर मात्तोलें. मातें जालां सोजमूं नाका. हायें मुजें दूद बाबा इकूं ना. तूं मुज्या दुदा व्हालोर कितू दिता जाणां हांव. एक दीस मांय म्हुणोन बोगले येना. केन्ना कांयच हाडोन पानार घालना, आनी बाबाको झोगोडटोलो?

रोजालीन नेटान पुताकडेन झगडलें. पूण तें आपल्या पुतांक सारकें वळखतालें. आतां पोरसांत बशिल्ले कडेन त्या दिसाचे यादीन ताचें मन भरून आयलें.

... मुजे चेडे मुळ्यार सैतान. जाल्याय सैतान... तेंगे पाय म्होणी, चार चेड्यां मांय तूं. बैसोन खातोली... बैसोन कित खातोली? फातोर आनी माती? माका जित्या फोंडां घालपा फाटीं ना ते.

... घोर बांदपा बाबागे जोमीन जाय खूंय... काम कोरून दुडू जोडपा नाका... फुकोट मेवता तें जायें... खोऱ्यानी घोर बांदतो जाल्यार बाबालो इलो जागो मागतो आसलें... हेंगे पोडलें पाडा... कित जोडटा तें सोऱ्या घालताय... हेंगे बायलो कामा वोयतात म्हुणोन भुरग्यां पानार दोन वोगतार शितागोटे पोडटाय... घोर बांदतो खूंय? खुंयच्या पोयशांनी... जागो इकून सोऱ्या घालपा फाटीं ना ते... ना मागचें जागो बाबाको... बाब इतू कोत्ता तेंच देमायज जालें...

– शेमांय ऽऽ ओ शेमांय, कामीला चोय गे... मुगे उंडो घेयन धांवलो.

– पाड पोडों तुमचें, तुमगे झोगडीं केदना सोंपपा ना. मामी ना गो तुमगेली?

– मामी आवरा गेल्या.

– मात पूण सुशेग बैसूं दिनात. हीं आवरा वोयताय आनी हेंगे भुरग्यां कास्तीक हायें काडूं जायी. तोरी बोरें. ते तीग जाण इस्कलां वोयताय.

– शेमांय ऽ शेमांय लिंडा मात्ता गे. यो बेगीन.

मातये हात धुयनासतनाच रोजालीन सडसडीत भितर गेलें.

– वोऽरोज, पोरसुवांत आहा गो? केदनाय चोय, तूं पोरसुवांतूच मेवता. तुका आनी शिमेंतेरी व्हारू नाका. पोरसुवांतू पुरपाचें.

– वोय गो. जाल्यार माका चोड खोशी मेवतोली. हें पोरसूं माका खोऱ्यांनी इसोव दिता. तुमकां सांगल्यार सोजमुपा ना तें.

– वोय खोरें तुजें. तुगे पिंपरीण बोरी फुलार येयल्या. पिंपऱ्यो बोऱ्यो जातोल्यो आं.

– होय वाये. गोणसाकोडें जाल्यार पुरो.

– कित्यागो? गोणसा पिंपऱ्यो दितां म्हूण सांगोन घेतलां?

– ना गो मारी. बाब येता न्हू गोणसाक. माका मेळपा इंगा येतलोच. ताका तोन्या पिंपऱ्यां घोस्त.

– रोज, तुगे चेडे गोंयां आसोन तुजेर नोदोर घालनाय, बाब मात गोंयां आयलेपाटीं तुका मेवले बोगोर वोचना.

– बाबच मुगे खोरो चेडो. मुगे बाब म्हूण हांव आज मुज पांयार उबी आहां. त्या दिसा उगडास येयल्यार लेगून होंइडें भोन्न येता.

त्या दिसाचे यादीन रोजालीन आकूळ-पिकूळ जालें.

चवथीचे दीस लागीं पाविल्ले तशें रोजालिनाले पूत उचांबळीत जाल्ले. ह्या वर्सा आवयचें नांव सांगून बाबाकडल्यान जागो घेवपाचोच अशें ताणी थारायल्लें. ह्याच विशयाक धरून ते सदांच रोजालिनाकडेन झगडीं करताले.

एक दीस धाकल्या पुतान सोऱ्याच्या नेटार रोजालिनाकडेन झगडें सुरू केलें. पूत सोरो पियेवन बोंब मारतात तेन्ना रोजालीन मातय जाप घाल नासलें. तें उठून शेजाऱ्यांगेर वतालें. मागीर सगळें थंड जातकच घरा येतालें.

त्या दिसाय पूत बडबडपा लागतकीच तें हळूच शेजाऱ्यांगेर वचूंक लागलें. पूण आज धाकलो कितें तरी थारावनच आयिल्लो. रोजालीन सपणां देंवन आंगणांत मात पाविल्लें, धाकलो लाकूड घेवन आयलो आनी रोजालिनाक पेटपा लागलो. व्हडले तिनय पूत थंयच आशिल्ले, पूण एकलोय आडावपाक मुखार आयलो ना. निमणे रोजालिनाच्या किळच्यानी शेजारी धांवन आयले. ताचो पांय मोडिल्लो. शेजाऱ्यांनीं तशा तशें उखलून ताका दोतोरागेर व्हेलें.

बाब चवथीक असोळड्या येतकर ताका हें सगळें शेजाऱ्यांनी सांगलें. बाबाक खूब वायट दिसलें. तेन्नाच ताणें निश्चेव केलो, "ह्या उरफाट्या काळजाच्या पुता म्हऱ्यांत दुदाईक कशीच दवरप ना."

शेजाऱ्यांकडेनच वासपूस करून बाबान रोजालिनाक म्हाताऱ्यां घरांत दवरलें. ताका थंय कितेंच कमी पडूं नये म्हणून बँकेंत पयशे दवरले. गोंयांत आयिल्ले वेळार तो दुदाईक मेळपाक येतालो. ताका कितें जाय तें हाडून दितालो.

– रोज ऽ ओ रोज खूंय शेणलें?

– बाबा उगडास येयलो काय येशें जाता. म्हातार पोणांत बाबान माका जिवा कितू सुशेग दिलो चोय.

– वोय गे, चोल आतां भितूर या, पावस भोल्ला.



# नियती

**- कुमूद भिकू नायक**

*हांव हें कित्याक करतां,*
*रश्मी गॆल्या उपरांत*
*ताची याद काडपाक*
*जाय म्हण हांव*
*हें सगळें करतां.*
*आयावपणांत गॆलें*
*म्हण म्हजी घरचीं*
*वर्सान वर्स ताची याद करतलीं.*
*ना जाल्यार ताची याद*
*कोणूच करचीं नांत.*
*इतलें तरी आमी ताचे*
*खातीर करूया.*



खोर्ली, तिसवाडी-गोंय
फोन : ९९२१८२५२००

घडयाळाचेर सकाळच्या पांचाचो अलार्म वाजलो आनी शारदा पट्ट करून उटलें. शारदाची सदचेप्रमाण सकाळची कामाची सर्कस सुरू जाली. शारदाक चार चलयो. दोगां कॉलेजींत वतालीं जाल्यार दोगां स्कुलांत वतालीं. शारदाचो घोव भाताचे गिरणीचेर कामाक आसतालो. घरांतलीं सगळीं सातांक भायर सरतालीं. भुरग्यांक सकाळीं च्या-पाणी आनी टिफीन करपाखातीर शारदाक सकाळीं पांचांक उटचें पडटालें. शारदा लोकाले कपडे शिंवतालें देखून तें सकाळींच जेवण बी करून मेकळें जातालें. शिंवणेचेर चार पयशे तें जोडटालें. भुरगीं घरा आसत जाल्यार आवयक कपडे शिंवपाकबी मदत करतालीं. शारदाली चौगांय भुरगीं मात बऱ्या गुणांचीं आशिल्लीं. कोणूय दारार आसलो जाल्यार तांकां उठ-बस करतालीं. तांचे कडेन रेस्पेदान वागतालीं. शारदालो घोव गिरणीर जरी कामाक आसलो तरी ताका चार-चौगांत मान आशिल्लो. शारदाच्या घोवाचें नांव दशरथ. पूण ताका सगळीं 'दादू' म्हणटालीं. गांवचो लोक गिरणीर भात, गंव दळपाक घेवन वताले ताका लागून गांवच्या लोकांचें दादूकडेन चड आपलेपण आशिल्लें.

शारदाचे व्हडले चलयेचें नांव रश्मी. अंदू रश्मीचें कॉलेजीचें निमणें वर्स आशिल्लें. ह्या रश्मी बरोबर वाड्यावेलो विनय नांवाचो एकलो भुरगो शिकतालो. वाड्यावेलो जाल्ल्यान तो रश्मीगेर यो-वच करतालो. आनी रश्मीय तागेर वतालें.

विनयाक आवय-बापूय आनी तीन भाव आशिल्ले. विनय

सगळ्यांत निमणो. विनयाचो बापूय बँकेंत मॅनेजर आशिल्लो. आनी आवय टिचर आशिल्ली. विनयाची घरची परिस्थिती बरी आशिल्ली. तांगेर गाडयो आनी घरांत कामगारबी आशिल्ले. विनयाले तिगूय भाव लग्न जाल्ले. आनी आता विनयाचो नंबर आशिल्लो. विनय खंयूय कामाक लागलो जाल्यार रोकडेंच ताचें लग्न करुया म्हणटकच आमी हुसक्या मेकळीं जातली अशी विनयाची आवय-बापूय म्हणटालीं.

विनय आनी रश्मीचें घर लागींच आशिल्ल्यान तांचें एकमेकागेर यो-वच करप जातालें, तेदेवेळार तीं केन्ना मोगांत पडलीं हें तांकां आनी घरच्यांकूय कळ्ळेंच ना. जेन्ना रश्मीच्या लग्नाचो विशय आयलो तेन्ना तांकां दोगांकूय आपूण मोग करतां म्हणपाचें लक्षांत आयलें. पूण ही गजाल घरच्यांक कशी सांगप? कोणें पयलीं सांगप? दोगांकूय प्रस्न पडलो. पूण रश्मीच्या लग्नाचो विशय पयलो आयिल्ल्यान ही गजाल रश्मीकूच घरांत पयलीं सांगचें पडलें. केन्नाय तरी सांगपाकूच जाय म्हण रश्मीन ही गजाल आपले आयवक सांगली. पूण आवय आयकून अजाप जाली. "रश्मी तुवें मोग केला ही बगीच गजाल. पूण विनयाचें घराणें आनी आमचें घराणें हातूंत खूब फरक आसा. आमच्या असल्या गरिबालें चेडूं तीं व्हरत? विनय लग्न जावपाक तयार आसलो तरी घरचीं हय म्हणटली अशें म्हाका दिसना. तांच्यो तिगूय सुनो बऱ्या गुणांच्यो आनी घरदांज घराण्यांतल्यो. जाणा मुगो? बेश्टेंच तांच्या घरांत वायटपण जावपाक नाका. विनयाच्या घरच्यांनी तुका पसंत केलां जाल्यारूच हांव हय म्हणटलें. ना जाल्यार विनयाक समजावून सांगचें पडटलें.

खरेंच गो रश्मी त्या विनयाचीं घरचीं मनशां खूब बरीं. विनयाली आवय आपल्या तिगांय सुनांक आपल्योच चलयो कशो वागयता. असलीं मनशां मेळपाक आयल्यांत? जाणा मुगो रश्मी, तूं त्या घरांत पडलें जाल्यार तुजें नशीब म्हणपाचें. हें सगळें हांव तुका कित्याक सांगता जाणां? हांवें तांकां सामकें लागिंच्यान पळयलां. ना तेन्ना अडचणेक पावल्या ती म्हाका. तेन्ना तुकाय विनयाक समजावचें पडटलें."

तेवटेन विनयानूय आपले आवयक आपूण रश्मीकडेन लग्न जातलों म्हणपाचें सांगलें. अचकीत हांणी लग्नाचो विशय काडलो म्हण आवय सामकी अजाप जाली. "आरे विनय, तुवें लग्नाचो विशय कित्याक काडलो? आमी करचीनांत कशें दिसलें तुका?"

"ना गे, रश्मीक सोयरिगत हाडल्या खंय, ताका लागून सांगचें पडलें." हें आयकून आवयनूय म्हणलें, "बरें केलें तुवें म्हाका सांगलें तें. रश्मी पूण बऱ्या गुणाचें. तुका पसंत आसा जाल्यार म्हाका कसलीच आडखळ ना. पूण तूं पयलीं कामाक लाग मरे." विनयाकूय हें पटलें. पूण आवयचीं उतरां आयकून विनय उमेदीन भरलो. ताणें ही गजाल रोकडीच रश्मीक सांगली. रश्मीक तर हें आयकून मळबाक हात लायिल्ल्या बशेन दिसलें. रश्मीन वचून आपले आवयक सांगलें. आवयक पूण हें खरेंच दिसना जालें. विनय सांगता तें खरेंच काय? ती गिरेस्त मनशां आनी आमच्या रश्मीक व्हरपाक तयार आसतलीं अशें दिसनां. आपलें हांथरूण पळोवन पांय पसरूंक जाय. बेश्टेच हात पावना थंय हुमकळचें न्हय. जाणा मुगो रश्मी, विनयान सांगलां तें खरें जालें जाल्यार तुजें नशीब म्हणपाचें. परतून आवय तेंच बडबडटाली.

दोगांय उलयतां म्हणसर विनयाची आवय-बापूय आनी तिगूय भावजयो रश्मीगेर भितर सरल्यो. रश्मी आनी आवय दोगांच घरा आशिल्लीं. तांकां पळोवन दोगांय थक्क जालीं. आवयस... आमी उलयतालीं तें हांच्यानी आयकूना मूं? अशें तांकां दिसलें. रश्मीन रोकडेंच वचून आपल्या बापायक आपोवन हाडलें.

विनयाचे आवयनूच म्हणलें, "आमी रश्मीक मागणी घालपाक आयल्यांत. खंय गेलें रश्मी?" आपयना बरोबर रश्मी भायर आयलें. "रश्मी तूं म्हजी सून जावपाक तयार आस मुगो?" हें आयकून रश्मीचे आवयचे दोळे भरून आयले. "म्हजी चली तुमच्या घरांत पावता हें आयकून म्हज्या तोंडांतल्यान उतरांय सुटनांत. खरेंच आमच्या जाण्टेल्यांनीं पयलीं कितेंय तरी बरें केल्लें आसतलें. तुमचे असलीं देवमनशां हांवें खंयच पळोवंक ना."

"आगे शारदाव्हनी, अशें कित्याक उलयता? तांच्या नशिबाची तीं. आतां आमचें तोंड गोड करतां मगे?" इतल्यांत प्लेटींत घालून रश्मीन साखर आनी उदक हाडून दिलें. "रोकडोच आमी तांचो साखरपुडो करुया आनी विनयाचें कामाचें जालें म्हणटकच रोखडोच म्हूर्त पळोवन ताचें लग्न करुया." म्हण सांगून विनयाचीं घरचीं सगळीं वचपाक गेलीं.

रश्मीली आवय-बापूय सामकीं उमेदीन भरून गेलीं. साखरपुडो करपाक नेटान तयारेक लागलीं. रोकडेंच व्हडल्या थाटामाटांत रश्मीचो साखरपुडो जालो. गांवच्या सगळ्या लोकांक जेवण-खाण घातिल्लें. जेवणा-खाणाचो सगळो खर्च विनयाच्या घरच्यानीच केल्लो. जण एकलो म्हणटालो साखरपुडो म्हळ्यार लग्नूच कशें न्हय?

साखरपुडो जाल्या उपरांत दोनूच म्हयन्याभितर विनय व्हडले कम्पनींत मॅनेजर म्हण कामाक लागलो. सगळीं रश्मीचो पांयगूण बरो आसा म्हणपाक लागलीं. विनयाची आवय तर विनय केन्ना कामाक लागतलो काय म्हण वाट पळयताली. हें आयकून तर तिका सामकी उमेद जाली. रोकडीच दुसऱ्याच दिसा ती भटागेर म्हूर्त काडपाक गेली. भटान तिका विनयाचे कुंडलींत स म्हयने मेरेन म्हूर्त ना म्हण

सांगलें. स म्हयन्या उपरांत म्हूर्त आसा. तेन्ना तूं मागीरूच यो म्हण सांगलें. पूण विनयाचे आवयक स म्हयने मेरेन रावपाची तयारी नाशिल्ली. पूण कितें करतली? कुंडली पळोवन लग्न करता म्हणटकूच पंचांगा प्रमाण स म्हयन्या उपरांतचो म्हूर्त धरचो पडलो. विनयाच्या घरच्यांक हें लग्न सामकें थाटांत करपाचें आशिल्लें. ताका लागून घरचीं सगळीं लग्नाक स म्हयने आसतनाच तयारी करपाक लागिल्लीं.

रश्मीय कॉलेज सोंपून शिवणेच्या क्लासींत वतालें. थंयच वाड्याचेर सरकारान दोन म्हयन्या खातीर क्लासीस सुरू केल्ल्यो. विणपाक, पांय पुसणी करपाक आनी शिवपाक बी शिकयताले म्हूण रश्मीय ते क्लासीक वतालें. एक दीस रश्मी आपणाक बरें दिसना म्हण क्लासिंतल्यान घरा आयलें. घरा आयल्या उपरांत ताका चार दीस भरपूर ताप आयलो. बऱ्या डॉक्टराक दाखोवन वखदां बी घेतल्या उपरांत ताप गेलो. पूण ते उपरांत मात रश्मीक परत- परत ताप येत रावतालो. मागीर मागीर ताका खोकलीय येवपाक सुरवात जाली. वखदां घेतकच खोकली वताली पूण वखदां बंद केली म्हणटकूच परत सुरवात जाताली. विणपाक वा शिवपाक बसत जाल्यार हातांत सूय सुद्धा धरनाशिल्ली. तेन्ना आवय ताका म्हणटाली, "आगो रश्मी तूं बरें ना म्हूण तुका विकनेस आयलां. बरें जातकच तूं विणपाक बस. रश्मीकूय तें खरें दिसतालें. पूण एक दीस खोकता आसताना ताच्या तोंडांतल्यान रगत आयलें. हें पळोवन सगळीं भियेलीं. पूण तें पळोवन बापायन म्हटलें, आगो रगत आयलां म्हण भिवपाची गरज ना. 'अमरपिंत' तें."

"अमरपिंत म्हळ्यार कितें?" रश्मीचे आवयन विचारलें.

काल गिरणीचेर व्हडल्या भाटांतलो रामदास गंव दळपाक आयिल्लो. ताच्या चल्याच्या नाकांतल्यान खंय रगत येवपाक लागलें. मागीर ताणें रोकडोच नाकाचेर झेल दवरलो. उपरांत दोन मिन्टांत थांबलें खंय. मागीर हांवेंच ताका विचारलें, चल्याक डॉक्टराकडेन व्हरपाचें न्हय ताणी, 'आगो हांवेंय ताका तशेंच म्हणिल्लें. तेन्ना तांणी म्हाका कितें सांगचें, ते खातीर भिवपाची गरज ना. आनी ताका डॉक्टराकडेन व्हरपाचीय गरज ना म्हण. अमरपिंत म्हळ्यार पाडरगत. अशें जाय त्या जाणांक जाता खंय. तशें सांगतकूच म्हाकाय तें खरें दिसलें. तेखातीरच म्हणटां हांव रश्मीच्या तोंडांतल्यान आयलां तेवूंय रगत अमरपिंत आसतलें म्हण. पूण हें पयलें रामदासाक वचून विचारतां. मागिरूच डॉक्टराक वचून मेळुंया." अशें म्हण्टकून म्हाकाय तें खरें दिसलें.

पूण हालीसराक रश्मी बरेंच आसना. हांवें केन्नाच ताका जोर आयला वा थंडी जाल्या म्हणपाचें आयकूंक नाशिल्लें. पूण बापूय मात मनांतल्यान सामको भियेल्लो. रश्मीक कितेंय पूण जालां अशें



ताका दिसतालें. डॉक्टराकडेन वचपाकूय ताका भंय दिसतालो. डॉक्टर आपणाक कितेंय सांगत जाल्यार? अशे नाका ते विचार ताचे तकलेंत येवपाक लागले. अमरपिंत म्हण सांगून हांवें म्हजेंच समादान करून घेतलां...

एक दीस रश्मी खोंकून खोंकून अर्द जालें. आनी दोन-तीन फावट रगत ओंकलेंय बीन. तेन्ना मात रश्मीच्या बापायन वेळ काडिनासतना रश्मीक व्हरून डॉक्टराक दाखयलें. तेदेवेळार डॉक्टरान ताका कांय वखदां दिवन रगत तपासपाक जाय म्हूण सांगलें. दिल्ल्या वखदान ताका मात्शें बरेंय दिसलें. तेन्ना ही गजाल ताणें रोकडीच विनयाक सांगली.

विनयाचो एक इश्ट डॉक्टर आशिल्लो. ताचें नांव अनील. तो मुंबय रावतालो. पूण म्हयन्यांतल्यान दोन-तीन फावट तो गोंयांत येतालो. गोंयांतल्या व्हडल्या -व्हडल्या हॉस्पीटलांत ताका आपयताले. गोंयांत आयल्या उपरांत तो आपल्या लागींच्या इश्टांगेर वचून येतालो. विनयचे आवयन अनिलाक शिकता आसतना खूब मदत केल्ली. ताका लागून तो गोंयांत आयल्या बरोबर पयलो विनयाचे आवयक मेळूंक वतालो. तसोच हे फावटूय तो गोंयांत आयला ती संद पळोवन विनयान रश्मीक व्हरून डॉ. अनिलाकडेन दाखयलें. पयलीं डॉक्टरान दिल्लीं वखदांय ताका दाखयलीं. खोकतना दिसांतल्यान एक-दोन फावट तरी रगत

येता, धांप मारता म्हणपाचें रश्मीन डॉक्टराक सांगलें. हें सगळें आयकून डॉक्टरान रोकडेंच रगत तपासलें. रगतांतल्या रिपोर्टा प्रमाण रश्मीक कॅन्सर जाला म्हणपाचें डॉक्टराक कळ्ळें. ताणें ही गजाल पयलीं विनयाक सांगली. हें आयकून विनयाक सामको धक्कोच बसलो. कोणाक सांगप आनी कोणाक सांगचें न्हय हें ताका कळना जालें. दोळ्यां कडेन काळोख आयिल्ल्या भशेन जावपाक लागलें. ताचेकडेन सांबाळपाक जायना तें पळोवन डॉक्टरान ताका खूब समजायलो. पूण ही गजाल मात म्हज्या घरच्यांक आनी रश्मीच्या घरच्यांकूय सांगू नाका अशें विनयान डॉक्टराक सांगलें. पूण डॉक्टर हें आयकुपाक कसोच तयार जालो ना. "विनय असली गजाल सदांच पयलीं तांच्या घरच्यांक आनी दुयेंतीक सांगचें पडटा. पूण तुज्या घरच्यांक मात हांव सांगिना." हें सांगतकूच फुडें कितें घडटलें हें चिंतितूच विनय घरा आयलो.

घरच्यांक कोणाक कांय सांगिनासतना आपल्या रुमांत वचून खाटीर पडलो. विनयाक दिसतालें असोच आपणें दोळे धांपून खाटीर पडून रावचें म्हूण. विनय घरा येवंक ना, रात जाली म्हण आवय हुस्को करताली. पूण विनय घरांत आसा हें मात कोणाक खबर नाशिल्ली. चड रात जावपाक लागली तशीं घरांतलीं सगळींच हुस्को करपाक लागिल्लीं. निमणें रश्मीगेर सुद्धा सोदून आयलीं. विनयाच्या रुमांत काळोख दिसता म्हूण रुमाची लायट पेटोवपाखातीर विनयाचे आवयन रुमांत वचून लायट पेटयली. रुमांत नदर मारीत जाल्यार विनय हात-पांय सोडून खाटीर पडिल्लो. आवयन वचून विनयाचे फाटीर हात भोंवडायलो. "विनय तूं केन्ना आयलो? आमी तुका सगळीं सोदतात. रश्मीगेर सुद्धा वचून आयलीं. कितें जालें? बरें दिसना?" आवय आपली उलयत आशिल्ली. पूण विनयाक आवयकडे उलोवपाक आनी तोंड दाखोवपाकूय धीर जालोना. तो आपली तकली उशा पोंदा मुंगरत तोंड लिपोवपाचो प्रयत्न करपाक लागलो. पूण आवयक दिसलें, हाका पुरो जालां आसतलें म्हण न्हिदला आसतलो! आसूं मात्सो न्हिदूं म्हूण आवय उठून भायर गेली. पूण विनय मात बदद सकाळीं उठलो. कोणाकडेन कांय उलयलो ना. ताचे तकलेंत एकूच प्रस्न आशिल्लो, रश्मीक कितें सांगप? ताच्या घरच्यांक कितें सांगप? तो जाणां आशिल्लो रश्मी आपणाक रगताचो रिपोर्ट हाडलो काय म्हूण विचारतलें. ताका कांयच घेवजना जालें. तसोच तो रश्मीगेर गेलो. रश्मीची आवय-बापूय आनी रश्मीय ताची वाट पळयतालीं. विनय आयलो म्हूण कळटकच सगळीं भायर आयलीं.

"विनय तूं काल खंय गेल्लो रे? कित्याक रात जाली तुका? घरचीं सगळीं सोदत सोदत आमगेर आयिल्लीं." रश्मीन ताका म्हटलें.

"ऑफिसांत मातशें काम चड आशिल्लें म्हण येवपाक रात जाली."

"पूण तुवें फोन करून सांगपाचें न्हय?"

"कामाच्या नेटार विसरलों गो हांव." पूण विनयाक थंय चड वेळ रावपाचें नाशिल्लें. तो वचपाक करतालो, इतल्यान रश्मीनूच ताका याद केली, "विनय तुवें म्हजो रगताचो रिपोर्ट हाडलो?" विनयान पयलीं आयकूना जाल्ल्या भशेन केलें. रश्मीच्या तोंडाक पळोवन ताचेकडेन उलोवपाक ताका धीर जायना जालो.

"डॉक्टर काल मेळूंकना म्हण आतांच वतां रिपोर्ट हाडपाक." अशें सांगून विनय थंयच्यान भायर सरलो. पूण भायर येवन मात खूब रडलो. म्हाका लग्न जावपाक कोणाचोच विरोध नाशिल्लो. पूण तें घडये देवाक मान्य नाशिल्लें आनी नियतिकूय मान्य नाशिल्लें आसूंये! अशें ताका दिसलें. तोवूय दीस ताणें कोणाक सांगिनासतना तसोच काडलो. बऱ्या रातचो तो घरा आयलो. कोणाक सांगिनासतना तसोच आपल्या रुमांत वचून पडलो. आवयक मात ताची वागणूक पळोवन ताचें कितेंय तरी घडलां अशें दिसलें. ती विनया म्हऱ्यांत गेली आनी ताचे कुशीक वचून बसली. पूण ताका उठयलो ना. कितेंय तरी जालां आसतलेंच. विनय सामको गळिल्ल्या भशेन जाला. अशें कितें जालां आसतलें? ती चिंतपाक पडली. पूण तो उठ मेरेन हांव हांगाच बसून रावतलीं अशें तिणें चिंतलें आनी तिवूय थंय बसून रावली.

बरे रातीचेर विनयान उठून आवय्स...म्हण किळांच मारली आनी तकलेक घट्ट धरून रडपाक लागलो. आवयन बेगीबेगीन उठून विनयाचे तकलेक घट्ट धरले. तकली ताची सामकी फोडटाली.

"विनय कितें जाता तुकां? तकली दुखता रे?" अशें आवयन ताका विचारलें.

"हय. तकली सामकी जड जाल्या. ओकूंक आयिल्ल्या भशेन दिसता. काळीज घपघपता. कितें करचें तेंच कळना." विनयाचें आंग सामकें तापिल्लें. तकलेक जोर मारत म्हण आवयन ताची तकली आपले मांडयेर घेतली आनी थंड उदकाच्यो घडयो घालपाक लागली. घडयो घालतां घालतां आवयन विनयाक विचारलें, "विनय कितें जालां तुजें तें म्हाका सांग, तुजें मन ल्हव जातलें. तुजें आनी रश्मी भितर कितें जावूंक ना मरे?"

"ना गे."

"मागीर कामाक वता थंय कितें जाला बी?"

"ना गे. तसलें कांयच न्हय गे. ह्या दिसांनी मातशें काम चड आसता. ताका लागून तशें जालें गे."



"तशें जाल्यार सकाळफुडें उठून डॉक्टराकडेन वच."

सकाळ जातकच विनय डॉक्टराकडेन वता म्हण भायर सरलो आनी डॉ. अनिलाकडेन गेलो. थंय पळयत जाल्यार रश्मीची आवय-बापूय रश्मीक घेवन डॉक्टराकडेन आयिल्लीं. विनयाक पळोवन तिगांय आबूज जालीं.

रश्मीनूच ताका विचारलें, "आमी हांगा आयल्यांत म्हण तुका कोणें सांगलें?"

"कोणें ना. म्हाका जिवाक बरें दिसना म्हण हांव डॉक्टराकडे आयिल्लों."

पूण विनय येवचे पयलींच डॉक्टरान रश्मीक आनी तागेल्या आवय-बापायक सांगिल्लें. रश्मीक जालां तें दुयेंस सादें न्हय तर तें ब्लड कॅन्सर म्हण. हें आयकून रश्मीनूच म्हळें, "हांव जाणां आशिल्लें डॉक्टर म्हाका जालां तें ब्लड कॅन्सर म्हण. हांवें म्हजो रिपोर्ट पळयिल्लो. पूण कोणाक सांगपाचें धाडस म्हाका जालें ना."

हें आयकून रश्मीची आवय सामकी घुंवळ येवन पडली. तिका सारकी करता म्हणसर तांकां नाका जालें. रश्मीनूय तिका खूब समजायलें. "एक ना एक दीस सगळ्यांक वचचेंच पडटा. पूण तुवें अशें केलें जाल्यार हांवें कितें करपाचें?"

"हय जाणां हांव. भुरग्यांचेर येदो व्हडलो प्रसंग आयला आनी हांव सोंसून रावूं? म्हजेकडेन हें कशेंच जावपाचें ना. भुरग्यांचें बरें बरें आयकुपाचें सोडून हांव हें कितें आयकतां?" अशें सांगून ती मोट-मोट्यान रडपाक लागली. तशेच परिस्थितींत विनयान आनी रश्मीच्या बापायन तिका व्हरून गाडयेंत बसयली आनी खूब समजावन सांगलें. "ही गजाल घरांत आनी सोयऱ्यांकूय सांगू नाका. तुवें अशें केलें जाल्यार रश्मीक कोण सांबाळटलो. रश्मीचेर कसलो प्रसंग आयला आसतलो? आसा ते दीस रश्मीखातीर हांसून खेळून काडुंया."

"खरें तुमचें. हांव रडलें म्हण कांयच जावपाचें ना. वेल्यान ताका म्हजेखातीर आनीक दुख्ख जातलें. रश्मीखातीर दुख्ख चिड्डून दवरचेंच पडटलें."

खरें म्हळ्यार विनय आपल्याक बरें दिसना म्हूण डॉक्टराक मेळपाक आयिल्लो. पूण ही गजाल जेन्ना रश्मीक आनी तिच्या आवय-बापायक कळ्ळी तेन्ना ताचें मन सामकें ल्हव जालें. तकली दुखपाची थांबली. आतां ताका एकूच खंत आशिल्ली. रश्मीची इत्सा पुराय करपाची. कशेंय भशेन लग्न पंदरा दिसां भितर जावपाक जाय अशें ताका दिसतालें. पंचागा प्रमाण लग्नाक आनी तीन म्हयने आशिल्ले. रश्मीक कॅन्सर जाला म्हण जर आपणें आवयक सांगत जाल्यार ती कशीच लग्न जावपाक दिवंची ना हेंवूय ताका खबर आशिल्ली. पूण कितें करतलो? खूब चिंतलें...चिंतलें आनी तो तसोच उटून भटागेर गेलो. आपणाक आनीक वर्सभर लग्न जावपाक मेळचेंना, कशेय भशेन ह्या पंदरा दिसांत म्हाका लग्न जावपाक जाय. म्हूर्त खंयचोय सोदून काड, अशें ताणें भटाक सांगलें.

"आरे विनय तुजे कुंडलींत लग्नाचो योग स म्हयने ना म्हण हांवें तुजे आवयक सांगलां न्हय अशें. आतां फकत तिनूच म्हयने उरल्यात. कित्याक बेश्टोच ताक तीक करतां?" भटान म्हटलें.

"भटमाम हांव तुज्या पांयां पडटां, म्हज्या लग्नाक योग आसूं वा नासूं. ह्या पंदरा दिसांभितर म्हाका लग्न जावपाक जाय. पूण हें मात म्हजे आवयक तुका सांगचें पडटलें."

"कितें? हांव फट उलोवं? ना बाबा असलें काम तूं म्हजेर सोंपोवं नाका. हांवें पयलेंच तिका खरें तें सांगलां."

"भटमाम, हांव तुमकां फट उलय म्हणना. पूण केन्ना केन्ना दुसऱ्यांचें बरें करपाकूय फट उलोवचें पडटा. तुमकां तें फट दिसता आसत, पूण म्हाका मात तें फट दिसना. तुमी ना म्हणू नाकात. अशें हांवें कित्याक केलें तें तुमकां लग्ना उपरांत सांगतां." भटाकूय तो कितें सांगता तें कळना जालें. पूण कितेंय तरी हांचेभितर घडलां आसुंये अशें भटाकूय दिसलें.

विनयान सांगिल्ले प्रमाण भटान विनयाचे आवयक पंदरा दिसां

भितर कशेंय करून विनयाचें लग्न जावपाक जाय म्हूण सांगलें. हें आयकून विनयाचे आवयन म्हळें, "भटमाम हांवें तुमकां बेगीनूच लग्न करुंया म्हणिल्लें, पूण तुमीच म्हूर्त ना म्हणिल्लें न्हय?"

"हय, हांवें ना म्हणिल्लें पूण पंचागा प्रमाण हे पंदरा दीस मातशे बरे आसात, उपरांतचे वर्सभर सामकेच दीस बरे नांत. म्हणून हांवें चिंतलें ह्या पंदरा दिसांभितर विनयाचें लग्न जाता जाल्यार करप योग्य म्हूण सांगूंक आयलां."

"बरें केलें तुमी, मुद्दाम सांगपाक आयले म्हण. तशें जाल्यार ह्या पंदरा दिसांभितर ताचें लग्न करतां." अशें म्हणून विनयाचे आवयन भटाचे उपकार मानले.

विनयाले आवयन रोकडोच रश्मीगेर रकाद धाडलो. लग्न पंदरादिसां भितर जावपाक जाय. जाता तितले भितर तयारी करची म्हण रकाद आयकून रश्मीची आवय थक्क जाली. रश्मी दुयेंत आसा हें खबर आसतना लेगीत विनय लग्न जावपाक तयार जाला. हाका आनी कशें समजावप! पूण रश्मीचे आवयकूच समजावपाक विनय रश्मीगेर गेलो.

विनयान रश्मीचे आवयक पयलीं समजावन सांगलें. "हांव हें कित्याक करतां, रश्मी गेल्या उपरांत ताची याद काडपाक जाय म्हण हांव हें सगळें करतां. आयावपणांत गेलें म्हण म्हजीं घरचीं वर्सान वर्स ताची याद करतलीं. ना जाल्यार ताची याद कोणूच करचीं नांत. इतकें तरी आमी ताचे खातीर करूया." रश्मीचे आवयक तें पट्टालें. पूण ती आपले चलयेखातीर विनयाचें आयुश्य पिड्डच्यार करपाक सोदिनाशिल्ली.

"विनय, रश्मीचें आयुश्य कितें तें तुका खबर आसा. तूं शिकिल्लो भुरगो. तुका चड सांगपाची गरज ना. तेन्ना दुसरें भुरगें पळय आनी तूं लग्न जा. म्हजो सदांच तुका आशिर्वाद आसतलो." पूण विनय कसोच आयकना जालो. रश्मीक जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना तेवूंय लग्न जावपाक तयार जायना जालें. शेवटाक विनयाच्या हट्टाक लागून रश्मीचे आवयनूच रश्मीक लग्नाक तयार केलें.

कोणाक कांयच कळपाक दिनासतना आनी चड थाट-माट नासतना विनयाचें आनी रश्मीचें लग्न जालें. अशे तशे करून रश्मीन लग्ना उपरांत म्हयनोभर काडलो. आनी अकस्मात एक दीस घुंवळ येवन सकल पडलें. कोणाक कांय खबर ना. हॉस्पिटलांत पावता म्हणसर रश्मीन कायमचे दोळे बंद केले. केन्नाय तरी अशें जातलें म्हण विनयाक आनी रश्मीचे आवय-बापायक खबर आशिल्ली. मरचे पयलीं आपणें रश्मीची इत्सा पुराय केली म्हण विनयाक मात समादान जाल्लें.



# तिनकातर

तांदूक हें अशें एकच धान्य आसा की ताका कसलीच जखम (क्षत) ना. जौंदळ्याक एक तिब्या म्हणकी बौंतों आसा. गंवाक लांबट चीर उरता. तांदूक मात्र अखंड आसा. क्षत म्हळ्यार खत वा जखम, मार. अ-क्षती म्हळ्यार जखम नाशिल्लीं. अक्षता हें अक्षतचें स्त्रीलिंग.

- विठ्ठलराय भट

**द**नपारचें जेवण जालें. सुगंधा झोंपाळ्यार बसून धोलच्याक लागलें. बाकिबाब बोरकार हांगेलें 'गितार' हें पुस्तक वाचतालें. तें बाकिबाबाल्या काणयांचेर भाळिल्ल्या पयकीं एक! परतें परतें तांचीं पुस्तकां वाचत रावतालें. वाचतां वाचतां ताका झेम येवपाक लागली. म्हूण ताणें झोंपाळो थांबयलो तर बाबा अवचीत मुकार उबो. ताका अजाप दिसलें. ह्या वेळार तो केन्नाच ऑफिसांतल्यान घरा येना. सकाळीं एक खेपेक गेलो म्हळ्यार बद्द सांजेर ताणें घरा येवप. मदें येवचेंच पडल्यार तो फोन केल्या शिवाय येना.

घरांत पांय दवरल्या बरोबर बापायन सुगंधाक विचारलें, "आगो, तुजी आवय खंय?"

"ती मातशी न्हिदल्या."

"उठय, उठय तिका बेगीबेगीन, आनी तूं पूण बेगीन तयार जा. आज पांच वरांचेर तुका पळोवपाक सदानंद धुमेलो पूत येता. हंसा ऽ हंसा, ऊठ बेगीन" घोवालो बोवाळ आयकून हंसा भायर आयलें.

"कितल्या दिसां पासून हांव चंद्रशेखर धुमे ह्या चल्याबद्दल



आंबटकर कंपौंड, आंबिवली (प.)
पो. मोहने, जि. ठाणे - ४२११०२
फोन : ९२२१३०९७५८

चवकशी करतालों. तो सुगंधाक फावो सारको दिसता. हालींच भारतांतल्या तरूण उद्योजगां पयकीं 'धुमे ग्रूप ऑफ इंडस्ट्रीयलचो' चंद्रशेखर धुमे हाका एका नंबराचें मानांकन मेळ्ळां. 'यंग आंत्रेप्युनर' म्हूण अमेरिकेंतल्या 'फोर्बस' ह्या मासिकान ताका गौरविला. जगांतल्या शंबर तरूण उद्योजकांत तो स नंबरार आसा."

सुंगधालो बापूय किशोर सरदेसाय हो एक व्हडले बरे कंपनींत जनरल मॅनेजर म्हूण कामाक आसा. चंद्रशेखराबद्दलच्यो बातम्यो वाचल्या पासून तणें ताचे बद्दल हाचे कडेन ताचे कडेन चवकशी करपाक सुरवात केली. 'नेटा' चेर बरीच म्हायती मेळ्ळी. चंद्रशेखर हो अमेरिकेंतल्या हारवर्ड विश्वविद्यालयांतल्यान शिकून आयला. बिझनेस मॅनेजमेंट हो ताचो आवडीचो विशय. शिकून तो गोंयांत परतलो आनी तागेल्या घरच्या कंपन्यां पयकीं 'धुमे स्टीमशीप कंपनी' हाची जबाबदारी आपल्या आंगार घेतली. ही बोट कंपनी पासिंजर व्हरना पूण सामान हाडता पावयता – म्हळ्यार कार्गो शीप. चंद्रकांतान दोन वर्सां पयलीं कंपनीचो ताबो घेतलो तेन्ना कंपनी ४१ देशांबरोबर वेव्हार करताली. आतां तो आंकडो १५५चेर गेला. जगाच्या सामान व्हांवोवच्या बोट कंपन्यांच्या नकाशाचेर धुमे स्टीमशिप कंपनी एक प्रमुख कंपनी आसा. तांचो कारभार आतां कोट्यांनी न्हय तर अब्जांनी रुपयांनी चालतालो.

चंद्रशेखर आवयबापायलो एकूच पूत. तशेंच सुगंधा किशोर आनी हंसालें एकच चली. हालींच तें एम.कॉम जालां. तेंवूय फस्ट क्लासांत. गायन, व्हायोलीन वाजोवप,वाचन, पोंवचें हाची खूब आवड. शाळेंत, कॉलेजांत आसतना ताणें कितलीं तरी बक्षिसां हाडिल्लीं. डिबेट कॉम्पिटीशनांत पूण तें फिशाल, कॉलेजांत हमखास ताका बक्षीस मेळटालेंच. तें दिसपाक कितलें सुंदर म्हळ्यार पयलीं पासूनच कॉलेजांत तें 'कॉलेज क्वीन' म्हूण नामांकीत. जायत्या वेळार तिचो फोटो खबरां पेपरांतल्यान छापून आयल्यात.

हंसान शेजान्न जयुमावशेक मजतीक घेवन घरांत आवरा आवर केलो. घरांत उत्तम फर्निचर आसले तरी तिणें मुद्दाम भारतीय बैठक सजयली. कारण चंद्रशेखरा बरोबर ताचे आवयबापूय तशेंच आजोआजीय येवपाचीं आशिल्लीं. जयुमावशी ही सुगंधा गायनाचो रियाज करताना तंबुऱ्यार साथ करताली. तिका दोन चले म्हूण ती सुंगधाक आपली चलीच मानताली. सुगंधालें कसलेंय काम आवडीन करताली. जयुमावशेन बंगल्या मुकावेल्यान आंगण उदीक मारून भिजयलें. दारांत सुंदर रांगोळी काडली. हंसान कपाटांतल्यान चांदीचो च्याचो सेट आनी हेर आयदनां भायर काडलीं. तातूंत गुलाबदाणी आनी अत्तरदाणीय आशिल्ली. कामवालीकडच्यान तीं आयदनां चकाचक करून घेतलीं. किशोरान बाजारांतल्यान मिठायो, फळां, सुको मेवो, फुलां, वळेसर अशीं कितें कितें सामान हाडलें.

बरोबर पांच वरांचेर म्हळ्यार पांच वरांचेर सदानंद धुमेकडची मंडळी दोन कारींत आयली. आगतस्वागत जातकच आजेन सुगंधाक एक भक्तीपद म्हण अशें सांगलें. सुंगधान जयुमावशेकडेन पळयलें. जयुमावशेन तंबुरो भायर काडलो आनी किशोर तबल्यार साथ करूंक बसलो. हरशीं शेजारचो मारूती हरमलकार हो तंबुऱ्याची साथ करता. पूण तो कांय दिसांपासून शीक आसा. घरांत न्हिदूनच रावता.

सुगंधान गोड आवाजान म्हणपाक सुरू केलें.

'केशवा माधवा तुझ्या नामात रे गोडवा।'

पद सोंपलें तरी सगळेजाण, जास्त करून चंद्रशेखराली आजी तनेंत पाविल्ली. तिगेली ती गत पळोवन सुगंधान म्हणपाक सुरू केलें

'हले हा नंदाघरी पाळणा
त्यात देखणा गोजिरवाणा
हसतो गोकुळराजा ।।
हले हा नंदा घरी पाळणा '

हें पद सुरू आसतनाच धुमे कडची मंडळी परतें परतें सदानंदाल्या तोंडाकडेन पळोवन गालांतल्या गालांत हांसताली. सदानंद मात्र हे वाटेन ते वाटेन पळोवन तांची नदर चुकयतालो.

किशोरान तो समारंभ आटोपतो येवंच्या उद्देशान म्हळें, "चंद्रशेखर तुका सुगंधाक कितें विचारचें आसल्यार विचार."

"म्हाका खास अशें कांय विचारचें ना. तिचो बायोडेटा वर्तमानपत्रांतल्यान वाचला. तें कॉलेज क्वीन हें बी हांव जाणां."

चंद्रशेखरालीं उतरां आयकून सुगंधा लजलें. ताच्या गालार गुलाब फुलले. चंद्रशेखराली आवय रमा हिणें सांगलें,

"शेखर, तुका भायर खंय वचून तिका विचारपाचें आसा जाल्यार तशें सांग. तशी वेवस्ता करुयां."

"तशी भायर भोंवचा वचून विचारचें अशी गरज ना. पूण एक विचारतां, तूं एम.कॉम. आमगेल्या कंपनीच्या अकाऊंट्स डिपार्टमेंटाचेर तुका नदर दवरपाक जमतलें? परदेशांत आमगेलीं ऑफिसां आसात. थंय केन्ना केन्ना वचचें पडल्यार तूं वतलें? तुका विमान प्रवासाचो भंय आसा कि ना?"

" ना ना. म्हाका विमाना प्रवासाचो भंय ना. हांव जायते खेप

आईबाबा बरोबर गोंयां थावन मुंबय गेलां."

"तशें जाल्यार बरें आसा. तुका विमाना प्रवासाबद्दल मुद्दाम विचारलें कारण म्हजी आजी विमानांत बसपाक भिता. ती अजून एकदांय विमानांत बसूंक ना. तिका दिसता की विमानांतल्यान गेल्यार एकादवेळ थंय वैकुंठाक पावत." ताचीं उतरां आयकून सगळे जाण हांसपाक लागले.

"शेखर, बरोच शाणो आसा तूं हां." आजेन थोडें रागान, पूण जास्त मोगान म्हळें.

अत्तरगुलाब जातकूच किशोर धुमेकडच्या लोकांक तांच्या कारी पर्यंत पावोवन आयलो. तो येतकीर सगळीं जाणां मेळून उलोवपाक बसलीं. "सुगंधाक शेखर आवडलो तें नक्की जालें. आतां तांचेकडच्यान कितें निरोप येता ताचेर सगळें अवलंबून आसा." अशें हंसान म्हळें. तितल्या भितर फोन वाजलो. किशोरान फोन घेतलो.

"बरें बरें थँक यू. आयकून भोव बरें दिसलें. सुगंधाक पूण तुमचो शेखर पसंद आसा. आमी हांगा त्याच विशयार उलयत बसल्यांत. आनी तुमचो फोन आयलो. देव बरें करूं"

"सुगंधा देवाप्रसाद जालो गो बाये. देवाल्या उजव्या बाजुचें फूल पडलें. आतां कितें तूं व्हडलें आत्रेप्युनर जातलें" सुगंधा हांसलें.

"जावं दी. जावं दी. देवाली कृपा म्हणची." हंसान म्हळें आनी किशोराक विचारलें,

"सुगंधा 'हले नंदा घरी पाळणा' हें पद म्हणतासतना ते सगळेजाण सदानंदाकडेन पळोवन कित्याक हांसताले?" किशोरान हांसतेर सांगलें. "आगो सदानंदाक घरा सगळेजाण नंदा म्हूण आपयतात."

सुगंधा आनी चंद्रशेखरालें लग्न किशोराल्या आनी धुमेल्या घराण्याक सोबचें सारकें जालें.

चंद्रशेखरान सुगंधालें नांव बदलावन अपर्णा अशें दवरलें तें आयकून माटवांतल्या एकान विचारलें,

"अपर्णा म्हळ्यार कितें ताचो अर्थ कळूंक ना."

शेजारी बशिल्ल्या म्हातान्यान सांगलें, "अपर्णा हें पार्वतीलें एक नांव. जशें गौरी, भवानी, उमा, गिरिजा, शैलजा."

"तें जाणां पूण त्या शब्दाचो अर्थ कितें?"

"पार्वतीन आपल्याक शंकरच घोव जाय म्हूण एक व्रत केल्लें. त्या व्रताच्या दिसांनी ती झाडाच्या पानांशिवाय आनी कांयच खायनाशिल्ली म्हूण तिचें नांव अपर्णा."



"अशें? बरें जालें तुवें सविस्तर सांगलें तें. तूं धर्मशास्त्राचो बरो जाणकार दिसता. एक विचारूं?"

"आरे विचार की! खबर आसल्यार सांगतां. खबर ना जाल्यार खबर ना म्हूण सांगतां. विचार तर खरें."

"लग्न थारायताना दोन्ही पार्ट्यो, चलो चली एकमेकांक पळोवन एकमेकांक मेळून उलोवणी करून लग्न नक्की करतात. तशें आसतना भट लोक मंगलाश्टकां म्हणताना परतें परतें 'सावधान, सावधान' अशें कित्याक म्हणतात? कोणाक, कित्या खातीर सावधान करतात?"

"हें पळय, ताचें कारण वेगळेंच आसा. आतां सगळ्याल्या हातांक घड्याळ आसा. लग्नां हॉलांत पूण घड्याळ आसा. फाटीं लग्नां मूर्त जालो म्हूण कळपा खातीर घटके पात्र बुडोवन दवरताले. लग्नां खातीर जमिल्ले लोक हांगा थंय फाफसून गजाली करताले. तांकां मूर्त लागीं आयलो, सगळे जाण सावधान रावात अशें सांगचें खातीर तशें सांगतात. लोकांक कितें दिसता म्हळ्यार - घोवबायल भवसागरांत प्रवेश करतात म्हूण तांकां सावधान करतात. तशें न्ही. सावधान हे थंय जमिल्ल्या लोकांक मुर्ताची याद करपाक."

आयकतल्याचें समाधान जालें. पूण तागेल्या मनांत आनी एक

प्रस्न आशिल्लो. विचारू की नाका, विचारू की नाका अशे कातरेंत तो सांपडिल्लो. तें पळोवन त्या जाण्ट्यान विचारलें. "तुका आनी कितें तरी विचारचें आसा अशें दिसता. विचार तूं बिनधास्त."

"लग्नांत मंत्राक्षता म्हूण तांदूळ कित्याक उडयतात. गंव ना जाल्यार जोंदळे अशीं हेर धान्यां कित्याक उडयनांत? मंत्रायतात म्हूण मंत्राक्षता तें म्हाका कळता. पूण त्या तांदळाक अक्षता अशें कित्याक म्हणतात तें कळूंक ना."

"ताचें कारण म्हळ्यार तांदूळ हें अशें एकच धान्य आसा की ताका कसलीच जखम (क्षत) ना. जोंदळ्याक एक तिब्या म्हणकी बोतो आसा. गंवाक लांबट चीर उरता. तांदूळ मात्र अखंड आसा. क्षत म्हळ्यार खत वा जखम, मार. अ-क्षती म्हळ्यार जखम नाशिल्लो. अक्षता हें अक्षतचें स्त्रीलिंग."

"आरे वा! कितलो सुंदर विचार आसा हातूंत. आमगेल्या पूर्वजांची तोखणाय करता तितली उणी."

लग्न जातरेक शेखर सुगंधा हनिमुना खातीर स्विझरलेंडांत गेलीं. थंयचो सैम, फुलां-फळां पळोवन सुगंधाक पिशें लागचें तितलें बाकी उरलें. एक दीस तीं दोगांय एक पार्कांत भोंवडी मारपाक गेल्लीं. थंय ल्हान भुरग्यांली एक शाळेची ट्रीप आयिल्ली. सुंदर, ल्हान ल्हान भुरगीं. गुलाबी गालांचीं , तांबड्या तांबड्या रंगांचीं. गुबगुबीत तीं भुरगीं जेन्ना धांवतालीं तेन्ना गुलाबाचीं झाडांच धांवतात अशें दिसतालें. सुगंधा तें पळोवपाक गुंग जाल्लें. शेखरान विचारलें,

"अपर्णा कितें पळयता? तुका बी असलींच चोडवां बेगीन जातलीं. आमी प्लेनींग करचें नाका. तुका कितें दिसता?"

"म्हाका बीन तशेंच दिसता. पूण म्हाका दिसता की एकूच भुरगें पुरो."

"हम दो, हमारे दो- हेंच म्हाका बरोबर दिसता. दोन मनशां लग्न जातात. संवसार करतात आनी मरून वतात. तांणी फाटल्यान दोन मनशां सोडून वचचें बरोबर दिसता. सैमाच्या नेमा प्रमाण दिसता."

"त्यो सगळ्यो मुकाल्ल्यो गजाली. पळोवंया तें! राम जावचे पयलींच रामायण रच नाका."

"बरें बाबा रामायण रचना. सीतेक घेवन लंकेंत न्ही हॉटेलांत वतां. चल."

हनिमून आटपून पंदरा दिसांनी दोगांय गोंयांत परतलीं. तेच रातीक शेखराक अर्जंट कामाक लंडनाक वचचें पडलें. लग्नांत ताणें सुगंधाक निळेशा रंगाची कार भेट म्हूण दिल्ली. ती कार घेवन कांय दीस कुळारा रावून यो अशें ताणें सुगंधाक सांगलें.

ड्रायवर आशिल्लो तरी सुगंधान ताका बरोबर घेनासतना आपूणूच ड्रायव्हिंग करत कुळारा आयलें. तेन्ना सांजेचीं चार वरां जाल्लीं. तें आयलां अशें जाणून तिगेल्यो इश्ट-मैत्रिणी, शेजारणी थंय जमल्यो. गांवांतले आनी कोणकोण मेळपाक आयले. तिणें घाल्लो डिझायनर ड्रेस, लेटेस्ट डिझायनचे दागिने, नवीन हेर स्टायल हें सगळें पळोवन तिचीं फकणां चलिल्लीं. कांयजणां तिचीं फकाणां मारतालीं. 'हनिमून कसो जालो? हनिमूनांत कितें करतात?' अशें कितें कितें विचारतालीं. 'सुगंधा नशिबवान पोर म्हूण तिका असलें भोव बरें घर मेळ्ळें.' अशें सांगतालीं

रातचीं सात वरां जाता परयंत जमिल्ली मंडळी हळुहळू आपापल्या घरा वचपाक लागली. आवय आपूण जरा देवळांत वचून येता म्हूण गेली. घर सामकें रितें रितें जालें. घरांत काळोक पातळून राविल्लो. तर सुगंधालें मन लोकांनी केल्ल्या तोखणायेन प्रफुल्लीत जाल्लें. ताणें सगळ्या कुडींतल्यो लायटी फटाफट चालू केल्यो.

मागीलदाराचें कवड उगडें आसा म्हूण तें लावन घेवपाक म्हण सुगंधा थंय गेलें तर ताका एकदम भस्सकन्न नाकांत वास घुसलो. त्या वासाच्या पिशान तें बागेंत गेलें. आवयन मुद्दाम मोगरे वाली वाडोवन थंय सुंदर लताकुंज केल्लें. त्या कुंजामुळांत बसचाक एक ल्हानसो बाकडो दवरिल्लो. त्या बाकड्याचेर तें थोडो वेळ बसलें तेन्ना शेजाऱ्यागेरच्या रेडियोवयल्यान भावगीत वाजतालें.

"त्या कातरवेळी
पाहिजेस तू जवळी
पाहिजेस तू जवळी"

भावगीत सोंपलें आनी सुगंधा एका सपनांतल्यान जागें जालें. मन बावरें जालें. गेल्ल्या वर्साक ह्याच वेळार प्रशांत हांगा आयिल्लो. ह्या बाकड्यार बसूनच ताणें म्हाका वेंगेंत घेतिल्लें आनी उमो घेतिल्लो. मोगरे फुलां काण्ण म्हज्या केसांत खोयिल्लीं.

ते यादीन सुगंधा कासावीस जालें. "खंय आसा तूं प्रशांत आतां? तुजो पत्तोच ना. ही तिनकातर आनी मोगरे फुलां म्हाका पिशांतक करतात. प्रशांत, प्रशांत..."

सुगंधाल्या दोळ्यांतल्यान गंगाजमुना व्हांवपाक लागल्यो.



सबार पावटी फातिमान
बातरुमांत विवस्त्र जांवचें
दृश कशें आसात
म्हळ्ळें नियाळतालों.
पयलें आपलों मांत तें काड्टलें...
उप्रांत तों लांब लीबास...
उप्रांत तें सिलकाचें
सल्वार-खमीजाचेर...
तें सिल्क ताच्या कुडी क
चिडकौन रावल्लें...
बातरुमाच्या धौव्या
इट्टयांचेर प्रकासभरीत
लायटांचो हमलो जातालो
आनी फातिमाची गंवां-रंगाची
कूड कशी उजळात?
आनी थोडींच सेकुंदां...
फातिमा आपलें
खमीज निकळायतालें.

# बोन्साय

## - एड्वीन जे. ऐफ. डिसोजा



फाऊंटनहेड,
हायलेंड, मंगळुरू.
फोन : (0८२४) २४३२४१३

**ता**का जाग जाली.

पूण ती शुशेगाची जाग न्हय. कित्याक ताका सुशेगाची न्हीदई पडोंक नाशिल्ली. कसलीं स्वप्णा, भुरशीं भुरशीं स्वप्णा. शाळेंत्ल्या चल्यांनी असल्या स्वप्णां विशांत उलोंव्चें ताणें आय्काल्लें. दढंग जिवाचे चले ते, तांची प्राय हचीच्च तरी ते बोरेच्च सोरकेव्न वाडल्ले. "कितें रे?" ते एकामेका विचारताले. "खंच्या भूखंडाचें मेप सोडय्लेयं? आफ्रीकाचें वा आशियाचें?" आनी ते हासताले. ताकाय हासोंक जाय आस्लें. पूण हेर कित्याक हासतात म्हण कळित जायनासतां तो फकत कुसकुसतालो. हें पळेव्न हेर चले म्हणताले, "तुका कितें समजता म्हण तुं हासताय-रे बोन्साय?"

"न्हय तीं मेपां गर्जेचीं? परीक्शेक येतात?" तो नेणारपणी विचारतालो.

"ना-रे, बोन्साय! तीं फकत स्वप्णांत येतात."

"तुमी म्हाका बोन्साय म्हण कित्याक आपय्तात?" तो तांचे लागीं विचारतालो. "म्हजे माम्मीन साबार बोन्साय करून दवर्ल्यांत. ती एका कला म्हणता ती पुण तुमी म्हाका कित्याक बोन्साय म्हणतात?"

"तुज्या माम्मीच्या बोन्सांय पय्कीं तुं एक्लो-रे!" एक्ल्यान जाप दिली. "जाव्येत, ती बोन्साय एक कला म्हण्च्याक दुबाव ना. पुण तुका कसो-रे तिणें बोन्साय करून दवरलो?"

"तिका 'बोन्साय आग्नेस' (bonsai Agnes) म्हणची चूक-रे," आनी एक्लो म्हणालो हास्या संगीं. "तिका सांगल ती खुद्द बोन्साय कला वापरीना तर तिका तिच्या 'साय्जा'-चे 'ब्रा' मेळ्चे नांत अशें!"

"तुमी बुरशें बुरशें उलयतात" आतां तो रडटालो. "म्हजे माम्मी विशयांत तुमी अशें बुरशें उलंवचें न्हय....."

"अरर...रे! आम्चें उलवणें हाका अर्थई जाता म्हण जालें." एक्लो म्हणालो, "रोलेंड्बाबा...तुका तुजी माम्मी कशी आपय्ता? रो...ली..ली? बरीं टाय्ट ब्रीफ्स हाडुन दींव्क सांग तुजे माम्मीक. ना तर तुजेंई 'टेंट' नाका आम्कां क्लासिंत!"

त्या सांजेर ताणें आपले आवयक ही संगत सांगली. 'बोन्साय आग्नेस' म्हणंच परिचीत आग्नेसान आपल्या तेरा वर्सांच्या पुताक रोलेंडाक आराव्न आपल्या हड्ड्याक चिडकावन धरलो. ताचें मातें अरवास तिच्या सुपुश्ट स्थनां मदें लिपोन गेलें. एक अनामिक शिरशीरो ताचे कुडिंतल्यान धांवलो.

"ते कित्याक म्हाका अशेई सतयतात, मां?" ताणें तिच्या स्थनां मदल्यान फुमारोन विचारलें.

"रो...ली" ती म्हणाली. "त्या भासकळांक हांव फाल्यांच बूद शिकयतां!"

"नाका, मां, प्लीज..." तो तिच्या मासाळ बंदडे थावन सुटोन म्हणालो. "त्या हेडमास्त्राक पुणी खंडीत मेळनाका. तोंई तांचे मदेंच्च सेरवाला. तुवें येवन म्हजे विशयांत उलयिललें सर्व तो 'सेक्स ऐड्युकेशन क्लासी वेळार हैस्कूलाच्या सर्व भुर्यांक सांगता खंय!"

"हांव ऐड्युकेशन मिनिस्त्राक कंप्लेंय्ट करतां"

"तें सर्व कांय नाका, मां!" ताणें पराथलें. "हांव कित्याक असो म्हळ्ळें मात्र म्हाका सांग."

थोड्या दिसां आदीं आग्नेसान हें सवाल त्या हैस्कूलाच्या हेड - मास्त्रालागीं विचारल्लें. "कित्याक सर, म्हजो पूत असो?" तिणें विचारल्लें. "दोन - तीन घंटे तो टोयलेटांतलो भायर येना. भितोर तो कितें करता तें हांव नेणां. पोयरच ताच्या बेड्डा पोंदाक म्हाका बस्स स्टेंडांनी विकपाक आसच्या लैंगीक कुडींतल्यो प्रती मेळ्ळ्यो आनी हांवें ताका आडबडयां घालून बडयलो!"

हेड-मास्त्रान आवाज नातल्ल्यो ताळियो पेट्ल्यो. "भारीच बरें काम केलेंय, आग्नेस!" तो म्हणालो. कसलीच मालिसाय नास्तां तिच्या उबार स्थनांचेर दीश्टच रोवन. "चलो वाडोन येता आनी तुवें ताका बोन्साय करून वागंवचें न्हय. वाड्च्या चल्याचें मूळपाळ किमचूंक जायना, आग्नेस."

"तुमी सर्व दादले एकाच्च मानसिकतेचे, सर!" ती म्हणाली. "कित्याक तशेंयी म्हज्या हरद्याक पळेताय? तुज्या आवयक आसचेंच म्हाकायी आसा."

"तशें तर," म्हणालो हेड - मास्टर. "तुजें हरदें उगें सोडून म्हज्या हैस्कूलांत भोंवानांय? दोळे सोडून पळोवंच्या, वाड्च्या चल्यांक आनी किडकीडोन हासच्या ल्हान चल्यांक हेंच सांग- तुमच्या आवयांक आसचेपरींच म्हाकायी आसा?"

"तुका एका सायकीयाट्रिस्टाची गरज आसा, सर!" ती किळंचली. "You are a sex maniac!.... म्हज्या पती परींच. ताका सदांयी दिल्यारी पावानातल्लें. आनी निमाणें, ताणे वीक घेतलें."

"हें तुवेंच म्हाका ह्या फुडेंयी सांगलांय, आग्नेस!" तो म्हणालो. "सक्कळ संसार जाणां ही संगत. परत परत कित्याक सांगताय?"

"कित्याक म्हळ्यार म्हाका परत परत सांगोंक लज दिसाना आनी म्हाका म्हज्या पुतान आपल्या बापाय परीं sex friend जांवचें नाका."

"परत परत उचारोंक...." आग्नेसाचींच उत्रां उचारलीं हेड-मास्त्रान. "तुवें ताका वीक दीव्न लगाड काडलोय म्हण सगळो संवसार म्हणता..."

"न्हय तरी?" आग्नेसाचो ताळो आतां नंजाळी जालो. "कितल्या काजारी स्त्रीयांनी म्हाका सांगलां जाणांय? तुजो पती निजायकी 'सेक्सी', आग्नेस. तुजें नशीब, सायबिणी. आमचे घोव, एक दोन वरसांनी पाळ कातरलेल्या बोन्सायपरीं जातात. तुज्या पती तसलो एकलो आमच्या घरांनी आसल्लो तर... व्हांव...what a sexy thought..."

हेड-मास्टर हासलो. "तुमी स्त्रीयोयी असलें उलवणे उलयतात म्हण हांव नेणासल्लों"

"तुवें नेणासचें सबार आसूंक पुरो, सर!" आग्नेस म्हणालें. "पूण म्हज्या रोलीन आपल्या बापायपरीं जांवचें नाका."

हेड-मास्त्रान एक लांब स्वास सेवलो आनी खिणाक पावटी आग्नेसच्या स्थनांचेर चरची आपली दीश्ट आडावन -आरावन आतां तिच्या दोळ्यांचेर खंचयली.

"मनशाकुळाचें मुळावें चिंतापच्च लैंगीकता, आग्नेस!"




हेडमास्टराचो ताळो आतां बदलाल्लो. "प्राय भरोन येताना हें चिंतप एक निद्रीश्ट रूप घेता आनी तें रूप जावन आसा संभोगाचें. आमकां दिमाग आसलल्यान एक समाज रचून ह्या चिंतपाक आमी एक वेवस्तीत समाजीक रूप दिलां. चवदा, पंदरा, सोळा, सतरा वर्सांचेर एकलो चलो एके चलयेक गर्भेस्त करूंक शकता पूण आमच्या समाजान 'पिराय भरचे परयांत राकाजे' म्हळ्ळी वोंय घाल्या. पूण, लैंगीकता दांबून-थांबवन दवरूंक जांवची न्हय, आग्नेस. एका ज्वालामुखींत हुनहुनीत लाव्हा कितलो तेंप रावोंक सकात?"

"तर कितें करिजे म्हणचें तुवें?" आग्नेस सगळीच्च तांबडी जाल्ली. "रो...लीक एक होकाल हाडूं? हेंच शिकयतात तुज्या हैस्कूलांत जांतुं सेक्स ऐड्युकेशन तूं दिताय? फाल्यां सांगतोलोय तूं पाद्री-माद्रींक लग्न जावंक परवनगी दीजे...कित्याक, 'सेक्स' दांबून दवरची न्हय, लैंगिकता म्हळ्यार नैसर्गीक देणें...तर एड्स कितें लैंगीकतेन दिल्लें देणें?"

"हें तुजें चिंतप धुसपटायेचें, आग्नेस!" तो म्हणालो. "तुका कांय पंचेचाळीस वर्सां जालीं कळना आनी तुजो पती अंतरोन कितलीं जालीं? तीन वर्सां? पातियेजे हांवें तुज्या ह्या सुपुश्ट कुडींत आनीक उजो ना म्हण?"

"तुजें असलें उलवणे हांव तुज्या अधिकारींक सांगान तर..."

"म्हाका कांय जांवचें ना!" तो म्हणालो. "शाळेंनी घड्चीं कृत्यां, खुनीयो, विद्यार्थिंच्या बोल्सांनी हातेरां, मादक वोकतां, आमालाच्यो सिसल्यो...हें सर्व तुजे असल्यां आवयांच्या चिंतपांचो फळ, आग्नेस. एड्स सयत. लैंगीक शिकप जाय तुजे तसल्यांक, तुमच्या भुरग्यांक न्हय."

"कितें चिंताय तूं?" आग्नेसान विचारलें. "हांव तुज्या क्लासींत येवन बसतेलीं आनी तुजें भासकळपणा आयकातेलीं म्हण? हांव येवंची ना आनी रो...लिकयी धाडचीं ना. ताका जाय जाल्लें सेक्स ऐड्युकेशन हांवच्च दितां."

"हांव तें पातियेतां!" म्हणालो हेडमास्टर. "तुज्या पतीक हांवयी वळकातालों."

"You bastard!" आग्नेस म्हणालें.

* * *

रोलेंडाची वाडावळ त्या सकाळीं पूर्ण जाल्ली. ताका जाग जाली. कसल्या कसल्या गलीच्छ स्वप्णानी ताणें रात पाशार केल्ली. आदल्याच दिसा तो कुमसाराक वचून आयिल्लो आनी पातकांच्यो समयो (temptations) चुकय सोम्यां म्हळ्ळें मागणें ताणें उचारिल्लें निदोंक वेच्या फुडें. आपल्या राकण भड्व्याकड (guard-

ian angel) ताणें मागणें भेटयिल्लें, तशें ताका माम्मीन सवंय केल्ली. 'श्रेश्ट भइव्या सां. मिंगेली...' तरी शेजारचें फातिमा ताच्या स्वप्णांत आयिल्लें. मुस्लीम चली ती, गोरिच्च आनी सुपुश्ट. 'तुजें चान्स-रे' शेजारचे चले म्हणताले. "ताणें आतांच मात्यांगोळ घालूंक सुरू केला. ताचो तोडो उसळ्ळा (crude way of saying she is menstruating) अशें म्हजी माम्मी डॅडी लागीं म्हणताली. 'तशें म्हळ्यार कितें, माम्मी?' म्हण हांवें विचारल्ल्याक तिणें म्हजो कान वोळायले. ती कितें चिंता म्हाका कळित ना म्हण? त्या लांब दिवसा पंदाक तें 'ब्रा' आनी 'प्यांटी' खंडीत घालता-रे. तुजें नशीब -रे."

"म्हजें कित्याक नशीब?" रोलेंडान विचारल्लेल्याक तांणी जाप दिली ना.

* * *

त्ये रातीं फातिमा ताच्या स्वपणांत आयिल्लें. हें कांय पयिल्ले पावटीं न्हय. फातिमाची वाडावळ ताका कांय अपरिचीत न्हय. ताच्या हरद्याची उबाराय दिसान दीस चडोन येताना आनी ती उबाराय ताच्या दिश्टीक तोपताना ताका आपल्या जांगां मदें मिरमीरें वेदन जातालें. तवळ तो आपणाकच पोशेतालो. सबार पावटी फातिमान बातरुमांत विवस्त्र जांवचें दृश कशें आसात म्हळ्ळें नियाळतालो. पयलें आपलो मांत तें काड्टलें...उप्रांत तो लांब लीबास...उप्रांत तें सिलकाचें सल्वार-खमीजाचेर...तें सिल्क ताच्या कुडीक चिडकोन रावल्लें...बातरुमाच्या धोव्या इट्यांचेर प्रकासभरीत लायटांचो हमलो जातालो आनी फातिमाची गंवां-रंगाची कूड कशी उजळात? आनी थोडींच सेकुंदां...फातिमा आपलें खमीज निकळायतालें.

"म्हज्या पात्कांच्यो समयो चुकय देवा!"

काळो 'ब्रा' ताणें चिंतल्लेपरीं...आशेल्लेपरींच खमीज निकळावन फातिमान एका खिळ्याक शिरकायलें. आनी आतां सल्वार..नाड्याची गांट सुटयली फातिमान..एका खिणा भितर सल्वार बातरुमाचे धरणीर गळ्ळें...व्हय, ताणें आशेल्ले परींच... फातिमाची दीश्ट ताचेर पडली.

"हराम्या" तें बोबाटलें. "हांव मुस्लीम चली. हें सर्व हराम. कसो पावलोय तूं म्हज्या बातरुमांत?"

"ना फातिमा, ना! हांव तुज्या बातरुमांत ना. हो एक भ्रम...म्हाका तूं बरें लागताय, फातिमा I love you... हांव तुज्या बातरुमांत ना...हो एक भ्रम!"

तवळ, तें हांसलें.

"ह्या तुज्या भ्रमेंत कितें जाय तुका?" फातिमान विचारलें. "म्हाकायी तूं बरो लागताय. पूण जाणांय म्हजो अब्बा आनी अम्मी, आमकां अशेंयी कित्याक बंदडेंत दवरतात?"

"म्हजी माम्मीयी तशीच्च. आज पुणी..."

"सांग, रोली सांग...हांव तुजींच...कितें तुका जाय? ये,ये...सॉरी, तुका हांवें हरामी म्हळो. कितें जाय तुका? सवकास हो ब्रा आनी ही प्यांटी काडुं..."

फातिमाचे हात आपल्या ब्राच्या पाटल्या कुशीन गेले आनी तेच्च घडिये रोलेंडा बितल्ली ज्वालामुखी उमाळोन फुटली...

ताका जाग जाल्ली..

देगेनंच निदोन आसल्ली आग्नेस माम्मी.

तिका दोंकळून उटयलें रोलेंडान.

"माम्मी माम्मी!" तो बोबाटलो. "हांव पात्कांत पडलां, माम्मी! पळे कितें जालां तें म्हज्या पिजामाक?"

"कितें जालां, रो...ली...?"

"पळे माम्मी, पळे!"

आनी तिणें पळेलें

"इतल्याकच तूं भियेलोय, म्हज्या पुता?" आग्नेसान ताका आरावन धरून मुरडिलो. "आतां तूं परिपूर्ण दादलो जालोय, रो...ली."

"म्हाका दादलो जावंक नाका, माम्मी," तो रडलो. "दादलो जाल्यार हांवें लग्न जावचे पडटेलें म्हण तूं म्हणतालीय."

तिणें ताका आनिकी घट्ट आरायलो.

"तुका लग्न जावंक नाका, न्हय रो...ली?" आग्नेसान विचारल्लें. "तुका कितें शिकयिल्लें रो...ली? हांव तुजी आग्नेस माम्मी आस्तां पर्यांत तुका लग्नाची गरजच ना म्हण? हांव ह्याच्च दिसाक राकतालीं, रो...ली. तूं म्हजोच्च पूत रो...ली. तुका कोणाचिच्च गरज ना रो...ली!"

रोलेंड उसमडलो.

"पूण फातिमा म्हजो मोग करता, माम्मी!"

"कितें म्हणालोय तूं?" आग्नेसान ताच्या भुजांक धरून हालयलो. "तितुन पर्यांत पावलोय तूं? हांव जाणां, जनेलां खांचींतल्यान तूं तांच्या बंगल्याक पळेवनंच आस्ताय. तांणीं सुकत घाल्ली पंदली मुस्तायकी मेजताय आनी आतां...फातिमा तुजो मोग करता? ताच्या अब्बाक हें कळीत जायत तर तो तुका कितें करीत म्हळ्ळें तूं जाणांय रो...ली?"

"पूण फातिमा म्हजो मोग करता, माम्मी..." तो म्हणालो. "ताका हांवें तांच्याच्च बातरूमांत म्हजे खातीर विवस्त्र जाल्लें पळेलां, मम्मी आनी तशें जाल्ल्यान म्हाका कळीत जालें हांव तुजो 'बोन्साय' न्हय म्हण!" तो आपल्या पिजामाक

दाकयलागलो. आग्रेस खटल्या वयली उटोन देगेन रावली.

"तुका हेंच हांवें शिकयिल्लें?" तिचें सर्वांग कांपतालें. "तुज्या बापयच्या मेटांनी तुका चलोंक हांव सोडिशीं ना."

आवय-पुताचे दोळे ऐकामेका खिळाले, झुजले.

"तुका तुजी जिणी जियेवंक जाय, त्या दळदीर हेडमास्टरान तुका हेंच शिकयलां न्हय? पळेतां हांव तुमी कित्तुन पर्यांत पावतात म्हण? ताच्या सेक्स क्लासिक तूं वेतोलोय-मू?"

रोलेंड हासलो.

"तूं सलवालीय, आग्रेस माम्मी!" तो म्हणालो.

* * *

दोन संगती आतांयी त्या शहरांत मिस्तेर जावन उरल्यात.

पयलीं, आग्रेसाचें मरण/खून/जीवघात. कोणाक कशें जाय तशें.

पोलिसांक कसलोच्च सुराग मेळल्लो ना. तिची कूड तांकां किचनांत मेळल्ली आनी कोणेंगी तिच्या मणिगांटिच्यो शिरो (nerves of the wrists) शिंदल्ल्यो. कोणेंगी कित्याक, आग्रेसानच जायजे म्हळ्ळें फैसल दिल्लें पोलिसांनी. खून जाल्ली/केल्ली/ तर, तिका बांदून घाल्न, मोत चुकवन हें काम करते आशिल्लें. पूण असलें कसलेंयी जांवक नाशिल्लें... कोणायकी स्वताच्यो मणीगांटी शिंदून, रगत व्हळवन आनी सवकास मरणाक येवकार मार्गोक सुलभ पूण धैर्य मात्र जाय.

कितेंयी तरी, त्या सकाळीं धा वोरांचेर, आपणालागीं आसल्ल्या चावियेन दार उगतें करून भितर आयिल्ल्या घर-कामाचे चलियेक आग्रेसाची कूड मेळटाना, रोलेंड, हेडमास्टराच्या सेक्स ऐड्युकेशन क्लासींत आसल्लो म्हळ्ळी संगत, दुसरी...



# जाणीव

- सुरेश कामत सातोस्कार

*आप्पाच्या वैकावयलो*
*पयलींचो काळ,*
*जमानो आतां*
*उरूंक नाशिल्लो.*
*आप्पाच्या तरणेपणांत*
*दोगी तरी वावराड्यो*
*खावन जेवन घरांतच*
*आसताल्यो. सांज जाली*
*म्हणचे त्यो आपल्या*
*घरा वताल्यो.*
*काळ झपाट्यान*
*बदल्लो. वावराड्यांचीं*
*कामां घरच्या बायलांकूच*
*करपाचो प्रसंग आतां आयलो.*




देऊळ वाडा,
माशेल - गोंय


**आ**पल्या जिविताची आतां सांज जायत आयल्या हें अप्पाक जाणवलें. आतां ज्यास्त जगून उपयोग तरी कितें. सगळीं गात्रां मोव, शिथिल जाल्लीं आसात. दोळ्यांक धड दिसना. चश्मो नाकाक जड लागता. हात पांय बरोबर काम दिनांत. भूक तर सारकी लागनाच. आपलीं स्वताचीं दिसपट्टीं कामां करताना लेगीत कोणाची ना कोणाची तरी मदत घेवंची पडटा.

घरांत कर्तेसवरते दोन पूत आसात. दोगी सुनो आसात. दोगांय पुतांचीं लग्नां आप्पानूच मोठ्या थाटांत करून दिल्लीं. दोगांय पुतांक बऱ्यो नोकऱ्यो आसात. एकटो सरकारी नोकरेर आसा दुसरो एका मोठे प्रायव्हेट कंपनींत नोकरी करता. दोगांयकूय बऱ्यां पयकीं पगार आसा. दोगांय सुनांगेर भुरगीं आसात. आप्पाक नातवंडां आसात. आप्पाक आनीक कितें जाय? पुणून सगळें इतलें आसून लेगीत आप्पा सद्या एकाकी आसा. ताचे कडेन आपुलकीन लक्ष दिवपी कोणूच ना. घरांतलीं सगळीं मनशां आपआपल्या कामांत व्यस्त आसतात. ताचे दोगूय पूत जेवणाचो डबो घेवन सकाळीं उठून कामार वतात ते रातचे किंवा सांजवेळार घरा येतात. दोगांय सुनांक घरांतलें काम खूब पडटा. सकाळीं उठून च्या नास्तो करूंक जाय. जेवणाचो डबो करूंक जाय. भुरग्यांक शाळेंत पावोवंक जाय. शाळेंतसून हाडूंक जाय. तांचो टिफीन,

उदकाची बाटली, दप्तर सगळें भरून तयार करूंक जाय. दनपारचें जेवण, रातचें जेवण, धुल्ले कपडे सुकोवपाक दांडयेर घालप. कितलीं कितलीं म्हणून कामां ताणीं करचीं! त्या शिवाय घरांत कोण ना कोण सोयरो आयिल्लोच आसता. गृहस्थिधर्मानुसार तांचीय ऊठ-बस, जेवणा खाणाची वेवस्ता करचीच पडटा.

ह्या सगळ्या राटावळींतसून वेळ मेळ्ळो जाल्यार आप्पाकडेन तीं लक्ष दितालीं. तो पर्यंत आप्पाक आपलें काम जाता तशें आपणेंच स्वताच करचें पडटालें. सुनो तांकां वेळ मेळटा तसो च्या-पाणी, नास्तो जेवण ताचे कुडींत येवन ताच्या फुडें दवरतालीं. घरांत येवपी पार्टटायम वावराडी, ताच्या रुमांत झाडू मारून साफ सूफ करताली. घरांतलें ठरलेलें काम जालें की ही वावराडी रोखडीच दुसरीकडेन वताली. तिका आनीक कांय जणांचीं कामां आसतालीं. आप्पाच्या वेळावयलो पयलींचो काळ, जमानो आतां उरूंक नाशिल्लो. आप्पाच्या तरणेपणांत दोगी तरी वावराड्यो खावन जेवन घरांतच आसताल्यो. सांज जाली म्हणचे त्यो आपल्या घरा वताल्यो. काळ झपाट्यान बदल्लो. वावराड्यांचीं कामां घरच्या बायलांकूच करपाचो प्रसंग आतां आयलो. सुनंदा, आप्पाची बायल, देवा घरा गेल्या पासून आप्पा सामकोच एकटो पडलो. सुनंदा आसा मेरेन तिच्यान जायनासताना लेगीत ती आप्पाचें सगळें करताली. ताका कितें जाय नाका तें पळयताली.

दोन वर्सां पयलीं सुनंदा गेली आनी आप्पा खचलो. बायल घोवाचें हें नातेंच वेगळें. सुनो कितल्योय जाल्यार परकी. परकी रगताच्यो. तांकां आप्पाची ओड ही मर्यादिंतूच आसपाची! त्या शिवाय तांचो घोव, भुरगीं, तांचें शिक्षण हांतूंत तीं घुस्पल्लीं.

धाकटो पूत आप्पाची अधून मधून चवकशी करतालो. ताका कितें जाय नाका विचारतालो. वखदां लागल्यार हाडून दितालो. व्हडलो पूत मात आपली बायल, भुरगीं हातूंतच मग्न आसतालो. पुतांचेंय बी खरें. तांच्यो नोकऱ्यांतल्यो जबाबदाऱ्यो, बायल भुरग्यांची जबाबदारी घेवन तांचे कडेन तांकां पयलें लक्ष दिवचेंच पडटालें. आप्पाचें वय जाल्लें आशिल्ल्यान केन्ना तरी तो पालवतलो अशें ते धरून चलताले. फुडलो संवसार हो तांच्या बायलां भुरग्यांचो आशिल्लो.

आप्पाक याद जाली. कितले व्हडवीकेन ताणें आपल्या भुरग्यांक वाडयल्ले. तांकां शिक्षण दिवन, लग्नां करून संवसाराक लायिल्ले.

आतां आप्पाक कितेंय जाय पडल्यार सुनांक, नातरांक उलो मारल्यार तीं तो आयकूंक आयलो ना अशें धरून आपआपल्या कामांत व्यस्त आसतात.

सुनो म्हणटात आमच्या घोवांचें आनी भुरग्यांचें करतानाच आमचो जीव मेताकुटीक येता. तरी आमी तुमचें आमच्यांनी जाता तितलें करतात. नातरां आपल्या अभ्यासांत आनी खेळपांत दंग आसतात. केन्ना केन्ना लहर मारली जाल्यार तीं आप्पाक मदत करतात. तांचो हात धरून हांगा थंय भोंवडायतात. कसलीय वस्तू लागल्यार ताका हाडून दितात. तांचेंय खरें! तांचें आतां शिकपाचें आनी खेळपाचें वय. आप्पाकडेन जाय तशें लक्ष दिवपाक कोणाकूच वेळ ना. 'पराधीन आहे जगती पूत्र मानवाचा'. हें केन्ना तरी आयकल्लें पद आप्पाक उगडास जालो.

ताच्या घशाक कोरड पडलेलो आसलो. थोडें गरम उदक ताका पियेवपाक जाय आशिल्लें. ताणें सुनेक उलो मारलो. नातरांक उलो मारलो. कोणेंच तो आयकलोना. सगळीं टि.व्ही. पळोवपांत मग्न आशिल्लीं. आप्पा तसोच हांतुणाचेर लवंडलो. ताका जाणीव जाली, आपलें आयुश्य आतां सोंपत आयलां. जास्त जगपांत कांयच अर्थ ना. वता तो दीस खरो.



# मूळ नक्षत्र

**- पद्मनाभ नायक**

*ताणें-ककसों सक्कल*
*दवोर्न सावित्रीक*
*पळयलें तागेल नजरेंक*
*नजर दिव्नु*
*पोकोवच्याक जाय*
*नाशी, सावित्री मान*
*मुकां घाल्नु, ककसों*
*घेव्नु बांयतुल्यान*
*उद्‌दाक काडता.*
*उद्‌दाक बालदींत उपशिलें.*
*त्या उदकांतु*
*तिगेल दोळ्यांतुल्यान*
*अश्रु टप-टप गळलों.*




बी/२०१, मंजुनाथ सीएचएस लि.,
संत नामदेव पाथ, तिलक नगर,
डोंबिवली (ई) ४२१ २०१
फोन :(०२५१)२४२१४०१


**ग**णेश कामती रिटायर जाव्नु धा-बारा वर्सां जालीं. पेनशनारी तागेल संवसार चलता. संवसार होड ना. तो, तागेल बायल आनी लग्ना वाडिल्ली एक धूव. तागेल एक्कू एक पूत, इंजिनियरींग पास जाव्नु, हैदराबादांतु नोकरी करतालो. म्हालगडे धुवेक रिटायर जावचे पयलीं लग्न कोर्नु दिलें ताणें.

म्हालगडे धुवेक लग्नाक वरदक्षिणा दिना जालेतिकी, खर्चुची लाखभर रुपया आयिलो. ते दिकून आन्नेक धुवेल लग्नाक विंगड पयशे काणु ताणें बेंकांतु दवरले. गेल्ले आठ-धा वर्सां धोर्नु सोयरीक सोद्दिलतिकी जातका मेळा मेळी आयलना. कारण गणेश कामतील धुवेलें, याने सावित्रिलें जन्म नक्षत्र 'मूळ'.

सावित्री रुपान चंद. गुणान भारी बरी. कॉलेज शिक्षण पूर्ण केल्यां. तरीय बी 'मूळ नक्षत्र' म्होणु एक्क कारणाखातीर सोयरीक मोडतासिली. सावित्रील लग्न कोर्नु, पुत्ताल लग्न कोर्चें म्होणु गणेश कामतीन ठरयिलें. म्हणता...म्हणता वर्सां गेल्लिलीं कळिलना. सावित्रील लग्न जमील ना, पुत्तालेंय केलिल ना. अशि जाव्नु कामतीक जिवा बेजार आयिलो. निराशेन तो निष्क्रिय जालो.

ह्या परिस्तितीतुं तागेल पूत हैदराबादातुं थंचिच चेल्ली पसंद कोर्नु, रजिस्टर लग्न जालो. केन्नाच्यान तांगेल तें प्रेम प्रकरण चलत

आस्सिल की! पुरा जाय ना पडेन आवय-बापय्क कळ्ळें. लग्ना नंतर रिसिप्शन दवरिलें. हांकां आपयिलें. हे तेन्नां गेलिल नांती. एक-दोन महिन्यां नंतर हैदराबाद वोचून आठ-धा दीस राबून आयलीं.

एकून विचार केल्ल्यारी हांतु चुकी आवय-बापायलीची दिसून येता. कितल बर-बरे सोयरीक पुताक सोदून आयिल्यो. 'धुवेल लग्न जालेशिवाय पुताल लग्न कर ना' म्होणु ठरयलें चुकी न्हय वे? पूत वयान होड, धूव सानि. 'मूळ नक्षत्राचेरी जन्मा आयिल्यांले लग्न जमचें भारी कष्ट' म्हळीलें गणेश कामतीक गोत ना वे! आत्तां घडचें घडून गेलें, हांगेल मनांक एक आघात!

हळु हळु हैदराबादातु पुत्ताल संवसार वाडत गेलो. ताणें गांवा खणकोर्चे (धाडचे) दुडवांची खात्री कमी जायत गेली. बापूय पुतालागीं पयशे मागनाशिलो. लग्ना पयलें पूत, तो जाव्न पयशे धाडतालो. आत्तात्तां पत्र व्यवहारय कर्मी जायत गेलो. हान्नी चार कागदां धाडल्यार तो एक किंवा दोन जवाबी कागदां धाडतालो. कारण ताणें हैदराबादांतु घर घेत्तना, बापायन पयशेची मदत केलिल ना, म्होणु राग ताक्का.

रिटायर जालिल गणेश कामत, पयशे खंचान धाडतलो! धुवेल लग्नाक म्होण बेंकांतु दवरिल पयशे, पुत्ताक घर घेत्तना दिल्यारी, फाले अचानक धुवेली सोयरीक जमल्यार, तो घेत्तील पयशे परत करतलो म्हळील विश्वास ताका ऊरना. एकूण कामतील अवस्था 'आढ कात्रिंतुल फापळा (सुपारी) वरी' जालिली.

आत्तां पुताक बापायली परिस्थिति कळना वे! कळना म्होणचें कश्शीं! सर्व कळता. हैदराबादांतु घर घेत्तना ताणें जबरदस्त बेंक लोन घेतला. तागेल अर्ध पगार कंतु (Loan Payment) भोरच्यांतु सरता. उरील अर्ध पगार तागेल संवसार पोस्सुचाक नाक्क वे! लग्ना नंतर ताक्का दोन चर्डुवां जालिंती. होड्डांक पोस्सुचकिंता (परस) चर्डुवांक पोस्सुच्याक खर्च जास्त लागता.

वर्ष सर्लेतिस्सिं प्राय सरत गेली. रूप बावत गेलें. लग्ना वाढील चोल्लियांक 'आपण्यालें लग्न जात्तलें' म्हळील विश्वास उढत वता. सावित्रील बाबतींतु तेंच घडलें. सोयरीके विषयांतु खटपटे कोर्चे कमी जालें. वयान सावित्री किंवा कित्लकी सान आसिल्यांक, लग्न जाव्नु, चर्डुवां सुद्दां जालिंती. तिगेल बापुय भयण्यांक, मावस भयण्यांक लग्न जालें. सोयरे-संबंधिकांतु सावित्रील लग्नां विषय एक चर्चेचो विषय जालो.

आजकाली एक्क घरांतुल म्हालगड भयणीलें लग्न जमना जाल्यारी धाक्लेक धार ओत्तून दीनांति वे! पोळोच्याक गेल्यारी अशिं कित्ल की उदाहरणा आस्सती. तांगेली फिलोसपी- 'जून जलिल फल पिकच्याक वेळ लाग ना, पिक्कील फल कुसच्याक वेळ लाग ना.' ही फिलासपी सगळ्यांक पटची नंय कारण काहीं फल कुसनांती, सुकताती. सुकल्यारी ताक्का आनीक जास्त रुची.

अंतु सगळ्यांनी सावित्रील सोयरिके विषयांतु माक्षी सरलो तिकी, नशीब तिगेलें, सोण्ण दिना. संबंध तिक्का सोदून, घरा बागलांतु (दारांतु) आयलो.

प्रमोद एक नेशनल बेंकांतु काम करतालो. वर्ग (बदली) जाव्नु तो 'अंकोला' पावलो. आयिलोची राबच्याक एक रूम भाडेन मेळता की म्होणु सोद-सोद सोद्दिलें. दोन आठवडे जालोतिकी, खंयी रूम मेळिलना. होड घर नाक्का ताका. कारण रावतलो तो एकलोचू. तागेल लग्न अजून जालिल ना. रुमाची चवकशी करत...करत तो गणेश कामतील घरा बागलांतु (दारांतु) पावलो. कामतीक रूम भाडे दिवचें मनांत नाशिलें. जाल्यार दारांतु आयिले व्यक्ती एक अतिथी म्होण समजून, ताका भित्तर आपयत उलैत...उलैत तागेली चवकशी केली.

प्रमोदाल जन्म होड घराण्यांतु जालिलो. तांगेल कुटुंब श्रीमंत जावन आस्सिलें. तांकां जमीन, आस्थी भरपूर आस्सिली. आमगेल देशाक स्वातंत्र मेळ्ळें. आम्मींची निवडून दिलिलें सरकार आयलें. त्या सरकारान ना ना नमुन्यांचे कायदे केले. त्या कायद्यानी जमीन रैतांक गेली. जमीनदाराल्या वांटेन गरिबी आयली. आत्तां हे योग्य की अयोग्य म्हळिलें सामान्य मनशांक ठरोवच्याक जायना. ताणीं आयिल परिस्थितीक तोंड दिवचें पडता.

गांवचे गांवांतु स्कूल, कॉलेज उरच्यादिकून आनी त्या काळांतु शिक्षण थोडे फार फुकट जावच्या दिकून, बोडान ही चर्डुंवा चुर्क (हुशार) उरच्या दिकून प्रमोदाले भाव भयण्यांनी शिक्षण पूर्ण केलिलें. चार भाव आनी चार भयणी ते. भाव नोकरी निमित्त दूर-दूरचे गांवां गेले. घरचे प्रत्येक काम कारणांक आवर्जून ते येताले. म्हालगड्यांले मना विरुद्ध खंयचे कृत्य अजून ताणी केलिल ना. दोन भावालें, दोन भयण्यांली लग्नां जाल्यां. एकेक भावान एकेक भयणील लग्नाची जबाबदारी घेत्तिली. तिसरे भयणीलें लग्न, त्याच वर्षा केल्लें. प्रमोद तिसरो भावु जावच्यादिकून आत्तां त्या जबाबदारींतुल्यान मेकळो जाल्लो. ताणें लग्न जावेतालें. ताक्का सिगनल (signal) मेळिलें.

हे अल्प परिचयान, गणेश कामतीक प्रमोद आवडलो. ताका मदत कोर्चे दृष्टीन, दुसरे कडेन रूम मेळो पर्यंत, तुर्त तांगेथंचे एक रुमांतु राबोवन घेवच्याक तो तयार जालो. जाल्यार थोडे दिसा खातीर प्रमोद तयार जाय ना. परत आनी रूम सोद्दित उरचें, सामान शिफ्ट कोर्चें ताका आवडलना. कमीत कम्मीं एक वर्ष एक्के कडेन उर्चो विचार तागेलो.

हांगेल उत्रां गणेश कामतील बायल, कवडा (दरवजा) आढ

राबून आयकतासिलीं ती जास्त व्यवहारीक उरता. भायरी च्या हाणु दिवच्याक आयिली, दोळ्यांन सन्नाव (कुरू) कोर्नु घोवाक भित्तर आपयलो. आनी म्हळें 'पोर बरो आस्सा. आमगेल जातींचो! राबता जाल्यार राबो. एक रूम खाली कोर्नु दिवयां. भाडें कमीं सांगनाकाती. चार पयशे मेळ्यारी मुकार आमकांची क्रामां येतलें.'

गणेश कामत तयार जाता. मुद्दां भाडें बेगेन जास्त सांगलें. प्रमोद तयार जालो. कित्याक की म्हळ्यार, रूम इस्कळ आसिलें. हवेशीर आसिलें. त्या रुमांत आस्सिल मांचो (सोफा), खुर्ची, टेबल ताका वापरच्याक अढणा म्हळिलें. इलेक्ट्रीक फेन आसिलो, ट्युब लाईट आसिली. जास्ती चवकशी करची सोण्णा ताणें हां म्हणलें.

दुसरे दीस प्रमोद त्या घरांत राबच्याक गेलो. एँडवान्स (advance)भाडें दिवच्याक खिशांतुल्यान पाकीट भायरी काडलें. गणेश कामतीन एँडवान्स घेतलना. भाडें मात्र चुकनाशी टायमारी दी म्हणलें.

दिवस गेले. म्हैने सरले. एक वर्ष सोरच्याक आयलें. क्रमेण प्रमोद, कामत कुटुंबाचो एक सदस्य जालिलो. परतुं त्या घरांतु तागेली मर्यादा तो वळकून रावलो. घरांतुं लग्ना वाढील चेल्ली आसा, वागणूक संशयास्पद उरच्याक ना हें भान तागल लक्षांत कायम आसिलें.

कामत कुटुंबियांक प्रमोदाल गूण आवढले. सावित्री खातीर तागेल जातक (पत्रिका) ते विचारतास्सिले पूण तागेल बापूय जिवंत आस्सा म्हळील कोळनु, त्या विचाराक थंईचू पूर्ण विराम दिलो.

मूळ नक्षत्राचेरी जन्मा आयील चेल्लिक मांव नाशिलकडेन लग्न कोर्नु दिवका म्हणताती. एकेक पंता काही घटना अशीं घडताती की सगळें आचार-विचार-शिष्टाचार मुल्लेंतु पडताती. गणेश कामतील घरांतु अस्सिंची एक घटना घडलली.

एक दीस अचानक वय जालिल गणेश कामतील रक्त दाब वाढलो. चक्कर येव्नु घरांतुं पडलो. ताका होस्पिटलांतु व्हयलो. डाक्टर तपाशिले. ई. सी. जी. काडलो. आनी आय.सी. यूं. त दवरलो. एक पटे होस्पिटलांतु भर्ती केल्ले वे, तांगेल सर्व नमुन्या टेस्ट सुरू जाले. त्या होस्पिटलांतु कित्तल नमुन्यांचे साधन आसाती तितले नमुन्यांचे परिक्षा ते जाव्का म्हणताती.

(हाक्का 'Daignostic Pain' म्हणताती. हें हांवें दवरील नांव नय् आमगेल देशाचे (President) अध्यक्ष जाव्न आसिल, अब्दुल कलाम हात्रीं दवरिलें!)

इत्ले सर्व टेस्ट जावका. ताचो रिपोर्ट येवका. त्या त्या स्पेशलिस्ट डाक्टरांनी तो रिपोर्ट पोळोवन, आराम नाशील मनशाक कस्सने (कितें) जाल्यां म्हळीलें सांगका! अंकोले अस्सले गांवांतुं इत्ले जाव्का जाल्यार चार-पांच दिवस लागताती. धाव्नु खेळच्याक घरांतु दादले मनशां उरका पडता.

हैदराबाद आसिल पुताक यो म्होणु कळयल्यारी तो आयलोना. Departmental Examination आनी promotional interview आसा म्हळें. पयशे खणकरता (धाडटा) टेलिफोनारी चवकशी करत उरतां. पयशे जाव्का पडता, संशय ना! पण आपले म्हळील मनशांकी लार्गीं उरकां पडता.

परिस्थिती जाणून प्रमोदान कोणें सांगचें पयलें, आपणहून एक आठवडो रजा घेतली, गणेश कामतील सेवा केली. रात्रीचें आस्पत्रेंतु तागेल लार्गीं राबलो. दिसाचें आस्पत्रेंतुं यो-वच केलें. ही धांवपळ करतना जेवणाक खानावळींतुं गेलना. गणेश कामतील बायलेन ओत्तायान (आग्रो करून) ताक्का जेवणाक राबोवन घेतलो. आनी हें घरचें जेवण, गणेश कामतीन बरो जाव्नु घरा आयिल नंतर कायमचे जालें. तांगेल्यांतु एक अतूट संबंध निर्माण जाललो. पयलें प्रत्येक रजेंत प्रमोद तांगेल गांवां वतालो. आत्तां अपरूप केन्नातरी एक पटे वतासिलो.

प्रमोदाले आनी सावित्रील मदें नकळत आपुलकीन सहज, विश्वासजन्य प्रितीची एकेक पाकळी फुलत गेली. मनुष्याले आंगांतुले मनुष्यत्वाक करचे प्रितीक विश्वासजन्य प्रिती म्हणताती. ती प्रिती केन्ना असफल जावचें भंय ना. रूप, लावण्य पोळोवनु प्रिती करतले बहुतेक फसताती.

जस्सी बाविल झाडाक, उद्दाक फापुडल्यार तें झाड टवटवीत जाता तस्सी ह्या दोन-चार म्हयन्यांतुं सावित्रील रूप, प्रमोदाल सहवासान टवटवीत जालिलें. सहवास म्हळ्यार हातांत हात घेव्नु समुद्रा वेळेर भोंवचें न्हय वा खांद्यार हात घालन जोडेरी सिनेमा पोळोवचं न्हय! सहवास म्हळ्यार एकमेकांल स्वभाव जाणून घेवंचो, आवड-निवड जाणून घेवची. हे जाणून घेत्तना हो विश्वास निर्माण जाता ताजेन आपुलकी निर्माण जाता. ताक्का प्रिती म्हणताती. निस्वार्थ प्रिती ती. तांतु कसलो स्वार्थ ना. कोणें कोणांक फसोवचें भंय ना.

भविष्याचें मुख्य गूण कस्सने की म्हळ्यार, मुकार जावचें आमकां कळना. हांगा तेंची जालें. प्रमोशन मेळ्ळें म्होण सर्वांक खुशी जाली आनी दुसरे गांवा वर्ग जालिल आयकून दुखय जालें. ही सूख दुखाचें तुलना केल्यारी गणेश कामतील घरच्यांक दुख जास्त जालिलें. तश्शीं पोळोवच्याक गेल्यार तो कोण की कित्की! हांगा येव्नु तांगेल चेर्डापुशी (भुरग्यावरी) लार्गींचो जालो. तांगेल सूख दुखांतु सहभागी जालो.

प्रमोदान उलयतना कोणाले मन दुखोवचें ना. ताणें उलोवचें कमीं, आयकुचें जास्ती. असली मनशां कोणाकय

आवडताती. कोणालेंय मन जिंकून वताती.

ट्रान्सफर ओर्डर प्रमोदाल हात्तांतुं आयलें. फक्त हो म्हयनो सरो पर्यंत 'अंकोला' उरका. नंतर दूर वचका.

तो दिवस आयतार. बेंका सुट्टी. प्रमोदाल मुख्य कार्यक्रम कपडे उंबोळचें. सुकनापडेन इस्त्री कोरचें.

बांयचे धडेलागून प्रमोद कपडे उंबळतालो. सावित्री गप्-चुप् तागेल फाटल्यान येव्नु राबली. आज प्रथम तिक्का तागेल्यागी गुपीत उलोकाशें दिसलें. पण मनांतुल गुपीत विचार, एकांतांतु व्यक्त कश्शीं कोरचें, म्हळिलें कळनासी गोंधळत उरलें.

मनशांली मनांतुली प्रत्येक भावना शब्दांतु दुसऱ्यांक व्यक्त कोरच्याक जाता आस्सिं ना. कित्ले की लोक गोंधळताती. सावित्रील अवस्था तीच जालिली.

सावित्री आयिली प्रमोदाक गोत्तसिलें. तो कपडे झळ-झळावच्याक उद्दाक जावका म्होणु, कळसो हातांतु घेव्नु वळलो. सावित्रीक पोळोवन ताक्का आश्चर्य जालें. ती खूब नर्वस दिसताली. तिणें आयिल उद्देश, तागेल जिवाक कळलो. क्षणभर तोयी गडबडलो.

'मनशांन अनपेक्षीत घटनेक तोंड दिवच्याक केन्ना तयार उरका'. हें अनुभवान प्रमोद शिकलो. ताणें कळसो सक्कल दवोर्न सावित्रीक पळयलें तागेल नजरेक नजर दिव्नु पोळोवच्याक जाय नाशी, सावित्री मान मुळां घाल्नु, कळसो घेव्नु बांयतुल्यान उद्दाक काडता. उद्दाक बालदींत उपशिलें. त्या उदकांतु तिगेल दोळ्यांतुल्यान अश्रु टप-टप गळलो. तें पळोवन प्रमोदान तिक्का विचारलें,

''सावित्री...ऽऽ तुगेल दोळ्यांतु अश्रु!''

सावित्री सेरगान (पालवान) तोंड



धांपून घेतलें. तें बुलुबुळू रडतासिलें. प्रमोदाक कसने कोरका म्हळीलें कळनासी, तिक्का पळयत उंबोळचे पात्यरारी बसून उरलो. तिणें सवकाश मान वयर करत प्रमोदाक पळयत म्हणलें - ''तूं आमकां सोण वता नवे!'' हें सांगतना तिगेल चेहऱ्याचेरी वेदना व्यक्त जातस्सिली.

''छे...छे!! तुमकां कस्सी सोण वोच्याक जात गो! तुम्मीं आत्तां मेगेल इतले लार्गीं आयलेती की तुमकां दूरकोर्चे अशक्य. ही एक बाजू जालिनवे! आन्नेक बाजू आयकव. आमकां प्रमोशन मेळे नंतर त्याच शाखेंत (branch) दवरनांती. दुसरे शाखेंत धाडताती. आम्मीं वोचुका, ना जाल्यार प्रमोशन रद्द जाता. सावित्री... प्लीज, तूं हें समजून घे गो! आनी म्हाका एक सांग, हांव तुका मेगेली म्होणु, मेगेल सांगाती आपोवन व्हरतां. तूं येत्त वे?''

सावित्री हे...ऽऽ ची प्रश्नाक इत्यर्थ लावच्याक आयिली आसिली पण प्रमोदान सांगिलें, विचारलें आयकून नर्वस पडली. तिगेल हात-पांय थरथरयासिले. हात्तांतुल कळसो जार्वून (निसरून) सक्कल पडले. तिका कस्सने कोर्का, कस्सने सांगका म्हळिलें कळ नासिलें ती आयिल वाटेन परत वोच्याक गेली.

प्रमोद हे विषय आज अर्धारी सोडच्याक तयार नासिलो. ताणें तिक्का विचारलें, ''सावित्री...तूं मीक्का लग्न जाता?''

''पण...मे...मे...मे गेलें, मू...मू...मूळ नक्षत्र'' हें सांगतना तिगेल वोंठ थरथरताले.

''तें माक्का गोतास्सागो. माका तातुं सर्व विश्वास ना. आनी तुमीं वैष्णव, आमीं शैव. तोयी भेद हांव मानना गो.'' दृढ निर्धारान प्रमोदान सावित्रीक सांगलें.

जातकावयलो विश्वास सावित्रीलो केन्नांकी उडून गेलिलो. तिगेल जातक कितले कडेन दाकयलें, वर्षा भितर लग्न जाता म्हणताले. परतुं कितलीं वर्षां अशींची गेलीं, हिसोब कोणी दवरलना. मूळ नक्षत्रा चेल्लीन लग्न जावनु गेलिल घरांतु, अनर्थ घडल्यारी ताका तीच कारण ठरता म्हळील अपवादाक ती भित्ता. सावित्रील जातकांतु लग्न जातना, ''मांव उरच्याक ना'' म्होणु आस खंय! प्रमोदाल बाप्पा वंय जालेतिकी सशक्त आसिलो. अशीं जाव्नु प्रमोदाले प्रश्नाक कितें उत्तर दिवका, तिका कळना जालें. एक...एक पाऊल मुकार घालत ती भितर गेली.

भितर सावित्रील आवय-बापूय हेच विषयाचेरी उलयतासिली. ''चेल्लो स्मार्त जालतिकी आसिलो. जोडी बरी शोभतास्सिली.'' गणेश कामत म्हणतालो.

''जोडी बरी आस्सिली. चेल्लो गुणान भांगर. पूण कसन कोरचें? तागेल

बापूय हाता-पांयान घट्ट मुट्ट आस्तना, जातक कश्शीं विचारचें! विचारचें सम वें?" सावित्रील आवयन म्हळें.

हांगेल दिवस विचार कोरच्यांतु गेले. प्रमोदान भायरी सोरचो दिवस आयलो. टेक्सी घरा बागलांत, येव्नु राबली. सामान डिक्कींत घाल्लें. प्रमोदान गणेश कामतीक आनी तांगेल बायलेक पांय धोर्न नमस्कार केलो. त्या वयोवृद्ध म्हाताऱ्यांले दोळे भोर्न आयले.

दोळे पुसत कामतीन सांगलें. "आमगेल सावित्रीलें मूळ नक्षत्र न्हय जाल्यारी तुक्काची आम्मीं जांवई कोर्न घेत्ता आशिले."

"आमगेल पोटांत जन्मा आयिल चेल्लो, आमकां दूर जालो. तुवें इतले दीस लार्गीं उरच्यादिकून, आमकां ताचो भास सुद्दां जालिल ना. मेगेल चेर्डावरी आशील तूं. आत्तां...तूं सुद्दां...दूर वोच्याक भायरी सरलो मरे!" हें सांगतना सावित्रील आवयले दोळे भोर्न आयिले. सेरगान तोंड धांपूण घेतले तिणें.

सावित्री पयलेंची गेटालार्गीं वोचून राबिली. तिका कसने सांगचें ऊरना. तिगेल भावना दोळेंतूल अश्रु व्यक्त करतासिले. ह्या जगांतु आशा भंगा सारकें दुख दुसरे ना.

प्रमोद टेक्सींतु बसचे पयलें सावित्रील लार्गीं वोचून तिगेल हात हातांतु घेतलो. प्रथम स्पर्शान सगळें कार्यीं व्यक्त जालें. ताका आनी शब्दाची अवश्यकता नासिली तरी पूण ताणें सावित्रीक सांगलें- "सावित्री हांवुं तुमगेल घरांत उरलों, तूं मेगेल मनांत उरली. I love you सावित्री. एक दीस जरूर तुका आपोवन व्हरतां. तो दिवस शक्यतो बेग्गी येवो म्होण देवालार्गीं मागुंया"

सावित्रील दोळेंतुल्यान अश्रु गळतासिल. आत्तां ते दुखाचे न्हय, आनंदाचे!

प्रिती-प्रेम कोणें सांगून जन्मा येना. हें खरें! पण पयलें आत्म समर्पण कोरका नंतर देह समर्पण कोरका. ताका 'अमर प्रेम' म्हणताती. ये पयलें देह समर्पण करताती नंतर आत्म समर्पणाक धाड बोडोवन घेताती ते बहुतेक असफल जाता.

टेक्सी गेली. त्या नंतर दिवस गेले. वर्षां गेलिंती. परत गणेश कामतील घरांत निराशेचे अंधकार पसरलो. सावित्री भाग्गून बारीक काड्डीशी जाली. शरिराची व्याधी मनशांक कळताती. मनाची व्याधी कोणांक कळता? कोणाक दिसता?

येत्तां म्होण गेलिल प्रमोदाल पत्तो ना. सावित्रील मन हार मानच्याक तयार नासिलें. ती नित्य देवाक फूल घालतना, दिवो लायतना "हें आयुष्य व्यर्थ कोरनाका, देवा रे! मेगेल मन निराश कोरनाका." म्होण मागतासिली.

जे देवाक मानताली, तांकां देव केन्ना सोणदिना. सावित्रील तपश्चर्याक देव प्रसन्न जालो.

एक दीस सावित्री जगलेरी (हुंबऱ्यार) फुलां गांतीत बसिली. गेटा अदेराक (मुखार) एक टेक्सी येवन राबली. गेट उघडील आवाज आयकून सावित्री सावकाश भायर आयली. कित्याक की म्हळ्यारी... हाचें पयलें कित्येकपंता टेक्सीचो आवाज आयकून धाव्नु आयिल तिका निराशाच जालिली. आज निराशा जालना. अकस्मात दाद-पत्तो दिनाशी, प्रमोद टेक्सींतुल्यान देंवलो. गेट उघडून भितर गेलो.

वारो आयलो की पान्नां हालताती. तश्शींची प्रमोदाक पोळोवन सावित्रील आंगांत आनंद लहरीचो संचार जालो. ती धाव्नु भायर गेली. तिगेलो चेहरो आनंदान फूल्न गेलो. कित्लेकी वर्षांनील ती आज प्रमोदाक पळयतासिली. तिणें मर्यादिन मानं बागवून सक्कल पळयलें ती सावित्री शापग्रस्त जाव्न जन्मा आयिली ती देव कन्याशी दिसताली. एकल्यान दुसऱ्या खातीर जन्म घेतिल्या वरी तांगेल अन्योन्य प्रिती आज सफल जालिली.

प्रमोदान खुशीन तिका पळयली आनी म्हणलें, "सावित्री तुगेल सत्यवान हांगा एदराक राबून आस्सा, उलयना वे!"

देवाक गांतिलो फुलांचो हार, तिगेल हातांतु आशिलो. फाटीं-फुडें विचार कर्नाशी, तो हार तिणें प्रमोदाक घालन सोडलो. ठरोवन न्हय! मानवान मानवाक कोर्चीं पुजा म्हळ्यार प्रिती.

प्रमोद आत्तां परत प्रमोशनार मेनेजर म्होण अंकोलाक वर्ग जावन आयिल्लो. गणेश कामतीन घरांतुल सगळ्यांक खुशी जाली. तागेल सामान ताणीं घरांत हाडलेंती. गणेश कामतीन सुद्दां सामान उकल्लें. इतले दीस चमकतना, ताका दुसऱ्यांनी धोरचें पडतसिलें. सावित्रील आवय चहा-नाश्ता घेव्नु आयली. आज कामतील घरांत गलगलाटो.

प्रमोदान मुद्दम घेव्न आयिल पेढे सगळ्यांक दिले. गणेश कामतीक हातजोणु सावित्री बद्दल मागणी घाली. आत्तां ताका मूळ नक्षत्राचो भंय नासिलो. तागेल बापूय मोर्न सात-आठ म्हयने जालिले.

हें आयकले की कामतीक्ल घरांत,लग्नाची गडबड सुरू जाली. वेळ आयल्यार कठीण कामां सुद्दां, फूल उकोल्न दवरीलवरी सोंपेपणीं जाताती. कामत घाल्न घेतिल आंवगाल्यांचेरी भायरी पडलो.

"अय्य! प्रमोद आयला. आनि केन्ना भायरी पणाशिले तुमीं, आत्तां खंय भायरी सरले?" बायलेन घोवाक विचारलें.

"शुभस्य शीघ्रम. अप्पा भटाथंय वोचून लग्न मुहुर्त केन्नां आस्स की पळयितां" म्हणत तो गेलो. वत्तना हातांतु धोरची बड्डी सुद्दां विसरलो.



# तो एक दीस

**- अपर्णा गारुडी**

दोंगरावेल्यान देंवपी उदक
शेतांतल्यान फोर्सान रस्त्यार
येवन दर्यावटेन व्हांवतालें.
उदकाच्या फोर्साचो आनी
खोलायेचो अंदाज
घेनासतना विचारांच्या
नेटार हांव सरक सदचे भशेन
उदकांतल्यान गेलें. म्हजी डिओ
सीटामेरेन बुडली तेन्ना हांव
रस्त्यार भरिल्ल्या उदकाच्या
बरोबर मदीं पाविल्लें. परतुचें
काय कितें हो विचार करता
म्हणसर उदकाचो फोर्स वाडलो.
गाडयेच्या चावये
मेरेन उदक पावलें तेन्ना हांवें
ॲक्सीलेटर ओडून धरिल्लो.
खंयच्याय खीणाक गाडी बंद
पडटली आशिल्ली आनी हांव
उदकाच्या फोर्सावांगडा
गाडयेसकट
व्हांवत वतलें आशिल्लें.



शिवोली, गोंय
फोन : २२७२७५१

जुलाय म्हयन्यांतली एक सकाळ. आयचो हो तिसरो दीस. पावस शिरंधारांनी रकतालो. मातूय विसव घेनासतना. घरा लागींच व्हांवतल्या शापोरा न्हंयेचें उदक चडिल्लें. घरा मुखावयलो व्हांळ उपाट भरून व्हांवतालो. झाडां पेडां न्हावन धुवन नितळ जाल्लीं. सदांच फांतोडेर उठून हांव नव्या फुलिल्ल्या फुलांक येवकार दिवपाक पोरसांत पासय मारतां. झाडांच्या पानां फुलांक मायेन स्पर्श केलो काय तीं आपलें आंग शिरशिरावन खोशयेन मुरगटटात. ह्या स्थावरांची मोनी भास म्हाका समजता. पूण आयज पावस इतलो पडटालो की घरा भायर पावल घालपाकच वाज येतालो. पोरसांत गेलेंच ना. सकाळचीं सात वरां जालीं तरी कुपांक लागून काळोख दिसतालो. आयज इश्कोलाक वचचें न्हय. पांगरूण घेवन सुशेगाद न्हिदचें अशें दिसतालें. पूण दुसऱ्याच खिणाक शिक्षकाच्या कर्तव्याची जाणीव जाली आनी 'कितें जाता तें जावं' म्हणीत हांव इश्कोलाक वचपाक भायर सरलें.

शिवोलच्यान हरमल चवदा किलोमिटर. स्कुटरीन १५ ते २० मिनटांचो प्रवास. घोवान म्हळें, "आयज तूं वचूं नाका. सगळ्याक



शेतां भरून उदक रस्त्यार पावलां आनी रस्तें बुडल्यात." हांवें ताका समजायलें, "म्हजे विद्यार्थी त्याच रस्त्यांनी इश्कोलाक येतले आनी हांव भियेवन घरा रावं?"

"तशें जाल्यार सांबाळून वच" हाणें म्हटलें. हांवें म्हजी 'डिओ' भायर काडली. एका रेनकोटाक हो पावस आयकचो नाशिल्लो. हांवें डबल रेनकोट घालो. हॅल्मेट घालें आनी सामकें सुरक्षित न्हेसून भायर सरलें. सदांच सकाळीं गाडयेक स्टार्ट मारली काय म्हजो घोव गाडयेर हात दवरून 'मृत्युंजय मंत्र' म्हणटा. दारां मुखावयल्या सांवरी पेडा वयल्या देवाक हात जोडटा आनी म्हजी राखण करपाक सांगता. आजयूज ताणें तशेंच केलें. म्हजी गाडी मार्गाक लागली. म्हजो घोव हें सगळें ह्या चार-पांच वर्सांनी करता. हेंच काम पयलीं म्हजो मांव करतालो. तेन्ना म्हजे कडेन M80 (एम एटी) आशिल्ली. तिका तो सायकल म्हणटालो. 'सांवरीवयल्या, म्हजे सुनेक तिच्या सायकली सयत सुखरूप घरा हाड रे बाबा' म्हणीत मृत्युंजय मंत्र म्हणटालो. मागीर बाबा 'हातीपायांकडेन सांबाळून आं...' म्हणीत म्हाका रस्त्यामेरेन पावोवंक येतालो. म्हज्या सुधारीत विचारांक हें सगळें पटलें ना तरी ह्या निरागस मनशांची देवा वयली उपाट श्रद्धा आनी म्हजेवयलो मोग पळोवन आपशींच मन तांचे श्रद्धे मुखार नतमस्तक जातालें. म्हजो मांव केन्नाय अपुरबायेन म्हाका बाबा म्हणटालो. मांवाचे यादीन शेणिल्लें हांव चाळीस स्पीडीचेर गाडी चलयतालें. घोग्यांनी पावस रकतालो. शिवोलचो पूल काडून आगरवाड्या पावलें. मांद्रेचे चडटेर दोनूय वटेनच्या दोंगुल्ल्यां वयल्यान धव्यो फुल्ल दुदावरी झरी धर्तरेर घालून घेताल्यो. हें दृश्य पळोवपाक हांगाच रावन दिसलें पूण इश्कोलाक वेळ जातालो. दाट पावसांत फुडलें अस्पश्ट दिसतालें. सदचें भशेन 'नामजप' चालू आशिल्लो. त्या भंयानक पावसाचो अणभव घेत हांव सुशेगाद गाडी चलयतालें. सकाळचीं साडेसात जाल्लीं तरी पावसाक लागून रस्त्यार कोणूच नाशिल्लो. मांद्रेसावन हांव 'जुनसे'चे चडटेर पावलें. इतल्यान खंयच्यान तरी एक धवोफुल्ल सुणो आयलो. आनी गाडये फाटल्यान धांवक लागलो. हांवें गाडी मात्शी स्लो केल्लेवरी केली आनी ताची स्पीड देवतकच म्हजी स्पीड वाडयली. तरी सुणो फाटल्यान धांवपाचें थांबयना. ताका फटोवपाक हांवें म्हज्यो सगल्यो 'driving skills' वापरल्यो पूण सुणो फाट सोडिना. अचकीत मोड सुरू जालें. दर्यादिगेर इल्लें चडूच जाणवतालें. एकवटेन वाऱ्याक लागून गाडी 'कंट्रोल' करपाक त्रास जातालो तर दुसरे वटेन सुणो फाटीक लागिल्लो. थांबपाकय मेळना जालें. खंयच्या जल्मांतलो दुस्मान देव जाणा.

ताच्या आनी म्हज्या भितरलें अंतर सामके उणें उरिल्लें. तो म्हजेर उडकी मारपाचो, इतल्यान रस्त्या कुशीच्या आंब्याची एक व्हडली खांदी मोडून आमच्या दोगांयच्या मर्दी पडली. आवाजान हांव कडकडलें. गाडी थांबयली. फाटल्यान पळयत जाल्यार खांदी म्हाका आनी सुण्याक वाटावन बरोबर मर्दी पडिल्ली. कांय बारीक बडयो सुण्याचेर उसळ्ळ्यो. तो आड्डत खंय तरी नाच्च जालो. हांवें देवाचे उपकार मानले आनी परत गाडी स्टार्ट केली. फकत धा मिटर फुडें गेलां आसतलें. रस्त्या कुशीचें भेंडयेचें झाड मुळासकट हुमटून म्हज्या मुखारूच रस्त्यार कोसळ्ळें. ताच्यो कांय खांदयो म्हज्या फुडल्या टायरार. एक खीणभर पयलीं हांव फुडें पाविल्लें जाल्यार... हो विचार मनांत येवन म्हाका कडकडो भरलो. पावसाक लागून गाडयो थांबोवन आडसाक राविल्ले लोक धांवन आयले. पंदरा मिनटां भितर विजखात्याच्या कमचाऱ्यांनी येवन खांदयो कापून मार्ग मेकळो केलो. साडेसात ते पावणे आठ दरम्यान घडिल्ल्या ह्या घडणुकांचो विचार करीत हांव म्हजेच तंद्रेंत गाडी चलयतालें. वेळार इश्कोलाक पावपाचो ध्यास लागिल्लो. पूण आतां तें शक्यूच नाशिल्लें. पावस आनी वावझडींक कॅर करिनासतना हांव फुडें वतालें. मनांत विचारचक्र चालूच आशिल्लें. घोवाल्या मृत्यूंजय मंत्रान म्हाका दोन फावटीं वाटयलें काय? चिंततां चिंततां देवतेर पावलें. मुखार रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी शेतां आशिल्लीं. शेतांनी उदक भरिल्लें. रस्तो बुडिल्लो. कितलो बुडला ताचो अंदाज येनाशिल्लो. फकत लायटीच्या खांब्या वेल्यान रस्तो खंयमेरेन आसा तें कळटालें. दोंगरावेल्यान देंवपी उदक शेतांतल्यान फोर्सान रस्त्यार येवन दर्यावटेन व्हांवतालें. उदकाच्या फोर्साचो आनी खोलायेचो अंदाज घेनासतना विचारांच्या नेटार हांव सरळ सदचे भशेन उदकांतल्यान गेलें. म्हजी डिओ सीटामेरेन बुडली तेन्ना हांव रस्त्यार भरिल्ल्या उदकाच्या बरोबर मर्दी पाविल्लें. परतुचें काय कितें हो विचार करता म्हणसर उदकाचो फोर्स वाडलो. गाडयेच्या चावये मेरेन उदक पावलें तेन्ना हांवें ॲक्सीलेटर ओडून धरिल्लो. खंयच्याय खीणाक गाडी बंद पडटली आशिल्ली आनी हांव उदकाच्या फोर्सावांगडा गाडयेसकट व्हांवत वतलें आशिल्लें. हांवें भोंवतणीं पळयलें. कोणूच ना. एकूय गाडी येना. म्हजें मरण म्हाका दोळ्यां मुखार दिसतालें. अर्दो रस्तो हुपपाचो उरिल्लो. खीणभर दिसलें गाडी सोडून दिवन उदकांत हुडकी मारची आनी पेवन वचचें. पूण उदकाच्या फोर्सामुखार हांव कितलो वेळ तिगपाचें? भियेवन कित्याचें कितेंय करचें परस गाडी चलता तो मेरेन तशीच फुडें व्हरप अशें चिंतलें. घोवान शिकयल्लो मृत्यूंजय मंत्र म्हटलो आनी देवाचें नांव घेतलें. इतल्यान एक मोटरसायकल आयली. मोटरसायकलकारान म्हळें भियेंव नाका. ताणें एका हातान आपली मोटरसायकल सांबाळीत दुसरो हात म्हज्या डिओच्या हँडलाक धरलो आनी एक पांयूय आदाराक डिओक तेंकयलो आनी म्हाका सुखरूप उदकाभायर पावयलें. हांव इतलें भियेल्लें की ताका 'देव बरें करूं' म्हणपाचें लेगीत भान म्हाका उरलें ना. ताणें काळ्या ग्लासाचें हल्मेट घाल्लें. आंगार रेनकोट आशिल्लो. ताचें तोंड म्हाका दिसलें ना. उदकाभायर पावतकच ताणें म्हणलें, "सुशेगाद चलय आनी दनपारां येतना उदक आसल्यार म्हाका उलो मार." हांव पळयतूच उरलें. तो गेलो. हो कोण? आवाजूय वळखिचो नाशिल्लो. हाका कसो उलो मारप? कितेंय जांव पूण देवदूत कसो तो म्हाका पावलो. ताका Thanks लेगीत म्हटलें ना हाचे चिटमीटे उरले.

उदकांतलें मर्ण अणभवपाची ही म्हजी तिसरी फावट. धा वर्सां पयलीं हडफड्यां शिकयतालें तेन्ना अंजूनच्या बुडिल्ल्या शेतांत अशेंच तरेन M80(एम एटी) घेवन बुडपाचें! म्हज्या एका माजी विद्यार्थ्यान वाटायलें. वीस वर्सां पयलीं अशेच तरेन घडणूक दिवाडे घडिल्ली. विचार करीत साडे आठांक इश्कोलाक पावलें. चडशीं भुरगीं आनी शिक्षक येवंक नाशिल्ले. दनपारां घरा येतना उदक देविल्लें. ही घडणूक घरा सांगतकच घोवान म्हळें, "म्हजें आयकल्लें जाल्यार अशें जावचेंच नाशिल्लें. नशीब बरें म्हूण वाटावलें. आतां खंयच भायर सरूं नाका. वग्गी घरांत बस." हांव हांसलें. हो दीस विसरप शक्य ना.

"जावं जिणे दर्या...जावं व्हांवती न्हंय उदकाची
जीण ही अशीच बुडटा बुडटा वाचपाची
वाटायतल्यांच्या रिणांत जगपाची
देवाचीच देणगी लाख मोलाची"
आमोरेर हांवें देवाक हात जोडले.
"जिन्दगी भर तोहफें बहुतों ने दिये मगर
जिन्दगी का तोहफा देनेवाले
एक दिन करनी है
ये जिन्दगी तुझको नजर"

स्वताचें मरण दोळ्यां मुखार पळयतल्याक जिणेचें खरें मोल कळटा. देवान दिल्ले हे सोबीत जिणेचो खिणाखिणाक सदुपयोग करपाची प्रेरणा मेळटा.

## खीण

खीण म्हणल्यार
जीण न्हय
खीण म्हणल्यार
दीस न्हय
पूण दीस बदलपाची
जीण बदलपाची
तांक खिणाभितर आसता
एक खीण असो
दुसऱ्या खातीर जियेतना
त्यागाची भावना
रुजवणां येता
जीण सार्थकी करता
एक खीण असोय
मन धादोशी करता
एक खीण असो
जैताची वाट
दिसपाक लागता
एक खीण असोय
म्हज्या मनांत
दुबावाची पाल
चुकचुकपाक लागता
एक खीण असोय
मायेच्या पाशांत
हांव सामकेंच घुस्मटतां
एक खीण असो
मनांतलो आत्मविश्वास
जागो जाता
एक खीण असोय
म्हज्या सत्कर्मान
आत्मतृप्तीचें दर्शन घडटा

**- सुशीला वि. हळर्णकार**
मडगांव - गोंय.
फोन : २७५२९१७



## सोबीत सुंदरे

आगे आगे सोबीत सुंदरे
बरी दिसता मगे तरणी ताठे

माथ्यान धवीच फांती
बोटांतले मुदयेक चकचकीत मोतीं

गळ्यांत लखलखीत गळसरी
पांयांत सोबीत जोतीं

नदर तुजेवयली चुकोवची न्हय
अशें मन म्हाका सांगी

रूप तुजें नाजूक बरें
काळ सावळें शिरवंतशें

केला तुवें शिरंगार हो
फावता फक्त तुकाच तो

मोवाळ मोगाळ सभाव तुजो
पळोवन भाळ्ळें मन म्हजें

कितलें करचें वर्णन तुजें
उतरांच उणीं जिबेर म्हजे

**- रेखा रामनाथ नायक**
मार्ना-पिळर्ण, बार्देश-गोवा.
फोन - २४०७६५५



## सुरगांच्या फुला

सुरगांच्या फुला गो
कितलो परमळ फांकयता
मोतयां वरीं कळे गो तुजे
जिवाक सामके भुलयता

थोड्याच दिसांचो गो सांगात
वर्सभर याद दवरतां
रुपाक आशेल्लो जीव तुज्या
मात सदांच गो आशेतां

फुलां मदली राणी गो तूं
मनाक वाऱ्यार धोलयता
आपुरबायेची सानुली गो तूं
खानयेन खानी फुलयता

सुंदर तुज्या परमळान गो
सैमाचे वेंगेंत गो
भांगराळे धरतरेर गो
खोशयेचे दिवे फुलयता.....

सुरगांच्या फुला गो
कितलो परमळ फांकयता
खिणा खिणांत गो
तुजीच याद गाजयता

**- अनिता नायक**
पंचवाडी, फोंडें
फोन : ९७६५५१०५१२



## याद

आयले दीस, गेले दीस
येतात दीस, वतात दीस
येतले दीस, वतलेय दीस
पूण.....यादी
ह्या दिसांच्यो यादी
त्या म्हयन्यांच्यो यादी
त्या वर्सांच्या सरिल्ल्या
एका एका खिणाच्यो यादी
परम इश्टाच्या रुपान
मनांत रिगून आसात
निखळनांत, झडनांत, पडनांत
पूण.....
चडच पर्जळायतात
ह्या यादीं बरोबर
विचारांच्यो उमळशिको
एका-एका घडणुकांचें
थंड-हून वारें झोंबता मनाक
आनी खिणभर दिसता
हांव जर हांव नाशिल्लें
तर यादींच्या रुपान
सदांच उरपाचें
सगल्यांच्या मनांत रिगून याद कशें!

- शैला (तरूलता) श. धुमटकार



## थेंबे खंय गेले?

पळोवन सुकीं शेतां
मन म्हजें आंकुरलें
चितूंक पडलें हांव
हे थेंबे खंय गेले?

आशेलां पांचव्या रानाक
आनी तशेच पक्षी सानुले
सगळ्यांच्या तोंडार आसा
हे थेंबे खंय गेले?

मातयेचो सुंगध येतलो काय
खेळटले काय ते काजुले
रावल्या हेर जाण म्हणीत
हे थेंबे खंय गेले?

मळब भरलें कुपांनी
बेब्यांनी उक्ते केले ताळे
थेंबे दिसले खंय कोणाक?
ह्या पावसान फटयलें!

- प्रज्ञा सुहास घाटवळ
मडगांव - गोंय.
फो. : ९९२१७७१६६३





## काणी

पाटुल्यो खोपटींत
मांडील्यो कोणी?
खोपटीत न्हिदल्या गो
शाणूली राणी..
राणीले कुशींत
चार गो पोरां
आतांच न्हिदल्यांत
पिऊन पाणी..
पाणी गा पावसाचें
झिरपल्ले खोपटींत
पाटुल्यो मांडील्यो
भरूंक ते टिप टिप..
तानेल्ल्या ताळ्याक
मेळ्ळी गा वाणी
शाणुल्या जिणेची
सदचीच ही काणी

- अन्वेषा सिंगबाळ
खडपाबांद.
फोंडे गोंय
फोन : ९४२२४४४२११





## ते.....

ते.. सात सुरांचे चौकटींत
आपले शब्द बांदताले
शब्दान सूर सोडचे न्हय म्हूण
आपल्या अस्तित्वाच्या शोधांत
निशब्द सोदताले.....
काळखाचे रातीचीं सपनां
जरी सोंपलीं ताचीं
सांगाताक रातराणी फुलताली
ती..
निरनंतर ताका साद घालून
खिणाखिणाक साथ दिताली....

ते.. निशपाप आसुनय गैरसमज
शब्दां भितर कितलींशींच
प्रस्नचिन्हां मांडटाले....
अशें करून आपल्या घाव्याक
स्वताच मीठ चोळटाले

म्हऱ्यांत पावतकच मनांतले प्रस्न
विचारून ताची जाप
स्वताच ओकीत म्हूण
काळजांतले उमाळे वोंठार
येवंचे पयलींच दामून धरताले
ते.....कांय न सांगता
सगळें कितें सांगताले
आशिलें-गेलें
आज ताच्या मनाची
डायरी वाचताले
तरणेपणाचे मनोवेवस्तेच्या
शिमेभितर खरें म्हळ्यार
अंतर्मनाक साद घालून
ते जिणेंत आशिल्ल्या
शुन्याचो अर्थ सोदताले

- श्रीनिशा नायक
बेतकी - खंडोळा



## अकलेचो रूख

धावतालें फाटल्यान
झाड तें झाड
तूं उडतालें
फुलारसून फुलार
चोखीत म्होव
फुलत्या बोंग्याचें
सकाळच्या थंड वोतांत
सूर्य माथ्यार येवचे पयलीं
उडत तूं वयतालें
पाखाटे हालयत
तांबडे, हळदुवे, धवे, पांचवे
तुकां धरप
हो म्हाजो हक्क
तुज्या रंगीत पाखानी
मायेचे हात लावपाक
नकळों जावन तुकां
कितले भास जाता ते
आतां कळ्ळें म्हाजें कमीपण
चूक माफ कर म्हणपाक
जायना मन
तरी माफकर
भुरग्यापणावयली चूक
घालून खत-पाणी
वाडपाक अकलेचो रूख

- व्यंकटेश शिरोडकार
काणका, पर्रा-गोंय.

## मनीसपण

मनांत म्हज्या विचार येता
जगांत हें कित्याक जाता
कित्याक जातात लोक
एकमेकाचे दुस्मान
कित्याक वाडटा हिंसाचार
रगत सगळें सांडलां भुंयेर
छातयेर आवयच्या भुरग्यार्चे
रडटा ती आवय कळवळून
काळजांत तिच्या
तोपतात सगळेच खिळे
कोणूच पुसना अश्रू तिचे
भावच भावाचो दुस्मान जाला
जात-पात, धर्मांक लागून
युद्ध हें जालां
एकमेकाच्या फुडें वचपाचे आशेन
जाल्यांत जनावरां सगळीं
मनीस ना हांगा कोण
मडें आसा मनीसपणाचें

- कृतिका राऊळ
चिंचणी
फो. : ९६३७११७०७३

## दैवाचो खेळ

परत परत सांगतां गीत म्हजें गाय नाकात
पोरण्या शब्दांकच नवीन अर्थ दिवं नाकात

तोच शब्द तोच ताल परत परत धरुं नाकात
मनांत म्हाका चिंतपाक तेच सूर छेडूं नाकात

दिलो ना मोग म्हण वगीच रागार जाय नाकात
मागून मोग मेळचो ना वगीच दुकां घाल नाकात

नशिबांत आसल्यार तुजी म्हजी गांठ
केन्नाच करचो ना देव आमका फाट

तुज्या घराण्याची तुजो बापूय मारता मिजास
ताका लागून तुजे आशेक हांव करतां पयस

देवाल्या मनात कितें आसा हें कोणी जाणलां?
जें आमी चिंततात तशें केन्ना घडलां...?

बापूय म्हणटा तुजो हांव गरिबाचो पूत
गरिबींत जल्मलो हांव ही म्हजी चूक?

व्हड व्हड म्हणतात तो सगळो दैवाचो खेळ
ह्या व्हड लोकांक गरीब जावंक लागचो ना वेळ

मनासारकें घडल्यार देवार विश्वास कसो
व्हड घराक केन्नाय पोकळच वासो

- विष्णु राघोबा कोळगेकर
भगतवाडा, असनोरी,
कारवार (उ. कन्नडा)
फो.: ०८३८२-२८८५४९



## बीजां...

म्हज्या मनांत आजून काळखान
मूळ धरूंक ना
तसो येता केन्नाय
चोरी लिपयां
खंयच्या तरी यादिंची
सावळी जावन
आनी पळयता वाट
मनाचे मेरेर रावन
निर्शेणेचे कोंब फुट्टले म्हणून
म्हजे जिणेच्या खिणा खिणाक
पूण ताका अजून
म्हज्या मनमातयेची
वळख मेळूंक ना
तिच्या भितरली उपाट उर्बा
आनी खोल लिपिल्लीं
नव्या शक्यतायेचीं बीजां
घडये दिसल्यांतूय जायत ताका
खंयच्याय खिणांक
फुटूं येतात जांकां - आंकूर
आनी वाडूं येतात
मळबाक तेंकपी उत्सूक रूख
जांच्या माथ्यार फुलूं येता
म्हज्या अनवळखी फुडाराचे
वाटेर वृश्टी करपी
लखलखपी सपन फुलांचो
संतुष्ट हांसो
देखुनच म्हज्या मनांत
आजून काळखान मूळ धरूंक ना

- राधा भावे
पणजी - गोंय

## हांव कविता करतां

हांव कवितेक जल्म दितां
बसलां आसरमांडी घालून
हातांत लेखणी पान घेवन
किण्ण वातवरणांत एकांतांत

कविता करता हालचाल
कविता आकारता साकारता
कविता सुस्कारता
सुपीक मस्तकांत
सगलेंच दिसता रंगयाळें
सगलेंच भुल्लूसावर्णे मनभुलोवर्णे
मनाक लागल्या उत्सुकता
तनमनाक लागल्या हुरहूर
कवितेच्या जल्माची

कविता भायर सरूंक पळयता
मेंदवांतल्या तेज प्रकाशांतल्यान
सुसंस्कृत विचारांच्या मार्गांतल्यान
ती केन्ना तरी जल्माक येतलीच
सहज वेदने विरयत

कविता कशी आसतली
कविता कशी दिसतली
कवितेंतले संस्कार
तिचें निजी अस्तित्व
तिची नदर, उलोवणें
चाल, आंगलोट, रंगढंग
किरवणें मिरवणें
सरूपाय देखणेंपण
आसतलें काय
सगल्या सगलें मनभुलोवणें

कविता जल्मली रे जल्मली
आयकलें रडणें?



- स्मिता मानाजी गांयस
घ. नं.: ३७१, मारुतीवाडो,
चिंबल गोंय, ४०३ ००७
फोन :९९२३६३९३७०

## हे महाकाली माते

हे जगज्जयनी, जगदंबे जगस्वामिनी
तूं विश्वाची तारीणी
तुजेच कृपेचे छत्रसावळेंत
आमकां सगळ्यांक वेंगावन घे

दिवंक शकना तुका जगदंबे पेढे, पोळी
आसा ताचेर संतुश्ट तूं
हाचोच तुर्वे मनान लाव घेवचो
श्रध्देचे दोळे वाट पळयत आसा उबे
आमकां तुज्यांत सामावन घे

ज्या घरांत काळोख थंय उजवाडो तुजो
ज्या घरांत ना तेल, थंय दिवो भक्ती रसाचो
तूंच भाग्यदायिनी, नशीब झळकावपी
हांव बसलां वाट पळयत तुज्या येवपाची
भक्ताचे कश्ट आंगार घेवन
आमकां सगळ्यांक वेंगावन घे

हांव तुजेंच भुरगें, पूण लोकांक परकें
तुवेंच भाग्य दिलां हें
ना घालूंक पावलें तुका चांदीचो चांद
भांगराची चादर, धव्या मोतयांचो हार
मना समजुपाची तांक तुज्यांत
चितनां न्हंयत व्हांवत आसा म्हजें तारूं
तारूं म्हजें पलतडी व्हर माते
आमकां सगळ्यांक वेंगावन घे
पदराचो दी आडोसो
आमकां सगळ्यांक वेंगावन घे
तुज्याच दोळ्यांचो
आशिर्वाद दी
आशिर्वाद दी

- रोमा रा. लाड
कारायमड्डी, घर नं. २३०६,
सावड्डें - गोंय.



## मोबायल

मोबायल, मोबायल, मोबायल...
म्हळ्यार म्हजी बायल कशी

हांगा वचूं, थंय वचूं
घरांत आसूं, बाजारांत वचूं
कचेरींत बसूं नातर खंयूय वचूं
म्हजीच आसता ती सांगाती

म्हजे विना ती चलना
तिचे विना म्हाका करमना
जशी काय आमची
दोगांची इश्टागत कशी

कोणाकूय किते सांगचें आसत म्हाका
तर तिका एक रींग येता
अशेभशेन तिचेकडसून म्हाका सांगता
कोणायकडेन उलोवचें आसत म्हाका
तर तिचेकडसून सांगता
पूण तिचो उमो घेत घेत

दिसभर उपेग करून करून
मोबायलाची पावर जाता उणी
म्हूण थोडो वेळ दिवचे लागता
पावरीचे भूस बरे

जाय तेन्ना कोणायकडेन खंयूय
मेळटा उलोवंक बेस बरें
धाडूंक मेळटा संदेश जाय तशे
आयकूंक मेळटा ताजे समाचार

काडूंक मेळटा जाय तशी तस्वीरी
असो उपेगी पडटा वेळा काळाक
मोबायल उजव्या हातावरी बायलकशी
पूण खरेली बायल न्ही, हां! फकत मोबायल

**- शांता केणी**
फातोर्डा - गोंय.
फोन: २७४९६७०

## बुडकुलो

आडकुलो हो बुडकुलो
मयपासांनी विणलेलो
आवयच्या निरशा दुदान
आकंठ असो भरलेलो
बुडकुलो हो मायेच्या
अळंग हातांनीं सावरिल्लो
आकूळ-पिकूळ भावनांच्या
झळीपासून पयसाविल्लो
बुडकुलो हो उमेदीचो
रंगयाळ्या सपनांनी रंगयल्लो
शिंक्यावेल्या सुतल्यांमदीं
मजेंत, खुशेत धोलतलो
बुडकुलो म्हज्या काळजाच्या
कपयाकपयांनी घडलेलो
जन्माजन्माचे पुण्यायेन
म्हजेच कुशींत वाडलेलो
बुडकुलो तेजान लिकलिकलो
अस्मितायेन झिगझिगलो
आपल्याच तेजान दिपून वचून
भितरल्याभितर मुरगटलो
बुडकुल्याचो हावेस मोटो
शिंक्याक तो पेलवलो ना
दोनूय हातांच्या पोशांत
बुडकुलो कसोच सामावलो ना
आवयचेंच काळीज तें
बुडकुल्याक कितलें शिणटले
मन घट्ट करून
मेकळ्या विश्वांत ताका सोडले
बुडकुल्याक फुटलीं पाखां
वयर वयर उडत रावलो
डबडबिल्या दोळ्यांसामकार
बुडकुलो पुसटत पयस पावलो
सात समुद्रा पलतडच्यान
बुडकुलो केन्नाय साद घालता
पोटांत दाटिल्लो उमाळो
गळ्याकडेन येवन अडकता
इतलें न्हय तितलें
आसा तातूंत समादान मानचें
प्राक्तनांत जें बरयलां
ते आपलें आपणेंच भोगचें

**- सुफला प्रभू शेळकार**
वास्को - गोंय.
फो.: २५११७९६



# माईआजी

**- सुजाता सिंगबाळ**

*"सानिया तुज्या माईआजेचें*
*आनी म्हजें नातेंच विचित्र.*
*खरें तर माईच विचित्र*
*म्हळ्यार जाता.*
*केन्नाच आवयचे मायेन*
*ती वागूंक ना.*
*आवयची माया कशी*
*आसता तीच खबर ना.*
*तिणें आमकां केन्ना*
*आपलेंपणान लागीं काडूंक ना.*
*आमचें सुखदूख विचारूं ना.*
*तिचें आनी आमचें*
*नातेंच विचित्र.*
*कोणाकय सांगल्यारय*
*खरें दिसचें की ती*
*आमची आवय आशिल्ली.*
*आवयय अशी आसता?*
*असो प्रस्न आमकां खूबदां पडटालो."*



आल्त पर्वरी, गोंय.

**फां**तोडेवेलो फोन वाजलो. परिक्षेचे दीस. फाल्यां तर गणितांचो पेपर. सकाळच्या त्या फोनान हातांतलों थियरम तसोच उडोवन सानियान आवयक उलो मारलो.

"मम्मी ये मम्मी बेगीन फोन घे गे." इतल्या म्हणसर फोन गेलो. सानियान परत थियरमाचेर नदर फिरयतासर परत फोन वाजूंक लागलो. "मम्मी ये मम्मी..."

मम्मी उठून आयली. तिणें फोन उकल्लो. एकय उतर उलयनासतना फोन दवरलो.

"कोणाचो फोन?"

"तुजी माईआजी हें जग सोडून गेली."

"कितें?"

कांयच उलयनासतना मम्मी भितर गेली आनी हांतुणार पडली. गाढ न्हिदिल्ल्या पप्पाक तिणें उठयलो ना. खिणभरय सानियाक मम्मीच्या वागण्याचो बोध जालो ना.

खुद्द तिजी आवय गेली पूण दोळ्यांत दुकां ना? अशी कशी मम्मी विचित्र! असो विचार सानियाच्या मनांत आयलो.

"सानिया तुजो पेपर जातगीर तुका माईआजेगेर व्हरूंक सांगतां. फ्युनरल सांजचें दवरलां." खंयच्याय तिन्हाईताच्या फ्युनरलाची

गजाल सांगची तशें मम्मीन म्हळें. सानियाच्या तोंडांतल्यान उतर फुटलें ना.

"सानिया येतलें न्हय तूं? निमाणी भेट. परत काय माई दिसपाची ना."

"मम्मी, येतलें." सानियान म्हळें. माईआजी गेली. परत केन्नाच मेळची ना. दिसचीय ना. हुरहूर मनांत पातळ्ळी. माईआजेची ओढ आशिल्ली अशेंयं न्ही. पूण माईआजी म्हळ्यार अजबशी बायल. तिचे सारकी तीच!

सानियाचें मन माईआजेच्या यादींनी अस्वस्थ जालें. गणिताचें रीव्हीजन करूंकय लक्ष लागना जालें. तरीय बरें गणिताचोच पेपर. गणीत सानियाचो सगळ्यांत सोपो आनी आवडीचो विशय.

दीस उजवाडलो. पप्पाय उठलो. माईआजेच्या अकस्मात मरणाची बातमी पप्पाकय कळ्ळी. "कितें जालें अशें अकस्मात. ती तर बरी आशिल्ली."

"काळजांत भरलें खंय. दोतोराक सुद्धां आपोवंक रावली ना." मम्मीन सांगलें.

"आमकां वचूंक जाय न्हय?"

"हय" मम्मीन जाप दिली.

"हांव फुडें वतां. सानियाचो पेपर जालो तसो ताका घेवन तूं यो." मम्मीन सांगलें आनी मम्मी थंयची भितर गेली.

परिक्षेचो पेपर बरोवन भायर आयलें तेन्ना पप्पा भायर वाट पळयत राविल्लो... माईआजेगेर वतना मम्मीची परती परती याद येताली. माईआजेगेर पावलीं. घरांत सगळीं आशिल्लीं. माईआजी न्हिदिल्ल्याबशेन शांत न्हिदिल्ली. कपलार कुंकमाचो शिंवर-फुलां.

"भरिल्ल्या कपलान गेली."

"खरेंच सवायशिणीचें मर्ण येवप भाग्य."

"वय खंय जाल्लें तिचें?"

"सून हाडून, नातरां पळोवन वचपाची."

"तरी हांव राजेशाक सांगतालीं, खंयचें तरी एक चली पसंत कर आनी लग्न करून उडय."

"चलयो कितें लग्न करून दिल्यो की दुसऱ्याच्यो जाल्यो. तातूंत हिच्यो चलयो. आवयची मायाच ना तांकां."

सानियान थंय जमिल्ल्या बायलांची उलवणी आयकली. त्या बायलांमदीं मम्मी नाशिल्ली. खंय गेली मम्मी? सानियान सगळें घर सोदलें. भितरले एके कुडींत मम्मी एकटीच बशिल्ली. शांत. तोंडार निर्विकार भाव.

"मम्मी ऽ"

"कितें?"

"मम्मी, म्हाका तुजें अजापच दिसता. तुजी सख्खी आवय गेली पूण तुज्या दोळ्यांत दुकांचो थेंब ना. मम्मी अशी कशी तूं?!!"

"सानिया" मम्मीन म्हळें. 'सानिया' म्हणपाची ती मम्मीज स्टायल म्हळ्यार आपल्या खातीर शिटकावणी हें सानियाक कळ्ळें. व्हड जाता तशें सानिया मम्मीक मात्शें मात्शें वळखूंक लागिल्लें. मम्मीच्या मनांत ना जाल्यार ती ब्र लेगीत काडची ना. तिका उलोवंक लावप कठीण... सानिया मम्मी म्हऱ्यांत ओगी बसलें... थोडो वेळ गेलो.

...रुपाचो आवाज घरांत घुमलो. सगळीं जाणां रडटालीं. "मम्मा, माईआजेक व्हरतात." सानियान सांगतगीर मम्मा उठली. भायर गेली. दोळेभरून तिणें माईआजेक पळयली आनी परत भितर आयली.

"कितें विचित्र हें कुंदा..." बायलो फुतफुतल्यो. सानियाक दिसलें, आपल्या मम्मीच्या वागण्याचेर बायलांक बरो विशय मेळ्ळो. सुधामावशी हुंडक्यांहुंडक्यांनीं रडटाली आनी बाबाआजो थंय पुतळो कसो बशिल्लो.

सानियाक दिसलें, बाबाआज्याक खूब दुख्ख जालां. पूण तो तें दाखयनां. दुख्ख उलोवंक सगळ्यांक जमना.

...तूं येना स्मशानात?" कोणें तरी बाबाआज्याक विचारलें. "ना तुमी वचात." अशें म्हणून बाबाआजो उठलो. सुधामावशेन ताका भितरले कुडींत व्हेलो. आनी सुधामावशेक धरून बाबाआजोय ल्हान भुरग्यासारको रडूंक लागलो.

"पळय कसो रडटा... ती आसतना एक दीस तिका सुखान जगूंक दिली ना. आनी आतां उमाळो फुटला." आज्याचे भयणीन म्हळें.

"वोगी राव तूं." तिचे चलयेन म्हळें.

मम्मी मात कुडींत वचून एकटीच बसली. बाबाआज्याचें, सुधामावशेचें सांत्वनय तिणें करू ना.

...मदलीं दोन वरां सानियाक घर खावंक आयलें. मम्मीच्या मनांत कितें चल्लां तेंय कळना. मम्मीक दुख्ख जावं ना? काय मम्मीन दुख्ख दाबून दवरलां? मम्मीची सानियाक चिंता जाली.

...निमणे संस्कार करून सगळे आयले आनी घरा परतलीं. वाटेरय मम्मी वोगी आशिल्ली.

घरा पावली तेन्नाय मम्मी ओगी. "चल सानिया न्हावन यो." पप्पान सांगलें. न्हावन आयलें तेन्ना मम्मी खंयच नाशिल्ली. 'मम्मी ये मम्मी' घरांत सगळ्याक मम्मीक सोदली. 'तेर्रासाचेर बी गेली ना म्हू?'

अशें येवजून सानिया थंय गेलें तर मम्मी थंय बशिल्ली.

"मम्मी ऽ"

"सानिया" सामक्या मंद आवाजान मम्मीन म्हळें आनी मम्मीक हुंडको आयलो.

"मम्मी अशी कशी विचित्र तूं? थंय घरांत ओग्गी रावली – सगळीं तुजेविशीं मेळत तशीं उलयतालीं."

"सानिया तुज्या माईआजेचें आनी म्हजें नातेंच विचित्र. खरें तर माईच विचित्र म्हळ्यार जाता. केन्नाच आवयचे मायेन ती वागूंक ना. आवयची माया कशी आसता तीच खबर ना. तिणें आमकां केन्ना आपलेपणान लागीं काडूंक ना. आमचें सुखदूख विचारूं ना. तिचें आनी आमचें नातेंच विचित्र. कोणाकय सांगल्यारय खरें दिसचें की ती आमची आवय आशिल्ली. आवयय अशी आसता? असो प्रस्न आमकां खूबदां पडटालो."

"मम्मी!"

"खरेंच सांगतां. तुका खरें दिसचें ना पूण आवयचे मायेन तिणें केन्नाच आमकां लागीं काडूंक ना. तिचें आमचेकडेन लक्षच नासतालें. मायेन आमचेकडेन ती केन्नाच वागूंक ना. माया, आपलेपण, प्रेम ह्यो भावना तिका नाशिल्ल्यो जावंये. नलूक काकी मायेन लागीं काडटाली, नलूची अपुरबाय करताली तेन्ना आमकां दिसतालें आमचेय आवयन आमची अपुरबाय करची. शाळेंत बक्षिस मेळ्ळें की धावट येवन तिका दाखयलें तरी तिका कवतूक नासतालेंच. केन्नाय तिचे लागीं वचून बसलें तरी ती तशीच वोगी बसून आसताली. आमचें वय वाडटालें तशी ल्हव ल्हव तिच्या आनी आमच्यामदली दरी रुंदावत गेली."

"सानिया, आवयचें वात्सल्य कशें आसता हें तुजे हे मम्मीक केन्नाच कळ्ळेंच



ना गो."

सानियान पळयलें, मम्मीचे दोळे भरिल्ले.

"मम्मी ऽ" सानियान मम्मीचे हात धरले.

"माई सदांच कामांत घुस्पल्ली. आपलेच तंद्रेंत सगळो दीस ती काम करताली. भूक लागल्या म्हण तिका सांगलें जाल्यार अपुरबायेन डब्यांतलें खाण ताटलेंत घालून तिणें केन्नाच दिलें ना. "थंय आसा आरमारींत. घेयात." अशें तिणें म्हणचें. आमचेकडेन ती केन्नाच मायेन वागूंक ना. बाबाकडेन केन्नाच आपलेपणान वागूंक ना. हेर भुरग्यांचे आवयबापूय एकठांय बसतात, उलयतात, भुरग्यांच्या फुडाराचीं सपनां रंगयतात. भुरग्यांक घेवन गार्डनांत वतात, पासयेक वतात. पूण तें सूख आमच्या केन्नाच वाट्याक आयलें ना.

माई बाबाकडेन उलयताली ती फकत घरांत सामान हाडपाक जाय तेन्ना. सामानाची यादी ती बाबाक सांगताली तेंय थारून थारून.

"गंव, साखर, दाळ....." एक एक ...स्त येवजून ती सामानाची यादी बाबाक ...ंगताली. ती यादी सांगतना बाबा सदांच तिका ...गान म्हणताले, "कितें जाय तें बरोवन दिवंक ...तें जाता? बरयतली कशी? श्रीगणेशा कळटा ...?"

"कित्याक कळना... शिकल्या हांव" ...डकीन तिणें म्हणचें.

"मागीर लीस्ट बरोवन कित्याक दिना ...नी घरांत कितें पार्टी आसा... इतल्या सगळ्या ...मानाची यादी दिल्या ती!"

"सोपचे पयलींच हाडल्यार बरें ...ांतलीं फोलीणां पुसून दवरचीं न्हय. बरें लक्षण ...य तें."

तिच्या त्या उलवण्यान बाबाक अस... ...ग येतालो. "सोपचे पयलींच सगळें हाडपा... हांव कुबेर न्हय. जाय तितलेंच सांग" अशें बाबा... तिका सांगचें. मागीर क्षुल्लक गजालींचेर तांचेमद... वाद जातालो आनी बाबा रागान घरांतल्यान भाय... सरतालो.

"माई, चा कर मगे आनी भजींय" अ... आमी भुरग्यांनी सांगलें रे सांगलें बाबाचो सगळ... राग ती आमचेर काडटाली.

"सांगात तुमच्या बापायक सामा... हाडूंक. भजीं करूंक पिठी नाका? यादी दिल... तशी ताच्या कपलाक आटयो पडटात..."

मागीर ती एकटीच उलयताली ... आपल्या कुळाराचें कवतूक करताली. आमक... माईचो त्यावेळार खूब राग येतालो.

माईच्या मायेबगर आमी भावंड... वाडलीं व्हडलीं जालीं –

सानिया, म्हज्या लग्नाच्या वेळारय मा... तशीच रूक्ष वागली. तिच्या दोळ्यांत एक दुका... थेंबो ना – आपलें चली दुसऱ्या घरा वता म्ह... काळजी ना. लग्नाची तयारी करूंक जाय म्ह...

हुसको ना. सुधाच्या लग्नाच्या वेळारय तशीच....

बाबा तर खूबदां म्हणटालो, 'हांव गेल्यार लेगीत तिचेर कांयच फरक पडचो ना. देवान तिका घडयल्याच तशी! देवा अजब सायबा तुजी लिला!'

आनंदाच्या खिणांत ती केन्नाच खोशी जाली ना. दुख्खाच्या प्रसंगांत केन्ना रडली ना. सामानाची यादी सोडून बाबाकडेन केन्नाच कसलोच हट्ट धरिल्लो, केन्ना कितेंय मागिल्लें हांवें पळोवंक ना. सानिया तशी ती स्वभावानय दुश्ट नाशिल्ली. केन्नाच कोणाच्यो चाडयो केल्यो ना. खबरो केल्यो ना. विचित्र आशिल्ली माई!

कसलोच छंद ना, नाद ना. प्रेमाची वीण तिणें गुंफली ना. नात्यांत ती घुस्पली ना. कितें मेळटा तें आपलें. अशे वृत्तीन वागली.

भुतकाळांतल्या यार्दीनी मम्मी शेणिल्ली आनी मम्मीच्या उलवण्यान सानिया.

"मम्मी ऽ"

"सानिया, माईन आमकां आपलेंपण दिवंक ना, माया करूंक ना. म्हणून तेन्ना माईचो राग येतालो पूण आतां तिचो रागय येना. आतां दिसता माई माईसारकी जगली. निदान अस्सल जगली. रुपडें चडोवन ती जगली ना. तिणें मुद्दाम जावन कोणाकडेन आपलेंपणाचें नातें जोडलें ना. तिणें अडेचें कांयच करूंक ना. तिचो स्वभावच तसो आशिल्लो. विचित्र. विक्षीप्त.

सानिया, आमकां माईचो स्वभाव कळ्ळो ना. माईच्या लागीं आमी रावतालीं पूण तरीय माईच्या विचित्र वागण्याचो आमकां राग येतालो. माई आमकां कळ्ळी ना. माई बाबाक तरी खंय कळ्ळी? घरच्यांकय कोणाक माई कळ्ळी ना.

माईकय कळ्ळी ना माई. सानिया माई वेगळी आशिल्ली आनी ती जशी आशिल्ली तशी आमी कोणेंच तिका स्वीकारली ना. आपल्या मनशाक आसा तसो स्वीकारचो पडटा... आमी माईक तशी स्वीकारली ना."

आनी त्या उपरांत मम्मी कांयच उलयली ना. "मम्मी तुका बरें दिसतगीर तूं सकल यो." अशें सांगून सानिया सकल आयलें. तेन्ना सानियाच्या कानांत मम्मीचें वाक्य परत परत घुवतालें.

"आपल्या मनशाक आसा तसो स्वीकारचो पडटा."

# धुवांच्या संवसारांत आवयांनी नाक घालचें न्हय

**- सुफला रूद्राजी गायतोंडे**

*‘आगो तुका*
*घोवान अशें आमचेंमुखार*
*तापोवप गो?*
*आमी कितलें अपुरबायेन*
*वाडयल्लें! एक दीस हावें*
*तुका उलयलें ना वा*
*बापायन पांच बोटांचे थापट*
*लायलें ना. हें कितें गो बायो?’*



मिरामार - पणजे.
फोन - ९८२३१११९१७

**प**यलींच्या काळांत चली जल्माक येवप म्हळ्यार एक गुन्हो केल्ल्यावरी ते बाळंटीक वागयतालीं. आतां चलो आनी चली म्हळ्यार सारकींच जरी म्हळें तरी आजकाल चल्यापरस चली जातगीर ती जल्माक घालपी आवय चड धादोशी जाता. कित्याक ती आसासर तिका चल्यापरस चलयेकडच्यानच चड आदार आनी माया मेळटली हें तिका खबर आसता.

आयच्या काळांत लग्न जावन रोखडेच घटस्फोट जातात ते कित्याक? हाका कारण आवय. लग्न जावन मांयो वायट अशें कित्याक? आवयच कारण, अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. भुरगेपणांतल्यान सगळ्याच भुरग्यांक तांचे आवयबापूय अपुरबायेन, मायेन वाडयतात. सगळ्यांकच आपल्या भुरग्यांची लक्तुबाय आसता. हाचो अर्थ ताका खांदार बसोवन घेवप न्हय. आवयबापायगेर चलयो खांदार बसल्यो तर घोवागेर माथ्यार बसपाक फाटीं रावच्यो नांत हें प्रत्येक आवयन लक्षांत घेवंक जाय.

आजकाल आवयो चयलेक सोयरीक जाता काय म्हूण पळयता. रोकडोच जावंयाक पूत करून घेतात. आपणाक पूत आसतना जावंयाक पूत करून घेईसर ह्यो आवयो आपली अक्कल घाण कित्याक

दवरतात कोण जाणा! घडये जावंया कडच्यान कितेंय उठोवपाचीं लक्षणां जावंये! जांकां पूत ना ताणी पूत म्हळ्यार तोखणायेची गजाल. पूण जर ही जावयांक पूत म्हणटा तर धूव दुसऱ्या घरांत कित्याक दितात? तिकाय हांगाच दवरात. चलयांकय बरें.

चलयांक सोयरीको सोदतना आवयचे रितीक, बुद्दीक मात्सो भ्रश मारपाक जाय. सोदतात सोयरीक चलयांक आनी आवय सगळीच धापेता. हांव हें घालतलीं, तें घालूंक फाटीं ना. सगळें व्हडव्हडलें निमाणें घालप. कोणाक घालप, आपलेच धुवेक म्हूं? आपले धुवेक जाय तें घालात. आपलेच धुवेची अपुरबाय जातली. पूण लग्न जावन घरा वतगीर कशे दीस काडप? कशें वागप? आनी कशें वागोवप? तें आवयनच शिटकावपाक जाय.

चलयेक लग्न करून दितना पयलीं धुवेच्या घरच्या लोकांरीत करपाक आवयन विसरूंक जायना. आवयलो विसर वा कंजूसपणा धुवेक फुडाराक अजीर्ण जावंक शकता. चलयेक वता त्या घरांत मांय-मांवाकडेन वा नणंद-देराकडेन कशें वागूंक जाय तें शिकोवपाक जाय. धुवेक लग्नावेळार बापायन दिल्ले लाख केन्नायतरी सोंपतले. पूण आवयन दिल्लें देखीजाळें आयुश्यभर उरतलें. धुवेक लग्न करतना, आवयन धुवेची मांय कशी आसतली हें येवजूचे परस आपली धूव दिल्ल्या घरा कशी वागतली काय हाचेर बारीकसाणेन लक्ष दिवंक जाय अशें तुमका दिसना?

धुवेन जर आवयक कसलें काम कशें करप तें हळूच जर फोनावयल्यान विचारत तर, "तुमच्या घराण्याची रीत म्हाका खबर ना. तूं तुजे सासूमांयक विचार. आमच्या घराण्याची पध्दत, रीत वेगळी आसूंक शकता." हीं धुवेक उतरां सांगल्यार घात जावचो ना. चार फावटी हें अशें धुवेच्या कानार पडलें तर पांचवे फावट आपूणच जावन मांयक विचारतली. मांयसुनेमदीं लागीपण येवन मोग जागो जातलो आनी तांचेमदीं नात्यांचो रूख खरेंच फुलतलो फळतलो. धुवेचो घराबो फुलोवप-फळोवप काम धुवेच्या आवयचें आनी तेंच ती करूंक शकता.

केन्नाय जावंय आपले बायलेचेर तिडकलो तर आवयन तातूंत लक्ष घालूंक जायना. तुजी ती धूव आशिल्ली तरी आतां ती ताची बायल हें विसरूंक जायना. ना तर 'आगो तुका घोवान अशें आमचेमुखार तापोवप गो? आमी कितलें अपुरबायेन वाडयल्लें! एक दीस हांवें तुका उलयलें ना वा बापायन पांच बोटांचे थापट लायलें ना. हें कितें गो बाये?' अशें म्हणत तर, बापायकडेन पळयत आवयन दोळ्यांक पदर लायत तर धुवेक कथक नाचपाक वेळ नाका. तिका शिममेरच आसची ना.

आपले धुवेगेर देव देवसपणाची चाल नासतना धुवेक



कुळारच्यो चाली करपाक सांगूंक धुवेचे आवयक कांयच अधिकार ना. धुवेन कुळारची चाल दवरूंक जाय हाचेर धुवेल्या घरा चाल कित्याक ना हाचेर फोडणीशी करपाक सहजपणान धुवेचे मांयक फोन केल्यार कळटा. धुवेकय फुडाराक बरें पडटलें.

थोड्या धुवांच्या आवयांक आपलो जावंय आपणागेर पुतावरी रावचो-सो दिसता. पूण सगळ्याच जावंयाक मावोडेचो हूमर जावन रावपाक आवडना. म्हणटगीर धुवेचे आवयक धुवेची मांय पुताक धाडना असो समज जाता. धुवेल्या घरांत कोणय बरो ना म्हूण कळ्ळें तर वेणीलो वेणीक फोन वता. बऱ्या कामांक केन्नाच सुनेचे आवयचो फोन येना. अशेवेळार मांयक वेणीचे फोनच नाका दिसता. मागीर गैरसमज जावंक वेळ लागना. निमाणें धूव दिल्या त्या घरांत आपलेंपण दवरप प्रत्येक धुवेचे आवयचें कर्तव्य.

आपले धुवेले रांदनीर कितलीं सासवां पुटपुटलीं हें पळोवंक जे आवयक उमेद आसता तीच आवय धुवेल्या संवसारांत नाक घालता आनीक मागीर धुवेच्या आनी मांयचेमदीं हीच आवय सासवां पुटपुटावपाक फाटीं रावना.

धुवेक लग्न करतना मांय-मावाक, नणंद-देराकडेन कशी गोडी दवर वा आपुलकेन वागल्यार तुका फायदो कितें हें जर प्रत्येक

आवयन आपले धुवेक समजावन सांगत तर भांगराचो संवसार जातलो आनीक दोन घराण्यांमदीं नात्यांचे धागे घुस्पतले. धुवेचे जिणेंत मोड केन्नाच येवचें ना. कारण मांयमांवाचे आशिर्वादच धुवेक पुरो जातले. सुनेक मांयमांवाचे आशिर्वाद आसत तर लोकांच्या आशिर्वादाची कितें गरज?

तेन्ना एके आवयची धूव घरांत सुखी समाधानी आनीक आनंदी उरपाक जाय तर धुवेच्या संवसारांत आवयन नाक घालचें न्हय. अशेंय न्ही धूव लग्न करून दिली म्हणजे सगळें सोंपलें! अडीअडचणी वेळार, सूख-दुःखावेळार आवयन धुवेच्या संवसाराचो हुस्को करचोच. पूण ज्या घरांत आपली धूव गेल्या ते मांयक आपल्या पुताचो संवसाराचो हक्क दिवपाची जबाबदारी धुवेचे आवयन घेवंक जाय. धुवेच्या ज्या संवसारांत आवय नाक घालता तें तिणें आपल्या पुताच्या संवसारांत घालूंक जाय. लग्न जावन धूव म्हयन्याचे म्हयने कुळारा येवन पडटा तेन्ना आवयन धुवेक हाचें कारण विचारूंक जाय. मायेन चार दीस रावता तें वेगळें. हें येवन पडटा हें वेगळें अशें धुवेक आवयनच समजावपाक जाय. जाल्यारच धुवेचो घराबो सुखी उरतलो. ना तर धूव आपल्या घोवाकडल्यान पयशे घेवन येताच तेन्ना कुळारा म्हयन्याचे म्हयने रावलें म्हूण कांय ना. जावंयाच्या पयशांर आपल्याकय नाचूंक मेळटा म्हूण धुवेचे आवयन तोंड धापून जगूंक जायना. देवाकडेन हाची जाब दिवचीच पडटा. धुवेच्या सासूमांयचें, सासूपायचें काळजांतलें हाय भोगूंकच जाय. सून वायट वागल्यार खंयचीच सासूमांय सुनेच्या तोंडान वायट मागना. कारण सुनेचें वायट मागप म्हळ्यार पुताक दुखता हें प्रत्येक आवयक कळटा. पूण आपूण आवय आनी सासूमांय हें जाणाजावन तिचो आत्मो भितरल्या भितर तळमळटा. आनीक आत्मो म्हणटा जावंये, म्हाका सुनेकडच्यान मेळळां ताच्या अर्दान म्हजे सुनेक जावंयाकडच्यान मेळूं. हे धुवेचे आवयन आपले धुवेकच विकती पिडा हाडून दिल्या म्हणपाक हरकतच ना.

तेन्ना प्रत्येक आवयन आपले धुवेच्या संवसारांत लक्ष घालनासतना पुतालो संवसार सांबाळत जगचें. पूत ना तर रिटायर्ड जीण बोनसाचेर जगची. तातूंत दुसऱ्याक बरें मागत जगलें तर तुकाय जीणें सोपें आनी सरळ मेळटलें.

तेन्ना धुवेल्या संवसारांत आवयन नाक घालचें न्हय. धुवेक तुवें जावन घरच्या लोकांकडेन त्रासांत उडोवचें न्हय. तेन्नाच तुजी धूव सुखी समाधानी आनी उर्बेत उरतली हातूंत दुबाव ना.



# कोंबड्याचें अपहरण आनी वली पार्टी

- शामकांत मर्गज

सगळ्यांका म्हौटा
कौडाच पडला.
मैलो सांगतां
हां तरी काय?
रामा पौस्टमन
पार्टीत भागीदार
कित्या आनी तळगांवकारीण
आपलीच कौंबो कापून
आमकां मटाण-वडे घालूंक
तिका काय खुळो
कुत्रो चावलो हा काय?
ती महामाया आमकां
काय वळकत नाय की काय?
मैलो सांगतां हां तरी काय?



गॅझेटिअर विभाग, महाराष्ट्र शासन,
२७, बरजोरजी भरूचा मार्ग,
फोर्ट, मुंबई-४०० ०२३
फोन : ०९८६९९०२३६२

**कों**कणात यंदाचो मिरग म्होवारलो आनी सगळीकडे कसा थंडगार झालां. गेले ७-८ म्हैने नींबरात् नी गरमीत् भाजान् गेलंल्या गावकऱ्यांनी मिरगाचो जोरदार पावस सुरू झाल्यावर गावचो पार धरल्यानी. उद्यापासून जॉता बांदाक् व्होयी, तरये पेरूक् होये, आनी काय-काय करूक् होया ह्याचा नियोजन तर करूक् होया? त्यामुळा बाबलो, म्हारूती, सदू, पांडू, शिवराम असे सगळेजान पारावर जमले हुते. त्यांच्यातले कायजान तर त्या पारावरच थंडगार लागता म्हणान् उगड्या आंगान् लोळत हुते. पन शेतीची चर्चा सुरू होवचे आदी येका बाजूक गावातल्या टोळक्याची मटण-पार्टीचीच् चर्चा सुरू झाली. पावसामुळे सगळ्याभर थंडगार झाल्यामुळे सगळ्यांका गरम गरम कोंबडी आनी वड्यांची आठवण इली हुती. पन शिरा पडला. कोंबडी हान्तलास खयसून? कोंबडी इकत हानुची म्हंजे दीड-दोनशे रुपाये व्होये. शिवाय बाटली होयी ती येगळीच. त्यामुळा मटणाची तलब तर इली हां, पन ती भागवूची कशी असो प्रस्न पडलो. त्याच्यातच गार वारा सुटला, नी जीभे लयच वळवळाक् लागले. मग पांडू फुडे सरलो. म्हणालो, "कोंबो आसा, पन तो म्होट्या कष्टान् मिळवूचो लागात्."

सगळ्यांचे डोळे चमाकले, ताँडाक् पानीसुदा सुटला. सदू म्हणालो, "तू कोंबो खंय गावात तॅवढा सांग. फुडचा आमी बगतंव."

"आरे, आपली तळगावकारीन काकू! तिच्याकडे येक बिरगावणो कोंबो आसा. तो गावलो तर आम्का सगळ्यांका पुरात. पन काकू त्याच्यावर पॉटच्या पॉरासारकी नजार ठेवन् आस्ता. जसो काय तो कोंबो म्हंजे तिचो दुसरे झीलच!" पांडू म्हणालो. "त्यामुळे तो तिच्याकडसून मिळवना म्हंजे म्होटा कामच आसा. बगा काय ता!" पांडून सुरसुरा सोडून दिल्यान्.

म्हारुती म्हणालो, "मिळवून-बिळवून काय नुको. सरळ कोंबो चोरून हानुया. काय रे बाबू, तुका कसा वाटता ह्या?"

"चोरून हानूक गावात् रे! पन तळगावकारीन् त्याका खळ्याचे भायर सोडीत नाय, कोल्या-कुत्र्याच्या भितीन्. शिवाय तुमच्यासारके गावात चॉर आसंत ह्या सुदा तिका म्हायत् आसा." पांडून हसंतच् सांगल्यान्.

शेवटी आदी कोंबो केदो आसा? कसो आसा? ह्या बगुचो तेनी निर्णय घेतल्यानी, आनी मनात कायतरी ठरवून सगळेच जान तळगावकरणीच्या घराकडे गेले. बाबलो डॉकॅन् हुशार! त्यॅना सदूच्या कानात का तरी सांगल्यान्. त्याबरोबर सदू "मुंगास, मुंगास" म्हणान् जॉरात आरडत तळगावकरणीच्या खळ्यात् धावत गेलो. पाटसून बाकीचे "खडे गॅला? खडे गॅला?" म्हणत ते बी घुसले. आरड झाली म्हणान् तळगावकारीन भायर इली. तिका बगून म्हारूती म्हणालो, "गे काकी, तुज्या कोंब्याच्या पाटी मुंगास लागला हां. हंयसरच खय तरी घुसला हां. तुया घरात्सून दांडो घेवन् ये. आमी मारतंव त्यॅका."

"मेल्यानु, मीया काय तुम्का वळकत नाय की काय? माजो कोंबो चोरून्



न्हेवक इले आसशात. पन मुग्सान खावक त्यॅका मीया. मोकळो सोडूक नायंय. तो आजून झापाखालीच आसा. माजो झील मायगो मुंबैसून येतलो हा. त्यांका तो कापून घालतलय. समाजला मां?" तळगावकारीन् खेकासली. तसे सगळे कावरेबावरे झाले. इतक्यात येळ सादून पांडू म्हणालो, "अगे, मग केकटंत पळालो तो तुजोच कोंबो ना? मग झापाखाली खयसून गेलो? आदी झाप उगडून बग तरी कोंबो आसा काय तो. मुंगास तडेच घुसलंला."

पांडूच्या ह्या रामबाणान् तळगावकारणीक् सुदा शक् येवक् लागलो. मुंगसान् झापाखालचो कोंबो पळवल्यान् की काय? म्हणान तिना पडयेतंच ठेवलंल्या कोंब्यावरचो झाप पटकन् उचलल्यान्. तसो कोंबो कॉक्-कॉक् करीत भायर पळालो. सगळ्यांका कोंब्याच्या दर्शन झाला आनी जीभेक् पानीसुदा सुटला. दीड-दोन किलोचो कोंबो होतो तो. त्यामुळा त्याका चोरूचो निर्णय पक्को झालो.

"आरे, हिचो कोंबो हयसरच आसा. मगे मुंगसान् पाट धरल्यान् तो कोणाचो कोंबो? आम्का वाटला तुजोच कोंबो." असा कायतरी गुळमुळीत बोलान पांडून सगळ्यांका ह्या संकटात्सून सोडवल्यान्. तळगावकारनीन त्येंचो डाव मतर वळाकल्यान्. तीना आता कोंब्याक् घरातले खोलयेतच् झाकूचां ठरवल्यान्. कारण ह्या चोरांचो तिका भरवसो वाटत नाय हुतो. पन ह्या चौकडीनसुदा कायव करून् तळगांवकारणीचो कोंबो पळवूचाच ठरवल्यानी. त्यासाठी ते संधी शोधूक् लागले नी तशी संधी दोन दिवसातच् त्यांका गावली.

कारण दुसरेच दिशी दळव्यांचो सखाराम मुंबैसून इलो. तो गावात आस्तंना ह्याच टॉळकॅत सामिल हुतो. तॅवा ह्या टोळक्यान् गावात खंय कोंबडा शिल्लक ठेवक् नाय हुतो, नी कोणाच्या माडावर नारळ शिल्लक ठेवक् नाय हुतो. अख्खो गाव मेल्यांका गाळी देय, त्यांच्या नावान् हातपाय आपटी. पन सखाराम मुंबैक गेल्यामुळा त्येंचे हे उदयोग थोडे कमी झाल्लंले हुते. इतक्यातच नोकरी मिळंना म्हणान् शेती करूक् गावाक् इलंलो सखाराम त्यांका मिळालो. सखाराम म्हंजे सूपर डॉकॅचो. ह्या टॉळक्याचे मेंदूच होतो तो! त्या मुळा संध्याकाळी पारावर जमल्यावर पांडून सखारामाक् पूर्वीचे दिवस आठवूक् लावल्यान् नी तळगांवकारणीच्या कोंब्याची गोस्टसुदा कानावर घालून त्याच्यातली अडचण सांगल्यान्. सखारामाचा डॉकॅ 'मुंबई रिटर्न' आसल्यामुळा आता लय फास चालाक् लागला. तो म्हणालो, "येक युक्ती आसा. ती जर जमली तर तळगांवकारणीच्याच हातचा, तिच्याच कोंब्याचा मटाण नी वडे तिच्याच घरात खावक् गावतीत्. पन रामा



पोस्टमनान् आम्का साथ देवक् होयी."

सगळ्यांका म्होटा कोडाच पडला. मेलो सांगतां हां तरी कायं? रामा पोस्टमन पार्टीत भागीदार कित्या आनी तळगांवकारीण आपलोच कोंबो कापून आमकां मटाण-वडे घालूंक तिका काय खुळो कुत्रो चावलो हा काय? ती महामाया आमकां काय वळकत नाय की काय? मेलो सांगतां हां तरी काय?

शेवटी कांयच न कळल्यामुळा बाबलो म्हणालो, "मेल्या सखारामा, कायतरी नीट समजात असा बोल रे! कोंबो न्हवलो बाजूक. आमच्याच् डॉकेचो वडो झालो."

सखाराम म्हणालो, "तू असोच जा, नी रामा पोस्टमनाक् बोलवून हान. मग तुम्का सगळा नीट समजावून सांगतंय्."

"सद्या, जा रे पळत नी हान त्याका बोलावून." बाबल्यान सदूक् पिटाळल्यान्. "सखारामाकडे तुजी मुंबैची भॅट आसा म्हणान् सांग, काय पटकन येतलो."

थोडयाच येळात 'मुंबैची भॅट गावतली' म्हणान म्हंशी चरवूक् गेल्लंलो रामा पोस्टमन, डॉकेवर कांबळा घेवन् तसोच पारावर हजर झालो. पन भॅट कसली गावतली? मग त्याका सगळ्यांनी कोंबो चोरूची योजना सांगल्यानी. आनी ह्या योजनेत सामील व्होवक् आग्रव केल्यानी. तो नाय-होय करूक् लागलो. पन सखाराम म्हणालो, "मेल्या तुका काय करूचा नाया. बारीकसा काम आसा. त्याच्या बदल्यात तुका फुकटचो कोंबो आनी वडे खावक् गावतले."

असा म्हटल्यावर रामाच्या तोंडाक्सुदा पानी सुटला. ह्या थंडगार पावसात वडे-सागुती गावतंली म्हंजे आऽहाऽऽऽ हाऽऽऽऽ! रामा कसलोही आढोबेढो न घेता खंयचाय काम करूक् आता तयार हुतो.

दुसरेच दिवस रामा पोस्टमन तळगावकारणीक् हाक मारीत तिच्या दारात सकाळीच हजर झालो. म्हणालो, "गे तळगांवकारणी काकू, तुज्या झिलाच्या पत्र इला हां. भायर ये." तळगांवकारीन् पदराकंच हात फुशीत लगबगीन भायर इली. म्हणाली, "काय म्हणालंस? महेशाचा पत्र इला? मेल्याक् आता म्हयन्यान पत्र लिवूक सवड गावली वाटतां! मुंबैक गेल्यापासून नाय मेल्याचो पत्तो, नाय फोन! जातंनाच् त्याका सांगलंलय्, नोकरी गावली काय पटकन कळव आनी दोन दिवसासाठी गावाक ये. त्याच्यासाठी बिरगावणो कोंबो ठेवलं हंय. त्येची सागोती नी वडे करून घालूची आसा त्याका." तळगावकारीण खूश हुती. तशीच फुडे म्हणाली, "रामा, मयग्यान् काय लिवल्यान् हां तां वाच तरी."

रामा पोस्टमनाक् ह्याच व्हया हुता. त्याना पत्र फोडून वाचूक सुरवात केल्यान्.

"ती. आयेक, सप्रेम नमस्कार. मीया गावात्सून मुंबैक गेलंय तो सरळ आमच्या सखाराम दळव्याच्या खोलयेवर गेलंय. माका बगून त्याका आनी त्येचे बायकोक् लय आनंद झालो. त्येची ल्हान पॉरासुदा माका 'काका-काका' म्हणान् बिलागली. माकासुदा तां बगून लय बरा वाटलां. तुया दिलंली लाडवाची नी तांदळाची भॅट सखारामाच्या बायकोकडे पोचती केलंय. तीका लय बरा वाटलां. ती तुजी, लय आठवण काडता. सखारामाची खोली तशी ल्हानच आसा. झॉपल्यावर खालचे भीतीक् पाय आडाकतंत. त्यामुळा लोळाक् मिळत नाय. पन ता जावंदे! कसो तरी काय दिवस थंयसरच न्हवतंलय. वयनीचो तसो लय आग्रव आसा. मग फुडचा बगुया."

"सखारामान् माका दुसरेच दिवस न्हेवन् आपले कंपनीत कामाक् ठेवल्यान. कामसुदा बरा आसा नी पगारसुदा बरो आसा. सखारामाचे आपल्यावर लय उपकार आसंत. कारण येदे मुंबैत माज्यासारक्याक् नोकरीक् लावचा नी न्हवाची-जॅवनाची सोय करूची म्हंजे साद्यासुद्या माणसाचा काम नाय. तरी तू यॅक काम कर. सखाराम लवकरच गावाक् येतलो हां. तॅवा त्याच्या ह्या उपकाराची थोडीशी फेड म्हणान् तू माज्यासाठी जो बिरगावणो कोंबो ठेवलंहंस तो सखाराम आनी त्यॉच्या दोस्दारांका कापून घाल. सोबतीक वडेसुदा कर. कारण सखाराम भलो माणूस आसा. तॅवा त्यांका कोंबो कापून घालूक् हयगय करू नुको. तो मीयाच खालंय असा समाज. लवकरच तुका मनीआर्डर पाठवतंय. माजी काळजी करू नुको. तुजी तब्बेत सांभाळ. तुजो झील-महेश तळगांवकार (मयगो)."

रामान पत्र वाचून सपवल्यान् नी तळगांवकारणीचे डोळे भरान् इले. ती नाक पुसत म्हणाली, "रे रामा, तो सखाराम मुंबैसून इलो काय माका वायंच् सांग हा."

रामा तयारीतच हुतो. तो म्हणालो, "आगे, तो आज सकाळीच इलो हां. मगाशीच माका भेटलो." तेवर तळगावकारीन् त्याका म्हणाली, "त्याका मीया परवा म्हंजे रवीवारी जेवक् बोलावलंय म्हणान् सांग. सोबतीक् तुजे येक-दोन दोस्दार घेवन् ये म्हणानही सांग."

"तळगावकारणी, असा काय? मीया तुज्या झिलाचा पत्र हानून दिलंय, वाचून दाखवलंय, आनी माका जेवक् बोलंवतलंस नाय?" रामा कायच म्हायत नसल्यासारको म्हणालो.

"ये रे बाबा. तुया सुदा ये. दॉगा-चौगांका कोंबो खावन् सराचो नाय. दीड-दोन किलोचो कोंबो हा तो. ल्हान नाया!" तळगावकारीन एकदम भावूक झाली.

आनी ठरल्यापरमान सकाळी अकरा व्हाजता सखाराम दळवी, बाबलो, म्हारूती, सदू, पांडू आनी रामा पोस्टमन तळगांवकारणीच्या घरात जेवक् हजर झाले. पाटोपाट शिवरामसुदा इलो. तळगांवकारणीक् इतके झीलगे फुकट जेवक् इले म्हणान् वायट वाटला. पन सांगतली कसा? गप न्हवली. तिना कोंबो कापून मसालेदार झणझणीत मटाण बनवल्यान. सोबत कुरकुरीत वडे केल्यान्. त्याच्या वासान् भायरचा टॉळक्याचो जीव खालीवर झालो. युक्ती सादली म्हणान ते खूश झाले. येण्यापूरवी पारावर पिण्याचो कार्यकरम आदीच झालंलो हुतो. तळगांवकारणीन् सगळ्यांची ताटा मांडल्यान् नी सगळे वडे-मटणावर तुटान पडले. तळगांवकारीन काय व्हया-नुको तां वाढीत हुती. इतक्यात-

इतक्यात दारावर तिचो झील महेश हजर! बगतां तर संबूर काय भलताच घडतां हां. तळगांवकारीण सुदा चमाकली. ती येकदा महेशाकडे नी येकदा जॅवणाऱ्यांकडे बगूक् लागली. म्हणाली, "महेशा, अरे कालच तुजा पत्र इला नी आज तुया कसो काय इलंस?"

"माजा पत्र? मीया कदी तुका पत्र पाठवलंय?" महेश गोंधळान् म्हणालो. "आरे, असो काय करतंस? तुयाच पत्रात लिवलंस म्हणान् ह्या सखारामाक् नी त्याच्या दोस्दारांका तुका ठेवलंलो कोंबो कापून घातलंय. हे काय जेवतंहंत!"

महेशान कपाळावर हात मारून घेतल्यान् नी म्हणालो, "कसला पत्र नी कसलो सखाराम नी कसलो कोंबो? मीया हयसून गेलंय तर स्टेशनावर माका न्हेवंक सुदा ह्यो सखाराम इलो नाय. म्हणान् पत्तो शोदीत खोलयेवर गेलंय. तर माज्याकडे जागा नाय म्हणान् माका वाटॅक् लावल्यान्. मग कसोतरी गावच्या मंडळाच्या खोलयेवर बांद्रयाक् गेलंय. थंयसर कसो तरी म्हयनो काडलंय. पन नोकरी गावंना. तंवसर तू दिल्लंले पैसे सपले म्हणान् मग ह्यो सरळ गावाक् इलंय. आता माका मुंबै नुको नी मुंबैचे असले गाववालेसुदा नुको." महेशाक् रडा कोसाळला.

मटण-वड्यावर तुटान् पडलंल्या टोळक्यान् फुडे काय घडतंला ह्या वळाकल्यान्. इतक्यात तळगावकारीन घरात्सून चुलीतला पेटता कोलीत घेवन् भायर इली, ".....च्या नो! .... नो! माका खॉटा सांगान् माजो कोंबो खालास. वर वडे खालास. तुमचा वाटोळा झाला ता!" म्हणान् तॉंडात येतीत ते गाळी देवन तळगांवकारीन जेवणाऱ्या टॉळक्याच्या आंगावर धावान् गेली. त्या बदमाश टॉळक्यान् परसंग वळखान् अर्ध्या जेवणाची ताटा हातात घेवनंच घराभायर धूम ठोकल्यान्. मेले 'गनीम' पाटी लागल्यासारके पळत हुते. पळता पळता पाटी वळान् बगीत हुते. खायंत् हुते नी हसतंय हुते. आनी तळगांवकारणीचे तळतळाट त्यांका अर्ध्या फर्लांग अंतरावर आयकाक् येयत हुते.



# हांस मरे हांस !

**- सम्राट बोरकार**

**ह्या** लेखाचें नांव समजा हावें हास्यचिकित्सा वा अशेंच कितेंय कठीण दवरिल्लें जाल्यार कोण वाचपाची तकालस घेवंचो नाशिल्लो. देखून हें सादें, सरळ, सोपें, मतींत सदांकाळ उरपा सारकें नांव, हांस मरे हांस!

हांसपाक सगळ्यांक आवडटाच अशें ना पूण हांसोवपी हो चडश्या लोकांचे नदरेंतल्यान बेकार मनीस. हांसयतल्याक जिवितांत केन्नाच कोण सिरियसली घेना. समर्थ रामदासाचो 'टवाळा आवडे विनोद' हेंच पालूपद लोक फुडें करतात.

मनीस मुळांत कितलोय ब्रिलियंट आसूं, तो जर हासऱ्या मुखामळाचो आसल्यार मुखावेलो ताका आपले परस शुल्लक समजता. आपल्याचोच लेव्हल कमी, तातूंत हांसरो मनीस आपल्या लेव्हलार येवन उलयता हें लेगीत असल्यांक समजना. हाचे उरफाटीं कांय मनीस आसतात, तांच्या तोंडाक पळेल्यार सदांच सुतक. केन्नाच ते हांसनात. दुसऱ्यांक तर ते लागीं लेगीत करनात. असल्या मनशांक मात आमी माथ्यार घेतात. हो कमी उलोवपी आमचे नदरेंतल्यान श्रेश्ठ थारता. आमचीय एक विचारसरणी, पुर्विल्ल्या काळापासून तयार जाल्ली आसा की जो सिरियस तोच श्रेश्ट, तोच ब्रिलियंट आनी तोच जिनियस. हे

तुजी सौयरीगत कशीच
जांवची ना. मागीर मैटल डिटैक्टर
बसयल्यार तुका
भितर सोडचें ना.
आकांतवादी ना तर
आतंकवादी तरी समजतलेंच,
लौहचुंबक लवूच येवन
तुज्या पायाक वेंग मारतलो.
तुका केन्नाच शॉक येवचो ना
कारण तुजी अर्थींग
परफेक्ट जाल्या.
पावसांत चड भिजूं नाका,
उदक चड पियेवं नाका
त्या रॉडांक कळम चडटली.
मागीर परत पांय उसोवन,
तुकस रंगोवन जातकच
जो रंग उरता तो
एक माव मारचो पडटलो...



राय, साश्ट-गोंय
फोन : ९८२२१४३०२१

असले मनीस आपल्याचो लेव्हल (खरें म्हणजे तांका लेव्हलच नासता) सोडून केन्नाच उलयनांत.

देवा-राक्षसांनीं समुद्रमंथन करून चौदा रत्नां भायर काडलीं. पूण ह्या रत्नांनी विनोदाचें रत्न मात नासलें. जें देवाक सापडलें ना तें मनशांक सापडलें. संवसारांतल्या कडू-गोड अणभवांचें जो एकसारकें मंथन करीत रावता, तांकाच हें विनोदाचें रत्न सापडटा. फटींग मनीस केन्नाच विनोदी आसना हाचे फाटलें कारण हेंच.

ज्यो म्हज्यो नव्यो वळखी जातात तांका म्हजेकडल्यान अपेक्षा आसता की हावें तांका हांसोवचें. ऑन दी स्पॉट ज्योक्स् करून तांच्या पोटांत दुखोवचें. पूण मागीर म्हजो गंभीर मुखवटो पळोवन ते हो नाद सोडून दितात. हांव असल्यांक सरळ सांगतां, I am handsomely paid to make others laugh.

विनोदासारकें दुसरें प्रभावी अस्त्र ना. केद्याय व्हडल्या मनशाक तूं खिणांत मातयेभरवण, वस्त्रहीन करपाक शकता. पूण ताचेखातीर पोशक अशें वातावरण आसचें पडटा. तुजे लागीं सेन्स ऑफ ह्युमर आसल्यार तूं किंग! तुजे अवती भोवती मागीर सदांच भिरें! तूंच मागीर मॅग्नेट!

विनोद हो आमचेभोवतीच घडटा, फक्त तो वळखुपाक कळपाक जाय. 'विनोदी' म्हणटकच कांय लोक तोंड वाकडें करतात. हाका तशें कारणय आसा. विनोदाची कांय सोयरींच हाका कारणीभूत. म्हणचे पचकेपणां, अश्लीलता, कुचित्रीपणां, विचित्रपणां म्हणजेच विनोद न्हय.

विनोदाचो सभाव हाचेपरस वेगळो. पूण तांच्या वांगडा राविल्ल्यान बाबड्या विनोदाचेंच नांव इबाडलां. हांसप म्हणचे विनोद न्हय. विनोदाचेय कांय नियम आसात,



अटी आसात. जांकां हें कळना तांकां विनोद कळना. विनोदाच्यो जायत्यो तरा आसतात. उदारण अभावित विनोद, कृतिनिश्ट विनोद, कायिक विनोद, शाब्दिक विनोद, प्रसंगी विनोद, बुध्दिनिश्ट विनोद, भावनिश्ट विनोद, विडंबन विनोद, सभावनिश्ट विनोद... पूण हें समजून घेवपाचो यत्न थोडेभोवूच करतात. बाकिच्यांक विनोद म्हळ्यार फक्त फाजिलपणा. केन्ना केन्ना अपेक्षाभंगानय विनोद जाता, पिशेपणांतल्यानय विनोद निर्मिती जाता. शाब्दीक विनोद म्हळ्यार कोटयो करपाचें थोड्यांक व्यसनूच आसता. असल्या कोटीविनोदापरस कल्पनानिश्ट विनोद केन्नाय श्रेश्ठ. तुमी आयजवेर असंख्य जोक्स, चुटकुले वाचल्या आसतले, पूण मुळांत विनोद णव तरेचेच आसतात, जे वयर सांगल्यात. संकलनकर्ता मागीर हांगा थंय थोडो बदल करून नव्या चुटकुल्यांची निर्मिती करता, इतलेंच.

म्हज्या एका इश्टाक एक संवय आसा. तो खंयच्याय नांवाची विसंगती करता आनी विनोद तयार करता. तातुंतलींच हीं कांय उदारणां देखीक- 'जीं कामां कलेन जायनात तीं अकलेन जातात' वा 'केंस वाडोवन देवानंद जावं नाका, बुध्दी वाडोवन विवेकानंद जा.' हिन्दी फिल्मांच्या नावांच्योय भोयो करपाक तो फाटींफुडें पळयना, 'अरब ने बना दी जोडी', 'म्हातारे जमीन पर', 'चांदनी चौक टू चायना, हाका कुत्रो सुध्दां खायना.' थरावीक काळा मेरेन तें बरें दिसता मागीर वीट येता.

दुसरो इश्ट आसा ताका फक्त शेरोशायरीचें पाडे व्यसन. हीं घेया ताचींय उदारणां - 'दिख गया चांद तो हो गया इद, नाजाल्यार शेंदरी घालून न्हीद', 'तुजो कोण आसा बीसा, ना तर हांव बेकार आसां', 'धा रुपयांक दोन वडापाव, तूं जावन आसा म्हजे बायलेचो भाव', 'रूप तेरा मस्ताना, कल्सांव फुटलें बसताना, बापायन पळयलें खेळटाना, आवयन शिंवलें न्हिदताना!' and and what? म्हणजे कोंकणींतल्यान आनीक आनी जाय?

ल्हान पिरायेर आमी खूब मजा करताले. आमचे भितर एक अण्णां (नांव बदल्लां!) आसलो. एकदां आमच्या गांवांत राजदूत मोटरसायकल घेवन एक जोडपें धुवेचे सोयरीगतीक लागून आयलें. ती भितर परंपरेप्रमाण चा-पाणी करताली. ह्या अण्णान भायर आमकां प्रात्यक्षिकान वारें कशें सोडपाचें तें दाखयलें. दोन दीस ती राजदूत थंय मागीर लोळटाली! ताचे लागीं एकाचे धा करपाची हातचलाखी आसली. रुपयाचें चिंगम घेतालो. येतिश्ट चाबडायतालो. एक चुडटेचो वीर घेतालो. तें चिंगम विराक मुखार लायतालो आनी तो वीर फंडपेटयेंत घुसयतालो. मुखारलें सांगपाची गरज ना. फुडें फुडें हो भुरगो खूब वादीव जालो. सरांच्या स्कुटरींची सिटां तो उबीं-आडवीं निर्दयतेन चिरतालो. भितर सकयली माती भरतालो



(नांव बदलूंक ना, हाची वाचप्यांनीं कृपया नोंद घेवची) तो केन्ना कसो भुरग्यांक चिमटे काडटालो कळच नासलें, सगळीच गुढगाथा. तोंडार ताच्या कसलेच हावभाव ना. जाच्या वाट्याक चिमटो येतालो तो आपले पार्श्वभाग घेवन निण्णळटालो. बाकिचे छाती बडोवन हांसताले. हाचे फाटल्यानय एक कारण आसा. एकदां एक मास्तर नाटक बसयतालो. तातूंत एक राक्षसी हास्य म्हूण प्रकार आसलो. मास्तरान समजायलें, छाती बडोवन हांसप म्हणजेच राक्षसी हास्य. मागीर जेन्ना आमकां केन्ना खोस भोगताली तेन्ना आमी राक्षसी हास्य आचरणांत हाडटाले! हाका सभावनिश्ट विनोद म्हणटात म्हण आतां कळ्ळें! फुडें फुडें हें प्रकरण इतल्यार पावलें की चिमटेकार अडेकडेक आसल्यारूच पुरो ताच्या नांवान बाकीचे हात धुवन मेकळे जाताले. हाचो परिणाम असो जालो की आमी नाटकांच पळोवपाचीं बंद केलीं. आयजय एकाद्रें नाटक पळेतना, हांव अस्वस्थ जातां.

म्हज्या एका इश्टाचो सेगीत दोन वर्सां जबर आक्सिदेंत जालो. ताच्या दोनूय पायांनीं आतां स्टिलरॉड बसयल्यात. आमी सात आठ जाण आसले. हांव मुडांत आसलों. ताका हावें सरळ सांगलें, बाबा तूं आतां खंयचेय चलयेक तुज्या मोगांत पडपाक लाय. ना जाल्यार तूं आजल्म ब्रह्मचारी उरतलो. तुजी सोयरीगत कशीच जांवची ना. मागीर मेटल डिटेक्टर बसयल्यार तुका भितर सोडचे ना. आकांतवादी ना तर आतंकवादी तरी समजतलेच, लोहचूंबक लवूच येवन तुज्या पायाक वेंग मारतलो. तुका केन्नाच शॉक येवचो ना कारण तुजी अर्थींग परफेक्ट जाल्या. पावसांत चड भिजूं नाका, उदक चड पियेवं नाका त्या रॉडांक कळम चडटली. मागीर परत पांय उसोवन, तुळस रंगोवन जातकच जो रंग उरता तो एक माव मारचो पडटलो... एका अर्थान टोटल लाफ्टर सेशन हावें चालू केल्लो. पूण हें फक्त स्टार्टर्स आसलें. मागीर ताचेर हावें बॉम्ब उडयलो, तुगेर भुरगें जातकच ताच्याय पायांत अनुवंशीक स्टील रॉड येतले. सगळ्यांच्या दोळ्यांत हांसून हांसून खुशी के आँसू. पूण एकटो मात हासलो ना, सिरियसली विचारपाक लागलो. How is it possible? कर्मभोग.

आमचेभितर एकटो स्वताक खूब मिरयतालो. आपल्याचेंच व्हडपण गातालो. कॅन्टीनांत सगळीं बशिल्लीं. ताचो बर्थडे आशिल्ल्यान (मयत) सभा आयोजित केल्ली. दर एकल्यान ताचे विशीं वायट उलोवप. जो कोण बरो उलयता, ताका आयस्क्रीम ना. I-scream! म्हजी पाळी आयली. हावें घसो साफ केलो. उबो रावलों आनी सांतव्पर उलयल्लेवरीं म्हळें, 'आमचेभितर सगळ्यांत हुशार, बुध्दिमान, शक्तिमान, मितभाषी, चरित्रवान मनीस हो..... अशें ताचें स्वताचें

आनी वेल्यान तोंड घेवन सांगतालो, बांगड्यांत मिरसांग भरली. गांवात काळखांत कोणायची गाडी दिसल्यार चावयेच्या बुरकांत व्हीर मोडून घालतालो, मोटरसायकलीच्या सायलंसरांत गुणे चेपतालो आनी सायकलीचे ब्रेक फेल करतालो! आयज वळून पळयल्यार ही एकेतरेची विनोदनिर्मितीच आसली. पूण थरावीक पिरायेमेरेन ती लक्तु-अपुर्बाय दिसता.

भुरगेपणांत भाड्याच्यो सायकली घेवन 'कट मारप' हो खेळ आसतालो. कोणाक कट मारप तर रस्त्यार कडेक चलतल्या बाबड्या बेवारशी जाण्ट्यांक. बेवारशी हाका लागून कित्याक तर त्या जाण्ट्यांचे अविभाज्य घटक म्हणजे पांय, तकली, हात, धोपरां तांचें कांय एक आयकनासतना आपल्याक जाय तशे वागताले. एक दीस अशेच कट मारपाचे जिवघेणे प्रक्रियेंत एकट्यान जाण्ट्याचें वस्त्रहरण केलें. त्या जाण्टेल्यान देवा-देवचाराक भियेनासतना ताका येतिश्ट पेटयलो, इतलो पेटयलो की ते रातीं तो नरकासूर पेटोवपाक पावलो ना. तेन्ना त्या वेळार आमी कडेक रावन मुमुरख्यांनी हांसताले. व्हडले जातकच कळ्ळें हाकाच प्रसंगानिश्ट विनोद म्हणटात.

गांवांत नाटकां जातालीं. गांवांत एकटो चिमटेकार म्हूण येतालो. ताचें नांव म्हाका आतां याद ना पूण ताचे चलयेचें नांव अश्विनी!

मन!' घे सगळीं हांसलीं. म्हजेर खूश जावन (वेगळ्या अर्थान) ताणें म्हज्या हातार पांच रुपयाचें नाणें दवरलें. हावें तें दोळ्यांक लावन म्हळें, 'हें नाणें पुरसाक चडयतां, तुजें न्हय तर निदान तुजे बायलेचें तरी बेगीन लग्न जावं म्हूण मागणें करतां. ताच्या लग्नाक आयज सात-एक म्हयने जाले, भुरगें जावंक ना ती वेगळी गजाल, पूण आयज मेरेन तो म्हजेकडेन उलयलो ना. हाकाच अपेक्षाभंग विनोद म्हणटात.

असोच आमचे गांवांतलो एक जेश्ठ नागरीक (स्वातंत्र सैनिक न्हय) दिसपाक जणूं पाषाणकुमार, धिप्पाड... जणूं हाचे फाटल्यान राक्षसांची पिळगी अस्त जातली... एक दीस कांय एक कारण नासतना म्हजे फाटीक लागलो. हावें उपरांत ताचेर एक ज्योक रचलो. ल्हान आसतना आवय भुरग्याक (बापायची) दिश्ट जावंची न्हय म्हण काळें काजळ लायतात. हो पाषाणकुमार ल्हान आसतना इतलो काळो आसलो, इतलो काळो आसलो (दोन म्हयने लेट जाल्यार डांबराक फाटीं काडपाचो!) हाचेर काजळ दिसनासलें देखून हाची आवय हाका दिश्ट जावची न्हय म्हण चुन्या बोट लायताली! ताचेरच आधारीत आनी एक ज्योक. ताणें खंय सोयरीगतीक आपलो फोटू धाडलो. चलयेच्या घरच्यांक दिसलें हाणें चुकून नेगेटिव्हच धाडला. बारीक पळेल्यार कळ्ळें तो पोझिटिव्हच आसलो!

हाकाच लागून म्हणटात विनोदासारकें दुसरें प्रभावी यंत्र-मंत्र ना.

सांगपाचें म्हळ्यार विनोदासारकी दुसरी गांभिर्याची गजाल ना. वयलेचाराक पळेल्यार ही साधी सोपी गजाल दिसता पूण म्हणटात न्हय दुरून डोंगर साजरे...

विनोदी मनशाक पळयल्यार तो जिविताचो विचार करपी दिसना असोच समज आसता. पूण गजाल भलतीच आसता. विनोदी मनशाक जिविताचो जितलो उलगडो जाल्लो आसता तितलो विद्वान समजपी मनशाक जाल्लो नासता.

आयज लेगीत आमी चार्ली चॅप्लिन घोस्तान पळेतात. पूण ह्या चार्लीचें जर तुमी आत्मचरित्र वाचत जाल्यार दोळ्यांत दुकां आयलेबगर रावनांत.

देखूनच आचार्य अत्रे सांगून गेला, 'विनोदाचें म्हत्व लोकांक जेन्ना कळटलें तेन्नाच तांका समजतलें की, आपल्याक हांसोवपी विनोदी लेखक हो आरत्यो परत्यो आनी वात्रट उतरांच्यो कोलांट्यो उडयो मारपी कोण तरी उथळ आनी मूर्ख विदूषक नासून, तो मनीसजातींचो सगळ्यांत व्हड उपकारी आसा.'



# देवाचें रूप

- रिना साईश लवंदे

माईक गौड्यामुताचें आशिल्लें.
पांयाचें खौंटेक तिच्या ल्हानसो
कातरो पडिल्लो.
गौड्यामुताचें आशिल्ल्या
मनशाक पांयाक
सॅन्सेशन नासता.
तशेंच तिकाय जाल्लें.
तिकाय तो कातरो पडिल्लो
म्हूण कळूंक नासलो.
पांयाक अचानक
सूज येवपाक लागली.
तिका बऱ्या नांवाजत्या
दोतोराक दाखयलें.

"तूं आयलें? बरें केलें. तुज्या आवयच्या पांयांची हांवें तपासणी केली. ओपेरेसांव करून सगळें नितळ करचें पडटलें. तिचो पांय भितरल्यान सगळो कुसत गेला. ह्या असल्या दुयेंसांक आमी गॅगरीन म्हणटात. जितले बेगीन नितळ करता तितलें बरें जातलें."

दो. गायतोंडेचीं हीं उतरां आयकून म्हज्या दोळ्यां सामकार काळोख आयलो. म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटना जालीं. पांयां सकयली जमीन हालूंक लागली. हांवें म्हाका सांबाळून घेत दोतोराक विचारलें, "माईक मागीर कसलोच त्रास जावंचो ना न्ही?"

हें आयकून दोतोरान म्हळें, "हांव कितें देव? हांव जाता तितलो पांय वाटोवपाक प्रयत्न करतलों. ही केस मातशी गुंतागुंतीची आसा. तुमी देवाचेर एक विश्वास दवरून भावार्थान देवाकडेन मागणें मागात." अशें उलयतां उलयतां दोतोरान एक वखदाचें नांव बरोवन कागद म्हजेमुखार धरीत म्हळें, "हें वखद गोंयां आनीक गोंयां भायर मेळप कठीणच. हें वखद तयार करपाचेंच बंद जालां. ह्या वखदा बदला दुसरेंय वखद तयार जावंक ना. तुमी सोदात. मेळ्ळ्यार तुमचें नशीबच म्हणपाचें."

हांवें, म्हज्या घोवान, दोगांयल्या इश्ट इश्टिणींनीं गोंयांत जंय-थंय सोदलें पूण कोणाकच मेळ्ळें ना.

हांवें म्हज्या सगळ्या देवांक उलो मारलो. अजाप म्हळ्यार दोन-



कळंगूट - गोंय.
फोन : २२७६२९४

चार दिसांनी म्हज्या घोवाच्या इश्टान मुंबयच्यान सदांवरीं आमची सगळ्यांची खबर घेवंक फोन केलो आनी हेवटेन तेवटेन उलोवन म्हज्या घोवान ताका माईच्या ह्या दुखण्याची खबर सांगली. ताणें त्या वखदाचें नांव फोनावयल्यान बरोवन घेतलें आनी मुंबय मेळटा तर आपूण पळयतां अशें सांगलें. प्रत्येक देवा देवतांक म्हज्यो आंगवणी सुरू जाल्यो, एकदाचें वखद मेळ्ळ्यार पुरो जाल्लें.

दुसरेच दिसा त्या इश्टाचो परत म्हज्या घोवाक फोन आयलो. ताका एके फार्मसींत पांच ट्यूब मेळिल्ले ते ताणें मुंबय गोवा खंयचे बसीर धाडल्यात तें सांगलें. म्हजोय जीव सूऽऽ जालो. तें वखद पळोवन दोतोराकय उमेद जाली आनी अजापय दिसलें.

दो. गायतोंडेन माईक ऑपरेशन थियेटरांत व्हरून पांय बरो नितळ केलो. हें वखद लावन मलमपट्टी केली. भायर येवन म्हाका म्हणपाक लागले, "पळय ह्या आठ दिसां भितर तिची पांयाची सुधारणा जायना जाल्यार पांय कातरचो पडटलो." तांणीं हें सांगतगीर म्हाका कांयच सुचना जालें. थंयचे थंय हांव सकयल बसलें आनीक देव देवतांक तशेंच मेल्ल्यागेल्ल्या आमच्या पूर्वजांक होरावपाक लागलें. म्हजे वोंठ थरथरताले. दोळ्यांचो बांद फुटूंक पाविल्लो.

माईक गोड्यामुताचें आशिल्लें. पांयाचे खोंटेक तिच्या ल्हानसो कातरो पडिल्लो. गोड्यामुताचें आशिल्ल्या मनशाक पांयाक सेन्शेशन नासता. तशेंच तिकाय जाल्लें. तिकाय तो कातरो पडिल्लो म्हूण कळूंक नासलो. पांयाक अचानक सूज येवपाक लागली. तिका बऱ्या नांवाजत्या दोतोराक दाखयलें. दोतोरान वखदां इंजेसांवां दिवन तिची सूज कमी केली. वखदांचो येफेद वतगीर परतून सूज येताली. पूण ताकाय तिच्या काऱ्या खातीर सूज येता म्हूण मातलेगीत नांत नासलो. तिचो पांय तांबडोच जातालो. अशें खूब दीस जालें. हें अशेंच चलिल्लें.

एक दीस हांव म्हज्या चल्याक शाळेंतल्यान हाडूंक वतालें. वाटेंत म्हाका म्हजी शाळेंतली इश्टीण मेळ्ळी. हांवें उलयतां उलयतां माईची खबर सांगली. तिणें म्हाका म्हापसा क्लीनीकांत दो. गायतोंडेचें नांव सांगलें. हांवें आनीक वेळ केलो ना. दुसरेच दिसा दो. गायतोंडे लागीं व्हेली.

दोतोरान माईचो पांय तपासलो आनीक म्हाका खूब तापोवन काडलें. इतले दीस असो पांय घेवन तिका कित्याक दवरली? तिची खोंट भितरल्यान कुसत गेल्या ऑपरेशनान तिची खोंट नितळ करची पडटली.

माईच्या खोंटेचें दोतोरान ऑपरेशन केलें. आठ दिसांनी पट्टी सोडयल्या उपरांत कितें तें कळटलें अशें सांगून दोतोर गायतोंडे वचपाक गेले.

हे आठ दीस म्हळ्यार म्हाका आठ वर्सां कशीं दिसलीं. दोतोरालीं उतरां हांवें माई आनी पापाक सांगलींना. ह्या आठ दिसांनी हांवें देवाचें खूब केलें आनी त्या आठदिसांनी पट्टी सोडयत तर कितें चमत्कार! खरेंच अप्रुपच घडलें. तिचो घाय सुकून आयिल्लो. आमचे परस दोतोराक खूब बरें दिसलें. दोतोराच्या तोंडार हांसो. हिचें इतलें बेगीन हें फेरीद पेकत अशें हांवें धरूंक नासलें. अशेंच पांच म्हयने हें फेरीद मलमपट्टेंत दवरूंक जाय पांय सामको बरो जातलो.

देव आमकां मनशाच्या रुपान कसो पावलो हें म्हाका अजून दिसता! निमाणें दोतोरान घेतिल्ले कश्ट फळाक आयले म्हणूनच आयज ह्या म्हज्या काळजांत यादिंचीं अळमी किल्लल्या.



# मजुरी

- विन्सी क्वाद्रूस

तेंच भिरकेंत
आडोस घेतिल्ल्या झाडांची
एक मोटीशी तिणें बडी मोडली
आनी सत्याचेर तुटून पडली.
ताका मारतां
मारतां बडी मोडली.
तिचेर सांवार चडिल्लो.
दुसरी बडी हाडली.
जरूय काळोख आसलो,
तरी आकृतिची
हालचाल दिसताली.
तोच फायदो घेवन
सुंदऱ्यान सत्याक
धडो शिकोवपाचो निर्णय
योग्य थारायलो.



'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
फोन : ९८२२५८७४९८

तिणें आपलो पदर ल्हवूच ओडलो आनी सरभोंवतणीं पळयलें. रात मध्यानीर पाविल्ली. काळोख खावंक येतालो. तातुंतच फुड्यांत कोण ना हाची तिणें खात्री करून घेतली. भायल्यान सुन्न आसलें. घोव घरांत येवन न्हिदला काय अजुनय खंय हेडटा जाल्यार पळोवपाचें तिणें कश्ट घेतले नांत. सगळ्या घरच्यांनी मेळून तिका दीसभर त्रास केल्ले. दनपरां उपाशींच ती आड पडिल्ली. कोणच तिचे खबरेक येवंक नासलो. घरच्या मनशांची वागणूक नियाळटां-नियाळटां तिचो दोळो लागिल्लो. मदीं दोन फावट उटपाचो तिणें यत्न केल्लो. तरी ती तशीच पडून राविल्ली.

आतां ती उठली आनी तिणें ल्हवूच देराची खिळी काडली. चोर पावलांनी घरांतल्यान भायर सरली. पडवेर आशिल्ले कळसुलेंतल्यान हातार उदक घेयत ती कितलेंच उदक पियेली. कळसुली तशीच दवरून ती चलपाक लागली. ती खंय वता तार्चें तिकाच भान नासलें. काळोखाचे धुंदींत ती चलत वताली.

घरापासून बऱ्याच पयस वळणाचेर पावतांच कोणें तरी तिका हटकिली. "येद्या वेळार आनीक कोण?" तिणें मनांतच प्रश्न केलो. तरी तिचे पांय थांबले नांत.

"कोण तो येद्या वेळार हे वटेन पासार जाता?" एके अस्तुरेन

तिच्या फाटल्यान येयत तिका थांबोवपाचो यत्न केलो.

"हांव सुंदरें!" तिणें भिवनच जाप दिली.

"सुंदऱ्या, आज अमास मुंगो. अशें रातयां बायल मनशेन तरी भोंवप सारकें न्हय. चल परतें घरा."

"ना. त्या घरांत परत ना वचपाचो निर्धार करुनच हांव भायर सरलां. कित्याक म्हण वचूं थंय? कोणा खातीर? म्हजो म्हण कोण आसा थंय? म्हजे गैरहाजेरेंत कोणाक दुख्ख तरी जावपाचें आसा? सोंसपाची म्हण एक हद्द आसता. सगळेंच तांचें? आनी तीं म्हणटांत तितलेंच खरें?" लागोफाट सुंदऱ्यान कितलेच प्रश्न केले.

"मागीर येद्या वेळार तूं खंय वतलें?"

"खंयसरूय वतलें हांव. जग व्हडलें आसा. लग्न जावन लग्नाचें सूख ना, घर आसून घराचें सूख ना, रेस्पेद ना, विसव घेवपाक सुवात ना अशा घरांत वच म्हणटा तूं म्हाका?"

"बरें चल, तूं ह्या वेळार म्हज्या घरांत यो." तिणें तिच्या हाताक धरून लागींच आशिल्ल्या आपल्या घरा व्हेली. बेगीन बेगीन हांतरून सोडलें आनी न्हिदपाक विनंती केली. सुंदरें कितें तरी सांगपाक वताली पूण तिका उलोवंक दिलीना.

"आतां कांयच सांगू नाका सुंदऱ्या. तुज्या अवतारा वयल्यानच म्हाका समजलें. तुज्या जिवितांत तूं कितें भोगता तें. आतां तूं न्हीद. सकाळीं आमी सविस्तरपणान उलोवंचें. तुजे विशीं हांव आयकतालें पूण ते गजालींत इतलें गंभीर पावल मारपा इतलें सत आसा अशें धरूंक नासलें. चल आतां विसव घे. वेळ खूब जाल्लो आसा." उशें आनी पांगरूण दितासतना तिणें दोन शब्द सुंदऱ्याल्या कानांत घाले.

सुंदऱ्यान कितलेच फावट कूस परतिली. तरी तिका न्हीद आयली ना. कितलोच वेळ ती न्हिदेकडेन कश्टत रावली.

"शालू, हांव वतां गो. म्हज्यान जायना हो घुस्मटमार सोंसूंक." शालू बेगीन बेगीन सुंदऱ्या फुड्यांत आयली. मेजार गुरगुलेतांत घालून दवरिल्लें, तेतुंतल्यान ग्लासभर उदक तिका दिलें.

"बरें, चल सांग तूं कितें सांगूंक सोदता तें. सांगले उपरांत घडये तुज्या जिवाक सुशेग मेळटलो."

"कितें सांगूं म्हजें मर्डे? एक राजकुंवर येतलो आनी म्हाका सगींच्या सुखाक पावयतलो, आपले राजनगरींत राणी कशी दवरतलो अशें येवजप म्हळ्यार पाप जालें? लग्ना उपरांत एक खुशाल आनी सुखी घराबो निर्माण करपाचीं सपनां पळयल्यार मळब-जमीन एकठांय करूंक जाय? देवान म्हाका भुरगें दिलेंना जाल्यार हांव गुन्यांवकार? म्हज्या घरच्यांक खुशाल दवरपाच्या यत्नांत हांवें म्हजे सगळे आवंडे त्याग केले. तरी घोवाले, सासुमांयले आनी नण्डेले थोमणे आयकुपाक म्हाका देवान त्या घरांत धाडिल्लें? हांच्यो जापो सोदतां-सोदतां म्हज्या जिवितांत नवे नवे प्रस्न उबे जायत गेले. जिविताचे खुरीस सुमारा भायर वाडपाक लागले. आतां ते इतले उंच पावल्यात की म्हजी नदरूच अडकळल्या आनी म्हाका कांयच दिश्टी पडना. म्हज्या जिवनाचो अर्थूच सोंपिल्ल्याचें म्हाका जाणवता." सुंदऱ्यान थोडे भितर आपलें पुराय जिवीत सांगून सोडलें.

"म्हाका तूं सारकें वळखता?"

"तुजे विशीं आयकून जाणां, पोरशीं भेटपाचो योग केन्नाच आयलो ना."

"हांवूय बी तुजे सारकेंच कोणाचो तरी बळी थारलां. तुज्या गांवांत म्हजी जीण विस्कळीत जाल्ली म्हण तुजे गांवचे शीमेर म्हजें एकसुरें जिवीत सारतां. म्हज्याच जिविताक अर्थ उरूंक ना. पूण सूड भावनेंत म्हजो जीव मुठयेंत धरून आज ना फाल्यां म्हाका रस्त्यार घालपी म्हज्या घोवाचो हांव बदलो घेवंक जगतां. हांव संदेची वाट पळयतां. हांवें आयकलां तो परतून लग्न जावंक सोदता म्हण. ज्या दिसाक हे वाटेन तो आपली वरात घेवन येतलो, त्या दिसाक म्हजो कुकूम वाऱ्यार उडोवन, म्हाका उबंत घालप्याक हांव कातरून उडयतलें. तो एकलोच कसो मौज मारूं शकता?"

"तूं शामल्याची घरकान्न तर!"

"हय. तोच शामलो. दळबद्र, दोन अक्षरां शिकला म्हण म्हजी कुतां काडून म्हाका हलकटां भशेन उलोवपी तोच शामलो. हांव अशिक्षीत म्हण पयलीं ताणीं वळखूंक जाय आसलें. लग्न जातकच म्हाका सांगता 'तुजें तूं पळय'. हांव गेल्लें हाका मागणी घालपाक? हाच्या मोगान पडून लग्न जालां हांव? कितलें सोंसलें. तोंडांतल्यान शब्द भायर काडलो ना. तरी आवयच्या सांगण्यान हाताक धरून घरांतल्यान भायर घालें म्हाका. आवयचो गुलाम खंयचो." एक आवंडो गीळत त्याच जोशान तें परत उलयलें, "सुंदऱ्या, हांव अशें सूडभावनेंत जगतां म्हण तुवें हीच वाट धरची अशी म्हजी अपेक्षा ना. हांव हांगा एकटें रातिल्ल्यान घडये म्हज्यांतली सूड भावना पेट घेयत आसा. तुजेर घरांतल्यान भायर घालपाचो प्रसंग येवंक ना. तुज्या घरांतच रावन तूं ताका प्रतिकार कित्याक करना? तुजेच अशक्ततायेचें तूं कित्याक गुलाम जालां?"

"म्हजी मानसीकताच तशी म्हण तांचो अत्याचार सोंशीत ह्या इस्तादार पावलां."

"तुज्या आवय-कुटूबांतलो कोणाचोच आदार ना तुका?"



"आदार आशिल्लो. हांवेंच तांका पयस दवरलीं. म्हजो पयसो खोटो जाल्यार सगळ्यांचो आदार घेवन किते करतलें? म्हजो घरकारच तरी म्हजे वटेन आशिल्लो जाल्यार हांव भिवचें नाशिल्लें. तीं सगळींच एके वटेन रावतात आनी म्हाका खावंक येतात."

"घोवाक घेवन वेगळी चूल तरी मांडपाची."

"तसोय यत्न केल्लो. तो म्हाका सांगता जर आमी वेगळी चूल मांडली जाल्यार आमकां घराचो अधिकार उरचो ना, घराचो वांटो मेळचो ना. लग्नीक जिवितूच सारकें चलना जाल्यार घराचो वांटो आनी अधिकार कोणाक जाय? म्हज्या लग्नाचोच अधिकार ना थंय..."

"पुरो पुरो सुंदऱ्या. ह्या काळोखाची शप्पत. आमी ह्या दादल्यां विरुद्‌ध लढो उबारचोच पडटलो. आमचे सारक्यो ह्या समाजांत आनीक कितल्यो भयणी आसात, तीं कशे दीस काडटात आसतलीं? त्या दुर्गाची गजाल आयकल्या मुंगो तुवें? कित्याक जीव दिलो तिणें? आपल्या घोवाच्या अत्याचाराक विटून मुंगो? ल्हान ल्हान पोरां आसात ताचीं!"

"तुजे भशेन म्हजो सभाव न्हय गो शालू. हांव आदींच..."

"सुंदऱ्या, आतां आयल्ल्या पांयांनी तूं घरा वच आनी सुशेगाद न्हीद. ह्या अमाशेच्या काळोखाची तुका दिश्ट लागत."

"ना शालू, हांव त्या घरांत परत वचूंक तयार ना. म्हाका इल्लो नीस आसल्यार दिलो जाल्यार व्हड उपकार जायत." ताचो ताळो सुखपाक लागिल्लो. पोटाक कळवळे येवपाक सुरवात जाल्ली. शालून हाडिल्ल्या निसा बरोबर दोन पेजे गोटेय ताणें पोटांत घाले.

"शालू, ह्या कटकटीच्या संवसारा पासून मुक्त जाल्यारच जिवाक सुशेग मेळटलो दिसता. ना जाल्यार सदचेंच..."

"जीव दितलें मुंगो. चल दी जीव. दुर्गा गेलें, फाल्यां सुंदरें गेलें म्हणटले! दोन दिसांनी सगळे विसरतले ह्या गांवांत कोण तरी सुंदरें दादल्याचो अत्याचार सोंसतालें म्हण. तुजे फाटोफाट आमी सगळ्या बायलांनी जीव दियत रावपाचें आनी त्या दळीद्र दादल्यांनी एक बायल ना जाल्यार दुसरे बायले कडल्यान सूख भोगीत रावपाचें. सोंसपाचें तें फक्त बायलांनी. ह्या समाजांत दादल्यांक जाय तशें वावुरपाक दिवपाचें आनी आमी बायलांनी जीव दिवपाचे? चल, चल तूं. ह्या काळोखाकय तुज्या निर्णयाचो भंय दिसपाक लागचे पयलीं तुज्या मनासारकें कर. पूण हांव मात म्हज्या निर्णया पासून हालचें ना. त्या शामल्याक निटायेर हाडले बगर जीव दिवपाचो केन्नाच विचार करचें ना."

शालूच्या उतरांचो तिचेर कसलोच परिणाम जालो ना. ती मान पोंदाक घालून परत एक फावट मुखावयली वाट चलपाक लागली. शालून मनांतल्या मनांत तिडक उक्तायली. आनी सगळो राग आपल्या दाराचेर काडीत दार नेटान आपटिलें.

काळोख पयस जावपाचें नांव घेनासलो. किरकिरें मात कान वाजयताले. मंद वारो पानांचो आवाज करून आपलें आसणें दाखयतालो. सुंदऱ्याचे पांय अकस्मात थांबले. कोण तरी येता हाची ताका सुलूस जाली. तिणें झाडाचो आडोस घेतलो.

तो लकत लकत वाट माडयत मुखार येतालो. ताच्या तोंडांतल्यान कसलीं तरी उतरां भायर सरतालीं पूण समजूंक येनासलीं.

तो लागीं पावता तशें सुंदऱ्याचे कान उबे जाले. आवाज वळखीचोच लागलो.

"कोण सत्या..." सुंदऱ्याच्या तोंडांतल्यान अकस्मात उतरां भायर सुटलीं.

"कोण थंय?" लडकडत्या उतरांनीं सत्या उलयलो.

"तूं अजुनय घरा पावूंक नासलो?"

"आगो रांडला...येदे रातचें हांगा? कितें करता गो? कोणा फुड्यांत रात काळी करून आयलां?"

"सत्या हांव...हांव घरांतल्यान आतांच आयलां."

"आतांच आयलां? आतांच आयलां म्हणल्यार कितें? हो वेळ बायलांनी भोवपाचो? ह्याच खातीर तूं एकटें न्हिदतालें दिसता जाय तेन्ना घरांतल्यान भायर सरून वचूंक. ह्याच खातीर म्हजो सहवास तुका रातचो नाका आसलो. बरें मौजा मारतां मुगो रातचें आनी....."

"सत्या, तूं म्हजेर बेबुन्याद आरोप घालता. आज पयलेच फावट हांवें तुज्या घरांतल्यान रातचो पांय भायर काडला."

"आज सांपडलें म्हण अशें सांगता? हे आदी कितले फावट..."

"सत्या, तूं म्हज्या चारित्र्याचो दुबाव घेता."

"चारित्र्य! हा हा हा...." तो व्हडल्यान हांसता. आतां म्हणल्यार ताचो सोरो बरोच निवळिल्लो.

"असले तुजे मौजेकूच लागून आमकां भुरगें जायनासलें हें आज म्हाका थावें जालें. आवयच्या म्हण्ण्या कडेन हांव सहमत जायनासलो तरी तिच्यो हेर गजाली म्हाका तुजेपासून पयस दवरताल्यो, घडये हेंच हांव समजूंक शकनासलो. आतां तुजें रूप म्हजे आवय मुखार..."

"हांव तुजे पांयां पडटा सत्या. तुज्या घराचो हांवें सदांच मान राखला."

"मान! आनी म्हज्या घराचो? येदे रातचे वेळार भोंवपी बायल कोणाच्या घराचो मान राखूंक शकता?"

"तुमी म्हाका कितले त्रास केले पूण हांवें केन्नाच जाप काडूंक ना. तोंडांतल्यान एक शब्द परतो सांगलो ना. आज म्हज्यान कशेंच सोंसूंक जालें ना म्हण हांव..."

"हांव कितें? कोणाक सोदूंक गेल्लें गो? वो तोंड काळें करून आयलां गो खंयच्यान?"

"सत्या!"

"सांगाताक कोण ना मुंगो झिलांनी बी?"

"सत्या!"

"फिरंग्याचो भुरगो म्हाका दिवपाचो बेतवी रचना मुंगो?"

"सत्या!" सुंदऱ्यान व्हडल्यान आरड मारली. तिच्या अंतस्कर्णाक आज पयलेच फावट कोणें तरी चुरचुरे नासतना असलो घाव घाल्लो. तिणें सगळे मानसीक आनी शारीरीक घाव सोशिल्ले. आज पयले फावट तिच्या घोवानच तिचें चारित्र्य घाणाक लायल्लें पळोवन तिच्या अंर्तमनाक पीळ पडिल्ले.

तेच भिरकेंत आडोस घेतिल्ल्या झाडांची एक मोटीशी तिणें बडी मोडली आनी सत्याचेर तुटून पडली. ताका मारतां मारतां बडी मोडली. तिचेर सांवार चडिल्लो. दुसरी बडी हाडली. जरूय काळोख आसलो, तरी आकृतिची हालचाल दिसताली. तोच फायदो घेवन सुंदऱ्यान सत्याक धडो शिकोवपाचो निर्णय योग्य थारायलो. कितलो वेळ...मेळत तसो... सत्याचो प्रतिकार कित्याकच उपकारा पडना जालो. सुंदऱ्यान आपलो राग काडून सोडलो.

लटाफट जाता ती आयकून शालू लांपयांव घेवन आयलें.

"सुंदऱ्या..." सुंदरें सामकें थकून थंयच कडेक बसून आसलें. शालून लांपयांवाचो उजवाड घालून सत्याक पळयलो. ताचे तकलेंतल्यान रगत व्हांवतालें. बडयेच्या मारान कपडे फरफटिल्ले. आंगांतल्यानय रगत येतालें.

"सुंदऱ्या, तुज्यांतल्या चैतन्याक कोंबरी फुटल्या. अत्याचाराक प्रतिकार करपाची बुन्याद घर करूंक लागल्या. बायलमनशेच्या अंताकडेन पळोवन दादल्याच्या कर्माक किळी लागतली व्हय गो सुंदऱ्या?"

"शालू!" उबें रावत तिणें शालूक वेंग मारली.

"सुंदऱ्या, आतां तरी घरांत वचून न्हीद. मुखार कितें जातलें हाचो विचार करुंनाका. आज अत्याचारा विरुद्ध सुरवात जाल्या. हे मुखार जायतें करपाचें उरलां. चल आनीक कोणय हांगा पावचे पयलीं तूं वच..."

"पूण शालू हो सत्या..."

"सत्याक ताची मजुरी फाव जाल्या. तुज्या हेर घरच्यांकय मजुरी दिवपाची वेळ लागीं पावल्या. ताची तयारी कर. हीच संदी बरी आसा. घरा वच आनी पयलीं आशिल्लें तशें न्हीद. कोणाक कांय एक कळूंक दिनाका. तूं रातीं भायर आशिल्लें म्हण. सत्याचें प्रकरण हांव पळोवन घेतां."

शालूचीं धिरान भरिल्लीं उतरां आयकून सुंदऱ्याक स्फूर्ती मेळ्ळी. सपासप पावलां मारीत ती आपले घरचे दिकेन चलपाक लागली. तिच्या मनांत फाल्यांची फांतोड आनी ते उपरांत उदेवपी दिसाची मांडावळ रूप घेयत आसली. आपल्या घोवाक दिल्ले मजुरेन, हेरांकय जागोवपाच्या हावेसाक आतां बळगें आयिल्लें.



# हांव याद्दीन विसरतां

एक दीस
ऑफिसांत गॆलॊंच ना.
दांडी मारली अशें न्हय.
सगळॆ दीस एकूच
आसतात म्हणून जावयॆ
म्हाका बिरॆस्तार हॊ
आयतारूच कसॊ दिसलॊ.
बायलॆन लॆगीत
आयज बिरॆस्तार
म्हणपाची याद कॆली ना.
घडयॆ हांव घरा आसां
म्हणून ती खूश जाल्ली आसुंयॆ.

मडगांव - गोंय

– अतुल र. पंडित

**ऑ**फिसांत कामांत तसो हांव 'सिन्सियर'. म्हजें काम वेवस्तीत करपी. वेळच्या वेळार. देखूनच तिख्या (तिखी न्हय, तिखें) कंपनीचो बॉस म्हजे कडेन विस्वासान कामां दिता आनी हांव तीं विस्वासान पूर्ण करतां. दिल्लें काम वेळार पूर्ण क्रतलों हाची बॉसाक गारांटी, पूण हालींच्या दिसांनी म्हाका यादीची साडेसाती पिडूंक लागल्या. म्हाका रोखडोच विसर पडटा.

वेळार काम जालें ना म्हणून बॉस म्हाका तापयता, शेपलायता आनी शिटकायता. घडये जाण्टेपण आयिल्ल्यान म्हजे यादीची शीर फ्राक जाल्या आसुये आनी देखून खंयचीय गजाल हांव याद्दीन विसरतां जावये! बॉसाचीं तापोवणीं आयकून आनी म्हज्या हातांतल्यान परत परत जावपी चुको पळोवन बॉस म्हाका कामा वेल्यान काडून बी उडोवचो ना मूं? ह्या भंयान म्हजें काळीज ओगीच कलकलता आनी घरांतल्यान भायर सरतना बायलेन सांगिल्लें.याद्दीन विसरतां आनी मागीर तिचीय उलोवणीं खांवचीं पडटात.

म्हज्या ह्या बदलत्या सभावाक ती उबगता आनी आपणें लग्न करतना खूब ताकतीक केली अशें शें कितें ती बडबडत आसता. "आगे, हांव जाण्टो जालां. म्हजे कान पयस जाल्यात. यादीची शीर फ्राक जाल्या" अशें सांगल्यार लेगीत ती तें कानामनार घेना आनी म्हाका उलयत रावता. खंयच्या जल्मांत कसलें पातक केल्लें म्हणून म्हाका असलो घोव मेळ्ळो अशें म्हणून कांय वेळां आपल्या नशिबाकूय दोश दिता.

हांव कितें उलयतलों? हांव मुद्दाम विसरना हें तिका कशें सांगतलों? बायलेन सांगिल्लें सामान तिस्कार पाव म्हणसर हांव विसरतां म्हणून चोपडेच्या एका पानार बरोवन घेतां आनी ज्युस्त तेंच पान घाल्ली पॅण्ट खुटयाळ्याक लावन दुसरीच पॅण्ट घालून भायर सरतां. सांगिल्लें सामान हाडलेंना जाल्यार तिचीं उलोवणीं सुरू : घरांत बायल आसा, दोन भुरगीं आसात हाचें मातशें पूण धंगण धरात. तुमचे परस चाळींतल्या निमण्या घरांत रावपी विसूनाना परवडलो. तो हांवें कितेंय सांगल्यार एका पांयार धांवन येता आनी हांवें सांगिल्लें म्हाका याद्दीनं हाडूंन दिता. जाण्टो जावनय तो तकलेन कितलो फीन तो पळयात.

पयर ऑफिसांत अशेंच जालें. बॉसान अर्जंट काम दिल्लें. हांव विसरलों. खरें म्हणल्यार तें काम म्हजें नासलेंच. तें आसलें सुप्रभात वेर्णेकाराचें. ताणें तें म्हजे कडेन दिलें आनी सदचे भशेन हांव विसरलों. बॉसान म्हाका कॅबिनांत आपयलो. म्हाका शेळो घाम. पूण घडलें भलतेंच. कामा कडेन घाळपण केलें म्हणून वेर्णेकाराक मेमो पडलो आनी बॉसान म्हाका समजायलो. "हें पळय, तूं जाण्टो जाला. तुजी पन्नाशी जाल्या आनी हे पिरायेर तशेंच जाता. तूं दोतोराक दाखय. तो तुका याद उरपाच्यो गुळयो दितलो. त्यो मात यादीन घे. नाजाल्यार म्हजे भाशेन करशीत. म्हाकाय दोतोरान याद उरपाच्यो गुळयो दिल्यात, पूण ज्युस्त त्योच हांव घेवंक विसरतां." बॉसान म्हणलें आनी तो खळखळून हांसलो. म्हाकाय हांसूंक आयलें.

एक दीस ऑफिसांत गेलोच ना. दांडी मारली अशें न्हय. सगळे दीस एकूच आसतात म्हणून जावये म्हाका बिरेस्तार हो आयतारूच कसो दिसलो. बायलेन लेगीत आयज बिरेस्तार म्हणपाची याद केली ना. घडये हांव घरा आसां म्हणून ती खूश जाल्ली आसुंये.

सांजवेळा पांच वरांचेर बॉस घरा हजर. हांव बॉसाक वळखलों ना. "कोण तूं? कोण जाय?" हांवें विचारलें.

"कितें? तूं म्हाका वळखलो ना?" ताणें म्हणलें.

"आँ. आतां वळखलों. बायल काल सांगताली. शिगम्याची वर्गणी घेवंक कोण तरी येतलो म्हणून." हांवें म्हणलें.

"हें पळय, हांव वर्गणी बिर्गणी घेवंक येवंक ना. तूं आयज ऑफिसांत कित्याक वचूंक ना?" ताणें विचारलें तशें म्हजें सणकलें.

हांवें तिडकीन म्हणलें, "हें पळय. हांव ऑफिसांत वचूं वो वचूं नाका. तुका कितें फरक पडटा? तुजो बापूय म्हाका पगार दिता? तुका वर्गणी जाय? व्हर. पूण म्हजी नोकरी वयर काडिनाका." अशें म्हणून हांवें बायलेक उलो मारलो आनी म्हणलें, "आगे, मातशी भायर यो. हाच्या हाताक कितेंय उडय पळोवंया." बायल भायर आयली आनी त्या मनशाचेर धेंगसो घालचे परस म्हज्याच आंगार आयली. म्हणूंक लागली, "अशें कितें तुमी? तुमचो बॉस तो. ताचे कडेन अशें वागप?" म्हजे मुखार म्हजो बॉस उबो आसा हें पळोवन हांव सामकों नेर्वोज. म्हाका कितें करचें तेंच कळना जालें.

"बॉस, सॉरी, एक्स्ट्रीमली सॉरी. खरेंच हांव तुमकां वळखलो ना. वळखीचोच दिसतालो, पूण कोण तो याद जायनासलो." हांवें त त प प करून म्हणलें तशें बॉसान म्हणलें, "कांय नजो. जाणटेपणांत तशेंच जाता. तूं अशें कर. म्हयन्या भरा खातीर खंय तरी पयस वच. थंड सुवातेर वच. तुका सुसेग जाय. कामाचीं चिंता करूं नाका." बॉसान म्हणलें. बायलेन केल्लो शिरो आनी च्या घेवन बॉस गेलो.

"तुमची तोखणाय करची तितली थोडीच. तुमी तुमच्या बॉसाक बेस बरो फटयलो. केन्नाय एक दीस लेगीत रजा दिनाशिल्ल्या बॉसान तुमकां सोमती म्हयनोभर रजा दिल्या. आतां थंड सुवातेर खंय या हें तुमीच सांगात. खरेंच तुमी ग्रेट." म्हजे दोनूय गुबगुबीत पोले आपल्या दोनूय मोव हाताच्या चिमट्यान धरून तिणें म्हणलें. तिचे खोशयेक ओतो आयिल्लो. ती भितर गेली. शिरो आनी च्या घेवन आयली. "आयच्या ह्या गोड दिसा तोंड गोड करात" अशें म्हणून तिणें शिऱ्याची प्लेट आनी च्या म्हजे मुखार आशिल्ल्या टिपयेचेर दवरली.

"तें सगळें बरें आसा. पूण तूं कोण? आनी म्हज्या घरांत तूं कशी? म्हजे बायलेन तुका पळयल्यार ती तुका धांवडावन घालतली! खंय गेली काय म्हजी बायल?" म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं आनी तीं उतरां आयकून बायल थंयच बेशुद्ध पडली. म्हजे मुखार म्हजीच बायल आसा हें हांव याद्दीन विसरिल्लों.




# परेश कामतीचो 'शुभंकर'

**- एस्. डी. तेंडुलकार**

परेश नरेंद्र कामत हो कोंकणीतलो एक रोमँटीक कवी. (आता अरूण साखरदांडे सारक्या कवीक कोण रोमँटीक कवी म्हणचो ना. 'मोगकिनारी' हो 'मोग' ह्या विशयाचेर एक संपूर्ण काव्यझेलो बरोवन लेगीत ताका रोमँटीक कवी कोण म्हणचो ना कारण मोगाकडे पळोवपाचो तांचो ॲप्रोचच रोमँटीक ना.) हाचे उलट परेश कामती सारको कवी मोगाकडेच न्हय तर अखखे जीणेकडेच रोमँटीक नदरेन पळयता.

कोंकणींत रोमँटीक काव्य परंपरेचे दोन वेगवेगळे प्रवाह निर्माण जाल्ले दिसतात. भाशेकडे रोमान्स करपी कवींचो एक प्रवाह आसा तर दुसरेकडे सांकेतीक काव्यभाशेकडे रोमान्स करपी कवींचो वा कवितेचो प्रवाह दिसता. पयल्या प्रवाहांत भाशेकडे रोमान्स करपी कवी, भाशेंतलें काव्य कवितेंत सोदपाचो यत्न करतात. तांची कविता वेगवेगळ्या भाशीक प्रयोगांनी सिध्द जाल्ली आसता. तांचे कवितेंत भाशा ही सार्वभौम आसता. भाशा, भावना, विचार, अभिव्यक्ती ह्यो गजाली थंय वेगवेगळ्यो उरनात, त्यो कवितेंत एकजीव जाल्ल्यो आसतात. तांची भाशा 'अनएक्सपेक्टेड' आनी 'सरप्राईझिंग' आसता. हाचे



उलट सांकेतीक काव्यभाशेकडे रोमान्स करपी कवी भाशेंतलें काव्य सोदचे परस डायरेक्ट रेडिमेड काव्यमय भाशा कवितेंत बरोवंक सोदतात. काव्यात्मक भाशेक थंय चड म्हत्व मेळटा. थंय भाशीक 'सरप्राईज' कमीच दिसता. भाशा ही 'टेकन फॉर ग्रांटेड' अशे पध्दतीन वापरिल्ली आसता. ते नदरेन बाकीबाब बोरकार, रमेश वेळुस्कार हे भाशेकडे रोमान्स करपी कवी पयल्या प्रवाहांत मोडूं येतात. तर दुसऱ्या रोमँटीक प्रवाहांत शंकर रामाणी, माधव बोरकार ह्या सारके कवी मोडूं येतात.

कवी परेश कामत हांचे पयले दोन झेले ('अळंग' आनी 'गर्भखोल') हे दुसऱ्या प्रवाहांतले आनी रामाणी, माधव बोरकार हांच्या रोमँटीक परंपरेंतले जावन आसात. पूण 'शुभंकर' हो तांचो तिसरो नवो काव्यझेलो मात ह्या दोन रोमँटीक प्रवाहामदीं झोपाळे घेता अशें चित्र दिसता. हे फाटभूंयेर तांचो 'शुभंकर' हो झेलो म्हज्या मुखार आसा.

'शुभंकर' हें नांव कवीन उजवाडाचें वर्णन करपाखातीर वापरलां. 'शुभंकर' हो माथाळो आशिल्ले कवितेंत कवी म्हणटा :

भर पावसांत
भरतेर खवदळिल्ल्या
दर्याच्या
उंच उंच घोंगेतल्या
उसळट्या ल्हारांचो
धवोफुल्ल
शुभंकर उजवाड
उजळायता
म्हजें काळीज

त्या उजवाडाची
ओली ओली शुभ्रविलोदी झांक
देंवत काय
म्हजे कवितेच्या उतरा-उतरांत?
उतरांच्या गर्भाशयांत?

– कवीचें काळीज उजळावपी जो उजवाड हांगा आसा, तो भर पावसांतल्या उसळटचा ल्हारांचो उजवाड. पूण त्या उजवाडाची 'ओली शुभ्रविलोदी झांक' आपले कवितेंत देंवत काय ना हाचे विशीं कवी 'डाऊटफूल' आसा. हाचोच अर्थ आपले कवितेविशीं हो कवी आजुनूय (तीन झेले प्रसिध्द जावनूय) 'डाऊटफुल' आसा अशेंच चित्र दिसता.

खरें म्हळयार ह्या झेल्यांत उजवाडाची ती 'ओली शुभ्रविलोदी झांक' आयल्या. पूण इतल्यारूच कवीन समाधान मानूंक फावना अशें म्हाका दिसता. भर पावसांत भरतेर खवदळिल्ल्या दर्याच्या उंच उंच उसळट्या ल्हारांचेर ताणें स्वता आरूढ जावंक जाय. तेन्नाच त्या उजवाडाची अनेक परिमाणां कळूं येतात. हे कवितेंत उजवाडाचें मुखेल एकूच 'डायमेन्शन' आयलां तें म्हळ्यार 'शुभ्र विलोदी झांकेचें'. आतां हाका आडवाद कांय कवितांचो आसाच.

'उज्यावरी फुलूं' सारके कवितेंत उजो हें उजवाडाचेंच एक आंग आसा हे कवी समर्थपणान सांगता. त्या खातीर ती सबंद कविताच हांगा पळोवया.

आपलेंच वोजें
घेवन माथ्यार
आपलोच भार
ल्हव कर

पातळुंदी दोळ्यांत
नवलांची नदर
जिर्णेतलो कोयर
उस्पितना

येवंदी जिविताक
इंगळ्यांचें रूप
धगधगूं स्वरूप
उमाळ्यांचें

जें जें उखलापें
तें उज्यांत जळूं
उज्यावरी फुलूं
काळीज हें

'शुभंकर' हे कवितेंत कवी आत्मविश्वास नाशिल्ल्या सारको उलयता. हाचे उलट 'उज्यावरी फुलूं' ही कविता आत्मविश्वासान भरिल्ली आसा. तातूंत आशयाचो सर्वव्यापीपणा आसा. उज्यांतल्यानूच निमणो उजवाड मेळटा ही जाणविकाय आसा. उजो आनी उजवाड हांचें अद्वैत हांगा सामर्थ्यान व्यक्त जाल्लें पळोवंक मेळटा.

उजवाडाविशींची एक रसरशीत प्रतिमा 'काळोख कितलो गुडुप्प' हे कवितेंत येता. थंय कवी म्हणटा –

तापिल्ल्या दुदाभशेन
काळखांतल्यान ह्या
सरतलो केन्नां उजवाड खतखतून वयर?

उजवाड आनी उजो हीं काळखाचींच दोन आंगां. उजो लावन काळखाक आमी कडयतले तेन्नाच उजवाड दुदाभशेन खतखतून वयर येतलो ही पोरणीच गजाल हांगा नवीताल्ल जावन, फ्रेश जावन व्यक्त जाता. पयलीं काळोख, मागीर उजो आनी उपरांतूच उजवाड असो हो सादारण क्रम, आनी ह्यो तिनूय गजाली एकमेकांत भरसल्यात हाची जाणविकाय 'उज्यावरी फुलूं' वा वयर दिल्ले कवितेच्या वळींतल्यान ताकदीन व्यक्त जाता. पूण अशीं उदाहरणां ह्या झेल्यांत खूब कमी आसात.

खरें म्हळ्यार ही कविता एका मर्यादेंत आमकां वाचची पडटा. आतां हे कवितेची प्रकृती 'अळंग' आसा हे विशीं आक्षेप आसूंक शकना पूण ती वगीच 'गर्भखोल' जावंक सोदता हे विशीं मात म्हजो आक्षेप आसा.

मराठींत पु. शि. रेगे नांवाचो एक कवी जावन गेलो. ताचीय कविता अशीच 'अळंग' आशिल्ली. पूण ती 'गर्भखोल' मात केन्नाच जावंक ना. कारण 'गर्भखोल' जावप म्हळ्यार कांयच जावप ना, हें त्या कवीक आनी कवितेक खबर आशिल्लें. म्हणुनूच पु. शि. रेगे सारको कवी पारंपारीक विशयांचेर 'अळंग' कविता बरोवन लेगीत मर्ढेकरा इतलोच मराठींत क्रांतीकारक ठरलो. कारण खवदळिल्ल्या ल्हारांचेर आरूढ न जावन लेगीत ताणें त्या ल्हारांची आपले प्रकृती प्रमाण एक सृजनशील भास तयार केली. तांची 'पुष्कळा' सारकी कविता हें त्या भाशीक ल्हारांचेंच एक बरें उदाहरण जावन आसा. आयुश्यभर भोग, वासना, निसर्ग हांचेर बरोवन लेगीत पु. शि. रेगेचेर रोमँटीक कवी असो स्टॅम्प बसलो ना. कारण रेगेची कविता ही आधुनीक नवकविता. तांचो अॅप्रोच कवितेकडे पारंपारीक अर्थान केन्नाच रोमँटीक नासलो.

सांगचें जाल्यार बाब परेश कामत त्या ल्हारांचेर आरूढ जावंक ना हें जालेंच पूण त्या ल्हारांची भासूय ताणें नीट विकसीत




करूंक ना अशें दिसता. तांची कविता वाचताना बरेचकडे शंकर रामाणी वा माधव बोरकार हांचो उगडास येता. माधव बोरकार हो खरो म्हळ्यार शंकर रामाणींचो पट्टशिश्य. ह्या दोगांयचें शिश्त्व परेश कामतीन घेतलां अशें ताची कविता वाचतना थोडें भोव जाणवता. भाशेचें, प्रतिमांचें एकसुरेंपण आनी झरलेपण जशें रामाणी वा माधव बोरकार हांचे कवितेंत आसा तशेंच तें कांय प्रमाणांत परेश कामतीचेय कवितेंत आसा. ताणें रामाणी, माधव बोरकार हांच्या प्रभावांतल्यान भायर येवंक जाय अशें म्हाका दिसता. तेन्नाच तो खरेपणीन भाशेच्या ल्हारांचो अंदाज घेवन 'जेन्युईन' कविता बरोवंक पावतलो.

तश्यो 'कविता' म्हणून बऱ्यो अश्यो कविता, ह्या झेल्यांत आसातूच. 'उज्यावरी फुलूं' ही तर ह्या झेल्यांतली उत्कृश्ट कविता म्हणची पडटली. पुणून उत्कृश्ट कविते वांगडाच आपली स्वताची खाशेली कविता बरोवप हाका म्हत्त्व आसा. तेन्नाच कोंकणी कवितेच्या काव्यपरंपरेंत मोलादीक भर पडूं येता.

कोंकणींत तशे उत्कृश्ट कविता बरोवपी कवी आसात. पूण उत्कृश्ट कवितेक म्हत्व केन्ना प्राप्त जाता तर ते कवितेन वा कवीन एकूण कोंकणी काव्यपरंपरेंत उत्कृश्टरीत्या भर घातली जाल्यार! नाजाल्यार अश्यो तथाकथीत उत्कृश्ट कविता खूब आसतात, पूण ते कवितेक 'कविते' फुडें म्हत्त्व उरना. कारण ते कवितेची उत्कृश्टता ही त्या कवीची उत्कृश्टता आसता आनी ती कवीच्या 'कॅपॅसिटी' प्रमाण थारता. कोंकणी कवितेक जाय कोंकणी काव्य परंपरेंत भर घालपी



उत्कृश्ट कवी. ते नदरेन कवी म्हणून बाब परेश नरेंद्र कामत हांची कॅपॅसिटी कितें? समिक्षक म्हणून ह्या प्रस्नाचें उत्तर दिवचेंच जाल्यार ती आजुनूय सशक्त ना अशेंच म्हाका म्हणचें पडटलें. परेश कामतीन बऱ्यो कविता बरयल्ल्यो आसाच, पूण एकूण कोंकणी काव्यपरंपरेंत भर घालपा इतल्यो त्यो वजनदार आसात काय ना हो म्हजो खरो प्रस्न. आनीक एक – कवितेचो आस्वाद घेवप म्हळ्यार पयलीं रसीक म्हणून हांव ती कविता वाचून 'एक्साईट' जावंक जाय, तेन्नाच समिक्षक म्हणून हांव ते कवितेचेर बरोवंक शकतां. 'शुभंकर' ह्या झेल्यांतल्या 'फुलांची गाज', 'रानवाल' 'उज्यावरी फुलूं' ह्या कवितांनी ही 'एक्साईटमेंट' आसा कारण त्या कवितांनीं कवीन भाशेवांगडा बऱ्यातरेन रोमान्स केला. पूण अशी 'एक्साईटमेंट' आनी 'रोमान्स' ह्या झेल्यांत थोड्याच सुवातेर अणभवपाक मेळटा. ते नदरेन ही कविता खंय कमी पडटा हाचो सोद घेवपाचो आमी प्रयत्न करुंया.

'गर्भथेंब' ही कविता पळयात.

तूं आयली आनी
हाल्ल्यो पाकळ्यो
हांसलीं केसरां

घेतलीं फुलांनी
परमळाचीं आवर्तनां

तूं आयली; आनी
दोळ्यांतलें दूक
जालें फांतोडेचो दंव

फुलांच्या गाभ्यांत
पाझरलें म्हॉव

– खरें म्हळ्यार ही कविता हांगा सोंपता. पूण कवी हाचे फुडें कांय गरज नाशिल्ल्यो वळी बरयता.

तूं आयली; आनी
पिसोळ्यां वरी उमाळून
उतरां जालीं घनचिंब

रसरसले काळजार
म्हॉवाचे गर्भथेंब

हातुंतल्यो ह्यो निमण्यो दोन वळी तर सामक्योच गरजे भायल्यो आनी तांतुतलें 'गर्भथेंब' हें उत्तर लेगीत हांगा एकदम 'अनफिट'. म्होवाचे गर्भथेंब काळजार रसरसप हांतूंत कवी कल्पनेची कसली झेप घेवंक सोदता तें कळटा पूण तांतलें उतरांचे 'सिंटेक्स' मनाक पटनांत. उलट तातूंत कविच्या अतिकाव्यात्मकतेचो हव्यास दिसता. आतां 'गर्भथेंब' म्हळ्यार वीर्य. तें वीर्य काळजार रसरसप ही कल्पनाच मूर्खपणाची दिसता.

कवीक 'गर्भ' ह्या उतराचें बरेंच 'ऑब्सेशन' आसा अशें दिसता. कारण ताचे कवितेंत हें उतर वेगवेगळ्या संदर्भांत बरेच फावटी येता. देखीक 'गर्भथेंब', 'गर्भखोल', 'गर्भओली', 'गूढ-गर्भ', 'गर्भ-गाबणी', 'गर्भवास', 'गर्भवती'.

शंकर रामाणीच्या कवितेचो ह्या कवीचेर बरोच प्रभाव आसा. म्हणटकच रामाण्याकडल्यान हें ऑब्सेशन आयलां काय कितें? कारण रामाणीचे कवितेंतूय 'गर्भ' हें उतर , 'गर्भा' संदर्भाच्यो प्रतिमा जायते फावटीं येतात. रामाणींच्या एका कविता संग्रहाचें नांवूच 'गर्भागार' आसा. तेच धर्तीर बाब परेश कामतीनूय आपल्या एका झेल्याचें नांव 'गर्भखोल' दवरलां.

आतां 'गर्भखोल' म्हळ्यार कितें? ही प्रतिमा आमकां कितें सुचयता? 'गर्भखोल' म्हळ्यार खोल आशिल्लो गर्भ? काय गर्भाची खोलाय? काय गर्भ वा गर्भा संबंदीची बातमी उक्ती करप? खोलप! 'गर्भखोल' म्हळ्यार कितें? खरें म्हळ्यार 'गर्भखोल' हे प्रतिमेंत जें व्यामिश्र जिवनदर्शन येवंक जाय आशिल्लें तें येय ना. कारण 'गर्भखोल' ही प्रतिमाच उथळ आनी 'स्युडो-प्रतिमा' जावन आसा. शंकर रामाणीची 'गर्भगार' ही प्रतिमा त्या मानान बरीच वजनदार आनी आशयसंपन्न आसा. तें वजन 'गर्भखोल' हें प्रतिमेंत येना. पूण 'झाड' हे तांचे कवितेंत मात 'गर्भखोल' ही प्रतिमा पयलेच फावट आशयसंपन्न जावन अवतरल्या हाची नोंद म्हाका ह्या समिक्षणांत करून दवरचीच पडटली. तांतल्यो कांय वळी त्या संदर्भांत पळोवं येतात:

> हांव पळेतां
> तुजेकडेन
> गर्भखोल नदरेन
> तुजें अळंग मन
> येता आनीकूय
> म्हजेलागीं
> ज्या फुलाखातीर
> हांव रावतां
> त्या फुलाचें तूं झाड जाता

तर सांगपाचें म्हळ्यार कवीच्या हेर कवितेंत 'गर्भखोल' हे प्रतिमेक हो जीव येय नाशिल्लो तो 'झाड' हे कवितेंत येता. कारण 'गर्भारपण' हें हे कवितेचें आशयसुत्रच 'गर्भखोल' हे प्रतिमेक आशयसंपन्न करता. हातूंत एक जाणून येता तें म्हळ्यार 'गर्भखोल' ह्या एकोड्या उतरांत वा प्रतिमेंत कसलीच ताकद ना. 'गर्भखोल' हें उतर प्रतिमेच्या पांवड्यार केन्नां वता तर जेन्ना आशयसूत्र आनी 'असोसिएटेड' उतरांचो मेळ ताका पोशक थरता! 'झाड' हे एकेच कवितेंत तें सशक्त रित्या आयलां. बाकीच्या कवितांत तें तशें आयल्लें दिसना.

> *सांगचें जाल्यार बाब परेश कामत त्या ल्हारांचेर आरूढ जावंक ना हें जालेंच पूण त्या ल्हारांची भासूय ताणें नीट विकसीत करूंक ना अशें दिसता. तांची कविता वाचताना बरेचकडे शंकर रामाणी वा माधव बोरकार हांचो उगडास येता. माधव बोरकार हो स्वरो म्हळ्यार शंकर रामाणींचो पट्टशिश्य. ह्या दोगांयचें शिश्त्व परेश कामतीन घेतलां*

झाडां, फुलां, नकेत्रां, मळब, चंद्रीम ह्यो पारंपारीक प्रतिमा झाडून सगलेच कवी वापरतात. वापरून-वापरून त्यो झरुनूय गेल्ल्यो आसतात. पूण झरून गेल्ल्या ह्या प्रतिमांचो जो कवी सृजनशीलरित्या वापर करता तोच कवी ह्या प्रतिमांतल्यान नवेंपण हाडूंक शकता. अर्थाचें नवें डायमेन्शन दिवंक शकता.

'गर्भगाबणी सांज' ही परेश कामतीची एक बरी कविता. हे कवितेंत उतरांचो एक 'रिपिटेटिव्ह' नाद आयला. देखीक, व्हंटयेन व्हंट, पिंगट पिंगशी, गुंजतांबडी, रंगरंगयाळी अश्यो नादमय प्रतिमा येतात आनी त्या उतरांक नादा वांगडा अर्थाचेंय वेगळें डायमेन्शन मेळटा. पूण 'गर्भगाबणी' ही तेच कवितेंतली प्रतिमा मात अर्धकच्ची दिसता. तिका नाद आसा पूण अर्थाचें वेगळें डायमेन्शन मेळना. कारण 'गाबणी' ह्या उतरांतूच खरें म्हळ्यार गर्भाचें सुचन आसा त्याच खातीर गर्भगाबणींतलें 'गर्भ' हें उतर गरजे भायलें दिसता.

ह्या संदर्भांत रसिकांनी पु. शि. रेगे हांगेली 'पाहिले न पाहिले' ही कविता

उगडास करूं येता. तातूंत 'झनन-झांजरे', 'ठिबक-ठाकडे', 'बहर-बावरे', अशे शब्द येतात. पूण त्या नादा वांगडा उतरांची अर्थपूर्णताय लेगीत वाडयतात. तें सामर्थ्य 'गर्भ-गाबणी' हे प्रतिमेंत ना. हें जालेंच पूण ती अतिकाव्यात्मकतेच्या हव्यासान वापरिल्ल्या भशेन दिसता. होवूय परत शंकर रामाणी सारक्यांचोच परिणाम. शंकर रामाणीन मराठींत आनी तिवूय बी 'सत्यकथे' सारक्या म्हयन्याळ्यांत संबंद आयुश्यभर कविता बरयली. पूण रामाणी हो मराठींतलो 'लँडमार्क' कवी केन्नाच थरलो ना (जसो बाकीबाब बोरकार थरलो). रामाणींच्या कवितेची मर्यादा ही साहजिकूच परेश कामतीच्या कवितेंतूय उतरता.

ह्या झेल्यांत 'हांसो' ह्या नांवाची एक ल्हान निमणी कविता आसा. ती (आनी हेर चार-पांच कविता) वाचतना जाणवता की ही मर्यादा वलांडपाची ताकद बाब परेश कामतींत आसा. 'आसू' आनी 'हांसू' असो झरलेलो कॉंट्रास्ट जरी 'हांसो' हे कवितेंत आसलो तरीय भाशीक रोमान्साचो बरो अणभव ही कविता दिता:

कवीन ह्या झेल्यांत आपली स्वताचीं रेखाचित्रां दिल्लीं आसात. आतां चित्रकलेचो हांव रसीक आसलों तरीय समिक्षक न्हय हाची जाणविकाय म्हाका आसा. म्हणुनूच रेखाचित्रांचेर हांव कांयच उलयना. चित्रकलेचो संदर्भ आयिल्ली 'घोडे: मकबूल फिदा हुसेन' ह्या नांवाची एक कविता ह्या झेल्यांत वाचूंक मेळटा. पूण तातूंत भांगराकीर्ण, सपनाळो प्रदेश, सपनधुंदी असल्यो झरलेल्यो प्रतिमा येतात आनी तांतलो अणभव सपक करून उडयता.

बाब सोमनाथ कोमरपंत ह्या मराठी प्रोफेसरान ह्या झेल्याक प्रस्तावना बरयल्ली आसा ताचेरूय हांव कांय उलयना. कारण ती प्रस्तावना कवीक बेठोच बोमाड्यासारको फुलोवंक सोदता अशेंच जाणवता.

निमणें सांगचें जाल्यार बाब परेश कामतीकडेन 'ताकद' आसा. निश्चितूच आसा. पूण ताचे कवितेंतले 'रोल मॉडेल्स', आदर्श चुकीचे आसात. ताणें आपल्या कवितेंत स्वताचे 'आदर्श' निर्माण करपाचे प्रयत्न करूंक जाय अशें म्हाका दिसता. ते खातीर कवीन 'यशस्वी' कविता बरोवपाचें सोडून 'महत्त्वाकांक्षी' कविता बरोवपाचें ध्येय बाळगूंक जाय.



"आका, तूं म्हाका इतली
मोग कित्या करता?
तुका पोरां नांत?"
हांवें अशें म्हण नाका
भळ्ळकन्न सुशीलआकाल्या
दोळ्यांत उदा आयलें.
म्हाक खूब वायट दिसलें.
हांवें मनांत म्हाकाच
गाळी माल्ली.
म्हाका कित्या जाय आशिल्ली
ही चवकशी?
हांवें चूक मागली
"आका, म्हाका माफ कर गो.
तुगेलें हांवें मन दुखयलें.
हांव पांय पडतां."

# एक संवसार अर्धकुडो

- संदेश श्रीकांत बांदेकार

येळ पडत आयिल्लो. आयज आयतार जाल्ले कारणान हांव कैगाच्यान कारवार आयिल्लों. दर शेनवारा सांजेर हांव कारवार येळेर येतां. कारण म्हागेल बरा दिनेशाक सुद्धा आयतारा रजा उरता. फरक इतलो की हांव कारवार नोकरेक तर तो गोंयां वेता. आज आयतार जाल्ले कारणान येळेर बरीच गर्दी आशिल्ली. तरी ह्या गर्देची आज चिंता करचे काळजी नाशिल्ली. कारण आज बरोबर दिनेश नाशिल्लो. तेका आज रजा नाशिल्ली. गोंयच्यान तो काल येयलो ना. तेका ह्या येळेर गर्देत रावची वायट सवंय. म्हाका मात थंड जास्त लोक नाशील् जाग्यार बसची सवंय. आजच एकलो आशिल्ल्या कारणान बेजार येतालो खरो. पूण आज म्हाका मना सारकें फीश मेळतल् म्हण मना एक बाजुच्यान आनंद. म्हागेले पांय आतां येळे देगेन उत्तरे वाटेन वळू लागले. पयस तो कोडीबाग वाठार नदरे पडटालो. म्हगेलीं पावलां त्या बाजुच्यान पडूं लागलीं. दाव्या बाजून समुद्र आनी उजवे बाजून सुरी झाडां. वारो बी बरो मारतालो. तरी वाऱ्यांत हुनसाण आशिल्ली. त्या कारणान वाऱ्यांत खारटसाण मारताली. तरी हो वारो मनाक थंडाय दितालो. त्या बरा मन शांत-शांत आनी ल्हवूर जाल्लें.

हांव मुकार चमकत आशिलो. हांगा मुकार पावतां पावतां लोकवस्ती कमी आशिली. लोकालो कलकल, गजबज कमी जाल्लो.



४४२/बीः काजुवाडो,
मु/पोः- सदाशिवगड,
कारवार ५८१ ३५२

तेन्ना म्हागेली नदर मुकार एका बशिल्या जाण्टेबायल मनशेर पडली. तिगेल आनी म्हागेल मदीं बरेंच अंतर आशील् कारणान म्हाका वळक मेळ्ळी ना. म्हाका प्रस्न पडलो ह्या निर्जन जाग्यार कोणाली वाट पळयता काय? जसो हांव मुकार चमकता तसतसो हांव तिगेल म्हऱ्यांत लागीं पावच्या लागला. तिका पळोवन म्हाका याद जाली ह्या बायलमनशेक खंयीतर पळयलां म्हण. आमगेली नदर एकमेका मेळ्ळी. तेन्ना तिणेंय म्हाका जाप केली.

"बाळा, वळखना? हांव मरे ती आस्पत्रेतली सुशीलआका! आराम न्ही बाळा?"

अशें तिणें म्हाका सांगनाका म्हाक मोरू पुरो जालें. तिगेली आनी म्हागेली त्या स म्हयन्यापुरती वळख. हांव विसरलो तरी इतले वर्स जाल तरी ही बायलमनीस म्हागेली वळख दवन्न आसा? ज्या बायलेन त्या स म्हयन्यांय म्हाका आवयले प्रेम दिलें तिका हांव विसरलों? म्हागेल म्हाका शरम दिसली. आमी म्हणतात की मनीस जाण्टो जालो की सगळें विसरतात. पूण हांव ऐन वयांत हें सगळें कसो विसरलों?

फार्मसी कोर्स कर्न पुराय दोन वर्सां जालीं. तेन्ना आमकां सगळ्यांक स म्हयन्यांचें प्रक्षिक्षण कारवारच्या सिव्हील आस्पत्रेंत आशिलें. आमी सगळे विद्यार्थी ह्या प्रक्षिक्षणांक रुजू जाले. हांव मुख्य फार्मसींत प्रक्षिक्षणांक आशिल्लों. तर थंयच लागींच आशिल्ल्या व डॉक्टराल्या कुडांत सुशील आका आया म्हण सेवा करताली. तेन्नाच तिगेल आनी म्हागेली वळख जाली. तरी कितें कोणा खबर ती म्हागेलो बाकी पोरां पेक्षा जास्त मोग करताली. सकाळ धन्न सांज पर्यंत 'बाळा-बाळा' करते रावताली. दीस वयतां वयतां आमी इतलीं लागीं पावलीं की आमगेल् नातें आवय पुता म्हणकी निर्माण जालें. सगळ्या पोरां लिपोन सकाळी आनी सांजे मायत्याक म्हाका चा-नाश्ता घराकडल्यान हाडन्न दिताली.

केन्ना केन्ना म्हाका येवंक वेळ जाल्यार वगीच काळजी करताली. केन्ना मदीं येना जाल्यार हुस्को करताली आनी दुसरे दिसा खूब बेजारताली. होय तिगेलो गूण सगळ्यांक आस्पत्रेंतल्या लोकांक वा कर्मचारी वर्गाक आवडतालो. सगळ्यांक आपलें मन लायताली. सगळ्यांक प्रेमान वागयताली. म्हाका तीच बद्दल कायीच म्हायती नाशिल्ली. एक दीस तेमगेल घराकडलोच गंगाधर म्हण ह्याच आस्पत्रेंत्लो कर्मचारी. तेणें सांगलें की सुशीलआकाक पोरां नांत म्हण. ती सगळे पोरांक माया करता. तेतूंत तुका तर खूब मोग करता. तिका केन्ना विसरनाका पोरा. म्हाका तिगेलविशीं पुराय जाणून घेवच्या जाय आशिल्लें. पूण तिका हांव कशें विचारतलों म्हण येवजत आशिल्लों. तरी धीर कर्न हांवें एक दीस तिका प्रश्न केलोय.

"आका, तूं म्हाका इतलो मोग कित्या करता? तुका पोरां नांत?" हांवें अशें म्हण नाका भळ्ळकन्न सुशीलआकाल्या दोळ्यांत उदा आयलें. म्हाक खूब वायट दिसलें. हांवें मनांत म्हाकाच गाळी माल्ली. म्हाका कित्या जाय आशिल्ली ही चवकशी? हांवें चूक मागली "आका, म्हाका माफ कर गो. तुगेलें हांवें मन दुखयलें. हांव पांय पडतां."

"पिश्या म्हाक कित्या पांय पडता? म्हागेल अशें हें प्रेम पळोवन कोणाक बी हो प्रश्न पडतलोच. तुवें म्हाका हें विचारलें म्हण कितें वायट जालें?"

सुशीलआका गांवान हळगेची. तिका लग्न कर्न मळेकोणांत दिल्ली. चार पुस्तकां शिकले कारणान तिका हांगाच्या सिव्हील आस्पत्रेंत सरकारी नोकरी मेळ्ळी. तिका लोकाली सेवा करूंक खूब आवडतालें. तिगेलो हो स्वभाव पळोवन तिगेल्या वळखीच्या मळेकोणांतल्या भास्कर नायकान तिका मागणी घातली. तो हळग्यांत मास्तर आशिल्लो. भास्कर तसो खूब सादो मनीस पूण तेगेले आवयबापूय एकदम कडक मनीस. पूण पुता मुकार तेमगेले मातर कमी चलतालें. घराकडलें काम आनी आस्पत्रेंतलें काम अशें कर्न सुशीलआकाक तारेवयली कसरत करची पडताली. तरी माम-मामी सुनेलो पगार मेळता म्हण गप्प आशिल्ली. कारण गेलीं पांच-स वर्सां जालीं तरी तिका पोरां जालींच ना. तेतूंत भर म्हण तिगेलो माम वायट जालो. मामेलें आयतें फावलें. ती भास्कराक परत-परत बेजार करच्या लागली.

"म्हगेलो घोव. तुगेलो बापूय गेलोय. म्हाका तरी नातवांतोंड केन्ना दाखयतलो? काय हांवें बी तेमच्या म्हणकी अशेंच मर्न वचचें? अरे बाबा, तुगेलें वय आसा. दुसरें लग्न कर. ह्या घराक वारस जाय."

सुशीलआकाल्या मामेलें हें अशें सदांच चलतालें. तिका मामी नाना- नमुन्यान गाळी घालताली. तरी सुशीलआकालो थंड स्वभाव तिका काय प्रतिसाद दिनाशिलो. भास्कर सुद्धा काय करू शकनाशिलो. तरी कितें कर्न मामेन दाव सादलोच आनी तिका सोडचिठी दिवू लायली. सुशीलआकाचेर व्होड दोंगर कोसळल्या म्हणकी जालो. तरी ती काय करू शकली ना. मुळांत सुशीलआका स्वभावान गाय! ती कितें करतली? पदरांत पडलें आनी पवित्र जालें म्हण ती गप्प रावली. आनी-आनी कितें? सगळें नशिबाखेळ! तिका भरील घरांतल्यान भायर सरचें पडलें. तरी नशीब पदराक नोकरी आशिल्ली म्हण.

सुशीलआकाक घोवान सोडला म्हण खबर तिगेल्या मावस भयणीक मंदाक लागली. तिणें तिका येवन घेवन आपले घरा म्हळ्यार



शिरवाड घेवन गेली. मंदाल घोव वायट जाल्यार तीन-चार वर्सां जाल्लीं. तेगेल्या पदरांत दोन चले आशिल्ले. तेगेल खूब हाल जाताले. तरी सुशीलआकाक आसरो दिल्यार आपले हाल कमी जातले हो विचार कर्न तिका हांगा आपोवन हाडिलें. सुशीलआकाक घर मेळ्ळें आनी मंदाक आपले पोराले पोटाक दोनी मायत्याक अन्न. मुकार सुशीलआकान दोनी पोरांक आपले बळार शिकयलें. मंदालो व्हडलो गोंया नोकरे लागून थंयच स्थायीक जालो. तेणें थंय लग्न केलें. आपलो संवसार केलो. उरलो धाकलो. तो तर सुशीलआकालो व्होटेंतलो. सुशीलआकाक तेगेली चिन्ताच आशिली. कारण तेका खंयी काम नाशिलें. व्हडले पुता म्हणकी तेका बी गोंया धाडूंक तें मागनाशिलें. कारण तेजे म्हणकी आमका सोडन्न गेल्यार आमी गांवांत जाण्टीं कशीं रावतलीं?

प्रशिक्षणाचे स म्हयने कशे गेले कळ्ळेच ना. आनी म्हागेलें प्रशिक्षण सरलें. सुशीलआका त्या दिसा इतली रडली की म्हागेल बाळा फाल्याच्यान येवचो म्हण. पूण हांव तरी किर्ते करूं शकतालों. तरी मर्दी-मर्दी हांव केन्ना आस्पत्रेंत वचून तिगेली चवकशी करतालों. मुकार म्हाका कैगा नोकरी मेळ्ळी. म्हागेलें लग्न जालें. तिका हांव शिरवाड मुददाम लग्नाक आपोवूंक गेल्लों. तेन्ना ती कसल्या तरी चिंतेंत आसा अशी दिसताली. म्हागेल्या लग्नाक ती दिशीली शेवटची. नंतर तिगेलो आनी म्हागेलो संपर्क आयलोच ना. कारण आयतार शिवाय हांव कारवार येनाशिलों. मागीर म्हागेलो संवसार आनी पोराबाळां ह्या मर्दीच घुस्पुटून उरलों.

लार्गी-लार्गी म्हाक दिसता पंदरा वर्सांन तरी आमगेली भेट परत देवानच घडोवन हाडली. म्हाका पयलो चलो जाल्लो तेन्ना सुशीलआकाक पेढे घेवन गेल्लों खरो पूण तें म्हाक मेळ्ळें ना. मंदा मावशीकडे चवकशी केल्यार म्हणच्या लागली. "तिगेल किर्ते? ना पोरां ना बाळ, ना कोणाली चिंता. खंय फिरूं गेला उरतली. तिका सोदूंक तूं हांगा परत-परत ये नाका." हें हांव आयकोन परत केन्ना शिरवाड सुशीलआकागेर पांय दिलोय नाच. आस्पत्रेंत वच्च मेळ्यार ती केन्ना की रिटायर्ड जाल्ली.

म्हणतात न्ही हत्तीले दांत दाखोवचे वेगळे आनी खांवचे दांत वेगळे. लार्गी-लार्गी सुशीलआकान आपल्या बरा मंदालो संवसार विशेक वर्सां तरी पळयलो. दोनी पोरालें शिक्षण, पोट-पाणी, कपडो लत्तो सगळें - सगळें सुशीलआकान केलें. कोणाकच कांय कमी पडूं दिले ना. धाकल्या तर आपलो पूत अशें धन्न चलतालें. पूण तो दीस तिका आजून विसरूं जालो ना. त्या दिसा तिका हत्तीले खावचे दांत आसा म्हण कळ्ळें. त्या दिसा मंदान सरळ धाकल्या पुताली लग्न पत्रिका सुशीलआकाल्या हातांत दिते म्हटलें.

"हि घे पत्रिका म्हागेल्या धाकल्या चल्याली. हांवें लग्न ठरयलां. हेमगेलें लग्न जालें की तुगेली बिडकी हांगच्यान हालय. आमकां पयलीं जागो पावना. तेतूत सून येतरे जागो आनीक कमी पडतलो. तुवें तुगेली व्यवस्था करची. म्हाका आता वेळ जाता. पत्रिका वाटू वचूं जाय."

इतलें सांगून मंदा सट्कन्न भायर सरलें. हें आयकना फुडें सुशीलआकाक

जमीन पोंदांतल्यान खेचता अशें जालें. मळब गोल फिर्न आंगार पडता काय अशें जालें. ज्या पुताक हांवें आपलो पूत म्हण वाडयलो, तेगेलें लग्न म्हाक सांग नास्तना ठरयलें? पयर-पयर तो आपल्याक धंदो करूं जाय म्हण म्हाजकडल्यान एक लाख रूपय म्हागेल नांवार कर्ज काडन्न घेतला. ह्याच कारणा खातीर काय? सुशीलआकाक कितें करचें सुचनाशिलें. हेमी असो आपल्यालो घात करतले अशें स्वप्नांत सुद्धा चिंतनाशिलें. हेमगेल्या ह्या नाटकी प्रेमाक सुशीलआका साप्प कुड्डे जालें. तेणें फाटीं-फुडें केन्ना विचार केलोच नाशिलो. सुशीलआकाक कितें जाता म्हण कळ्ळेंच ना.

सुशीलआकाक जेन्ना जाग आयली. तेन्ना तेंका कळ्ळें आपूण आस्पत्रेंत आसा म्हण. कारण तेका तेगेल्या सिव्हील आस्पत्रेंत भरती केल्लें. मागीर तिका कळ्ळें की आपणाक हाडन्न हांगा चार दीस जाले. तरी कोण आपल्याल खबरेक येयल् ना म्हण. तरी तिचे बरा काम केल्ले लोक तिगेली सेवा करताले. सुशीलआकान पयशा पेक्षा जास्त मायेचीं मनशां लागीं कन्न दवरिल्लीं. तीं आज तिका उपेगा येयलीं आनी आनी आपले नशिबांत कसले भोग आसा काय म्हण ती खाटार पडीलकडे विचार करताली. थंयच तिका झाप लागली.

लागीं – लागीं पंदरा दीस जावन गेल्ले. मंदा जांव तेगेले पूत सुशीलआका कशें आसा काय म्हण पळोवंया म्हण सुद्धा आस्पत्रेंत आयले ना. आतां आपूण बरें जायत आयलां. आपूण आतां खंय वयतलें म्हण तें विचार करतालें. तरी वॉर्डा भायर अनवळखी पावलां वाजिल्ल्याचो आवाज आयलो. पळयल्यार मंदा दारांत उबें आसा. सुशीलआका जिवाक बरें दिसलें खरें पूण दुसऱ्या क्षणाक सगळो आनंद माते मेळ्ळन गेलो.

"मंदा, खंय गो तुमी? बाळा, आनी सून गो आयली ना म्हाक पळोवंच्याक, म्हाका पांय सुद्धा पडच्या आयली ना मुगो तेमी."

"हांवेंच तेंका धाडन्न दिल ना. आत तर तेमी हनीमुनाक गेलात. परत तेमी तुका पांय पडू येताल म्हण आश करनाका. तुगेलो सगळो संवसार बाडच्या वृद्धाश्रमांत व्हन्न पावयला आनी आनी तूं म्हागेल घरा पायरी चड नाका. तुगेली सावली म्हागेल्या सुनेर तूं घाल नाका. तूं वांझ. म्हागेलो वंश वाडू जाय. आमी तुगेली कोण न्ही. वयतां हांव."

मंदा पट्टकन खोलेंतल्यान भायर गेलें. सुशीलआकाल दोळ्यांतल्यान भळभळीत उदा येवच्या लागलें. तरी तिगेल दोळे दारार आशिले, बाळ आनी सून येतल् म्हण.

हांव भानार आयलों. सुशीलआकान आपलें मन माजकडे उगडीलें. तरी तिगेल्या दोळ्यांत ना म्हण एक थेंबो उदा नाशिलें. म्हाका आश्चर्य दिसलें. तरी म्हाका तिगेलें समादान करूं जाय आशिलें. तोंडांतल्यान उतरांय भायर सरनाशिले तरी हांवें म्हळें, "आका, आसूं तें आतां. जालें तें जालें. आतां विचार कन्न कांय फायदो ना. आका हांव बरो कामा आसां. चल तूं म्हागेल्या घरा. हांव तुका पळयतां. तुका पोसची हिम्मत आस्स म्हाका."

"बाळा देव बरें करूं तुका. जेंका हांवें ल्हाना-व्हड केलें तेंका म्हागेली पर्वा ना. तूं कोणालो कोण, आमगेली वळख फकत त्या स म्हयन्यातली. तरी तूं म्हाका आपलेंपण दाखयता. ना पुता हांव त्या वृद्धाश्रमांत बरें आसां. म्हाका तेमगेली सेवा करू मेळता. थंय मायेचीं मनशां आसात. तूं वायट दिसून घे नाका. म्हागेले आशिर्वाद सदाय तुगेल् बरा आसा. आतां एक दीस वयचेच आस्स न्ही?"

"तरी आका, चल गो तूं म्हाज बरा आनी दिवेलावणेर अशें कितें अभद्र उलयनाक गो."

"पुता, मरचे भंय म्हाक ना. हांव केन्नाच मेलां. फकत म्हागेलें शरीर जिवंत आसा. तें मोरूं. तूं कसो आसा? तुगेलो संवसार कसो चल्लो? कितले की वर्सान आमगल भेट जाल न्ही?"

"हय आका. म्हागेल संवसार बेस बरो चल्ला. देवादयेन कांय कमी ना. तूं आमगेल संवसारांत येयल्यार दुदांत साकर जाताशीली. आका ये गो. हांवें तुका केन्ना व्हरूं येऊ? बायल-पोरां तुका पळोवन खूश जाता आशील् गो!"

"ना, पुता हांव ही अशी अभद्र बायल तुमगेल्या संवसारांत नाका. बायले- पोराक केन्ना हांव आशिलकडे वृद्धाश्रमांत घेवन यो. तेय म्हाक समाधान जातलें. बाळा, आतां वयतां हांव बरोच वेळ जालो. सगळीं म्हगेलो हुस्को करतलीं. आनी हांव पावना जाल्यार हांव ना जाल् म्हण पोलीस ठाण्यर वचून तक्रार सुद्धा दिऊ तेमी फाटीं उरचे ना. वयतां पुता हांव. बरो कन्न राव. यो तूं वेळ मेळ्ळ तेन्ना."

आका उठून चमकुच्या लागलें. हांव मात तेका पळयते उरलों. इतलें सगळें जिवनांत चड उतार जाले तरी ही बायल इतले समाधानी कशी? खंयीय वैताग म्हण ना. कितली सोंशीक ही बायल. पयलीं घोवा बरोबर संवसार करूं पावली ना. मागीर मावसभयणील्या संवसारांत आधारकन्न रावली. थंय तिका संवसार करू मेळ्ळोच ना. तेमी आपलें काम जालें बरा हळूच दुदांतल्यान मूस भायर उडयल्या म्हणकी आकाक भायर घातलें. तरी तिका कोणा बद्दल राग, द्वेष ना. संवसाराचो मोह ना. म्हाका प्रश्न पडलो कोण म्हणत की हिगेलो संवसार अर्धकुडो म्हण?



घौवागैरच्या भाटांत
घौकूंक एक मानाय
दवरून घैयिल्लौ.
भाटांत इल्लैशें खौपूट
काडून रावतालौ.
भायलौ तौ.
ही ताचे भितर घुस्पली.
जैन्ना घरच्यांक कळलें,
तौन्ना घरच्यांनी आनी
वाड्यावैल्यांनी त्या
मानायाक यैतीश्ट बडयलौ.
कमर मौडून उडयलें.
हिकाय सौडूंक ना.
हिणें सौसूं नजौ जावन,
वचून बांयंत उडी घैतली.
तिका बांयतल्यान
भायर काडून वाचवचौ
तरास कौणें घैवंक ना.

# निमणो संस्कार

**- देविदास कदम**

निमाणें कडेन तो दीस येयलो...

मेरी आण्टी भायर पडली. अचकीत. काळजाच्या आताकान. घरांतल्यान भायर कित्याक नेणो येयिल्ली. थंयच आंगणांत उमथी पडली.

सकाळीं णवासुमार.

पडवेंत भाड्यान रावपी मास्तरा बायलेन चयलें. धांवत येवन हालयल्यार हां ना हूं ना!

रोखडोच दोताराक आपयलो.

दोतोर पावलो, तेन्ना आण्टीक वासरेर एके शेंदरेर उदारी न्हिदयिल्ली. नाडी चयन, दोतोराक आण्टी भायर पडली म्हूण सांगची गरज नासली. ती गेल्ली म्हणपाची वार्ता येन्ना गांवभर पातळूंक लागिल्ली.

दोतोरान चयलें, कोण – कोण येवन आण्टीचेर नदर घालून वयताले. पुणून कोणच थंय उबो रावन 'आतां फुडें कितें करुयां?' म्हण चवकशी करिनासलो. फुलां हाडटाले. उजवात्यांचे पुडेय थंय पडिल्ले आसले. फुडें सरपी मात कोण नासलो.

हें अशें जातलें, हाची दोतोराक जाणीव आसली.

आण्टीनच दोतोराक सांगिल्लें...

आण्टील्या भायेसाल्या पुतान म्हणिल्लें खंय...पुतण्यानच कित्याक, पुराय सोयऱ्यां संबंधिकांचें तेंच मत आसलें. "हिचें मेल्या उपरांत कितें जातलें? निमणो संस्कार करूंक कोण फुडें सरतलो?"

भोव वायट दिशिल्लें खंय आण्टीक हें कळना फुडें. तिच्या मोव मनार पडिल्लो निश्टूर घायो आसलो तो! कसोच पेखना आसलो...पेखपाचोय नासलो.

हें सगळें सांगताना, आण्टी नेण्ट्या भुरग्यां वरी रडिल्ली. तिच्या दोळ्यांत एक नांवहीण रितेपण जाणवतालें. निराधारपणाची भावनां झळकताली. एका नांवहीण खंतीन आर्दीच बाविल्लो चेहरो चडच दुखखी जाल्लो.

तेन्ना दोतोरान तिका थातारत म्हणिल्लें, "हुसको करचोच आसल्यार जिणेचो करचो आण्टी, मर्णाचो कित्याक करूंक जाय? मेल्या उपरांत संवेदनां आसतात कोणाक? फाटल्यान कुडिचें कितेंय जायना कित्याक!"

आण्टी दोतोरालीं हीं उतरां पर्थून पर्थून याद करताली आनी मनाक उसणें थातारताली. पुणून तें खिणांपुरतेंच आसतालें. पर्थून तो उगडास तकली वयर काडटालो... दुस्माना वरी सतयतालो.

दोतोरान कितलेंय सांगलें तरी आण्टी जाणां आसली, मर्णय एक जिणेचोच भाग. तिका दिस, 'खोऱ्यांनीच कोण कोत्तलो म्हुजें मोर्ण उपरांत? मोडें ओशेंच कुसचेंना मूं? सोगलीं नातीं तुटल्यांत! देव-धर्मा कोडली सुदीक! म्हुजें इतकें एकटें एकमुळें कोण नासुये ह्या संवसारांत! खुंयच ना तर, देवा कोडेच तोरी मोनशाचें नातें आसता! म्हुजें थंयूय ना!'

एकेक फावट न्हिदिल्ले कडेन तिका सपन पडटालें... आपूण मेलां. कुडींत एकटेंच मडें पडलां. कूडभर कुशिल्ल्या मड्याची बुट्टान पातळलां. कोणूच मड्याचे फुडें येना, फकत दक्क चयतात. इतल्यान एक धिप्पाड, कातीन काळो मनीस मुखार येता. मड्याच्या एका दोक्याक धरता आनी भिरकटोवन भायर मारता. मडें गायरींत वचून पडटा. इतल्यान एक गीद येता. आपले सांब चोंचीन मड्याचे दोळे चोंचोवंक लागता...

मागीर आण्टी किळांच मारून उठटाली. आपूण मरूंक ना म्हणपाची खातरी करून घेताली.

आण्टी पासत हो एक हुसको जाल्लो.

मनशाचो सभावच तो, तो आपले जिणेचोच हुसको करता म्हणप फटिचें, ताका आपल्या मर्णा उपरांतचोय हुसको आसता.

आण्टीक भुरगीं -बाळ कोण नासलीं.

तिचे घोवागेरच्यालें म्हणणें आसलें, देव-धर्म नाराज आशिल्ल्यान तिका भुरगीं जावंक ना!

घोव भायर पडून तीन वर्सां जाल्लीं.

घोवान, अनंत मास्तरान केन्ना आपल्या मर्णाचो हुसको करूंक नासलो. गरज नासली तेन्ना तो प्रस्न उप्रासूंक नासलो. अनंतमास्तरानय केन्ना ह्या विशयार चिंतूंक नासलें.

हो विशय मतींत येयल्यार, सेर्त मास्तर हाचेर उपाय येवजून दवरता आसले.

मास्तर तशें खंयच्याच गजाली मुखार तकली बागवपी नासले.

ते भायर पडले, तेन्ना घरच्यांनी मडें व्हरून मसुंडेर जळयलें. आण्टीक मुखार घेनासतना धर्म -रिती-भाती प्रमाणें पुराय- पुराय संस्कार केल्लें. एकवटींत देव-देव करून मुक्ती दिल्ली.

घरच्यालें, सोयऱ्यालें, गांवभावालें, सगळ्यांलेंच मत आसलें, दादल्यान खंयच्याय हेर जतिच्या, धर्माच्या अस्तुरे कडेन संबंद दवरलो म्हूण तो बाटना.

दादलो बाटना, मागीर बाटता कोण? फकत बायलांच? हाचेर येवजुवप त्या समाजांत केन्ना जालेंच नासलें.

त्या समाजांतल्या दादल्यांनी पुर्विल्ल्या जमान्यांत हेर जातिच्यो बायलो नायकीण म्हूण दवरून घेयिल्ल्यो जायत्यो देखी आसल्यो. इतलेंच न्हू, तांकां भाटां दिल्लीं. बायलेचें करतां तें पुराय तांचे पासत करप जातालें. फकत तांच्यां भुरग्यांक आपलीं नांवां लावंक दिनासले. त्या भुरग्यांक हांच्या भुरग्यांक मेळपी मानय मेळनासलो.

हे करणेचेर कोण जाप काडिनासलो. उरफाटें हें एक व्हडपण मानतालें.

...आनी तेंच बायलांनी केल्यार?

पंढरी बायलेन अशें केल्लें. बाबड्यालो घोव लग्न करून हाडिल्ल्या स म्हयन्यानीच सोरपान चाबून सोंपिल्लो.

ऐन पिरायेंतली खतखतपी जुवानपण. कितले दीस चिड्डून दवरतली आपली भावनां? निमाणें कडेन मनीसच न्हू!

घोवागेरच्या भाटांत घोळूंक एक मानाय दवरून घेयिल्लो. भाटांत इल्लेंशें खोपूट काडून रावतालो. भायलो तो. ही ताचे भितर घुस्पली. जेन्ना घरच्यांक कळलें, तेन्ना घरच्यांनी आनी वाड्यावेल्यांनी त्या मानायाक येतीश्ट बडयलो. कमर मोडून उडयलें. हिकाय सोडूंक ना. हिणें सोंसूं नजो जावन, वचून बांयंत उडी घेतली. तिका बांयतल्यान भायर काडून वाचवचो त्रास कोणें घेवंक ना.

हाचे उपरांत खंयचेच अस्तुरेक वा चेडवाक अशें वागची छाती



जावंक ना.

अनंत मास्तरान मेरी आण्टीक दवरून घेवंक नासलें. लग्न केल्लें कायदेशीर. घरचीं, सोयरीं हें लग्न मानूंक तयार नासलीं.

आण्टी किंरिस्तांव. मास्तर हिंदू.

कुमठेची ती. मास्तर थंय एका प्रायमरी शाळेंत शिकयताले. शाळे मुखारच मेरी आण्टीचें घर आसलें. दोगांयचो मोग पेटलो.

हे आदी अशी आंतर धर्मीय व्हारडीक ह्या वाड्यावेल्या कोणेंच करूंक नासली. थोडो विरोध आनी आडकाठी जावंक ना. फकत लग्नाचीच गजाल चर्चा! 'व्हरची बुद्ध येयल्या!' 'हुंवाळून उडोवंक जाय असल्याक!' 'जात -धर्मांतल्यान भायर काडून दवरूंक जाय!' असलीं जायतीं उलोवणीं वाड्यावेल्यांनी केलीं. पुणून मास्तरान कानामनार घेवंक ना.

मास्तराचें मत आसलें, जात-धर्म हें मनशान केलां. देवान न्हय आनी सैमानय न्हय. मनशां -मनशां मदीं वाटे घालप आपल्याक मानवचें ना.

सगळ्यांची म्हणणी आसली, अनंतान मेरीक दवरून घेयल्यार जाताले. लग्न जावंक नजो आसलें. जाल्यार अनंत मास्तराल्या घरच्यांनी सगळ्यांक निव्वळ सांगलें, 'अनंत आमगेलो. ताका आमगेलीं दारां उक्ती आसतलीं. त्या हुंवाळिल्ल्याक मात आमी दारांत उबी करून घेवंची नांत. तिगेली सावळी सुदीक आमचेर पडूंक दिवंची नांत!'

आनी खंऱ्यांनीच मेरी आण्टीक मास्तराल्या घरच्यांनी दारांत उबी करून घेवंक ना.

चवथीक नवे व्हंकलेन गणपती मुखार वायणां पेटयची आसतात. घरच्या रितींतलो एक नेम तो. अनंतमास्तरान घरच्यांक म्हणलें मात, 'मेरी देवामुखार वायणां लावंक येतलें...' मास्तराचीं उलोवणी पुराय जावंक सुदीक घरच्यांनी दिवंक ना. 'तिका हांगा हाडल्यार पांयांची ताती हाणटलें. गोमटी कातरून उडयतलें!' म्हूण धेंगसो घालो. मास्तर हें आदींच जाणां आसलो. देखून ताणें लग्न जावनय मेरीक गांवांत हाडूंक नासलें. ताका हांगा हाडलें आनी घरच्यांनी कितेंय उलोवन नाराज केल्यार?

गांवच्या देवीजात्रेक नवे व्हंकलेन दिवज पेटोवंचें आसता. वायणां पेटोवंक मेळूं ना, दिवज तरी पेटोवंक मेळटा काय चया म्हूण मास्तरान देवळाच्या मक्तासुराकडेन हें उलयलें. मक्तासुरानय सांगलें, 'ह्या गांवचे लोक मानून घेवंचे नांत. तुका हां म्हणप म्हटल्यार असल्यां गजालींक झेल चडयिल्ल्या वरी जातलें. आमचे तरनाटे मागीर हें अशें केल्यार चलतां अशें धरून चलचे नांत? तुका हयकार दिवप म्हणल्यार, गांवच्यो रिती रुढी बुडोवंक हयकार दिल्ल्या वरी!'

मास्तरान एकवटीन वातावरण चयन मनांत थारयलें, मेरीक गांवांत रिटायर जाले उपरांत हाडप. तेंवूय तिची रावची वेवस्था करुनच आनी केलेंय तशेंच! आदी भावाकडल्यान बदीक-भाटाचो वांटो मागून घेयलो. वांट्याक येयिल्ल्या एका बागा कुडक्यान एक घर काडलें आनी मागीरच हाडलें तिका.

मेरी आण्टीक वाड्यार हाडटकीर वाड्यावेल्यांनी थोडो बोवाळ करूंक ना!

ह्या वाड्यार हेर धर्माच्या मनशांक वसती ना, असो एक भौसालो घट्ट पुर्वजासाकून चलत येयिल्लो समज आसलो. ह्या वाड्यार देवमठी आशिल्ल्यान ते! देखून भौस केन्ना वर्गा-वर्गी जावन येयिल्ल्या, हेरधर्माच्या लोकाक, भाड्यान सुदीक त्या वाड्यार दवरनासले.

आनी अशें आसतना, अनंत मेरीक हाडून हांगां कायमचो वसतेक दवरता म्हणल्यार...?

सुर्वेक वाड्या वेले बोवाळ-बोवाळ-बोवाळले. मागीर शेळेले. सुणे भोकून भोकून जाम जातकीर कशे मागीर कूंय कूंय कूंय करत ओग्गी पडटा, तशे ओग्गी पडले.

वाड्यावेलीं ओग्गी पडलीं म्हूण अनंतमास्तराल्या घरचीं ओग्गी पडूंक नात. "हेर धर्मातल्या चेडवा वांगडा लग्न जावन घराब्याक काळें लायलें तें लायलें, आतां वाड्यावेल्यांच्या हड्ड्यार हाडून बसयल्या. देव -धर्म कोपतलो", अशें जायतें उलोवंक लागलीं. मास्तरालो व्हडलो भाव जितो नासलो. पुणून ताचो पूत पुरीस-पुरीसभर उंच हुडूंक लागलो. वचत थंय सांगूंक लागलो, "काकान तिका हाडून आमगेल्या हड्ड्यार बसयल्या. ती कशी वाड्यार तिगता हांव चयतां!" आनी हेर सगळे तो सांगता तें सारकें म्हण तकली हालयताले.

तातूंतच गांवांत रावंक येयिल्ल्या वर्सा भितरच अनंतमास्तर आताकान भायर पडलो. अचकीतच गेल्ल्यान सगळे म्हणूंक लागले, "देव-धर्मा उरफाटें, रुढी - परंपरे उरफाटें केल्यार अशेंच जावचेलें!"

मास्तर भायर पडतसावन आण्टीक त्या वाड्यार जियेवप सामकें कठीण जावंक लागलें. ना थंय कोण मायेमोगाचो, ना आधार करपी. उरफाटें वचत थंय किंकोंत नदरेन चवप, उणाक लेखप. मेतेर करून घेवप ना. आण्टीक वाड्यार रावनय वाडो पयस-पयस आसलो.

तशे तिजे अशे पुराय संवसारांतच कोण उरूंक नासले. मास्तरा वांगडा लग्न जातकीर तिजे बापायगेरच्यांनी, सोयऱ्यांनी तिका पयस केल्लें. जण एकल्याक आपली जात-धर्म व्हड आसता. जात-धर्म लागना तो फकत मोग-माया प्रेम ह्या गजालींक.

तिचो असो आतां धर्मय उरूंक नासलो. तिणें आपल्या धर्माच्यो चाली-रुढी-रिती सोडून दिल्ल्यो. ह्या गांवांत चर्च नाशिल्ल्यान चर्चीत वचचोय प्रस्न नासलो. घोवागेरच्यांनी, सोयऱ्यांनी तिका आपणावंक नाशिल्ल्यान घोवाचो धर्मय पयस आसलो. तिजेकडेन उरिल्लो फकत मनीस ह्या नात्यान मनीस-धर्म!

ह्या गांवचोच विचार केल्यार, तिजे घोवाचे इश्ट मास्तराक लागून केन्नाय घरांत येताले. मास्तर भायर पडतसावन तेवूय येवंचे बंद जाले. फकत रस्त्यार मेळल्यार हटकिताले, तेवूय दोन हात अंतर दवरून.

तिका लागी करपी फकत दोन कुटुंबां ह्या गांवांत आसलीं. एक दोतोर बानावळीलें आनी दुसरें आण्टील्या पडवेंत भाड्यान रावतल्या नायक मास्तरागेरचें.

दोनूय कुटुंबां मूळ ह्या गांवची न्ही. मास्तर अंकोल्यांतलो. बदली जावन येयिल्लो. पर्थून वर्गा-वर्गी जाली काय वचपी. दोतोर होन्नावरचो. ताणें दवाखानो उक्तो केल्ल्याक पंदरा-वीस वर्सां जाल्लीं.

ही दोनूच कुटुंबां मेरीआण्टीक 'आण्टी' म्हणटालीं. हेरांली ती तशी कोण लाग नासली. आसलीच जाल्यार एक भायली, परकी, अनंतमास्तरान हाडून दवरिल्ली हेरधर्माची कोणतरी बायल.

आण्टीन दोनूय कुटुंबां कडेन बरेंपण दवरिल्लें. चड काळजाचें नातें दवरिल्लें दोतोराकडेन. तिका प्रेसांवाचें आशिल्ल्यान पर्थून पर्थून दोतोराकडेन वचप जातालें. आपल्या काळजांतल्यो गजाली ती दोतोराक सांगून काळीज हगूर करताली. दोतोराक तिजी काकूट दिसताली. देखून दोतोर तिजो मायेमोगाचो पूत जाल्लो. तिका जाय-नाका चयतालो. तिगेलो हुसको करतालो.

तिका खूब फावटी येवजतालें, पुराय भाट-बदीक विकचें आनी पयस वचचें. मागीर घोवालीं उतरां याद येतालीं, "मेरी, कितलींय संकश्टां येवं, भौसान विरोध करूं आमी हालचीं नांत. हो आमचो वाडो. आमी हांगाच मुळां रोवन उबीं रावतलीं. हांव भायर पडल्यार सुदीक तुवें फाटीं सरूंक फावना. येतल्या सगळ्या संकश्टांक तोंड दीत घट्ट उबें राव! पोकी जावन धांव नाका!" हे यादीन तिच्या दोळ्यांत दुकां येतालीं. आपल्या घोवाल्या निर्धारामुखार, खरेंपणामुखार तकली बागयताली आनी हांगासल्ल्यान हालची ना ह्या निर्धारान जीण सारताली.

खांव-जेवंक उणें नासलें. घोवाली पेन्शन आसली. भाट आसलें. देवा म्हणल्यार पावपी दोतोर आसलो. पुणून 'तो हुसको' सतायतालो. आतां तर चडच सतावंक लागिल्लो.

जाल्लेंय तशेंच!

हरशी भौस आप-आपलीं घरचीं मडीं आपल्या भाटाचेर जळयतालीं. आनी तें जळोवप भौशीक वाठारांत जातालें. आनी आतां कायदोच येयिल्लो, भौशीक वाठारांत हेरांक तरास जाता थंय मडीं जळोवप ना. म्हणटकीर भौसांनी थारायलें, एक मसुंडी बांदची.

गांवचे शिमेर, दर्यादिगेर कांयजाणाली रासवळ भूंय उपेग करीनासतना बंजर पडून आसली. ती भूंय भौमतान मसुंडे पासत उपेग करची थारायली. थोडी सरकाराची मदत आनी उरिल्ले पयशे भौसान वर्गणी काडून निमाणें कडेन मसुंडी बांदली.

मसुंडी बांदूक आनी ताची वेवस्ता दवरूंक हरेक घरांतल्यान पांयशी रुपया वर्गणी एकठांय केल्ली. सगळ्यां कडल्यान पयशे घेयिल्ले पुणून आण्टी कडेन कोणच वर्गणी मागूंक येवंक ना. उरफाटें म्हणूंक लागले खंय, "ती आमगेल्या धर्माची न्हूं! तिका आमगेल्या मसुंडेंत सुवात ना. तिगेल्या धर्माच्या लोकांक जळयनांत. पुरतात. ते पासत सिमेंत्री आसता वेगळी!" उपरांत ताचेरूय भासाभास जाली. ती मरतकीर करतले किंतें? आण्टील्या भायेसाल्या पुतान म्हणलें खंय, "तिका आमी देव-धर्मांत घेवंक ना. म्हणटकीर तिका जळोवंचो प्रस्नूच येना. पुरुंया म्हणल्यार ह्या सामक्या सुपुल्ल्या गांवांत



किरिस्तांव वसती नाशिल्ल्यान सिमेंत्रीय ना! तिगेल्या आवयगेरचे येवन व्हरूं मडें! नाजाल्यार कुसतलें घरांतच! हांव फुडें सरचो ना. कोणूच सरचो ना फुडें! फुडें सरून विलोव लायतले कशे...!" हाचेर सगळ्यांनी "खरें" म्हूण तकली हालयली.

कोणेंतरी म्हणलें, "ग्रामपंचायतीन चवन घेवचें तें!"

"हय! रस्त्यार सुणें मरून बी पडल्यार ग्रामपंचायत विलोव लायना?" आनी मागीर खोखो करून हांसले.

हें सगळें वाड्यावेल्या एकल्यान, आण्टीले पडवेंत रावतल्या नायक मास्तराक सांगलें. मास्तरान आण्टीक आनी आण्टीन दोतोराक सांगलें.

आण्टीन दोतोराक हेंवूय सांगिल्लें, "म्हुज्या मायगेरचीं, सोयरीं कोणूच म्हाका लागीं कोरिनांत, नोदोर घालूंक सुदीक मागनांत. आनी म्हुजें मोडें व्होरतलीं विलोव लावोंक?"

आण्टी चिंतताली, संसार खूंय पावलो आहा? आमी खूंय आहात? जात-धर्म-रुढी-पोरंपरा हातूंत घुस्पोन आमी मोनीसपोण काबार कोत्तात! जात-धोर्म म्हुणल्यार किंतें? मोनशां मोनशां मदीं वाटे घालोक केल्ल्यो वण्टी? काय मोनशांतल्या मोनीसपोणाक दिका दाखोवंक केल्ल्यो वाटो!...म्हाका ही ख्यास्त कित्याक? हांव तुमगे धोर्माची न्हू म्हूण?

तिका दिसतालें, मर्णा उपरांत आपलें मडें घरांत कुसतलें. हेरालो लागता, तसो मानान आपल्या मड्याचो विलोव लागचो. रस्त्या वेल्या बेवारशी मड्या भाशेन जावचें न्हू! आनी ती न्हिन्नळटाली. निमाणें कडेन काळजांत धरना जावन हें सगळें तिणें दोतोराक वचून सांगलें...

निमाणे कडेन गेली.

वार्ता गांवभर पातळली.

कांयजणान काना मनार घेवं ना.

जांणीं घेयलें, तांचे मुखार होच प्रस्न, तिचो विलोव ह्या गांवांत लावप कसो आनी कोणें?... देखून कोण मुखार सरूंक तयार नासलो.

कांयजण "चया, हेर सगळें किंतें करतात?" अशें येवजून येयिल्ले, पयस-पयस चोंब्या चोंब्यांनी उबे आसले, मजा चवंक उबे राविल्ल्या वरी!

फकत पडवेंत रावपी मास्तर गळसणिल्ल्या वरी भायर-भितर करतालो. मड्या बगलेंत उजवाती पेटोवन लायतालो. तोंड येदेशें करून आंग कवळून कुशीक उबो रावतालो. जशें किंतें ताचीच आवय पिड्ड्यार जाल्या आनी विलोव लावंक फुडें कोण येना.

दोतोर येना फुडें ताणें रोखडेंच दोतोरां म्हऱ्यांत येवन म्हणिल्लें "दोतोर, किंतें करुयां?" दोतोरान फकत ताच्या खांदार थापटिल्लें. तो मागीर ओगी राविल्लो.

आतां तो पर्थून दोतोरा म्हऱ्यांत येयलो. म्हणूंक लागलो, "दोतोर, आमकांच किंतें तरी करचें पडटलें...!"

दोतोरान किंतें तरी सांगूंक तोंड उगडटा थंय आसा, एम्बुलंसाचो आवाज येयलो. "ही चय, येयली!" दोतोरान म्हणलें.

एम्बुलन्स दारांत येवन उबी जाली.

एम्बुलन्सांतल्यान धव्या कपड्यांतले लोक देवले.

दोतोर ताकतिकेन मुखार गेलो.

तांचे लागीं दोतोर उलयलो.

मागीर मास्तरा म्हऱ्यांत येवन, ताचे भुजार हात दवरून दोतोरान सांगलें, "मास्तर, आण्टीन आपली कूड दान केल्या. देहदान! हांवेंच तिका सांगून मुखार सरून हें करून घेतिल्लें!"



# ऊपडें

**- जयमाला दणायत**

*आवय म्हणून ती*
*अशी मायेन कॅन्नाच*
*वागली ना आमचेंकडेन*
*आपल्या मर्दीच दंग!*
*घरांत मातलॅगीत*
*लक्ष दिनासली.*
*म्हजी आजीच आमची*
*खरी आवय!*
*आवयचें सगळें काम*
*तिणेंच तर कैलां -*
*आमकां वाडयलां-खावयलां,*
*पिवयलां, शिकयलां.*
*हिच्यो फकत*
*आमच्याकडल्यान नाकाशिल्ल्यो*
*अपेक्षा आसताल्यो.*
*त्यो पुराय जाल्यो ना*
*तर मागीर खूब बोबाट करप,*
*आमकां उलोवप,*
*मारप-पूण तें तशें जावचें*
*म्हणून हातान कांयच करप ना -*
*फकत आपलीं मंडकां*
*आनी मैत्रिणी!*



30/ मांगल्य,
एन्. एस्. रोड,
डोंबिवली - मुंबय.

**सु**लू गेलें म्हणून फोन आयलो, तेन्ना नेहा-नरेन ऑफिसांत आशिल्लीं. सांजचीं घरा येतगीच मांयन नेहाक सांगलें. तांका एकदम शॉक बसलेवरी जालें. सगळें अकस्मातच जाल्लें. बरें ना, हॉस्पिटलांत घालां, ट्रिटमेंट चलता अशें कांयच आयकलें ना. खबर आयली ती एकदम मरणाचीच! ताका कॅन्सर जाल्लो खंय, आनी कळीत जालें तेंवय सामकें लास्ट स्टेजीर! कितेंय उपचार करतले म्हळ्यार मात्तय वेळ मेळूंक ना. सगळ्या कुडींतच स्प्रेड जाल्लो म्हणटात; खबरय वेळानच मेयळी, म्हण्टगीच ताजें निमणें दर्शनय घडलें ना.

आनी तशें पळयल्यार सामकें पयसुल्लें नातें! सुलूची आनी नेहाची मांय दोगूय 'कामू आवय सवत भयण' इतलें लागीचें नातें! दोगींच्योय आवयो खंय कोणतरी बापोल-मावशी भयणी! पूण तांचें कुटुंब व्हडलें. आजोळ एक आनी एकवटीत कुटुंबांत म्हण्टगीच भुरगेंपण एकठांय गेल्लें. आनी तांचें तशें मेतकूटय बरें जमतालें! ताका लागून खंयय लग्नाकार्यांत भेट जाताली. तशें सुलू एक वर्स नेहाबरोबर कॉलेजींतय आसलें. दोगांची सायड वेगळी, एका हॉस्टेलांत आसतालीं इतलेंच - पंगडय वेगवेगळे. मात्शीं लागसार येतालीं तीं एके आवडीन - वाचपाच्या छंदान! फुडें मागीर नेहा थोडें थोडें बरोवंक करूंक लागलें आनी हें सामकें लागीचें (!) नातें जुळटगीच नेहाचें कितेंय छापून येतगीच

सुलू ताका मुजरत फोन करून आपणें वाचलें, बरें जालां, आवडलें अशें कितेंय कळोवंक लागलें. खंयय लग्ना-मुजीक मेळटगीच धावन येवन वेंगावप, घरची-भुरग्यांची, सगळ्यांची सविस्तर खबर घेवप-सांगप अशें चलतालें. केन्नाय फोनार घोव कसो सुस्त, कितेंय ॲडव्हेंचर करूंक कसो फाटीं रावता, भुरगीं शिकून व्हड जावचीं म्हणून आपलो जीव कसो वयर सकयल जाता; आपूण कितलें हातपांय धोडायतां तें सगळें वर्णन करून सांगचें! हेरांचीं भुरगीं फुडें गेलीं ताचेंय कवतूक करचें. नेहाचें कशें सगळें जुस्ताजुस्त - भुरगो बरो फस्टक्लास इंजिनिअर जावन फुडलें शिक्षण घेवंक भायर गेलो ताची अपुरबाय! नेहाक ताची भारी लक्तुबाय दिसची. कोणालींय भुरगीं बरे मार्कान पास जावन फुडें गेल्यार हाका चड खोशी. ताचे नदरेंत दुसऱ्याविशीं दुस्वास नासतालो, आसतालें तें निखळ कवतूक! ताचो आसा तातूंत समाधान मानपाचो सभावगूण नेहाक मानवतालो.

आतां इतले लागींचे संबंध म्हण्टगीच जापे वचप आयलेंच, म्हणून मागीर नेहा दुसऱ्याच दिसा सुटी काडून घोवाक घेवन ताच्या घरच्यांक मेळूंक गेलें. दारांतल्यान भितर सरतना नेहाच भारी नर्वस जाल्लें. नरेन हॉलांत सुलूच्या घोवा म्हऱ्यांत बसलो. तें भितरल्या रूमांत सुलूची मांय बशिल्ली थंय-गेलें. सुलूची चली सपना कॉमर्साक निमणे वर्साक आशिल्ली. ती तकली उमथी घालून आज्जेक तेकून बशिल्ली. नेहान ताचे फाटीर हात दवरून व्हडा उमाळ्यान म्हळें - "तुजेविशीं खूब खूब सपनां पळयतालें गो सुलू; तुजें ग्रॅज्युएशन पुरें जातगीच तुका खोशी आसल्यार फुडें शिकूंक दिवपाचें, नाजाल्यार बरें स्थळ पळोवन रोकडेंच व्हडा दबाज्यान तुजें लग्न करून दिवपाचें खूब मनांत आशिल्लें ताच्या. केन्नाय विशय आयल्यार भरभरून उलयतालें ताजेविशीं - पूण मर्दींच हें कसलें अपसरण आयलें. ध्यानामनात नासतना भरल्या संसारांतल्यान देवान अचकीत ताका अशें उबारून व्हेलें - खूब वायट जालें पळय." नेहान आपणाले दोळे पुसत ताका समजायत म्हळें. सपनान फकत तकली वयर काडून निर्विकार नदरेन एकवेळ नेहाकडेन पळेलेभशेन केलें आनी परत दोनूय धोपरांचेर खाडकी तेकोवन जमनीक पळयत बसलें - दोळ्यांतल्यान एक दूक ना; जणू कोणा तिरायताची खबर नेहा उलयतालें. नेहाक मोठें अजाप! आवय अशी अकस्मात वता आनी चली इतलें निर्विकार! ताणें विशय बदललो आनी चल्याकडेन पळयत म्हळें, "तुज्या शिकपाविशीं तर तें खूब उलयतालें म्हजेकडेन. तुका एक व्हडलो इंजिनिअर जाल्लो पळोवपाचें मनांत आशिल्लें ताच्या. पूण तेंवय बाबड्याच्या नशिबांत नासलें." पूण तोय कांय एक उतर काडिनासतना थंयच्यान भायर सरून गेलो. आवय अशी अकस्मात कांयच हासभास नासतना मर्दींच सोडून गेली म्हणून पोरां अशीं सैरभैर जाल्यांत जातलीं अशें येवजून मावशेकडेनच चार उतरां उलोवया म्हणून नेहान तिचेवटेन नदर घुंवडायली. इतल्यान सुलूच्या मैत्रिणीचो एक चोमोच थंय आयलो; सगळ्यांनी एकाच वेळार 'सुलू अशें बरें आशिल्लें, इतलें मायेस्त आशिल्लें, घर संवसार आनी भुरगीं म्हळ्यार ताचें सर्वस्व आशिल्लें' अशें आनी तशें करून सुलूच्या स्तुतीचो सामको मारो चालू केलो. तें कितलें हौशी-उमेदीचें, सगळ्यांक धरून आसतालें. कोणाचीय अडचण आसल्यार कशें मदतीक धांवन येतालें, कितलें सुगरण आशिल्लें - अशें, तशें करून तोंडाक फेस येसर सगळीं बडबड करत रावलीं. चली सामकें हां ना, चूं ना करून आज्जेवेंगेंत घट्ट दशिल्लें - मुंगरल्लें म्हळ्यार जाता! इतल्यांत तांचें लक्ष नेहाकडेन गेलें. सगळीं गुरूगुरू करून नेहाकडेन धांवन आयलीं -'तुमी नेहा न्हय, सुलूची बरोवपी मैत्रीण? तुमचें ताका खूबच कवतूक आसलें. तुमचेविशीं भरभरून उलयतालें; फोटे दाखयतालें.' करून बडबड करूंक लागलीं. -नेहाकच ऑकवर्ड कशें जालें. प्रसंग कसलो आनी हीं कितें बडबडटात अशें ताका जालें. थंयच्यान भायर सरपाक गाडयेची वेळ जाली म्हणून शिशिराकडेन बशिल्ल्या नरेशाक सांगपाच्या निमतान थंयच्यान सटकतलें म्हळ्यार त्या सगळ्यांनी नेहाक आडावन धरलें -'सुलूच्या मनांत तुमकां एकदां आमच्या मंडळांत आफोवचें खूब आसलें. पूण मर्दींच हें अशें घडलें! तरी एकदां मुद्दम वेळ काडून आमच्या मंडळांत येयात हां - ताच्या आत्म्याक तितलेंच समाधान!' अशें कितें कितें तांचें उलोवणें चलिल्लें. कशेंतरी तें थंयच्यान कडसरलें. आनी शिशिराकडेन दोन उतरां उलोवन दोगांय भायर सरलीं.

घरा वतना वाटेर ताणें घोवाक थंय कितें घडलें तें सांगत म्हळें, "मावशेची बाबडेची काकूट म्हणूंक जाय. सुनेन तिजें करचे बदला आतां म्हातारपणांत सुलूचो सगळो संवसार सांबाळपाचें नशिबांत आयलें तिज्या! आईचेच पिरायेची आसतली न्ही ती? आतां परतून एकदां हो सगळो बाडबिस्तरो सांबाळपाची वेळ आयली बाबडेचेर! ह्या वयांत गॅसामुखार उबें रावन जेवणखाण करचेलें काम करप मोठें कश्टाचें!" ताचेर नरेशान सांगलें, "आगो तशें कांय ना. वेल्यान शिशिर तर सांगतालो पैलींधरून आपली आवयच घरांतलें सगळें काम सांबाळटा म्हणून. सुलू तर लश्कराच्यो भाकऱ्यो भाजपांतच गुल्ल आसतालें खंय; तीं तागेलीं भिसी मंडळां आनी भजनी मंडळां मुखार रांदचेकुडींतलें काम करूंक ताका फुरसदच नासतालीं खंय! म्हणटगीच आतां तो प्रश्न काय म्हत्वाचो ना म्हणून." ताच्या ह्या उतरांनीं नेहा तटास जालें कारण फाटलेच खेप मेळिल्लें तेन्ना सुलून ताका सांगिल्लें,




"तुजें तरी बरें गो नेहा. तुज्या मांयच्यान जायना, ती रांदप करिना-तरी शिंनून कातून दिता म्हणटा तितलोच आधार जाता कामांत! म्हजी मांय तर घरांत कुस्कूट काम करिना. सगळें म्हाकांच करचें पडटा. हिचें आपलें दीसभर देवदेव चालू - देवळांत वचून बसप - प्रवचन किर्तनांत गूंग-कांय विचारूं नाका. म्हाकाय तुजे भशेन कितेंय वाचप-बरप करूंक आवडटा आसलें गो; पूण 'दीस रांदां, वाडा, उश्टीं काडा' हातूंतच वता." आनी आतां नरेशान सांगलें तें आयकल्यार वेगळेंच चित्र सामकार आयलें. कोण खरें कोण फट - नेहाक कांयच समजना जालें. विचारांचे तंद्रेंतच तें घरा पावलें.

तीनचार दिसांभितर शिशिरालो ताका फोन - सुलुच्यो मैत्रिणी ताजेकडेन उलोवंक सोदतात म्हणून! कितें काय म्हळ्यार ह्याच म्हयन्यांत सुलूचो वाढदीस आशिल्लो. आनी ताच्या मंडळान ताका श्रध्दांजली ओपूंक एक कार्यावळ थारायिल्ली. सुलूच्यो यादी जागोवपाची! आनी त्या वेळार अध्यक्ष म्हणून ताणीं ताच्या आवडीच्या मैत्रिणीची-नेहाची निवड केल्ली. ना म्हणप शक्यच नासलें. तें बरें दिसचें नासलें. शिशिराकय आग्रो केल्लो; मावशेकडेन त्या दिसा सारकें उलोवपय जाल्लें नासलें म्हणून - वेळांत वेळ काडून नेहाक वचचेंच पडलें.

शिशिर आनी सपना कोणें तरी फोर्सान, मारून मुटकून बसयिल्लेवरी कदेलार बशिल्लीं. ताणीं तोंडान एक उतर काडलें ना. हेर सगळीं मात सुलू कितलें बरें आशिल्लें हाचेर एकापरस एक नेटान उलयतालीं - तें कितलें मायेस्त, हजरजबाबी, हुशार, सगळ्या कामाक कशें फुडें आसलें, रुपेस्त, मायेस्त, गुणेस्त अशें सुलू अकाली आपल्या मदल्यान गेल्ल्याक एक व्हड पोकळी कशी तयार जाल्या हाचेर सगळ्यांनी उलोवन जालें. नेहानय मागीर आपल्या कॉलेज जिणेंत, हॉस्टेलांत तीं कशीं एकठांय रावतालीं हाचेविशीं 'बडाचढाके' थोडें सांगलें - ताच्या घरच्यांविशीं सगळें ताचे मनांत आशिल्लें तशें घडचें आनी ताच्या आत्म्याक शांती मेळची म्हणून देवाकडेन प्रार्थना केली. कार्यावळ सोपतगीच चा-पाण्याचो प्रोग्राम आशिल्लो, तो सोपून शिशिर-सपनाबरोबर तें तांगेर गेलें. घरांत पावल दवरताखिणीं सपनान आज्जेक वेंग मारून व्हडल्यान रडपाक सुरू केलें. नेहाक कांयच कळ्ळें ना. आवयचे यादीन बाबड्याचें मन थाऱ्यार ना अशें दिसून तें ताका पोशेत रावलें. आजेनय ताका मायेन समजायलें. तशें दोळे पुसून ताणें नेहाकडेन आपलें मन उक्तावपाक सुरू केलें -

"मावशे तुका अजाप जालें जातलें न्ही? त्या दिसा तूं आयिल्ली, पूण हांव सामकें थंड - उदकांत घाल्यार लेगीत हालना - अशें जावन बशिल्लें न्हय? तुजेकडेन एका उतरान उलयलें ना. तूं इतलें सांगताली म्हजेविशीं तिचीं अशीं सपनां आशिल्लीं - पूण म्हाका कांयच खरें दिसलें ना. न्हीं, आमकां कोणाकच दिसचें ना. -आवय म्हणून ती अशी मायेन केन्नाच वागली ना आमचेकडेन - आपल्या मर्दींच दंग! घरांत मातलेगीत लक्ष दिनासली. म्हजी आजीच आमची खरी आवय! आवयचें सगळें काम तिणेंच तर केलां - आमकां

वाडयलां-खावयलां, पिवयलां, शिकयलां. हिच्यो फकत आमच्याकडल्यान नाकाशिल्ल्यो अपेक्षा आसताल्यो. त्यो पुराय जाल्यो ना तर मागीर खूब बोबाट करप, आमकां उलोवप, मारप-पूण तें तशें जावचें म्हणून हातांत कांयच करप ना - फकत आपलीं मंडळां आनी मैत्रिणी! आमच्याकडेन हेरांच्या भुरग्यांचें कंपेरिझन! दादाक एम. ए., पी. एच. डी करून प्रोफेसर जावपाचें आसलें तर फॉर्सान ताका सायन्सीक वचपाचें कम्पलशन आनी म्हाका सायन्सीक वचचें म्हळ्यार फॉर्सान कॉमर्साक घालें. पप्पाचेंय कांय आयकप ना - फकत वाद आनी झगडीं करप, आपलें तेंच खरें करपी स्वभाव-हेंच पळयत ल्हानाचीं व्हड जालीं आमी! आनी तुमी सगळीं ती इतली बरी, तितली बरी म्हणटात - कशें मानप? 'दुरून डोंगर साजरे' म्हणून मराठींत म्हण आसा पळय तेंच खरें - तुमी पयसुल्ल्यान तिचें रूप पळयतालीं, आमी म्हऱ्यांतल्यान सगळें भोगलां. आमी मनान अशीं सुकीं सडसडींत जावचें कारण तीच आसा! तिच्या वागपांतच आमी अशीं 'निर्लेप' जावन गेल्यांत. - हय मावशे, तिचे खावपाचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे! जाणां तूं ती आमकां कशी वागयताली तें -" अशें म्हणून ताणें ताचें सुलूपुराण सुरू केलें. सुलुले मांयन, घोवान, पुतान सगळ्यांनींच ताची रीऽऽ ओडली. नेहा सामकें शॉकार! आतांमेरेन आयकल्लें ताचें सारकें उरफाटें उलयतालीं तीं सगळींजाणां. सुलुचीं खासा मनशां-घरचीं! म्हणचे घरचें वेगळें आनी दारचें वेगळें! खरेंच, आपलीं आपलीं म्हणपी लागशिल्ल्या लोकांक लेगीत आपूण धड वळखूंक शकना. मागीर बऽरी मैत्रिण जाली तरी तिची खरी वळख अख्खो जल्म गेलो तरी जायना हेंच खरें! शेवटी सार कितें काय म्हळ्यार जण एकलो जगांत वावुरपाखातीर एक तरी रुपडें म्हणचे मास्क तोंडार चडोवन वावुरता; आनी घरांत ताचें रूप मात वेगळेंच आसता हें कडू सत् नेहाक होलमलें! खरें कितें तें आपूण आजून समजूंक शकना हाचें नेहाक खरेंच वायट दिसलें. सुलूचें खरें रूप आज उक्तें जालें आनी नेहाचें मन एकदम खिन्नटून गेलें. आजमेरेन आपल्या मनांत आशिल्लें तेंच सुलूचें रूप घट्ट उरिल्लें जाल्यार कितलें बरें जातलें आसलें? पूण ताच्या घरच्यांनीं आज ताचें खरें रूप आपल्यामुखार उक्तें केलें आनी ताणें आजवेर समाजांत वावुरतना आपल्या तोंडार चडयिल्लें बरेपणाचें रुपडें टरटर करून पोरण्या जाल्ल्या कापडापरी पिंजत गेलें! खर्र् करून पाटयेर चरे पडचे तशे ताच्या काळजार घाय घालीत गेलीं सुलूच्या घरच्यांचीं उतरां! घरा परततना सगळो रस्तोभर नेहाचेर मोनेळसो पडिल्लो - वास्तवांतलें सत्याचें अशें खर दर्शन ताच्या काळजाच्यान सोसूंक नज जावन......!

डबल-डबल!
डबल-डबल!
डबल-डबल!
डबल-डबल!
डबल-डबल!

# डबल-डबल!

- इंदू अशोक गेरसप्पे

खंयचेय भाशेंत ताचें एक खाशेलें संगीत खेळत आसता. एकेच भाशेंत सुध्दांय उलोवची शैली, स्वराघात, उच्चार, हेल बदलत आसतात. आमच्या भारतांत अप्रतिम विविधता दिसून येता. तरेकतरांचे भास-भेस, रिती-रिवाज, खाणजेवण, तरी एक अंत: प्रवाह कसो व्याकरण, वाक्प्रचार हांचे ऐक्य ह्या सगळ्या भासांनी व्हांवता.

एक लोकप्रीय उदाहरण - दोट्टी शब्दप्रचार वा डबल-डबल शब्द! एकाच शब्दाचो एकठांय दोन वेळां उच्चार जो शब्दप्रचार जाता, तो जास्त आशियाई खंडांत वापरलेलो दिसता. चडकरून हे शब्द सदांचे उतरांत, संभाषणांत आयिल्ले दिसतात, पूण हळुहळू पुस्तकांतय तांचो स्विकार केल्लो दिसून येता.

कोंकणींत तर खूब शब्द दोनदोनदां उच्चारतात. तेन्नाच ती युरोपांतल्या भाशेबशेन बेचव ना तर बरी घसघशीत दिसता. तिका सय-सुवाद चडटा. उदक कशें घटाघटा पिवपाचें, अशें म्हणताना पिवपाची क्रिया दिसता. शब्द कशे रंगरंगयाळे दिसतात. समसमान, हुबेहूब अंवळीजंवळीच जणूं! आतां, ह्या वाक्यांत दुहेरी शब्द कितले वेळा आयले ते मेजचे!

असो साद-पडसाद आयकलो म्हणटकूच त्या शब्दाचो विशेश प्रभाव पडता. प्रत्येक शब्दाक एक अर्थ आसता. दुप्पट उच्चारान ताचें महत्त्व आनिकूय वाडता. हे असले 'एको' शब्द, सिनेमांत सर्रास वापरतात. हिरोइन केन्नाय 'नही करूँगी' तीन वेळां तरी म्हणता, तेन्ना श्रोते मान हालयतले. टीवीर तर कितलेशे 'एको' आयकतात. एकदां सांगून कांयच उपेग ना; अशें खूबदां सांगलें म्हणटकूच तो संदेश सारको श्रोत्यांचे तकलेंत रिगतलो, हो उद्देश! ह्या शब्दप्रचारांनी असो परिणाम घडता खरो. 'बेगीन यो' म्हणचे परस, 'बेगबेगीन यो', म्हटलें की रोखडें ताकतिकेन पावलां पडटलीं, कारण एक गरज वा अर्जन्सी निर्माण जाता.

दुहेरी शब्दप्रचारांनी भाशा काव्यात्मक जाता. ते साद-पडसाद आपोआप यमक जुळयतात, आनी त्या स्वरांनी भाशा रसरशीत जाता. तिका रस, रंग, रुची, रूप चडता. एकोडे शब्द कशे अळणीशे लागतात. इंग्लीशांत अशा स्वरांक (अक्षरांक) ऑनोमेटोपेया म्हणतात, ज्यांनी आयकतल्यांक एक तरेचें सूख-समाधान मेळटा. गुबगुबीत गाल, झिरझिरीत पड्डे, कुचकुचीत फुललेले कळे, थापट कशें कुल्यार चुळचुळीत पडचें, आनी पोल्यार सणसणीत मारचें.

असो दुपट्टी शब्दांचो उच्चार करून कितलोसो अर्थ संक्षिप्त रुपांत मांडूंक जाता. उदाहरणार्थ, विशेशणां एकाद्रे नामाचे विशेश गूण दाखयतात, तेच एकठांय दोनदां दोहरायले म्हणटकूच एकदम बळिश्ट जातात, जशे जळजळीत नदर, झणझणीत उतर.

गुणांतले सुक्ष्म फरक हे शब्द सहज दाखयतात. फरशी गुळगुळीत, खरखरीत, खडबडीत काय बुळबुळीत आसा, हाची जाण मेळटा.

भाणांत तापयिल्लें उदक कशें धुगधुगीत, हुनहुनीत, कडकडीत काय खतखतीत आसा, हें तापमान ह्या शब्दांनी सहज ओळखूं येता.

खाणाजेवणाक तर ह्या शब्दां शिवाय सयसुवादूच ना. दुहेरी शब्दांनी रांदपाक कसो घमघमाट सुटता. सुंगटां हुमण सुरबूस मचमचीत तर चण्याचे तोंडाक धबधबीत रुचीक जांवचे. जिन्नसांची नांवां सुद्दां तयार जातात ती अशीं बियांचे खटखटें, दुदयाचें खतखतें, कारात्यांचें वळवळें.

कांय वेंचीक दुपट्टी शब्द, सतत चलत रावपाची प्रक्रिया दाखयतात, जशें चलतां चलतां, करतां करतां, भोवन भोवन वैगेरे. गिरगिरें हें धुंवत रावता, घसघसो उदक वोतीत रावता, तसोच

खिळखिळो, खतखतो आनी हेर शब्द. वझरो झुळझूळ, तर व्हाळ खळखळ व्हांवता; पावस धो धो, सर सर, टपटप, कितलेशे आवाज करीत पडता. फांतोड भीं भीं उजवाडता. ह्या रंगिले शब्दांशिवाय भास कशी रंगतली?

क्रियापदां तर ह्या शब्दांनी खरीं खुलतात. सादें चलप तें ल्हवू ल्हवू, लेमें लेमें करीत काय भराभरा, घपघप पावलां घालीत? काळीज धडधडता काय खपखप जाता? आनी किडे उसउसतात, वाग गुरगुरता हे ऑडियो-विज्युअल शब्द सामके आवाजा सहीत चित्र मुखार हाडता.

ह्या शब्दांचो अवतार अनेक, लिला अनेक. मात्सो फेरफार करून शब्दांचो विंगड अर्थ तयार जाता. पयलो शब्द प्रचलीत आसून ताचो वापर आनी अर्थ आसता. जोडीक जो दुसरो शब्द लायतात, तो त्याच शब्दाचें व्यंजन बदलून. दोनी शब्द जुळयले की दुसऱ्या शब्दांचो अर्थ जाता- वैगेरे, वैगेरे वा इत्यादी. मजा अशी की एकेक प्रांतांत वेगवेगळ्या व्यंजनांचो उपेग करतात. कोंकणींत बहुतेक 'ब' हें अक्षर लायतात. उदाहरणार्थ - भुरगीं-बिरगीं, न्हावप-बिवप.

मंगळुरी कोंकणींत चड 'ग' हें अक्षर जुळयतात आनी अशा शब्दांचो वापर करतात. घर-गीर, कासू-गीसू, खेळ-गीळ.....

तामिळनाडूंत चड 'की' चो वापर, कर्नाटकांत 'म' तर हिंदी भाशेंत 'व' हें व्यंजन वापरतात. उत्तर भारतांत 'श' चो उल्लेख खूब करतात म्हणून चाय-वाय किंवा चाय-शाय, चिकन-शिकन अशें म्हणतात.

अश्या शब्दांक उर्दू किताब दिल्लो आसा - ताबा-ए-मोहम्मल. तात्पर्य पयले शब्दाक ताबो आसा, अर्थ आसा, आनी दुसरो शब्द निरर्थक. पूण जुळयल्या उपरांत, इत्यादी असो अर्थ धरता.

केन्नाय तर गंमतीदार शब्द निर्माण जातात जे दोनी निरर्थक, पूण एकठांय जाले की तांकां अर्थ मेळटा, जशे आकुळ-पिकूळ, खटपट, ताकतीक, खातखुतली, धांगडधिंगा.

एकेकदां एक अक्षर बदलून शब्द तयार जातात जशें जागजूग, झाडांझुडां, मारामारी.

फेरफरक म्हणून दोन शब्द, सादारण समान अर्थाचे एकठांय जुळोवन एक नवीन शब्द तयार जाता. हे जोडशब्द बरेच पॉवरफूल आनी लोकप्रिय आसतात. मजा म्हळ्यार एका शब्दाक दुसरो साथ दिता. गप म्हटले की चूप ताचे बराबर आयलोच, जिवा म्हटले भावा ताच्या म्हऱ्यांत उबो, सोयरे म्हटले की धायरे तांचे सांगातान पाटार बसतले, भांगारा फाटल्यान शिंगार, शेतां बगलेन भाटां, घर तशें दार, नांव तशें गांव. दळणवळण, उपासतपास, शेजार-सामार, यादी लांबत वेता.

तशेंच असमान अर्थाचे शब्द एकठांय जुळोवन जोडशब्द तयार करची प्रथा आसा, जशें बरें वायट, जमाखर्च, जळीमळीं, अदिकउणें, उलथापालथ, आडकांनाडकां, इत्यादी. जैं थैं ह्या शब्दांचो प्रयोग जाता. अशा शब्दांनीच भास संपन्न जाता. व्हडलो प्रस्न होच की हे जोडशब्द घडयता, जुळयता कोण?

**डबल-डबल!**

**डबल-डबल!**

**डबल-डबल!**

**डबल-डबल!**

खिणखिणाक अशा दुपट्टी शब्दांचो नकळत प्रयोग आनी प्रचार आमी करीत आसतात. ह्या शब्दांनीच आमची कोंकणी भास आकर्शक जाल्या. ल्हान आसताना आमी कोकोमेमो खावन, आखोमाखो, थातोमातो कोरून घेवन, आपालिपा, आटफाट, खो-खो, खितखितल्यांनी खेळून ह्या मातींत रंगल्यात. ह्या शब्दां शिवाय आमचें संभाशण कशें रंगतलें?

थोडे भाशा-पंडित भाशेची पारंपारीक शुद्धताय राखूंक कडक मुल्यांचेर बोट दवरतात, आनी अशें दुपट्टी शब्दांक हिणसायतात. भास ही व्हांवती न्हंय कशी! भास प्रज्वलीत उरची जाल्यार प्रचलीत भाशणांतल्या ह्या जिवंत शब्दांकय अनुमती मेळूंक जाय. हे शब्द तर भाशेचो अविर्भाज्य अंश आसून महत्त्वाचें कार्य करीत आसात.

दिवाळीचो सण सुवाळो तर ह्या दुहेरी शब्दांनी नटता, सजता. रंगरंगयाळी रांगोळी, गंधसुगंधाचीं फुलां, तरतरेक नक्षीचे आकाशदिवे, सुरसुऱ्यो, फोगोट्यो! आरास मांडून अलंकार केल्ल्या चौरसार मिठाय, नाना पक्वान्न, खुसखुशीत करंज्यो, कुरकुरीत चकऱ्यो, गोडा फोव, मीट मिरसांगे फोण्णा फोव.....कितलेशे प्रकार.

दिवाळीक जशीं नखेत्रां लिकलिकतात, तशेंच धतीर लाख लाख दिवे लखलखूं दी. मंदमंद तेवतली दिवलेची एक पवित्र ज्योत पुरो अंधकार दूर करूंक. ह्या दुहेरी शब्दांची यादी बरोंवक समिंदराची मशी आनी धतरेची सुवातय कमी पडत, तरी ती यादी अशीच वाडूं दी. सर्वांक घसघशीत यश मेळून, समस्त समाज सुखी, संपन्न, समृद्ध जांव दी.



# खिणयाळें सूख

- रजनी भेंब्रे

*दिलेशाचेर फातर मारून ताका सासणाची सोंपोवपी वाड्यावेलो मनीस कोण ही गजाल वाड्यावेले तांती-पील जाणां आसले. मिनाच्या पयशांनी सगळ्यांचीं तोंडां बंद आसलीं. ह्या वेकार वाड्यावेलो एकवट दिसून आयलो. पुलीस सोंगीत चवकशे खातीर आयले गेले. पुरावो नाशिल्ल्यान चवकशेक नेट आयलो ना. चवकशेची भोंगावळ कांय दीस चल्ली. केस फुडें गेलींच ना. वाडो थोडे दीस चिडी-चिप्प जालो.*



कुडचडें - गोंय
फो. : २६५०९४५

कुशावती घराचे पडवेर बसलां. आशिकुशीच्या घरांचेर मोनेळ पडल्या. तिळसांज जाल्या. काळोख पातळूं लागला. पूण कोणाच्या घरांनी उजवाड दिसना. उलयिल्ल्याचो आवाज ना. सगळे कडेन चूप चूप. इतलें की अशें दिसता सैम लेगीत रागार जालां. पान हालना, वारो व्हांवना.

एका तेंपार माणकुलो सिमे गांवचो वाडो पांचव्याचार सैमान भरिल्लो. वणतीक वणत तेंकिल्लीं कुचकुचीत घरां न्हंयचे देगेर बशिल्लीं. थंड, शितळ वारो नित्यनेमाचो सांगाती, वाड्यावेल्या लोकांचो दीस उदेवपाक आदार करतालो. भुरगीं, बायलो, दादले आपआपल्या सोयी प्रमाण फावता तेन्ना न्हंयंत न्हावप, उमळप करतालीं.

नुस्तें गरोवंक फिशाल आशिल्ले तरणाटे, जाण्टेले आपल्यो गरयो घेवन तांजें तट्ट्टीत नुस्तें गरोवन हाडटाले. गरोवणेक चड नुस्तें फारावलें जाल्यार वाड्यार ताचो वांटो पावतालो. न्हंयचे देगेर कानळांची, चिपांची हारीन झाडां. कानळां फुलतकच वाड्यावेल्या भुरग्यांच्या फाटीक लागून चलयो कानळां खुंटून घेतालीं. चिपांचीं झाडां जेन्ना चिपांनी भरून तवकतालीं तेन्ना भुरग्यांक तीं केन्ना काय काडन जातालीं.

पूण चिपां काडपाक वचप म्हणल्यार रेबडांत मुंगरपाचो भंय आसतालो. पूण चिपांची रूच भुरग्यांची जीब हुळहुळायताली. सकयल उदक, दलदलीत मातयेंत पडल्यार मायणाक लागून मुंगरपाचो भंय आसून लेगीत धाडसी भुरगीं कसलीच पर्वा करिनासतना पिकिल्लीं चिपां कर्शी बर्शी गोळोव मारून काडून हाडटालीं, आनी आवयां कडल्यान आंबट तिखट झणझणीत बरी चटणी करून घेतालीं. सगळीं वाड्यावेलीं भुरगीं बसून खातालीं.

कोणें चिपां हाडलीं, कोणाले आवयन चटणी वांटली हांतून अंतर दवरनासतना वाड्या वेलीं सगळीं भुरगीं एकठांय जातालीं आनी वाटणी जाताली. अमुरपिकीं चिपां बोटव्यांनी घालून शाळेंत पावतालीं आनी मदले सुटयेंत दारां खाचींत चिड्डून सगळीं भुरगीं मिटक्यो मारीत खातालीं.

शाळेची बाई धेंगसो घालताली- "आरे तन्नी चिपां खाल्यार थंडी जातली. ताळो थंडेन फुलतलो. भिड्डां जातलीं". पूण भुरगीं बाईचें कांयच आयक नासलीं. भुरग्यांची मनासावन चिंता आशिल्ल्यान बाई भुरग्यांच्या भलायकेचो हुस्को करताली. तिका दिसतालें चिपां खावन, भुरगीं जर बरीं ना जालीं जाल्यार गैरहाजिर रावतलीं. तांकां अभ्यास चुकून तीं फाटीं उरतलीं.

वाड्यावेलो लोकय शाळेचे बाईक बरी मानाची वागणूक दिताले. तिका आपल्यांतलीच समजताले. आपल्या भुरग्यांचो पर्जळीत फुडार बाईच्याच हातांत आसा अशे समजताले. "फाल्यां तुमच्या घराच रकाद धाडटां, मागीर काडूनी दादोन फोग". बाई आपले परीन भंय घालताली. पूण मजेची गजाल, भुरग्यांक चिपां खावन केन्ना थंडीय जाली ना आनी ताळोय थंडेन फुल्लो ना. कारण गांवांतलें वातावरण शुद्ध आनी शित-कालवण जेवून दर एकल्याची भलायकी घटमूट आसली.

सिमेवाड्या वेल्या दर घराक भाटकाराली तल्लूक आशिल्ली. भाटकार आनी मुंडकार असो भेद नाशिल्लो हो वाडो. भाटकारान केन्नाच मुंडकारांचेर भाटकारपण गाजयलें ना आनी मुंडकारान भाटकाराक दुखयलो ना. मुंडकारानी नाल्ल पाडून घेवप आनी भाटकारान विश्वासान तांचेर पातयेवप.

शिमे गांवच्या वाड्यार गणपती पूज नासले. पूण भाटकारालो गणपती सगळ्या वाडेकारालो गणपती जावन आशिल्लो. तय, चवथ, पंचम तिनय दीस भाटकारागेर ताण बरो भूस मारप आनी कामाक हातबोट घालप. उरिल्लें सुरिल्लें गोडशें, नेवऱ्यो शिमे गांवच्या वाड्यार घराघरांनी पावतालें. भाटकार मारानाचें बॉक्स पडवेर उगडटालो आनी आपल्या भुरग्यां बरोबरीन वाड्या वयल्या भुरग्यांक मारान आनी फोगाची वांटणी करतालो.

जी चवथीची गजाल तीच नवरात्र, दिवाळेची. तशें पळोवं गेल्यार दर सणा परबां दीस शिमे गांवचो वाडो भाटकारागेर जेवतालो, खातालो. कसलोच भेद भाव नासतालो. भाटकाराल्या गोठ्यांत गायो-म्हशी वियेल्यार वाड्यार न चुकता पोस पावतालो. वाड्यावेल्या बायलांक पोस करप बरो जमना म्हणून भाटकान्न जाणां आसली.

भाटकार वाड्यावेल्या लोकांक देवा सुवातेर आसलो कारण लग्न कारणाक, अडिअडचणींक भाटकारच तांकां पावतालो. कसल्याच बरपाचेर बोट लावन घेवप ना, इतलो वाड्यावेल्या लोकांच्या उतराचेर, मुंडकारांचेर विश्वास. भाटकाराल्यो तल्लुको फकत नांवा पुरत्योच भाटकाराल्यो आसल्यो. भाटकारान केन्ना कोणें घर वाडयलें वा खोंपी वाडयल्यो वा वंयो घाल्यो म्हणून विचारप लेगीत ना. सदांच म्हणप "फुडें त्यो तुमीच पळोवपाच्यो रे. हांव खंय खंय पावतलों?"

पूण हालींसरा वारेंच उरफाटें व्हांवक लागलें. शिमे-गांवच्या वाड्यार मिनाचे प्लॉट तयार जाले. एक-एक म्हणटा -म्हणटा प्लॉटांचें जाळेंच कशे मिनेर विणू लागले. घरांतल्यान पावल भायर काडलें जाल्यार धुल्लान माखूं लागले. सुरवेक वाड्यावेल्या लोकांनी विरोध केलो. पूण गांवच्या ज्या मुखेल्यांक लागून हे प्लॉट वाड्यार पाविल्ले तांणीं वाड्यावेल्या घराघरांनी भोवन मिनाक लागून जावपी फायदे सांगतकच अज्ञानी लोक वगी रावले. सगळ्या लोकां बरोबर तांणीं रावपाचें थारायलें.

मिनाच्या प्लॉटांनी आदलो सैम इबाडून उडयलो. न्हंयचे देगे वयलीं घरां धुल्लान माखून गेलीं. पांचवो रंग नदरेक पडपाक कुस्तार जालो. चिपांचीं, कांदळांचीं झाडां वचून थंय लांबचे लांब मिनाच्यो जेटी बांदल्यो. न्हंयचे देगेर मिनाचे ढिगारे, नदर पावना अशे तयार जाले आनी ताचे वयर ऑरबिनाची आंखणी. दीस रात मिनाचे ट्रक ऑरबिनाचेर उबे रावन बार्जींनी मिनाचे फातर भरपाचें काम करपाक लागले. त्या आवाजान कान सामके फुटून वचपाक लागले.

नुस्तीं गरोवप, न्हंयचेर न्हांवप, उमळप खंयचे खंय केदे बेगीन नाच्च जालें. मिनेरांनी दर एकल्याच्या दारांत नळ पावयले. न्हंयचे उदक आपलो निर्मळ नितळ धवो रंग विसरून मिनाच्या तांबड्या रंगांत केन्ना एकरूप जालें तांकांच खबर ना. कितलो सोबीत, सुंदर, नितळ शिमेगांवचो वाडो, कळत नकळत मिनेरांचे भकीक केन्ना पडलो कळलो लेगीत ना. न्हंयचे देगे वयले माड मिनाचे मातये भरवण जाल्यान भाटाकारालें भाटावेलें लक्ष गेलें. जंय मुंडकारच मिनाचे गोडयेन मिनेरांक लार्गी गेले जाल्यार माड आनी भाटकार किर्ते करतले?



मिनेरांनी शिमेगांवच्या लोकांचेर पयशांनी मोनेळ घालो आनी पयश्यां आशेन तरणी पिळगी सामकीच हाताभायर गेली. शिकप अर्दे सोडलें. पयलीं-पयलीं थंयचे थंय ट्रिपी, प्लॉटा वेल्यान ऑरबिनाचेर मारपाक लागले. मोटार चलोवपाचें लिसेन्स ना. मार्गार येनासतना अश्यो ट्रिपी मारून मेळपी पयश्यांची भुरग्यांक गोडी लागली. वाड्या वेलें लार्गीचें इश्कोल आसूनय भुरग्यांची गळटी जाली.

मुख्याध्यापकान पालकांक रकाद धाडून तांच्या भुरग्यांच्या शिक्षणा विशीं कळकळीची विनंती करून जाणविकाय दिली. "पळयात आज शिक्षणाची गंगा दारादारांनी पावल्या. आदले काळा वरी मैलांचे मैल पांयांची रपेट करून शिक्षणा खातीर धांवपळ करचेली गरज ना. आदले काळार शिकपाची उमेद आसून लेगीत अडचणींच्या दोंगरांक लागून, फी फारीक करपाची अर्थिक स्थिती कमकुवत आशिल्ल्यान बुदवंत भुरगे लेगीत आपलें शिक्षण पुरे करपाक पावना आसले. सोयऱ्यां धायऱ्यांगेर रावून, तांची घरचीं कामां करून शिक्षणाचें ध्येय पुरें करचें पडटालें."

"आज आदली परिस्थिति फाटीं पडल्या. मेळटा ती संद तुमच्या भुरग्यांक वगडावंक दिनाकात. आयची संद फाल्यां येना. पयसो केन्नाय जोडूं येता. पयशांच्या हावेसा पोटीं भुरग्यांचें भुरगेंपण वगडावंक जापसालदार जावं नाकात. तुमचे भुरगे गुणी, कलावंत. चित्रकला तांच्या बोटांनी खेळटा. तबलें -पेटी वाजोवंक तर हातचो मळ. भजनां करपाक, सतींत वांटेकार जावपाक कोणूच फाटीं ना. खेळामळ तर तांणीं गाजयलां. कबड्डी, खो खो खेळांनी आमच्या स्कुलान तांच्याच बळग्यार तसरीपो हाडल्यात. तेन्ना भुरग्यांच्या फुडाराचें चितात."

पूण उमथ्या कळशार उदका प्रमाण मुख्याध्यापकांच्या मोलादीक सुचवण्यांचो कांयच परिणाम जालो ना. पालकांच्यो सुचोवण्यो आयकुपाच्या फुडें भुरगे पाविल्ले. सान वयाचे आसून लेगीत सोरो, मटको, चरस, गांजाचे भकीक पडिल्ले. रात-रात घरा भायर रावताले. कोणाचो पांयपोस कोणाच्या पांयांत आसनासलो. मधानपणा, गुंडगिरी पावला कणकणी दिसताली. बेशिस्तीन तेंगशी गांठिल्ली. भलायकेची वाट लावपी खिणयाळें सूख तांकां चड लागिचें जाल्लें. त्या सुखाची तांकां इतली गोडी लागिल्ली की त्या रेबडांतल्यान आतां भायर सरप कुस्तार आसलें.

मिनाक लागून जावपी वायट परिणाम, जाण्ट्यां बरोबरीन फुडली येवपी पिळगी पिड्इयार जाता ती पळोवन समाज सुधारकांक काळजाक पीळ पडटालो. शिमेगांवच्या वाड्या लागसार आनीकय वाडे आसले पूण त्या वाड्यांक मिनाची झळ बादूं नासली. त्या वाड्यावेल्या कांय तरणाट्यांनी एक कार्यावळ आयोजीत केली. खास मिनाक लागून जावपी दुष्परिणामाचें विश्लेशण करचे पासत. तांकां मना पासून गांवचें बरें जाल्लें जाय आसलें. कार्यावळीचें मुखेलपण मनोहरान करपाचें थारायलें. मनोहर भोव कश्टांनी शिकून गांवचो पयलो वयलो इंजिनियर जाल्लो.

मिनाक लागून गांवची भलायकी, एकवट, नापीक जमीन, व्यसनाधीन तरणी पिळगी, मार्गा वेले निश्काळजीपणान जावपी अपघात हाचेर गंभीरतायेन विचार जावचे पासत खास करून हे कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. वस्तुस्थितीचेर पोटतिडकीन उलोवपीय हाडिल्ले. जाणीं आज मेरेन समाज प्रबोधना वरवीं समाजांत बरी विचार धारा जागोवपाचो यत्न केल्लो. समाजाचे दोळे उगडपाचें कार्य चालू दवरिल्लें.

वाड्यावेल्या पिंपळा पेडार कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. हो पिंपळ वाड्यावेल्या बऱ्या वायटाचो तेस्तमुद (साक्षीदार) आशिल्लो. जो गेल्लीं देडशें वर्सां आपलीं पाळांमुळां मातयेंत घट्ट मुंगरून हांगासर देवत्त्वाच्या रुपान उबो आशिल्लो. पेडार मेज- कदेलां असो अडेचो देखावो नाशिल्लो. फकत वाड्यावेल्या लोकां खातीर ही कार्यावळ आशिल्ली. आयतार आशिल्ल्यान सगळो वाडो खिट्ट भरिल्लो.

बायलो मार लग्नकार्याक आयिल्ले वरी गडगंज भांगरां घालून आयिल्लीं. अन्याय ना- मिन दारांत पाविल्ल्यान लक्ष्मी दर एकल्याच्या घरांत उदक भरताली. आनी म्हणूनच दर घरांतली बायल भांगरां शिंगरांनी तवकताली. प्रत्येक घरांत ट्रक, ट्रॅक्स, सुमो, मारुती व्हॅन, मोटारी पाविल्ल्यो. कंपनी वाहनां खरेदी करपाक रीण दिताली आनी परत कंपनीच्याच कामाक लायिल्ल्यान दर म्हयन्याक हजारांनी पयशांचो घोगो घरा मेरेन पावतालो.

कोलवाच्यो खोंपी आनी बारकेल्या नळ्यांचीं घरां वचून तेर्रासाचीं घरां उबीं जाल्लीं. घरा मुखार दोन-दोन, तीन-तीन ट्रक, तशेंच सुमो, ट्रॅक्स, मारुती गाडयो उब्यो आशिल्ल्यान घरचेच भुरगे वाहनां चलयताले. पिरायेचो प्रश्नच नाशिल्लो. वाहन कोणाकय लागलें आनी अपघात जालो जाल्यार मिनाच्या प्लॉटांचे जाळवणदार मिटोवपाक तयार आसताले. कसलीच पर्वा नासली.

घरांतली बायल फाटलें सगळें विसरून खिणयाळ्या सुखा फाटल्यान धांवपाक लागिल्ली. एकाच घराब्यांतली बायल अशी न्ही, तर सर्रास बायलांचीं उतरां घोड्यार बसून वतालीं. पयशांचो मद ठायीं-ठायीं भरिल्लो. सर्त तर पराकाश्टेची सुरू जाल्ली. भुरग्यांक धा मिनटांचे वाटेर इश्कोलाक वचपाक येवपाक कंपनीच्यो बसी. त्या शिवाय सनी आनी स्कुटी लागताल्यो. चल्यां बरोबरीन चलयांय सनी आनी स्कुटी मनाक जाय तश्यो फरफरायताल्यो.

आपल्या भुरग्यांच्या प्रतापान बापाय परस आवयो धुवांक चड थुळेताल्यो. शिकप पाड पडिल्लें पूण हेर गजालींचेर चड भर पडिल्लो. नवे नवे तरेचे म्हारगायेचे मोबायल ल्हान व्हड भुरग्यांच्या हातांत घोळटाले. मुस्तायकी तर दोळ्यार धरनासली. थळावे बाजारांतलीच न्हय तर सणा-परबां वेळार व्हडल्या शारांनी वचून नवे-नवे मोदींची मुस्तायकी खरेदी केल्ली, भुरगीं बाळां तशेंच दादले बायलांच्या आंगार दिसताली.

मिनाच्या राकेसान शिमेगांवच्या वाड्यार अच्छेव मातयल्लो. जाण्ट्यांच्या उतराक मान उरूं नासलो. चलता तो अच्छेव पळोवंक नजो जावन उतर भायर काडलें जाल्यार, माज आयिल्ले वरी "तुज्यान आमचें बरें जाल्लें पळोव नजो, सोंसूं नजो जाल्यार तुका जाय थंय तोंड घेवन वच" ही मुजोरीपणाची भास पोटचे पोरांची आयकुंची पडटाली. तोंड धांपून पानार पडटा तें खावन ओगी रावल्या बगर उपाय नासलो. वाड्यावेल्या सगळ्या घरां दारांचेर सांवार आयिल्लो.

पिंपळापेडा वेल्या उलोवप्याची रघुल्या मनोहरान वळख सांगली. तो केदो व्हड मनीस आनी समाजाची ताका तळमळ. आयचे तरणे पिळगेक तशेंच जाण्टेल्यांचें खंय कितें आनी कशें चुकता तांका मार्गदर्शन करपा पासत आपणें ताका शिमेगांवच्या वाड्यार आपयला आनी कितें-कितें.

"पुरो मनोहर, पुरो तुजें" - एक आवाज आयलो.

"तुगे उलोवप आमी सदींच आयकतात. तेका उलोवं दी" - दुसरो आवाज

"बरें-बरें तर, आतां आमचो सोयरो दिलेश आमकां कितें सांगता तें आयकुयां."

दिलेशान आपलें उलोवप सुरू केलें. "म्हजो इश्ट मनोहराल्या उतराक लागून हांगा जमिल्ल्या सगळ्या मानेस्तांक म्हजो मायमोगाचो नमस्कार."

"पावतो सा. पावलो रे बाबा नमस्कार. कर तुजें सुरू. आमकां आयताराच्या बाजाराक वचपाक जाय" दिलेशाक कच्च जालें. कसले रे हे लोक? मनोहर सांगतालो तेंच खरें. मधान, मस्ती तकलेक मारिल्ले लोक.

दिलेश उलयतच रावलो. "आज म्हाका मनोहरान मुद्दाम आपयला हाचें कारण, ह्या मिनान आमचें कशें-कशें लुकसाण केला तें तुमचे मुखार मांडपाक. जाणा जायात, आमी मिनाचो धंदो नाका म्हणनांत. कारण खूबश्या लोकांचें पोट ह्या धंद्याक लागून भरता.

पूण मिनाक लागून जावपी वायट परिणामय आमी जाणां जावन घेवया. मिनाच्या धुल्लाक लागून टी.बी.चें दुयेंस बळावपाची चड शक्यताय आसता. जाका जाण्टेले बारीक जोर म्हणटाले. ताळ्याचें दुयेंस -म्हणल्यार ताळो फुलून गिळपाक, जेवपाक त्रास जावप. दम्याचें दुयेंस तर सान भुरग्यां मदीं पावला कणकणीं दिसूंक लागलां. सदां सर्वकाळ आपलें निर्मळ उदकाची पुरवण करून पोसवण दिवपी न्हंयचें उदक मिनाचे मातयेन दुशीत जालां."

"ऑरबिनाचेर ट्रक चडोवन सकयल बार्जींनी रकोवपी मिनाच्या कर्कश आवाजान भैरेपणाचीं दुयेंसा वाडपाक लागल्यांत. पूण लोकांक पयशांची चटक लावन ह्या जावपी अनर्था पसून पैसावपाची धुर्त मोख मिनेरांनी केल्या. म्हणून आज वेळ आयला हाचेर विचार करचेलो. तुमच्या ल्हान ल्हान भुरग्यांनी इश्कोलांनी वचपाचें बंद केलां आनी तुमच्या दोळ्यां हुजऱ्यां ते भुरगे ल्हान ल्हान ट्रिपी मारतात. तांचे कडेन

वाहन चलोवपाचें लिसेंस ना. पिराय ल्हान आशिल्ल्यान तांकां परवाने मेळनांत. पूण तुमी पालक तांचो फुडार घडोवपाचो सोडून, जाणां जावन पिड्ड्यार करपाक मुखार सरल्यांत. अशें करूं नाकात. वेळेक म्हत्त्व आसा. गेल्लो वेळ परत येना."

"कोण रे तो वदळच्यान फरफरता. आं. आमकां शाणेपणां सांगपाक आयला? आमी बरे खाता जेवतात तें तुज्यान पळोवं नजो काय किर्ते रे" गर्देतलो एक आवाज.

"तूं हांगासल्लो गेल्यार बऱ्याक पावतलो. आमचें आमी पळोवन घेवपाक समर्थ आसात." दुसरो आवाज.

"पळयात, आज तुमकां दिसता तुमी बरें खाता जेवतात. पूण तुमी खाता जेवतात ताचे बरोबर तुमच्या पोटांत कितलो धुल्ल वता हाची तुमकां कल्पना ना. तुमचीं घरां मिनाच्या प्लॉटाच्या मदेकात आसात, हाचो मातशी तकली थंड दवरून विचार करात." दिलेश.

"ओगी राव रे हो तो. आमकां शाणेपणां सांगूंक आयला? इतलो तेंप जालो आमी मेले ना मरे? आतांच आमकां दुयेंसां जातलीं?" गर्देतलो आवाज.

"इतलो तेंप तुमी निर्मळ-नितळ सैमाच्या गोपांत वावुरताले. आतांचें प्रदुशीत वातावरण तुमकां दिसून येना? काय दोळे आसून तुमी आंधळेपणाचें सवंग घेतात?"

"मनोहर तुगेल्या सोयऱ्यालें उलोवप चड जालें आं."

"किर्ते चड जालें." मनोहर उलोवंचे पयलीं दिलेश पोटतिडकीन उलोवपाक लागलो! "आरे सभाग्यांनो अजून वेळ वचूंना. समुळशे ना जावचे पयलीं, धुल्लाच्या रेबडांत लोळनासतना भायर सरपाचो यत्न करात. तुमच्या हातांत पयसो खुळखुळटा तो विखारी पयसो. खिणयाळ्या सुखा फाटल्यान धावूं नाकात. चितात ह्या मिनाच्या नरकांत तुमचीं घरां बुडल्यांत. फाल्यां तुमचीं भुरगीं बाळां सगळे तरेच्या दुयेंसांच्या भकीक पडून, वायट व्यसनांच्या आदीन जावन जिवानशीं ना जातलीं.

"तुमचे भरिल्ले संवसार रसातळाक पावतले. संवसाराचे संवसार बुडटले. पयसो आसा पूण खातलीं तोंडाच ना जातलीं. तुमकां कळकळीची विनंती करतां, अजून वेळ वचूं ना. तुमच्या घरा कुशीचे प्लॉट हालोवन पयसुल्ल्या वाठारांत व्हरपाक मिनेरांचेर चेपण हाडात. आमी मीन बंद करूं नये, पूण तुमी रावतात तशे मिनाच्या धुल्लांत रावूं नाकात."

दिलेश गुल्ल जावन आनी भावना विवश जावन उलयत आशिल्लो, जे ताचे खरे तळमळे आशिल्ले. दिलेशाचे शिमेगांवच्या वाड्याकडेन कसलेच लागींचे संबंध नासले वा नातें गोत्याचीं मनशां रावतालीं. पूण ताची विचार सरणी वेगळेच तरेची आसली. समाजा मदीं जागृताय हाडून समाज सुधारपाची समाज प्रबोधन.

"जाणां जायात, आयची तरणी पिळगी फाल्यांचो भारत देश घडोवपी नागरीक. तिका मेकळो स्वास घेवपाक दिवया. दुयेंसा, वायट व्यसनां विरयत जगूंक दिवया. वायट परिणामाचे धनी तुमी पालक जाल्ल्यान, तुमकांच गुन्यांवकारी थारावन, आयची नेणार तरणी पिळगी तुमकां पालकांकच दोशी थारायतली. पूण तेन्ना वेळ गेल्लो आसतलो."

दिलेश उलयत आशिल्लो. 'ठो' करून केन्नाच गर्देतल्यान एक मिनाचो फातोर आयलो तो दिलेशाले तकले बरोबर निंदार बसलो. 'आवयस्' करून दिलेशान काळीज चिरून वचपी किळांच मारली आनी तो धडांयच करून पेडार पडला मात. घे फातरांचो शिंवोर सुरू जालो.

"मारा रे ताका, मोडून घाला रे ताका, चेंचा ताका. आमकां शाणेपणां शिकोवंक आयला. शिमेगांवच्या लोकांक शाणेपणां शिकोवंक आमी किर्ते पिशे रे." सांवार आयिल्ले वरी सगळो वाडो हातांत किर्ते मेळटां तें शेवटूपाक लागले. दिलेशाचेर तुटून पडले.

किर्ते घडटा कांयच कळलें ना. बायलो भुरगीं मेळत ते वटेन धांवपाक लागलीं, धांवता-धांवता पांयांक पांय आपटून पडलीं तरी आड धांवपाक लागलीं. पडलीं चेंचडलीं. सामको आकांत आनी फातरांचो शिंवोर चालूच. मनोहरान दिलेशाचेर घालून घेतलें आनी ताका ह्या आकांतांतल्यान सांबाळपाचो व्हड यत्न केलो. पूण तकलेक लागिल्लो फातोर ताका सामकोच घातमारो थारलो. मनोहरय खूब धाडावलो.

किर्ते घट्टा कोणाक सारकें कळचे पयलींच आकांताचें फातर शेवटुपाचें वादळ जालें आनी मिनटा भितर फाफसलें. कांय खिणां पयलीं एकठाविल्या गर्दीचें नांव निशाण नांच जालें. पेडार लोकांची खेट जाल्ली, सांगल्यार विश्वास बसून बसचो ना इतलो शुकशुकाट पेडार पातळिल्लो. जांच्यांनी सडसडीत धांवक, चलूंक जायना अश्या जाण्ट्यांच्यो हातांत बडी घेवन चलप्यांच्यो फाटी दिसताल्यो.

पेडार उरले फकत मनोहर आनी रगतान बरबटिल्लो दिलेश. दिलेश निचेश्ट पडिल्लो. हालचाल नासली आनी तकलेंतल्यान रगताची धार व्हांवताली. दिलेशाल्या मोटारिची वाड्यावेल्य लोकांनी वतना हारशे फोडून, दारां चेपोवन दुर्दशा केल्ली. मनोहर हातपांय गळसणून दिलेशाक वेंगावन पिशांतरां वरी, कोणी आदाराक मेळत काय म्हणून पळेताली. एकलो एकसुरो मनोहर दोळ्यांतलीं दुकां आनी काळजांतले उमाळे चिड्डून सैरभर जाल्ले वरी जाल्लो.

शिमेवाड्यावेलो हो वाडो मुखेल मार्गावेल्यान बरोच भितर

म्हणल्यार अर्द किलो मिटरार आशिल्ल्यान मार्गावेल्यान यो वच करप्यांक वाड्यावेल्या पेडार कितें घडलां हाची कांयच कल्पना नासली. आयतार आशिल्ल्यान प्लॉटय बंद आशिल्ले. मनोहर धडपडत उठलो आनी काळजार फातर दवरून रगतान मांखिल्ल्या दिलेशाक वेंगांत घेवन ओडीत ओडीत धडपडत मोटारी मेरेन हाडून कसो बसो मोटारींत धुकल्लो.



तशीच मोटार ऑस्पितालाच्या दारांत पावयली. मनोहराचो अवतार पळोवन नर्सी, दोतोर कांचवेले. थोडे भितर खबर कळटकच स्ट्रेचरार घालून दिलेशाक भितर हाडचे पयलीं दोतोरान तपासलो आनी सांगलें, फातराच्या नेटान दिलेशालो मेंदू फुटिल्ल्यान आनी भरपूर रगत गेल्ल्यान दिलेशाली प्राणज्योत पालवली.

मनोहरान नेट धरून दिलेशाक ऑस्पिताला मेरेन कसो-बसो हाडिल्लो. फातोर लागिल्ल्यान दिलेश निचेश्ट जाला. ताका दिशिल्लें -उपचार करतकच दिलेश सुदारतलो पूण जेन्ना दोतोरान ताची प्राणज्योत पालवली म्हणून सांगतकच मनोहरान हांबेर फोडली आनी हातपांय बडोवन आकांतान रडपाक लागलो. आपणाक जाल्ल्या घायांची दूख तो विसरलो.

शिमेगांवचे लोक पयशां मुखार स्वत्व विसरूंक लागिल्ले पळोवन, फुडली पिळगी तरी सादूर जावची आनी मिनाच्या प्लॉटांतल्या धुल्लाच्या विळख्यांतल्यान भायर सरून निर्मळ -नितळ स्वास घेवंक पावची. एकतर प्लॉट बंद करचे वा लागीं दुसरी सुवात सोदून गबितां करचो म्हण आपलो इश्ट दिलेशा वरवीं मनोहरान समाज प्रबोधनाचो वांटो उखलिल्लो.

पूण केलें कितें, जालें कितें? आपल्या इश्टाक दिलेशाक आपणें सांसणाचो सोंपयलो. ताच्या घरच्यांचो आपूण गुन्यांवकारी जालो. काळजांत रोमिल्ल्या शेल्यान मनोहर खासावीस जालो. दिलेशाल्या कुडीक वेंगावन रड-रड रडलो. नर्सी-दोतोरांनी ताका खूब थातारलो. हळू हळू गर्दी जमपाक लागली. खंय कितें घडलें म्हणपाची गजाल रोखडीच फां-फां जाली.

पुलीस केस जाली. दिसा धवळ्या पन्नास शंबर लोकां सामकार वयावेल्या तरनाट्याचो फातर मारून जीव घेवप. वाठार हालोवन उडोवपाची गजाल. पुलीस आयले, वाड्यावेल्या खूबश्या लोकांक पुलीस स्टेशनार व्हरून जबानी घेतल्यो. दुबावितांचीं नांवां वदोवन घेवपाचो यत्न जालो. पूण सगळें निर्फळ. कोणेंच तोंडांतल्यान ब्र काडलें ना. दिलेशाक निदार तीर धरून फातर मारपी वाड्यावेल्या तिरादोराक सगळे वाडेकार भुरगेपणांतल्यान वळखताले. पूण ह्या वेळार कोणूच उलयलो ना.

दिलेशाचेर फातर मारून ताका सासणाचो सोंपोवपी वाड्यावेलो मनीस कोण ही गजाल वाड्यावेले तांती-पील जाणां आसलें. मिनाच्या पयशांनी सगळ्यांचीं तोंडां बंद आसलीं. ह्या वेळार वाड्यावेलो एकवट दिसून आयलो. पुलीस संगीत चवकशे खातीर आयले गेले. पुरावो नाशिल्ल्यान चवकशेक नेट आयलो ना. चवकशेची भोंगावळ कांय दीस चल्ली. केस फुडें गेलींच ना. वाडो थोडे दीस चिडी-चिप्प जालो. जशे-जशे दीस वचूं लागले तशी चवकशी मंदावली आनी हळू हळू बंद जाली. वाडो पयलींच्या पदार आयलो. सगळ्या कामांनी नेट धरलो. घडिल्लें विसरून गेले. कांय जाण्टेले मात पेडार दनपारच्या पारार घडिल्ले घडणुकेन न्हिंणल्ले.

पूण त्या दिसा वाड्यार अघटीत गजाल घडली. सदचे वरी रामदासान प्लॉटार वचपाक ट्रक भायर काडलो. फाटोफाट दोगी पूतय चडले. कुशावतीय भायर उबी रावन वतें ट्रकाक तेळपाक लागली. रामदासाल्या पुतांनी ट्रीप भरली आनी रामदास ट्रकार चडलो. पूतय ट्रकांत बसले. ट्रक ऑरबिनार वचपाक गेलो.

ट्रकाची काश वयर उखलचे पयलीं रामदासाले पूत ट्रकांतल्यान देंवतात. पूण त्या दिसा ट्रक ऑरबिनार पावता थंय आसा, कशें आनी कितें घडलें खबर ना. ट्रक मीन रकोवचे पयलींच एकदम सकयल पडलो. 'घडांयच' असो मोदठो आवाज जाल्लो आयकता म्हणसर ट्रक सोमतोच न्हंयत पावलो. बरोबर रामदास आनी दोगूय पूत.

न्हंयक जोरगत आशिल्ल्यान तुडूंब भरिल्ली. उदकाक नेट आशिल्लो. ट्रक उदकांत पडना फुडें नेटान भितर-भितर मुंगरूंक लागलो. कितें जालां, कसलो आवाज आनी ट्रक बुडटा तो पळोवन बाकीच्या प्लॉटावेले कामगार धडाधड थंय पावले.

"ट्रक कोणालो."

"रामदासालो."

"आनी पुतय आसले."

"हें घडलें कशें रे?"

"आरे रामदास, पूत दिसनात मरे."

जांकां पेवंक येतालें तांणीं धडाधड उदकांत उडयो मारल्यो. रामदास आनी पुतांक सोदपाचो यत्न केलो. पूण हाताक यश आयलें ना. हां-हां-हां-म्हणटां वाड्यार बातमी पावली आनी अख्खो वाडो प्लॉटार पावलो.

सगळो वाडो प्लॉटार, न्हंयचे देगेर पावलो खरो पूण जांकां पेवंक येता ताणींच उदकांत घालून घेतलें. पूण कोणाच्याच हाताक रामदास आनी पूत लागनासले. झपाझप क्रेन चालू जाली आनी खिणा भितर क्रेनीन ट्रक उबारून देगेर हाडलो. जाल्यार ट्रकां भितर छिन्न-विछिन्न जाल्ल्यो तिनूय कुडी. ट्रक लागोड्यो मारून मारून वेल्यान पडिल्ल्यान कुडिंची दुर्दशा जाल्ली. ट्रका बरोबर मिनाच्या फातरांनीय लागोट्यो घेतिल्ल्यान तिगी जाण फातरांनी चेंचवल्ले.

कुशावतीचो संवसार उध्वस्थ जाल्लो. हड्डें बडयत कुशावतीन तकली जमनीर आपटून रगत बंबाळ केली. कांकणाचो चुरो केलो. फुगार जावन, सैर भैर जावन मड्यांचेर घालून घेवपाक वचपाक लागली. हार्लीसरा कुशावती वग्गी-वग्गी आसताली. रामाल्या कर्तुबान आनी पुतांच्या तवनासपणांनी भितल्ले भितर फुगार जाताली. कश्ट करी आवय बापायली धूव, रामाल्या आवयन मागून हाडिल्ली. तिका हाडत पसून रामाची चडटीच जाली. वाड्यार प्लॉट आयले. बुदवंत रामाचो हात धरपी कोण नाजालो. पयसो हातांत घोळूंक लागिल्ल्यान कितें करूं कितें नाका जालें.

गांवांतलो फामाद तिरादोर म्हणून सगळो गांव जाणां आसून लेगीत, कोणेंच तोंड उगडें करूं नासलें. "दिलेशाक रामानच फातर मारला". म्हणपाचें एकामेकां कडेन हळू आवाजान फुतफुतून गजाली जाताल्यो. पूण वाड्या भायर केन्ना पावूं नासल्यो. राम वाड्यावेली वजनदार आसामी आसली. वाड्यावेल्या चार मुखेल्यां मदलो एक. प्लॉटार ऑफिसांत बसका जाताल्यो तेन्ना रामाकय आपोवणें आसतालें.

चार ट्रक, एक सुमो, एक मारुती गाडी, मोटार सायकल आनी कितें म्हणून ना. रामा विरूद्ध नांव काडपाची कोणाचीच बिशाद नासली. रामाक दोन पूत. वाड्यार गुंडा बशेन शेक. राम-कुशावतीक धूव नासली. पिरायेच्या सतरा वर्साचेरच शेजारच्या वाड्यावेल्या सुंदरेल्या धुवेक भयण-भयण म्हणून घेवन भोंवलो. निमणें पोट वाडयतकच, गुपचूप दोतोरागेर व्हरून व्हळयलें. खंयचे कडेन कांयना म्हणून नामा निराळो. धाकल्या पुताक तर वाड्यावेल्यो चलयोच न्हय तर कुशावतीच्या पिरायेच्यो बायलो लेगीत चार हात पयसच रावताल्यो.

सुरवातीक रामाल्या गिरेस्तकायेन कुशावती भुल्लुशिल्ली. पूण हळू हळू घोवालीं आनी वाडट्या पुतांचीं हुंवाळून वडोवपी कर्तुबां तिका कळपाक लागलीं तेन्ना हें सगळें तिच्या हाताभायर पाविल्लें. बायल आनी आवय म्हणून तिका घरांत रेस्पेद नाशिल्लो. दिलेशाली मरणाची गजाल जायत मेरेन, रामाल्या धाकाक लागून तिणें शेजारय सोडिल्लो. मेकळेपणान उलयतली तरी कितें, आनी कोणा कडेन! पयशांचे उबेन वाड्यावेल्या सगळ्यां घरांनी थोडो-चड फरकान अशीच परिस्थिती आसली. धरल्यार चाबता, सोडल्यार पळटा. कुशावतीच्या संवसाराची जाल्ली वाताहात पळोवन सगळ्यांचीं काळजां भियेलीं. चित्तालीं अशेंच घडत वतलें काय?

"हांवें तुका विचारिल्लें रे रामा, कित्याक तुवें दिलेशालो जीव घेतलो. तो आमकां आमच्या बऱ्याचें सांगूंक आयिल्लो मरे. तुवें ताका चेंचावन-चेंचावन मारलो रे. आज, तुकाय तेंच पानवळ फावो जालें पळय. तुकाय देवान चेंचूनच मरण दिलें. आवयस्... आवयस् , देवा, म्हजे पूत, पूत म्हजे सैतान जाल्ले,... सांवार आयिल्लो रे तुमचेर, वाड्यावेल्यो धुवो, आवयो लेगीत तुमकां भियेताल्यो मरे. बपायवरींच तुमचेरय काळ आयिल्लो, आनी तुमीय दिलेशाक फातरांनी चेंचायल्लो. हांव कोणाकय सांगीन म्हण म्हजें शेजरा वचप तुमी बंद केल्लें. कितलें -कितलें सोंसलें रे हांवें. कितें मेळयलें रे तुमी, सभाग्यांनो, पयसो-पयसो म्हणून गांवांत नांव पिड्ड्यार मरे केलें तुमी. देवान, हय, देवानच म्हजें तोंड उगतें केलें."

"कोण भोगतलो रे हें सगळें. हायस्...भोगोस्. कितें करूं रे हांव, खंय रे वचूं..? तुमी म्हाका तोंड दाखोवंक जागो दवरूं ना..कोणा खातीर जगपाचें रे हांवें? फुगार जावन जावन दीस काडले. पूण आतां म्हाका जगपाचें ना. कोण रे आसा... रामा, म्हज्या पुतांनो, येतां रे हांव, येतां रे हांव, येतां... येतां." कुशावती विकळापानी रड-रड रडटाली. वाड्यावेल्यो बायलो तिका आटापा हाडपाचो, समजावपाचो यत्न करतालीं. भ्रमिश्ट जाल्ली कुशावती.

कुशावतीचो संवसार उध्वस्थ जाल्यार आज बारा दीस जाल्ले. कुशावतीक कसलेंच भान नासलें. पिशांतर जाल्लें कुशावती पडवेर बसून भकास नदरेन दिगंतराचो सोद घेत पुटपुटत आशिल्लें. "वेळ गेल्लो आसतलो...आतांच सांबाळात भुरग्यांक सांबाळात."




मुन्नारच्यान तेकडी वतना वाटेर देवीकुलम लागलें. हांगा दोंगर कापून रस्ते तयार केल्यात. ते खातीर सगळो वोल्तां वोल्तांचो घाटांतलो रस्तो. अशींच एका वोल्तार पावलीं आनी सैमाचे करणेन दोळे खिळोवन धरले. निळेंच मळब. निळो म्हळ्यार सदचो निळो रंग न्हय. मळबनिळो निळो रंग. तांतूत धवींफुल्ल कुपां. हरशीं कुपां पळोवपाक आमकां मान वयर काडची पडटा. हांगा कुपां दोंगराचे देंवतेचेर सकयल दरयेंत...गाडी थांबोवन कितलोसोच वेळ आमी थंय रावलीं. वाटेर फुडें सैम आपले पोटलेंतलें एक एक चित्र दाखयत रावलो. आनी हांव म्हज्या दोळ्यांत साठयत रावलें.

फुडें मागीर लागले च्याचे मळे. दोशीं वटेन दोंगराचे देंवतेचेर च्याचीं झोंपां लायिल्लीं. वाटेर एके कडेन च्याचीं पानां खुंटप चालू आशिल्लें. सकयल देवून च्याच्या पानांचो तो दिखाळ मिरमिरीत वास घेवन आयलें. मुन्नार ते तेकडी चार वरांची नागमोडी घाटांतली वाट. कसो कोण जाणां तेकडी पावता म्हणसर म्हाका जोर आयलो. वेलचेचे मळेच सांगताले आमी तेकडी वाठारांत पावतात म्हणून. हे कार्डमम हिल्स. ड्रायव्हर शिचू सांगतालो. म्हणटा म्हणसर कॉफयेचो घमघमीत वास. कॉफयेच्या वासानच आमी कुमुली पाविल्ल्याचें सांगलें. हांगा घरांघरांत कॉफयेच्यो बियो दळून पिठो करतात.

आतां आमची गाडी वताली तेकडीच्या अटंग्या रानांत. थंय वचत थंय पाटयो लायिल्ल्यो दिश्टी पडटाल्यो. वाघ आसात. गाडयेचो हॉर्न बाजांवचो न्हय. रानांत भितर सरचें न्हय. थंय रानांत देखून केरळा टुरीझमची बरीं हॉटेलां आसात. बुकींग करूंक नाशिल्लें. गेट पास काडून भितर सरलीं. चोय वटेन रान. रानांत मदीं हॉटेल. हॉटेलाचें नांवय सुचक अशें...अरण्य निवास. अटंग्या रानांत आनी इतलें सुंदर हॉटेल आसत हाची हांवें कल्पनाच करूंक नाशिल्ली. व्हडलो रूम. कोनशावयलो रूम मेळिल्लो. दोशीं वटेन व्हडली गॅलरी. थंयच्यान पेरियार सरोवर दिसतालें. भायर पावस झडटालो आनी काळ्या किट्ट कोराचीं माकडां ह्या झाडावयल्यान त्या झाडाचेर उडक्यो मारतालीं. हॉटेलांत बरें रेस्टॉरेंट आशिल्लें. म्हाका जेवपाची वान्सा नाशिल्ली. सूप पिलें. क्रॉसीन गुळी घेतली आनी न्हिदून दिलें.

न्हिदून उठतकीच बरें दिसलें. भायर भोंवतलें म्हळ्यार पावस शिरशिरतालो. तातूंत दत्तराजाक स्विमींग येवजलें. स्विमींग जातकीच हे वटेन ते वटेन वेळ काडीत आमी जेवपाक गेलीं. रेस्टॉरंटान बुफे मांडिल्ली. भारतीय, कॉंटीनेंटल आनी खासा केरळीय पद्दतीचें जेवण आशिल्लें. सादी वालपापडेची भाजी बारीक चिरून करबील फोण्णां घालून अप्रतिम जाल्ली. नुडल्स, मंच्युरीयन, पंजाबी पद्दतीच्यो भाजयो, चिकन नुस्त्याचें प्रात धरून फ्रुटसालाद, सुफले, पुडींग असलें पंचतारांकीत जेवण तेकडीच्या रानांत मेळत म्हणून हांवें धरूंक नाशिल्लें.

पावस मात्सो थांबिल्लो. पासय मारतलें म्हळ्यार काळखांत रातचें आनी त्या रानांत खंय वतलें आशिल्लें! भायर उबें रावलें. वाऱ्या वांगडा रानांतल्या कसल्या तरी फुलांचो उग्र वास आयलो.

रातच्या दोनांक सुमार जाग आयली. तशेंच उठून गॅलरींत आयलें. हारशांचीं जनेलां बंद आशिल्ल्यान कोण भितर सरत म्हणून भंय नाशिल्लो. भायर सामकें किण्ण. पूण कसले कसले रानांतले आवाज येताले. किर्र...किर्र...हूफ...हूफ... उहऽऽ. मर्दीच एक वाग बी आड्डले बशेन आवाज आयलो. वाग बीग दिसता कांय म्हणून काळखांत भायर पळयत रावलें. येदें व्हडलें रान आसतना वाग आनी हांगा कित्याक येतलो अशें येवजीत न्हिदूंक गेलें. न्हीद मात लागलीना.

फांतोडेचेर परतेंय उठलें. भायर झाडांचेर सवण्यांची चीव चीव. चिमणेच्या आकाराचीं कितलिशींच सवणीं. हळदुव्या कोराचीं, निळ्या कोराचीं. घडये त्यो चिमण्यो नासत. पूण तांचीं नांवां म्हाका कशीं कळतलीं. दत्तराज उठतकच ब्रॅकफास्ट घेवंक गेलीं. जेवणा बशेन ब्रेकफास्टय सगळे तरेचो. खासा केरळीय आप्पम, इदिआप्पम आनी व्हेजीटेबल स्टयू.



अरण्य निवासांतल्यान सरळ बोटीच्या धक्या मेरेन वचपाक वाट आसा. तशेंच भायल्यान आनीक एक वाट धक्या मेरेन येता. बोटींत बसून दोन-अडेज वरां पेरीयार सरोवरांत भोंवंक मेळटा. पेरी म्हळ्यार व्हड आनी आर म्हळ्यार न्हंय. पेरीयार म्हळ्यार व्हडली न्हंय. हे न्हंयेचेर १८९५त धरण बांदिल्लें. तांतुंतल्यान हें सरोवर तयार जालां आनी ताचे भोंवतणीं आशिल्लें दाट रान म्हळ्यार पेरीयारचें अभयारण्य. आमची बोट सुरू जाली. भुरगीं, जाणटीं दोळ्यांक दुर्बिणी लावन जनावरां दिसतात काय म्हूण पळोवंक लागलीं. माय म्हयन्याचें निमणें सप्तक जाल्ल्यान सरोवरांतले उदक खूब सुकिल्लें. ते खातीर बोट मदल्यानच वताली. गच्च रान, मदल्यान पेरीयार सरोवर आनी उदकांत मर्दी मर्दी बोडके रूख. हे रूख सैमीक सोबीतकायेंत आनीकूय भर घालताले. ह्या रुखांचेर येवन बसतालीं थंयचीं सवणीं. हॉर्नबील. सर्पंट ईगल, किंगफिशर...तांचींय नांवां दोळ्यांक दुर्बीण लावन बशिल्ल्या बर्ड वॉचर्सांनी सांगलीं म्हणून कळ्ळीं. हो पळय बेबी एलेफंट. घे बोवाळ. खूब पयसल्यान हत्तीचें पील दिसतालें. फुडें आनीक दोन तीन दिसलीं. सगळीं जाणां बोटीचे दुसरे वटेन धांवलीं. कॅमेरे तयार केले. पळयत जाल्यार रानदुकर. मर्दीच बोट वचून दोंगुल्ले कडेन रावली. हांतुंतल्यान दोन कामगार बायलो देवल्यो. थंय लेक पॅलेस हें कर्नाटका टुरीझमचें आनीक एक हॉटेल आसा. हें हॉटेल म्हळ्यार श्रावणकोरचो राजा श्रीचित्र तिरुनल हांचो समर पॅलस. गिमाळ्या म्हयन्यांत तो हांगा येवन रावतालो. ही खबर १९३१ तलीं. एक दीस राजान हांगा ब्रिटिश अधिकारी लॉर्ड वेलींगटनाच्या पुतान हत्तीक फाग़न मारिल्लो पळयलो.

तेन्नाच्यान तांणीं ह्या रानांतल्या झाडांपेडांक आनी जनावरांक संरक्षण दिलें. आतां हें अभयारण्य पेरियार टायगर रिजर्व म्हूण घोशीत जालां. बोट तशीच फुडें गेली. देगेर उबी आशिल्ली गव्यारेड्यांची जोडी. गव्यारेड्याम्हशीची आसत. पांयांक मेय घाल्ले बशेन धवे पटे. व्हडलीं शिंगां...दोन वरां बोटीन सरोवरांत विहार केलो. फांतोडेर आयल्यार वाग बीग दिसतात खंय! ना म्हळ्यार एक रानमाजर दिसलें. पळोवंक वागाचें पील कशें! दोळ्यांक दुर्बिणी लावन बशिल्ल्यांनी हड्ड्यार हात मारून तें वाघाचें पील म्हणून सांगलें.

एक दीस अरण्यनिवासांत निवास करून आमी अभयारण्याच्या भायर आशिल्ल्या कार्डामम कांऊटी ह्या सुंदर हॉटेलांत रावपाक आयलीं. हॉटेलाच्या नांवांत कार्डामम आसून देखून थंय फकत वेलच्योच नाशिल्ल्यो तर तांच्या वांगडा हेर मसाल्याच्या झाडांची आनी हेर वखदी वनस्पतिंचीय लागवड केल्ली. तांच्या सायंटीफीक नांवांसयत तांची म्हायती दिवपी तकटो तांचेर लायिल्लो. लवंग, जायफळ, मिरयां, कॉफी, उटी ॲपल, पणस, आंबे, चिकू, गंजन, पुनर्नवा. पणसाचें झाड आंगा खांद्यार पणसुलां खेळयत उबें आशिल्लें. आनी ह्या सगळ्या झाडां मर्दी एक एक कॉटेजी आशिल्ल्यो. दोंगरच कापून त्यो बांदिल्ल्यो. हॉटेलाच्या मुखार बांबुचें गच्च रान. हॉटेलांत आधुनीक सुखसोयी

आशिल्ल्यो पूण सैमाच्या सांगातान.

हॉटेलांत खासा केरळाचो आयुर्वेदीक मसाज जाय जाल्यार करून घेवपाक मेळतालो. 'आयुरा' ह्या तांच्या पार्लरांत भितर सरलें. भितर आंगण आनी आंगणांत तुळस. भितरल्या दारांत काळेसावळे बायलमनशेन हांसत येवकार दिलो. बरेऽऽ हुनहुनीत तेलान मसाज करून घेतलो. मसाज करतलेक मल्ल्याळम सोडून दुसरी खंयचीच भाशा येना आशिल्ली. न्हाल्या बराबर सामकी लकणी येवंक लागली. रुमांत वचून खाटीर आड मात पडलां भायर नळ्यांचेर कोण नाचिल्ले बशेन आवाज. नळे फुटिल्ल्याचो आवाज. पळयत जाल्यार वानरांचें भिरें नळ्यांचेर नाचता. आंबे काडून सकयल शेवटून मारल्यात. कितलोसोच वेळ धुमशेणां कांडून ते नाच्च जाले. म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाली.



सांखळे म्हजे आजोळा आंबे, पणस खावपाक माकडां येतालीं आनी नळे फोडून घालतालीं. तांकां धांवडांवपाक आजो फुगेटी लायतालो.

सांजेच्या स वरांचेर कुमुली कलरी सेंटरान कलारिपायातू हो माइली आर्टाच्या प्रात्यक्षिकांचो 'शो' आशिल्लो. तो पळोवंक गेलीं. संवरक्षणां खातीर बडी, धारदार शस्त्रां, निशस्त्र हातांनी दुसऱ्यांचेर केल्लो वार म्हळ्यार कलारिपायातु. शो सुरू जाता पणत्यो पेटोवन, गायत्री मंत्र पठनान. गुरूक, देवांक चारूय दिकांक नमन करून प्रात्यक्षिकांक सुरवात जाता. हातांत धाल तलवार घेवन झगडप. हातांत तलवार आशिल्ल्या कडेन रित्या हातान वार करप. दत्तराज शो सामको आवडीन पळयतालो. कराटे परसय बरें न्ही मम्मा. ताणें आपली पसंती सांगली. दुसरे दिसा मागीर कथकली नृत्य पळयलें. कथकली म्हळ्यार निकटें नृत्य न्हय. ताका नृत्यनाटक म्हणू येता. तेकडीच्या अटंग्या रानांत पर्यटकां खातीर सगळ्यो सुविधा आसात. धंपाचे वाटेर आशिल्ल्या कुमुली गांवांत पर्यटकांचें मनोरंजन करपाखातीर थिएटरां, रंगमंदीरां आसात. हांतूंत भर म्हणून एक व्हॅक्स म्युजियमय आसा. शाजी. पी. यम. ह्या तरनाट्या शिल्पकारान तयार केल्लें मदर तेरेझा, मायकल जॅक्सन, महात्मा गांधी, बेनझीर भुत्तो हांचे मेणाचे पुतळे आसात.

आमचो टॅक्सी ड्रायव्हर शिचु आमकां स्पायस प्लान्टेशन्स पळोवंक या म्हणूंक लागलो. या म्हणतात म्हणून गेलीं. रस्त्यार गाडी थांबयली. रस्त्यावयल्यान सकयल देवून वचपाक जाय आशिल्लें. खंयच्याय गोंयच्या कुळागरां बशेन कुळागर. शंबर रुपयांचें तिकीट काडून भितर वचपाक जाय आशिल्लें. वयल्यान नदर मारल्यार कुळागराची कल्पना येताली. आसूं म्हळें आनी कुमुलीच्या बाजारांत गेलीं. वेलची आनी घरावी दळिल्ली कॉफी घेतली. म्हॉव घेतलें. गंजनाचें तेल घेतलें. कापसाक लावन एक थेंब कोनश्याक खंयय दवरलो जाल्यार ताच्या वासान मूस बी येनांत खंय!

तेकडीचो वाठार म्हळ्यार परमळीत संवसार. वेलचेचो, कॉफयेचो घमघमीत वास. बाजारांत भोंवतना येवपी मसाल्यांचो झणझणीत वास. केरळीय खाणां जेवणांचो सुवादीक वास. पेरियार सरोवरांत भोंवतना आयिल्लो पावसांत भिजिल्ल्या सैमाचो वोलो वास. तेकडीच्या रानांत चलतना आयिल्लो सुकिल्ल्या पानांचो वास, मसाजाच्या वेळार लायिल्ल्या आयुर्वेदीक तेलाचो वास हे सेगळे तरेकवार चेरांचे वास हांवें काळजाचे कुपींत सांबाळून दवरल्यात. जेन्ना केन्ना तेकडीक सैमाच्या सांगातान घालयिल्ल्या दिसांची याद येतली तेन्ना ही चेराची बाटली उगडप. ताचो वास घेवप आनी त्या सुगंदान ताजें टवटवीत जावप.



कृष्णप्रेम
अंबाजी फातोड्डे- गोंय
९८५०५३०१५२

# क्षोक्षणीकायेंतल्यान मेकळी धादोक्षकाय

– रेखा रामनाथ नायक



*रक्ताच्या पाटांतल्यान*
*बायलेक उखलून ताणें*
*गाडयेंत घाली.*
*कशीयभशीन वांचत काय*
*म्हूण ताणें निमणो*
*एक प्रयत्न केलो.*
*तिका हॉस्पीटलांत व्हेली.*
*पोटाक आनी घातयेक*
*लागिल्ल्यो गुळयो*
*रोखड्या रोखड्यो काडल्यो*
*पूण गेल्लो जीव परतो*
*आयलो ना.*
*ती संवसार सोडून*
*गेल्ल्याचें कळटकूच*
*बाबाचेर दोंगरूच*
*कोसळिल्ल्या वरी जालें.*



मार्ना-पिळर्ण,
बार्देश-गोवा.
फोन - २४०७६५५

**आ**ज ताच्या तोंडार धादोसकाय पातळिल्ली. बल्कांवांत झोंपाळ्यार ताणें आपलें आंग मेकळेपणान झोकून दिल्लें, जणूं काय सगळीं सुखां ताच्या पांयां कडेन येवन पडल्यांत, असो कितें भास जातालो. ताच्या तोंडार कितल्याशाच वर्सांनी आज सोबीत हास्य दिसतालें. सोंसून सोंसून मनशाक निमाणे कडेन सूख मेळटा आनी ताची अवतीकाय कशी सुदारूंक पावता तें ताच्या तोंडावयल्यान जाणवतालें.

आज मेळिल्ल्या सुखाची कल्पना ताणें केन्नाच करूंक नाशिल्ली. घडये तें येवजून ताचे दोळे ओले जाले दिसता. थोडो वेळ दोळे धांपून तो रावलो. धांपिल्ल्या दोळ्यामुखार कितें दिसतालें काय? फाटलो इतिहास तो विसरूंक शकता? जें घडलां तें तकलेंतलें कुशीक काडूंक शकता? मनशाची तकली म्हळ्यार एक व्हड सांठ्याचें भांडार. कितलेंय तांतून कोंबू येता. त्या साठ्यांतलें कितेंच तो भायर उडोवंक शकना.

फाटल्यो यादी करून ताका आपले भाचयेक दुखी करपाचें नाशिल्लें. ताणें तिका आपले धुवेसमान आपणायल्ली. इतलीं वर्सां ती ताच्या म्हऱ्यांत रावली पूण केन्ना त्या दुखाची झुळूक तिच्या म्हऱ्यांत ताणें पावयलीना.

आज जेन्ना तिणें ताका बाबा म्हूण उलो मारलो. तेन्ना ताचें हांसतें तोंड पळोवन तिचीय जीण सुखावन गेली. बाबून तिका विचारलें म्हूण आज तिका ही गजाल उकती करची पडली.

बाबान सोंसलां ताचो हिशोब करुंकूच शकना. बाबा सैन्यांचो मुखेली. दुस्मानांनी फारपेट केल्यार ताका सैन्यां बरोबर भारतभूंयेची राखण करपाक जवानांक घेवन भारताचे सीमांचेर वचचें पडटालें. आपल्या जवानांची कुयदाद घेवप हें एक ताचें व्हड कर्तव्य आशिल्लें. पाकिस्तानाचो फारपेट आयकून ताणें आपल्या जवानांक सतर्क केले. भारतभूंयेचेर आयिल्ल्या संकश्टांक तोंड दीत दीत तो दीस काडटालो. दुस्मानाक ताचें मुखेलपण सोंसनासलें.

एक दीस दुश्कर्म करपाची संदी दुस्मानांनी साधली. चार पांच दुस्मानांच्या जवानांनी बाबा झुजामळार आसतना बाबाच्या घरांतल्या मनशांचेर हल्लो केलो. एके घटकेन सगळ्या घराची नासधूस केली. ताचे बायलेक आनी पुताक गाडयेंत घालून ते नाच जाले. बाबा घरा येत जाल्यार सगळें घर अस्ताव्यस्त जाल्लें. घराच्या सोंपणाचेर बायलेच्या कांकणाच्यो कंवच्यो मेळ्ळ्यो आनी ताच्या पुताचीं म्हळ्यार दत्तूचीं जोतीं अयस पयस पडिल्लीं ताका दिसलीं. बाबाचें काळीज सामकें पिळवटून गेलें. एका खिणाक ताच्या पांयांपोंदची जमीन हालता कशी जाली. ताची अवस्ता पिशांभशेन जाली. तो निण्णल्लेवरीं जालो. दुसऱ्याच खिणाक ताणें आपल्याक सांवरलो आनी बायलेक आनी भुरग्याक सोदपाक तो भायर सरलो. हातांत बंदूक घेवन तो गाडयेंत बसलो. पुलिशेन फिर्याद दिवंची म्हूण तो मुखावयल्या रानांतल्या रस्त्या वयल्यान वचूंक लागलो. पयसुल्ल्यान ताका बॅट्रीच्या दिव्याचे लायटीन कोणाक ओडीत व्हरतात अशें दिसलें. बाबान गाडी थांबयली. आडवाटेन तो चलूंक लागलो. म्हणटा म्हणसर ताका दुस्मानांची सुलूस लागली. ताणें फारपेट करिनासतना पावलां मुखार घालीं. दुस्मानांक अनवळखी पावलांची सुलूस लागली आनी तांणीं एकूच फारपेट केलो आनी ते कोणाक तरी फाटीर मारून वारें कशे नाच जाले. ते पळटना बाबाच्या कानार कोणाची तरी हुयेल आयकूंक आयिल्ली. बाबा फारपेट जाल्ल्या जाग्यार पावलो आनी ताका तो देखाव पळोवन धक्कोच बसलो. ताचे बायलेक त्या दुस्मानांनी मारून उडयल्ली, आनी दत्तूक घेवन ते पळिल्ले. पयसुल्ल्यान दत्तूची किळांच ताच्या कानार पडिल्ली. पूण बायलेची दशा पळोवन तो दत्तूक दुस्मानांचे तावडेंतल्यान सोडोवंक शकलो ना.

रक्ताच्या पाटांतल्यान बायलेक उखलून ताणें गाडयेंत घाली. कशेयभशेन वांचत काय म्हूण ताणें निमणो एक प्रयत्न केलो. तिका हॉस्पीटलांत व्हेली. पोटाक आनी छातयेक लागिल्ल्यो गुळयो रोखड्या रोखड्यो काडल्यो पूण गेल्लो जीव परतो आयलो ना. ती संवसार सोडून गेल्ल्याचें कळटकूच बाबाचेर दोंगरूच कोसळिल्ल्या वरी जालें. परकी सुवातेर नातलग कोण नाशिल्ल्या कारणान लोकांचोच आदार लाख मोलाचो ताका दिसलो. थंयच्या शेजाऱ्यांनी ताका जायतो आदार दिलो. पूण दूख कशेंच ताच्यान सांवरना जालें. बायल गेली ती गेली, पुताचोय सोद लागना जाल्ल्यान बाबा सामकोच शेणिल्ल्या वरी जालो.

ह्या दुखाची खबर कळना फुडें ताची भयण आनी भाची ताच्या म्हऱ्यांत आयलीं. बाबान तर हालीं जेवण खाण सामकेंच सोडिल्लें. कितलेंय सांगल्यार तो कसोच समजनाशिल्लो. ताची अवतीकाय सामक्या ल्हान भुरग्या वरी जाल्ली. भयणीन म्हयनोभर दोतोराकडल्यान बाबाचो इलाज केलो. वखदां वेळार घेतिल्ल्यान तो मात्सो सारको जाल्ल्याभशेन दिसतालो. पूण भितरल्यान ताचें दूख ताका पोखरतालें. भाचयेक थंयच दवरून भयण घरा गेली. वीस वर्सां भाची बाबा म्हऱ्यांत रावली. ताणें तिका आपलीच धूव मानिल्ली, आनी तिणेंय केन्ना ताका मामा म्हूण उलो मारूंक नाशिल्लो. ती ताका बाबाच म्हणटाली. तिणें ताका सुखी दवरपाचो खूब प्रयत्न केलो. पूण इतल्या वर्सांक तिणें ताच्या तोंडार हांसो केन्नाच पळेलोना.

बाबाक दत्तूची खूब याद येताली. ताचो फोटो तो वरांचीं वरां पळेत बसतालो. दत्तू खूब हुशार आशिल्लो. ताका १७ वर्सां आशिल्लीं. तो शिकपांत आनी खेळपांतूय खूब हुशार आशिल्लो. तो बुदवंतूय आशिल्लो. बाबा देवाकडेन सदांच मागतालो 'दत्तूक खंय आसा थंय सुरक्षीत दवर'. हालीं हालीं तर बाबा देवाक सांगत आशिल्लो. 'दत्तुची आनी म्हजी भेट कर रे देवा.' हीं ताचीं उतरां.

म्हाका दिसता देवान बाबाचें आयकलें. वीस वर्सांची तपश्चर्या फळाक आयली म्हणपाची. इतल्या वर्सांनी दत्तू आनी परतो मेळत म्हूण कोणें येवजुंकूच नाशिल्लें. पूण देवान बाबाच्या चुरचुऱ्यांक म्हणूं येता. बापायची आनी पुताची भेट करून दिली. बाबाक दिसतालेंच दत्तू खंय तरी आसा आनी ताका तो एक दीस मेळटलोच. देवाचेर विश्वास दवरून बाबा जीण सारतालो म्हूण आज बाबाक जिणेचे सांजेर देवान सूख हाडून दिल्लें.

दत्तून बाबड्यान कसल्या कसल्या त्रासांतल्यान तड काडिल्ली तें सांगपाक उतरां कमी पडटलीं. ताणें आपल्या दोळ्यांनी आपले आवयक दुस्मान मारतात तें पळेलें. कितलोय आड्डल्यार तांणीं तिका सोडलीना. पूत मुखार आसून आवयक



वाचोवंक शकलोना हाचें दत्तूक पिकासांव जातालें. पोरान सोंसलें कशें तें देवूच जाणा. दुस्मानांनी तिका मारून दत्तूक जनावरा भशेन कांट्याकुट्यांतल्यान फरफटत व्हेलो. गाडयेचे फाटले डिकीन ताका कोंबलो. खाण-जेवणाचें सोडाच, श्वास घेवपाक लेगीत पोराक कठीण जातालें. ताचे हात पांय बांदिल्ल्या कारणान रातभर ताका आपली सुटका करूंक जमलें ना. तो देवाचें नांव घेत पडून रावलो. फांतोडेर दुस्मानांनी गाडी खंय तरी ल्हानशा स्टेशनार थांबयली. ते चोगजाण आशिल्ले. ते चौगूय देवले आनी आपलीं पोटां भरपाक गेले. इतल्यान गाडयेकडेन एक चोर आयलो. ताणें कशेयभशेन गाडी उगडली, आनी कितें चोरूंक मेळटा काय म्हूण पळोवंक लागलो. दत्तून ताका पळेलो आनी थोडक्यांत आपली गजाल ताका सांगली. त्या चोराक दत्तूची भास कळनाशिल्ली. पूण अदमासान ताणें दत्तूची दशा समजून घेतली. चोर जावनूय ताका मन आशिल्लें. तो हाडांमांसाचोच मनीस. ताका दत्तूचे चुरचुरे दिसले. बेगबेगीन ताणें दत्तूक सोडयलो, डिकिंतलो भायर काडलो, आशिल्ली तशी गाडी धांपली आनी ते दोगूय थंयच्यान आपलो जीव घेवन धांवले. वाटेर रेल्वे स्टेशन मेळ्ळें. ट्रेन उबी आशिल्ली. खंय वता ती तांकां खबर नाशिल्ली. पूण कशेय तरेन दुस्मानां कडले पयस पावच्या खातीर खंय पावता थंय पावूं म्हूण दोगूय ट्रेनींत बसले. ट्रेन थांबतकच ते दोगूय सकयल देवले आनी बरीच वाट चलतकच तांकां एक आश्रम मेळ्ळो. त्या आश्रमांत दत्तूक सोडून चोर थंयच्यान गेलो. आश्रमांतले लोक बौद्ध धर्माचे आशिल्ले. तांची प्रार्थना आयकून दत्तूक इतिहासान शिकिल्ल्या गौतमबुद्धाची याद जाली आनी सुरक्षीत जाग्यार पाविल्ल्यान निर्धास्त जालो. त्या आश्रमांतल्या लोकांनीं दत्तूची कुयदाद घेतली. आश्रमांतल्या चिंग से बाबान दत्तूक फुडलें शिकप दिलें. तो बी.कॉम. जालो . थंयच नोकरेक लागलो. दत्तूकडेन आतां सगळें आशिल्लें पूण ताचो बापूय ताका मेळूंक नाशिल्लो म्हूण खंत जाताली. ताका आपल्या बाबाची खूब याद येताली. ताणें ही गजाल कोणाकूच सांगूंक नाशिल्ली.

दत्तूक भारतांत येवपाची संद केन्ना मेळत काय जाल्ली. भारतांत आयल्यार आपलो बाबा खंय तरी मिलिटरींत आसतलो अशें ताका दिसतालें. बाबा हे वटेन देवाकडेन जाल्यार दत्तू ते वटेन बुद्धाकडेन बाबाची भेट कर म्हूण मागत आशिल्लो.

एक दीस चिंग से बाबाक भारतांतल्या बंगळुरच्या शिश्यान आपल्या मठाचें उद्‌गाटन करपाक आपयलो. तेन्ना चिंग से बाबान दत्तूक बंगळुराक व्हेलो. हे वटेन दत्तूच्या बाबान निवृत्तकाळान म्हैसूरच्या देवी चामुंडेश्वरीच्या पांयांतळी रावपाचें येवजिलें आनी थंयच एक ल्हानसो फ्लॅट घेवन तो आपले भाचये बरोबर रावूंक लागलो. थंयच्याच एका हुशार इंजिनियराकडेन भाचयेचें लग्न केलें आनी आपली एकसुरी जीण देवीच्या सांगातान सारूंक लागलो.

इतल्या वर्सांनी बाबाच्या तोंडार तृप्त जाल्ल्याचें हांशें दिसतालें. फाटलें सगळें विसरून तो दत्तूक पळोवन धादोस जाल्लो. दत्तू म्हळ्यार ताची जीण. आतां तो दत्तू बरोबर उरिल्ली जीण सुखान घालयतलो म्हूण ताका खात्री जाल्ली. जगांतलें सगळें सूख ताका मेळिल्ल्या भशेन दिसलें.



*पावणी जशी नाल्लान*
*सुरू करतात,*
*तशी नाल्ल कशी*
*एक व्हंकल मंटपांत*
*यौवन उबी रावली.*
*गणुबाबालें चली मुखार हाडटां,*
*पन्नास हजार एक रुपया....*
*पन्नास हजार एक,*
*पयली खेप...*
*इतलें म्हणसर कमलाकर*
*तिचें गूण गावंक लागलो.*
*एम्. बी. बी. एस्.*
*फर्स्ट क्लास.*
*अपोलोंत काम.*
*बरी जोड... पन्नास हजार एक,*
*दुसरी खेप.*

# व्हंकल पावणी

## - पुरुषोत्तम अनिल वेर्लेकार

पिंपळापेडाकडेन, नवो बाजार,
मडगांव - गोंय.
फोन : ९९२३९३२६३४

२० एप्रील २०३०. साडे पांचांचो अलार्म ज्युस्त वेळारूच वाजलो. दोन मिनटां एक्स्ट्रा न्हिदतलों म्हळ्यार कानाकडे मोबायलाचें 'उठा उठा सकळीक...' चालूच आसलें. म्हजे जिणेंत हांवें केन्ना सुशेगाद णव वरां मेरेन न्हीद काडल्या असो एकय दीस याद जायना. शाळेंत आसतना मे म्हयन्याचे सुटयेंत बी न्हिदलेलों आसत. पूण शाळा काबार जाल्ल्याक 'सुशेगाद न्हीद' म्हणटा ती म्हज्या नशिबांत ना. त्या वेळार बापायक पळोवन हांव सदांच चिंतालों, 'केन्ना काय हांव ऑफिसांत वतलों?' आतां डॅडी भशेन ऑफिसांत वतां. ताचे परस चड जांइक लागलां. मात 'न्हीद' म्हणटा ती हांवें होगडायल्या. आतां ऑफिसा सयत आनीकय गजाली आसात ज्यो म्हाका धड न्हिदूंक दिनांत. ती मंडळी म्हणचे आमची घरचीच! हांव जेन्ना शाळेंत वतालों तेन्ना हीच मंडळी बरे मार्क घे म्हण फाटीक लागताली. उप्रांत इंजिनियर जा म्हण हडड्यार बसली. इंजिनियर जालों तेन्ना बरी नोकरी कर म्हण जीव खावंक लागली. म्हाका 'मल्टीनॅशनल' कंपनींत नोकरी मेळलीय बी. पूण हांचें इतल्यारूच खंय भागता? आतां 'छोकरी' सोद आनी संवसार कर म्हण फाटीक लागल्यांत. हांची म्हण एक कॉमीकच शी! सुरवेक जेन्ना अभ्यास कर म्हणटालीं तेन्ना अभ्यास करप म्हज्याच

हातांत आशिल्ल्यान हांवें तो केलो. बरे मार्क घेवन 'जी ई सी'त प्रवेश घेवप हेंवूय म्हज्याच हातांत आशिल्लें, देखून इंजिनियर जावंक पावलों. इजिनियराक नोकरी ही थरिल्लीच आसता म्हणून तिवूय बी रोखडीच मेळ्ळी. पूण हे 'छोकरी'चें कितें? ही छोकरी मेळप म्हज्या हातांत ना. गोंयचो 'सेक्स रेशियो' पळयत जाल्यार ताचें रजांव कळटा. गोंयांत दर हजार चल्यां फाटल्यान आठशीं चलयो. म्हणतकच दोनशीं चले जोडीदारा बगर उरतात. तांतलो घडये हांव आसूये. चलयांचें आनी म्हजें हरशींच पटना. तीं सामकीं 'बोरींग'शीं अशें म्हजें मत. आतां म्हज्या ह्या मताक लागून हांव 'आंकवार' उरतलों असो भंय घरच्यांक दिसपाक लागला. घराण्याचो दिवो खंय हांव! आतां इजिनियर जालों, लाखांनी जोडलें. आनीक कितलो उजवाड घालूं हांचेर? आंकवार उरल्यार, शंकर भांडारी सारको साहित्यीक जातलों अशें एकदीस म्हळें. मागीर हीं म्हणटात, 'शंकर भांडाऱ्या परस रमेश वेळूस्कार जा. गोंयची न्हयच, निदान यु.पी.ची तरी सून घरांत हाडटलो!' खंयचेय वटेन म्हजी कोंडी करून 'येन केन प्रकारेन' म्हजें लग्न जावचें अशें हांचें सगळ्यांचें मत.



आमच्या सारक्या चल्यांक इतलें शिकून लेगीत चली मेळना. हो जमानो 'लव्हाचो'. पूण तेवूंय करतलों जाल्यार आमकां शक्य ना. कारण मोग म्हणटा तो प्रकार 'अमिर बापां'च्या बेट्यांकच बरो जमता. आमी मागीर फाटींच उरतात. 'म्हज्या बराबरचे भुरगे, 'मॅकानीक' जावन लेगीत दोग भुरग्यांचे बापूय जाले.' ही एक गजाल आमच्या घरच्यांक खटकता. परत परत तोच थोमणो. हांव बाबडो आयकतां. पूण त्या मॅकानीकांक आयिल्ल्यो तश्यो सोयरीको आमच्या पदरांत खंय? आमींच ते चलयांच्या बापायकडे चली दियात, चली दियात म्हण पदर पसरयतात. तश्यो चलयो आसताय बी. पूण तीं आदींच 'रिजर्वड' जाल्ल्यान आमी गाडयेंत चडून कसलो फायदो? भारतीय रेल्वेंत तात्काळ रिझर्वेशनाची तजवीज आसा, पूण ती तजवीज जीणेंत करूंक ना हेंच प्रोब्लेम. आतांच्या काळांत व्हकलो मेळप भोव कठीण. पूण आमच्या फोंडे म्हालांत ह्या प्रॉब्लेमाचेर एक 'रामबाण' उपाय काडला.

पुरातन काळांत 'अंत्रुज म्हाल' म्हण नामनां जोडिल्लें फोंडे ही 'देवभूंय' अशें आमी मानतात. हांगा घे म्हण देवळां आसात. त्या देवळांनी वेगवेगळे उत्सव जातात. उत्सवांनी 'पावणी' जाताच जाता. म्हणटकच अंत्रुजेंतल्या देवळांतल्या म्हाजनानी एक नवी चाल चालीक हाडपाचें थारायलां. ही चाल खास म्हज्या सारक्या नोकरी मेळून छोकरी सोदपी तरणाट्यांखातीर आसा अशें देवस्थान कमिटीनीं आदींच 'डिक्लॅर' केलां. हे चालीक अनुसरून आतां प्रत्येक उत्सवाक पावणी काडटले. ती पावणी आसतली खास व्हंकलेची, 'व्हंकल-पावणी!' जाका कोणाक व्हंकल जाय ताणें मुजरत पावणेक येवचें आनी आपले पसंतीचे व्हंकलेक जिखून व्हरपाचें. आमच्या घरचीं आनी रावता? केन्ना काय जात्रा येता अशें जाल्लें सगळ्यांक. 'अवसर' आयिल्ले भशेन. हांवूय आबूज. पावणेक आनी व्हंकल जिखप? नवेंच शें सगळें. तरीय पूण मनाची तयारी केल्ली. एक बरी व्हंकल जिखपाची. हावूंय खूश, घरचींय खूश!

करतां करतां पौषाचो म्हयनो उजवाडलो. जात्रेचो चौघुडो वाजलो. घरांत बोवाळ सुरू. जात्रेचो न्हय तर जात्रेक जावपी पावणेचो. सगळीं जाणां माशेलांत गेलीं. देवूळ बरें सजयल्लें. मुंबयच्या म्हाजनाचेर जात्रा पडिल्ली. पयसुल्ल्यान देवूळ हिन्दी सिनेमांतल्या लग्नाचो सेट शें दिसतालें. पावणी जिखूंक जाय म्हण मास्टर कार्ड, व्हीसा पावर, सीटी बँक, आयसी आय, एस् बी आय बी सगळीं कार्डां घेतिल्लीं. शिवाय डॅडीन पन्नास हजार रुपया कॅश हाडिल्ले. आरत्यो बी जाल्यो. सगळे मंटपांत येवन बसले. देवीच्या वस्तूंची पावणी सुरू जाली. पयली खेप, दुसरी खेप करीत रोखडेंच पावतोस्सा करून दिनाभाईन लास्ट आयटम खपयलो आनी तो बेकार जालो. आतां ताच्या जाग्यार रामनाथीचो

कमलाकर येवन उबो रावलो. पन्नास सोयरीको मोडून 'आंकवार' उरिल्लो हो मनीस. व्हंकल पावणेचो 'सूत्रधार' हें तेन्नाच कळ्ळें. 'आता आमी आयची व्हंकल-पावणी सुरू करतात' अशी गर्जनाच शी केली. सगळ्यांचे हात बॉल्साकडे गेले. म्हजे सारके कितलेशेच चले-भुरगे मंडपांत बशिल्ले. 'ब्लु स्टार'ची सुपर कुलींग ए.सी. बसयल्ल्या मंडपात म्हाका ओगीच घाम सुटलो. कुशीक एक 'इकॉलोजिस्ट' न्हवरो बशिल्लो. 'दी इफेक्ट ऑफ ग्लोबल वॉर्मिंग' असो म्हजेर कमेंट मारलो. ताची कमेंट्री थंयच सोलून काडची अशें दिशिल्लें. पूण हांवें ताचेकडे 'दुर्लक्ष' केलें. पावणेचो मूड म्हाका घालोवपाचो नासलो.

इतल्यान पावणी सुरू जाली. पावणी जशी नाल्लान सुरू करतात, तसो नाल्ल कशी एक व्हंकल मंटपांत येवन उबी रावली. गणुबाबालें चली मुखार हाडटां, पन्नास हजार एक रुपया.... पन्नास हजार एक, पयली खेप... इतले म्हणसर कमलाकर तिचे गूण गावंक लागलो. एम्. बी. बी. एस्. फर्स्ट क्लास. अपोलोंत काम. बरी जोड... पन्नास हजार एक, दुसरी खेप. इतल्या सदान पावणी चडयली. पंच्चात्तर हजार! 'पंचात्तर हजार पयली खेप... दुसरी खेप... तेन्नाच गजालो आवाज, 'एक लाख एक रुपया' सदा आनी गजा पावणी २५ हजारांच्या फरकान वाडयत रावले. म्हाकाय दोतोर व्हंकल जिखपाची उमेद आयली. पूण आसूं म्हळें. निमण्या वगतार गजा फाटीं सरलो आनी सदान तिका धा लाख एक रुपयांक जिखली. इतल्यान कमलाकर दुसरी पावणी घेवन आयलो. 'मिरा... गोदुलें मिरा... पन्नास हजार एक.... पयली खेप' पेशान वकील. मडगांवांत प्रॅक्टीस... मिरा तशें पळोवंक सोबीत आसलें. पूण वयान म्हजेपरस व्हड म्हण हांवें ताका सोडलें. ताची पावणी साडे स लाखांचेर थांबली. ताका तुळशीदासान जिखलें. तोंवूय बी आदोवगाद. तांची जोडी बरी सोबताली. ताच्या उपरांत म्हपशेंचें कोण तरी एम्. बी. ए. जाल्लें चली पावणेर आयलें. कमलाकर बरो उमेदीन पावणी करतालो. तशें ते मिरापरस बरें दिसतालें. 'दोन लाख एक'. हांवें हइडे फुलोवन पावणी वाडयली. पूण म्हाका 'फायट' दिवंक दिवाकर हजर! म्हजे कापस्तादी प्रमाण हांवें पावणी दोन लाखां वेल्यान पावणे सात लाखां मेरेन बरी नेट्टान वाडयली. पूण ह्या दिवाकरान सोमतें 'साडे-आठ लाख' केल्ल्यान म्हजी थंयच फुटली. तो शिक्षणांत एम्. ए. ताका तें एम्. बी. ए. मेळ्ळें. 'देवाची करणी अन् दिवाकर जिंकला पावणी' अशें मनांत म्हटलें.

मागीर रोखड्योच आनी दोन व्हंकलो गेल्यो. एक टिचर आनी दुसरी पुलिस. दोगांकय प्रत्येकी णव लाखांक व्हेलें. आतां कमलाकरान निमणी पावणी हाडली. कतरिना कशी दिसताली. म्हजी नजर अचकीत तिचे नदरेक भिडली. तिका पळोवन सदा सयत सगळें, जांच्यांनीं हिच्या फाटल्यो पावण्यो जिखिल्ल्यो ते सगळे बेजारले. म्हाका मात उमेद जाली. म्हाका ही पावणी दवरल्या बद्दल हांवें मनांतल्या मनांत देवीचे उपकार आटयले. कमलाकरान सुरू केलें, विनायकालें मंदा ७५ हजार पयली खेप...' हिच्या आदल्यो सगळ्यो पावण्यो पन्नासार सुरू केल्ल्यो पूण मंदाक मात पंच्यात्तराचेर सुरू केलें. हांवेनय फाटीं फुडें पळोवंक ना. पावणी सोमती देड लाख रुपयांचेर चढयली. 'देड लाख पयली खेप.... देड लाख रुपया दुसरी खेप...' हेंच ताणें तीन खेपो रिपीट केलें. हांव सामको फुलिल्लों. इतली बरी व्हंकल फकत देड लाखांक मेळटा हें येवजूनच म्हज्या आनंदाच्यो शिम-मेन्यो सोंपल्यो. आनी एका खिणांतच मंदाची माळ म्हज्या गळ्यांत पडपाची... सदा, तुळशीदास बी सगळे मंटपांतल्यान उठून गेल्ले. मंदा सुद्दां म्हाका पळोवन मुमुरख्यानी हांसतालें. देड लाख रुपया तिसरी खेप आनी पावतोंस्सा म्हणचे आदींच मंडपांतल्यान एक आवाज आयलो. 'साडे पांच लाख रुपया.' सगळ्यांच्यो नदरो घुंवल्यो. पळयत जाल्यार म्हज्या कुशीक बशिल्लो 'इकॉलॉजीस्ट' बरो नेट्टान पावणी वाडयतालो. हांवूय खंबीर जालों. साडे णव लाखां मेरेन टिच्चून पावणी राखली. पूण म्हजे सगळे यत्न फोल थारले. निमण्या वगतार त्या 'इकॉलोजिस्टान' बारा लाखांचेर मंदाचेर बाजी मारली. म्हजें नशिबूच फटकीरें म्हणून हांवें 'खिलाडूवृत्तीन' माघार घेतली.

घरा येतना लोकांनीं म्हाका लजेक काडलें. 'येदो मोटो इंजिनियर त्या इकॉलोजिस्टाकडेन पावणी हारलो' हो आयतोच 'पॉयंट' तांकां मेळिल्लो. बांगलादेशान ऑस्ट्रेलियेक हारयल्ली ती 'क्रिकेट मॅच' याद जाली. घरा पावतकच घरच्यांचें परत सुरू जाल्लें. "तुका आमी शिकयलो. वाडयलो, नोकरेक लायलो, आनी तुवें सगळ्यां म्हाजनां मुखार आमचीं कावलां काडलीं...; नाकाशिल्लीं उतरां आयकची पडलीं..." हांवें हें रडगाणें चालूच आसलें...

म्हाका सामको कंटाळो आयलो. किते करूं, किते नाका शें जालें. सोमतो रांदचेकुडीफाटले बांयचेर गेलों. कसलोच विचार करिनासतना बांयत उडी घेतली. आनी धाडाम्ऽऽऽ हांव सोमतों जमनीर आदळ्ळों. सायडीक हांव न्हिदता ती बाज्ज उबी आसली आनी सदचोच साडे पांचांचो आलार्म वाजतालो...

सदचेवरी ऑफिसांत वचपाची तयारी करूंक जाय हाची याद करतालो....

# आमगेलो गणपती पांच दिसांचो

- तेजश्री प्रभूगांवकार



*म्हज्या भुरगेपणांत*
*आमी गणपतीच्या*
*दोनीं वाटांनी*
*बाटलेंत बोंकोंडयाच्यों*
*खांदयो घालून*
*आरास करतालीं.*
*ती याद जाली.*
*म्हजी मांव आसतना*
*गौरी म्हादेवाची कांसाळ्याच्या*
*पानाचीं तोंडां कोरांतून*
*पुजेक लायतालीं.*
*पूण आतां ती 'कला'*
*कोणाक बरी जमना.*
*म्हणून कांसाळ्याचो*
*खोंटों करून ताचेर*
*कागदी चित्रांच लायतात.*



फोन : ९८२२१३९३०९

खरें म्हळ्यार श्रावणा पासून सणवारांक सुरवात जाता. वोत पावसाचो कुदुऱ्यां खेळ खेळत खेळत श्रावण केन्ना सोंपता आनी भाद्रपद कितलें बेगीन सुरू जाता कळच ना. भाद्रपदाचे सुरवेकच गणेशाचो आगमनाचो सुवाळो.

म्हाका दिसता चवथीच्या उत्सवाची गोंयकार जितले उमेदीन आनी आतुरतायेन वाट पळेतात तशी दिवाळेची वा इतर सणांची तितली व्हडविकाय आसना. तशे गोंयकार हे देवभक्त. गोंयांत जंय थंय देवळांच देवळां गांवां गांवां कणकणी आसात. पूण मंगल कार्याचो प्रथम मानकारी श्री गणेश. कितलेशेच गोंयकार श्रावणा पासून चवथीचो उत्सव जातासर नुस्तें वा मांसाहार घेना. ज्या गोंयकारांक नुस्त्या बगर जेवणाची उंडी वचना, तो गोंयकार निश्ठेन असो शाकाहारी रावता. केदें व्हडलें दायज?

गणपतीच्या आगमनाची तयारी बऱ्याच पयलीं पासून सुरू जाता. जशें खंयचो गणपती आपणाक जाय, पासून तो कित्याचेर म्हळ्यार खंयच्या बैठकीचो आसचो आनी कसो आसचो? बाल रुपाचो, काय पितांबरधारी? मुकूट कसो आसचो? हें रंगशाळेंत वचून गणपती करतल्यांक सांगपा पासून सुरू जाता. भुरगीं तर कार्यशाळेंत वचून घडतले गणपती पळेतात.

मागीर वायणां तासप. तीं काजळ, कुकूम, हळद लावन सजोवप. पिड्डुकांचे पोड गुंथून तांकां बांदप. माटोळी तयार करप. मखर फोलींनी सजोवप. गांवठी, तशेंच रानटी फळफळावळींनी माटोळी सजोवप. एखादो देखावो गणपती मुखार तयार करप, अशें जायतें कितें कितें आसता.



शिवाय नाना तरेचीं खाणां करप, चकन्यो, शेव चिवडो, नेवऱ्यो लाडू बी. मोदक तर आसातच शिवाय परबेच्या दिसांनी ताजी ताजी गोड गोडशीं खाणां आनी भाजयो. आमगेर अंदू पांच दीस गणपती राविल्लो. हांवेंच आंगयिल्लो. आमची मुंबयची सगळी मंडळी आयिल्ली. हांवें चिवडो, शेव, शंकरपाळी, गंवाच्या पिठाच्यो अनवाळयो चकल्यो, धुवेक आवडटा म्हणून चुरमो भरपूर करून दवरिल्लें. शिवाय पिठाचे लाडू, बेसन लाडू, मुगांचे लाडू, फुटाण्या डाळीचे रवो मिक्स लाडू, नेवऱ्यो, मोदक सगळें केल्लें. दारांत गणपती पळोवपाक लोक येतात तांकां खावपाक दिवपाक जाय. आनी क्रिस्तांव शेजार पाजाऱ्यांक गणेशाची साग्वाद दिवंक जाय. पंचमीक दारांत 'मेस्त' 'गोसाय' दुसरो भट, गवळण येतात तांकांय एक एक वायण आनी नेवऱ्यो बी दिवपाक जाय आसता. सवायशीण बायलां वायणांचें आदान प्रदान करतात.

हांवें ही तयारी पयलींच केल्ली. इतलेंच न्ही, पांच दिसांच्या नाश्त्या पासून जेवणाची दिसवार यादी म्हळ्यार मेनू तयार केल्लो म्हणून सोंपें जालें. म्हजी सून म्हणूंक लागली "मम्मी तुजें लोणचें बेस बरें जाता. तेन्ना ताजें ताजें कसलेंय लोणचें घाल न्ही!" हांवेंय पांच दीस शिवराक म्हणतगीर गाजर, फ्लॉवराचें लिंबू मिरसांगेचो पिठो घालून, मेथो घालून झणझणीत बरें लोणचें केलें. पुताक आनी देराक आवडटा म्हणून करमलांचें लोणचेंय घालें.

हय. आमचें घर काणकोणां, माशें गांवांत. सैमान नटिल्लो सोबीत सुंदर गांव. घरा मुखार गाल्जिबागची खाडी. मुखार गाजतो दर्या, फाटल्यान दोंगर, लागींच निरंकाराचें देवूळ. रस्त्याक तेकून आमचें घर. गांवांत ग्राऊंड, हायरसेकेंडरी स्कूल, सरकारी आनी प्रायव्हेट दवाखानो सगळें आसा. दुकानां, खाणावळ सगळें आसा.

पूण आमी हांगा पणजे रावतात म्हणटकच म्हाका मीठ मिरसांगे पासून सगळी तयारी करून वचचें पडटा. म्हाका तशी ती संवंयच जाल्या.

घर राखपाक एक बायलमनीस आसा. ती नाल्ल बोंडो राखता. घर नितळ दवरता म्हण निवळसाणेचे त्रास नांत. हय हांव पंदरा दीस पयलीं थंडी जोरान आड पडिल्लें. देवाचे कृपेन सगळें बरें जालें. ह्या दिसांनी रांदपीण मेळप खूब कठीण. आनी नशिबान जर एखादी मेळ्ळी समजा जाल्यार तर ती कितें करता? फक्त चाळून काडता. शिनप, कांतप, वांटप सगळें आमीच करपाचें. वाडपाक सुद्धा ती येना. म्हणटकच रांदपिणीचे भानगडींत हांव पडूंक ना. म्हज्यो 'जावो' मुंबयच्यान आयिल्ल्यो. तांणीं खूब मदत केली.

गोंयकारांचीं जेवणां म्हळ्यार सोये बगर जायनांत. धा, धा, नाल्ल कांतप म्हळ्यार कितें फकाणां? पूण म्हज्या फाटल्या जावेन कांतून दिलें.

पयल्या दिसाक 'तय' 'चवथ' एक आशिल्ल्यान दोन दोन पोळयो एकाच दिसा करपाच्यो. पातोळ्यो आनी पुरणाच्यो नेवऱ्यो. व्हडले जावेन पुरण भरून नेवऱ्यो भरल्यो. मोदक केले. धाकटे जावेन पातोळ्यो पातळावन चून भरलें. तळपाचें काम म्हजे सुनेन केलें. उकडपाचें काम हांवें. त्या दिसा खतखतें ठरयिल्लें आनी पांच तरांच्या पाले भाजयांची भाजी. गौरी गुरवार म्हणून मुद्दाम अळणी भाजी आनी चून घालिनासतना पानार अळणी पिठाची थापिल्ली आनी उज्यार भाजिल्ली पातोळी. आमच्या पूर्वजांनी कितल्या विचारांनी अशी पद्धत घाल्या पळयात. पार्वती गुरवार बायल. तिचें ब्लडप्रेशर मिठान वाढू नये म्हणून मुद्दाम अळणी जेवण. वरण, तोय. निरफणसाच्यो पिठयेंत बुडोवन तळिल्ल्यो फोडी. सगळें वेवस्तीत जालें. म्हजी धूव जावंय, नात बी आयिल्लीं. पूण भटमामाक येवपाक थोडो उशिरूच जालो. 'राटें', उदक आरत दाखोवन धा वरांचेर गणपती घरांत आयिल्ले आनी मखरांतल्या चवायेचेर विराजमान जाल्ले. दिवल्यांच्या मंद प्रकाशान 'मूर्त' खूबच सुंदर दिसताली. जणूं मांगल्याची पूर्ण मूर्त. वयर मोटोळी. सायडीक गौरी म्हादेव. भोंवतणीं लिकलिकताले बारीक बल्ब. सुंदर अती सुंदर.

म्हज्या भुरगेपणांत आमी गणपतीच्या दोनीं वाटांनी बाटलेंत बोकोडयाच्यो खांदयो घालून आरास करतालीं. ती याद जाली. म्हजो मांव आसतना गौरी म्हादेवाची कांसाळ्याच्या पानाचीं तोंडां कोरांतून पुजेक लायतालीं. पूण आतां ती 'कला' कोणाक बरी जमना. म्हणून कांसाळ्याचो खोटो करून ताचेर कागदी चित्रांच लायतात. आज गणपतीची 'प्राणप्रतिश्ठा' बी जाता. गंवर म्हादेवाची पूजा जाता म्हणसर तीन वरां जालीं. मागीर आरत्यो. घुमटां ताळ वाजोवन मोठ्या उत्साहान जाल्यो. तें पळोवन म्हजी अकरा म्हयन्यांची नात सुद्धा ताळयो वाजोवन नाचपाक लागली. म्हाका भंय दिसतालो फुगेट्यो लायतकच तें भियेतलें म्हणून! पूण तें कांय भिलें बी ना.

हांवें पयलींच सांगिल्लें, वाडपा परस अंदुच्यान 'बुफे' करप म्हणून. कारण मागीर उश्टें पान काडपाक त्रास जातात. म्हणून सकाळीं नाश्ता उपीटाचो जाल्ल्यान भूक बी लागू नाशिल्ली व्हडलीशी. रातचें मात रोटयो आनी चटणी फस्त केली.

चवथीच्या पांचय दिसांनी देवाक लागता तें सगळें साहित्य म्हळ्यार पत्री, बत्तीस जिनसी, बेल, दुर्वा, तुळशी, फुलां, हांची तयारी म्हज्या घोवान केल्ली. सदां जायांचे व्हडले पोड तांणीं मुद्दाम हाडिल्ले. आनी आरत्यो घालप, वाती भिजोवप, दिवलेंतलें तेल पळोवप हे सगळें सुनेन केल्लें म्हणून थंय म्हाका लक्ष घालचें पडलें ना.

दुसऱ्या दिसा नाश्त्याक फोण्णीफोव, ताचेर शेव आनी केळीं बी आशिल्लींच.

जेवणांत आळू वालांची सुकी भाजी, वरण, उडदमेथी अशें आशिल्लें. तशें पांचय दीस नैवेद्याक पंचकताय, वरण आसतालेंच. शिवाय मुंबयकारांनी नाना मिठाई हाडिल्ली. हांवें तरातरांचे लाडू केल्ले. मुगांचे लाडू सगळ्यांक आवडले. गोडशे म्हणून तवसळी केल्ली.

तिसरे दिसा सकाळीं शेवयां सांजो, जेवपाक दुदयाच्यो गांठी, भेंड्यांची सुकी भाजी, कोळंबो कालोवपाक आनी 'हीट' नाल्लाच्या रोसांत बुडोवपाचें गोडशें. 'हीट' म्हळ्यार पणसाच्या पानांच्या खोल्यांत घालून उकडिल्ली इडली कशीच. पूण ताका खोल्यांचो बरो वास येता. रातीक उरिल्ले हीट तळले आनी चटणी रोटयो बी. चवथ्या दिसाक गणपतीची समाराधना आशिल्ली. त्या कारणान सवाश्ण, ब्राह्मण आनी शेजारचीं चार घरां जेवणाक आपयिल्लीं.

मुगाच्यो गांठी, सार, भेंड्यांचो रोस, कोबीची भाजी, अणस, द्राक्षां, आंबे घालून सांसव. हय देवा दयेन निलम आंबे मेळिल्ले. भजीं मिरसांगाचीं, पुरयो आनी मणगणें असो बेत जालो.

पांचव्या दिसा मात चण्या तोंडाक. कांदो, लसूण नाशिल्लें कारात्थ्याचें रायतें, भजीं, पापड आनी गोडशें म्हणून रव्याची सांजो आनी सदां लोणचें पापड आसतालेच.

मर्दी पंचमीच्या दिसा आमी देवळा कडेन गणपती पळोवपाक रातचीं गेल्लीं. नाना तरेचे ल्हान व्हड गणपती वाडेकारांचे आयिल्ले. मागीर तरणाटे चले चलयो फुगड्यो घालतालीं, घुमटांच्या त्या तालार आमचीं पावलांय हालतालीं.

आमचो गणपती पावपाच्या दिसा आमी दोणे भरून तयारी केल्ली. सगळे वाडेकार आयिल्ले. आरती जातकीच भटमामान सगळ्यांच्या खुशालकायेचें मागणें, देसा भायर रावतल्यांचें शुभचिंतन देवा कडेन मागलें. वाडिल्ल्या चल्या चलयांच्या शुभमंगलाची मागणी केली. धंदो नोकरी सगळें सगळें वेवस्तीत जावं म्हण मागलें. मागीर उत्तर आरती जातकीच गणपती देवळा कडेन व्हेले. थंय देवळाच्या पुजाऱ्यान आरती दाखयली. देवळा कडचे न्हंयचे तळयेंत गणपती विसर्जन जालें.

अशे तरेन पांच दिसांची पुजाअर्चा घेवन आशिर्वाद दिवन फुडल्या वर्साक बेगीन येवपाचें आपोवणें घेवन गणपती बाप्पा विसर्जीत जाले सगळ्यांनी मोठ्यान म्हळें –

गणपती बाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा लवकर या.

# मोगान भरिल्ले दोळे



दुसरें दिसाय
चांदनीक बस चुकली.
भीमाक सारें भोंवें
लजेस्त चांदनी
खूब आवडटालें.
ताणें चांदनीक
रिक्षांत बसयलें.
चांदनीकूय दिसलें
की भीमाचें आयकपांतूच
तांचें भलें आसा,
ना जाल्यार तांचें शिकप
सारकें पुराय जावपाचें ना.
तांचो बापूय तर ताका
शिकोवपा आड आसलो.
तें बसींतली गर्दी आनी
त्या तवनास भुरग्यांक
लागून बेजार जातालें.

**मूळ हिन्दी लेखक : राजेंद्र शर्मा सूदव**
**कोंकणी अनुवाद : उदय देशप्रभू**

**भी**मा सांजवेळार आपली रिक्षा घेवन घरा गेलो. जेन्ना तो हात-पांय धुवन जेवण करपाक बसलो, तेन्ना उलयतां-उलयतां ताचे आवयन सांगलें, "आमच्या शेजारच्या हिरालाल चे चलयेक चांदनीक पळोवपाक दुसऱ्या गांवचो भाटकार आयिल्लो."

"कित्याक आई...दुसऱ्या गांवचे लोक ताका पळोवपाक कित्याक आयिल्ले? तें दुयेंत बीन ना मगे?" हें विचारता म्हणसर भीमाच्या मुखामळार काळजी दिसपाक लागली.

गांवांतल्या वातारणांत तरणेपणाचेर पाविल्लो भीमा दुनियादारी कांयच नकळ आसलो. शिकप पासून तेचें मुळाव्या शाळेमेरेनूच जाल्लें. "म्हज्या भोळ्या पुता, चांदनी आतां लग्नाचें जालें. दुसऱ्या गांवांतल्या भाटकाराचो चलो ताका पळोवपाक आयिल्लो. लग्नाक हयकार दिवन गेला. रोकडेंच तें आपल्या घोवागेर वतलें. भाटकाराचें घर खूब व्हडलें आसा म्हूण आयकलां." आवयन सांगलें. तेन्ना भीमा बेजार जालो. ताका दिसलें जीव वता सो.

"आई, चांदनीचें लग्न आपल्या गांवांतल्याच खंयच्याय तरणाट्याकडेन जावं शकना?"

ताणशेल्या बशेन भीमान आवयक विचारलें.

"आमच्या गांवांतल्याय चल्या वांगडा जावंक शकता. पूण तो भाटकार खूब श्रीमंत म्हूण आयकलां. आवय नाशिल्ल्या चांदनी चो बेबदो बापूय खंयच्याय श्रीमंत भाटकारागेरूच चली दितलो. आमच्या गांवांत असो कोणूच ना. ह्या संसारांत मनीस सदांच वयर पळयता." आवयन समजायलें. भीमा वोगी रावलो. आवयच्या उतरांक जाप दिवंक ना, कारण आवयन दुसऱ्या गांवच्या भाटकाराची इतली तोखणाय केल्ली की ताचे सामकार तो खंयच सोब नासलो.

तरीय भीमा आवयक विचारूंक सोदतालो की भाटकाराच्या चल्यान चांदनीक पसंद केली पूण कितें चांदनीक पसंद आसा? पूण विचारपाची हिंमत जाली ना. तशें केल्लें जाल्यार आवयक कितेंय गैरसमज जावं येतालो.

जेवण करून भीमा नीट आपले कुडींत आयलो. तो खिणाखिणाक बेजार जातालो. तो चांदनीचो मोग करतालो. ताच्या दर्शनाक पिसो जातालो. एक दिसूय बी जर चांदनी नदरेक पडले ना जाल्यार तो पिसो कसो ताका सोदूंक भोंवतालो. कितलेच फावटीं एकलेंच मेळून पासून ताणें कसली आजनेरी केली ना.

हां एक चूक मात जाली की ताणें केन्ना चांदनी मुखार आपल्या मोगाची खबर करूंक ना. खूब फावटीं काळजांतलें गुपीत सांगपाचो यत्न केलो, पूण चांदनीक मुखार पळोवन काळजांतलीं उतरां ताच्या ताळ्यांतूच शिरकतालीं.

चांदनी कडेन ताची वळख तीन वर्सां पयलीं त्या वेळार जाल्ली, जेन्ना तें धावी पास जावन शारांतल्या कॉलेजांत वचपाक लागिल्लें. गांवांतल्यान कॉलेजींत तें बसीन वतालें.

सकाळीं फुडें गांवांतल्या बसस्टॅन्डार एकूच बस रावताली. त्या उपरांत बारां वरांचेर फुडली बस आसताली. सकाळचे बसीर शाळा कॉलेजांत वचपी जायत्या भुरग्यांची गर्दी आसताली. एक दीस सकाळीं गर्दी चड जाल्ल्या कारणान चांदनी बसींत चडूंक पावलें ना. त्या दिसा ताची वार्षिक परिक्षाय सुरू जाल्ली. बसींत चडूंक गांवूंक ना म्हूण तें थंयच बसून रडपाक लागलें.

त्याच वगतार भीमा आपली रिक्षा घेवन आयलो. ताणें रडपाचें कारण विचारलें, तेन्ना चांदनीन सगलें कितें तें सांगून उडयलें.

भीमान ताका आपले रिक्षेंत बसपाक सांगलें, तेन्ना 'चांदनी'न ताचे कडेन भाडें दिवपाक पयशे नांत म्हूण सांगले.

"कांयच हरकत ना. हांव हरशीय म्हूण शारांत वतांच न्हय. तीं ५-७ जाणां येतात, भाडें तांचेकडल्यान घेतलों. तुजे कडेन जेन्ना जायत तेन्ना दी." थंय आशिल्ल्या बायलां-भुरग्यांकडे पळयत भीमान सांगलें.

चांदनी कांयच उलयलें ना. तें त्या बायलां-भुरग्यां सांगातान रिक्षांत बसलें. शारांत पावतकूच ताणें चांदनीक कॉलेजीच्या दारार व्हरून सोडलें. गांवांतले तवनास भुरगेय बी सकाळचे बसींत कॉलेजाक वताले. ते गांवांतल्या तरण्या चलयां कडेन मस्तेपणा करपाक उणें नासले.

दुसरे दिसाय चांदनीक बस चुकली. भीमाक सादें भोळें लजेस्त चांदनी खूब आवडटालें. ताणें चांदनीक रिक्षांत बसयलें. चांदनीकूय दिसलें की भीमाचें आयकपांतूच ताचें भलें आसा, ना जाल्यार ताचें शिकप सारकें पुराय जावपाचें ना. ताचो बापूय तर ताका शिकोवपा आड आसलो. तें बसींतली गर्दी आनी त्या तवनास भुरग्यांक लागून बेजार जातालें. भीमाक चांदनी आवडपाक लागिल्लें. एकलोच तो कोण जाणां कसलीं कसलीं सपनां पळयतालो. ताणें मनांतल्या मनांत चांदनीक आपणावपाचें निश्चीत केल्लें. आतां चांदनीय बी भीमाकडेन संवकळीचें जाल्लें. पूण भीमान केन्नाच एकटोशी येतना-वतना चांदनी कडेन कसलीं मस्तेंपणा केली नांत. तो आपल्या काळजांतलीं उतरांय ताका कळीत करपाक पावलो ना.

आयज आवयकडल्यान चांदनीच्या लग्नाची खबर आयकून बेजार जालो. तो पुराय चार वर्सां मेरेन भाडें घेय नासतना चांदनीक कॉलेजांत हाड व्हर करतालो. अशें चिंतून की चांदनीय बी ताचेर मोग करता. पूण ताच्या खर तपश्चर्येचो निमाणो असो शेवट जातलो अशें ताणें केन्नाच चिंतूंक ना.

ताचें काळीज आवयचीं उतरां खरी मानपाक तयार नाशिल्लें. दुसऱ्या गांवचो भाटकार ताका पसंद करून गेला जातलो, पूण चांदनीन ताका खंयचेय परिस्थितींत ना म्हणलां आसतलें. ताच्या सपनांतलो राजकुमार तर भीमा जावन आसा.

भीमा रातभर कुशी परतीत रावलो. दोळ्यांत न्हीद खळ नासली. रात खूब व्हड जाल्ल्या भशेन दिसताली. सरून सर नासली. निमाण्या वगतार फांतोडेर ताका न्हीद लागली. तो सकाळीं उसरां मेरेन न्हिदलो.

सकाळीं उठना फुडें तो नीट चांदनीच्या घरा गेलो. चांदनी घरांत चा-पाणी करतालें. ताचो बापूयय घरा नाशिल्लो. चांदनी मुखार वचना फुडें भीमान आपल्या मोगाची काणी ताचे मुखार दवरली, "चांदनी, हांवें आयकलां की तुज्या लग्नाचें थारलां म्हूण. तुवें म्हाका विचारलें पासून ना. म्हजें काळीज तुजे खातीर रातदीस धडधडलां... आईन सांगलें तेन्ना रातभर हांव न्हिदूंक पासून ना." हें सांगतना खूब



भावनाभरीत जालो. आयज ताका चांदनी खूब सुंदर दिसतालें. "हय भीमा तुवें आयकलां तें सारकें. म्हजें लग्न कुशींतल्या गांवांतलो भाटकार चौधरी रामसींह वांगडा थारलां. म्हाका जाय आसल्यार पासून हांव न्हयकार दिवपाक शकना. हांव मजबूर आसां. म्हाका माफ कर भीमा."

चांदनीचो आवाज रडकुरो जाल्लो. "कसली मजबुरी आसा? खरी गजाल ही की तो भाटकार खूब श्रीमंत. व्हडलें घराणें. हांव गरीब, रिक्षा चलोवपी. जिवीत भर एक व्हडलें घर बांदप तर पयस, सपन पासून पळोवंक शकचों ना."

"ना भीमा, हांवें व्हडल्या घराचीं सपनां केन्नाच पळयलीं नांत आनी नाय बी पयशां आडक्याची आस्त धरली ना. खरी गजाल किते दुसरीच आसा." अशें सांगतां सांगतां चांदनी रडपाक लागलें. "तूं कित्याक फट मारता? म्हाका जाल्यार पयशा आडक्यां बगर दुसरें कांयच कारण दिसना." भीमान दुखी मनान आपली तिडक उक्तायली.

"भीमा तुकां खबर आसा म्हजो बापूय बेबदो म्हूण. हें घर ताणें घाण दवरून पयशे उदार घेतल्यात. पयशे परते केले ना जाल्यार, ह्या घराची पावणी जातली. त्या भाटकारान आमचें रीण फारीक करूंक म्हजो हात मागला. घर वाटावपाक लागून हांवें म्हजें जिवीत मोलायलां." चांदनीन सांगलें, तेन्ना भीमा विचारांत पडलो.

"कितलें रीण आसा तुज्या बाबाक?"

"पुराय एक लाख रुपया."

"सगळे पयशे फारीक केल्यात रामसिंहान?" भीमान विचारलें.

"हय, कालूच रीण फारीक करून घराचीं कागदां आमकां परतीं दिल्यांत." चांदनीन सांगलें, तेन्ना भीमा कांयच उलोवंक शकलो ना.

तो विचार करतालो की ताची रिक्षा विकून पासून वीस -पंचवीस हजार रुपयां परस चड मेळचे नांत, एक लाख रुपया तर खूब पयस उरले.

"तुजी मजबुरी आनी म्हजी गरिबी भाटकाराचो रस्तो मेकळो करून दवरता. बरें आसा, म्हजो तुजेर कसलोच शीण ना" जड आवाजान भीमान सांगलें आनी परत वचपाक घुंवलो तेन्ना चांदनीन ताचो हात धरून सांगलें, "भीमा म्हजें एक आयकतलो?"

"सांग." भीमान उदास जावन म्हटलें.

"चार दिसांनी म्हजें लग्न जातलें. तूं म्हज्या लग्नाक आसतलो?"

"ना, ना चांदनी, हांव आयजूच गांवांतल्यान कडसरून वतां.

म्हज्या दोळ्यांमुखारसून तूं कोणा दुसऱ्याचो हात धरून वतलें, हें म्हाका सोंसूंक जावचें ना. म्हजें काळीज आतांच रडोंक लागलां. जें खिणखीण तुजे खातीर धडधडटालें." भीमाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. आवाजांत पयसावपाचें दूख आसलें.

"भीमा ना म्हणूं नाका. खबर ना कित्याक म्हजें काळीज सांगता की लग्नावेळार तूं म्हज्या आशीकुशीक आसचो म्हूण... खबर ना, केन्ना कितें घडत. हांव तुज्या पांयां पडून विनयतां."

"बरें आसा चांदनी, हेवटेन तुजी वरात वयतली, तेवटेन हांव म्हजे आवयक घेवन ह्या गांवांतल्यान कडसरून वतलों." इतलें सांगून भीमा जड पावलांनी आपल्या घरा आयलो.

भीमा घरांतल्यान रित्या पोटानूच रिक्षा घेवन शारांत गेलो. पुराय दीस काम करून राती दुखी मनान घरा आयलो. ताणें रातीय कांयच खावंक ना. ताची तान-भूक , रातीची न्हीद पयसावल्ली.

चांदनीच्या लग्नाची तयारी चलताली. घर सजयल्लें, लग्नांक येवपी लोकांखातीर जेवणां खाणांची तयारी चलताली. चांदनी व्हंकल जावन न्हवऱ्याची वाट पळयतालें. बराबर बारां वरांचेर व्हंकलपावणी आयली. भीमाय बी थंय आसलो. तो हेवटेन तेवटेन करून गरजेचीं कामां करतालो. जितलो नेटान तो काम करतालो, तितल्याच नेटार ताचे काळीज चांदनी खातीर रडटालें. ताचें मन थंय रावपाक करी नासलें. ताच्या सपनांतली राणी ताच्या दोळ्यां हुजीर दुसऱ्याची जातली! आयिल्ले पावणे चा-नाश्ता करून सुशेग घेताले. लग्नाच्या माटवांत चांदनीक घेवन आयले. लग्न लावपी भटूय आयलो. न्हवरो जावन रामसिंहय ल्हव ल्हव मुखार आयलो. चांदनीचें भुलावणें रूप पळोवन तो खोशयेन मुरगट्टालो.

भटान भटपणाक सुरवात केल्या थंय आसा. इतल्यान माटवांत बोवाळ जालो. गर्दी पयस करीत एक बायल लग्नाच्या माटवांत आयली. ती बायल पोजडचो गाळी घालीत रामसिंहचें लग्न थांबोवपाक सांगताली.

"आरे बाबा, हो कसलो बोवाळ? लग्न कित्याक थांबोवपाचें? हें लग्न सगळ्यांचे संम्मतीन जाता. तुका कितें अडचण जाल्या?" त्या बायले म्हऱ्यांत येवन चांदनीच्या बापायन विचारलें. ताचे वांगडा चार-पांच जाण आनीकूय लोक उबे आसले.

" रामसिंहच्या लग्नाक आमी आवय-चली हरकत घेतात. ह्या फटींगान म्हजे चलयेक बायल करून शारांत धा वर्सां संवसार केला. जेन्ना उबग आयलो तेन्ना तुमचे चलयें वांगडा लग्न जावपाक फुडें सरला. म्हजे चलयेचें कितें जातलें?" ते बायलेन विचारलें. तेन्ना गर्देतल्यान तिची चली दोन भुरग्यांक घेवन फुड्यांत आयली. भुरगे रामसिंहाक पळोवन 'पापा-पापा' म्हणीत फुडें आयले.

तेन्नाच रामसिंहचे सोयरे ते बायलेक आनी तिचे चलयेक माटवांतल्यान धांवडावंक लागले. तेन्ना चांदनीच्या गांववाल्यांनी तांकां आडायले.

ते बायलेक आनी तिचे चलयेक गांववाल्यांनी विचारलें की रामसिंह तिचो घोव आनी तिच्या भुरग्यांचो बापूय म्हूण तांचे कडेन कसलो पुरावो आसा काय म्हूण.

ते बायले वांगडा आयिल्ले ते चलयेन कांय फोटू दाखयले. तेन्ना व्हंकलकारां मदीं बोवाळ जालो. जायते फोटू अशे आसले, जांचे वेल्यान साबीत जातालें की रामसिंहच ते तरणाटे चलयेचो घोव म्हूण.

रामसिंह म्हणटालो, "हीं आवय-चली शारांत 'कुडीचो धंदो' करपी बायलां. ती म्हाका बदनाम करून पयशे काडूंक सोदतात." पूण गांवचे लोक ताचें म्हणणें आयकुपाक तयार नासले.

कोणें तरी पुलिसांक फोन केलो. जीप भरून पुलीस आयले. फोटू पळोवन पुलिसांनी रामसिंहाक धरून चौकेचेर घेवन गेले. लग्नाचो मांटोव न्हवरो नासतना उगतो उगतो जालो. भट उठून गेलो. गांवच्या लोकांनी न्हंवरेकारांक धांवडायले. सगळे जाण तिडकीर आसले. भाटकार रामसिंह तसोय बीन चांदनी परस पिरायेन दोबरादीन आसलो. वयल्यान काजारी.

लग्नाचो बोवाळ बंद जालो तसो चांदनी चो बापूय रडपाक लागलो. तो गांवांतल्या लोकांक दुशण दितालो. ताका रामसिंह काजारी आसपाचेर कांयच हरकत नासली. ताणें ताचे कडल्यान पयशे घेतिल्ले न्हय! पूण आपल्या दोळ्यांनी पळयतकच चांदनीची हरकत आसली.

बापूय तिडकीन उलयलो, "हावें व्हडा कश्टांनी लग्नाची तयारी केल्ली. आतां तुजे सारके अवलक्षणी चलयेकडेन लग्न कोण जातलो? पुराय जीण अशेंच आंकवार बसून राव."

बापायन उलयल्लें आयकून चांदनी वग्गी रावलें. ताणें गर्देंत उब्या आसलल्या भीमाक कुरवो करून आपयलो आनी आपले कुशीक बसोवन भटाक मंत्र म्हणपाक सांगले.

गडबडलेलो भीमा काचाबूल जावन चांदनीक पळयत रावलो, जें मोगान भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताकाच तेळटालें.

**(राजेंद्र शर्मा सूदन हांचे हिंदी कथेचो कोंकणी अणकार.)**



# वनस्पत संस्कृत नांवां आनी वखदी गूण

**- लता सत्यवान नायक**

ब्राह्मी कुळागरांत, थंड वाठारांनी मुबलक प्रमाणांत सापडटा. हिका सावळी आनी खूब थंड वातावरणाची गरज आसता. तिच्या सभावानुसार तिका संस्कृतांतलीं नांवां दिल्लीं आसात. सौम्यलता, सुरॅज्या, सुवर्चला, सौम्या, सुरश्रेष्ठा, दिव्यतेजा, महौषधी, स्वायंभुवी, सरस्वती, सुरसा, मेध्या, वीरा, भारती, दिव्या, शारदा, सत्यवती, सत्यनामा, सुनामा, मुनिका, लावण्या, शंखधारा अशीं नाजूक नांवां हे नाजूक वेलीक आसात.



सातेरी अपार्टमेंट्स,
माशेल-गोंय
२२८७३९६/२३९९८९४

**आ**मी भारतीय, सैमाचे पुजक. आमच्या सरभोंवतणीं सैमाचे जे घटक आसात देखीक झाडां, जनावरां, सवणीं, न्हंयो, दोंगर, फातर, माती, इतलेंच न्हय सूर्य, चंद्र, मळब आनी वायू, अग्नी हांचे लेगीत आमी वेगवेगळ्या दिसा तरांतरांनी पुजा करतात. ताका कारणूय तशेंच आसा.

आमची भारतीय संस्कृती पुराय संवसारांत श्रेष्ठ, म्हान. धार्मीक विविधताय तर इतली आसा की दरेक धर्मांत वेगवेळे ग्रंथ आसात, पुजा-अर्चाचे तरेतरेचे प्रकार ह्या धर्मांनी सांगिल्ले आसात. तांतूंत संस्कृत भाशेक आमी देववाणी मानल्या. संस्कृत भास हेर भासांची आवय. हे भाशेच्या वेगवेगळ्या शब्दांचे अर्थ खरेंच सुंदर आनी बोधक अशे. सैमपुजेंत झाडांक म्हत्त्व दिलां. वनस्पती पुजन भारतांत सगळेच कडेन जाता. झाडांक देवासमान मानून तांचें संरक्षण करपाक लागून तांकां धार्मीक कार्यांत सुवात दिल्या. कितल्योश्योच वनस्पती वखदी आसतात. हे वखदी उपेग जाणून घेवन, त्यो सहज तरेन मनशाक उपलब्ध जांवच्यो म्हणून आमच्या पुर्वजांनी वेगवेगळ्या देवांचे पुजेंत तांचो आस्पाव केला. देखीक, गणपती खातीर दुर्वा, तुळशी विठ्ठलाच्या गळ्यांत जाली, बेल शिवाच्या सेवेक अर्पिलो. रूईच्चीं पानां मारूतीचे पुजेक.

ह्या सगळ्या वनस्पतींक संस्कृतांत अर्थपूर्ण अशी नांवां आसात. आनी तांचे वखदी गूण आसात. तांची थोडे भितर म्हायती घेवंया.

वनस्पती चडश्यो वखदी आसतात. मनशाचे कुडीचेर तांचो उपेग चडानचड जाता. थंडी, जोर, खोकली, घावो, तकली उसळप सारख्या जायत्या बारीकसारीक दुयेंसांचेर ह्या वनस्पतींचो वापर जाता. तांच्या आकारा वेल्यान केन्ना फुलांच्या, फळांच्या रंगावयल्यान तर केन्ना ती वनस्पत खंयच्याय देवाक आवडटा म्हणून, कांय झाडां विशिष्ट अशा दुयेंसाचेर उपकाराक पडटात. ताचे वेल्यान थोड्यो वनस्पती तांच्या मुळाव्या उगम स्थाना वेल्यान नांव धारण करतात. अशा विंगड विंगड कारणांक लागून ह्या झाडांक संस्कृत भाशेंत नांवां दिल्लीं आसात. झाडांचीं नांवां खरेंच सुंदर, गोड आनी सोबीत अशीं आसात. हीं नांवां आमी आमच्या भुरग्यांक लेगीत दवरतात.



गोकर्णाचीं फुलां आमी सगळयांनीच पळयल्यांत. फुलांच्या रंगावयल्यान दोन प्रकार आसात. एक निळी गोकर्ण आनी दुसरी धवी गोकर्ण. संस्कृतांत 'गो' म्हळ्यार गाय आनी 'कर्ण' म्हळ्यार कान. फुलांचो आकार गायच्या कानासारको आसता, म्हणून ह्या फुलांक 'गोकर्ण' म्हणटात. शंखासारखो आकार डबल पाकळ्यांच्या गोकर्णाचो आसता म्हणून ह्या फुलांक 'शंखपुष्पी' म्हणटात. पुष्प म्हळ्यार फूल. विष्णूक हीं फुलां प्रिय म्हणून तांकां विष्णुक्रांता वा विष्णुप्रिया म्हणटात. आघाडो, जो खंयसरूय जाता, गणपती पुजनाच्या एकवीस पत्रीं पैकी हो एक. आघाड्याक जावपी चांदीच्या रंगाच्या बियांची खीर, बाळंतिणीक दितात. हाका लागून तिचो अशक्तपणा कमी जाता. आनी बरें दूद येता. आमच्या शरिरांतले सगळे वायट दोश पयस करता म्हणून आघाड्याक 'अपामार्ग' म्हणटात. आघाड्याचीं फुलां आनी फळां तुऱ्याचेर येतात म्हणून ताका शिखरी अशें म्हणटात. आघाड्याचे तुरे मोराच्या रंगा सारके आसतात देखून ताका 'मयुरक' हें नांव पडलां. 'खरमंजरी' हें नांव आघाड्याक दिलां तें ताच्या खरखरीत तुऱ्यांक लागून. ह्याच तुऱ्याचेर जे कांटे म्हळ्यारूच आघाड्याचें बीं आसता तें परतें आसता. म्हणून 'अध:शल्य' आनी 'प्रत्यक-पुष्पी' हीं दोन नांवां त्या कारणाक लागून पडल्यांत. आघाड्याचे कांटे एके वळींत आसतात देखून तो 'पंक्तिकण्टक'. सोरोप चाबून जाल्ल्या दंशाचेर हाचीं पानां वाटून लायतात.

शेनवार आयलो काय आयजकाल मारूतीच्या देवळामुखार बशिल्ल्या फुलकारांच्या पाटल्यांत आमकां रूईचीं पानां पळोवंक मेळटात. मारूतीक रूईचीं पानां दर शेनवारचीं तेला बरोबर लोक भक्ती भावान अर्पण करतात. रूईचे दोन प्रकार आसतात, एक तांबड्या रंगाची 'तांबडी रूई' आनी दुसरी धव्या रंगाची 'धवी रूई'. आमच्या गोंयांत जी चडान चड पळोवंक मेळटा ती तांबडी रूई. आयज धवी रूई मात दुर्मिळ जाल्या. रूईक 'अर्क' अशें म्हणटात. सूर्याक संस्कृतांत जितलीं नांवां आसात तितलींय तांबडे रूईक नांवां आसात. देखीक रवी, आदित्य. तांबडी रूई सुर्यावरी तीक्ष्ण आनी उष्ण आसता. रूईच्या फळां भितर कापूस आसता देखून ताका 'तुलफल' अशेंय म्हणटात. रूईच्या पानांत भरपूर दीक आसता देखून रूईक 'क्षीरपर्ण' अशेंय म्हणटात. 'तपन', 'सविता' हीं रूईचीं हेर नांवां आसात.

सीतेक रावणान आपल्या शक्तीच्या बळार उकलून लंकेंत व्हरून दवरली. त्या वेळार सीता ज्या रुखापोंदा बशिल्ली तो रूख म्हळ्यार अशोक. आमी जो अशोक पळयता तो शोभेचो म्हळ्यार बागेंत लायतात. पूण खरो अशोक जाका सीतेचो अशोक म्हणटात तो 'Saraca Indica'. संस्कृतांत 'अशोक' म्हळ्यार 'शोक' 'दूख' ना करपी. ताका शोकनाश, विशोक, अपशोक, ताम्रपल्लव, हेमपुष्प, गंधपुष्प हीं हेर नांवां आसात.

आवाळो म्हळ्यार जिवनसत्व 'क' (vitamin C) चो आविश्कार. लोकांक ताचें म्हत्त्व कळूंक लागलां. देखून हालीं आवाळे व्हड प्रमाणांत बाजारांत विकूंक येतात. आवाळ्याक पयलिंचे लोक अमृतावरी मानताले कारण आवाळ्याचे गूण अमृता सारकेच. खूब म्हान, दिव्य अशे. देखून आवाळ्याक अमृता, अमृतफला, अमृतोद्भवा, दिव्या अशा नांवांनी वळखतात. आंवाळो विविध रसांचो स्रोत आसा.

देखून ताका पंचरसा हें नांव पडलें. भरपूर फळांनी आंवाळ्याचें झाड भरता, म्हणून 'बहुफला', श्रीफला, शीवा, शान्ता, शीता हीं आंवाळ्याचीं विंगड विंगड नांवां संस्कृतांत सापडटात. आंवाळ्याच्या झाडाचें दर्शन पवित्र मानतात म्हणून तो देवळांच्या वाठारांनी, गांवांनी आशिल्ल्या हेर पवित्र सुवातांनी पळोवंक मेळटा.

वसंत रुतूंत फुलांच्या भारान धर्तरी भरून वता. रानांवनांत तर हो वसंतोत्सव सैमीक फुलांची, रंगांची उधळण करता. ह्या रंगोत्सवान गुल्ल जावपी पलाश, बाळो, सांवर, गुलमोहोर, मोगरी, शब्दुली, गुलाब, देवचांफो अशीं वेगवेगळीं फुलां सहभागी जाल्लीं आसतात. तातूंत चड उठून दिसता तो बाळो. बाळ्याचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तो फुलता तेन्ना झाडार एकूय पान उरना. पुराय झाड फुलांच्या वळेसरांनी घसघसून भरता आनी हळदीच्या साडयेचो हळदुवो शिरंगार केल्ले व्हंकले वरी दिसता. हो वृक्ष सगळ्यांत सुंदर वृक्ष देखून तो उद्यानांत, बागेंत, घराच्या प्रवेशद्वारामुखार शोभेखातीर लायतात. ह्या रूखाक दिल्लो मान पळोवन ताका राजवृक्ष म्हणटात. बाळयाचीं फुलां गुंथिल्ल्या वळेसरावरीं दिसता, म्हणून ताका 'कृतमाल' अशेंय म्हणटात. भांगरावरी हळदुव्या रंगाच्या फुलांचें हें झाड आसता देखून ताका सुवर्णक ह्या नांवानूय वळखतात. ह्याच कारणा खातीर ताका स्वर्णपुष्प, स्वर्णांग, स्वर्णभुषण हीं बाकिंचीं नांवां आसात. ताचे वखदी गूण, आरोग्य वाडोवपी म्हणून 'आरोग्य' हें लेगीत बाळ्याचेंच नांव. कल्याणकारी फळ दिवपी म्हणून तो 'शम्याक' म्हणुनूय वळखतात. 'आरग्वध' म्हळ्यार रोग ना करपी. आरेवत म्हणजे मळ भायर काडपी. असो हो बाळो, मुको मार बसत जाल्यार, खूब उपकाराक



पडटा. बाळ्याचीं पानां वाटून, तें वाटण गरम करून मार लागिल्ल्या जाग्यार लायतात. हाका लागून सूज देंवता आनी मार लागिल्ली दुखूय कमी जाता.

औदुंबराचें झाड ज्या जाग्यार आसता थंय भरपूर उदक आसता. हो आमच्या जाण्टेल्यांचो अंदाज आतां वैज्ञानीक दृश्टीन खरो थारला. औदुंबराक water indicator म्हणून विज्ञानांत आतां नामनां मेळिल्ली आसा. ह्या झाडाचें खाशेलेंपण हें की ताका फुलां येनांत. म्हळ्यार फुलां दिश्टी पडनांत. ल्हानपणांत आमकां आजी सांगताली रातच्या बारा वरांचेर औदुंबराच्या झाडाक बैलगाडयेच्या रोदां येदें व्हड धवेंफुल्ल फूल येता आनी सकाळ जांवचे आदीं देव तें स्वर्गांत व्हरता. देखून औदुंबराक फुलां नासतात. फुलां पासून फळांची निर्मिती जाता तेन्ना औदुंबराक फळां जातात तीं कशीं? हो प्रस्न आमकां जेन्ना पडलो तेन्ना ल्हानपणांत आजेची समाधानकारक जाप मेळटाली. ह्या झाडांत फुलांचें परागीकरण (pollination) फळांत आशिल्ल्या परागांवरवी आनी तातूंत आशिल्ल्या किड्यांवरवी जाता. ही सैमाची अद्भूत किमया. औदुंबराच्या फळांत किडी आसतात, देखून ताका संस्कृत भाशेंत 'जंतूफल', 'जंतुवृक्ष', 'कृमिफल' हीं नांवां पडलीं. फुलां नासता म्हणून ताका पुष्पशुन्य अशें विनोदी नांवूय आसा. अपुष्प हें त्याच संदर्भांतलें आनीक एक नांव. औदुंबराचीं फळां खूब काळ झाडार दिश्टी पडटात म्हणून तीं सदाफल. झाडाचीं फळां काडलीं, पानां काडलीं काय धवोच दीक भायर पडटा देखून 'हेमदुग्धक' हें नांव ताका दिल्लें आसा. औदुंबराची समिधा यज्ञावेळार वापरतात म्हणून ताका यज्ञांग, यज्ञयोग, यज्ञिय, यज्ञसार, यज्ञोडुंबर अशीं नांवां आसात. ह्या झाडाक धार्मीक म्हत्व खूब आसा देखून तो 'पवित्रक'. तर बरोच फामाद रूख म्हणून सुप्रतिष्ठित. उदकाच्या जाग्यार तो चडांतचड सापडटा म्हणून 'पाणिभूक' हें नांव लेगीत औदुंबराक दिल्लें आसा. सौम्य, शीतफल, हीं नांवां औदुंबराक ताच्या गुणावयल्यान पडल्यांत.

कुंवाळो आमकां गोंयकारांक सामको लागींचो. कांय घरांनी कुंवाळो लांबोवन दवरतात कारण तो बरोच तेंप तसोच उरता, देखून ताका 'स्थिरफला' अशें संस्कृतान म्हणटात. कुंवाळ्याक 'कुष्मांड' अशेंय म्हणटात, कारण 'कु' म्हळ्यार 'ना', उष्मा म्हळयार उष्णता, जातून उष्णता ना अशें फळ म्हळ्यार 'कुष्मांड'. कुंभ म्हणजे मातयेचो घडो-बुडकुलो. कुंवाळ्याचो आकार ह्या बुडकुल्या भशेन आसता. म्हणून तो 'कुंभफला'. कुंवाळ्याक फळां आनी फुलां एकाच वेळार लागतात देखून ताका 'पुष्पफला' अशें म्हणटात. तर वेलीचेर व्हडलीं फळां जातात म्हणून 'वल्लीफल्ला' अशेंय नांव पडलां. 'महाफला' म्हळ्यार व्हडलें फळ.

कुंवाळो जसो सहज जाता तशीच पुनर्नवा. तांचीं लेगीत मुद्दाम लागवड करची पडना. पुनर्नवा मेकळ्या जाग्यार बेश्टीच पसरत वता. पुनर्नवांचे तीन प्रकार आसता, श्वेत पुनर्नवा (धवी पुनर्नवा), रक्त

पुनर्नवा (तांबडी पुनर्नवा) आनी नील पुनर्नवा (निळी पुनर्नवा). धव्या पुनर्नवांची पृथ्वी, सितर्षाभू, दीर्घपत्र, वृश्चिक, महावर्षभव, क्षुद्रपत्र, वर्षकेतु हीं संस्कृत नांवां. क्रुरा, रक्तकांडा, लोहिता, रक्तपत्रिका, रक्तपुष्पिका, शोण, शोणपत्र हीं तांबड्या पुनर्नवाचीं नांवां आनी नीला, श्यामा, कृष्णा ह्या नांवांनी निळ्या पुनर्नवाक वळखतात. पुनर्नवाचो कसाय थंडी जोराचेर पुराय गुणकारी. दर एकल्याच्या पोरसांत पुनर्नवा आसची.

ब्राह्मी कुळागरांत, थंड वाठारांनी मुबलक प्रमाणांत सापडटा. हिका सावळी आनी खूब थंड वातावरणाची गरज आसता. तिच्या सभावानुसार तिका संस्कृतांतलीं नांवां दिल्लीं आसात. सौम्यलता, सुरेज्या, सुवर्चला, सौम्या, सुरश्रेष्ठा, दिव्यतेजा, महौषधी, स्वायंभुवी, सरस्वती, सुरसा, मेध्या, वीरा, भारती, दिव्या, शारदा, सत्यवती, सत्यनामा, सुनामा, मुनिका, लावण्या, शंखधारा अशीं नाजूक नांवां हे नाजूक वेलीक आसात. ब्राह्मी केसांच्या रोगांचेर उपयुक्त आसात.

अशीच आनीक एक वनस्पत म्हळ्यार 'म्हाको'. म्हाक्याचें तेल केसांच्यो सगळ्यो कागाळी पयस करतात. केसांक काळोच तकतकीत रंग, म्हाको लायल्यार येता म्हणून ताका 'भृंगराज', 'भृंग' अशें म्हणटात. केंस धवे जायत, पिकत जाल्यार म्हाको लायतात देखून ताका 'मार्कब' हें नांवूय आसा. केशय, कुंतलवर्धन, केशराज, केशरंजन, केशंगना, केशाली हीं नांवां भृंगराजाच्या खाशेल्या अशा गुणाखातीर दिल्लीं आसात आनी तो गूण म्हळ्यार केसांच्या सगळ्या तक्रारींचेर म्हाको रामबाण वखद आसा. पितृपक्षांत श्राद्धाच्या वेळार म्हाको लागता, देखून ताका पितृप्रिय हें नांवूय दिल्लें आसा.

ल्हान भुरग्यांचे जिभेक वेखंड झरोवन लावपाची प्रथा आमचे कडेन आसा आनी ती शास्त्रीय नदरेन योग्य आसा. वेखंडांत असो एक गूण आसता की जाका लागून सान भुरग्यांची वाचा सुदारता, चोंचरेंपणा येना, आनी आवाज, वाचा उत्कृष्ट दर्जाची करता. वाचाशक्त वाडयता म्हणून ताका 'वचा' म्हणटात. वचा म्हळ्यार वेखंड. वेखंडाचो वास खूबूच खर, देखून 'उग्रगंधा', आनी ताच्या कांडाक स गांठी आसतात म्हणून षड्ग्रंथा ही ताचीं संस्कृत नांवां. वेखंडाक खूब पानां आसतात म्हणून ताका शतपर्णिका म्हणटात. हीं पानां खुबूच पातळ आसतात म्हणून 'क्षुद्रपत्रा' अशेंय तांकां म्हणटात. भद्रा, मांगल्या, विजया, जटिला हीं वेखंडाचीं बाकिंचीं संस्कृत नांवां.

शतावरी म्हळ्यार सीतेचीं चंवरां. हांचो आस्पाव आयतारचे पत्रेंत आसता. भुरगेपणार हीं सीतेचीं चंवरां हाडून आमी गणपतीचें मखर सजयतालीं. शतावरीचीं पानां इतलीं नाजूक आनी सुंदर आसतात की तांचो उपेग सजावटी खातीर करूं येता. शतावरी एके वेलीच्या रुपांत आसता. हे वेलीक शेकड्यांनी मुळां आसतात देखून तिका शतमुली, शतावरी, शतपदी, बहुमुला, शतमुला अशीं नांवां आसात. इंदीवरी, वरा, वृष्या, दीप्या, द्रीपिका, वैष्णवी, वासुदेवी, मधुरा हीं नाजूक नांवां तिच्या नाजूक वेलीवयल्यान पडल्यांत. शतावरीचीं पानां हरवींच आनी नाजूक केसरां भशेन आसतात देखून तिका सुक्ष्मपत्रा, सुपत्रा, शतपत्रिका, लघुपर्णिका अशा नांवांनी संबोधीत करतात. शतावरीचीं मुळां खूबूच पुष्टिदायक. भुरग्यांक, जाण्टेल्यांक, रोगी मनशांक दुदान शतावरीच्या मुळांची पावडर घालून पिवपाक दिवप. हांतून हाडां घट्ट जातात आनी अशक्तपणा कमी जाता, घटाय येता, देखून शतावरीक पिवरी वा पुष्टी वा आत्मशक्ती अशीं नांवां संस्कृतांत सापडटात.

जिचे शिवाय आमचे खंयचेंच धार्मीक कार्य जायना ती तुळस लेगीत वेगवेगळ्या नांवांनी वळखतात. तुळस कृष्णाक खूब आवडटा, विठ्ठलाकूय ती मानवता. पुराणांत तुळशीक कृष्णाची धर्मपत्नी मानतात. म्हणूनच तुळशीच्या झाडाक जगत जननीचो सन्मान मेळ्ळो. तुळशीक 'वृंदा' अशेंय म्हणटात. देखून श्रीकृष्णाच्या लीलाभुंयेक 'वृंदावन' अशें म्हणटात. 'तुलसी' हो संस्कृत शब्द. 'तुलाम' म्हळ्यार उपमा, जिची उपमा कोणाकडेनूच करूंक जायना अशी तुलसी. 'अनुपमा' अशेंय तुळशीक म्हणटात, अनुपमा म्हळ्यार लेगीत जिची उपमा करूं नजो अशी. तुळशीचो रोस सगळ्यांत उत्तम देखून ती सुरसा. तुळस सगळीकडेन सहजतायेन उपलब्ध जाता म्हणून 'सुलभा'. खेड्यांनी, गांवगिऱ्या वाठारांनी चड प्रमाणांत तुळस मेळटा म्हणून 'ग्राम्या' अशें गांवगिरें नांवूय तुळशीक दिलां. वेदनेचो, दुखीचो पुराय नाश करता म्हणून तिका 'शुलहनी' म्हणटात. अमृता,लक्षी, गौरी हीं तुळशीचीं बाकिंचीं संस्कृत भाशेंतलीं नांवां.

संस्कृत भाशा तशी मधूर भाशा. हे भाशेंल्या वनस्पतिंच्या नांवांची म्हायती करून घेवप खरेंच एक वेगळोच आनंद दिता. उत्सुकता वाडयता. ही अर्थपूर्ण नांवां जाणून घेवन त्या वनस्पतिंचे वखदी गूण समजून घेवप. तांचो वैद्याच्या सल्ल्यान आपले कुडीचेर जाय तेन्ना उपेग करप आनी सैमीक रित्या आपल्या रोगांचेर, दोशांचेर उपचार करप आयज गरजेचें आसा. देखून हीं सगळीं झाडां-पेडां, सांबाळप, तांचें संरक्षण करप जण एकल्याचें कर्तव्य आसा.

दिवाळी आयली.
दिवाळेक फराळ करूंक
सगळीं गुंतल्यांत
आसतलीं.
फोव कसलें करप?
कसलें रुचिचें?
हाचो हुस्को नाका.
आमी चलात तर
करूया फोवांचे थोडे
प्रकार आनी घेवया
ताचो रूचीक सुवाद.



# रूचीन स्वायात

- नेहा तेलंग



कांपाल, मिरामार.
फोन: ६५१६५१९

## दुदांतले फोव

**सामान:** १ वाटी फोव, अर्द वाटी साखर, मीठ, १ लि. दूद, ५-६ येळ, उदक अर्द वाटी.

**करपाची तरा:** फोव वेंचून नितळ धुंवन घेयात. वरभर धांपून दवरात. अर्द वाटी उदकांत भिजिल्ले फोव दोन-चार मिनटां शिजयात. दूद, साकर घालून तीन मिनटां शिजयात. खतखतो काडून गॅस बंद करात. तांतूंत येळापिठो, मीठ घालून बरें धवळात.

## नाल्ला रोसा फोव

**सामान:** १ वाटी फोव, १ वाटी गोड, हळदी पान, दोन वाटयो नाल्ला रोस, तीन वाटयो उदक, मीठ.

**करपाची तरा:** फोव धुवन २० मिनटां धांपून दवरात. दोन वाटयो उदक घालून सोयेचो रोस काडात. दोन फावटीं पिळात. एक वाटी उदकांत भिजिल्ले फोव पांच मिनटां शिजयात. उपरांत गोड घालून एक मिनीट शिजयात. नाल्ला रोस, हळदी पान आनीक मीठ घालून खतखतो काडात.



## ताकांतले फोव

**सामान:** १ वाटी फोव, २ वाटी ताक, अर्द वाटी साकर, अर्दवाटी उदक, धाकलें अर्दें कुलेर जिरें. रुचीपुरतें मीठ, १ धाकलें कुलेर तेल. १०-१५ करबिला पानां, २-३ हरव्यो मिरसांगो. धाकलें अर्द कुलेर सांसवां.

**करपाची तरा:** १० मिनटां फोव धुवून दवरात. तेल तोपांत कडकडीत तापोवन तांतूंत जिरें, सांसवां, मिरसांगे कुडके, करबिला पानांचे फोण्ण दियात. त्याच फोण्णांत ताक, मीठ, उदक, साकर आनी फोव घालात. ४-५ मिनटां धवळून शिजयात.

## गोडांतले फोव

**सामान:** १ वाटी फोव, पाव वाटी गोड, अर्द वाटी नाल्ला सोय, धाकलें पाव कुलेर मीठ

**करपाची तरा:** अर्दवर फोव धुवन दवरात, सोय, गोड, मीठ एकटांय करून ते फोवांत घालून कालयात.

## साकर फोव

**सामान:** १ वाटी फोव, ५-६ लवंगा, १ मोठे कुलेर खिसमीस, दोन चिमटी मीठ, पाउणवाटी साखर, दोन मोठीं कुलेरां काजू बिया-कुडके, दोन मोठीं कुलेरां तूप, ५-६ थेंबे केशर रंग.

**करपाची तरा:** अर्दवर फोव धुंवून दवरात. कायलींत तूप घालात. तूप तापयतकच तांतूंत लवंगा, किसमीस, काजूबियां कुडके आनीक फोव घालात. मीठ घालून बरें एक जीव जायसर धवळात. साकर आनी रंग घालून बारीक उज्यार धवळात. २-३ मिनटांनी गॅस बंद करात.



# मोनेळ

आयिल्ल्या चलयांच्यों
तों खोंडी काडटा
तें पळोवन रुक्मिणीबाय
चलों बेगीन संवसाराक
लागचों म्हण आंगवण्यों,
उपास-तपास करूंक लागली.
तिच्या उपास तपासाचें
फळ म्हणा वा कुलदीपाच्या
नशिबान म्हणा,
ताका एक बरी चली
सांगून आयली.

- रूपा कोसंबे



घर नं.:३५९, शिंदोळी, सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

रुक्मिणीबाय हॉस्पीटलांत बशिल्ले कडेनच भितरल्या भितरच घुसमट्टाली. खोळसां फुटून रडिल्ली जाल्यार जिवाक बरें दिसताशिल्लें हें ती जाणा आशिल्ली. इतलो तेप धरिल्लो धीर आज सुटिल्लो. कोणय म्हऱ्यांत आसल्यार ताचे कुशीन रिगून मनांतलो खवदळ पयस जाता आशिल्लो. पयलोच पावस पडच्या पयलीं दर्याच्या पोटांत जाता तसो. दर्यो आपल्या व्हडल्या व्हडल्या गाजांनी स्वत:क उक्तावंक तरी शकता! रुक्मिणीबाय बाबडी कितें करतली? निकतोच घोव मेल्ली बायल ती! घोवाचे कलेवर म्हऱ्यांतूच आशिल्लें. आनी शिणून शिणून तरी कोणाक शिणतली? णव म्हयने आपल्याच पोटांत वाडयिल्ल्या पुताक? काय नशिबाक?

"आई, सामान बांध आं. हांव बाबाक बंगल्यार व्हरतां. तो मेरेन तृप्ती आनी तनुजाय थंय येतलीं." इतलेंच सांगून पूत फुडले तयारेक भायर सरिल्लो. ना दोळ्यांत दुकां, ना आवयचे सांत्वन. "बाबाक बंगल्यार व्हरता खंय! तेंय बी आतां. बाबाक व्हरता काय चार प्रतिष्ठित लोक पाचारपाक येतले म्हण बाबाच्या पार्थिवाक व्हरता?" रुक्मिणीबाय मनांतल्या मनांत चरफडताली. 'आतां हाणें मातशे आपले बायलेक तरी म्हज्या म्हऱ्यांत हाडून दवरपाचें न्ही? नाजाल्यार वावराडेक तरी, ल्हान आसतना सावनच हो असो. दया-माया नाशिल्लो. बायलय



केली. तिच्या संवसारवालीचेर तीन फुलांय फुल्लीं. दोन चलयांचेर तिमरो चलो. हो चलो जातगीर तर ताका खंय दवरूं खंय नाका अशें तांकां जाल्लें. बापायची उमेद तर बल्लेंत धरना आनी सुपांतय पावना अशी. खोशयेन ताचें नांव दवरलें कुलदीप. आपल्या कुलाचें नांव वयर काडून आपल्याक जाण्टेपणांत सुखान दवरपाक म्हण देवान हाका धाडला अशें ताचें म्हणणें. रुक्मिणीबायक तर घोवाचें समादान पळोवन स्वर्ग दोन बोटां उरिल्ल्याचो भास जातालो.

कुलदीपाचो पयलो वाडदीस जावन रोखडीच मांयक मान्यान पडिल्ल्याचें निमीत जालें आनी तातुंतच ती सोंपली. तिगांय ल्हान ल्हान भुग्यांचें एकलेक काडटा म्हणसर रुक्मिणीबायक नाका शेवट जातालें. पूण भुरगीं व्हड जातलीं आनी काडिल्ल्या कश्टांचें चीज जातलें हे गोंड आशेचेर तिका बळगें मेळटालें. करतां करतां तिगांय एकेक करून शाळेंत वचपाक लागलीं. व्हडलीं दोगांय तनुजा आनी तृप्ती शिकपाक बरीं हुशार. पूण कुलदीप शाळेंत शिकचे परस दुसऱ्यांच्यो कागाळी हाडपाक चड फामाद जालो. आवयबापायन तितल्या पुरतोच ताका शिटकावचो, तापोवचो. पूण ताचे असवडी आमचो कृष्ण तो, कृष्णा भशेनच नटखट म्हण आपलें कवतूक चालूच दवरचें. दीस कोणा खातीर रावतात? तनुजा शिकून दोतोर तर तृप्ती इंजिनीयर जालें. कुलदीपाचें घोडें झरतमरत फुडें गेले. ग्रॅज्युएट जावपाकच ताका हेरां परस तीन वर्सां चड लागलीं. पूण बापायन ताका आपलो सगळो दबाजो वापरून एकदांचो सरकारी नोकरेक चिकटायलो.

दिवाकरान आपल्या ऐपती प्रमाणें दोनय चलयांचीं लग्नां करून दिलीं. तश्यो कुलदीपाकय सोयरीगती येवपाक लागल्यो. घरांत बरी घोंळून रावपी चली सून म्हणून मेळ्ळ्यार पुरो म्हण रुक्मिणीबाय आयिल्ल्या दिसाक देवाक आळयताली. आयिल्ल्या चलयां पयकी

सारकी माळेक मणी पडिल्ल्या भशेन. घरची म्हण मात्तय ओढ नाशिल्ली.'

येवजितां येवजितां रुक्मिणीबायक आपूण व्हंकल म्हण घरांत आयिल्ल्याची याद जाली. तेन्ना ती आपले मांयक आवय सुवातेर मानून तिच्या फाटल्या फुडल्यान भोंवताली. केन्नाच तिणें कोणाकच दुखोवंक नाशिल्लें. आनी घरांत पूण कोण आशिल्लो? जाण्टेली मांय आनी घोव. घोवाली कालेंत म्हण नाजुकच म्हणल्यार जाता. मांयनच तिका सांगिल्लें, 'हें पळय रुक्मिणी, तुका घरांत आनी चड पाश नांत. हांव पिकिल्लें पान. रोखडेंच गळून पडपाचें. पूण दिवाकराक मात सांबाळ. तो निकतोच सिकपणांतल्यान वयर सरला. कुडीन तसो मनानय अशक्तच. तितल्याक तितलेंच उलोवपी मांयन ह्याच उतरांनी तिका शिटकायिल्लें. दीस वता वता तशें रुक्मिणीबायक कळून चुकलें की वेलची खाल्यार थंडी जाता आनी लवंगा खाल्यार गरमी जाता ह्या कालेंतीचो आपलो घोव. पूण तिणें केन्नाच कोणाकडेन तक्रार केली ना. करतली पूण कोणाकडेन? कुळारा जिका हक्कान सांगताशिल्ली ती आवय तिका ल्हानपणाकच सोडून गेल्ली. घरांत आशिल्ल्यो भाव-भावजो. तांकां घरच्यो तक्रारी सांगून तांचे बरोबर आपलेंय सूख इबाडपी बायल ती निखालस नाशिल्ली. तिणें मोठ्या धिरान संवसाराक सुरवात

तांकां बरी दिशिल्ली ती चली कुलदीपाक नाका जाताली. आयिल्ल्या चलयांच्यो तो खोडी काडटा तें पळोवन रुक्मिणीबाय चलो बेगीन संवसाराक लागचो म्हण आंगवण्यो, उपास-तपास करूंक लागली. तिच्या उपास तपासाचें फळ म्हणा वा कुलदीपाच्या नशिबान म्हणा, ताका एक बरी चली सांगून आयली. चली दिसपाक बरी. तांतूंत बऱ्या आस्तिक घराण्यांतली. रोखडेंच व्हडा दबाज्यान लग्न जालें आनी प्रियांका घरांत आयलें. सांपत्तिक स्थितींतलो बरोच व्हडलो फरक प्रियांकाच्या रोखडोच लक्षांत आयलो. ताणें घोवाक फुसलावपाक सुरवात केली. "सरकारी नोकरी करत रावलो जाल्यार उदरगत करूंक पावचोना. ते परस, म्हज्या भावा बरोबर बिझनेस कर. रोकडोच पयशेकार जातलो" नाय जाल्यार भोंवऱ्या भशेन स्वभाव आशिल्ल्या कुलदीपाक एकाच जाग्यार रावन वीट आयिल्ली. ताणें रोखडेंच बायलेच्या मनाप्रमाणें केलें. बिझनेसय कुलदीपाच्या बरोच फावराद जालो. आतां ताचे कडेन पयसो घोळटालो. आनी प्रियांकान आतां दीसरात घोवाक दुसरें बरेंशे घर आमच्या स्टेटसाक सोबसारकें घे म्हण धोंसावपाक सुरवात केली. वांगडा घरांत आयिल्ल्या दिसाक धुसफूस जातालीच. पूण सोंशीक स्वभावाचे रुक्मिणीबायन केन्नाच ब्र काडूं ना. सदांचे पिरपिरीक लागून शेवट कुलदीपान धंद्याचेर लक्ष दवरपाक बरें म्हण आपल्या धंद्या जाग्याच्या लागसारच एक व्हडलो बंगलो बांदलो आनी थंय वचपाचें थारायलें. मांय-मावांक थंय रावपाक यो म्हणपाची फरमलदादय प्रियांकानच केली. पूण प्रियांकाचे खावपाचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे वेगळे हें ती जाणा आशिल्ली. आपलोच दाम खोंटो. दुसऱ्यांक दोश दिवपाक अर्थ ना म्हण तांणीं तांकां आशिर्वाद दिलो.

पूण बापायलें काळीज हाललें तें हाललेंच. ताच्यान आतां कांयच जायनाशिल्लें. तो शरिरान थकिल्लोच पूण मनानय थकलो. ताचे सगळे मनोरथ पत्त्याच्या बंगल्या सारके कोसळिल्लें. एकलो एकसुरो पूत वेगळो रावता हाचेर ताका वायट दिशिल्लें. जाण्टेपणांतलो आदार पयस जालो म्हण तो थतर वितर जालो. पूण रुक्मिणीबायन सगळें समजिकायेन घेतिल्लें. आनी घोवाकय ती समजायताली. आपुणूच धीर सोडिल्ले भशेन वागल जाल्यार घोवाचें कशें जातलें म्हण आपल्या मनाक ती थातारताली ही गोष्ट वेगळी. पूण जावपाचें तें जालेंच. असोच एक दीस च्या पितां पितां दिवाकर कोसळ्ळो. तिणें शेजाऱ्यांचे उपकार मागून ताका रोखड्या रोखडे हॉस्पिटलांत व्हेलो. आनी पुताक सांगून धाडलें. पूण ताची ती रात काळरात थरली. शेवटचें अशें उलोवणें पुसून तो पुताकडेन न्हयच पूण बायलेकडेन पसून करूंक पावलोना. सकाळच्या फांत्या पाराकच सगळो खेळ खलास जालो म्हण तिका सांगलें. तिच्या दोळ्यां मुखार आयिल्ल्या काळखांतल्यान सावशीक जाता म्हणसर पूत तिका सामान कितें आशिल्लें तें बांधपाक सांगून फुडले तयारेक गेल्लो. रुक्मिणीबायचें मन एकदम बंड करून उठलें. 'फातरा काळजाचो खंयचो: आतां येवंदी पुताक. बरी फाफडून काडटलीं. जिवो आसासर बापायक केन्नाच कसलेंच सूख दिलें ना. आनी आतां ताका बंगल्यार व्हरता? कित्याक तुका लोकांनी नांवां दवरचीं न्हय म्हणून? चार मोठे लोक पाचारपाक येतले म्हण? तांच्या दोळ्यांक उदक लावपाक? कांय गरज ना. आमी आमच्याच घरा वतलीं. आमीऽऽ आतां आमी म्हण खंय उरल्यांत? आतां हांव एकटेंच, मरसर.

"आई, वचुंया मगे? गाडी हाडल्या" पुतान येवन तिची तनर उडयली आनी रुक्मिणीबाय एक अक्षर उलयना आसतना सकयलो ओंठ चिड्डून धरत ताच्या फाटल्यान चलत रावली, मोनेळ पडिल्ल्या भशेन.



# जैत

- शर्मिला वि. प्रभू

आमच्या गांवची
हें धुळीच्या हॉमकणांतल्यान
मुक्तताय जातली काय?
म्हजो धटटो-कट्टो
'आबा' तर हॅच
धुळी क लागून मेलो.
उबे जिणेंत एकय दीस
दुयेंत पडूंक नाशिल्लो
आबा दम्याचे थडेन घुस्मटलो.
गांवांसून शारांत
व्हरतासर आबाचो
जीव गेलो.
गांवचो रस्तो म्हळ्यार
बऱ्या मनशाची लॅगीत
रस्त्यान भोंवतना हाडां
खिळखिळी जावपाचीं.



मुरीडा - फातोर्डा
फोन. २७४०६४०

**मा**लीकाकीन गांदनी वयलें तपलें सकयल दवरलें. मान वयर काडतां सर मार्गावेलो धुल्ल पळोवन तिणें शांतूक विचारलें. "कोण आयला रे? रस्त्यार सामके धुल्लाचे लोट मरे?" "मां ती जुविज सायबीण आयली शी दिसता" शांतून म्हळें. आयली सायबीण! तं आनी कितें करतली? आयजमेरेन कितले व्हड व्हड मनीस येवन गेले गांवचें कितें जालें? वेल्यान मिनेराल्यो मायनी आनीक नेटान चलतात आमच्या नशिबांत धुल्ल खावपाचें खंय चुकलां? हे कालचे पयरचे पोर आमच्या खातीर कितें करतले? मालीन उलयत उलयत शीत वेली माण काडली. गोटो चिडइन पळेलो. शांतूच्या पापाक शीत मातश फळफळीत जाय आसलें. गोट्याक गोटो तेंकत तर तो पोटभर अन जेवनासलो. निबर शिताचेरच ताचो जीव घट्ट आसलो. सकाळ चपात्यो खावन शांतूचो पापा जो दुकानार वतालो तो बद्द अकरा वरांचेर मालीकाकीन धाडिल्ल्या घराव्या उकड्या तांदळाची पेज भुरकीतालो. दनपारचीं दोन जालीं की घरा येवन शीत-कडी जेवतालो मालीन शिताचें तपलें भितर ओट्यार हाडून दवरलें.

"शांतू ये शांतू" तिणें उलो मारलो. पूण शांतू खंय आसलो तो तर केन्नाच गांवच्या तिंट्या लागीं वचपाक रस्त्यार पाविल्लो.



गांवच्या तिंट्या लागीं आयज मिटींग आसली. मिटींगेक मुंबयच्यान गोंयां जुविज म्हण नेमणूक जाल्या नांवास्न्या आदवोगाद मॅडम सोनवडे हांचें भाशण जावपाचें आसलें. तशें, शांतून मॅडम सोनवडे बद्दल खूब कितें आयकल्लें. तिका गरिबांची खूब काकुळत येता. ती सदांच न्यायान, सत्यान वागता. आमकां एक बायलमनीस त्रासांतल्यान मुक्त करूंक शकतली काय? शांतू येवजूंक लागलो. आमच्या गांवची हे धुळीच्या होमकणांतल्यान मुक्तताय जातली काय? म्हजो धटटो-कट्टो 'आबा' तर हेंच धुळी क लागून मेलो. उबें जिणेंत एकय दीस दुयेंत पडूंक नाशिल्लो आबा दम्याचे थंडेन घुस्मटलो. गांवांसून शारांत व्हरनासर आबाचो जीव गेलो. गांवचो रस्तो म्हळ्यार बऱ्या मनशाची लेगींत रस्त्यान भोवतना हाडां खिळखिळी जावपाचीं. ऑक्सिजनाचेर आशिल्लो 'आबा' जिवाचो घुस्मट सोंसत-सोंसत शारांत पावनासर संवमार सोडून गेलो. लाकडा भशेन घट्ट आनी थंड जालो. आबाक पळोवन शांतून गाडयेंतच बोब मारली. शारांत व्हरचे पयलींच गाडी गांवांत परतली. आबा फाटोफाट 'दाय' खुंवसली. शांतू खूब बेजारलो. हे धुळीच्या होमकणाचेर उपाय काडूंक जाय. शांतून केल्ले सगळे यत्न निरफळ थरताले. थोडेच कितें गांवचे तरणाटे पेटून उठले. जो मेंगन गांवचो मनशान मर्नीस, शेकान-शेक पेटून उठना तो मेंगन हें अशेंच घडपाचें हें शांतू जाणा आसलो.

पूण आयज परिस्थिती खूब बदलिल्ली. गांवचो सगळो लोक एकठांय जालो. तरणाटे, जाणटे, बायलो, दादले सगळींच थंय जमिल्लीं. शांतू थंय पावतासर सगळो लोक थंय कचाकच भरिल्ले. शांतूच्या मनांत वोगीच भिरांत दिसली. गांवच्या तवनासांनी काय कवनां बी रचलीं ना मूं! मॅडमीचेर फातर, तांतयां बी कोणूय मारना जाल्यार पुरो. पूण तशें विपरीत कांयच घडलें ना. सगळ्यांनी थंडसाणेन तिचे मोलादीक विचार आयकले. "सगळ्या गांवाक म्हजो तेंको आसा. हांगाचे सगळे दोंगर-दोंगुल्ल्यो पोखरूंक उठिल्ल्या सगळ्यांक हांव ख्याम्त दिलें शिवाय रावचें ना. तांणीं मोन्यांनी गांव सोडत तरबरें आसा. सैमाची सोब राखूंक हांव सदांच वावुरतलें. हांव तुमकां वचन दितां हो गांव परत्यान पाचवोचार जातलोच!" मॅडमीचें भाशण आयकून शांतूच्या जिवाक सू जालें.

सगळो गांव भाशण आयकूंक एकठांय जालो. मागीर मालीकाकीच कशी घरा बसतली? मालीकाकीक मॅडमीचें भाशण आयकून जिवाक बरें दिसलें. भाशण जातकच मॅडम सकयल देंवली. तिच्या वांगडा तिची आवय आसली. मॅडम आवय म्हऱ्यांत पावतकच लोकांनी तिचे कडेन उलोवंक सुरवाय केली. मालीकाकीय मॅडमी म्हऱ्यांत गेली. काकीक मॅडमीच्या आवयचें मुखामळ वळखिचें कशें दिसलें. तिणें बारिकसाणेन तिका नियाळ्ळी. नकळत काकीच्या तोंडांतसून उतरां फुटलीं. "विजिता कशें आसा तूं?" "काकी वळखली म्हाका." विजिताच्या (मॅडमीच्या आवयच्या) दोळ्यांत दुकां भरलीं. "काकी तूं कशी आसा? काका कसो आसा?" मालीकाकीक विजितान हुंडको आवरत विचारलें. दोगांय पांच मिनटां उलयलीं. मॅडमीच्या तोंडार वेगळीच खोस दिसताली. परत येवपाचें वचन दिवन विजिता आयलें तशें परत गेलें.

मालीकाकीन घरा येतकच सगळी गजाल घरच्यांक सांगली. पोरन्यो यादी जाग्यो जाल्यो. नवोच संवसार थाटिलें विजिता लाकुडवत करपी आपल्या घोवा वांगडा हुबळी साकून ह्या गांवांत आयलें. तें मालीकाकीच्या घराच्या आसऱ्याक रावलें. मालीकाकीचें पोरनें घर तशें ल्हान पूण सोबीत आसलें. त्या वेळार ताच्या पोशांत चार म्हयन्याचें चली आसलें. थोड्याच दिसां भितर ताच्या घोवाक सोऱ्याचें व्यसन लागलें. सोऱ्याच्या थेंबाकय केन्नाच आपडू नाशिल्ल्या मनशाक आतां सकाळ सांजवेळ सोरो जाय आसलो. तो कोणाकच त्रास करिनासलो. दनपारचो जेवचे पयलीं एक काजूफेणयेची बाटली ढोसतलो. रातचीय एक बाटली पिवन न्हिदतालो. बायलेक गाळी मारप, बडोवप अशें तो केन्नाच करिनासलो. तो काळ आसलो मिनाच्या भरतिचो. गाडयो भरून-भरून मीन गांवां भायर वतालें. गांवचो सरपंच, पंच सगळ्यांनी ट्रक घेवन-घेवन मिनाच्या वावराक लायिल्ले. गांवचे सगळे दोंगर जणुकाय तांच्या बापायची इश्टेट आसली. ही इश्टेट ते ट्रक भरभरून गांवां भायर धाडटाले. हळुहळू गांवचें कुळागराचें वझें पुरोवपाक लागले. पांचवीं कुळागरां हडवीं दिसूंक लागलीं. झाडापेडांचेर धुल्लाचो रंग चडूंक लागलो. मार्गावयलो डांबर लिपयत धुल्ल आपलो थर साचोवंक लागलो. कोंग्यांनी रोव खावंक सुरवात केली. भावार्थी, सादयासुदया गांवकारांच्या मतींत तें अजुनूय येवंक नासलें. चडानचड म्हालाच्यो ट्रिपी व्हांवयतना ड्रायवराक मार्गावयलीं जनांवरां दिसना जालीं. उमेदपणान वाऱ्यावांगडा नाचपी ल्हान ल्हान पाडकां, माजरां, कुत्री पेटपेट करून ट्रका पोंदा पडून काबार जातालीं. दनपारच्या भागर एक दीस असोच विजिताचो घोव पिवन लकत-लकत घरा वतालो. रस्त क्रॉस करतना ट्रका पोंदा चिडडलो. रस्त्यार रक्तबंबाळ, शुद्ध नासृ पडिल्लो विजिताचो घोव, रस्त्यार लागिल्ली ट्रकाची लायन, लोकांच गर्दी. एकलोय मनीस विजिताच्या घोवाक उखलून दोतोरागेर व्हरूं तयार नासलो. तोंडांत फांव घाल्ल्या वरी सगळेच वोग्गी. ट्रक गांवच्य पंचाचो, चलोवपी गांवचो पंच. मालिकाकीन लोकांच्या हातापांर पडून बोबो मारून ताका शारच्या हॉस्पिटलांत व्हरपाची तयारी केल पूण विजिताच्या घोवाचो जीव केन्नाच गेल्लो. गेरवडांच शार दोतोरागेर व्हरता तर ताचो जीव वाचतामलो. विजितान दुसऱ्याच दिस चार स म्हयन्यांच्या भुरग्याक वेंगेत मारून गांव सोडलो. तें खंय गेल कशें गेलें कोणाकच पत्तो लागलो ना. ताणें गांवांत पासून पाय दवरूं ना. पूण आयज तें आपणाल्या शिकिल्ल्या, व्हड आदोवगाद, जुवी म्हण नामना मेळयिल्ल्या धुवे वांगडा गांवांत आयिल्लें. आपल धुवेच्या फाटबळाक एक धाडशी अस्तुरी जावन उबें रावल्लें. ध वांगडा गांवचें रक्षण करूंक परत आयिल्लें. आतां जैत पैस नासल ह्या मिनाच्या, धुळीच्या हांमकणान आपल्या बापायचो जीव घेतलो मॅडम सोनवडे जाणा आसली. आपले वरी परिस्थिती आनी खंयचे अस्तुरेचेर येवंची न्हय म्हण ती आयज गावांत आयिल्ली. आता जै पयस नासलें! गांव परतो सुजलाम-सुफलाम करपाचो सोपूत ति सगळ्यां सामकारा घेतिल्लो!

# उतरकुवाडें

- संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१





## आडवे

१. रानटी फळ
३. मुसलमानी धर्मांतल्या वर्साचो पयलो म्हयनो
६. वताचो कडकड, खूब उश्णताय
८. भोंवतण, परिस्थिती
९. वारो घेवपाचें साधन, आयणो
१०. बगर, त्याभायर
१२. देराची बायल
१३. एक विलायती सोरो
१५. फिकट निळो रंग
१६. एक राष्ट्र वा त्या राष्ट्राची राजधानी
१७. उबगणी, वैताग
१९. रडें वा तक्रार
२०. दुकानदार
२३. खूब वर्सा सावन आयिल्ली चाल
२४. बरयल्लीं उतरां तोंडांतल्यान काडप
२५. नितळ, निवळ
२७. फुलां-झाडां रोवपी आनी ताची जतनाय घेवपी

## उबे

१. श्रीरामान चवदा वर्सां भोगलो
२. आज्ञा, सांगिल्लें काम
३. तीर, हावेस, हेत
४. भारतीय क्रिकेट पंगडांतलो एक गोलंदाज (बॉलर)
५. पाह्‌ह्‌प म्हळयार अदमास करप
६. झुजांतली कापाकाप
७. फुलांचेर बसपी रंगयाळीं पाखां आशिल्लो ल्हान जीव.
९. विठ्ठल-रखूमायेची भूंय. (ठिकाण)
११. एकामेकांचेर मांडिल्ल्यो वस्तू एक कड्डण
१२. जाण, गिन्यान, समजिकाय
१४. उंच सुवातेर वसयल्लें शेत
१५. रकाद, सांगणी
१८. तरसाद
२१. ह्‌ह्‌ह्‌ नाथ गोयांतलो एक देव
२२. हिन्दूंची एक परब
२५. अभिनेतो

## ऑगस्ट उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| सा | नि | या | मि | र्जा | ■ | आ | य | ता | र |
| य | ■ | च | ■ | ■ | गां | व | ■ | क | ■ |
| ना | ट | क | घ | र | ■ | य | ■ | ती | स |
| ने | म | ■ | रे | ड | को | ■ | शं | क | र |
| ह | ट | ■ | लू | ट | ■ | का | का | ■ | द |
| वा | म | न | ■ | लें | ■ | क | ■ | का | ■ |
| ल | ■ | मा | ■ | ■ | का | य | दे | शी | र |
| ■ | ग | ज | व | द | न | ■ | श | ■ | क |
| आ | जी | ■ | न | म | न | ■ | भ | ■ | खे |
| ■ | नी | ट | ■ | ण | ■ | र | क | स्त्रा | व |

# फिशाल बिरबल

- संतोष शिवराम हळर्णकार



(बादशहाचो दरबार)

बादशहा : बिरबला, आमच्या राज्यांत आयजमेरेन तुवेन खूब जणांक 'सत्यमेव जयते'च्या तत्वाचेर योग्य न्याय दिवन गुन्यांवकार नासलेल्यांक मेकळीक आनी गुन्यांवकारांक ख्यास्त दिल्ली आसा. ताका लागून म्हाका खोस भोगता. तुवें स्वताक 'दरबार रत्न' म्हणून शाबीत केल्लो आसा. म्हणून हांवेन थारयलां की प्रजेचे वतीन तुका 'दरबार रत्न' हो किताब दिवन तुजो भोवमान करपाचो.

बिरबल : महाराज म्हजें एकूच ध्येय आसा की गुन्यांवकार नासलेलो सहिसलामत सुटपाक जाय तर गुन्यांवकाराक ख्यास्त ही जावंकूच जाय. महाराज, नदरचुकीन शंबर गुन्यांवकार सुटले



बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

तरीय चलत. पूण एकट्याक सुद्दां गुन्यांव न केल्ल्याक ख्यास्त जावंक जायना. **(सगळे ताळयो मारता)**

**बादशहा :** खरेंच बिरबल तूं 'दरबार रत्न' ह्या सन्मानाक पात्र आसा. तेन्ना ह्या तुज्या भोवमानाविशीं तुजें मत कितें?

**बिरबल :** नाका महाराज, हो भोवमान इतल्यांत नाका. कारण हांव म्हजे बुद्दीचो चतुरतायेन वापर करून लोकांचीं गाराणी आयकून तांका योग्य न्याय दिवपाचो प्रामाणीक यत्न करतां. पूण म्हाका दिसता कितलेशेच निवाडे दिवचे आजून बाकी आसात.

**बादशहा : (लोकांक उद्देशून)** हांव तुमकां विचारतां, तुमचे मत कितें? बिरबलाचो सन्मान करचो काय ना?

**जण–१ :** करपाकूच जाय.

**जण–२ :** ताका तर 'राजरत्न' ह्या भोवमानान सन्मानीत करपाक जाय.

**जण–३ :** हो तर गरिबांचो राखणो जावन आसा.

**जण–४ :** तुजो सन्मान जातलो म्हणजे जातलो.

**बादशहा :** बिरबला, प्रजेची मागणी लक्षांत घेवन हावेन तुका फुडल्या सप्तकांत सन्मानीत करपाचें थारयल्लें आसा.

**बिरबल :** महाराज म्हाका सन्मानीत करिनासतना जो मान, आदर तुमचेकडल्यान आनी प्रजेकडल्यान आयज मेरेन मेळत येयल्लो आसा तो फुडें सुद्दां मेळचो अशी म्हजी अपेक्षा आसा. **(इतल्यान एक सैनिक प्रवेश करता)**

**सैनिक :** खाविंदाक म्हजो नमस्कार. सरकार, गांवचो पेढयेवयलो सावकार आपली कागाळ घेवन येयल्लो आसा.

**बादशहा :** ताका दरबारांत हजर करचो.

**सैनिक :** हां सरकार **(अशें म्हणून भायर वचून सावकाराक घेवन येता)**

**सावकार :** सायबा, काल दनपारच्या वेळार हणमंत्याच्या सयीची नक्कल करून कोण तरी दोन हजार रुपया घेवन गेलो. तेन्ना सायबा तुमच्या दरबारांत म्हाका न्याय मेळचो अशी म्हाजी इत्सा आसा.

**बादशहा :** बिरबला, तुजो भोवमान जावप योग्य आसा हें शाबीत करपाची संद आपूण जावन चलून येयल्ली आसा. तेन्ना बिरबला हें प्रकरण हांव तुजेकडेन सोपयतां. सावकाराक दोन दिसां भितर न्याय दी.

**बिरबल :** जशी तुमची आज्ञा सरकार **(अशें म्हणून सावकाराकडेन वचून)** सावकार, काल दनपरां नेमकें कितें घडलें तें म्हाका पुरायेन सांगात.

**(दोगांयमदीं संवाद चालू उरता – हळू हळू काळोख जाता. उजवाड जाता तेन्ना दरबारांत प्रजा आनी तीन आरोपी हजर आसतात.)**

**बिरबल :** तर सावकार, पयर दनपरां साडेबारांच्या वेळेक नेमको कोण पयशे घेवन गेलो हें तुमकां आठवना?

**सावकार :** हय, कारण तेन्ना हांवेन वक्ल लावं नासलें. पूण म्हज्या नोकरान त्या वेळार थंय हजर आसलेल्या तीग जणांक वळखल्यात.

**बिरबल :** सैनिक भायर वचून त्या तिनूय आरोपींक दरबारांत हाड.

**सैनिक :** हां सरकार **(भायर वता – तिगांकूय घेवन येता)**.

**बिरबल : (पयल्याक)** तुजें नांव?

**पयलो :** बलवंत. पूण सरकार हांवेन काडूं ना ते पयशे हणमंत्याची सय करून.

**बिरबल :** तें थोड्या वेळांत कळटलेंच. **(दुसऱ्याक)** तुजें नांव कितें?

**दुसरो :** वासुदेव, सायबा म्हजेकडेन गरजे पुरतो पयसो आसा, म्हाका कित्याक जाय दुसऱ्यांचे पयशे?

**बिरबल :** तें कळटलेंच थोड्या वेळान **(तिसऱ्याक)** तुजें नांव कितें?

**तिसरो :** कमलेश, ना सायबा, हांवेन करूंक ना हणमंत्याची सयची नक्कल.

**बिरबल :** तें आतां कळटलें. परत एकदां हांव तिगांकूय विचारतां. तुमच्या पयकी कोणेन सयीची नक्कल केली?

**पयलो :** हांवेन खरेंच सयीची नक्कल करूंक ना.

**दुसरो :** हांवेन सुद्दां सायबा ही नक्कल करूंक ना.

**तिसरो :** सायबा ह्या प्रकरणात म्हजो काडयेचो संबंद ना.

**बिरबल : (तिगांकूय एकेक कागद आनी पेन दिता)** आतां तिगूय ह्या कागदाचेर हांव सांगतां तो मजकूर बरयात.

**तिगूय :** हां सायबा.

**बिरबल :** बरयात, 'हांव आयच्या दिसा सावकाराकडल्यान दोन हजार रुपया उसणे घेतां.' अशें बरोवन सकयल तुमचें नांव बरोवन सय करात.

**सावकार :** पूण सरकार 'हांव आयच्या दिसा सावकाराकडल्यान दोन हजार रुपया उसणे घेतां.' हो मजकूर तर छापलेलो आसा आनी ताचे सकयल हणमंत्याचे सयेक जुळटा ती सय आसली तेन्ना हेंच्या सयांनी खरो गुन्यांवकार कसो

सापडटलो?

**बिरबल :** तें पळयच थोड्या वेळान (तिगांकूय) हांवेन सांगलेलो मजकूर तिगानीय बरयलो?

**तिगूय :** हय सायबा.

**बिरबल :** दरेकान त्या सकयल सय केली?

**तिगूय :** हय.

**बिरबल :** हाड तें कागद हांगा **(तिगूय कागदां दिता. बिरबल तीं बारकायेन पळयता आनी सावकाराक विचारता)** सावकार तुजेकडेन जी हिशोबाची चोपडी आसा ती आतां म्हाका दी.

**सावकार :** दितां सायबा **(अशें म्हणून चोपडी दिता, ती बिरबल तपासून पळयता आनी कागदूय तपासून पळयता.)**

**बिरबल :** हणमंत्याची सय आसलेलो कागद बी आसा तुजेकडेन?

**सावकार :** पान क्रमांक २८चेर हणमंत्याची खरी सय आसा. **(बिरबल ती सय तपासून पळयता.)**

**बिरबल :(आरोपी नं. १कडेन वळून)** बलवंत, हणमंत्याची सय तुवेन करून पयशे काडल्या काय ना?

**बलवंत : (कावरोबावरो जावन)** म्हाका माफ करात सायबा, हणमंत्याची खोटी सय करून ते पयशे हांवेनूच काडल्या, त्या खातीर हांव ख्यास्त भोगपाक तयार आसां.

**बादशहा :** सैनिक ताका कैदखान्यांत घेवन चल आनी बाकी दोगांकूय मुक्त कर **(सैनिक तिगांकूय घेवन वता.)**

**बादशहा :** पूण बिरबल त्या तिगानींय आपापली सय केल्ली आसतना सुद्दां तुवेन नेमको खरो आरोपी कोण तें कशें सोदून काडलें?

**बिरबल :** खाविंद, तिगानीय आपापल्यो सयो केल्ल्यो, पूण त्या पयकी दोगांनी आपल्यो सयो सरळ मारिल्ल्यो पूण बलवंतान आपली सय सरळ मारी नासतना ह्या सयेच्या सकयल दोन टिंब काडलेले. तशेंच हांवेन जेन्ना हणमंत्याची सय पळयली ती सय सुद्दां सरळ आसली म्हणजे त्या सयेच्या सकयल टिंब नासले. पूण ज्या दिसा सावकाराकडल्यान खोटी सय करून दोन हजार रुपया काडले त्या सयेच्या सकयल दोन टींब आसले. अशे तरेन ते सयेचो सोद लायलो.

**बादशहा :** बिरबल, आयज परत एकदां तुवेन स्वताक शाबीत केलो की तूं योग्य न्याय दिता म्हणून. तुज्या भोवमानाची वेळ लागीं पाविल्ली आसा. पूण ताच्या पयलीं प्रजेचे वतीन हांव तुजी एक परिक्षा घेवंक सोदतां.

**बिरबल :** सरकारान जरूर परिक्षा घेवंची. हे परिक्षेंत हांव सफल जातलों अशी आस्त बाळगितां. खाविंदान परिक्षा कितें ती सांगची.

**बादशहा :** हे परिक्षेखातीर तुज्या सहकार्याक लागून हांव तुका एका वांगड्याची मजत घेवचेली मेकळीक दितां. परिक्षा अशी आसा की तुमकां दोगांकूय दोन दुदान भरलेल्यो वाटयो दितले. त्या वाटयांतलें दूद, तूं आनी तुज्या वांगड्यान हात न दोडटां पिवपाक जाय.

**(प्रजे भितर कुजबूज जाता.)**

**बिरबल :** खाविंदान ही परिक्षा फाल्यां घेवंची अशी म्हजी इत्सा आसा.

**बादशहा :** तुजे इत्सेप्रमाण ही परिक्षा फाल्यां जातली. म्हाका अपेक्षा आसा की बिरबल तूं हे परिक्षेंत लेगीत जरूर पास जातलो.

**काळोख**

**(दुसऱ्या दिसा दरबार)**

**बिरबल :** बादशहा, म्हजी एक सुचोवणी आसा, म्हाका सोडून ही परिक्षा दोगांच्या गटाखातीर हांगा हजर आसलेल्या प्रजेखातीर लेगीत आसची. हांव म्हज्या वांगड्यांचे मजतीन ही परिक्षा पास जातलोंच. पूण त्या पयलीं प्रजेक लेगीत हे परिक्षेंत भाग घेवंक दिवचो.

**बादशहा :** जशी तुजी इत्सा.

**बिरबल :** लोकांनो, तुमच्या पयकी कोणूय दोगांच्या गटांत ही करामत करून दाखोवंक शकता काय? **('हय' असो आवाज येता, पूण तांकां जमना)** आनीक कोणूय? तर तुमच्यामदीं असो कोणूच ना हें दूद, हात दोड नासतना पियेवन दाखोवंक. आतां हांव म्हज्या ह्या वांगड्याच्या आदारान ही करामत करून दाखयतां **(अशें म्हणून दोगूय एकामेकाच्या मुखार बसून हात न दोडटां एकामेकांच्या मुखार आसलेल्या वाटयेंतलें दूद चमचो घेवन एकामेकांक पाजतात. तेन्ना सगळे जाण ताळयो मारतात.)**

**बादशहा :** बिरबल शाब्बास, तुवेन परत एकदां शाबीत केलें की सब कुछ तू ही है.

**सगळे :** बरबलाचो जयजयकार, बिरबलाचो जयजयकार.

**सोंपता**



- महेश दिवेकार
भावना दुखल्या हें बरें. पूण धार्मिक, राजकी काय सामाजीक तें करना !
तो बेगीन आवट जालो. कारण ताका जायरातीच्या शुटिंगाक वचपाचें आसलें !
20 वर्सां मंत्री आनी एकूय भ्रष्टाचार प्रकरण ना? मागीर कसलो मंत्री तर तूं ?
शैक्षीक सुवातांनी धर्मीक थळां बांदपाक बंदी? आतां तीं बांदपाक जागो खंय उरल्यात?


चंद्राचेर उदकाबदला
सोरो मेळूंक जाय
आसलो !
तूं सिध्द करूंक शकचो ना.
हांवे पुलाचेर पयशे
जाल्यात. तो पूल
बांदुकच ना !.
तो देवूच ! पूण भावना
दुखत म्हूण ताका मनशाच्या
रुपांत काडला !
हिंदुन चलयेचीं फकांडं केलीं ? करूं !
मुसलमान केल्लीं जाल्यार
म्हजी भावना दुखपाची !

- दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये
देवळाय - खांडोळ
मो.: ९४२०२९७३०८



# दोन सुणीं



एका व्हड बंगल्या कुशीक दोन सुणीं रावतालीं. बंगल्यांत कोण रावनाशिल्ल्यान तो बंदूच उरतालो. बंगल्याच्या चोय वाटांनी बरोच व्हडलो शेर्क बांदिल्लो. फुडले वटेन लोखणाच्या वारांवाची गेट आशिल्ली. दोन वारांवा मदीं सुवात सामकीच अशीर आशिल्ल्यान सुण्या माजरांक सोंपेपणान भितर रिगूंक मेळनाशिल्लें.

दोन सुण्यामदीं एका सुण्याचें नांव आशिल्लें मोटू. नांवा प्रमाण तो आंगान बरोच मोटो आनी सभावानूय मात्सो तिरसट आशिल्लो. दुसऱ्या सुण्याचें नांव आशिल्लें सुकडो आनी नांवा भशेन आंगान सामको किडकिडीत. मोटू दादागिरी करून कुशीच्या कोयराच्या डब्यांत कितें मेळटा तें खातालो. थंय दुसरीं सुणीं नाशिल्ल्यान मोटूक पोटभर खावंक मेळटालें. सुकडो बाबडो मात कितेंय उरल्यार खावन दीस काडटालो. मोटू दिसतकच फाटल्या दोक्यांत शेंपडी घालून फुज्जो मारतालो.

पावसाचे दीस आशिल्ले. सुकडो बंगल्याचे गेटींतल्यान भितर सरून बंगल्याचे कुशीचे पडवेंत आलाशिरो घेतालो. पोटाक उपाशी आसुनय सुकड्याक पावसा पासून संरक्षण मेळटालें. मोटू मात खावन खावन जिवान मोटो जाल्ल्यान ताका गेटींतल्यान भितर सरूंक मेळनाशिल्लें. थंय लागीं आनीक घर बी नाशिल्ल्यान मोटूक पावसांत कुडकुडचें पडटालें.

मोटू तकलेन फीन! ताणें विचार केलो, पोटाक एकवेळ उणें मेळ्ळ्यार जाता पूण पावसांत असोच भिजल्यार जिवाचें कांय धड न्हय. असो विचार करून मोटून खाण-जेवण सामकें उणें केलें. कोयराच्या डब्यांतलें इल्लेशें खावन कुशीक पडून रावतालो. ताणें सुकडूक सांगचें 'म्हज्या पोटांत बरें ना. जेवणूय चलना. तूं आतां जाय तें खा. म्हजी



कांयच हरकत ना.

सुकडू बाबडो उपाशींच आशिल्लो. तो आतां भरपूर खावंक लागलो. जशे जशे दीस वचपाक लागले, सुकडो आंगान भरूंक लागलो. हेवटेन मोटू मात खाण जेवण उणें केल्ल्यान बारीक शिडशिडीत जालो. आनी एक दीस ताणें पळयलें की आतां आंगान बारीक जाल्ल्यान आपूण गेटींतल्यान भितर सरूंक शकतां. तो आतां कांय न्हय करून गेटींतल्यान भितर वचून बंगल्याचे पडवेर सुशेग घेवंक लागलो.

सुकडो मात मेळटा म्हणून खावन खावन गुबगुबीत जालो. ताका गेटींतल्यान भितर कशेंच वचूंक जमना जालें. अशे तरेन आतां सुकडो पावसांत भिजूंक लागलो. मोटूची ही येवजण मात ताचे मतींत आयली ना.

**देखः दर एकल्या सुण्याचो आपलो दीस आसता.**

सीतीर (नेमर) प्रकाश शेटये [illegible] [illegible] [illegible]. [illegible]
धाडिल्ली ही निमणी काणी. बिम्ब परिवाराचे वतीन तांकां आमची [illegible].



## खरी आसा गजाल

आयकात ही गजाल
खरीच आसा मजा
कोलूगेर जाल्यात आमच्या
तीन बाबू काल

एक आसा गोरो
दुसरो आसा गोरो-कालो
तिसरो कुळकुळीत काळो
पळोवंक दिसता शेणा लोळो

खोशी आसा कोलूबाय
पिलाची करता लक्तुबाय
आंगार येता गुरगुरत
पिलां म्हऱ्यांत जर वचत

व्हरत ताका उखलून कोणूय
हुस्को जाता म्हाका
वचन दिसना सोडून तांकां
तापयलो तरी मम्मीन म्हाका



- विघेश विनायक प्रभू
इयत्ता - दुसरी
फोन: २७४०६४०

- सुधा खरंगटे
आर्के, मडगांव-गोंय



# गणपती आयलो

चवथीचे दीस लागीं पावले, तशें संजूचें तोंड सामकें पडटालें...तांगेर घरांत गणपती दवरनासले.

"...सगळ्यांगेर गणपती आसा... आमगेरच कित्याक गणपतीचो बोवाळ ना?...आमींच सद्दां दुसऱ्यांगेर गणपती पळोवंक वचप?" तो पिरंगतालो.

लोकांनी आपल्यागेर येवंचें, गणपती पळोवंचो मखर तोखेवंचें, अशें ताका सदांच दिसतालें.

"बाबा, आमीय बी आमगेर गणपती हाडुंया?" ताणें बाबाक विचारलें. बाबान ताका कांयच जाप केलीना.

"आई,...आई गे, आमीय गणपती हाडया मगे, आमगेर गणपती आयल्यार कितें मज्जा जातली न्ही गे?" तो आईच्या फाटल्यानूच लागलो.

"आरे, पयलीं सावन आमचो गणपती व्हडल्या घरांत पुजतात न्ही? आमी थंय वचून पांयां पडप. तोच आमचो गणपती..." आईन सांगलें.

संजूचें कुटुंबाचें व्हडलें घर काणकोणा आसलें. थंय वर्साक एकदां हीं गणपतीक पांयां पडूंक वतालीं. सकाळीं वतालीं, सांजेचीं घरा परततालीं.

संजूक खूब वायट दिसलें. आई - बाबा ताचें सांगणें कानामनार घेनांत... ताका भितरले भितर घुसमटिल्ले बशेन रडूंक येवंक लागलें. आज तो सारको जेवलो लेगीत ना... तसोच पानावेल्यान उठून वचूंक लागलो.

"आरे, जेव मरे सारको. दोन उणयो जेवला आनी उठला...?" आईन विचारलें.

"नाका म्हाका.." संजून पोले फुगोवन म्हळें आनी तो उठून न्हिदपाक गेलो.

"कितें तरी किसमळ्ळां ताचें..." बाबान म्हळें

"गणपती दवरया म्हणता तो!" आईन सांगलें.

"हय. म्हाकाय सांगतालो. आमगेर गणपती

हाडया म्हणून." बाबान म्हळें, "पूण मदींच असो वेगळो गणपती दवरप बरें दिसना. आमचो गणपती काणकोणां पुजतात न्ही."

"ताच्या इश्टांगेर सगळ्यांगेर आसा गणपती म्हूण ताकाय जिवाक दिसता जातलें, आमगेरय गणपती आसचो म्हणून." कॉलेजांत वचपी काकान म्हळें "भुरग्याचे उमेदी खातीर दवरूंक जातालो..."

"तूं आनी एक!! ताका जल दिवनाका हां..." बाबान काकाक धेंगसायलो.

सकाळीं संजू उठलो तोच फुग्गार जावन स्कुलाक वचूंक तयार जालो. "संजू, चल दूद पी. हो टिफीन बॅगांत घाल..." आईन म्हळें.

"म्हाका नाका तो टिफीन... तूं आमगेर गणपती कित्याक हाडना?" संजून म्हळें.

आईक राग आयलो. तिणें म्हळें - "ओगीच कोणागेरय गणपती येना...गणपतीक येवंचेंशें दिसल्यार तो आमगेर येतलो. तुगेलीं मस्तीपणां, हट्टीपणां, अभ्यास सारको करप ना, दुसऱ्या भुरग्यांकडेन झगडप बी पळोवन गणपतीक आमगेर येवंचेंशें दिसना जातलें. तूं बरो वागलो जाल्यार येतलो तो आमगेर..."

संजूक सट्ट जालें. "खरेंच गे आई?"

"आनी कितें हांव फटी सांगतां?" संजूचे आईन बेजारून म्हळें "हजार किजिलां हाडता दिसभराक..."

संजून टिफीन बॅगांत घातलें आनी मुकाट्यान स्कुलाच्या मार्गाक लागलो.

चलतना ताचीं चिंतनां चालूच आसलीं. कितें कितें केलां हांवें काल?...छे!...आजसावन सामकें बरें म्हणचे बरेंच वागप! कोणाक त्रास दिवप ना... मारप ना...! सगळ्यांक जाता तशी मजतच करप!!

स्कुलांत ताका कोणच चडसो लागीं करनासलो. ओगीच हाका धुकल, ताचो पांय ओड...कोणाक चाळय अशें करपी भुरगो आज क्लासांत ओग्गी सो? टिचरीक अजाप जालें.

दनपरां जेवतना कांयच किचमण्यो करिनासतना पानार पडलां तें जेवन उठलो. आईक अजाप जालें. जेवन होमवर्क करूंक बसला म्हूण काका ताका अजापान पळोवंक लागलो. पूण तांकां खंय खबर संजूच्या मनांत दिसभर गणपतीच आसलो म्हणून! आपली वागणूक गणपतीक मानवतली मूं? हो विचार करुनच तो वागतालो. काल आपणें कितें कितें केल्लें गणपतीक वायट दिससारकें? तो येवजूंक लागलो.

सकाळीं स्कुलाक वतना नामदेवाच्या सुण्याचेर फातर मारून ताचो दोंको मोडिल्लो...सुदिनान बोरां मागल्यार दिलीं नांत म्हूण ताचे फाटीर धुमको घालून ताका रडयिल्लो...अखिल ड्रॉइंगाचे पिरियडाक पेन्सिल हाडूंक विसरिल्लो; ताणें मातशी पेन्सिल मागल्यार दोन पेन्सिली आसुनूय ताणें अखिलाक पेन्सिल दिली ना. चलतां चलतां मजा म्हणून राजूच्या पांयांत पांय घालून ताका रस्त्यार उडयिल्लो. राजूचें धोंपर फुटून रगत आयलें तर ताळयो मारून हांशिल्लो. आईन दुकानार वचून च्याचो पालो हाड म्हळ्यार - "म्हज्यान नजो, म्हाका खेळूंक वचूंक जाय" म्हणत भायर धांविल्लो. काकान फोर्सान अभ्यासाक बसयिल्लो म्हूण रागान काकाच्या पेनाचें नीब मोडून दवरिल्लें...

येवजितां येवजितां राजूक गणपती आपल्याचेर रागार कित्याक तें जाणवपाक लागलें. छे! आतां असलें कांयच करप ना. मनांतल्या मनांत तो गणपतीबाप्पाक म्हणूंक लागलो-"गणपतीबाप्पा म्हजेर रागार जावं नाका. परतून हांव असलें कांयच

करचों ना." कितलो वेळ ताका न्हिदच पडली ना रातची!!

आनी रातचो गणपती ताच्या सपनांत आयलो. संजून बेगीबेगीन ताका नमस्कार केलो. "गणपतीबाप्पा, तूं आमगेर कित्याक येना तें हांव जाणां! पूण आतां हांव सदांच शाण्याबशेन वागतलों"

"खरेंच मरे?" गणपतीन विचारलें.

"सामकें खरें! पळयच तूं!"

"तशें जाल्यार फुडल्या वर्सा हांव तुमगेर येतलोंच!" गणपतीन ताका उतर दिलें.

संजू बरो वागूंक लागलो, तशें सगळ्यांक अजाप जालें. वेळार होमवर्क, अभ्यास करून आयिल्ल्या संजूक पळोवन टिचरी ताचेर खूश जाल्यो. आईन कसलेंय काम सांगल्यार संजू रोकडोच तें करूंक धांवतालो. क्लासांत आपूण जावन दुसऱ्यांक मदत करूंक फुडें सरतालो. कोणच इश्ट नाशिल्ल्या संजूचे नामदेव, अखिल, राजू, सुदीन बी इश्ट जाले. ताका खेळूंक घेवंक लागले.

चार तरी विशयांत तांबडी लायन घेवपी संजू सगळ्या विशयांत पास? रिपोर्ट कार्ड पळोवन बाबान म्हळें- "संजू, आतां खरोच तूं शाणो भुरगो जाला हां!" संजू हांसलो पूण गणपतीची आनी आपली सेक्रेट ताणें कोणाकच सांगली ना.

अंदू चवथी कडेन संजून कांयच बोवाळ करिनासतना तो मुकाट्यांनी सगळयां बरोबर काणकोणां गेलो. व्हडल्या घरांतलो तो गणपती आपल्याक पळोवन हांसताशें ताका दिसलें. संजूय हांसलो. आनी ताणें हळूच विचारलें -"फुडल्या वर्सा तूं आमगेर मरे?" गणपती पावयतना तर संजू बोंबले देंठाकडल्यान आइडलो "गणपतीबाप्पा मोरया, फुडल्या



वर्सा लवकर या." मनांतल्या मनांत तो म्हणतालो - "फुडल्या वर्सा आमगेर या..."

-आनी फुडले वर्साचे चवथीची तो उमेदीन वाट पळोवंक लागलो.

चवथ लागीं पावली. सगळे भुरगे आतां आपापल्या घरा कितें करपाचें...मखर, माटोळी कशी सजोवपाची, हाच्यो खबरी करूंक लागले.

"अंदू आमचे माटोळेक खरे आंबे बांदपाचे आसात. लांकडाचे न्ही..." अखिलान सांगलें. "आमचो फेर्नांदीन आंबो अंदू मागूस लागला. म्हणून चवथी मेरेन चार आंबे बाबान सांबाळून दवरल्यात."

"मामान कांगलां, बेड्यांचें शिपटें, तोरांजां बी कितें कितें धाडटा म्हळां. आईन ओजें धाडटां तेन्ना" राजून म्हळें, "अंदू आमी माटोळी कशी सजयतात

पळय!"

तांच्या खबरांक संजू कांयच उतर घालनासलो.

"संजू, तुमगेर काय बरो गणपती आसूंक जाय आसलो न्ही रे!" नामदेवान विचारलें.

"हय! आमी मागीर तुगेरय गणपती पळोवंक येतले आसले. सगळे एक जावन गणपती पळोवंक भोंवतले आसले... पूण तूं वता काणकोणां.." सुदीनान म्हळें.

संजूचें तोंड पडलें. तो ओगी रावन मान सकल घालून घरा गेलो. ताच्या मनाक धाकधूक जातालें. गणपती उतर पाळत मूं आपलें?

संजूच्या इश्टांक खूब वायट दिसलें. तातूंतच सुदिनान आयडिया काडली. ताणें म्हळें- "गगनागेर पयलीं गणपती पुजनासले. कोणेंतरी चवथी दिसा तांच्या दारांत गणपती दवरलो आनी माराण पेटयले. गगनाल्या तात्यान दार उगडल्यार तांच्या दारांत गणपती!! मागीर तांकां गणपतीक पुजचोच पडलो. तेन्नाच्यान गगनागेर गणपती दवरतात."

"एऽ, आमीय करया रे तशें? मागीर संजू चवथीक घराच उरतलो."

साहिलान विचारलें.

"आमी कशे करतले? गणपतीचे मुर्तीक बरेऽ पयशे पडटात..." अखिलान सांगलें.

सगळे चिंतूंक लागले. आतां राजू उलयलो - "आमी फोग हाडटले त्या पयश्यांतल्यान धा-वीस रुपया वर्गणी काडया."

"हय रे हय!... आनी हांव म्हजे आईक सांगतां... गगनागेर तिणेंच गणपती दवरिल्लो..." सुदिनान ल्हवूच सांगलें.

चवथ लागीं लागीं येताली. संजू गणपतीची वाट पळयतालो. ताका विश्वास आसलो, गणपती आपलें उतर मोडचो ना म्हणून.

-पूण आई, बाबा, काका कोणच तोंडांतल्यान गणपती हाडपाचें उतर काडिनांत. मखराचें, माटोळेचें कसलेंच सामान हाडिनांत!!

संजू मनांत निरशेवंक लागलो.

रातचो बाबा आईक विचारतालो- "फाल्यां सकाळीं बेगीनच वचपाचें काणकोणां... तुजीं वायणां आनी हेर सगळें बरोबर घेवपाचें सामान एकठांय केलां न्ही?"

"हय. हांवें पोतयो, बॅगां सकाळींच भरून दवरल्यांत." आईन सांगलें.

संजूचे दोळे भरून आयले. गणपतीन फटयलो काय म्हाका?... पूण फटोवपाक तो कितें मनीस तर? देव तो! देव केन्नाच फटयनांत.

रातभर संजू तळमळत आसलो. फांतोडेर ताचो दोळो लागलो.

माराणांच्या गडगडाटान तो जागो जालो. तांच्याच दारा मुखार फोगोट्यो पेटताल्यो. बाबान दार उकतें केलें - दारांत गणपतीची प्रसन्न मूर्त...!!

"आगे, पळय. दारांत गणपती दवरला..." बाबाचो उलो आयकून आई, काका भायर आयले. संजू धांवतच दारांत पावलो.

गणपती संजूकडेनच पळयतालो.

इतल्यान बोवाळ आयकून शेजारचो विष्णूबाब, अंतूमाम बी आयले. "आतां तुका मूर्त पुजेक लावंचीच पडली." तांणीं बाबाक सांगलें.

संजूचें काळीज खोशयेन उपाट भरून आयलें. "गणपती आयलो, आमगेर गणपती आयलो..." अशें गायत तो घरभर नाचूंक लागलो.

## कृष्णायन

गोकुळांतल्या कृष्णा
यशोदेच्या कान्हा
देवकेच्या नंदना
राधेच्या मोहना
गोपाळांचो सवंगडी
खेळ वांगडा तालगडी
पांडवांचो इश्ट
कौरवांक ख्यास्त
धनुर्धर पार्थ
ताचें केलें सारथ्य
गीतेच्या संदेशान
सगळ्यांक दिले गिन्यान
दुष्टांचें निर्दळण
सृष्टीचें प्रतिपाळण
हाती सदां घेई सुदर्शन
अशें घडलें कृष्णायन





- सदानंद तेंडुलकार
खोडयें, सत्तरी.



## आयली दिवाळी

आयली दिवाळी आयली दिवाळी
घेवन आयली थंडी शियाळी
लाडू नेवऱ्यो पेढे चकली
तरांतरांचे फोव खांवचेली
घरचीं सगळीं एकठांय येवंचेली
आकाशदिवे ऊंच लावंचेली
नवे कपडे घालून भोंवचेली
सांजे वेळार लक्ष्मी पुजचेली
गोरवां पाडव्याक पोळे करचेली
भयणीन भावाक ओवाळचेली
शाळांक आतां सुटी आसतली
अभ्यासाची काळजी नासतली
अशी ही दिवाळी भोवच आगळी
आयली दिवाळी आयली दिवाळी

## सैमाक गरज सूर्याची

दोंगराच्या आडसाक
झाडां मदल्यान
तांबडें फाफुडटा
ताका भिवून चांदण्यांक घेवन
चांदोबा कूस मारता

कोंबो साद घालता
कोगूळ कुहूकुहू गायता
चिमणी चींव चींव करता
बोकडी बँ बँ आड्डता
कावळ्यांची कांव कांव
बेजार हाडटा

मस्त थंडेन, पांगरूणाचे उबेन
न्हीद न्हिदचें दिसता
शिकना जाल्यार फातर फोडटलो?
दोतोर कसो जातलो?
दादाचो राग दोळ्यांत दिसता
युनिफॉर्म चडयतां चडयतां
मनांत येता, दीस कित्याक?
रातूच आसूंक जाय आसली
स्कूल आनी बॅग नाच जातली
सूर्य ना जाल्यार सैम मरतलो
कालूच ताई समजायताली



- गंधा अनिल घार्से
'बाणेश्वर'
आगशी - गोंय



- नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग, मडगांव.

## बेबो पावला गटारांत

हडव्या ताल्ल बेब्याचो
शेणून गेला गांव
तळमळ्यांत पडला बाबडो
हांगा थंय धांव

जंय जंय वता थंय
कॉंक्रिटाचीं रानां
वाटार सगळो पाड घालो
शेत खंयच दिसनां

गांवगिरे वाटारय
जाल्यात आतां शारां
देखून बेबो चितूंक पडला
वतलो खंय आतां

शेतां नांत, तळीं नांत
बांयो लेगीत पुरयल्यात
बेब्याक आतां रावचें पडटा
हळशिकेच्या गटारांत





## कांसावलेची कुल्ली चल्ली कारवारा

कारवारच्या बोमिलाचें
लग्न थारलां बिरेस्तारा
कांसावलेची कुल्ली चल्ली
लग्नाक कारवारा

कुल्लीबाय सल्ली भायर
उठून फांतोडेपारा
कांसावलेच्या दर्यावाटेन
वचूंक कारवारा

गोरीपीट्ट कुल्लीबाय
न्हेसून धवी साडी
तांबड्या टिपक्यां पोल्क घालून
दिसली सुंदर बरी

तुरू तुरू दोंके मारीत
कुल्ली लागली पेवपा
केळशी काणकोण पेर्णी करीत
पावली कारवारा



## चानी तिडायता हुंदरा पिलाक

दोळे पुशीत हुंदरा पील
आयलें धांवत धांवत
आई आई सांगूंक लागलें
आवयक रडत रडत
पळे गे आई झाडावयरसून
चानी म्हाका चाळयता
शेंपो हालोवन, दोळे मिचकावन
म्हाका पळोवन हांसता

आंबो म्हाका, कातो तुका
भिण्णां म्हाका, सोलां तुका
अशें म्हणून जांबळां खाता
घुटयो म्हजेर शेवटीता

चिंचेर बसून चिंचो खाता
कल्लां म्हजेर उडयता
वेल्यान मगे, दावकुलां दाखोवन
म्हाका ती कुयकूय करता



## कवनां

सूर्यामामा, सूर्यामामा
किरणां तुजीं फांकय
भुंयेर जियेतल्या जिवाक
उजवाड तुजो दाखय
तारयामामा, तारयामामा
व्हडें तुजें तांड
दर्याचे पलतडी
रामान माल्ला सोबीत बाण
हुंदीरमामा, हुंदीरमामा
रातचो कित्याक जागता?
घरकाराच्या तांदळा साकार
भोवन भोवन
नदर कित्याक मारता?
जिराफदादा, जिराफदादा
तुजी लांब-लांब गोमटी
पूण चानयेच्या हिसपान
तुजी बायल खूबच चामटी
सोंशेबाब, सोंशेबाब
खिणाखिणाक
तूं मारता कित्याक उडी?
झाडाफाटसून पळयल्या काय
हतयाची वांकडी सोंडी?
हतीदाद, हतीदाद
तूं कोणाक घालता साद?
तानेला जाल्यार उदक पिवन
सोड साद घालपाचो नाद

**– शैला (तरूलता) श. धुमटकार**

## पावली उडयता

एक एक पावली उडयत
चलूंक लागलें बाय
चलतना मर्दी मर्दी
लकता ताचे पांय

पयली खेप गेलें तें
चलून आंगणा भायर
मन आयलें फुलून
आयलो खोशये भार

आंगणां भायर दिसलीं
तांबशीं धवशीं फुलां
दिसलीं एके कोंबडे वांगडा
उस्तीतना पिलां

पळेली गाय एक
पाजयतना पाडकुल्याक
पळेली ताणें बोकडी एक
खेळयतना माणकुल्याक



**– सुनील पालकार**
**नावशी, ४०३ २०६**
**फो. : २४५९३२१**



## म्हजो श्रीकृष्ण

सगळ्या गांवांनी
म्हज्या बाबू सारको
हुशार भुरगो ना
मस्तीय खूब खूब करता
तेन्ना याद जाता श्रीकृष्णा

सगळ्या वाड्यार
म्हजो बाबू एकलोच
मुरली वाजयता
मुरलीची तान आयकून
याद जाता श्रीकृष्णा

सगळीं भुरगीं
म्हज्या बाबू वांगडा
दिसभर खेळटात
गोपी वांगडा खेळटालीं
तशीं म्हजो श्रीकृष्ण



## इंटेरनेट

बाबू कडेन इंटेरनेट आसा
ताचेर ताका खूब म्हायती मेळटा

शाळेंत भुरगीं कितलीं
बरो इश्ट खंयचो
इश्टाक कितें जाय
खंयचो खेळ खेळचो

बाबूक क्रिकेट आवडटा
बॅट खंयचें बरें
बॉल खंयचो बरो
कंप्युटराचेर सोदल्यार मेळटा

बाबूक सगळें पाठ
बाबूचो इंटेरनेट अजापाचो
बाबूच्या तकलेंत आसा
इंटेरनेट बाबूचो



– भिकाजी घाणेकार
लिदीया गार्डन,
सांत इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५

## परिक्षा सोंपली

परिक्षा आतां सोंपली
शिकून आमी थकलीं
पुस्तकांचे कटकटिंतल्यान
मेकळीं आतां सगळीं

एकटांय आमी जाता
काण्णां चुन्नां खाता
आमल्यो तोरां पुंजायता
घराय थोडीं हाडटा

पुरो जायसर खेळटा
पडल्यार पर्वा नासता
घरा येतकच न्हिदचे वेळार
दुखणें दुकूंक लागता

दरदिसा नवे खेळ
कळना कसो सरता वेळ
सांजच्या वेळार इश्टीणींचे
आंगणांत भरता मेळ

थोडीं सांगतात काणयो
थोडीं गायतात गीतां
थोडींजणां बसल्या थंयच
करूंक लागता ताता



– सुवेदा सुनील पालकार
नावशी,
पो.: गोवा युनिवर्सिटी
फोन : २४५१३२१

## जात्रेक व्हर

पापा पापा म्हाका जात्रेक व्हर
मोटारीत म्हाका फुडें बसूंक जाय
आईक फाटल्यान बसूंक लाय
आई आई म्हाका बोमाडो जाय
तांबडो तांबडो बोमाडो म्हाका जाय
मोट्यांतलो मोठो तोच म्हाका जाय
सूत बांदतगीर तो वयर वयर वचूंक जाय
मामा मामी जात्रेक मेळ्ळीं जाल्यार
मामीकडेन बावली मागूंक जाय
मामान मामीक घेवंक सांगूंकच जाय
दोळे धापता तसली बावली
हांस हांस हांसता तसली जाय
रडटना दुकां पोल्यार गळोवपी जाय
बावली जाय मामीकडच्यानच जाय
काका जात्रेक मेळ्ळ्यार
म्हाका पिस्तूल जाय
पिस्तूल खरेलें न्हय तरीपूण
पिस्तुलांतल्यो गुळयो खऱ्यो जाय
जाय जाय म्हाका पिस्तूल जाय
काका कडच्यान म्हाका पिस्तूल जाय
काकीन काकाक म्हाका दिनाका म्हळ्यार
काकीचेरच गुळयो घालूंक जाय
कितेंय जावं
काकाकडच्यान पिस्तूल जाय
पापा पापा म्हाका जात्रेक व्हर
म्हाका कवळ्यां जात्रेक व्हर

– सुविधा प्रभूगांवकार
आर्के–मडगांव

## डॅडी

घर संवसाराच्या बागेंतलें हांव एक फूल
तो म्हजो माळी
तळहातावयल्या फोडा प्रमाण जपला
म्हाका ताणीं
वत, वाऱ्या पावसांत आसा खंबीर
मूळ तो ह्या घर झाडाचो
आसा तो म्हजो आधार
ताचेबगर कोण करचो ना
म्हजो सांबाळ
शब्दाक शब्द जोडूंक
हाताक हात धरून चलूंक
ताणेंच शिकयलां म्हाका
निराशेचे काळखे रातीक
तोच जावन आसा आशेचें
शितळ चान्नें
जिवीत म्हजें ताणें
केलां प्रकाशमय
तो आसा डॅडी,
म्हजो डॅडी फक्त म्हजोच डॅडी.

– कृतिका राऊळ
चिंचणी
फोन : ९६३७१९७०७३



# पाडें वांस्वेल

- माया अनिल खरंगटे

एक आशिल्लें काळें वांस्वेल. मोठें हुशार. पूण बुध्दीन पाडें. दुसऱ्याचें कशें वायट करप, दुसऱ्यांक त्रास कशे दिवप हेंच तें चितताले. खंयचींय जनावरां बरे भशेन रावतात तें ताच्यान पळोवंक जाय नासलें.

कुकू मांकड आनी टुटू सोंश्याची बरोच तेंप पासून इश्टागत आसली. तीं दोगांय खंय वतात थंय सांगातान फिरतालीं. कसलींय कामां सांगातान करतालीं. सगळ्यांक तांची इश्टागत आवडटाली.

एक दीस काळू वांस्वेलाची नदर तांचेर गेली. जालें, ताणें दोगांय मदीं झगडीं लायलीं. आतां ते दोगूय एकामेकांचे दुस्मान जाल्यात. पोपू कोलो आनी गुर्र वाग बरे इश्ट आसले. तांचे मदींय ताणें झगडीं लायलीं.

भोलू हरणांक आनी ताच्या पिलांक तो सदांच भेश्टायतालो. सगळीं जनावरां काळू वांस्वेलाचेर बेजारिल्लीं. गुलू हत्तीणीन ताका सदांच समजावप- "बाबा रे काळू, अशी दुसऱ्यांची वाट लायनाका. तुजेंच वायट जातलें."

काळू वांस्वेल कोणाचेंच आयकनासलें. दुसऱ्यांक त्रास करपाकच ताका मजा दिसताली. "ताका कशी बुध्द शिकोवंया?" अशें सगळींच जनावरां चिततालीं. पूण तांकां कांयच येवजनासलें.

एक दीस मोलू मांकडान पळयलें, काळू वांस्वेल म्हौंवा माल्या पोंदा रावन वयल्यान गळपी म्हौंव पिता. दोन तीन दीस ताणें पाळत दवरून पळयलें. काळू सदांच त्याच वेळार येवन म्हौंव पिता. ताका एक युक्त येवजली.

त्याच दिसा सांजवेळा मोलून सगळ्यां जनावरांक एकठांय आपयलीं आनी कितें तरी सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सदचे वरी काळू म्हौंव खावपाक गेलें. तोंड उगडून तें वयर पळयत रावलें. पट्ट करून म्हौंवाचो एक थेंबो ताच्या तोंडांत पडलो. ताणें टक करून तो चोखलो. परत तोंड वयर केलें. अशे तीन चार थेंबे ताणें चोखले. तेन्नाच पयसुल्ल्यान मोलू मांकडान म्हौंवा माल्याचेर फातर मारलो आनी तो ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार उडक्यो मारत धांवलो.

हेवटेन कितें जालें, म्हौंवा माल्याचेर फातर मारतकच मूस चाळवले. ते हांगा थंय धांवूंक लागले. सकयल काळूक पळयतकच, ताच्या आंगाक हांगा थंय चाबूंक लागले. काळू व्हडाव्हडान आड्डत जमनीर लोळूंक लागलें. मूस ताच्या व्हड व्हड केंसांतल्यान भितर वचून चाबताले. जमनीर लोळल्यार लेगीत सुटना जाले. करतां करतां जाम जावन काळू सकल पडलें. पडिल्लें कडेन काळूक याद जाली, गुलू हत्तीणीन ताका सांगिल्लें, "दुसऱ्याचें वायट केल्यार आपलेंच वायट जाता."

- आवे मारिया आफोन्सो

# सर्ग आनी नरक







एका खेड्या गांवांत एक मनीस जियेतालो. ताचें नांव रवी. तो आपल्या धंद्यांत बरोच परजळ्ळो आनी ताणें खूब आस्पत एकटायल्ली. एक फावट रवीन गांवची वेंचणूक लडयली...जिकलो आनी गांवचो सरपंच जालो. त्या फुडें तो विधानसभेची वेंचणूक जिकलो आनी मंत्री जालो. खुशाल आनी हुसक्या मेकळें जिवीत जियेवंक ताचे लागीं सगळें आसलें. ताचें घर गांवांत एकदम आकर्शीत आनी सोबीत दिसतालें. ताचें जेवण तर एकदम उंचल्या दर्जाचें आसतालें. टी.वी., कंप्युटर, इंटरनेट आदी ताचे लागीं आसलें. त्या भायर ताचे लागीं तीन मोटार गाडयो आसल्यो. ताका भोंवडावन हाडूंक एक ड्रायव्हर आसलो. ताका मान-भोवमानाचे इश्ट-इश्टीणी आसल्यो. रवीची सेवा करूंक, जशे परीं घरांत रांदूंक, कचेरींत सफाय पळोवंक, भुरग्यांक इस्कोलाक व्हरून हाडूंक सिरवीदोरां असलीं.

तेच परीं त्या गांवांत एक गरीब मनीस जियेतालो. ताचें नांव कायतान. कायतान, रवी मंत्र्यागेर ड्रायवर आनी राखणदार म्हण काम करतालो. दिसाची ताची गाडी चलयतालो आनी रातच्या वेळार ताच्या घराची राखण करतालो. ताका बायल आनी चोवगां भुरगीं आसलीं. मंत्री दितालो त्या कमी पगारान तो आपल्या बायल भुरग्यांक पोसूंक खूब कश्टवतालो. असले परिस्थितींत ताका मंत्र्याचेरूच पातयेवन रावूंक पडटालें. देखून तो मंत्र्याक आपणाचेर बेजार जावंक संदी दिनासलो. ताणें उलो मारतांच धांवून ताचेशीं येतालो; ताका मेळिल्ले खेपे सलाम मारतालो; ताचें दर एक उतर आनी हुकूम पाळटालो. ह्या मंत्र्याक तो आपल्या मनांतल्यान गाळी घाली, कित्याक म्हळ्यार मंत्री आपूण सुखाचें जिवीत जियेतालो. पूण हें मत ताणें आपणाच भितर गुपीत दवरलें.

आनी एक अस्तुरी आसली जी शारांत एकदम फामाद जाल्ली. तिचें नांव पारिजात. शारांतल्या एका बरें नांव आशिल्ले शाळेची ती प्रिन्सिपल आसली. देखून व्हड-व्हड मनीस तिका चड वालोराचीं दानां घेवन भेटूंक येताले. तिका केन्नांय कसल्या कामांक वचूंक जाय जाल्यार कोण कोण आपली गाडी तिचे सेवेक दिताले. धंदेकार तिची तोखणाय करताले आनी तिका चण्या झाडार चडयताले. हे तरेन तिका फुलयताले आनी आपलें सादयताले. ती तांकां जायते फावोर जोडून दिताली. तांच्या भुरग्यांक सोंपेपणीं ॲडमिशन दिताली. हेरां लागच्यान डोनेशन घेताली.

पारीजात हिच्या घरांत एक रांदपीण आसली. तिचें

नांव फारीदा. ती घरांत रांदपाचो वावर करचे करून शाळेचो वाठार साफ दवरताली. ती एकदमूच गरीब आसली. तिचो घोव बेबदो आनी तिका दोगां भुरगीं आसलीं. बेबद्या घोवाचो मार खाताली आनी समाजांत उणेंपण भोगताली. आपल्या दोगांय भुरग्यांचो सगळो खर्च तिकाच करचो पडटालो. भुरग्यांचे शाळेचो खर्च...इलाज दिवंक खर्च! फारीदाक गरज तितलो पगार मेळनासलो. देखून, कोण-कोण बऱ्या मनाचीं मनशां तिच्या आदाराक पावतालीं.

जशी मनशाची संवसारी यात्रा मरणांत सोंपता, तशीं हीं चोवगांय जाणां मेलीं. मरतच तीं परमेश्वराक भेटलीं. सगळीं भुरगीं देवा बापाक मोगाचीं. देवा फुड्यांत कसलेंच इन्ल्युएन्स चलना. ह्या चोवगां मदें गिरेस्त रवीक आनी ते गिरेस्त पारीजातीक आपलें सासनाचें ठिकाण करूंक नरकांत वचचें पडटा म्हण जाहीर केलें. तो ड्रायवर कायतान आनी ती रांदपीण फारीदा मात सर्गार वेतात म्हण थावें जालें.

मंत्री रवी आपलो ड्रायवर सर्गार संतोसान आसा तें पळोवन रागान भरून बोब मारता: "हागांसर म्हजे हाल उपाद्रे जातात; हांव चुकय नासतना देवळांत वेतालों, जात्रेक वेतालों, देवाचें कितें करपाचें आसलें तें सगळें करतालों, त्या भायर नवें देवूळ बांदच्या वेळार खूब डोनेशनस् दिल्यांत! आनी हाचो म्हाका हो इनाम? तो तुजे फुड्यांत बसून आसा तो नालायक, कामचोर आनी बेबदो."

तेन्नां परमेश्वरान ताका हे परीं जबाब दिलो: "ह्या ड्रायवराच्या रुपान हांव तुका दिसपटीं मेळटालों. म्हजे पासत तुका मातूय वेळ नासलो. तूं तुज्या गिरेस्त इश्टांक वेळ आनी लक्ष दितालो. खरें म्हळ्यार म्हजें नांव परयान तूं नकळो आसलो. हो मनीस तूं दितालो त्या इल्याश्श्या पगाराचेर जियेतालो. तांतलें जायते पावटी तो गरजेवंतांक दिवंक फाटीं सरनासलो. तुवें संवसारी वैभव आनी सूख सोदलें आनी तुका तें फावो जालें. तुजे चाल वागणुकेंत देवाक जागोच नासलो. ताका तुवें भायर दवरलो."

पारीजात हिचे शाळेंत फकत गिरेस्तांच्या भुरग्यांक जागो आसतालो. तांतूंत गरीब लोक वावर करतालो तांचें तिका मात पूण पडून वचनासलें. तांचे कडल्यान ती सगळीं कामां करून घेताली पूण तांकां पगार दिताना ती रडयताली. आपणाक सर्गार जागो मेळूंक ना म्हणून ती एकदम शॉक



जाता. पूण जेन्नां, फारीदाक तिचे रांदपीणीक सर्गार पळेतच तिका झिंट मारता. ती आपली तक्रार मांडटा, "ही व्हड अनीत! हांवें म्हज्या धर्माचें करूंक जाय आसलें तें सगळें केलें... म्हजे शाळेचो निकाल बरो लागूंक हांव खूब वावुरतालीं. आनी तुवें म्हाका असली वागणूक दिवप सारकें न्हयच! तुज्या सर्गीच्या दरबारांत बसल्या ती बायल फकत एक सिरवीदोर, ती मागणें करूंक नकळो आसली, रिणां काडूंक ती फटी सांगताली आनी आतां तुवें तिका मानाचो जागो दिला? ही अनीत देवा!"

देवान तिका म्हळें, "तुका व्हडल्या धंदेकारांक आनी पदवेदारांक दिवंक खूब वेळ आसलो. तुका तुजें इनाम मेळ्ळें."

ह्या संवसारांत आमी थोडोच काळ जियेतांव. ह्या काळांत जाता तितलें बरें करून जियेल्यार आमची वागणूक मनशांक आनी देवाक परयान मानता. मनशा रुपान आमकां देव प्रसन्न जाता. संवसारांत आमची यात्रा करताना भावां-भयणींच्या रुपान देव आमकां भेटूंक येता म्हण घट उगडास दवरूंया.

– गुरुदास मधुसुदन शेणवी नावेलकार
घर नं. ५६२. ऑरेल,
असोळणां, सालसेत-गोंय

# किस्मुरेचो डोंगर



दुर्गापूर वसाहतींतलीं कांय भुरगीं सदांच त्या वसाहतिंतल्या उक्त्या सोडिल्ल्या जाग्यार खेळटालीं. अमूक एक खेळ म्हणून ना. कोणालेय तकलेंत येता तो खेळ खेळप. केन्नाय क्रिकेट, केन्नाय फुटबॉल, केन्नाय लिपचेल्यानीं ना जाल्यार लगोऱ्यांनी. एकदीस एकल्याचे सुपीक तकलेंत आयलें,

"आमी ह्या आयतारा पिकनीक करूया".

जालें! सगळ्यांनीं रोखडेंच म्हळें, "हय वय गूड आयडिया. आमी पिकनीक करूया."

"खंय या?"

एकल्यान प्रस्न केल्या बरोबर सगले थप्प जाले. एका-मेकाच्या तोंडाकडेन पळेत रावले. तितल्यान दुसरे सुपीक तकलेन प्रस्ताव आयलो, "आमी कोलव्यां या."

"हय, वय आमी वेळेर या." रोकडेंच सगळ्यांनीं ताच्या म्हणण्याक तेंको दिलो.

"हय. पूण वेळेर वतले जाल्यार साधन नाका?"

"आरे, हय मरे! कितें करूया?"

"आरे, सुस्मीत, तुमगेली जीप आसा न्हय रे? पप्पाक सांग. तो ना म्हणचो ना."

"हय. म्हज्यान पप्पाक सांगून जीप भायर काडूं येता. पूण..."

"आतां आनीक पूण कित्याक आयलें तर?"

"आमी भाडें दिवचे नांत. पूण डिझल तरी गाडयेक घालूं नाका?"

"बरोबर रे. पूण आमी चार-पांच जाण कितले म्हणून पयशे काडटले?"

"अशें करुया. एक नोटीस काडुया आनी

वसाहतींतल्या सगळ्या इमारतींनीं लावया. वसाहतींतल्या सगळ्या भुरग्यांक पिकनिकेक आपोवंचें."

"वा! सुपर फायन आयडिया. सगळ्या भुरग्यांकडल्यान थोडे थोडे पयशे काडले जाल्यार डिझलाचे आनी ते भायर च्या-पाणयाचेय पयशे सुट्टले."

भुरग्यांमदीं सुंदर अक्षर आशिल्ल्यान सुंदरश्यो नोटिसी बरोवन इमारतींच्या मुखेल दरवंट्याचेर लायल्यो. आनी ताचेर 'पिकनिके खातीर तयार आशिल्ल्या भुरग्यांनी आयतारा खेळामळार सांजेच्या पाचांक हाजीर रावचें.' अशें बरयलें.

सगळे उमेदी भुरगे त्या दिसा बसकेक मुजरत हजर रावले. सदांच न चुकतां थंय खेळपाक येवपी आसलेच त्या भायर हेवटेन तेवटेन खेळाक, नाचाक, ट्युशनाक वचपी आनी स्पोर्ट कॉम्प्लॅक्सांत वचपी लेगीत हाजीर रावले. सगळ्यांनी वीस-वीस रुपया काडून डिजलाचो खर्च करचो म्हूण थारलें. ते भायर कोणें बिस्कीट, कोणें थंड पेयां, कोणें आनी कितें हाडचें तें सगळें थारायलें. मागीर कार्यावळ कशे तरेन करची ताचेर विचार चल्लो. कोणें पत्ते, कोणें क्रिकेट, कोणें फुटबॉल, कोणें कबड्डी अशो जायत्यो सुचोवण्यो केल्यो. भासाभाशेन शेवटाक फकत अंताक्षरी आनी कांय फकणां खेळ इतलीच कार्यावळ करूया म्हूण थारलें.

जालें! पिकनिके दीस उजवाडलो. जिपींत सगळें सामान दवरलें आनी जीप चालू जाल्याबरोबर अंताक्षरी सुरू जाली. कांय जाण सुंदर आवाजान बरीं पदां गायताले, तर कांय जाण बेसूर. म्हजी भसाड्या आवाजान पदां सुरू जाल्या बरोबर सगळे पोट धरून हांसताले.

वेळेर केन्ना पावले तें कळ्ळेंच ना. कोलव्यां पावल्या बरोबर वांगडा हाडिल्लें सामान गाडयेंत दवरलें आनी आमी धांवत पळत पुराय वेळ माड्डिली. मागीर उदकांत वचून धुडगूस घालपाक लागले. एकामेकाचेर उदका शिंवर शेंवट्टुपाक लागले. तितल्यान फीऽऽर्ऽऽ, फिऽऽर्ऽऽ करून पिल्लुक्यांचो आवाज येवपाक लागलो.

"हे आनी पोलीस शे हांगा! कोणा फाटीं लागल्या काय?" अशें म्हणून येवजून आमी स्तब्ध जाले. पळेल्यार दोग होमगार्ड आमच्या म्हऱ्यांत उबे. तांणीं सांगलें, "ए बाबानों, कितें? घरा परत पावचे नात म्हूण सांगून आयल्यात व्हय?"

आमी तांच्या तोंडाकडेन पळेत उरले.

"उदका कडेन आनी उज्याकडेन केन्नाच खेळचें न्हय म्हूण जाणट्यांनीं तुमकां सांगूंक ना? केन्ना व्हडली लाट येवन तुमकां दर्यांत व्हरत कळचें लेगीत ना. चला वयर चलात. लाटे उदक पावना थंय रेंवेर खेळात."

आमी मोन्यानी रेंवेर येवन वाटकुळे बसले.

सुरेशान सुरवात केली. "आतां आमी 'कवनां'नी खेळुया."

"कवनांनी?" हावें अजापान विचारलें, "आतांच आमी 'अंताक्षरी' खेळून आयल्यांत. आतां आनी कवनां खंयचीं?"

सुरेशान म्हळें, "कवनां म्हळ्यार फकणां. कितेंय तरी अशी करणी करप वा कृती करप जाका लागून सगळ्यांनीं हासूंक जाय. वा कितेंय तरी मजेशीर गजाल सांगप, जांतल्यान विनोद

निर्माण जातलो - ज्योक जातलो." सगळे जाण उठले.

"हांव सांगतां."

"हांव एक मजेशीर गजाल जाणां"... ते बराबर सुरेशान सांगलें, "वा. इतले जाण आसात जाल्यार आतां चिटयो घालुया."

ताणें एका कागदाच्यो बारीक तिरांट्यो केल्यो आनी प्रत्येकाचेर एक एकल्याचें नांव बरयलें. मागीर चिटयो करून रेंवेर उडयल्यो आनी एका फाटल्यान एक काडून क्रम थारायले. म्हजो पयलोच नंबर लागलो. हांव चितूंक पडलों. कितें करतलों? कांय चितूंक नासलें. तितल्यान म्हजी नदर एका रेवें फातरार पडली. हांवें तोच उखल्लो आनी म्हळें, "पळयात हो एक फातर. सगळ्यांक दिसता?"

"हय." तांची एकाच वांगडा जाप.

"म्हाकाय दिसता." अशें हांवें म्हणल्या बराबर सगळे खोऽऽ करून हांसले.

"आयकयात". हांवें तोंड गंभीर करून म्हणलें, "हांवें असो हातांत धरतकच हो फातर तुमकांय दिसता आनी म्हाकाय दिसता. पूण आतां हांव हो लिपयतां. तो लिपयतकच तुमकां तो दिसतलो. पूण म्हाका तो कसोच दिसचो ना. कितलोय यत्न केल्यार दिसचो ना."

सगळ्यांनीं अजापान विचारलें, "म्हणल्यार कितें?"

"आयकात. हांव तो अशा जाग्यार लिपयतलों, ज्या जाग्यार लिपयल्लो तुमकां सगळ्यांक दिसतलो. पूण म्हाका दिसचो ना. आतां सांगा पळोवया असो जागो खंयचो तो? हांव तुमकां पांच मिनटां दितां. पांच मिनटांत तुमी म्हाका जागो खंयचो तें सांगचे ना जाल्यार 'बें' म्हणचें."

सगळे भुरगे एकामेकाकडेन पळोवपाक



लागले. एकामेकाकडेन भासा-भास करपाक लागले. पांच मिनटां जालीं. कोणाकूच जाप येना तें पळोवन हांवें तांकां प्रत्येकाक कानाक धरून 'बें' म्हणपाक लायलें. तशें करतकच ते म्हजे लाटल्यान लागले, "आतां सांग जागो खंयचो तो."

"म्हज्याच माथ्यार!" हांवें सांगलें आनी तसो फातर म्हज्या माथ्यार दवरलो.

"कितें?" सगळ्यांनीं अजापान म्हळें.

"हय." हांवें जाप केली, "म्हज्या माथ्यार दवरिल्लो फातर म्हाका दिसना. पूण तुमकां सगळ्यांक दिसता."

सगळ्यांनीं ताळयो मारल्यो. दुसरो नंबर आयलो सुरेशाचो. ताणें सांगलें, "हांव एक खरी घडिल्ली गजाल सांगतां."

"तुजी खरी घडिल्ली गजाल आनीक आमकां कित्याक सांगपाक जाय? आमकां तुज्यो सगळ्यो गजाली खबर आसात. आमच्या वांगडचो तूं." बाकिच्यांनी ताका तिडायलो.

"तशें न्हय." सुरेशान मातसो पिकार जावन म्हळें, "गजाल खरी. घडिल्ली. पूण म्हजी न्हय."

"तर कोणाची?" बाकिचे.

"ही गजाल म्हज्या आज्यान म्हाका सांगिल्ली."

"तर सांग मरे."

"आयकात. म्हज्या आज्याच्या तेंपार शिकपा खातीर गांवां-गांवांनी आतां अशेन शाळा नासल्यो."

"खबर आसा."

"फुडें आयकात. शिकूंक पणजे लिसेवाचेर वचचें पडटालें. लिसेव म्हणल्यार खंय हायस्कूल. थंय शिकोवपाक पोर्तूगालच्यान शिक्षक येताले. तांकां प्रोफेसर म्हणटाले. आज्याल्या एका सोयऱ्याल्या पुताक शिकूंक लिसेवाचेर घाल्लो. तो पूत भयंकर फकाणेर. कोणाचीय कशीय खोडी काडी. जाणटो-नेणटो म्हूण पळे नासलो. ताणें एका प्रोफेसोराची भंबेरी उडोवपाचें थारायलें. लेक्चर सोपतकच ताणें विचारलें, 'Professor, onde fica a Terra da Kissmur?' (प्रोफेसर, किस्मुराचो दोंगर खंय आसा?) प्रोफेसर हरशीं भुगोलाचो शिक्षक. पूण ताणें किस्मुराचो दोंगर म्हणटा तो केन्ना आयकूंक नासलो. गोंयचो भुगोल लेगीत खबर नासलो. ताणें सांगलें, "म्हाका हाच्या संबंदान कांय खबर ना. हांव फाल्यां सांगतां."

त्या प्रोफेसोरान बाबड्यान वाचनालयांत वचून सगळीं पुस्तकां उस्तिलीं. बाकिच्या प्रोफेसरांलागीं भासाभास केली. पूण पदरांत कांय पडलें ना. चडशे प्रोफेसर पोर्तुगालचेच. तांकां खंय कळूंक आयलां किस्मूर म्हणल्यार कितें तें? शेवटीं ताणें एका गोंयकार शिक्षकाक विचारलें. तो तकलेन फीन आसलो. ताका त्या भुरग्याचें तड्डक रोखडें कळ्ळें. ताणें त्या प्रोफेसराक सांगलें, "हो भुरगो तुका पिशांत काडटा. किस्मूर म्हणटा ती सुक्या बांगड्याची किस्मूर. ती पत्रावळीचेर दाळ करतात. म्हणटकच ताका 'किस्मूरेचो दोंगर' पत्रावळीचेर म्हूण सांग."

घे. हें आयकना फुडें सगळे पोटार हात धरून हांस हांस हांसले. तितल्या भितर पांच जावन गेलीं. सगळे खाण गाडयेंतूच विसरिल्ले. तशे उठून गाडयेंत बसले. उदका बाटल्यो काडून हात-तोंड धूवन हाडिल्लीं खाणां फस्त केलीं आनी परतणीच्या वाटेक लागले.

# डायरी - ए - काश्मिर



- दिलीप बोरकार

**"ह्या** वर्सा काश्मिराक वचूंकच जाय."

हांवें कामिनीक म्हळें आनी कुकी खूक्क करीन हांसलो. तो कित्याक हांसलो तें म्हाका कळ्ळें. हांसपाचेंच ताणें. फाटलीं आठ वर्सां आमी काश्मिराक वचपाचें प्लॅनींग करतात. दर एप्रिलांत, हे सुटयेंत आमी काश्मिराक वचपाचेंच आ! अशें आमी तिगांय एका सुरांत म्हणटालीं. दोन वर्सां तिगांनींय एका सुरांत ही प्रतिज्ञा केली. मागीर तांतलो एक एकलो गळपाक लागलो.

"आसूं आतां! पळेलें आमी काश्मिर!" कुकीन अशें म्हणत आंग काडून घेतिल्लें.

कामिनीन तर काश्मिर हें नांव घेवपाचेंच सोडिल्लें. तरी ताचो नाइलाज जातालो. ताणें आपलीं दोन शॉपां काश्मिऱ्यांक भाड्याक दिल्लीं आनी दर वर्सा सिजन सोंपून ते परत काश्मिराक वतना कामिनीक विचारल्या बगर रावनाशिल्ले, "भाभीजी आप कब आयेंगे?"

"देखेंगे!" म्हणत कामिनी विशय टाळटालें आनी हांवें विशय काडटकच म्हजेर चाळवतालें.

"वच रे तूं एकटोच आनी पळय काश्मिर!" ताचो किंवाटो म्हाका होलमतालो. पूण 'हे वर्सा या, हे वर्सा या' अशें म्हणटां म्हणटां बरींच वर्सां उलगल्लीं. मदीं आमी सिंगापूर, मलेशिया बी टूर करून आयलीं. पूण काश्मिराचो योग कांय जुळून येना आशिल्लो.

कामिनी आनी कुकीन आस सोडिल्ली तरी म्हजे तकलेंतलें काश्मिर वचनाशिल्लें. भारताचें नंदनवन अशें जाका म्हणटात त्या काश्मिरांत म्हजे सारको सैम मोगी, भोंवडेक जिवन मानपी वचनासतना कसो रावंक शकता हाचेंच म्हाका अजाप दिसतालें.

काश्मिरचें पिशें म्हाका साप भुरगेपणासावन. 'काश्मिर की कली' म्हूण एक सिनेमा तेन्ना पळयल्लो आनी केन्ना तरी काश्मिर पळोवन येतलोंच असो मनांत निश्चेव केल्लो. पुराय भारताची भोंवडी केल्ली. हिमाचल प्रदेशांतल्यान कुलू-मनालीच्यान रोथांग पास करीत लेह आनी लडाख मेरेन वचून आयिल्लों. पूण दर वर्सा वतलों अशें म्हणत निश्चेव करून लेगीत काश्मिरचे भेटेक वचपाचो योग जुळून येवंक नाशिल्लो.

वचप शक्य आशिल्लें. आर्थिक चणचण नाशिल्ली. तांतूंत काश्मिराक म्हजे बरेच गिरेस्त मित्र आशिल्ले जे साहित्यीक आनी व्यवसायीकूय आशिल्ले. सगळें काश्मिर भोंवडावन दाखोवपाची जापसालदारकी आपल्या भुजार घेवपाची तांक आशिल्ले आनी हांवें एक खेप तरी काश्मिराक येवन तांचो पाहुणचार घेवंचो अशें मना पासून दिसपी अशे ते खरे काश्मिरी आशिल्ले! तेय म्हाका आपोवन आपोवन थकिल्ले आनी म्हाका आपोवपाचेंच सोडिल्लें.

कामिनीन ज्या काश्मिऱ्यांक शॉपां दिल्लीं तेय फाटीक लागिल्ले,

“दिलीपसाब, एक बार आपकी सेवा करनेका मौका तो दिजीए!” तांकां खबर आशिल्लें, आपणें कितलेंय आपोवणें दिलें तरी भाभीजी एकटी केन्नाच येवचिना. काश्मिर म्हळ्यार कितें मुंबय न्हय. आनी दिसपट्टें काश्मिरच्यो इतल्यो खबरी कानार पडटाल्यो की सोंसपाचें न्हय. आयज हांगा बॉम्ब फुटलो जाल्यार थंय इतले लोक मेले. असले हे दगदगींत, उज्यांत आपल्या चल्याक घेवन वचपाचीं पिशेपणां कामिनी करूंकच शकना आशिल्लें. म्हणटकच ताचे खातीर एकट्यान काश्मिराक वचप म्हळ्यार एक सपनूच म्हणपाचें!

जेन्ना म्हजी त्या काश्मिऱ्यांकडेन वळख जाली तेन्ना ती आस परतून जागवली आनी तांणीं म्हाकाय आग्रो करपाक आरंब केलो. हांवें मनार घेत जाल्यार ही काश्मिरची भोंवडी मूर्त रुपांत येतली अशें तांकां मना पासून दिसतालें जावंये!

वेवसायाच्यो म्हूण कांय चाली आसतात. कामिनीचीं हडफड्यां आशिल्ल्या शॉपांतलीं दोन शॉपां फाटलीं कितलीं तरी वर्सां ह्या काश्मिऱ्यां कडेन आसात. दर वर्सा तीं आपल्याकूच मेळचीं अशी तांची इत्सा आसता. ते खातीर मालकिणींक जितलो मसको मारून खूश करूं येता हाचे कडेन ह्या वेवसायिकांचो कल आसता. काश्मिराक आपल्या घराकडेन व्हरून मालकिणींक खूश करप, आपलें साम्राज्य दाखोवप आनी तुची कृपानदर आपल्याचेर अशीच फुडाराकूय उरूं अशें अभय घेवप ही वेवसायांतली एक म्हत्त्वाची खेळी आसता.

काश्मिर हें जशें भारताचें नंदनवन तशें गोंय हें अस्तंतेचें नंदनवन अशें म्हणटात. भारताच्या नंदनवनांतले बरेचशे काश्मिरी गोंयांत येवन गोंयच्या दर्यादेगेवेल्या वाठारांत फाटलीं कितलीं तरी वर्सां तरी समर्थपणान धंदो करतात. काश्मिरी शाली, कारपेट्स, हेर तरांतरांच्यो कला कुसरीच्यो वस्तु आनी अशेंच जायतें कितें हे लोक मांड घालून विकूंक बसतात. गोंयांत येवपी विदेशी पर्यटकूच न्हय तर देशीय पर्यटक ह्या काश्मिऱ्यां कडल्यान कितें ना कितें विकतें घेत आसतात. कांय काश्मिरी मुंबळी वखदांय विकतात म्हणपाचें आयकल्लें. आसूं येता, फकत काश्मिरी गालीचे विकून ह्या काश्मिऱ्यांचो सिजन फुलता असलें सादे भावार्थीपण बाळगून रावपांत कांयच अर्थ ना. जेन्ना हे लोक दर पर्यटक मोसमांत गोंयांत येतात, हजारांनी लाखांनी रुपया भाडें फारीक करून कोणा-कोणाचीं शॉपां भाड्याक घेवन स म्हयने वेवसाय करतात ते तांच्या वेवसायाक मागणी आसा देखुनूच. हो वेवसाय फकत बऱ्या मार्गानूच चलता अशांतलीय गजाल न्हय. भितरल्यान दोन नंबरांचो धंदोय चलूंक जाय. नातर हजारांनी काश्मिरी दर वर्सा गोंयांत येवन सांगता त्या दरान हांगचीं दुकानां भाड्याक घेवपाचे नाशिल्ले.

गोंयांत पन्नाशेक हजार काश्मिरी कसलो ना कसलो वेवसाय करीत आसात. कोण आपले तांकी प्रमाण ल्हान प्रमाणांत करता तर कोण मोठ्या प्रमाणांत. एका काश्मिऱ्याचें तर गोंयांत पंचतारांकीत हॉटेल आसा. आनी तो आपल्या काश्मिऱ्यांक अडचणेच्या वेळार पावता. तांकां धंद्या खातीर पयसोय दिता म्हणपाचें आयकलां. एक गजाल खरी म्हळ्यार गोंयांत काश्मिऱ्यांचें जाळें फाफसलां आनी ह्या काश्मिऱ्यांचें गोंय हें दुसरें घर जालां.

ते हांगा घरां घेवन रावतात. आमच्या गोंयकारांक जितली बरी कोंकणी येना तांचे परस कितले तरी पटींनी हे काश्मिरी कोंकणी उलयतात. आमकां गोंयकारांक गोंयची जितली म्हायती ना ताचे परस कितले तरी पटींनी चड म्हायती ह्या काश्मिऱ्यांक आसा. फकत शारांतलीच न्हय तर जंय कांय गोंयकार केन्ना पावलेनांत, वो ते विशीं तांणीं केन्ना आयकलेंच ना अश्यो दुर्गम वाठारांतल्यो, खाची कोंयड्यांतल्यो गजाली तांकां खबर आसात. जर काश्मिरांतल्या आकांतवादयांक सोयिस्कर लिपपाची जर सगळ्यांत बरी सुवात खंयची आसत जाल्यार ती गोंय अशें म्हळ्यार अतिताय जावपाची ना. आनी गोंयांत आतंकवादी येवन रावूंक नांत अशें तरी आमी खंयच्या आदाराचेर म्हणूंक शकतात?

जॉनसाब फाटलीं कितलीं तरी वर्सां आग्रो करता तेन्ना हे वर्सा तरी ताचो आग्रो पुराय करपूच अशें हांवें थारायलें. केन्ना वचप, खंयच्या काळार वचप हाची सगळी म्हायती जॉनसाबान दिल्ली. पूण म्हज्या व्यापांतल्यान भायर सरून वेळ थारावप हें कठीणूच आशिल्लें. मे म्हयनो म्हळ्यार गोंयांत उजो. सोंसपाक जायना इतली गर्मी. आतां हे जागतीक तापमान वृद्धीक लागून - ग्लोबल वॉर्मिंगाक लागून तर फकत मायूच न्हय तर सगळेच म्हयने गरमेन आबालार करून सोडटात. तेन्ना माया म्हयनो तापलो, गरमी सोंसूं नज अशें म्हणपाक कांयच अर्थ उरूंक नाशिल्लो. पूण माया म्हयनो हो सगळे तरेन योग्यच म्हणपा सारको आशिल्लो.

कुकीची परिक्षा सोंपिल्ली. म्हणटकच शाळेचो हुसको नाशिल्लो. तरी तांच्या घरांत कोणाच्या तरी लग्नाचो बोवाळ आशिल्ल्यान ह्या मायाक काश्मिराक वचप जमतलें काय ना हेंय कळ नाशिल्लें. कुकीक एकटो सोडून आमी दोगांनीय वचप म्हळ्यार सगळें लक्ष गोंयांत. देह काश्मिराक आनी मन गोंयांत अशें जातकच कोणाकूच भोंवडेचो आस्वाद लुट्टूंक मेळप शक्यूच नाशिल्लें. तेन्ना हे मुखार काका-काकी-कुकीची एकठांय भोंवडी आसतली काय ना हाचोय दुबाव तकली वयर काडटालो.

फाटलीं सात-आठ वर्सां आमी वांगडा खंय ना खंय भोंवडेक वतालींच. एक वर्स म्हज्या दुयेंसाक लागून खंड पडिल्लो तितलोच. आमची श्रीलंका भोंवडी स्थगीत दवरची पडिल्ली आनी कामिनी आनी हांवें कालसर्पयोगाच्या निमतान पुराय महाराष्ट्र आरतो-परतो केल्लो. हेय वर्सा आमचे भोंवडेक खंड पडटलो काय किते अशें म्हाका दिशिल्लें. म्हाका तरी हें वर्स कशेंच चुकोवपाचें नाशिल्लें. ताचे फाटलें तशें कारणूय आशिल्लें.

काका-काकी-कुकीचें भोंवडेचे बाबतींत एकमत नासतालें. म्हाका म्हजे नदरेन भोंवडी करपाची आसली. काकीची आपली नदर आशिल्ली आनी कुकीची आपली. म्हाका जें पळोवंक जाय तेंच कुकी पळयतलोच म्हणपाची खात्री नासताली. तो आपले नदरेन पळयतालो. ताची गरजूय वेगळी आसताली. तरी आमी खंय तरी एक मध्य सोदून एकठांय भोंवडेचो आस्वाद घेतालीं. म्हज्यांतलो साहित्यीक तांच्या बोडार हांव थापूंक शकनाशिल्लों आनी तांकां वांगडा घेतल्या बगर म्हजे पांय भायर सरनाशिल्ले.

सहजीवन म्हळ्यार किते हें हांव ह्याच दोगांयच्या सांगातान शिकिल्लों. हांव वांगडा आसल्यार तांचेंय भोवप जावंक शकतालें. कुकीक तर मुखार आख्खो संवसार आशिल्लो. तो आपल्याक जाय तेन्ना जाय थंय वचूंक शकतालो. हांवेंय भरपूर भोंवडी केल्ली हे आदीं. प्रश्न आशिल्लो तो कामिनीचो. ताका भोंवपाक मेळपाचें तें आमी दोगूय ताच्या सांगाताक आसल्यारूच. म्हाका काश्मिराक वचपाची अथरेकणी लागिल्ली ती चड करून कामिनीक लागुनूच.

काळ कोणाक रावना. एक एक दिसान हाडांची करकर वाडत आसता. ऐन जुवानपणांत हांवें जी किते भोंवडी केल्ली ती फावली. अजून खूब भोंवपाचें आसा आनी तेंय बी पांय सांगात दिता तें मेंग्न. मागीर पयसो, इत्सा आसुनय कांयच सादय जावपाचें नाशिल्लें. चणे आसले आनी दांतूच ना जाल्यार मागीर खंयची इत्सा आनी खंयचें किते? देखुनूच दांत आसात सर चणे खावप. ते उदारीर, गीण काडून लेंगीत हाडचे पडल्यार उपकारता. हे विचारसरणीन हांव भोंवपाची एक्कूय संद सोडिना.

तांतूंत कुकीची ओंदू एस्.एस्. सी. ताणें मॅट्रिकेची परिक्षा दिल्ली. एस्.एस्. सी. मेंग्न तसो तो भुग्गो. ताका खंयीय वतना आमचेंच वांगडा व्हरूंक जाय! आतां ताचें भुग्गेपण सोंपिल्लें. तो खऱ्या अर्थान कॉलेजकुमार जाल्लो. अकरावी जावं मागीर ती! पूण ताचे नदरेन तो कॉलेज कुमारूच जाल्लो. हांवूय केन्ना तरी हेय स्टेजींतल्यान गेल्लों. पयल्या वर्साक शिकता आसलों तरी हांव निमणें वर्स शिकता अशें हेरांक दाखोवपाची एक खुमखुमी येता. ताचो फायदो किते, तशें कित्याक घडूंक पावता हें म्हाका तेन्ना कळूंक नाशिल्लें आनी कुकीकूय तें कळना.

एकदां भुरगेपण सरलें म्हणटकच भुरग्यांचो आवयचो हात सुट्टा. बापायचो सुट्टा. तांची चड काळजी घेवप सोडाच, चड अपुर्बाय केल्ली लेगीत नाका आसता. तो आपल्या पांयार, आपल्या वाद्याचो जावंक सोदता. तेच दिकेन ताचे पांय आनी विचारूय चलत आसतात.

कुकी अकरावेक पावतकच तो आपले पद्धतीन, आपल्या विचारांप्रमाण आपल्याक जाय थंय वतलो. ताच्या सांगाताक आसतले ताच्या विचारांकडेन जुळटात असले ताचे सांगाती. ताचे मित्र, ताच्यो मैत्रिणी. तांचे मुखार आमी जातलीं ताका आडखळ. म्हणटकच ताचे वांगडा तो आपलो म्हूण ताची काळजी घेत, अपुर्बाय करत भोंवपाची ही निमणी संद. मागीर कुकी आपल्या इश्टां वांगडा आनी काकी-काका आपल्याक जाय थंय!

म्हळें हें वर्स चुकोवप ना. तांच्या घरांतलीं लग्नां-बिग्नां ३० माय मेरेन उलगतालीं. जुनाचो बिम्ब तेन्नाच तयार जावपाचो. पांच जुनाक तो पोस्टांत आनी स्टॉलांचेर घालो म्हणटकच हांव आनी कामिनी मेकळीं. एक पंदरा दीस आमी भायर सरूंक शकतालीं. ऑफिसांत श्वेता वांगडा आतां नेत्राय आशिल्लें. त्या दोगांकूय एकमेकाचो सांगात आशिल्लो आनी अंक कसो तयार करप हें श्वेताक अणभवान खबर आशिल्लें. प्रुफां काडूंक आनी जायराती जमोवंक म्हाका आठ दीस पुरो जावपाचें जुलायच्या अंका खातीर! तेन्ना चलो काश्मिर म्हणत आमी तयार जालीं.

तरी एक प्रस्न उबो रावलोच. आमची कल्पना आशिल्ली कुकीची अकरावी जुलायांत बी सुरू जातली. तसोच अदमास आसतालो. ताका आमी म्हापश्यां सेंट झेव्हियरांत ॲडमिशन घेतिल्लें. झेव्हियर स्ट्रीक्ट तशें. आनी वर्ग सुरू जातालें आठ जुनाकूच. म्हणटकच कुकीचें किते करप? तो तर सामको कॉलेजकुमार जावन तयार राविल्लो. काश्मिराक वचत जाल्यार ताका पयलो दीस चुकपाचो आनी वीस-पंचवीस मेरेन सगळी मजा, इश्ट हांचे पासून तो वंचीत जावपाचो. नवें वातावरण, नवें कॉलेज, नवे मित्र आनी नवी उमेद. तांतुंतल्यान कुकीक वंचीत कशें करप?

शेवटी कामिनीन हाचेर तोडगो काडलो. हजार उपायांनी कुकीक समजायलो. वचून प्रिन्सिपलाक मेळळें आनी एकदांची कुकीची पालखी काश्मिर भोंवडे खातीर तयार केलीच.

वतना दिल्ली आनी दिल्ली-ते जम्मू मेरेन ट्रेनीन वचप आनी

येतना विमानान येवप अशें आमी थारावन ते प्रमाण तिकेटी बूक् केल्ल्यो. आमी खंयचोय एक प्रवास जमनी वेल्यान आनी एक प्रवास मळबांतल्यान असो कार्यक्रम आखतात. जमनी वेल्यान भोंवल्यार धतरीचो सांगात लाबता, मनशांचो, सृश्टीचो सांगात आसता. मळबांतल्यान प्रवास केल्यार बेगीन पावतात पूण माती आनी मनीस हांचे मदीं खूब अंतर उरता. वयल्यान थोडो वेळ तुका सुंदर सैमाचें दर्शन जाता. पूण मागीर जीवन उरता तें कुपानीं. कुपां हीं धतरिर रावनूच बरीं दिसतात. कुपांमदीं रावून कुपांचेंय सौंदर्य भोगूंक मेळना आनी धर्तरेवेलेंय. धर्तरेर जीं मनशां मेळटात तीं आपलेपणान चलतात. विमानांतलीं, मळबांत मेळटात तीं मनशां केन्नाच आपलीं नासतात. तीं आपल्याच कोशांत आसतात.



तेच पासत म्हाका पयसुल्ल्या प्रवासांत ट्रेनीचो वापर आवडटा. ट्रेन म्हळयार एक आगळोच अणभव. ट्रेनींतल्यान प्रवास करपी हो खऱ्या अर्थान भारतीय जावन वता. अठरा पंगड लोकांमदलोच आपूण जावन वता. विमानांत फक्त आपूण आपल्याचोच उरता.

सिंगापूरच्यान मलेशियाक वतना आमी विमान टाळिल्लें. वतना बसींतल्यान गेल्लीं आनी येतना दुसऱ्या मार्गान ट्रेनींतल्यान परतल्लीं. जाका लागून थंयची धर्तर, थंयची सृश्ट, थंयचे मनीस आनी संस्कृताय वेगवेगळ्या तासांनीं आमकां अणभवूंक मेळिल्ली. ट्रेनींतल्यान वतना एक वेगळो अणभव मेळटा आनी मार्ग तोच आसलो तरी येतना ताचें रूप बदलता. अणभवूय वेगळे आसतात. जाय ती फकत पळोवपाची नदर!

तरी लेगीत चड दीस भायर राविल्ल्यान नाय म्हळ्यार एक होमसिकनेश येता. केन्ना एकदां गोंयां पावनशें जाता. देखून चड करून आमी परतीचो प्रवास विमानांतल्यानूच करतात.

६ जूनाक आमी मडगांवच्या रेल्वे स्टेशनार दिल्लीची राजधानी एक्सप्रेस धरली. ह्या स्टेशनावेल्यान दोन दिसांखातीर खंयीय वचूंक जाय जाल्यार हांव गाडी हाडून हांगाच पार्क करून दवरतां. पूण आतां हांव वतालों वीस दिसांच्या प्रवासाक. तोय बी येतना विमानान येवपाचे तयारेन. ट्रेनीन आयिल्लोंय जाल्यार वीस दीस गाडी हांगा बेवारशी सोडपांत अर्थ नाशिल्लो. ते परस टॅक्सीकरून स्टेशनार वचपूच शाणेपणाचें आसता. कामिनी आनी कुकी पणजेच्यानूच टॅक्सी करून म्हाका व्हरपाक आयिल्लीं. ताणीं आपली गाडी पणजे सरकारी वसाहतींत हाडून दवरिल्ली.

आमची गोंय-दिल्ली अशी राजधानीची तिकेट ओके जाल्ल्यान तशें व्हडलेंशें टॅंशन नाशिल्लें. फक्त दिल्ली ते जम्मू मेरेनची गाडी ओ. के. नाशिल्ली. आमचीं सीटां वेटींग लिस्टांत आशिल्लीं. ३१-३२ अशीं कितें तरी आशिल्ल्यान बुकींग करप्यान हुसको करपाची गरज ना म्हणिल्ली. हुसको ताका नाशिल्लो. सगळे पयशे घेवन तो हुसक्या मेकळो जाल्लो. हुसको आशिल्लो तो म्हाका. जर आमका रेल्वेंत तिकेट आसुनय प्रवेश मेळ्ळोना जाल्यार? केन्ना खंय पावतलीं आनी आमकां खयचे दिसा खंय पिकअप करपाचें तें आमी जॉनसाबाक सांगिल्लें. म्हणटकच ते प्रमाण आमचो प्रवास जावपाची गरज आशिल्ली. ट्रेनीचो प्रवास जावं विमानाचो. तो कांय वरां उसरां जावप हें देशांतलें एक खाशेलेंपण उरूंक ना. कळाव-लेट हें देशांतल्या प्रवासाचें एक आंगूच जाल्लें आसा. हो कळाव कितली वरां हें जाणाजावन तातुंतच समादान मानप आनी वेळार गाडी पावली जाल्यार खोस मनोवप इतलेंच आमच्या सारख्या प्रवाशांच्या हातांत आसा.

तेच पासत हे नाना तरांचे हुसके प्रवासांत आमची फाट सोडिनांत.

म्हाका ह्या हुसक्यांची पिडा मातशी चड! खूबदां हे पिडेंतल्यान मुक्त जावंचो म्हूण हांव धडपडटां. कामिनीक येवंक कळाव जालो जाल्यार हुसको, कुकीक इसकोलांतल्यान येवंक कळाव जाल्यार हुसको! कामिनी म्हणटा हे हुसके करप सोड. जें कितें घडपाचें आसता तें चुकना. हो जालो दैववादी विचार. जें आमच्या नशिबांत बरयलां तें चुकना. जें घडपाचें तें घडटलेंच. हुसको केलो म्हूण तें चुकना. खरी गजाल! हेर लोकांनीं तशें जरूर वागचें! पूण म्हज्या सारख्याक तें जमता व्हय? हांव तर एक संवेदनशील, सृजनशील असो उतरांचो निर्मातो.

एकदां संडासाच्या कमोडांत एक ल्हानशें हुंदराचें पील पेंवतालें. ताका थंयच्यान काडपाचो हांवें खूबसो यत्न केलो. मागीर रागान 'मर तूं' म्हणत फ्लॅश ओडलो. कमोडांत प्रचंड सुनामी जावन तें माणकुलें हुंदरा पील खंयचे खंय नाच जालें. त्या पिलाचें मुखार कितें जालां आसतलें काय ह्या हुसक्यानूच म्हजो पुराय दीस वायट गेल्लो.

हे असले हुस्के वायट हें हांव जाणां. पूण म्हजे बाबतींत तरी ताका उपाय ना. देखुनूच हांव म्हणटां, म्हाका सुदारपाचो कोणें यत्न करचो न्हय. हांव जसो आसां तसोच म्हाका जाय जाल्यार स्वीकारात. ना जाल्यार सोडून दियात. कितें जावपाचें तें म्हजें जातलें. म्हाका तें मोन्यानी सोंसूकच जाय. आय ॲम अ व्हिक्टीम ऑफ माय ओन फिलॉसॉफी!

ह्याच हुसक्याक लागून हांव काश्मिर वचपाचें टाळीत आयिल्लों. आतां सांगलें बगर रावं नज. काश्मिर पळयल्याबगरूय रावं नज आनी वचपूय ना असो हो एक विचित्र प्रकार. जेन्ना काश्मिर थंड आशिल्लें तेन्ना पळोवप जालेंना. आज दर दिसा खंय ना खंय बॉम्ब फुट्टा आनी कोण ना कोण मरता. त्या दगदगपी काश्मिरच्या देंगणांत वचप म्हळ्यार हुसक्याचेंच. म्हाका म्हजो हुसको केन्नाच दिसलोंना. कित्याक हांव जंय वतां थंय म्हजोच आसतां. हांव म्हाका शेणपाची केन्ना भिरांतूच नासता. हांव हेरांक शेणूंक शकतां. हुसको हेरांक जावं येता. तोय बी करपी कोण आसल्यार! पूण हांगा हुसको करपा सारके म्हजे लोक आशिल्ले. पयलीं हुसको आशिल्लो आईचो! ते पासत एक-दोन दिसां परस चड काळ भायर वचप, कसलीय रिस्क घेवप परवडनाशिल्लें. तशें कचपाचें जाल्यारूच आईक भावांचे सुवादीन करून वतालों. परतून येवप गरजेचें. आवय खातीर अशें शें कितें दिसतालें आनी हांव जीवाक सांबाळटालों. तिच्या वचपान तो हुसको मातसो थोडो जाल्लो. आतां कामिनी, कुकी आसा. खरें म्हळ्यार तांचे खातीर हुसको करपाची गरज ना. तरी जाता तो!

त्याच हुसक्याक लागून काश्मिर वचप हांव मुखार धुकलतालों. जेन्ना थंड जातलें काश्मिर तेन्ना वचप म्हूण! पूण तें ह्या जल्मांत तरी थंड जावप शक्य ना हें म्हाका खबर आशिल्लें. काश्मिर थंड जावंचें! थंय पयलीं सारकी सुखशांतताय नंदची अशें बऱ्याच लोकांक दिसना. कारण आयज मनशांपरस राजकारण खेळपाची एक खुमखुमीच चड गरजेची थारल्या.

हांव एकटो आसल्यार आनी खंयीय तसलोच भिरांकूळ प्रकार घडल्यार तातुंतल्यान तड मारपाची म्हज्यांत तांक वा धैर्य आशिल्लें. पूण हांव जेन्ना काश्मिर सारख्या दुबावाच्या जाग्यार वतां तेन्ना कितेंय घडूं येतालें. कामिनी आनी कुकीची पुराय जापसालकी म्हजेर आशिल्ली. हांव तांका म्हजे जबाबदारीचेर व्हरतालों. जशीं व्हरतां तशीं तांका परत घरा हाडून पावोवप हें म्हजें कर्तव्य थारतालें. हीच भावना थोड्या वो चड प्रमाणांत कामिनी भितरूय आसूंक जाय. आसतलीच. नातर सहजीवन म्हणटात ताका कितें अर्थ आसा?

जॉनसाबान सांगिल्लें, "तुमी येयात. थंय कांयच भंय ना. सगळें सुरळीत आसा. तुमी पयशे लेगीत हाडपाची गरज ना. जाय तितले दीस येवन रावात." शेवटी आठ-धा दीस अशें करतां करतां पंदरा दीस आमी रावतात, सगळें काश्मिर आमकां भोंवडावन दाखय अशें ताका सांगून आमी ते तरेन परतीची तिकेट बूक केल्ली. पूण जॉनसाब जरी सांगतालो कांय भंय ना म्हूण तरी थंयची परिस्थिती, थंयचो आतंक आनी थंयचे प्रश्न जॉनसाबाचेर निंबून नाशिल्ले. जॉनसाब काश्मिरी म्हूण काश्मिराक धंदो करतालो आनी भारतीय म्हूण गोंयांत धंदो करतालो. ताका काश्मिरच्या प्रश्नाचें चडूच पडिल्लें!

दुसरी गजाल म्हळ्यार काश्मिराक मार-फार जावन तातूंत जे लोक मरतात तातूंत मरपाची तांचीच मक्तेदारी नाशिल्ली. तातूंत म्हज्या सारख्याचोय आसपाव जावं येतालो. दैववादी विचार करपी, जाचें पावलां ताच्याच वाट्याक तें येता अशें जरी म्हणटात तरी जाचें पावलां ताकाच थंय नियती ओडून व्हरता हेंच मानचें पडटलें. सगळ्यांच्याच वांट्याक तें येताच अशें ना. तरी एक हुसको हो आसताच. समजा अशें कितेंय घडलें जाल्यार? घडलें जाल्यार मागीर जे ताप उतळताप काडचे पडटात ते सोसपाचे न्हय. मेल्लो मरून वता पूण फाटीं आशिल्ल्याचे हाल जातात. ते हाल कशे आसतात ते अणभव घेतिल्ल्यांकूच कळटा.

हिमाचल प्रदेशांतल्या एका दुर्गम अश्या वाठारांतल्या एक ट्रॅकांत पांय घसरून एका ट्रॅकराक मरण आयिल्लें. तो कांय हजार फुटांवयल्यान निसरून बियास न्हंयत पडिल्लो. तो थंय पडलो, आतां ताका काडप कशें? आसूं ताका थंयच अशें म्हूण काय ताका सोडून वचप शक्य

नाशिल्लें! प्रसंग तर घडला. तो निस्तारपा बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. ताका सकयल्यान वयर हाडप कसो? स्ट्रेचर बी त्या दुर्गम वाठारांत खंयच्यान हाडटले? हेलिकॉप्टर मागयतलो जाल्यार कशें मागयतले? तें मडें एका दांड्याक बांदून, धुकराक व्हरतात तशे वयर घेवन आयिल्ले.

हे असले प्रसंग म्हज्या दोळ्यां मुखार नियाळता आसतना आनी तातूंत अतिसंवेदना आनी कल्पनेच्या संवसारांत सतत वावरत आशिल्ल्यान हुसक्या मेकळो जावप कशें तेंच म्हाका कळना.

गाडयेचो हुसको नाशिल्लो. ती टायमार आसा अशें स्टेशनावेले स्पीकर आइडताले. गाडी टायमार आसा म्हणटकच ती टायमार कित्याक आसा काय? होच हुसको म्हाका जावंक ना हेंच नशीब म्हणपाचें.

खऱ्यानीच दिल्ल्या वेळार, म्हळ्यार सकाळच्या १० वरांचेर राजधानी एक्सप्रेस दिल्लीचे वाटेक लागली. गाडयेंत बसल्या बराबर, अजापाची गजाल म्हळ्यार म्हजे हुसके खंयचे खंय नाच जावन गेले.

सकाळीं उठून आतां पेपर वाचपाचो हुसको ना. बिम्बाच्यो जायराती जमोवपाचो हुसको ना. प्रेसाचीं बिलां अजून पावूंक ना म्हूण प्रेसवाल्याचो फोन येवपाचो हुसको ना. वीस दीस, कांयच म्हळ्यार कांयच चितपाचो हुसको ना. फकत दोळे उगडे दवरून, कान उगडे दवरून पळोवपाचें, आयकुपाचें आनी मेंदवाच्या वेगवेगळ्या कप्प्यानी तें साठोवन दवरपाचें. केन्ना तरी कागदार देवपाखातीर!

राजधानी एक्सप्रेस म्हळ्यार एक अणभव. राजधानी सुरू जायत सावन प्रवाशांक तिणें येरादारीची बरी सेवा दिल्या. सांज जावन काळोख जाय म्हणसर हांव फकत फाटल्यो यादी काडीत भायर पळयतालों. खंयची खंयची सुवात वळखिची आसा, खंय पावलां हांव आतां असो म्हाकाच प्रस्न करीत मनाचो खेळ खेळटालों. वीस-बाव्वीस वर्सां उपरांत हांव ह्या मार्गावेल्यान दिल्ली वतालों. निमणो गेल्लों तो भोवतेक १९८७ वर्सा. आकाशवाणी नभोनाट्य पुरस्कार घेवपाखातीर. त्या उपरांतूय दोनदां निमंत्रण आशिल्लें आकाशवाणीचें. शेगीत तीन वर्सां हो पुरस्कार लाबिल्लो म्हाका. पूण आकाशवाणीच्या राजकारणाक लागून हांवें पुरस्कार घेवपाक न्हयकार दिल्लो आनी तेन्नाच्यान दिल्लीच म्हाका पयस जाल्ली.

फाटलें कांयच म्हाका याद नाशिल्लें. सगळो मार्गूच, वाठारूच बदलून गेल्लो म्हळ्यार जाता. हांगा दर सात वर्सांनी पुराय शरीर बदलता. फकत आंगाच्यो पेशीच न्हय तर एकंदर रूपकारांतूच बदल जाता थंय वीस वर्सांत पुराय देश बदलून गेल्यार अजाप न्हय. पूण बदलूंक नाशिल्ली ती प्रवाशांची मानसिकताय. रेल्वेंत जागो मेळोवपा खातीर धांवपळ. आपलो जागो आपल्याक मेळ्ळो म्हणटकच सर्वस्व आपले सुवादीन आयलें ह्या अविर्भावात तो जागो आपल्या अधिकारांत घेवप आनी मागीर हळूहळू हेरांच्या अस्तित्वाची जाणविकाय करून घेवप. मागीर तूं खंयचो, तूं कितें करता बी हय न्हय शी वळख करून घेवप. मागीर आपलें स्टेशन आयलें काय खंयचे खंय कांयच ना. सतत धांवत आसता ती मात ट्रेन.

दिल्ली स्टेशनाचेर ज्युस्त बारावरांचेर राजधानी भितर सरली. सगळ्यांची देंवपाखातीर धांवपळ. ट्रेनींत चडपाकूय धांवपळ आनी देंवपाकूय धांवपळ. सुसेगाद, आवांताद देंवपी असो हांवें एकूय प्रवाशी अजून मेरेन पळोवंक ना. मागीर तो प्रवास बसींतल्यान आसूं, ट्रेनींतल्यान आसूं वो विमानांतल्यान. ट्रेनींत तरी सरळ उबें रावंक मेळटा. विमानांत बरोच वेळ पॅसेंजरांक अष्टवांकूड जावन रावचें पडटा. कित्याक तर देंवपाची घाई.

आमकां कसलीच घाई नाशिल्ली. आमची जम्मूतावी ट्रेन रातच्या धा वरांचेर आशिल्ली. राजधानी वातानुकुलीत गाडी आशिल्ल्यान भितर आमकां भायल्या हवामानाची कल्पना नाशिल्ली. गाडयेंतल्यान देंवल्यांत मात भायर सामकी उजो. गोंयांत आमकां गाडयेंत पावसानूच बसयल्लें. महाराष्ट्रमेरेन पावस अर्दीमर्दी आमकां हात हालयतालो. मागीर रातचें भायर कितें चलतालें तें कळूंक मार्ग नाशिल्लो. जेन्ना दिल्ली देंवलीं तेन्ना हो उजो! ह्या उज्यांत सात-आठ वरां काडपांत अर्थ नाशिल्लो. शक्यूय नाशिल्लें तें! सगळें सामान घेवन खंयतरी बेवारशी कशे रावपा बदला खंयच्याय हॉटेलांत वचून थोडो आराम करपूच शाणेंपणाचें आशिल्लें. रेल्वे स्टेशनार खरें म्हळ्यार पयल्या दर्जाच्या प्रवाशांखातीर वेटींग रूम आसतात. तांचोय दर्जो उंचेलो आसचो अशी अपेक्षा आसता. पूण थंयची गर्दी आनी हळशिकावणो परिसर म्हळ्यार लोकांविशीं ओड दिसपा बदला विटूच येवप म्हळ्यार चूक जावंचेना.

दिल्लींतले गरमे सारकीच दिल्लीचीं हॉटेलांय उजो म्हळ्यार जाता! थंय दया माया वो जाका कन्सिडरेशन बी म्हणटात तसलें कांयच थंय ना. धंद्या मुखार मनीसपण उपकारना हें जर खंय शिकपाचें जाल्यार दिल्ली वचचें. चार वरां जावं वो चोवीस वरां. पुराय दिसाचें भाडें भरून हॉटेलांत रावपाचें हें हॉटेलवालो मखखपणान सांगता. फकत न्हावपा खातीर अडेज- तीन हजार रुपया खर्चूवप म्हळ्यार ती क्रिमिनल वेस्टेज अशें आमकां दिसता. दिसभर रावपाचें आशिल्लें जाल्यार तितले पयशे दिवपाक हरकत नाशिल्ली. बरें वेवस्तीत रावंक मेळटा

जाल्यार तीन हजार व्हडले न्हय. आमचें म्हारगाय आनी सवाय हाचें एक आगळें गणीत आशिल्लें. जें कितें बील येता तें आमी तिनानी भागताले. एकल्याक जितलो खर्च जाता ताचेवेल्यान आमचें म्हारग काय सवाय तें थारतालें. बील कोणेंय फारीक करूं मागीर! अजापाची गजाल म्हळ्यार आमकां अशे तरेन सवायूच दिसतालें सगळें. मागीर ती टॅक्सी आसूं, जेवण आसूं वो हॉटेल आसूं! तरी थोड्या काळाखातीर आमकां म्हारग हॉटेल नाका असो निर्णय घेवन आमी गोवा सदनाची वाट धरली.

चुकिल्लीं गोरवां करमळेच्या तळ्यांत तशे दिल्ली आयिल्लो गोंयकार गोवा सदनांत

येता. गोवा सदनांत रूम आसल्यारूय ते कोणाक मेळनांत. थोड्या रुमांनी मंत्री–आमदार आसल्यार रावतात आनी थोड्या रुमांनी सरकारी अधिकारी. उरिल्ल्या रुमांचो थंयचे अधिकारी धंदो करतात. तांकां थंय विचारतलो आवय बापूय कोण नासता. आमकां चार पांच वरां खातीर रूम घेवपाची गरज नाशिल्ली. डॉरमेंटरी माध्या



वयल्यान पुरो जाल्ली. सगळ्यांनी न्हावन धुंवन वेवस्तीत आराम केलो. सांजचें साडे सात वरांचेर थंयच्याच कॅन्टीनांत जेवपाचें कारण म्हळ्यार ते दीस फ्रेश बांगडे आशिल्ले आनी तांचें हुमण केल्लें. मुखार नुस्तें कितें मेळ्ळें जाल्यार! अशें म्हणत आमी बांगड्यांचेर वेवस्तीत ताव मारून जम्मू–तावी धरपा खातीर दिल्ली रेल्वे स्टेशनाचो रस्तो धरलो

जम्मू–तावी रातच्या धा वरांचेर सुटपाचो आशिल्ली. आमचो दबो वातानुकुलीत आशिल्लो आनी रातभर वेवस्तीत न्हिदून वचूंक मेळपाचें. पूण आमकां जागो मेळ्ळो जाल्यार! आमचें रिजर्वेशन आशिल्लें. पूण तें वेटींग लिस्ट म्हळ्यार कांयच न्हय अशें आमकां हडड्यार हात मारून रिजर्वेशनाचे पयशे घेतिल्ल्या गोंयच्या मनशान सांगिल्लें. कितें जाता तें पळोवंया. मेळटली आमकां सुवात असो आशावाद मनांत रिगोवन आमीय तशेंच जावं म्हणत आशिल्लीं. पूण मनांत आशिल्ली दूगदूग मात कमी जाय नाशिल्ली.

वेळार गाडी स्टेशनार घुसली. आमी टिसीचो शोध घेतालीं. आमकां सुवात दिवपाचें काम फकत टिसीच करूंक शकतालो. हांव टेन्शन घेतालों ताचे फाटलें कारण हेंच आशिल्लें. म्हाका कितलेय त्रास काडपाची संवंय आशिल्ली. हे आदीं हांवें जनरल डब्यांतल्यान रातभर दारार हुमकळून प्रवास केल्लो.

सुमन्त केळेकार तेन्ना जाग पुण्याक छापतालो. म्हाका दिसता १९७८तलीं गजाल. रवीन्द्रबाबान म्हाका जागाचो मॅटर घेवन पुण्याक वचूंक सांगिल्लें. पुण्याक वचपी ट्रेन रातची काय सांजची आशिल्ली. तेच दिसा पुंडलीक नायकाचें लग्नूय आशिल्लें. तें करून हांव पुण्याक वचूंक भायर सरिल्लों. रिजर्व्हेशन ना. तिकेट काडून जनरल डब्यांत बसून गेल्लों. कॅसल रॉक मेरेन बसूंक मेळिल्लें. मागीर मिटरगेज वचून ब्रॉडगेज जाता तेन्ना दुसरे ट्रेनींत चडपाक सुवातूच ना. हांव तसोच रातच्या बारांक काय केन्ना तरी दाराक हुमकळत पुण्याक गेल्लों.

आतां म्हजे वांगडा कामिनी आनी कुकी आशिल्लो. तेन्ना हांव एकटो आशिल्लों. म्हजे त्रास म्हाकाच सांगपाक अर्थ नासतालो. हांगा ह्या दोगांयचो त्रास म्हज्यान पळोवंक जावपाचें नाशिल्लें. तांचे खातीर तरी म्हाका दोन जागे खंयचेय परिस्थितींत, खंयचेय किमतीर फैदासूंक जायच आशिल्ले. हांव यत्न करतालोंच. पूण हांव मातसो पॉब्र फिदाल्ग. आंगांत फुडाऱ्याचे गूण. शिवाय साहित्यीक! थंय म्हाका सुणो खायनाशिल्लो! तरी आब मोठो. कामिनीक हें सगळें होलमतालें. म्हजे कडेन कांय जावपाचें ना हाची ताका जाणविकाय आशिल्ली. म्हाका आनी कुकीक बॅगां पळय म्हूण सांगून ही शूर मर्दांगिनी हांगा थंय धांवली. खंयच्यान तरी टिसीक धरलो. तांतूंत ताका आनीक एकलो कोण मेळ्ळो. ताचे बायलेन ऐनवेळार प्रवास रदद केल्लो. तो एक बर्थ आशिल्लो. जो कामिनीक दिवपाचो

उतर ताणें दिल्लें. तें उतर घेवन कामिनी आनीक दोन बर्थ सोदतालें. टिसी फाटल्यान जळू कशें लागिल्लें. मनार घेतकच काम पुराय केले बेर सोडप ना हो कामिनीचो सभाव.

टीसीन सांगलें जागो ना. खूब लोक वेटींग लिस्टार आसात. तुमी दुसरे ट्रेनींत ट्राय करात. दुसरी ट्रेन म्हळ्यार फाल्यां. फाल्यां बसून केन्ना पावतलीं श्रीनगराक? थंय जॉनसाब आमची वाट पळयतलो. तकलेर भन्नाट टेन्शन. 'मरू पाडपडिल्ले. फाल्यां जाल्यार फाल्यां या' हांवें उबगून म्हळें तशें कामिनीन दोळे मोठे केले. ताणें जापसालकी आपल्या भुंजार घेतकच हेरांनी तांतूंत मेतेर जावप आवडना. हांव तोंड धांपून ओग्गी रावलों. तें टिसी फाटल्यान हात धुंवन लागिल्लें. टिसी देशाचो सगळो भार आपल्या माथ्यार आसा अशी नुरा करून, हातांत एक चार्ट घेवन हांगा थंय धांवता अशें दाखयतालो. खरें म्हळ्यार तो थंयचे थंय घुस्पतालो.

हालींच वेंचणुको जावन नवें सरकार घडिल्लें. लालू प्रसाद वचून रेल्वे मंत्रालयाचो भार ममता बॅनर्जीन आपल्या भुंजार घेतिल्लो! मंत्रालयाचो ताबो घेवन तिका थोडेच दीस जाल्ल्यान अजून तिका रेल्वेंतलो भ्रश्टाचार पयस करूंक वेळ मेळूं नाशिल्लो. बेशीस्त आनी आपल्या वादयाचे रेल्वे कर्मचारी म्हळ्यार रेल्वे खात्याक लागिल्लो शिरापूच म्हणूंक जाय. प्रवासी आपल्यो हजार विवंचना घेवन रेल्वे प्रवास करतात. सगळेच प्रवासी मौज मजा, फोल्गां मारूंक रेल्वेंतल्यान वताच अशें नांत. तांतुतले भोंवतेक प्रवाशी आपल्या नोकरी- वेवसाया खातीर प्रवास करतात. कोण आपलो जिवा भावाचो कोण तरी निमणो स्वास घेता, ताचे खबरेक म्हूण वता. रेल्वेंत हजार प्रवाशांची गर्दी तशी रेल्वेंतल्या दरेक प्रवाशाच्या माथ्यार हजार प्रस्नांची गर्दी आनी भार आसता.

तांचे सगळेच प्रस्न रेल्वेकर्मचारी आनी मंत्रालय सुटावे करूंक शकतात अशें ना. प्रवाशांची तशी अपेक्षाय नासता. पूण वरांची वरां रांकेंत रावून, पयशे भरून जे ट्रेनीची तिकेट काडिल्ली, आरक्षण केल्लें ते ट्रेनींतल्यान निदान उण्या त्रासांत प्रवास करूंक मेळचो इतलीच माफक अपेक्षा प्रवाशांची आसता. जांच्या दुडवांचेर जांकां हजारांनी रुपयांचो पगार, हेर भत्ते आनी सूख सुविधायो फाव जातात त्या कर्मचाऱ्यांनी निदान नमळायेन ह्या प्रवाशां कडेन उलोवंक जाय आशिल्लें. पूण हे कर्मचारी सर्वेसर्वा जाल्ले वरीं वागताले. आपले मुखार जे कोण लेमेंलेमे करतात ते कोण. तांचे समाजांत स्थान कितें हें कांयच पळयनासतना हे टिसी तांचे कडेन वागतात. 'अडला हरी गाढवाचें पांय धरी' हे उक्ती प्रमाण रिजर्वेशन नाशिल्ले वो वेटींग लिस्टार आशिल्ले सगळे हरी त्या काळो डगलो घालून हांगा थंय धांविल्ल्याचें नाटक करपी गाढवांचे पांय धरताले. पूण तांकां पाजर फुटनाशिल्लो.

गाडी सुटपाची वेळ जाल्ली. शेवटाक त्या काळ्या डगल्याच्या टिसीक काकूट आयली. ताणीं आमकांच न्हय तर अडचल्ल्या सगळ्या प्रवाशांक भितर चडात म्हूण सांगलें. तांचो सिग्नल मेळ्ळे बराबर प्लॅटफॉर्मावेल्या प्रवाशांनी भितर घालून घेतलें. बसपा-न्हिदपाचें सोडा गाडी सुटचे पयलीं गाडयेंत भितर सरूंक मेळ्ळें हेंच आमकां खूब जाल्लें.

गाडी सुटली. टिसी आपूण खूब कितें करतां आनी आपल्याचेर जबरदस्त प्रेशर आसा अश्या अविर्भावान डब्यांतल्या डब्यांत भोंवताले. मदींच येवन आमचे कडेन तिकेट मागताले. आमी ज्या डब्यांत गर्दी केल्ली, तांतुतले आमचे पयलीं भितर सरिल्ले आनी जांचे कडेन रिजर्वेशन आशिल्लें तें आमचे कडेन घुसखोर म्हूण पळयताले. न्हिदपाचो वेळ जावंक नाशिल्लो तरी आपल्या खिणयाळ्या आसनाचो ताबो घेवन ताचेर पातळून दिल्लें. मात्सो कुशीन सरून वो पांय दोडून आमकां तात्पुरतें बसूंक दिंव येतालें. पूण तांकां स्त्रीदाक्षिणूय नाशिल्लें आनी सिनियर सिटीजना विशीं आदरूय! म्हज्या पिकिल्ल्या केसां खाडांचें भांडवल हांव अश्या प्रवासांत जावं कोण वळखना थंय करून सिनियर सिटीजनाचो लाव घेतां. म्हणचे लोकूय म्हाका ती घेवंक दितात. पूण ह्या डब्यांतले मात काळीज नाशिल्ले. तांकां कामिनीचीय काकूट नाशिल्ली आनी म्हज्या सारख्या सिनियर सिटीजनाचीय! त्या मानान कुकी बरो! तो कोणाची भीड-मुर्वत बाळगिनासतना सगळे बर्थ आनी जागे आपलेच म्हणून अधिकारान वचून बसतालो आनी ताका कोण हरकतूय घेना आशिल्लो.

टिसी आयलो. ताणें सगळ्यांच्यो तिकेटी तपासल्यो. जे कोण त्या डब्यांत पातळिल्ले आनी आमकां कुलो तेकोवंक लेगीत सुवात दिना आशिल्ले तेच प्रवाशी त्या डब्यांत आक्रमण करून आशिल्ले. आमचे वरीं तांचेय कडेन रिजर्वेशन नाशिल्लें. कांय जाण तर दुसऱ्या डब्यांतलेय आशिल्ले. आमकां खबर नाशिल्ल्यान ते जागे तांचेच अशें समजून आमी दचकूच आशिल्लीं. दुसऱ्यांचे सुवातेर अतिक्रमण नाका म्हूण!

अर्देवरा भितर टिसीन सगळ्यांक बर्थ दिलें. आमकां दिशिल्लें आमकां तिगांकूय वेगवेगळ्या डब्यांनी वचचें पडटलें. आमची तयारीय आशिल्ली. पूण दरेक प्रवाशा कडल्यान घासाघीस करून शंबर रुपया एक असो जागो दिवन आमचेर उपकार केल्ल्या त्या टिसीन आनीकूय एक उपकार केल्लो, आमकां तिगांकूय एकाच डब्यांत,

एकाच कंपार्टमेंटांत जागो दिल्लो. इतलेंच न्हय तर गाडी सुटचे पयलीं ट्रेनींत जागो ना, दुसरे गाडयेन वचात अशें सांगपी त्या टिसीन सगळ्याच प्रवाशांची वेवस्ता केल्ली. घेवं ताणें मागीर शंबर रुपया! ना तर सगळेच त्रास जावपाचे अशें चिंतून आमीय मनांतल्या मनांत तांचे उपकार मानले.

जम्मू तावी आनी आमी पयलीं आयिल्ली ती राजधानी एक्सप्रेस हांचे मदलो फरक हे गाडयेंत भितर सरल्या बरोबर आमकां जाणवलो. आमी वातानुकुलीत डब्यांत आशिल्लीं. पूण एअर कंडीशनर कित्याक म्हणटात हेंच तांकां खबर नासुंये! सिन्नीचे जन्मोजन्मीचे फॅनूय वयर विचित्र आवाजांत घुंवताले.

पंचवीस वर्सां पयलीं हांव असोच हिमाचल प्रदेशांत बी वतना ट्रेनींतल्यान गेल्लों. 'गोमाचल ते हिमाचल' हें प्रवास वर्णनूय बरोवन ताका कला अकादमीचो आनी उप्रांत साहित्य अकादेमीचोय पुरस्कार घेतिल्लो. त्या वेळा वेली रेल्वेची परिस्थिती आनी आतांची परिस्थिती हातूंत व्हडलोसो बदल जावंक नाशिल्लो. तेच सहप्रवाशी. पयलीं डब्यांत भितर सरूंक लेगीत आडखळ हाडपी. एकदां डब्यांत घुसलो म्हणटकच मागीर तेच तुजे जिवाभावाचे इश्ट जावन वचपी. तेच 'तूच माझे सांगाती' म्हणत खडखडत घुंवपी सिन्नी पंखे. बदल जाल्लो तो भ्रश्टाचारांत. ते काळार रिजर्वेशन नासल्यार हमालाच्या हातार धा-वीस रुपया उडोवन आमी बसपा पुरतो जागो घेताले. आज हमालांची मक्तेदारी संपुश्टांत आयिल्ली. ती सरकारी रेल्वेचो भरमसाठ पगार घेवपी रेल्वे कर्मचाऱ्यांनी घेतिल्ली.

आमचो डबो आशिल्लो तांतुंतलो टिसी पयलीं जागो ना म्हणटालो. ताणें शंबरेक लोकांक तरी तशें सांगिल्लें. तांचे विनवणेकडेन तुच्छतेन पळयल्लें. सुण्या सारको वागयतालो म्हळ्यार जाता. पूण ताणेंच उपरांत त्या शंबरूय प्रवाशांक खंय ना खंय जागो दिल्लो. म्हणचे ते गाडयेंत रिकामे जागे आशिल्ले! जर ताचें आयकून आमी ते गाडयेंत चडूं नाशिल्ले जाल्यार गाडी तशीच सुटपाची! सगळे जागे खालींच वचपाचे! लुकसाण कोणाक जावपाचें? भारतीय रेल्वेक आनी म्हज्या सारख्या प्रवाशांक. आमचे तिकेटीचे दुडू आमकां मेळपाचे. पूण वेल्यान त्रास भोगपाचे. सगळेंच गणीत चुकपाचें. आनी फायदो कोणाक? तर ह्या टिसींक. जांकां म्हयन्या म्हयन्याक भरमसाठ पगार मेळटा तांकां. ताणें आमचे कडल्यान दरमाणसी शंबर रुपया घेतिल्ले. म्हणचे ताणें शंबरेक लोकां कडल्यान तशे घेतिल्लेच. आमचे कडेन तो प्रत्येकी दोनशीं काय तिनशीं रुपया मागतालो. घासाघीस करून कामिनीन तो दर शंबरांचेर हाडिल्लो. गरजेक आयिल्ले सगळेच कितें कामिनी नाशिल्ले. तांतूंत म्हजे सारकेय आशिल्ले. तिनशीं तिनशीं! घे सायबा एकदांचे आनी दी म्हाका जागो म्हणपी! शंबरूच धरले जाल्यारूय शंबर लोकांचे कितले जाले? धा हजार रुपया. आपले पगारा भायर एके रातीक धा हजार रुपया जोड? ही रक्कम कमीच आसतली? थंयचो तो भ्रश्टाचार, पिडापीड आनी प्रवाशांकडे वागपाची रीत आनी प्रवाशांची अगतिकताय हें सगळें पळयतच जाल्यार देश सुदारपाची शक्यताय कमीच आशिल्ली.

बर्थाचेर पडून रेल्वेच्या हारश्यांतल्यान भायर पातळिल्लो काळोख हांव नियाळटालों. देशाची आयची अवतिकाय ह्या गुप्प काळखासारकीच आशिल्ली. तरी मदींच लागपी गांवांतले मिणमिणटे दिवे दोळ्यांमुखा वेल्यान पासार जाताले तशे देशाक तरीय हातुंतल्यान भायर काडूं येता अशे आशावादी विचारूय म्हज्या मनांत येवन वताले.

सकाळीं आठ वरांचेर थारिल्ल्या वेळार ममता बॅनर्जीली जम्मू तावी जम्मूत भितर सरली आनी स्टेशनार भितर सरचे आदीं थोड्या अंतरार रखडली. नवे व्हंकलेक घरांत भितर काडूंक तिका ओवाळपाची, हुंबऱ्यार तांदळानी भरिल्लो घट दवरून तो उजव्या पांयाच्या आंगठ्यान लवंडून घरांत भितर सरूंक लावप बी असली प्रथा कांय कडेन आसता. ते खातीर व्हंकलेक, मागीर ती प्रवासांत कितलीय थकिल्ली आसूं, तयारी जाय मेरेन दारांतूच तिश्ठची पडटा तशी जम्मू तावी स्टेशनार पावचे पयलीं तिश्ठली. ती थारायल्लीय अशे सुवातेर की सकयल देवप मुश्कील. ओव्हर ब्रीज सो. पोंदच्यान जम्मूच्यो गाडयो, स्कुटरी, सायकली, मनीस बी येताले वताले. सकयल देंवून ते देवांचे वो देवळांचे भुंयेक पांय लावचो अशें दिसलें तरी ती केन्ना सुटत हाचो नेम नाशिल्ल्यान बशिल्लेकडच्यान भायलो वेव्हार पळोवन वेळ सारल्या बगर पर्याय नाशिल्लो. तब्बल दोन वरांनी जम्मू तावीन हालचाल केली आनी एकदांची स्टेशनांत भितर सरली.

आमी जम्मू पाविल्लीं. जम्मू रावपाचो आमचो बेत नाशिल्लोच. आमकां जाता तितले बेगीन काश्मिराक पावन जॉनसाब वो ताणें तैनात केल्ल्या मनशांक मेळपाचें आशिल्लें. ताचेकडेन संपर्क करतलो म्हळ्यार मोबायल आमचे बंद जाल्ले. जम्मू काश्मिराक भायले मोबायल म्हळ्यार सीम कार्ड चलना. थंयचें थळावें वापरचें पडटा. आतंकवादी लोकांचेर नियंत्रण दवरपा खातीर जम्मू कश्मिर सरकारान तशीं पावलां उबारिल्लीं. म्हणटकच खंयतरी लोकल फोन आसल्यार ताचेवेल्यान संपर्क करचो पडपाचो. पूण आमी केल्ल्या हिशेबा प्रमाण



सांजचीं पांच-स मेरेन काश्मिराक पावपाचीं. मागीर कळाव जालो जाल्यारूच ते हुसको करूंक शकताले.

स्टेशनावेल्यान आमी जंय काश्मिराक टॅक्सी सुटतात त्या स्टॅन्डार गेलीं. हमालान आमचीं बॅगां आपल्या बोडार मारून आमच्यो पोटल्यो थंय व्हरून उडयल्यो. आदींच थंय आनीकूय प्रवाशी आशिल्ले. कांय टॅक्सी भरिल्ल्यो पूण भायर सरनासतना थंयच उब्यो आशिल्ल्यो. आमकां पळोवन कांय ड्रायव्हर काश्मिर काश्मिर करीत लागीं आयले.

जम्मू किते आनी गोंय किते! सगळे कडेन टॅक्सी ड्रायव्हरांचो सभाव, मानसिकता आनी वागणूक एकूच. रंग-रूपांत, भाशेंत फरक आसलो तरी टॅक्सी ड्रायव्हर हीच तांची खाशेली संस्कृताय. वाठार परकी आसलो तरी तांका बळी पडपाचीं दुबळेपणा करपाची गरज नाशिल्ली. आमी बऱ्याच जाणांक पयस करून आमकां जाय तसलीच आवांताद अशी इनोव्हा गाडी निवडली.

हांगा टॅक्सी म्हळ्यार असल्योच व्हडल्यो गाडयो. वाठार पहाडी जाल्ल्यान जिपी, सुमो ह्या सारखी वाहनां प्रवासाक सोयिस्कर आसतात. प्रवास बरोच लांबचो आशिल्ल्यान विस्कळ अशी ऐसपैस गाडी गरजेची आशिल्ली. काका, काकी, कुकी खातीर ड्रायव्हरान मदलें शीट आरक्षीत केलें. फाटल्यान दोन आनी ड्रायव्हर सायडीक एक अशे आनीक दोन प्रवाशी मेळटकच तो गाडी सोडटलो अशें दिशिल्लें. पूण सगळे पॅसेंजर भरून लेगीत तो आपलो हेर ड्रायव्हर इश्टांवांगडा टिवल्यो बावल्यो करतालो. हेर टॅक्सींतलेय पॅसेंजर आपले मखख बसून आशिल्ले. म्हळें, वचून केन्ना गाडी सोडटलो काय म्हूण विचारूय! तशें ताका विचारल्यार म्हणूंक लागलो कर्फ्यू काडटकच!

कर्फ्यू खंय लायिल्लो तर? कर्फ्यू केन्ना लागता तर त्या वाठाराची परिस्थिती हाताभायर वचून शांतताय इबाडटा तेन्ना. पुराय जम्मू वाठार तर शांत दिसतालो. सगळेकडेन नॉर्मल परिस्थिती आशिल्ली. टॅक्सी स्टॅन्डाच्या थोड्या अंतरार सुरक्षा दळाचे सैनिक अत्याधुनिक शस्त्रां घेवन तळ ठोकून आशिल्ले. येतल्या वतल्याचेर नदर मारताले. पूण फाटलीं कितलीं तरी वर्सां ही परिस्थिती अशीच आशिल्ल्यान तिकाच नॉर्मल परिस्थिती म्हणपाची संवय जाल्ली. परिस्थिती कर्फ्यू लावपासारकी केन्ना जाता, तर जेन्ना पन्नास-शंबर लोक दंगलीत मेल्ले आसतात. लोक चोम्या चोम्यानी वता थंय जाळपोळ करतात. वाटेर मेळटा ताच्या पोटात तलवारी घुसडटात तेन्ना. तसली काय परिस्थिती थंय दिसनाशिल्ली. मागीर कर्फ्यू कित्याक कर्माक लायला? अशें येवजीत हांवें थंयच्या एका सुरक्षा जवानाक कर्फ्युची गजाल विचारली. तर कर्फ्यू काश्मिराक आशिल्लो. काश्मिर जम्मूसावन तिनशी कि. मी. अंतराचेर आनी थंयच्या कर्फ्यूक लागून हांगा वाहनाचेर नियंत्रण दवरिल्लें. काश्मिरचो

कर्फ्यू सदळ करतकच गाडयो सोडटले म्हणपाचें कळ्ळें आनी तो सदळ जावपाची वाट पळयत आमी गाडयेंतूच आखडून बसून रावलीं.

जम्मूची गरमी म्हळ्यार गरमी नाशिल्ली. ती खतखतपी हवाच आशिल्ली. ताका ते लू म्हणटात. गरमी कशी आसता ताचो अणभव दिल्ली घेतिल्लोच. तातूंत आनी हांगा फरक नाशिल्लो. भायर उबो रावून पांय सदळ करतलों म्हळ्यार खंयच सावळी ना. एकूच झाड आशिल्लें, थंय टॅक्सी युनियनच्या पदाधिकाऱ्यांनीं तळ ठोकिल्लो. त्या रूखापोंदा उदक थंड करूंक युनियनान फ्रीज दवरिल्लो. फोन दवरिल्लो. टॅक्सी बुकींग करूंक रजिस्टर दवरिल्लो आनी खंयच्या तरी देवाची स्थापनाय करून उडयल्ली. त्या रूखाचो परिसर ड्रायव्हरानी सामको भरून गेल्लो. तांचे ड्रायव्हर संस्कृतायेचे पचके विनोद आनी आड्डून उलोवप म्हाका पचपासारकें नाशिल्लें. त्या परस ती इनोव्हाच बरी आशिल्ली. प्रत्येकी पांचशीं रुपया तर फारीक केल्ले!

सुमार साडेबारा वरांचेर कर्फ्यू शिथील केल्ल्याचो गूड न्यूज, शुभवर्तमान कानार पडलें आनी एका बराबर मूस कश्यो सगळ्यो गाडयो काश्मिरचे दिकेन भन्नाट सुटल्यो. एका फाटोफाट एक अशी ती एक रॅलीच जाल्ली.

आमचेकडल्यान पयशे गोळा केल्लो तो प्राणी खंयचे खंय नाच जाल्लो. गाडी चलोवंक दुसरोच कोण तरनाटो भुरगो बशिल्लो. बरो वीस-बावीस वर्सांचो. शरीर बी कमायल्लो. जीन पॅन्ट, टी शर्ट आनी माथ्याक एक कॅप. सलमान खान जसो दिसता तसो ताचो भेस. ताका सलमान खानाचें मातशें मारतालेंय बी. तसो ताचो आब आनी नेटूय आशिल्लो. गाडीय बरी स्टायलीश चलयतालो. म्हळें बरो आसा.

एक-दोन किलोमिटर गाडी पावल्या मात ताचें खरें रूप कळ्ळें. गोंयांत आड वाटेर आसतात तशे तालांव दिवपी ट्रॅफीक पोलीस हांगाय आडवाटेर आशिल्ले. ताणीं गाडी आडायली. गाडयेचीं कागदपत्रां, ड्रायव्हराचें लायसन बी तपासणी जाली. लायसन आशिल्लें. पूण मेल्ल्याकडेन प्रवाशांक व्हरपाचें परमिट नाशिल्लें. ती प्रायवेट गाडी आनी बेकायदेशीर धंदो करताली. आमकां तांचें पडूंक नाशिल्लें. आमी दुड्डू फारीक केल्ले आनी काश्मिराक पावोवपाची तांची जापसालकी आशिल्ली. आमी गाडयेंत बसून रावलीं. हो असलो प्रकार जम्मूतच न्हय पुराय देशांत सर्रास चलता. गोंयांत तर ट्रॅफीक पोलीस हेंच काम करतना जळामळाक दिसनात. तातूंत आनी कसली नविदाद म्हणा!

ड्रायव्हर आनी पोलीस हांचे मदीं घासाघीस चलताली. देवाण घेवाणीविशीं आसुये! तांचो प्रश्न सुटनाशिल्लो. आमकां तर आर्दीच कळाव जाल्लो. तातूंत हें लफडें सुरू जाल्लें. हांव तांचे कडेन पळयतालो. पोलिसाचे नदरेक म्हजें रूप सुटलेंना. हांव तसो सर्वसामान्य प्रवासी नासुये हें ताणें पारखिल्लें. आपय नासतना तो लागीं आयलो. विचारिनासतना म्हायती दिवंक लागलो. हे ड्रायव्हर परमिट नासतना कसो धंदो करतात, कशे बेकायदेशीर येरादारी करतात. आतां म्हाका कितें करचें पडिल्लें ताचें! तरी हांवें म्हळें, "लेलो उससे कुछ और छोड दो!" म्हजो सल्लो ताका पटलो. प्रत्येकी शंबर रुपया करून ताणीं पांचशीं-सयशीं रुपया उठयले आनी गाडी सोडली. हो सलमान खान रडकुरें तोंड करून आयलो आनी तांच्यो केशी सांगत गाडी स्टार्ट मारूंक लागलो. तशें करतना आमचेकडेन पयशे मागूंक लागलो. आमी म्हळें, मरना तूं! आमी सांगिल्लें तुका बेकायदेशीर धंदो कर म्हूण! आमी कोणेच ताका पयशे दिलेनांत! आनी कित्याक दिवंचे?

अशे तरेन प्रवासाच्या आरंबाकूच हो गणेश पुजेक कुसको नाल्ल अशें जावन गेल्लें. मुखार कितें कितें वाडून दवरलां हें देवाकूच खबर अशें चिंतून हांव धांवते गाडयेंतल्यान ते देवाचे भुंयेचें दर्शन घेतालों.

इनोव्हा तावी न्हंय हुपून जम्मू-काश्मिर रस्त्याक लागिल्ली. अजून आमकां त्या ड्रायवराची संवकळ जावंक नाशिल्ली. आपल्याक मालकान त्रासांत घालो. आपणें पुलिसांक पयशे दिल्यात ते आपल्या बोल्सांतले. आपल्याक खार पडलो अशें तो पिरपिरत आशिल्लो. आमकां ताचेकडेन लक्ष दिवपाची गरज नाशिल्ली.

तावी न्हंय सुकून गेल्ली आनी आपूण ती न्हंय न्हयच अशें सांगत वैराण जिवीत सारताली. सगळे कडेन भकास आनी रखरखीत वाठार. पूण वता थंय पयस पयस देवळांचे भांगरा कळस नदरेक पडटाले. जम्मूक 'देवळांचें शार' अशें म्हणटात. हांवें एकाय देवळांत पांय दवरूंक नाशिल्लो. तशी संदूच मेळूंक नाशिल्ली. म्हजी नदर लागिल्ली काश्मिरा कडेन. परतून येतना जम्मूक रावपाचें आशिल्ल्यान जें कितें पळोवपाचें तें मागीर! अशें मनांत थारायल्लें. पूण दोळ्यांक दिसता तें कशें टाळटलों?

जम्मू ते श्रीनगर सुमार तिनशे किलोमिटर. आमी जम्मूच्या वैराण वाठारांतल्यान वताले. खंयच म्हणटात ती हिरवळ ना. जम्मू-काश्मिर राज्याची जम्मू ही हिंवाळी राजधानी देखूनच जम्मूक तशें म्हत्व. हरशीं जम्मू म्हळ्यार फातर-धुल्लाचें राज्य. सगळ्याक कसलें तरी खणप. कितें तरी प्रकल्प चालीक लागिल्लो. कितें काय? मागीर कळ्ळें हो सगळो वावर कोंकण रेल्वेचो चल्ला. कोंकण रेल्वे जम्मू ते श्रीनगर हें पहाडी अंतर रेल्वे मार्गान जोडूंक पळयता. व्वा! केदी व्हडली कापस्ताद! जर हें फळादीक जालें जाल्यार हो रेल्वेमार्ग म्हळ्यार एक

क्रांती मार्ग थरतलो. देशांतलें एक व्हडलें अजाप म्हूण ह्या मार्गाकडेन भोंवडेकार पळयताले. हांवें ह्या प्रकल्पाविशीं वाचिल्लें केन्ना तरी!

उधमपूर–श्रीनगर–बारामुल्ला रेल लिंग हे नावान वळखुपाक येवपी ह्या रेल्वे मार्गाची एकूण लांबी २८५ कि. मी. आसा. ह्या प्रकल्पाची आखणी जाल्ली तेन्ना ह्या मार्गाच्या खर्चाचें अदमासपत्रक आशिल्लें फक्त ११,५०० कोटी रुपया. ह्या कामाक एकाच वेळार आरंभ करपा बदला वेगवेगळ्या टप्प्यानी ताची सुरवात जाली. जे उत्तर रेल्वेकडेन हो जम्मू ते श्रीनगर रेल्वे मार्ग येता, तांचेकडेन हो असले तरेचो दोंगर–दरयंतल्या रेल्वे मार्ग करपाचो अणभव नाशिल्ल्यान हो वावर वेगवेगळ्या एजन्सीक दिल्लो.

कोंकण रेल्वेकडेन आशिल्ल्या त्या ९० कि. मी. प्रकल्पाक खरेपणी आरंब जाल्लो २००३ सालांत. जम्मू ते श्रीनगर च्या ह्या रेल्वेमार्गाचो वावर २००७ सालांत पुराय जातलो अशें म्हणटाले. पूण त्या वावराची एकंदर स्थिती पळयत जाल्यार तो २०२० मेरेन जायत काय कितें सांगू नज. हें अशें कित्याक घडूंक पावता? ताचेर जाणवाय दिवपीय भरपूर आसतात. कांय जाणांचें म्हणणें हो मार्ग बांदपाक घेतलो तेन्ना हांगचे सामाजिक, भौगालीक परिस्थितीचो सगळ्या आंगानी विचार जावंकूच ना. कित्याक हो वाठार म्हळ्यार संवसारांतलो सगळ्यांत चड अस्थिर वाठार. हांगा भूकंप प्रवण क्षेत्र रिश्टर स्केल ६ च्या लागीं आसा. हांगचे फातर भुसभुशीत. मातयेचे प्रचंड दोंगर. खोल खोल दरयांचो वाठार. खंय खंय न्हंयचो तळ आनी दोंगराचें माथें हांचे मदलें अंतर २५०० ते ३००० फुटांचें! देखून कोंकण रेल्वेचें कटग तें लाओलें हें ९० कि. मी. चे रूळ घालपाचें काम सामकेंच जिकिरीचें म्हळ्यार जाता.

ह्या मार्गार, ९० कि. मी. च्या अंतराचेर ४३ बोगदे आसात. जांची लांबाय ७४.१ कि. मी. आसा. ह्या मार्गाचेर ६३ नाना तरेचे पूल आसात. जांची एकंदर लांबाय आठ कि. मी. आसा. हातूंत दोन पूल तर खुबूच व्हडले आसात. हांतल्या एका पुलाची उंचाय जमनी पासून तर १२०० फूट आसा. हो संवसारांतलो सगळ्यांत उंच पूल म्हळ्यार जाता. जे सुवातेर पूल, बोगदे, स्टेशनां बांदपाचे आसात ते सुवातेर वचूंक रस्तेच नांत. हो ९० कि. मी. अंतराचो मार्ग बांदपा खातीर पयलीं २१६ कि. मी.चे रस्ते बांदूंक जाय. म्हणटकच हांव जाका कोंकण रेल्वेचें काम चालू आसा म्हणटां तें रेल्वे रूळाचें काय रस्त्याचें हेंच म्हाका कळनाशिल्लें. जांका विचारतालों तांकांय कळनाशिल्लें. वावर मात चलतालो....

ह्या पुलाचें काम रखडपाचीं वेगवेगळीं कारणां आसलीं तरी लोकांच्या मतान दोन मुखेल आसात. हातुंतलें एक सैमीक. हांगची भुसभुसीत जमीन, नेटान व्हावपी वारो. उटांगारचो पावस. इतलेंच न्हय तर बोगदे जंय करपाचे आसात थंय वचून सर्वेक्षण करतलो म्हळ्यार सादी पांयवाट लेगीत ना.

सैमीक कारणांचेर जैत मेळोवं येता. पूण दुसरें कारण जें मानवनिर्मित आसा तें सामकेंच अडचणीचें. जे वाटेन हो मार्ग वता थंयची चडशी जमीन वनविभागाचे सुवादीन आसा. तांचे जमनींतल्यान मार्ग काडटना तांचे नाका जाल्ले कायदे आड येतात. कंत्राटदारांचीं यंत्रां जप्त करतात. दंडाची रक्कम तर ४० लाख रुपया मेरेन आसा. म्हणचे सगळोच आनंदी आनंद.

हे असले परिस्थितींतल्यान मार्ग काडीत हो रेल्वे मार्ग करूंक ६३ पुलांचें बांदकाम पुराय करूंक जाय. हे सगळे पूल बांदूंक खंय ४ लाख मेट्रीक टन स्टील जाय. कोंकण रेल्वे मार्गाचेर महामंडळान आजमेरेन जितले पूल बांदल्यात तांचें एकंदर वजन खंय ८० हजार मेट्रीक टन. आसा काय ना मजेची गजाल!

म्हणटकच हो मार्ग तयार जावपाक निकतोच भट न्हावपाक गेल्लो. पूण एकदां जर हो मार्ग तयार जालो जाल्यार मात आमच्या सारग्या सैम मोग्यांक ह्या मार्गावेल्यान रेल्वेप्रवास करतना स्वर्ग फक्त दोन बोटां लागीं उरतलो अशें न्हय तर स्वर्गांतल्यान प्रवास करतात असो भास जावं येता. एका दोंगराच्या पोटातल्यान ही झुकूझुकू गाडी भायर सरून दुसऱ्या दोंगराच्या पोटांत भितर सरतना प्रचंड खोल अशे दरयवेल्या पुलावेल्यान ही गाडी वतली तेन्ना ती कुपांतल्यान वतली. पावसांत तर कुपां गाडयेक आपटतलीं. एका बोगदयांतल्यान भायर सरून दुसऱ्या बोगदयांत गाडी शिरतना जर मदल्या अंतराचेर लक्ष गेलेंना जाल्यार गाडी दीर्घ काळ बोगदयांतल्यानूच धांवता असो भास जाले बगर रावचोना असो हो अप्रूप मार्ग आसतलो.

इनोवांत बसून हांव फुडारांक सत्यसृश्टीत येवपी आनी आज जाचो वावर रखडत चल्ला त्या रेल्वे मार्गावेल्यान काल्पनीक प्रवास करतालों. पूण हांव प्रत्यक्षांत सलमान खानाच्या इनोवांत आशिल्लों आनी हो सलमान खान आपले धुंदीत गाडी चलयतालो. हांव रेल्वे मार्गाच्या सपनांत दंग जाल्ल्यान धुल्लान भरिल्लो तो वाठार केन्ना फाटीं पडलो हें कळ्ळेंच ना. इनोवा गतीन मार्ग फाटीं घालताली. जम्मू पासून गाडी सात–आठ कि. मी. पयस पावल्या मात सैमाचें चित्र गाडयेचेच गतीन बदलूंक लागलें. रस्त्याचेर इतलीं ओल्तां आशिल्लीं की त्या सलमानाक तीं ओल्तां कशीं दिसच नाशिल्लीं. केन्ना शिळोणी घालीत, केन्ना आपल्याच सीटार वाकडो तिकडो



जायत तो फिशालपणान ओल्तांचेर स्टेरींग घुंवडायतालो. पूण तो आमकां तेच गतीन लवंडायतालो.

जम्मू शार सोडल्या उप्रांत वैराण रस्त्याचेर पयलेच खेप एक मनाक खुशालकाय भोगोवपी वाठार लागिल्लो तो उधमपूर. उधमपूर हें जम्मू काश्मीरच्या राष्ट्रीय म्हामार्ग क्रमांक १अ वेलें थंड हवेचें थळ. तरांतरांचीं रूखां. हांगच्यान दिसपी सरभोंवतणचें दोंगराळ रूप. सकयल देंगणांतलीं शेतां बी मनभुलयतात. खीणभर हांगा गाडी थारावन रावचें, शीतळ हवेंत भरभरून स्वास घेवंचें अशें दिसतालें. पूण आमचो सलमान खान तुफान वेगांत आपलो रथ हाकतालो. ताचे दोळ्यां मुखार फक्त एकूच ध्येय आशिल्लें, चलो कश्मीर! तातूंत आमचे गाडयेंत हेर आनीक तीन प्रवाशी आशिल्ले. एकलो वायुसेनेत आशिल्लो चेन्नय काय खंय तरी! तो सुटयेर घरा वतालो. दुसरे दोग जाण वेवसाया निमतान भोंवताले. तांकां आमचे हे धंयार धुमके पसंत पडटलेच म्हूण सांगू नज आशिल्लें.

उधमपूरच्यान लागींच वैष्णव देवीचें प्रसिध्द मंदिर आसा. जम्मूच्यान तें ६२ कि. मी. अंतराचेर म्हळ्यार उधमपूरच्यान लागींच. कामिनी वैष्णव देवीची महंता आनी महात्म्य एका फिशाल टुरिस्ट गायडावरी सांगतालें. कुकी बाबडो कानाक आपलो मोबायल लावन केन्ना म्युजीक आयकतालो तर केन्ना न्हिदतालो.. कामिनी वैष्णव देवी वचूंक सोदतालें. इतले पयस येवन वैष्णव देवीचें दर्शन घेवप ना म्हळ्यार कितें? देशांतले हिन्दू भारतीय नारीचें तें एक सपनूच आसता. तातूंत वैष्णव देवी म्हळ्यार जागृत दैवत. हांगा येवन जो कोण मन्नत मागता ताची इत्सा फळादीक जाता हें आयकल्लें. कामिनी तेंच सांगतालें. म्हाकाय वचपाक हरकत नाशिल्ली. पूण कितें मागपाक न्हय. एके देवीकडे म्हज्यो अडचणी घेवन इतले पयस येवप म्हज्या विचारांक पटपाचें नाशिल्लें. ती देवी तर चराचरांत आसपावल्ली. म्हाका जें जाय तें ती आगशीय येवन दिवंक शकताली. आनी जें कितें दिलां ते तशें उणेंय नाशिल्लें. तरी ही यात्रा म्हळ्यार एक सुंदर अणभव म्हणपाचें आयकल्लें. केन्ना तरी ही यात्रा करूंक जाय. पूण म्हजी यात्रेची कल्पना वेगळी. तो वाठार पळोवपाचो म्हजी गरज वेगळी आनी ती यात्रा करतना हेर भावीक लोक जे तरेन बेभान जावन नाचतात, बोवाळ घालतात, तल्लीन जातात तें पळयत जाल्यार तांची गरज वेगळी दिसता. तांच्या त्या वातावरणांत म्हाका केन्नाच म्हजी देवी म्हाका जाय त्या रुपान भेटूंक पावचीच ना. तरी कामिनीक हांवें म्हळें, येतना आमी जम्मूक रावतलीं तेन्ना वचुया.

आमच्या फाटल्या बशिल्ल्यां मदलो एकलो आमी उधमपुराकडेन पावले तसो ह्या वाठाराची, देवीची बी महिमा न विचारतां कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना सांगतालो. आपल्या सांगात्यांकडेन वेवसायाची बडबड करून तोय उबगल्लो आनी आमचे मुखार आपलें वैष्णवदेवीचें गिन्यान पाजळटालो. वैष्णवदेवी आपली महिमा ताच्याच मुखांतल्यान वदोवन आपलें दर्शन घेवंक येवंक सुचयता अशें हेर खंयच्याय प्रवाशाक ताचें उलोवप आयकून दिसले बगर रावचें नाशिल्लें.

सातशीं वर्सां पयलीं खंय कोणा एका श्रीधर नांवाच्या भक्ताक सपनांत दृष्टांत जालो. काश्मीर सावन ६२ कि. मी. अंतराचेर आशिल्ल्या कटरा ह्या वाठारांतल्या २,११२ मिटर उंचायेवेल्या एका दोंगराचेर एक गुहा आसा; तातूंत देवीची मूर्त आसा. ते मूर्तीची तूं स्थापनां कर. ताणें तें आयकलें आनी वैष्णव देवीचें मंदिर उबारलें.

उधमपूरच्यान कटरा म्हणटात थंय वचूंक रस्तो वता. गाडयांनी लोक थंय वतात. मागीर थंयच्यान वैष्णव देवी मंदिराकडेन वचूंक रस्तो ना. भाविकांक घोड्यांचेर बसून वा चलून मंदिरा मेरेन वचचें पडटा. जे गुहेंत वैष्णव देवी आसा ती गुहा खंय तेच देवीन आपलें त्रिशूळ मोखून मारून तयार केल्ली. कोंकण रेल्वेचे इंजिनेर बोगदे तयार करूंक ह्याच वाठारांत धडपडटात. जर ही वैष्णव देवी आतां आशिल्ली जाल्यार तिच्या ह्या त्रिशुळाचो काय बरो लाब करून घेवं येतालो असो एक म्हज्यांतलो तिरसुवाद उलोवंक सोदतालो. पूण म्हाका कामिनीची ते देवीविशीं आशिल्ली श्रध्दा आनी भावना दुखोवपाची नाशिल्ली. हांवें म्हजे डायलॉग भितरूच गिळून उडयले.

तसो हो वाठार भाविकांचोच. वैष्णव देवीचें दर्शन घेवपा खातीर दर दिसा हजारानी-लाखांनी लोक हे सुवातेर येतात. हांगा राबितो करून रावून हांगचीं हेर देवळां, थंयचे देव हांचें दर्शन घेवन आपले भावनेक आनीकूय घटाय दितात. हांव केन्ना केन्नाय विचार करतां, हांव स्वताक बुध्दीवादी म्हणटां. म्हज्या शिक्षणान म्हाका गिन्यान दिलां. म्हाका हे सृश्टीची उत्पत्ती म्हळ्यार कितें, ते सृश्टीत म्हजी सुवात खंयची, जल्म आनी मरण हाचो अर्थ कितें हाची ढोबळ मानान एक कल्पना हांवें केल्ली आसा. जसो जल्म जाला तशें मरण येतलें हो सृश्टीचो नेम. मागीर भिवपाक कित्याक जाय? अशे विचार म्हजे तकलेंत आसात. वांगडा बुध्दाची, ज्ञानेश्वराची आनी हेर ऋशी-मुनीच्या विचारांची धाकाय आसा. तरी लेगीत हांव केन्ना केन्नाय फुडाराचे कल्पनेन धतरवितर जातां. मरणाच्या भंयान खासावीस जातां. खीणभर जावं तरी तो विचार स्पर्शून वता. म्हज्या सारख्या बुध्दीवादयाची ही गत जाल्यार जे लोक केन्ना वयले पातळीर येवन विचार करिनांत, जांका जीवनाचो अर्थूच लावंक आयलोंना, जांका जीवनाचें तत्वगिन्यानूच होलमलेंना तांचें कितें जाता आसतलें काय? तांका कोण थाकाय दिता? तांचें मन कोण थातारता असो एक प्रस्न पडटालो. तांका थातारपाक, थाकाय दिवपाकूच तर आदलींच्या धर्मशास्त्र्यांनी ही वेवस्ता केल्या. तांणी सैमाच्या दुर्गम वाठारानी ह्या देव दैवतांची स्थापना केल्या. सर्वसामान्याचें मन हेर कडेन केंद्रीत जायना तें असल्या सुवातांचेर केंद्रीत करून दुबळ्यांक, अशक्ताक लेगीत सैमांतल्या कठीनांतल्या कठीण अश्या दुर्गम वाठारांत हाडपाची शक्त दिवन तांका तल्लीन करून उडोवपाचो एक मंत्र दिला. त्याच मंत्राच्या आदारान हो लोक उमेदीन जियेत आसता. वैष्णव देवी आनी त्या वाठारांतली भुमिका, जी 'हाथी माथा' म्हणटात थंय आशिल्ली आदीकुमारी देवी, भैरवनाथ बी अश्या दैवतांचीं हांगा देवळां आसात. ह्या सगळ्या देवळांक पांय लायले म्हणटकच ही वैष्णव देवी यात्रा खऱ्या अर्थान पुराय जाता. वैष्णव देवी वचूंक जम्मू विमानतळावेल्यान हेलीकॉप्टराची सोय आसा. दिसाक दोन खेप हेलीकॉप्टर जम्मूच्यान वैष्णव देवी मेरेन वचून येता. हर माणसी दोन हजार काय कितें भाडें घेता आनी जांका वैष्णव देवीचें तात्काल दर्शन जाय ते हेलीकॉप्टरान वचून दर्शन घेताय बी. पूण खरी यात्रा करपाची आसत आनी हांगच्या सैमाचो आनंद लुटपाचो आसत जाल्यार ही यात्रा चलूनच, आपल्या पांयाचेर करूंक जाय. हांगा दर रुखांत, दर दोंगरांत भरसल्लीं दैवतां लागशिल्ल्यान पळोवंक मेळटात.

उधमपूर उपरांत आमचे भेटेक येता उंचायेवेलो शीतळ वाऱ्याचो वाठार. हो वाठार कूद नांवान वळखतात. म्हाका दिसता तांची उंचाय दर्या सपाटी पासून स-सात हजार फूट आसूंक जाय. दावे वटेनच्यान वयर दोंगरार रूखां आनी उजवेवटेन सकयल दरयंत रूखां. ते सफेदा (पॉपलर) ह्या नांवान ह्या वाठारांत परिचित आशिल्ले रूख. पुराय देंगणच कुचकुचीत सफेदानी भरिल्लें दिसतालें. हांगचो थंडगार वारो जिवाक सुखयतालो. गाडी धांवतना वारो लागतालो. पूण तो गरम वारो. वताच्या रखरखांतलो. हांगा पयलेच खेप थंड शितळ वाऱ्यान आमकां वेंगेंत घेतलो. आमचें पुराय आंग सांसपिलें. तेन्नाच आमकां भास जालो आमी काश्मीर देंगणाचे वाटेर आसात.

कूद, कूड काय कूंड? म्हज्यांतलो भाशाशास्त्राचो अभ्यासक हांगच्या गांवांच्या नांवाचो अभ्यास करतालो. उतरांचो, नांवांचो अर्थ, मूळ सोदपाचो यत्न करतालो. कूद म्हळ्यार हिन्दी कुदप काय?

कूदच्यान गाडी मुखार सरकली. रोखडेंच आयलें पटनीटॉप. पटनीटॉपार गाडी थांबली. थंय लोकांची घे गर्दी! पर्यटक येवन येवन वाहना थंय थांबयताले. म्हळें हो टॉप म्हळ्यार एखाद्रो सूर्योदय, सुर्यास्त बी पळोवपाचो टॉप आसतलो. पर्यटकांखातीर अशी सुवात सोदून नावाकूय मागीर भलतोच अर्थ प्राप्त जाता.

पटनी टॉप म्हळ्यार कितें? इंग्लीशींत म्हळ्यार रोमी लिपींत बरयल्लें नांव पतनीटॉप अशें वाचूंक मेळटालें. आमची पत्नी म्हळ्यार बायल. तिचो टॉप म्हळ्यार कितें? टॉप बॉटम हो प्रकार नासतलोच! पतनी म्हळ्यार पटण बी न्हय मूं? पटण म्हळ्यार गांव वा शार- पाटण, ताचो माथो म्हळ्यार टॉप ह्या अर्थान हें पाटण टॉप आसूं येता. गांवचे लोक मूळ नांवाचो अपभ्रंश कित्याकितेंय करून उडयतात आनी इंग्लीश भाशेन तर त्या मूळ नांवाच्यो भोयोभोयो केल्ल्यो आसतात.

आमच्या गोंयचींच नांवां पळयात. तीं रोमी लिपयेंत अशीं बरयल्लीं आसतात आनी ताचो उच्चार असो करतात की ताचो अर्थ जल्माक कोणाक सापडचोना. हडफडें हो गांव हांव जाणां. म्हाका

थंय एकदां वचपाचें आशिल्लें. पूण ताचें आरपोरा जाल्ल्यान म्हाका हडफडें वचूंक बरोच कळाव लागलो. तशींच अस्नोरा-अस्नोडें बी खूब गांव आसात. ब्रिटीशानी तर पुराय देश पादाक्रांत केल्लो. आपली पिलावळ देशभर सोडून ब्रिटीश गेले. हीच पिलावळ असल्या आरपोरा, बिचोलीम बी गांवात रावता तशीच हांगा पत्नी टॉपारूय रावता जावंक जाय. उत्तरप्रदेशांत काय खंय तरी म्हाका अशी एक सुवात मेळिल्ली. कोणें तरी म्हाका ही सुवात सुर्यास्त पळोवंक मस्त म्हणपाचें सांगिल्लें. सुवात खंय आसा काय म्हळ्यार 'सैसठ पैसठ' हांगा. हो सैसठ पैसठ वाठार सोदूंक हांवें हजार भानगडी केल्यो. ताचो अर्थ सोदूंक तकली खरपिली. सैसठ म्हळ्यार सासस्ट आनी पैसठ म्हळ्यार पासस्ट. गांवाक नांव कशें पडत तें सांगू नज. हांवें सैसठ-पैसठ सोदीत शेवटाक ती सुवात सोदून काडली. पळय जाल्यार कितें? त्या वाठाराचें नांव 'सनसेट पॉईंट'. जंय सन सेट जातात, सुर्यास्त पळोवंक मेळटा तो पॉईंट. पूण गांवच्या लोकांनी त्या सनसेटाचें सैसठ करून उडयल्लें आनी पॉईंटाचें पैसठ. आजूय हे सुवातेक पर्यटक लेगीत गांवच्या लोका प्रमाण सैसठ पैसठ म्हणटात आनी नकशाचेर मात बरयल्लें आसा सनसेट पॉईंट.

आमी जाका पतनीटॉप म्हणटाले तीय सुवात अशीच अपभ्रंश जाल्ली आसूं येता. हे पत्नीटॉप सुवातेर लोकांची, गाडयांची घे म्हूण गर्दी. पुराय रस्तोच गाडयांनी आडावन दवरिल्लो. दुकानाचेर गर्दी करताले लोक. म्हळें आमीय पळोवया कितें तें! जाल्यार दुकानार मिठाय विकताले. हांगची ही कुंदा नांवाची मिठाय खूबच प्रसिध्द आशिल्ली. भारतभरचेच न्हय तर जगभरचे लोक येतना वतना ही मिठाय व्हरताले. आपल्याक खावंक, मित्रांक, सोयऱ्यांक भेटोवंक. सोनपापडी म्हूण आमच्या बेळगांवा, बी मेळटा तसलोच प्रकार तो. पूण हाची चव वेगळी. आमी रस्त्यार खावपाक थोडी घेतली आनी मागीर वतना घरा व्हरूया म्हळें! थंय पर्यटकांची ती झूंड आनी तांचो हपापी सभाव पळोवन हे लोक खंयीय गेल्यार सारकेच काय दिसल्या बगर रावनांत. दिसली गर्दी करून, झूंड करून खरेदी केलीना जाल्यार आपल्याक थंय विकतात तें मेळचेंना, आपूण त्या गजालींक वंचीत जातलों अशी कितें तरी मानसिकताय. आमी पत्नी टॉप खाली करून फुडली वाट धरिल्ली.

पत्नीटॉपच्यान मुखार वतकच रोखडीच आमकां आनीक एक रम्य आनी शीतळ सुवात रोकडीच लागली ती बटोट नांवाची. बटोट हें नांव हांव म्हज्या मेमरी कार्डांत सुगूर करतना बटाट ह्या नांवाचो आदार घेतिल्लो. बटोट वाठारांतल्यान चडटी देंवती काडीत गाडी कांय मैलांचेर पावली तेन्ना रस्त्या सकयल खोल देंगणांत सुता सारकी एक न्हंय दिसली हो जल प्रवाह वांकडो तिकडो नागमोडी म्हणटात तसो खळ-खळत व्हांवतालो. गाडी धांवता तशी ती न्हंय केन्ना दावे वटेन तर केन्ना उजवे वटेन. हाचें नांव खंय दर्याखेरा. आमचो दर्या आनी हो दर्या हातूंत कांयच सारकेंपण ना. तरीपूण तांचे भाशेंत दर्या म्हळ्यार जलप्रवाह. ह्याच जल प्रवाहाचें मुखार वचून चिनाब न्हंयत रूपांतर जाता.

बटोट हें एक पर्यटक थळ करपाचो सरकारचो यत्न आसा. जम्मू काश्मिरच्या म्हामार्गार जम्मू पासून ११३ कि. मी. अंतराचेर आशिल्ल्या ह्या वाठाराची उंचाय १.५६० मिटर. हांगा एक अत्याधुनिक असो हेल्थ रिसोर्ट आसा खंय! थंय संवसारांतले बरेच लोक येवन रावतात. सुवात आसाय तशीच. हाची तुळा जरी करप समा न्हय तरी उत्तरप्रदेशांतल्या मसूरी ह्या वाठाराची याद आयले बगर रावना. बटोटच्या रस्त्यावेल्यान गाडी धांवतना सकयल्यान व्हांवपी चिनाब न्हंय अर्दीमर्दी नदरेक पडटाली.

बटोटच्यान आमची गाडी रामबन पावली. हांव सरभोंवतणचें वातावरण अक्षरशा आंगान स्पर्शतालों. समजून घेतालों. सैम सुंदराय दोनूय दोळ्यांनी घटाघटा घोटटालों अशें म्हणूं काय दोळ्यांचे टीपकागद करून सैमाचीं चित्रां टिपून घेवन ताच्यो मुद्रा मनाचेर, काळजाचेर उमटयतालों तें म्हाका कळनाशिल्लें. पूण म्हजे दोळे, म्हजें नाक, म्हजे कान इतलेंच न्हय तर म्हज्या आंगाचें रूंव रूंव जें कितें आगळें वेगळें दिसता तितलेंय म्हजे भितर ओडून घेवंक पळयतालें. ही अनुभूतीच वेगळी. हांव ती व्यक्त करूंक शकना. म्हजी म्हूण एक मर्यादा आशिल्ली हें सगळें तोखेवपाची. सगळेंच जर तोखेवन जालें जाल्यार मागीर तोखेवपा खातीर कितें उरपाचें? मागीर सगळेंच निरस जावपाचें. म्हणटकच सैमूय आपल्या वादयाचें आसता. तें वेगळीं तासां, वेगवेगळ्या आयामानी उसयत आसता आनी देखुनूच दर मनशाक ही सृश्ट दर दिसाच न्हय तर दर खिणाक नवी दिसता. ताचीं वेगवेगळीं रूपां आकार घेत आसतात.

असल्या ह्या वाठारांतल्यान गाडयेन वतना एक आगळीच मजा आसता. तूं एकेच सुवातेर बसून आसता. गाडी मात धावता. गाडयेच्या रस्त्याची कल्पना नासता. गाडी केन्ना चडटी काडटा, केन्ना देंवती काडटा. केन्ना कड्याच्या सामके देगेवेल्यान वता आसतनां ल्हान व्हड वलतांचेर घुंवत आसता. अशे वेळार सैमाचीं सगळीं तासां एक एक उसवत रावता. कांद्याचीं वयलीं पापुंद्रां काडचीं तशीं. एक एक सोल्ल काडत वचचें आनी कांदो हो कांदोच उरलो तरी ताचे वेगवेगळे रंग दर सोल्ला फाटल्यान कशे बदलतात ते पळोवपाक जशी एक खेरीत नदर जाय आसता तशी ही वोल्तां वोल्तांची वाट चलताना वाटेवेलें दृश्य पळोवपाचीय एक खेरीत नदर जाय आसता.

म्हाका मनशां पळोवंक आवडटात तशीं वेगवेगळीं रूखांय पळोवंक आवडटात. संवसारांतले मनीस, मनीस म्हूण एक दिसलो तरी दरेक मनीस एका मनशा पासून वेगळो आसता. जुवळे मनीस आसले तरी ते एका जुवळ्या पासून दुसरो जुवळो वेगळो आसताच आसता! तशींच सगळीं झाडां-रूखां ही एक दिसलीं तरी तीं एका पासून वेगळीं आसता. प्रत्येकाचो आकार वेगळो आसता, रंग वेगळो आसता, फांदयो वेगळ्यो आसतात आनी पानां-फुलांय वेगळीं आसतात. तांचे आकार पळोवपाची जर आवड लागली जाल्यार तातुंतच मनीस दंगून वता.

रस्त्याचे कुशीक दोनूय वाटांनी रूखां दिग उबीं आसतात. तातूंत एक एक रूख मेल्लें आसता. तांचे आकारूय इतले सुंदर आसतात की हीं काष्ठशिल्पां जशीं पळयतात तशीं सुंदर दिसतात. दिसता हीं झाडां आसा तशीं मुळांत सावन उबारचीं आनी व्हरून काश्ठशिल्प म्हूण घराकडेन दवरचीं. तें शक्य नासलें तरी तांचे फोटो काडून म्हाका ह्या रूखांक बंदिस्त करून दवरूंक जाय. हीं मेल्लीं रूखां म्हळ्यार म्हाका रूखांच्यो मम्मीज कश्यो दिसतात.



जम्मू पासूनचो थोडो रस्तो सोडलो जाल्यार फुडल्या सगळ्या रस्त्याचेर दोनूय कडांनी तरांतरांचे रूख आमच्या येवकाराक म्हणा वो आयचे भाशेंत म्हणा आमच्या संरक्षणा खातीर तैनात केल्यात अशें दिसता. ते पळयत पळयत वतना गाडी जशी आमकां घुंवडायता तशें तीं तोखेवंची पडटात. तांचे वांगडा सरभोंवतणचो परिसरूय घुंवत आसता. सगळ्या आंगानी सैम तोखेवंक मेळटा तो गाडयेन प्रवास करता आसतनाच. वाटेवयलीं देवदार, पायन, फर आनी हेर कसल्या कसल्या जातींची रूखां दिश्टी पडटालीं. तांचे मदीं मदीं हेर झोपां आनी झाडां पडटालीं. मजा हाडटालीं तीं तांचे मदलीं डाळंबाचीं झाडां. तांचीं तीं फुलां तांबडींच आनी तांकां लागिल्लीं बारीक बारीक डाळंबां!

म्हाका डाळंबीचीं फुलां खूब आवडटात. अनारकली म्हळ्यार कितें हें ह्या अनारांच्या कळ्यांक पळयतकच होलमता. पूण हीं डाळंबाचीं झाडांच काय आनी कसलीं? तेच जातीचीं रानटी फळां काय? असोय प्रस्न पडटा. कारण लागीं लोकवस्ती काय दिसना. मागीर रस्त्याच्या दोनूय कडांनी ह्यो डाळंबाच्यो बागो कोणें वसयल्यो? तांका राखता कोण? काय त्यो देवाक सोडल्यात? नानातरेचे प्रस्न. तरी तीं फुलां पळयन पळयन शीं दिसतात. बटोट मेरेन हें असलें दृश्य अर्दी मर्दी दिसतालें. बटोट ते रामबन मेरेन म्हळ्यारूय जाता.

हें रामबन म्हळ्यार कितें? तें रामबन काय रामबाण? बरयलां रामबन. हेंय इग्रजीकरण. पूण थळावे लोक म्हणटात रामबाण. रामाच्या बाणाचो हे सुवातेकडेन कितें संबंद बी आसा काय? काय हो वाठार रामाचें वन म्हूण वळखतात. चौदा वर्सां राम वनवासाक गेल्लो. तो खंयच्या वनांत कसो भोंवतालो म्हूण कोणाक खबर?

रामबाण सोडून आमची इनोवा बाण कशी बनहाल खिंडीवटेन धांवताली. आतां मेरेन हांव जळामळाचें सृश्टी सौंदर्य मनसोक्त, मुक्त मनान तोखेतालों. पूण बनहाल खिंडीचो मार्ग आरंब जालो आनी हांवें जीव मुठींत घेतलो.

हो रस्तो वळणा वळणाचो तें जालेंच. म्हाका असले रस्ते नवे न्हय. रोथांग ते लडाख मेरेनचो रस्तो हांवें अणभवला. न्य जलपाईगुरी तो सिक्कीमच्या तिस्ता न्हंयच्या देगेवयलो घाट माथो हांवें काडला. नक्षलबाडी ते काठमांडूचो रस्तो हुपला. कांय कडेन चक्कर येवंक फावना म्हूण हांवें गुळयो घेवंक जाय म्हणपाची जबरदस्ती लेगीत म्हज्या वांगडच्यांनी म्हजेर केल्या. हो असलो प्रवास न्हिदून केन्ना करपाचो नासता. हांगा सैमाचें रौद्ररूप दिसता आसत, पूण थंयचो तो मरणाचो सांगात हाताक धरून व्हरप हातुंतूच एक आगळी वेगळी मजा आसता. असल्या ह्या सुवातांवेल्या रस्त्यावेल्यान हांवें स्वता गाडी चलोवन अणभव घेतला. तेन्ना म्हाका म्हज्या तारूण्याचो सांगात आनी मस्ती आशिल्ली हें जरी सत मानलें तरी मरणाचो भंय काय तसो सहज सुटना.

बनहाल खिंडीचो हो रस्तो म्हळ्यार जम्मू श्रीनगरचो राष्ट्रीय महामार्ग १-अ वेलो सगळ्यांत बिकट आनी भिरांकूळ मार्ग. हांव जर गाडी चलयतालों जाल्यार म्हाका एकवेळ भंय दिसतालो तितलो दिसचोनाय आशिल्लो. पूण तो रफीक काय कोण तो सलमान खान सामकोच आबूज आशिल्लो. खंयची अवदसा सुचली आनी आमकां तरण्या रगताचो जुवान ड्रायव्हर घेवंचो अशें आमकां दिसलें. रफीक आशिल्लो उमेदी. पूण अती उमेदी. आपल्याक जाय तसो बसतालो, जाय तेन्ना हात सोडटालो, जाय तेन्ना मोबायल घेतालो! बरें, आपल्याचें कर्तुब दाखोवन इंम्प्रेशन मारतालो म्हळ्यार ते गाडयेंत एक कामिनी सोडलें जाल्यार सगळे दादले. ताणें कामिनीक म्हजी धूव बी मानल्या आसूं येतालें! पूण म्हाका दुबाव आशिल्लो ताणें म्हजेविशीं गैरसमज करून बी घेवना मू!

आमी कोंकणी उलयतालीं खरीं. पूण तातुंतलीं पिक्चर, लोकेशन्स, शूटींग बी उतरां ताच्या कानार पडटालीं. म्हजें रूपच अशें की ताणें नक्कीच हांव म्हळ्यार पिक्चरां संबंदीत कोण तरी आसां असो समज करून घेतिल्लो आनी आपल्याक चान्स पडलो जाल्यार पडलो. अशें येवजून आपली सगळी कला तो त्या व्हिलाचेर बसून दाखोवपाचो यत्न करतालो. ताचें गणींत जरी एका खिणांक चुकलें तरी ते गाडये सांगाताक आमचें कितें जातलें हें हे मुखार खंयच्याच पिक्चरांत कोण दाखोवंक शकतलो हाची म्हाका खात्री नाशिल्ली.

थंयची ती अरूंद, खडकाळ आनी वोल्तांची वाट! एक एकदां दिसतालें की मुखावेल्यान येवपी गाडी तुका आपटलीच. तिका सायड दितना हाणें गाडी व्हरून घालीच म्हूण देंगणांत. एके वाटेन मळबामेरेन गेल्लो दोंगर आनी एके वटेन पाताळा मेरेन गेल्लें देंगण. त्या देंगणांतली चिनाब न्हंय. ही न्हंय काय कितें हाचो अदमास इतले उंचायेवेल्यान करचो पडटालो. म्हाका असलो रस्तो आवडटा. पूण असल्या विद्वाट्या ड्रायवरा वांगडा न्हय. हांवूय गाडी चलयता आसतना कामिनी भिता. पूण आपूण चलयतना मात्र सारकें चलयता असो आव हाडटा. तेन्ना हांव भितां. ही मानसिकता. त्या रस्त्यावेल्यान तो सलमान खान पयले खेप येना आशिल्लो. तो रूट ताचे सवंकळीचो. पूण अपघात सवंकळीचो काय कितें तें पळयना. वर्सांचो अणभव पळयना. अपघात घडटा तो त्या खिणांक घडिल्ले एके ल्हानशे चुकी खातीर. ह्या रस्त्यार खंय वर्साक धा-बारा भिरांकूळ अपघात हे आसाच. थंयचो तो 'खुनी नाला' तर अपघातां खातीर फामादूच आसा.

खुनी नाला म्हळ्यार बेश्टो सादो नालो न्हय. आमचे नदरेन नालो म्हळ्यार सांत इनेजचो फामाद नालो. हो नालो साफ करपाच्या बोवाळाक लागून फामाद आसा. पूण खुनी नालो हो खुना खातीर फामाद आसा. चार-साडे चार हजार फूट उंचायेवेल्यान सकयल गडगडत येवपी हो दोंगराळ प्रपात. ताका घसघसो म्हणूंक येवचोना. कित्याक तर तो आमच्या दूद सागरा सारको वो आंबोली सारको थेट सकयल रकना. तो आपल्या वांगडा व्हडल्यो व्हडल्यो शिळा, झाडां-पेडां घेवन येता. बरें हो नालो सतत व्हांवत आसता अशेंय ना. तो केन्ना सामको सुको आसतलो आनी केन्ना घसघश्यांनी रकत रौद्ररूप घेतलो हें सांगू नज. आमी ह्या नाल्याच्या लागच्यान वतना मात्सो मात्सो आस्तित्व दाखयतालो. पयलीं ह्या नाल्यांतल्यान मनशां, मेंढरां आनी गाडयो लेगीत देंगणांत वताल्यो. आतां थंय बोगदो तयार जाल्ल्यान ह्या खुनी नाल्याकडल्यान खून जावप बंद जालां.

बनहालच्या मुळसांत आशिल्लो बनहाल हो गांव खंय आरोग्यदायी हवे खातीर खूबूच फामाद आसा. पूण त्या गांवांत रावपाचें म्हळ्यार आमचो थंय कोणूच नाशिल्लो. त्या गांवांत लोकांनीं आपल्या राबित्या खातीर दोंगराच्या मदीं मदीं सपाटी दिवन बांदिल्लीं घरां, केल्लीं शेतां, मागीर दाटायेन वाडिल्लीं व्हडलीं व्हडलीं रूखां हें सगळेंच एका सुंदर चित्रावरीं दिसता.

बनहाल खिंडीची चडटी म्हळ्यार धायेक किलोलिटराचो रस्तो. पूण त्या दोंगराक लागून गाडी घुंवत घुंवत, भोंवताडे मारिल्लेवरी चडटाली आनी ती चडूंक तो रस्तो सतरा-अठरा कि. मी. लांब जावन गेल्लो. ह्या दोंगराची उंचाय णव हजार फूट आसा आनी इतल्या उंचार गाडी पावली म्हणटकच लागता तो ६५० फूट लांबायेचो बोगदो. जवाहर बोगदो.

जवाहर टनेल हो आशिया खंडांतलो सगळ्यांत उंचायेवेलो, सगळ्यांत लांब बोगदो.

जवाहर टनेलाकडेन गाडी पावली आनी थंय संरक्षणदळाच्या अधिकाऱ्यांनी ठोकिल्लो तळ पळोवन म्हळें हांगा आतंकवाद सुरू जालो काय कितें? जम्मूंत पांय दवरीत सावन आमकां वता थंय सैनिक हातांत अत्याधुनिक शस्त्रां घेवन दिसताले. केन्ना चोंब्या चोंब्यांनी तर केन्ना एकटे-दुकटे. तांच्या हातांतलीं शस्त्रां अत्याधुनीक म्हणपाचें कारण म्हळ्यार तसलीं शस्त्रां हांवें अजून पळोवंक नाशिल्लीं. एम्. के. ४७ तर हांव पयलेच खेप पळयतालों. हीं शस्त्रां कालबाह्य जाल्यांत आनी पाकिस्तानी घुसखोरांकडेन हांच्याय परस अर्विल्ली शस्त्रां आसात आनी ते पासत आमी तांचे मुखार कमी पडटात ही रड काय तक्रार भारतीय राखणेदळाची सदांच आसता. तसलीं शस्त्रां

जर ह्या सैनिकांकडेन आनी अधिकाऱ्यांकडेन आशिल्लीं जाल्यार आमचे मनार आनीक थोडें दडपण वाडपाचें काय कितें खबर ना.

आमच्या गोंयांत पणजे पोलिस मुख्यालयाच्या दारांत रेवेंच्यो पोतयो दाळून बराक उबी करून एक दोन सैनिक सदांच रायफल जावं एलएमजी बी घेवन आसतात. तसलेच लोक जळा मळाक वावुरताना पळयल्ल्यान जम्मू सावन जवाहर टनेल मेरेन पाव सर म्हाका तशी खास कितें परिस्थिती भासूंक नाशिल्ली. पूण जवाहर टनेलाच्या मुखार आनी आजूबाजूक ती सैनिकी तळ सदृश्य परिस्थिती पळोवन त्या टनेलाचे राखणेचें म्हत्व कळटालें. आमी खऱ्यानीच आतंकवादी काश्मीर डेंगणांत वतात हाची पयलेच खेप जाणविकाय जवाहर टनेलाकडेन पावले बराबर जाली.

जवाहर टनेल हो जम्मू काश्मिर म्हा मार्गावेलोच न्हय तर लडाख मेरेन आनी थंयच्यान मुखार वचपी प्रवाशां खातीर एक अती म्हत्वाचो दुवो. जर हो टनेल म्हळ्यार बोगदो आतंकवाद्यांनी बॉम्ब बी घालून उडयलो जाल्यार सगळें सोंपलें. काश्मिराकडलो भारतीयांचो संपर्कूच तुटलो मागीर. दिसरात ह्या रस्त्यान भारतीय राखणदळा खातीर रसद पसून शस्त्र पुरवठो आनी हेर जें कितें सप्लाय जाता तें बंद जालेंच म्हूण समजात. म्हणटकच ह्या बोगद्याचें कितलें म्हत्व आसा हें कळटा. तेच पासत थंयची ती राखणे वेवस्ता ही खऱ्यानीच अती म्हत्वाची हातूंत दुबाव ना. जवाहर टनेल समुद्रसपाटी पासून ७,२५० फूट उंचायेर आसा. साडेसोळा फूट रूंद आनी १८ फूट उंचाय आशिल्लो हो बोगदो १९५६ वर्सा लोकां खातीर उक्तो केल्लो. हो बोगदो एक न्हय. दोन म्हळ्यार जातात. एक वचपा खातीर आनी एक येवपा खातीर. सुमार दोन कि. मीटर लांबायेचो हो बोगदो पीर पंजाल दोंगराक पोखरून केल्लो आसा. श्रीनगर शारांत बेगीन पावचे पासत ह्या बोगद्याचो मोलाचो आदार जाला. ते आदीं गाडयो घुंवत घुंवत पीर पंजाल पर्वताक भोंवताडे मारताल्यो. हें आतांचें दोन वरांचें अंतर काडूंक एका वेळार आठ वरां लागतालीं.

जवाहर टनेलांतलो प्रवास हो एक खऱ्यानीच वेगळो अणभव दिवपी प्रवास. गाडी बोगद्यांत घुसल्या बराबर भुरग्यांकूच न्हय तर जाणट्यांक लेगीत किंळच्यो मारपाची कूय येता. हांव गोंयच्यान मुंबय वतना ह्यो गजाली पळयत आयिल्लों. वास्कोच्यान कॅमरलॉक पाव मेरेन कितले बोगदे लागताले. आतां मडगांवच्यान मुंबय पाव मेरेन कोंकण रेल्वे मार्गारूय बोगदे आसात. पूण बोगद्यांत पावतकच किंळच्यो मारपाची लागण काय अजून पयस जावंक ना.

तार्ची फाटली मानसिकताय कितें आसूं येता? इतलो वेळ देव कशे बसून भायलें सृश्टी सौंदर्य तोखेवपी, वो वाचून जावं हेर मनरिजवणेच्या वावरांत दंग आशिल्ले प्रवासी बोगद्यांत पावल्या बराबर लज-भीड सोडून किंळच्यो कित्याक मारतात काय? हो प्रस्न म्हाका सदांच पडटा.

बोगद्यांत गाडी भितर सरतांच गाडयेंत काळोख पातळटा. लायटी कोण लावंक वचना. कित्याक, रोकडोच उजवाड येवपाचो आसता. तरी हो क्षणिक काळखाचो काळ मनशाभितरलो रानवटी प्राणी जागयता. कुकर्मा करूंक उकसयता. आपूण जें करता तें पळोवपी दुसरो कोण ना वो आसल्यारूय तांका दिसना तेन्ना जाता तितलीं अवचिन्नपणा करून घेवया म्हूण आयिल्ले संदीचो लाव घेवन विकृत आनंद घेवपाचो तांचो कल आसता. हो अंधार चड काळाचो आशिल्लो जाल्यार बायलांचेर आगळीक करप, वस्ती फारावप बी प्रकारूय घडूं येतालो. पूण तशें करून पळ काडप शक्य नाशिल्ल्यान इतल्यारूच प्रवासी समादान मानतात.

जवाहर टनेलांत मात कोणेंच तोंडांतल्यान ब्र काडले नात. मुखार गाडयो वताल्यो तांचे फाटले तांबडे दिवे आनी आमच्या गाडयेच्या प्रखर दिव्यांच्या उजवाडांत फुडल्या गाडयांच्यो चकचकपी बेगड्यो, रिफलेक्टर्स बी दिसताले तितलेच. आनीक एक गजाल जाणवली ती म्हळ्यार इतलो वेळ भायर जी गरमी आशिल्ली ती बोगद्यांत भितर सरल्या बराबर नाच्च जाली. एक वेगळ्या प्रकारची थंडसाण आंगाक लागूंक लागली. फ्रिज उगडटकच भायर थंड वाव मारता आनी जिवाक बरें दिसता तशें शें कितें जाणवलें.

हांव मोन्यानी बसून आशिल्लों. तशे सगळेच मोने जाल्ले. असल्या बोगद्यांतल्यान वतना म्हजेर एक दडपण शें आयिल्लें आसता. म्हाका एक फोबिया सो जाला. दिसता, जर वयल्यान कितेंय कोसळ्ळें जाल्यार? बोगद्याचीं दोनूय मुखां माती-फातर कोसळून बंद जालीं जाल्यार? हे कल्पनेनूच म्हाका फुगासांव जाल्लेवरी दिसता आनी केन्ना एकदां भायर पावता शें जाता.

पयलीं हें अशें जायनाशिल्लें. एकदां हांव एके लिफ्टींत वरभर लायट गेल्ल्यान उल्लों आनी ते दिसाच्यान हें अशें जाता. मर्दीमर्दीं कला अकादमीच्या ब्लॅक बॉक्सांत गेल्यार जातालें, विमानांत गेल्यार जातालें. केन्ना एकदां थंयच्यान भायर सरतां अशें म्हाका जावन गेल्ल्यान फुगार जातालों. जेन्ना म्हजे तकलेचें दोनदां ऑपरेशन जालें आनी तें करपाक म्हाका हॉस्पिटलांत ऑपरेशन थेटरां आनी हेर सुवातांनी व्हेलो तेन्ना मनाक

हांवें समजायलें, हें सगळें अशेंच! जल्मापयलीं णव म्हयने तूं आवयच्या पोटांत आशिल्लो ते णव म्हयने हेंच आशिल्लें. त्या आदींय हेंच आशिल्लें आनी हांगच्यान जेन्ना वतलो तेन्ना होच प्रकार फुडाराकूय आसतलो. हें कितें आसा तें खिणयाळें. हातुंतल्यान भायर येवप म्हज्या हातांत आसा. तातुंतल्यान भायर येवप न्हय. आनी ते दिसाच्यान हो फोबिया मुळासयत न्हय तरी खूब सो पयस जाला.

नेहरू टनेलच्यान आमची गाडी भायर सरली आनी काश्मीरच्या सूर्यान आमकां टाटा करपाक सुरवात केल्ली. हांगा सूर्य खंयच्यान उदेता आनी खंय अस्तमता हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. कित्याक तर आमचो मार्ग केन्ना पुर्वेकडेन घुंवतालो, केन्ना पश्चिमेकडेन तर केन्ना दक्षिणेकडेन. सूर्य मावळटा ती दिका अस्तंत म्हळ्यार पश्चिम हें जें कितें मास्तरांनी आमकां गिन्यान दिल्लें वो वाचून बी मेळयल्लें ताचेर भरवसून सूर्य जंय अस्तंमपाचो यत्न करता ती पश्चिम दिका म्हूण हांवें मानून घेतिल्ली. आनी सूर्य अस्तंमपाचो प्रयत्न करतालो म्हणपाचें कारण म्हळ्यार तो अस्तंमलो अशें दिसता सर मुखावेल्या खंयच्या तरी वळणार तो तकली वयर काडटालो. शेवटाक तो खंय तरी नाच जालो.

सूर्य अस्तंमलो आनी जळामळाक काळखाची चादर पसरली अशीं वर्णना करपा सारकी परिस्थिती नाशिल्लीच. मुखार जीं वाहनां धांवतालीं तांच्या फाटल्यान आमची इनोवा धांवताली. आमचो सलमान मुखावेल्या गाडयांक सायड मारपाचो अटोकाट प्रयत्न करतालो आनी तशें करतना हो व्हरून घालता खंय तरी आतां गाडी अशें दिसूंक लागतालें.

व्हडले व्हडले म्हालान भरिल्ले ट्रक. तांचे मदीं सैनिकानी भरिल्ले संरक्षणदळाचे कितलेतरी ट्रक. तातूंत आनी दुसरे दिसाच्यान





अमरनाथ यात्रा सुरू जावपाची आशिल्ली. पहलगाम भाविकांचो तळ लागिल्लो. थंय वेवस्ता करूंक लागपी सामानाचे ट्रक मदींच घुसताले. थळाव्यो गाडयोय धांवताल्यो. आनी तातूंत आमचीय गाडी.

सात जावन गेल्लीं तरी भायर हय न्हय सो उजवाड दिसतालो खरो, पूण त्या उजवाडांत कितें पळयतलो म्हळ्यार पळोवन कांयच लक्षांत येवपा सारकें नाशिल्लें. ते परस कांयच पळयनासतना ओग्गी बसून रावप हेंच चड सूखदेणें आशिल्लें.

आमकां जितले बेगीन पावता तितले बेगीन पावूंक जाय आशिल्लें. आमकां व्हरूंक थंय मनीस रावताले. आमी कितल्यांक पावतलीं, खंय पावल्यांत हें सांगपाक कांयच मार्ग नाशिल्लो. जम्मू पावले बराबर आमचे मोबायलय ठप्प जाल्ले. तिगांकडेनूय तीन मोबायल. पूण तिनूय मोबायलांचो आतां कांयच उपेग नाशिल्लो. ते वापरतलो जाल्यार आतां थळावें कार्ड घालपाची गरज आशिल्ली. तें आतां श्रीनगर पावल्या उपरांतूच थारपाचें. पूण ते आदीं श्रीनगर पावंक तर जाय आशिल्लें!

आमी खंय पावल्यांत तें फकत वाटेवयल्या मैलांच्या फातरांवेल्यान कळटालें. आमी खानबल काडिल्लें. मदींच पावसाची शिडशिड आरंब जाली. आमचीं बॅगां गाडयेच्या टापार आशिल्लीं. तांचें आतां कितें जातलें हाचो हुसको मनाक स्पर्श करचे आदींच गाडयेंतलो एकलो आड्डलो. तो काश्मीरी भाशेंत कितें आड्डतालो तें कांयच कळ्ळेंना. पूण गाडी चलोवप्यान गाडी वालेर्तीत घेतली आनी सकयल देंवलो. गाडयेंतलें टारपोलीन काडून तें वयर चडून बॅगांचेर घालूंक लागलो. तशें करतना ताका हेर पासेंजरीय मजत करताले. आमी खंय फोन

दिसता काय पळोवंक लागलीं. लोकल पिसिओ वापरून जॉनाक फोन करप गरजेचें आशिल्लें. फोन सोदता तें पळोवन ड्रायव्हरानूच म्हळें, नंबर सांग आपल्या मोबायलावेल्यान संपर्क करतां.

कामिनीन नंबर दिलो. ताणें आपल्या मोबायलावेल्यान फोन केलो. तो काश्मिरीभाशेन कितें तरी उलयलो, मागीर फोन कामिनीकडेन दिलो. बाबडे दनपारच्यान आमची वाट पळयत राविल्ले. मागीर त्या फोनाचेर परत परत फोन येत रावले. तुमचें तुमी पळयात. खंय रावल्यात तें सांगात म्हूण आतां सगळी जापसालदारकी ड्रायव्हराचेर घालून आमी निश्चिंत बसलीं.

म्हाका इतलीं वरां गाडयेंतल्यान प्रवास करपाची सवंय नाशिल्ली. म्हणचे प्रवास करतालों, पूण गाडी हांव चलयतालों. हाका लागून कितलींय वरां गाडी चलयल्यार लेगीत म्हाका त्रास जायना. दोळे सतत मुखार आसतात. गाडी चलयतां चलयतां सरभोंवतणी पळोवंक मेळटाच, तेच वांगडा गाडयेच्या वेगान विचारूय धांवत आसतात. असो गाडयेंत बसून प्रवास करतना हें सगळें घडटाच. गाडी चलोवपाची, दोळे मुखार रस्त्यार खिळोवपाची गरज नाशिल्ल्यान जाय जाल्यार दोळे मिटून निवांत पडपाकूय मेळटा... पूण हाता पांयाची हालचाल जायना. गाडी चलोवपाचो तो एक फायदो आसता. आंग सतत घोळत आसता.

पांय सामके आखडून गेल्ले ते पासत. कितलीं वरां म्हणून असो बसून रावतलों? दोन दोन वरांनी तरी जमनीर देंवून आंग सरळ करूंकच जाय आसता. हांगा शक्य नाशिल्लें.

चार-साडेचार वरांचेर वाटेर खानबल काय खंय तरी शोलेबटोरे ची भाजी आनी गरम गरम तंदूर रोटी खाल्ली. रात जावंचे पयलीं श्रीनगराक पावंक जाय आशिल्लें. आठ-णव मेरेन पावतलीं अशी अपेक्षा आशिल्ली. आमचे श्रीनगराक आशिल्ले मनीस परतून परतून शौकत अलीक फोन करताले आनी तो आमी थंय केन्ना पावतले हाची म्हायती तांका दितालो. सलमानखानाचें नांव शौकत अली म्हणपाचें इतले मजगतीं आमकां कळिल्लेंच.

दोंगराळ रस्तो सोंपून आता सपाट प्रदेश लागिल्लो. पयसुल्ले दोंगर जिळमिट्या काळखांत दिग्ग उबे आशिल्ल्याचें दिसतालें. गांव अर्दी-मर्दी लागताले पूण रस्त्यार खंयच दिवे नाशिल्ले. हांगा अजून लायट पावूंक ना काय? असो प्रश्न पडल्याबगर रावंनाशिल्लो. अर्दीमर्दी खंयीय हळडुवो-तांबसो रंग फाफुडल्यावरी एक बल्ब दिसतालो. घरां-घरांनी लायट आशिल्ली. खंय पावल्यात, भायर कशें आसा हाची फकत कल्पना करूं येताली. दिसतालें तें गाडयेच्या प्रखर उजवाडांतलें रस्त्या मुखावयलें दृश्य. शौकत अलीक म्हळ्यार आमच्या सलमान खानाक हो रस्तो संवकळीचो आशिल्लो. तरी तो एका रस्त्यार मातसो आडखळ्ळो. भलत्याच रस्त्यार वचून परतलो. ताच्या शेजराक बशिल्लो आनी आमच्या फाटल्यान बशिल्ले ताचेकडेन काश्मिरी भाशेंत कितें तरी उलयताले. आवाजांत हुसको दिसतालो पूण अर्थ लागना आशिल्लो. हांची भास आनी उच्चार अफगाणी, इराकी बी जशे उलयतात तशी आशिल्ली. खंयच्या अक्षराचेर केन्ना नेट दीत तें सांगू येना आशिल्लें!

शौकत अली रस्तो सोदता तें पळोवन म्हाकाय हुसको जालो. दनपरां ह्या मनशाक जम्मूत पोलिसानी आडायल्लो तेन्ना हाचेकडेन येरादारी करपाचो परवानो नाशिल्लो. आतां हाका काश्मिर रस्तोय खबर ना काय? मेळटा थंय व्हरून घालीत आमकां हो! असो एक विचार आयिल्ल्यान हांवेंच शौकताक विचारलें, "शौकत मिया, रास्ता भूल गये क्या?"

त्रासीक आनी हुसक्याच्या आवाजान ताणें म्हळें "रास्ता कैसा भूल सकते है जी? आगे प्राबलेम है!"

कितल्या दिसांनी तरी काश्मिराक कर्फ्यू सदळ केल्लो. आमचें काश्मिरांत भितर सरप जातालें तेंच कर्फ्यू सदळ केल्ल्या काश्मिरांत. पूण वाटेर पुलवामा म्हणटात त्या गांवांत जुलूस काडिल्लो खंय! शौकत अली ते वाटेन वचूंक भियेतालो. गाडयेक उजो घालो, गाडी फोडली जाल्यार! अशी भिरांत ताका पडिल्ली. तेच पासत तो दुसरो रस्तो पळयतालो. पूण तो रस्तो पयस पडिल्ल्यान ह्याच रस्त्यान गेल्या बगर पर्याय नाशिल्लो. वाटेर गाडी थांबोवन ताणें आपले भाशेंत रस्त्यावयल्या कांय लोकांक कितें तरी विचारलें आनी मागीर गाडी सोडली.

आमी अनंतनाग पाविल्लीं. अनंतनाग बी नांवा दूरदर्शन, रेडिओ आनी दिसाळ्यांच्या खबरांनी कानार पडटालींच. अनंतनाग हें नांव तेच पासत आमकां संवकळीचें जाल्लें. हांगाच कितें ना कितें घडत आसतालें. रस्त्यार राखणदळाचे सैनीक हत्यारां घेवन गर्दी करून आशिल्लेच! वता थय मिलीटरीचे व्हडले व्हडले ट्रक जातूंत सगळे तयारीन सैनीक बसून आशिल्ले. तांचे ते निराकार चेहरे. आंगार घाल्लीं जाकिटां. हातांतलीं तीं बंदुकां. एक विचित्र शें दडपण आशिल्ले वातावरणांत. भिवपाचो प्रस्न नाशिल्लो. आमच्याच सरक्षणाक तर तांकां थंय तैनात केल्ले. पूण कितें ही परिस्थिती? म्हज्याच देशांत म्हाका ह्या कसल्या दडपणां खाल वावुरचें पडटा? कित्या खातीर?

अनंतनागच्यान आमी पुलवामा म्हणटात त्या गावाकडेन पावले. हांगाच आमचो जॉनसाब रावतालो. म्हळें सोंपलो आमचो प्रवास. पुलवामाक जॉनाचें व्हडलें घर आसा, ताच्यो हांगा सफरचंद,

अक्रोड, बदाम हांच्यो बागो आसात अशें जायतें आयकल्लें. जॉनसाब तर म्हजे फाटीकूच लागिल्लो, "दिलीपसाब, आप हमारे घर एकबार जरूर आओ. बहोत अच्छा लगेगा. हमारे घर में रहो, आराम करो, खाओ-पिओ! कोई दिक्कत नहीं. हमारा पुलवामा गाव आपको बहोऽत बढिया लगेगा!" अशें कितें कितें हांव ताच्या तोंडांतल्यान तो मेळटा तेन्ना आयकत आयिल्लों. एकदांचो ताच्या गांवांत, पुलवामांत पाविल्लों. पूण तो हांगा आमकां रावपा बदला श्रीनगराक कित्याक रावतालो? पुलवामाच्यान श्रीनगर तिसेक किलोमिटर आशिल्लें. थंय वचून परतुचे परस हांगाच देंवप बरें अशें दिशिल्लें! पूण आमकां कांयच थंयचे परिस्थितीची कल्पना नाशिल्ली.

पुलवामा गांवांत पावल्यात मात, काळखांतल्यान मुखार आमकां कितल्यो तरी मशाली दिसल्यो रस्त्यार. मशाली घेवन जुलूस काडिल्लो थंयच्या कॉलेजच्या विद्यार्थ्यांनी. कर्फ्यू शिथील केल्ल्यान तांका धा-बारा दिसांनी घराभायर सरूंक मेळिल्लें आनी तीच संद घेवन ताणीं अशी आमोरेर मशाल मिरवणूक काडिल्ली.



कितें करचें हें शौकत अलीक तर कांयच कळनाशिल्लें. टुरीस्ट को कोई प्राब्लेम नहीं म्हणत तो गाडी मुखार व्हरतालो. मर्दी एक कडेन थारावन ताणें पोलिसांकडेनूय कितें तरी विचारिल्लें आनी पोलिसांनीय ताका ताचे भाशेंत कितें तरी सांगिल्लें. कळनाशिल्लें तरी पोलिसांच्या हावभावावेल्यान मुखार वचात म्हूण सांगलां म्हणपाचो अर्थ हांवें काडलो. वाटेर आमकां रस्त्याचे मर्दी ही मशाल मिरवणूक मेळ्ळी. कॉलेजचे तरनाटे, जातूंत माथ्यावेल्यान ओडणी ओडून आशिल्ल्यो कांय चलयोय आशिल्ल्यो, ताणीं मिरवणूक काडिल्ली. हातांतल्या मशालींच्या उजवाडांत तांचीं मुखामळां दिसतालीं. आमी काश्मिरांत प्रवेश केल्लो. काश्मिरी लोकांच्या सुंदरायेची तोखणाय आयकल्ली. सुंदर चलयांचें दर्शन सिनेमांतल्यान जाल्लें" आयज त्योच चलयो आनी चले हांव रातच्या काळखांत मशालीच्या उजवाडांत पळयतालों.

काश्मिर जळटा म्हणटात तें आयकल्लें. आतां हांव कवदे भगभगतात ताच्या उजवाडांत काश्मिरी तरनाट्यांचीं काळजांच न्हय तर दोळे लेगीत कशे पेट्टात तें पळयतालों. ज्या काश्मिरच्या सैमसुंदरायेच्या मोगान हांवें काश्मिरांत पांय दवरिल्लो, त्या काश्मिरांत म्हज्या येवकाराक पेटपी मशालीच न्हय तर खदखदपी तरणें रगत मुखार आयिल्लें!

म्हाका असल्यो मिरवणुको आनी आंदोलनां नवीं नाशिल्लीं. हांवूय तातुंतल्यान घडत गेल्लों. कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या वेळार दक्षीण गोंयांत कितें घडिल्लें आनी हांवें म्हज्या गांवांत कितें भोगलेलें ताचो अणभव गांठीक आशिल्लो. आंदोलनाचें दडपण, मर्दी, फायरींग सगळें सगळें हांवें अणभवल्लें! तरी तें म्हजें गोंय आशिल्लें! थंयच्यो समस्या म्हाका खबर आशिल्ल्यो आनी लोकांची मानसिकतायूय. हांगा हांव परकी आशिल्लों, एकाच देशाचो नागरीक आसुनूय हांगच्या नागरिकांचे प्रस्न म्हाका खबर नाशिल्ले. हांव आयिल्लों फोल्गांक! तशे कितले लोक हांगा येताले. मौजा करून वताले. पूण हांव तांतलो नाशिल्लों. हांव भारतीय आशिल्लों, म्हज्या भारतीय भावंडांचे प्रश्न समजून घेवंक आशेतालों. पूण म्हज्यो भावना काय तांका होलमुपाच्यो नाशिल्ल्यो!

मशालधारकानी आमची गाडी आडयली. ड्रायव्हराच्या शेजराक बशिल्लो तो नॅवीचो तरनाटो तांचेकडेन कितें तरी उलयलो. ताचे वळखिचे तरनाटे आशिल्ले जावंये! ते ताका थंयचे परिस्थितीची म्हायती दिताले. ताका हात हालोवन ताणीं गाडी मुखार वचूंक दिली. हांव भगभगपी मशालींच्या उजवाडांत त्या लोकांचीं मुखामळां नियाळटालों. जुलूस पयस पयस गेलो म्हणचे परस आमची गाडी नेटान श्रीनगराकडेन सुटिल्ल्यान तो जुलूस पयस जाल्लो. आमचें स्वागतूच अशें आगळे वेगळे पध्दतीन केल्लें काश्मिरान.

श्रीनगरांत कर्फ्यू लागिल्लो तो आतंकवादी कारवायांक बी न्हय. तर 'मुझव्वरत मजलिस' हे संघटनेन आंदोलनाचो उलो दिवन, बंद, मोडतोड मोर्चा बी असल्यो गजाली सुरू केल्ल्यो देखून.

पुलमांवा म्हणटात त्या गांवांत जंय आमी रावपाचीं आशिल्लीं त्या गांवच्या लागसारूच शोपिया म्हूण एक गांव आसा. ह्या शोपिया गांवच्या एका रणबीर आदा नांवाच्या व्हाळा देगेर ३० मे ह्या दिसा दोन मडीं सापडलीं. एक निलोफराचें आनी दुसरें आसिया जान हे सोळा-सतरा वर्सां पिरायेचे चलयेचें.

निलोफर लग्न जाल्ली बावीस-तेवीस वर्सांची तरणी बायल. तिका तीन वर्सांचो एक भुरगो आसा आनी ती नव्यान गुरवारूय आशिल्ली. आसिया हे कॉलेजांत शिकूंक वचपी, आपल्या फुडाराचीं सपनां रंगोवपी, निकतीच फुलपाकडेन पाविल्ली 'काश्मिरची कळी'.

ह्या दोगांयचेरूय कोणें तरी अमानूश बलात्कार करून तांकां गुळयो घालून मारिल्ल्यो. तांचेर खंय सुमार पंचवीस-तीस लोकांनीं बलात्कार केल्लो. तातुंतली क्रुरताय म्हळ्यार, ह्या मनीसपणाक लजेक घालपी करणेन त्या दोगांयच्यो छातयोच ना करून उडयल्ल्यो. लोकांचें म्हणणें वो हे संघटनेचें म्हणणें, हें कर्म थंय तैनात केल्ल्या सुरक्षा दळाच्या जवानाचें! तर जवानांचें आनी सरकारी म्हणणें हें कोणातरी भलत्याचेंच कर्म. पाकिस्तानी घुसखोरांक काश्मिरच्या गांवागांवांनी तैनात केल्लें हें सुरक्षा दळ आडखळ हाडटालें. तांका थंयच्यान काडचें देखून ते नाना उचापती करताले. जवानाक बदनाम करपा खातीर आनी थळाव्या लोकांक खुबळावन घालून ह्या राखणेदळाक थंयच्यान धांवडावन घालूंक लावपाखातीर ही घुसखोरांची माणणी आशिल्ल्याचें मत्तूय आशिल्लें!

साबार प्रस्न घेवन फाटले धा दीस श्रीनगर आनी त्या सरभोंवतणचो वाठार जळटालो. मार-फार जातालो, मोर्चा-बंद चलताले. बरेच लोक जखमी जाल्ले. पुलवामा गांवचो एक बारा-चौदा वर्सांचो भुरगो पोलिसांनीं केल्ले कारवायेंत गुळी लागून मेल्लो. देखून ह्या पुलवामा गांवांत ह्या आंदोलनाची खराय आनीकूय वाडिल्ली. जे सर त्या दोगांय बायलांचेर बलात्कार आनी अत्याचार केल्ल्या क्रुरकर्म्यांक अटक करून ख्यास्त जायना ते सर आंदोलक फाटीं सरूंक तयार नाशिल्ले. तातुंतच वेगवेगळ्या पथांच्यो संघटना वेगवेगळ्यो मागण्यो करताल्यो. पोस्टमार्टम करतना आडखळ हाडटाले. कित्याक तशें केल्ल्यान तांचो अंतीम संस्कार करूंक कळाव जाता! कोणाक ह्या दोगांयचेर अत्याचार करप्यांक बेगोबेग धरपाचें आशिल्लें तर कोणाक सत्य परिस्थिती मुखार आयिल्ली नाका आशिल्ली. सगळें जवानांच्या हड्ड्यार घालून तांकांच थंयच्यान धांवडावन घालपाचो प्रयत्न चल्ला म्हणपाचेंच दिसून येतालें. तरी एक प्रस्न तकली वयर काडटालोच, गांवच्यान हीं दोगांय जाणां रणबीर आरा नाल्या वटेन एकसुरे वाटेन गेलींच कित्याक?

णव वरांचेर आमची गाडी श्रीनगराक पावली. आमच्या फाटल्यान बरोच वेळ एक मोटरसायकल लागिल्ली. मोटर सायकलीचेर दोग जाण तरनाटे आशिल्ले. गोंयांतूय हो प्रकार घडटा. टुरिस्ट गाडयो शारांत पावल्यो काय हॉटेलांचें बुकींग बी करपी ते गाडये फाटल्यान लागतात. रूम बूक केल्यार तांकांय एका पर्यटका फाटल्यान पन्नास-शंबर रुपया सुट्टात. तांतलेच हे कोण तरी आसतले असो म्हजो समज आमकां तांची गरज नाशिल्ली. आमकां गाडी व्हरपाक येवपाचे आशिल्ली जॉनसाबाची.

आमी श्रीनगराक देंवलीं. श्रीनगर म्हळ्यार दुसरें तिसरें कांयच न्हय. गोंयांत आसता तसलेंच वातावरण. म्हापशा, मडगांव, पणजे खंयीय बसस्टॅण्ड वो टॅक्सीस्टॅण्ड आसता तसलेंच वातावरण. दबक्य आवाजान आनी लिपून कशे वावुरपी कांय लोक. रात जाल्ल्यान आनी कर्फ्यूचें वातावरण आशिल्ल्यान जावंये! हें तशें दिसतालें.

आमकां व्हरपाक येवपी कोण दिसनाशिल्ले. थंय कोणाची प्रायवेट मोटारय दिसनाशिल्ली. आमच्या फाटल्यान लागिल्ले मोटरसायकलीवेले तरनाटे मात आमचे कडेन पळयताले. तेच आमचे लागीं आयले. 'भाभीजी आप गोवा से आये है ना? हमे जॉनसाबने भेजा है' तातुंतल्या एकल्यान म्हळें. कामिनीन तांका वळखल्लो. तांतलो एकलो आजाद आशिल्लो. जॉन साबाचो भाचो.

ताणीं तेच टॅक्सीक सांगून आमकां खंयच्या तरी हॉटेलांत व्हेलें. पुलवामा वचप ना. थंयची परिस्थिती रावपा सारकी ना. थंय एकदा अडकल्यार भायर सरूंक मेळचेंना म्हूण आमी श्रीनगराकूच रावचें अशें जॉनसाबान सांगून तांका धाडिल्ले. गाडीय भायर काडपाची परिस्थिती नाशिल्ली. केन्ना कोणूय फोडूंक शकतालो. फकत श्रीनगराक पर्यटकांक सवलत आशिल्ली. थंयची परिस्थिती चड करून दल सरोवरा भोंवतणचो वाठार नॉर्मल आशिल्लो खंय! देखून आमी थंयच रावचीं आनी मागीर परिस्थिती निवळटकच जॉनसाब आमकां पुलवामा व्हरूंक येवपाचो आशिल्लो. आमची वेवस्ता ताणीं एका 'सहारा' नांवाच्या हॉटेलांत तिसरे माळयेर केल्ली. ते रातचे वेळार अनवळखी सुवातेर तोच सहारो आमचे खातीर खूब जाल्लो!

**(फुडली गजाल खिस्ती खिस्तीनी दर म्हयन्याक)**

# अती वेग आनी अती म्हाल भरप टाळात

## तुमकां खबर आसा?

दर वर्सा तीन लाखां परस चड रस्तो अपघातांची नोंद जाता आनी भारतांत ८० हजार लोक रस्तो अपघातांत मरतात आनी ८०% अपघात मनशाचे चुकीक लागून जातात.

## वाहतूक वेग/कुरवो पाळात
## सुरक्षित रावात आनी रावूंक दियात

- सोरो पिवन वाहन चलोवं नाकात.
- दुचाकी दोगां खातीर, न्हय चडां खातीर.
- वेग उमेद हाडटा पूण जीव घेता.
- जीवीत जगूंक सुंदर आसता मागीर वेग वाडोवन कित्याक उणायतात?
- दुचाकी चलयतना सदांच हॅल्मेट घालात.
- वाहन चलयतना मोबायलचो वापर टाळात.

*लोक हिता पासत वितरावणी*

येरादारी संचालनालय
पणजी-गोंय



Align with Nature...
Where life unfolds wild and with effortless ease
Goa's flora & fauna is so incredible, that the Western Ghats, which form most of the eastern Goa, have been internationally recognised as one of the biodiversity hot spots of the world and compared even with the Amazon and Congo basins.
GO GOA
A perfect holiday destination !
DEPARTMENT OF TOURISM
Government of Goa, Patto, Panaji, Goa 403001, India, Tel: +91 832 2438750 / 51 / 52.
E-mail: goatourism@dataone.in web:http//www.goatourism.gov.in
For reservations / bookings / Tours / Cruises / contact: Travel Division
GOA TOURISM DEVELOPMENT CORPORATION LTD. (A Govt. of Goa Undertaking)
Trionora Apartments Dr. Alvares Costa Road, Panaji, Goa 403001, India, Tel:+91 832 2224132, 2226515, 2226728.
Call Center: Tel.: 0832-2424001, 2424002, 2424003 Fax: 0832-2423926, 2420779 E-mail: reservations@goa-tourism.com Website: www.goa-tourism.com




Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, "Dharm-Laxmi", St. Lourence, Agasaim-Goa,
Editor: Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in Printed at impressions, Bgm. Ph.: 0831-2421232